# कर्मण्ये...

## काल, आज, फाल्यां

- अरविंद पांडुरंग भाटीकार



अरविंद भाटीकार
हांचीं पुस्तकां :

1. वोंवळां : यादींचो सर
   (2011)
2. **Rudderless Democracy :**
   A Critique Of The Shah Commission Report On Mining Industry, And The Judiciary In India.
   (2015)
3. **कर्मण्ये – काल, आज, फाल्यां... :**
   एका आय.ए.एस्. अधिकाऱ्यान भारतीय प्रशासन आनी भ्रश्टाचार सुदारपाच्या केल्ल्या यत्नां विशींची कादंबरी.
   (2021)

# कर्मण्ये...
## काल, आज, फाल्यां

**अरविंद भाटीकार**



# कर्मण्ये... काल, आज, फाल्यां
(कादंबरी)

# KARMANNYE... KAAL, AAJ, FAALYAAM
(Novel)


- अरविंद भाटीकार
3/4, 4-सी, मॉडेल्स मिलेनियम व्हिस्तास
करंजाळें, गोंय - 403002
फोन : 0832-2465127/8975765212



- प्रकाशक :
**संजना पब्लिकेशन्स**
39, दत्तवाडी, सांगें,
गोंय. 403704
sanjanapublications2@gmail.com





- पयली उजवाडावणी : 2021

- छापणावळ :
इंप्रेशन्स, बी-2, 'अक्षर - आर्केड'
3360/4, गोंधळ गल्ली,
बेळगांव 590 002

- मुखचित्र : दिपक च्यारी

- मोल : रु. 400/-
**Special Edition**

# आरंभाचीं दोन उतरां

भारतीय प्रशासन सेवेंतल्यान निवृत्त जातकूच एक दीस म्हाका पणजेच्यान चीफ सेक्रेटरीचो फोन आयलो. गोंय लोक सेवा आयोगाच्या अध्यक्ष पदाचेर नेमपाक तांका निवृत्त आय्.ए.एस् अधिकाऱ्याची गरज आशिल्ली. आय्.ए.एस् अधिकारी मेळना जाल्यार तो दुसऱ्या कोणाकूय नेमपाविशीं येवजितलो आशिल्लो. हांव निवृत्त जातकूच म्हाका भरपूर वेळ आसतलो आनी म्हजीच त्या पदाचेर नेमणूक करची अशें चीफ सेक्रेटरीन तेन्नाच्या गोंयच्या गवर्नराक सुचयिल्लें. म्हाका हो प्रस्ताव मान्य आसल्यार हांवें दुसऱ्या दिसा गवर्नराक मेळचें पडटलें अशें चीफ सेक्रेटरीन सुचयलें. दुसऱ्या दिसा हांव गवर्नराक वचून मेळ्ळों.

फुडल्या कांय दिसां उपरांत गवर्नरान गोंय लोक सेवा आयोगाचो अध्यक्ष म्हूण म्हजी नेमणूक केली.

पात्रतायेच्या निकशांचेर वेंचून, खंयच पक्षपात करिनासतना, कोणाचेरूच अन्याय जावचो ना हाची जतनाय घेवन, नोकर भरती करपा खातीर दर राज्यांत एक लोक सेवा आयोग आसचो अशें भारतीय संविधानांत घालून दिलां. भारतांतल्या चडश्या राज्यांनी वेल्या पांवड्यावेल्या पयल्या आनी दुसऱ्या वर्गाच्या सरकारी अधिकाऱ्यां खातीर राज्य लोक सेवा आयोग स्थापन जाल्ले आनी तिसऱ्या आनी चवथ्या वर्गांतल्या नोकर भरते खातीर वेगळे नोकर भरती आयोग आशिल्ले. गोंयांत त्या वेळार सुमार पन्नास हजार सरकारी नोकर वर्ग आशिल्लो. तातूंतले फक्त पांच हजार पयल्या आनी दुसऱ्या वर्गांतले अधिकारी, आनी सुमार पंचेचाळीस हजार तिसऱ्या आनी चवथ्या वर्गांतले सरकारी नोकर आशिल्ले. गोंय लोक सेवा आयोग फक्त पयल्या आनी दुसऱ्या वर्गांतल्या जाग्यां खातीर उमेदवारांची परिक्षा घेवन तांची

वेंचणूक करून, वेंचून काडिल्ल्या उमेदवारांची वळेरी सरकाराक धाडटालो. उरिल्ल्या पंचेचाळीस हजार जाग्यां खातीर हेर राज्यां भशेन वेगळो आयोग नाशिल्लो. सरकारी खातीं उमेदवारांची लेखी आनी तोंडी परिक्षा घेवन नोकर भरती करतालीं. नोकर भरतेचे प्रक्रियेंत खुब्ब भ्रश्टाचार भरला अशे आरोप उमेदवारांकडल्यान दीस-रात आयकूंक येताले.

गोंय सरकारान "नाम के वास्ते हो" लोक सेवा आयोग स्थापन केला आनी वट्ट सरकारी नोकऱ्यांतल्या फक्त धा टक्के जाग्यांखातीर हो आयोग वेंचणूक करता आनी उरिल्ल्या णव्वद टक्के जाग्यांक पक्षपात आनी भ्रश्टाचारा विरयत नोकर भरती करपा खातीर सरकारा कडेन कांय वेगळी वेवस्था ना अशें हांवें गवर्नराक सांगलें आनी तिसऱ्या आनी चवथ्या वर्गांतल्या जाग्यां खातीर नोकर भरतीय बी गोंय लोक सेवा आयोगान करची अशें सुचयलें.

गवर्नरान म्हजो प्रस्ताव रोखडोच मानून घेतलो, आनी त्या प्रमाणे सरकारान अधिसुचोवणीय बी काडली. हांवें लोक सेवा आयोगाच्या अध्यक्षपदाचो ताबो घेतिल्लो तेन्ना गोंय राश्ट्रपती राजवटी खाला आशिल्लें. प्रशासन चलोवपाचे सगले अधिकार गवर्नराकूच आसताले. चार म्हयन्यां उपरांत गोंय विधानसभेच्यो वेंचणुको जाल्यो आनी लोकांनी वेंचून काडिल्ल्या मंत्रीमंडळान प्रशासनाचो ताबो घेतलो आनी तिसऱ्या आनी चवथ्या वर्गांतल्या जाग्यां खातीर नोकर भरती सरकारी खातींच करतलीं, लोक सेवा आयोग करचो ना, अशी अधिसुचोवणी सरकारान काडली .

सगले वटेन पक्षपाताचे, भ्रश्टाचाराचे आनी हेर तरांच्या अन्यायां विशीं सूर येवंक लागले. दोन वर्सां आदीं दुसऱ्या वर्गांतल्या दोन जाग्यां खातीर गोंय लोक सेवा आयोगान दोन अनुसूचीत जातींतल्या हुशार उमेदवारांची वेंचणूक करून तांचीं नांवां सरकाराक धाडिल्लीं. तांकां ती नोकरी जाय जाल्यार प्रत्येकान आठ लाख रुपया दिवंचे पडटले अशे तांकां संदेश येवंक लागले. ते उमेदवार गरीब कुटुंबांतले आशिल्ल्यान तांकां ते पयशे भरूंक जमलें ना आनी देखून तांकां ती नोकरी मेळ्ळी ना. ते जागे तशेच खाली उरले.

गुरू काकोडकार हो म्हजो इश्ट स्टेट बँकेच्या अध्यक्ष पदावेल्यान निवृत्त जातकूच गोंय लोक सेवा आयोगाचो अध्यक्ष जाल्लो. त्या दोन उमेदवारांनी आपणाल्या नेमणुकांविशीं ताचे कडेन कागाळ केली. कांय दिसांनी

गोंयांत राष्ट्रपती राजवट सुरू जाली. गुरू काकोडकारान चीफ सेक्रेटरी कडेन उलोवन त्या दोन उमेदवारांची नेमणूक करूंक लायली. हांवें गोंय लोक सेवा आयोगाच्या अध्यक्ष पदाचो ताबो घेतकूच गुरू काकोडकारान ही गजाल म्हाका सांगिल्ली आनी गोंयच्या प्रशासनांत चलिल्लो भ्रश्टाचार आमचो लोक सेवा आयोग कसोच थांबोवंक शकचो ना अशीं य बी निरशेणेचीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं.

भ्रश्टाचार आनी पक्षपात सगले कडेन आसता; भारतांतल्या हेर राज्यांनीय बी तो आसा, पूण गोंयचे इतलो ना अशें म्हाका सदांच दिसतालें आनी हाची खंतूय जाताली. भ्रश्टाचारा परस आनीक एक निर्शेणेची गजाल म्हणल्यार भ्रश्टाचारा विशींची गोंयकारांची मनोवृत्ती. प्रशासनांत भ्रश्टाचार हो आसताच. आपणालें काम जावंक जाय जाल्यार भ्रश्टाचारान भरिल्ल्यो प्रथा आपणेंय बी मान्य करूंक जाय, भ्रश्टाचारा आड झगडून कांयच उपेग ना ही मानसीकताय गोंयांत म्हाका चड सांपडल्या.

लोकशायेंतल्या प्रशासनांत सरकारी मंत्री हो त्या विभागाचो मुखेल आसता. मंत्री भ्रश्ट जाल्यार भ्रश्टाचार आपल्या आपूण सबंद विभागांत पातळटा. जे आय्.ए.एस् अधिकारी भ्रश्टाचारा आड कारवाय करूंक सोदतात तांची बदली हेर कडेन जाता; आपल्याक जाय तशे फायलीचेर नोट बरोवपी आय्.ए.एस् अधिकारी मंत्र्यांक आवडटात. चडशे अधिकारी भ्रश्ट आनी पक्षपाती मंत्र्यां कडेन झगडूंक सोदिनात. खूबशे अधिकारी व्हांवत्या उदकांत आपणालेय बी हात धुवन घेतात.

बरें प्रशासन म्हणल्यार कितें? पक्षपात नासतना, भ्रश्टाचार नासतना कायद्या प्रमाणें प्रशासन आसूं येता वा ना हें गोंयकारांक केन्ना समजतलें हो प्रस्न म्हाका सदांच सतायतालो. तमिळनाडूंत हो प्रस्न उप्रास नाशिल्लो, कारण थंय भ्रश्टाचार आसलोय जाल्यार इतलो नासतालो आनी भ्रश्टाचारा विशीं लोकांची मानसीकताय बी इतली हताश नासताली. बरें प्रशासन कशें आसता हें गोंयकारांक दाखोवपाची संद मेळ्ळ्यार ती सोडूंक जायना अशें म्हाका दिसतालें.

म्हज्या वांगडा भारतीय प्रशासन सेवेंत नेमणूक जाल्लो एक अधिकारी गोंयचो चीफ सेक्रेटरी म्हूण आयिल्लो. मुख्यमंत्र्या कडेन तो बरें नातें दवरतालो.

खंयचीय गजाल कायद्यांत बसना म्हूण सांगतना मुख्यमंत्र्याचो अहंकार दुखय नासताना ताका तें समजायतालो. गोंया भायल्या आय्.ए.एस् अधिकाऱ्यांक गोंयची संस्कृताय समजना आनी देखून गोंय सरकाराक जाय तशें ते काम करूंक शकनात अशें मत मुख्यमंत्र्यान एके मिटिगेंत उकतायलें. ''म्हजो एक 'बॅचमेट' आसा तो गोंयचो. सद्या तो तमिळनाडूंत आसा. ताका तूं हांगा कित्याक घेवन येना?'' अशें म्हूण चीफ सेक्रेटरीन त्या मुख्यमंत्र्याक विचारलें. ''तो बच्चा मरे! तो चीफ सेक्रेटरी कसो जांव येता?'' अशें त्या मुख्यमंत्र्यान मुख्य सचिवाक विचारलें. हांव आपणा बरोबरचो, 'बच्चा' न्हय हें मुख्य सचिवान त्या मुख्यमंत्र्याक समजावपाचो यत्न केलो, पूण मुख्यमंत्र्यान कानार केंस ओडले. त्या मुख्यमंत्र्याक हांव गोंयचो चीफ सेक्रेटरी म्हूण आयिल्लों नाका आशिल्लों. खरें कारण ताणें कोणांक सांगलें ना आनी म्हाकाय बी तें केन्ना कळ्ळें ना!

मुरगांव पोर्टाचो अध्यक्ष म्हूण येवपाचो प्रस्ताव भारत सरकारान म्हजे मुखार मांडटकूच हांवें तो मानून घेतलो, आनी अशे तरेन बरें आनी लोकांच्या हिताचें प्रशासन कशें आसूं येता हें लोकांक दाखोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी. कायद्या भितर रावून बऱ्या प्रशासना वरवीं लोकांचें हीत कशें सादूं येता हें ''कर्मण्ये..... काल, आज, फाल्यां'' हे कादंबरेंत दाखोवपाचो हांवें यत्न केला. कादंबरेंतले प्रसंग आनी पात्रां पुराय काल्पनीक आसात, पूण भारतीय प्रशासन सेवेंतल्या तीस वर्सांच्या काळांत हांवें असले प्रसंग वा असल्यो घडणुको खंयींय तरी पळयल्यात वा अणभवल्यात आनी कादंबरेंतलीं पात्रां म्हाका केन्नाय तरी मेळ्ळ्यांत.

प्रशासनांत भ्रश्टाचार वा पक्षपात आसूंक जायना आनी तो तसो आसल्यार एक जाणकार नागरीक म्हूण असल्या प्रशासना आड झगडून तें सुदारपाचो यत्न करपाचें आपणालें कर्तव्य अशें मानपी गोंयकार सामके थोडे. हाच्या उरफाटें ''वळख आसल्यार काम रोखडें जाता, त्या त्या कामांक तितली 'फी' त्या अधिकाऱ्याक वा कारकुनांक दिवंचीच पडटा, ना जाल्यार कामां जायनात'' असो आवाज गोंयांत सगलेकडेन आयकूंक येता. भ्रश्ट मनीस हुशार, ताणें भरपूर पयसो केलो आनी फुडल्या पिळग्यां खातीर खूब करून दवरलें अशें लोक म्हणटना आयकूंक येता. भ्रश्ट अधिकारी वायट अशें कोणूच

म्हणिनात. काल मेरेन धाकल्याश्या भाड्याच्या फ्लॅटांत रावपी राजकारणी मनीस थोड्या वर्सां भितर व्हड पॅलेस कसो बंगलो बांदून थंय रावपाक वता हाचें लोकांक अजाप दिसना. "तातूंत कितें? सगले अशेंच करतात," अशें लोक म्हणटना आयकूंक येता.

प्रशासनाचो दर्जो सुदारल्यार लोकशायेचोय बी दर्जो सुदारूं येता आनी लोकांचें हीत चड प्रमाणांत साद्य करूं येता. "कर्मण्ये..... काल, आज, फाल्यां" ही कादंबरी वाचपी लोक प्रशासन सुदारपा खातीर यत्न करतले अशीं मूर्खपणांचीं सपनां हांव पळयना. गोंयचे फाटभुंयेचेर बरें प्रशासन कशें आसूं येता हाची जाणविकाय चडांत चड लोकांक जाल्यार गोंयकारांची भ्रश्टाचारा विशींची हताश आनी पराभूत मनोवृत्ती बदलूंक मजत जांव येता.

ही कादंबरी बरोवपाची स्फूर्त म्हाका लतान दिली. इतलेंच न्हय तर सबंध कादंबरी हांवें सांगल्या तश्शी ताणें ती बरोवन काडली आनी बरयतां बरयतां फाव तीं कोंकणी उतरां मेळनात जाल्यार तिंवूयबी ताणें सुचयलीं; व्याकरण चुकल्यार तेंयूयबी ताणें सारकें केलें आनी जंय आंखणी सुदारूंक जाय आशिल्ली तिवूयबी सुदारूंक ताणें मजत केली.

पोर्टाच्या वेव्हारांत आनी प्रशासनांत खूबशीं इंग्लीश तांत्रिक उतरां वापरांत आसतात. देखीक, दिसपट्टे जिणेंत मुरगांव पोर्ट हो शब्द वापरतात, मुरगांव बंदर अशें उतर वापरांत नाच म्हणल्यार जाता. असल्या इंग्लीश उतरांचो कोंकणींत, मराठींत वा हिन्दींत अणकार करून कादंबरेंत तो अणकार वापरल्यार सगली भास कृत्रिमशी दिसतली आशिल्ली देखून तीं इंग्लीश तांत्रिक उतरां तशींच वापरल्यांत.

पोर्टांत चालंत आशिल्ल्या वेगळ्या प्रक्रियांचेर खोलायेन चर्चा करपा खातीर आनी म्हत्वाची म्हायती मेळोवपा खातीर मर्कण्टायल मरीन खात्याचो तीस वर्सां आदलो मुखेली राजेंद्र कुमार, पोर्टांतलो आदलो ट्रॅफिक मॅनेजर फिदेलीश दा कॉश्ता, डॉक लेबर बोर्डाचो आदलो उपाध्यक्ष जे. यल्. व्हिएगश, आदलो आनीक एक ट्रॅफिक मॅनेजर धोंड, आदलो सुपरिन्टेडिंग इंजिनियर बी.पी.शहा, हांची खूब मजत जाली.

पोर्टांतल्या हॉस्पिटलांतल्या वैजकी विशयां विशीं बरयता आसतना डॉ. माया पै धुंगट हांचेकडल्यान मोलादीक म्हायती मेळ्ळी.

मीन धंद्या विशीं भारत सरकाराचें धोरण, आंतर राष्ट्रीय बाजार, मीन कंपन्यां मुखार उप्रासपी प्रस्न, मीन कंपन्यो आनी पोर्ट हांचे मदलो वेव्हार, गोंय सरकार आनी मीन कंपन्यो हांचे मदलो तणाव, ह्या सगल्या विशयांचेर फोमेंतो कंपनीचे अध्यक्ष अवधूत बाब तिंबलो हांचे कडल्यान खूब मोलादीक म्हायती मेळ्ळी.

श्रीमती अंजू साखरदांडे हांणी कादंबरेचें हात बरप तपासून चुको सुधारल्यो आनी कोंकणी व्याकरणा विशीं खूब म्हत्वाचें मार्गदर्शन केलें.

सर्गेस्त भोवमानेस्त प्रकाश बाब पाडगांवकार हांणी कादंबरी वाचून मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. भोवमानेस्त कौस्तुभ कारखानीस हांणी संस्कृत उतरांच्या वापरां विशीं मोलादीक मार्गदर्शन केलें . जेश्ट साहित्यिक, पत्रकार आनी कोंकणी चळवळीचे मुखेल फुडारी भोवमानेस्त नागेशबाब करमली आनी भोवमानेस्त उदयबाब भेंब्रे हांणी कोंकणी भास, व्याकरण, साहित्य ह्या विशयांचेर खोलायेन चर्चा करून कादंबरेचो दर्जो सुधारपा खातीर खूब मजत केली.

अमेय कुंडईकर आनी सिद्धी गांवस हांणी कम्प्युटराचेर फिशालकायेन फास्ट टायपींग केलें. श्री. हृषिकेश आठवले हांणी बेस बरे तरेन अक्षर जुळोवणी करून कादंबरी चड आकर्शक केली. श्रीमती अर्चना कामत हिणें बेस बरें तरेन कादंबरेचे प्रूफ तपासले.

चित्रकार दीपक च्यारी हांणी सुंदर मुखपृष्ठ तयार करून कादंबरेची सोबा वाडयली.

'संजना प्रकाशन' हे संस्थेचे जाळवणदार श्री दिनेश मणेरकार हांणी पुस्तक छापून घेवन विक्रेची जापसालदारकीय बी घेतली.

बेळगांवच्या 'इम्प्रेशन्स' छापखान्यांत पुस्तक सोबीत आनी आकर्षक तरेन छापून दिलें.

वयर नमूद केल्ल्या सगल्या मानेस्तांचे आमी काळजाथावन उपकार मानतात.



## भाग 1

"**आतां** आमकां गॅस्ट हावसांत कितले दीस रावचें पडटलें?" मिरान विचारलें.

"व्हडलेशे जाल्यार सात दीस; पूण सांगूं नज! जिंदाल बंगल्यार चड रावलो जाल्यार आमकां गॅस्ट हावसांत चड रावचें पडटलें." महेशान जांबय काडीत जाप दिली. बदलेच्या वेळार पॅकिंगाचें सगळें काम मिराकूच करचें पडटालें. प्यून, वावराड्यो बी आसताल्यो पूण तांचे कडल्यान आपल्याक जाय तशें काम करून घेवन मागीर आपणाकूच तें करचें पडटा अशें तें सदांच म्हणटालें. मद्रासच्यान विमान धांक सुरू जाल्लें आनी बेंगलोराक अर्दवर रावून गोंयांत वचूंक रनव्हेचेर ल्हवू ल्हवू मुखार सरतालें. कांय खास काम नाशिल्लें जाल्यार लेगीत महेशाक रातीं न्हिदपाक दोन वरां जाल्लीं. गोंयांत पावतकूच पयलीं कितें करपाचें, कोणागेर वचपाचें, कोणाक मेळपाचें असल्यो बारीक सारीक गजाली उलयतना मदींच महेशाक झेम येताली.

"गुड मॉर्निंग सर आनी मॅडम, वॅलकम टू मुरगांव पोर्ट. म्हाजें नांव दामोदर दास पटेल. हांव शिपिंग एजन्ट."

"गुड मॉर्निंग सर, हांव जॉन स्टीव्हिडोर. तुमकां मुरगांवांत वेलकम."

मध्यम वयाचे आनी सादारण उंचायेचे ते दोग जाण तोंडार लांब रूंद हांशें घेवन महेशा कडेन उलोवंक आयिल्ले. पावस येवचे पयलीं पावशी वारें येता तशी मुरगांव पोर्टांत महेश प्रभू, एक गोंयकार आय्.ए एस्. अधिकारी नवो चेअरमॅन म्हूण येवपाचो आसा ही खबर मुरगांव शारांत पसरिल्ली.

"थँक्यू, थँक्यू! तुमकां आमी कोण तें कशें कळळें?" महेशान तांकां

हांसत विचारलें. मिरा आपणालो काव्न्सलिंग प्रोग्राम करूंक दोन तीन फावटीं मुरगांव पोर्टांत आयिल्लें तेन्ना जॉनान ताका पळयिल्ल्याचें ताणें सांगलें.

‘‘एक्स्क्यूज मी,’’ अशें म्हणून एअर हॉस्टेस जॉन आनी पटेल हांकां तांच्या सिटाचेर वचून बसात म्हूण सांगताली.

‘‘मागीर मेळूंया’’ अशें म्हणून पटेल आनी जॉन आपणाल्या सिटार वचून बसले.

एअर हॉस्टेस ह्या उतरांचो ‘हवाई सुंदरी’ म्हूण अणकार जायतीं मराठी वर्तमानपत्रां करतात तें महेशाक आवड नाशिल्लें. हवाई बी सगलें बरें आसा! सगल्योच एअर हॉस्टेसी सुंदर नासतात; कांय हॉस्टेसी रावणाच्या बागेंतल्यो राक्षिणीं श्यो दिसतात. तांकां सुंदऱ्यो कित्याक म्हणच्यो हो विचार मनांत आयल्या बरोबर महेशाच्या तोंडाचेर मुमुरखो हांसो झळकलो.

‘‘आतां दनपरां मुक्तागेर जेवणाक वचपाक जाय ती याद आसा मरे तुका?’’ मीरान महेशाक याद केली.

मुक्ता महेशाची मेवणी. तिचो घोव पोर्टाच्या हॉस्पिटलांत डॉक्टर आशिल्लो. महेश मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवपाचो आसा अशें कळटकूच विमानतळा वयल्यान सरळ आपणागेर जेवंक येवंक जाय म्हूण डॉक्टर सुरेशान सात आठ फावटीं तरी महेशाक आनी मीराक फोन करून सांगिल्लें. मुरगांवांतलें पयलें जेवण तांगेर जेवंक जाय असो तांचो आग्रो आशिल्लो. इतलो आग्रो कित्याक हो प्रस्न महेशाक पडिल्लो, पूण ‘‘तुमकां आय्.ए.एस्. ऑफिसरांक बेठेच संशय येतात, साद्या उतरांचो तुमी कित्याकितेंय अर्थ लायतात,’’ असो शेरो मारून मिरान आपली नाराजी उक्तायिल्ली. मुरगांवांत पावल दवरनाफुडें वादाक सुरवात नाका म्हूण महेशान जेवणाच्या प्रोग्रामाक हयकार दिल्लो.

‘‘हे ते दोगजाण आमकां येवकार दिवपाक आयिल्ले तांणी आपूण कोण म्हूण सांगलें?’’ मीरान विचारलें.

‘‘एकलो शिपिंग एजन्ट आनी दुसरो स्टीव्हिडोर’’ महेशान म्हायती दिली.

‘‘म्हणल्यार कितें?’’ मीराचे प्रस्न चालूच उरले.

‘‘म्हाका बरेंऽऽऽ खबर ना. पोर्टांत पंदरायेक दीस जातकूच मागीर तूं हे

सगले प्रस्न म्हाका विचार'' महेशान मीराचे प्रस्न बंद करपाचो एक प्रयत्न केलो.

''दोन-दोन, तीन-तीन वर्सांनी तुमी आय्.ए.एस्. ऑफिसर नव्या कामां विशीं कांयच खबर नासतना तें काम हातांत घेतात आनी थंयच्यान बदली जातात, काम बरें केलें म्हणून तुमकां लोक सर्टिफिकिटांय बी दितात. विचित्रशें बाये!'' मीरान आय्.ए.एस्. ऑफ़िसरांच्या कामां विशीं आपलो दुबाव उक्तायलो.

''सगलेच बरीं सर्टिफिकिटां घेतात अशें न्हय. सगल्यांचे श्राप घेवन वचपीयबी कांय ऑफिसर आसतात.'' महेशान मीराक प्रशासना विशीं गेल्ल्या पंचवीस वर्सांत दिल्ल्या गिन्यानांत आनीक इल्ली वाड करपाचो यत्न केलो.

''तो स्टीव्हिडोर काय कोण तो कावन्सलिंगा विशीं कितें तरी म्हणटालो न्हय?'' महेशान विचारलें.

''म्हज्या क्लासांनी फकत पोर्टांतले ऑफिसर आसताले. तो पोर्टांत काम करता तर?'' मिरान विचारलें.

''तुजे विशीं जाणा जावंक मुरगांव सारक्या शारांत पोर्टांत काम करपाची गरज कितें? तूं गॅस्ट हावसांत रावतालें. तागेल्या कामा निमतान तो केन्नाय तरी थंय पावला जातलो आनी तुका पळोवन ताणें तूं कोण काय म्हणून खबर काडल्या जातली.'' महेशान जाप दिली.

''वगीच खंयच्याय बायलां विशीं खबर काडप म्हणल्यार कितें? तो सामकोच बेकार काय कितें?'' मीरा बेजारलें.

''विमानांतल्यान देंवतकूच ताका आपोवन विचारतां - तुज्या प्रस्नाची जाप घेवया!'' महेश.

''त्यो गजाली सोड. तूं पोर्टाचो चेअरमॅन म्हणून आतां आयलो म्हणटकूच म्हाका आदले भशेन कावन्सलिंगाचे वर्ग बी घेवंक मेळटले काय ना?'' मीरा.

''पळोवचें पडटलें. जर म्हज्या कामांत आडमेळीं येवपा सारकीं आसल्यार तुका वर्ग घेवंक मेळचे नात. पूण इतले बेगीन तुवें हुस्को करपाची गरज ना.'' महेश.

''फुडल्या आठ-धा दिसांत कांय कार्यक्रम बी ना मरे? चडश्यो बऱ्यो साडयो पॅकिंगांत आसात. जिंदाल बंगल्यांतल्यान हाल्ल्या बगर आमकां

सामान पॅकिंगांतल्यान उगडपाक मेळचें ना.'' मीरा.

''फाल्यां सकाळीं हांव कामाचो चार्ज घेतलों. मागीर सांजचीं आमी जिंदालाक वचून मेळुंया; तेन्नां ताचो फुडलो बेत कितें तें ताका हांव विचारतां,'' महेशान जांबय दीत जाप दिली आनी तकली सिटाक तेकोवन दोळे बंद केले. मिराय बी फुडल्या सिटा फाटल्यान आशिल्ल्या कवराच्या खणांतलें एक नेमाळें काडून तें चाळूंक लागलें.

च्या, काफी आनी खाण हॉस्टेसी प्रवाशांक हाडून दितल्यो अशी मायकाचेर घोशणा जाली. मीरान नेमाळें काडून खणांत घालें आनी महेशाक न्हिदेंतल्यान उठयलो. तीं तिसरे रांकेंत बशिल्लीं आशिल्लीं देखून एअर हॉस्टेस रोखडीच तांच्या म्हऱ्यांत पावली. मीरान काफी आनी महेशान काळी च्या घेतली. च्या वांगडा एक पॅटीस आनी केकाचो एक इल्लोसो कुडको ट्रे चेर आशिल्लो. दोगांयनीय कांयच खालें ना कारण मुरगांवां पावतकूच रोखडेंच मुक्तागेर जेवपाक वचूंक जाय आशिल्लें.

***

एअर हॉस्टेस ट्रे व्हरपाक आयली. वीस-बावीस वर्सांची आसुंये! बरी हुशारशी दिसताली. इंडियन एअरलाईन्सच्या विमानांनी एअर हॉस्टेसींनी साडयोच न्हेसपाचो कायदो आशिल्लो. हे ट्रिपीक बोवाळपी दोन-तीन एअर हॉस्टेसींच्यो युनिफॉर्म साडयो बऱ्यो रंगीत आनी उठून दिसताल्यो.

''तुजी साडी बरी दिसता! तुका ती बरी सोबता!'' मीरान एअर हॉस्टेसीची तुस्त केली.

''थँक्यू मॅडम, तुमी ह्या वयाचेर लेगीत एकदम सुंदर दिसतात!'' एअर होस्टेसीन मीराची काउंटर-तुस्त केली.

''हांवें तुका बरें दिसता म्हणलें म्हूण तूंयबी म्हजी तुस्त करता काय कितें?'' मीरान ते चलयेक विचारलें.

''ना मॅडम, तुमी मद्रासाक विमानांत भितर सरलीं तेन्नाच्यान तुमकां हांव म्हणटलें म्हूण आशिल्लें. विचारतां म्हूण रागार जावं नाकात आं, मॅडम! तुमचें वय कितें?''

''सोळा'' अशें म्हूण मीरा व्हडल्यान हांसलें. ''म्हाका 49 वर्सां.''

मीरान सांगलें.

“ओ माय गॉड, विस्वास दवरपाक कुस्तार; सी यू मॅडम,” अशें म्हणून हांसत ती एअर हॉस्टेस ट्रे घेवन गेली.

“तूं जाणां? तुका आपणें पयलीं पळयिल्ली अशें तो स्टिव्हिडोर म्हणटालो तें कित्याक जाणा? तुका एक फावटीं पळयल्यार सदांच याद उरता अशें जायत्या बायलांनी हाच्या पयलींयबी सांगलां. णव वारी साडी न्हेसून, नाकांत नथ घाल्यार तूं पेशवाईंतली राणी कशी दिसतली अशें फाटीं मुंबय एका लग्न सुवाळ्याक आमी गेल्लीं आसतना एके बायलेन तुका सांगिल्लें ती याद आसा?” महेशान मीराक विचारलें .

मीरान हांसत तकली हालयली. मागीर एक पंदरा मिनटां महेशान मीराक पंचवीस वर्सां पयलींच्यो यादी करून दिल्यो.

महेशाची मदुराईक असिस्टन्ट कलेक्टर(ट्रेनिंग) म्हूण नेमणूक जाल्ली. महेश आनी मीरा केन्नाय मदुराईच्या टाऊन हॉल रस्त्या लागसार आशिल्ल्या भाजी-मार्केटांत वतालीं. वांगडा महेशाचो पी.ए. रत्नस्वामी आनी प्यून रामलिंगम आसताले. पार्किंगाक बरो जागो मेळ्ळ्यार सेकंड हॅन्ड स्टँडर्ड-हेराल्ड गाडी पार्क करून ड्रायवर अर्जुनूय बी वांगडा येतालो. भाजी घेवपा परस आमचो 'टुरिजम' चड जातालो, कारण खंयची भाजी घेवची आनी कितली घेवची हांचेर रत्नस्वामीन जज्जमेन्ट दितकूच दोंगर पोखरून हुंदीर काडिल्ले भशेन अर्देवर भोंवतकूच पाव कील भाजी घेवन महेश आनी मीरा आपणाल्या हावसिंग बोर्डाच्या अर्द बॅडरूम आनी पाव-हॉल आशिल्ल्या मिनी-फ्लॅटांत परततालीं.

“सर, भाजी हाडपाचें काम हाच्या फुडें आमी रामलिंगमाचेर सोंपोवया. मॅडमीक पळोवंक लोक येतात आनी ती कोण, खंयची असले प्रस्न आमकां विचारीत रावतात.” रत्नस्वामीन कांय दिसांनीं मान सकयल घालून ल्हव आवाजांत महेशाक सुचोवणी केली. त्या दिसाच्यान मीराचो आनी महेशाचो 'भाजी-टूर' बंद जालो.

मागीर कांय म्हयन्यांनीं ट्रेनिंग सोपतकूच बँगळूरुच्यान पंचेचाळीस किलोमीटर आशिल्ल्या शंकरगिरी उप-जिल्यांत सब-कलेक्टर म्हूण महेशाची बदली जाली. म्हयन्यांतल्यान उण्यांत उणें धा दीस आनी राती सब-कलेक्टरान

उप -जिल्ल्यांतल्या वेग वेगळ्या गांवांनीं वचून रावूंक जाय आनी गांवच्या आनी भोंवतणच्या लोकांक सब-कलेक्टराक प्रत्यक्ष मेळून आपणाल्यो कागाळ्यो सांगपाची संद दिवंक जाय असो नेम आशिल्लो. हो नेम ब्रिटिशांनी घालून दिल्लो. एक दीस लोकांक मेळपा खातीर मामलेदाराच्या ऑफिसांत महेश गेल्ले कडेन थंयचो डॅप्युटी सुपरिंटेंडेंट ऑफ पोलीस (डीएस्.पी.) महेशाक मेळूंक आयलो. डी.एस्.पी. आयला म्हणटकूच कितेंय तरी प्रॉब्लेम आसूंक जाय अशें महेशाक दिसलें.

हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो गजाली सोंपतकूच महेशान ताका येवपाचें कारण विचारलें.

''कांय ना,सर! तुमकां नमस्कार करूंक आयिल्लों. सर,एक ल्हानशी गजाल आसा. हांव सांगतां म्हूण रागार जावं नाकात आं! मॅडम त्या टेलरिंग मशिनांच्या दुकानांत गेल्ली. तें दुकान मुख्य रस्त्याचेर आसा. मॅडमीक पळोवंक लोक एकठांय जावंक लागले. येत्या वत्या वाहनांक आडखळ जावंक लागली. थंय गर्दी केल्ल्या लोकांक पुलिसांनी धांवडायले. मॅडमीन दुकानांनी वचना जाल्यार बरें! सांगलां म्हूण रागार जावं नाकात आं!'' आपणें एक व्हड गुन्यांव केल्ल्याचो तोंडार भाव हाडून त्या डी.एस्.पी. न महेशाक ल्हव आवाजांत सांगलें. कांय वेळान तो डी.एस्.पी. सलाम ठोकून वतकूच महेश गॅस्ट हावसांत परतलो. हाच्या फुडें महेशाक विचारल्या बगर मीरान खंयच वचूंक जायना अशें थारलें.

आनी एक फावट एका धाकल्याशा गांवांत मुळावे शाळेचो कार्यक्रम आशिल्लो. भुरग्यांक बक्षिसां वांटपाचें काम मीराचेर सोंपयिल्लें. मीराच्या पोल्यांक हात लावन पळोवंक जाय असो एका म्हातारे बायलेन गांवच्या सरपंचाकडेन हट्ट धरलो. तशें करूंक जायना म्हूण तिच्या सुनेन, नातरांनी आनी पण्टुरांनी तिका कितलेंय सांगल्यार लेगीत ती हट्ट धरून बसली. सरपंचान येवन ल्हवू महेशाच्या कानांत सांगलें. सुवाळो सोंपतकूच परतून वता आसतना तिची इच्छा पुराय करुंया म्हूण महेशान सरपंचाक सांगलें. महेश आनी मीरा मोटारींत बसचे पयलीं सुनेन आनी नातरांनी ते म्हातारेक हाडली आनी ते म्हातारेन मीराचे दोनूय पोले सांसपून महेशाक आनी मीराक भरपूर आशीर्वाद दिले. मीरा तिका पांयां पडलें. भोंवतणी गर्दी करून राविल्ल्या

लोकांनी ताळयो मारल्यो.

विमानांत बशिल्ले कडेन महेशान मीराक ह्यो सगळ्यो यादी करून दिल्यो. मीराक त्या सगळ्या घडणुकांची याद आशिल्ली. ह्यो गजाली आनीक सात जल्म कोणेंय परतून परतून सांगल्यार लेगीत इतिहासांत विरगळून वचपाची ताची तयारी आशिल्ली.

***

महेशाच्या आनी मीराच्या लग्नाक पंचवीसेक वर्सां जायत आयिल्लीं. लग्ना उपरांत मदुराय वचपाक भायर सरलीं तेन्ना मीरा पयलेच फावट आगगाडयेंत बशिल्लें. लोन्ड्यार गाडी बदलून तीं हुबळीच्यान मदुराय गेल्लीं. त्या प्रवासाची महेशाक अजुनूय घट्ट याद आशिल्ली. मडगांवच्या स्टेशनार गाडी पळयना फुडें मीराचें तोंड अजापान उगडें जाल्लें तें कितलोसोच वेळ बंदूच जावंक नाशिल्लें.

"आर्रा, आगगाडी येदी व्हडली आसता?" अशें म्हणून ताणें अजाप उक्तायिल्लें. ते मिटरगेज गाडयेचो सोंपून सोंपनाशिल्लो प्रवास, काळो किट्ट धुंवर आनी वाऱ्या परस बोवाळ चड घालपी तेन्नाच्या ते गाडयेंतले ते फॅन, असल्या वातावरणांत तांचो प्रवास सुरू जावन आयज तेत्तीस हजार फूट उंचायेचेर वराक आठशें किलो मीटर स्पीडींत उडपी ह्या विमानाच्या जगांत पावला. असली उदरगत अणभवपाक मेळत अशें मीराक लग्न जावचे पयलीं दिशिल्लें तरी काय? मीराकूच विचारुंया अशें येवजून महेशान आपणाले उजवे वटेन बशिल्ल्या मीरा कडेन पळयलें. मीरा न्हिदिल्लें.

महेश दोळे धांपून सिटाचेर तकली तेंकोवन नव्या कामा विशीं येवजुपाक लागलो. मीराक तमिळनाडू खुब्ब आवडटालें. त्या समाजांत शिस्त आसा, जण एकलो आपापलें स्थान वळखून जापसालदारकेन वागता, आय्.ए.एस्. अधिकाऱ्यांक थंय मान आसा तितलो आनीक खंयच मेळचो ना अशें तें सदांच म्हणटालें. रिटायर जातकूच थंयच रावंक जाय असो ताणें हट्ट धरिल्लो. महेशाकूय तमिळनाडू आवडटालें पूण रिटायर जातकूच गोंयांत येवन स्थायीक जावचें अशें महेशाक सदांच दिसतालें. गोंयांत रावून गोंयच्या लोकां खातीर, गोंयचें भुंये खातीर, भुंयेंतले संस्कृताये खातीर आपणाच्यान जाता तितलें

योगदान दिवंचें अशें महेश सदांच म्हणटालो. मुरगांव पोर्ट ट्रस्ट चेअरमॅनाच्या जाग्या खातीर एक सिनियर आय्.ए.एस् ऑफिसर जाय अशें म्हणून भारत सरकारान सगल्या राज्य सरकारांक पत्रां धाडिल्लीं. तमिळनाडूंत तें पत्र पावना फुडें तमिळनाडू सरकारान त्या पत्राच्यो कॉपी सगल्या सिनियर ऑफिसरांक धाडून तांकां चेअरमॅन म्हूण वचपाची इत्सा आसल्यार कळीत करचें अशें बरयलें. महेश तेन्ना तमिळनाडू इंडस्ट्रियल इन्वेस्टमेन्ट कॉर्पोरेशन ह्या आर्थिक आस्थापनाचो अध्यक्ष आनी मुखेल प्रशासकीय अधिकारी आशिल्लो. गोंयांत वचून थंय पांच-स वर्सां रावून गोंयां खातीर काम करपाची ही बरी संद आसूं येता अशें महेशाक दिसलें. रिटायर जावंचे पयलीं निमाणीं पांच-स वर्सां मद्रासाकूच घालयल्यार चड बरीं अशें मीराक अजूनूय दिसतालें. तरी आसतना महेशान घेतिल्लो गोंयचो ध्यास पळोवन मीरान अखेरेक मान्यताय दिली आनी महेशान आपणालो हयकार भारत सरकाराक कळयलो. हेर राज्यांतल्यान वा दिल्लीच्यान वरिश्ठपदांनी आसपाविल्लो पावर सोडून दिवन मुरगांव सारकेल्या इल्ल्याशा शारांत येवंक कोण वरिश्ठ अधिकारी तयार नाशिल्ले. भारत सरकाराची प्रक्रिया पुराय जावन मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाचो चेअरमॅन म्हूण नेमणूक करपी पत्र महेशाच्या हातांत पडसर कांय म्हयने गेले.

"पोर्ट ट्रस्ट हें भारत सरकाराचें आस्थापन. त्या आस्थापनाचो अध्यक्ष म्हूण वचून तुका गोंया खातीर कितेंय करपाची संद मेळटली हें कित्या वेल्यान?" अशें मीरान महेशाक विचारलें. महेशा वांगडा पंचवीस वर्सां संवसार करून ताकायबी प्रशासना विशीं फूल न्हय जाल्यार फुलाची पाकळी तरी समजूंक लागिल्ली. गोंयचे अर्थवेवस्थेचो तिसरो वांटो मुरगांव पोर्टाचेर अवलंबून आसा आनी पोर्ट प्रशासन बरे तरेन चलयलें जाल्यार गोंयचे अर्थवेवस्थेची बरी सेवा केल्ले भशेन जातली अशें महेशाचें ठाम मत आशिल्लें. खेरीज नितळ, प्रामाणीक, शिस्तबद्द आनी सगल्यांक सारको न्याय दिवपी प्रशासन कशें आसता हें गोंयकारांक दाखोवपाची ही बरी संद अशें महेशाक दिसतालें. पोर्टाचो वेव्हार वाडलो जाल्यार चड गोंयकारांक काम मेळूं येता आनी तेय नदरेन गोंयकारांची सेवा घडूं येता. महेशाचीं हीं मतां मिराक आतां तोंडपाठ जाल्लीं आनी फुडली जीण आतां गोयांत कितें करून घालोवची हाचेर तें येवजूंक लागलें.

***

"देवियों और सज्जनों हमारा हवाई ज़हाज..............." विमान आतां कांय मिनटां भितर दाबोळे विमानतळार देंवतलें अशें एअर हॉस्टेसीन मायकाचेर कळीत केलें. कांय मिनिटांनीं विमान देंवून थांबतकूच हेर प्रवाशां वांगडा देंवून महेश आनी मीरा एरायवल हॉलांत (आगमन कक्ष) आयिल्लीं. मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाचे अधिकारी तांका येवकार दिवपाक दारांत उबे आशिल्ले. "वेलकम टू मुरगांव पोर्ट सर," अशें म्हूण हांसत एकल्यान महेशाच्या हातांत फुलांचो बुके दिलो. "मॅडम, बरी आसा न्हय?" एका ऑफिसरान मिराक विचारलें. मीरान हांसत "हय, थँक्यू. हो गिरीश गांवस, पी.आर.ओ," अशें म्हणून त्या ऑफिसराचें नांव महेशाक सांगलें. महेशाक बुके दिवपी अधिकाऱ्यान आपूण पोर्ट ट्रस्टाचो सेक्रेटरी आनी आपलें नांव अविनाश अभ्यंकर अशें म्हणून आपणाली वळख करून दिली. सामान येवंक मात्सो वेळ जातलो, आमी व्ही.आय्.पी. रुमांत वचून बसुंया अशें अभ्यंकरान महेशाक सुचयलें. गिरीशा वांगडा आयिल्ले दोन क्लार्क मीरा कडल्यान सामानांचे टॅग घेवन फाटल्यान रावले. मिरान तांका बॅगांचे रंग बी सांगले. विमानांतल्या पेसेंजरांचीं बॅगां सगळीं सारकींच दिसतात देखून आपणाल्या बॅगांक पांचव्या आनी तांबड्या रंगाचीं फितां बांदपाची पद्दत मीरान सुरू केल्ली तें सगलें मीरान क्लार्काक सांगलें.

वरिश्ठ ऑफिसर वा व्ही.आय्.पी गॅस्ट विमानांतल्यान देंवतकूच जे कोण विमानतळार तांकां मेळूंक येतात ते चालंत प्रस्न विचारतात आनी ते ऑफिसर वा गॅस्ट त्या चालंत प्रस्नांच्यो चालंत जापो दितात. व्ही.आय्.पी रुमांत बसतकूच पोर्टाच्या सेक्रेटरी आनी पी.आर.ओ.न ते चालंत प्रस्न विचारले आनी महेशान रेकॉर्ड वाजयिल्ल्या भशेन त्या प्रस्नांच्यो जापो दिल्यो. प्रवास कसो जालो, विमान चड हाललें बी ना मूं, विमान भरिल्लें काय ना असल्या टायम पास प्रस्नांच्यो जापो दिवन जातकूच महेशान अभ्यंकराक आपणालो फुडलो प्रोग्राम सांगलो. आतां पयलीं गॅस्ट हावसांत वचपाचें, थंय सामान बी दवरून, कपडे बदलून देड वराचेर सुमार डॉक्टर सुरेश कामतीगेर जेवपाक वचपाचें आनी मागीर येवन आड पडपाचें. डॉक्टर सुरेशागेर वतना आपणा वांगडा कोणेंच येवपाची गरज ना अशें महेशान अभ्यंकराक आनी गिरीश गांवसाक सांगलें. सी.आय्.एस्.एफ. कमांडंट आनी आपूण साडे पांचांक मेळपाक येतात. फाल्यांचो प्रोग्राम कितें आसतलो तें सरा कडेन थारावंक

जाय अशें अभ्यंकरान सांगलें.

“तुमी साडे पाचांक येयात,” अशें महेशान अभ्यंकराक सांगलें.

सामान घेवन मोटारींत घालें. आतां भायर सरपाक हरकत ना अशें क्लार्कान येवन व्हड विजय प्राप्त केल्ल्या भशेन, आव हाडून गिरिशाक सांगलें. गिरिशान मागीर तें अभ्यंकराक सांगलें. अभ्यंकरान मागीर तें महेशाक सांगलें. महेशान खरें म्हणल्यार क्लार्क सांगतना आयकल्लें. तो रेकाद आपणा कडेन पावोवपाक मदीं आनीक दोग जाणांची गरज ना हेंवूयबी महेशाक खबर आशिल्लें. असल्यो गरज नाशिल्ल्यो खूबश्यो प्रक्रिया प्रशासनांत बसकण मांडून बसल्यात हें फाटल्या पंचवीस वर्सांच्या अणभवान महेशाक समजल्लें. पयलीं-पयलीं असली गरज नाशिल्ली प्रक्रिया काडून उडोवपाचो ताणें यत्न केल्लो पूण तातूंतल्यान चड आडखळी निर्माण जावंक लागल्यो. प्रशासनांत चडसो वेळ “आलिया भोगासी असावें सादर” अशें आसल्यार चड बरें हें अणभवान ताका समजल्लें, देखून आपणा कडेन रेकाद पावोवपाची ती सांखळी तोडपाचो ताणें यत्न केलो ना. पोर्टाच्या एन्.ई' मोटारींत महेश आनी मीरा फाटल्या सिटार आनी अभ्यंकर फुडल्या सिटार बसून जातकूच मोटार गॅस्ट हावसांत वचूंक भायर सरली.

“हो संभाजी, सराचो ड्रायव्हर, पंदरा वर्सां परस चड तो चेअरमॅनाची गाडी चलयता!” अभ्यंकरान ड्रायवराचें नांव आनी अणभव एकाच धपक्यांत सांगून उडयलो.

'अभ्यंकर' हें मराठी नांव आसूंक जाय अशें महेशाक दिसलें. आपूण अहमदनगरचो, गोंयांत आयल्यार वीस वर्सां जालीं, भुरगीं बी हांगाच शिकतात, सेक्रेटरीच्या पदार आपूण पांच वर्सां आसां अशें संद मेळना फुडें अभ्यंकरान महेशाक सांगून उडयलें.

गॅस्ट हावसांत पावतकूच तोंड बी धुवन, कपडे बदलून देड वराचेर सुमार महेश आनी मीरा डॉक्टर सुरेशागेर गेलीं. वचच्या पयलीं सदानंद जल्मी केअर टेकर “मॅडम, वेलकम, कशीं आसात? सर वेलकम!” अशें म्हणत आज रातचीं गॅस्ट हावसांत जेवतलीं काय ना, कसलें जेवण करपाचें, कितल्या वरांचेर हाडपाचें ह्यो गजाली मीरा कडेन थारावन गेलो. मुरगांव पोर्टाचे गांवस, जल्मी आनी हेर कितलेशेच ऑफिसर मीराक वळखताले. तें

थंय काउंसिलिंगाचे वर्ग घेवपा खातीर मद्रासच्यान तीन फावटी आयिल्लें.

डॉक्टर सुरेशागेर जेवणाक व्हरपाक दुसरो ड्रायवर आशिल्लो. ताणें आपलें नांव फ्रान्सिस म्हूण सांगलें. संभाजी खंय गेलो काय म्हूण विचारल्यार तो जेवणाक घरा गेला, तेका डायबिटीस आसा आनी तेका टायमार जेवचें पडटा अशें फ्रान्सिसान सांगलें. महेश आनी मीरा एकामेकां कडेन पळोवन हांसलीं. तमिळनाडू आनी गोंयच्या प्रशासकीय संस्कृतायेंत फरक आसा म्हणपाचो हो पयलो धडो गोंयांत पावतकूच पयल्याच दिसा महेशाक ड्रायवरा कडल्यान शिकचो पडलो. घर सामकें लागीं आसल्यार लेगीत तामिळनाडूंत महेशाचे ड्रायवर दनपारचे जेवणाक घरा वच नाशिल्ले.

मुक्तागेर पावलीं तेन्ना डॉक्टर सुरेश आनी मुक्ता वांगडा आनीक दोग जाण तांची वाट पळयताले. डॉक्टर सीझर मास्कारेन्हस आनी डॉक्टर अनील भट अशी तांची डॉक्टर सुरेशान वळख करून दिली. जेवण सगलें मेजार येवंक आनीक एक धा-पंदरा मिनटां लागतलीं, तो मेरेन हॉलांत बसुंया अशें डॉक्टर सुरेशान सुचयतकूच ते हॉलांत वचून बसले. मीरा मुक्ता वांगडा भितर गेलें.

''पोर्टा विशीं तुमकां कांय गजाली सांगूंक जाय आसल्यो. त्यो तुमकां रोखड्यो सांगच्यो म्हूण आमी तुमकां मेळूंक आयल्यात.'' डॉक्टर सीझरान विशय उकतो केलो.

''तुमचे कडल्यान पोर्टाच्या अधिकाऱ्यांक खूप अपेक्षा आसात. पयलींच्या चेअरमॅनान ऑफिसरांक सामकेच 'किंकाँत' करून उडयिल्ले,'' डॉक्टर भटान 'ब्रेन वॉशिंग' चे प्रक्रियेक आपणालें योगदान दीत म्हणलें.

''ह्या कामगार लिडरांनीं डॉक्टर सुरेशाक खूब त्रास दिला. अमकेंच सारकें जायना, तमकेंच सारकें जायना, तुमी अशें करीत जाल्यार आमी संप करतले, चेअरमॅना कडेन आनी भारत सरकारा कडेन तुमच्या आड कागाळी करतले अशें म्हूण सगलीं लेबर युनियनां डॉक्टर सुरेशाक त्रास दितात. तुमी ताका सपोर्ट दिवंक जाय. त्या युनियनांक जाग्यार बसोवंक जाय. ते चड मातल्यात.'' डॉक्टर सीझरान एक्सलरेटर दामलो.

हांचे गाडयेक ब्रेकूच ना काय कितें असो महेशाक दुबाव येवंक लागलो आनी मुक्तान बेगीन जेवणाक आपयल्यार पुरो म्हूण महेश मनांतल्यान दामोदराची प्रार्थना करूंक लागलो. महेश कांयच उलयना तें पळोवन डॉक्टर

अनीलान डॉक्टर सीझराक खुणेन ओगी राव म्हूण सांगलें.

"पयल्याच दिसा सराक इतल्यो कागाळी करप हें समा न्हय, मागीर सवकासायेन उलोवंक जाता," डॉ. भटान विशय वेगळ्या ट्रेकार व्हरपाचो प्रयत्न केलो.

इतलो वेळ डॉक्टर सुरेश कांयच उलोवंक ना हें पळोवन तूं कित्याक ओगी आसा अशें महेशान ताका विचारलें. डॉक्टर सीझर आनी डॉक्टर अनील भट आपणा परस चड बरे विसकटावन सांगपाक शकतले म्हूण तांकां हांवें जेवणाक आपयिल्ले. डॉक्टर सुरेश उलयतनाच मुक्ता थंय येवन उबें रावलें आनी सुरेशालें सोपना फुडें जेवणाक या म्हूण ताणें ऑर्द सोडली.

महेश शिवराक म्हणटकूच मुक्तान सगलें जेवण शिवराकूच केल्लें. गोंयचो मसालो घालून दाळचो रोस, कोबीची भाजी, बटाटाच्यो फोडी, तेंडल्यांची भाजी, बुंदीचें रायतें ताटांत वाडून दवरलेलें. जेवतां जेवतां डॉक्टर सीझरान ब्रेन वॉशिंगाचें मशीन चालू दवरलें. जेवप आनी आयकप ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली आनी दोनूय एकाच वांगडा केल्यो जाल्यार लेगीत कांयच वायट परिणाम जायनात अशें डॉक्टर सीझराचें वैजकी शास्त्रा भायलें मत आशिल्लें.

"लेबर युनियनां मातल्यांत, तूं येतलो म्हूण आमी रावताले, तुवें तांका आतां जाग्यार बसोवंक जाय!" असो सूर डॉक्टर सीझर जेवणाच्या पयलीं, मदीं आनी मागीर लावन आशिल्लो.



## भाग 2

**महेशाक** आनी मीराक जेवन येता म्हणसर तीन जालीं. डॉ.अनीलान डॉ. सीझराचे बडबडीक ब्रेक मारूंक नाशिल्लो जाल्यार महेश आनी मीरा थंयच उरपाचीं. "ते थंय आयिल्ले ते दोतोर कितें सांगताले?" मीरान गाडी सुरू जायना फुडें विचारलें. महेशान कांयच जाप दिना आसतना मीराक खूण केली आनी तमिळींतल्यान "मागीर उलोवया" अशें सांगलें. गॅस्ट हावसांत पावतकूच केअर टेकराक पांचांक दारार मार म्हूण सांगून महेश आनी मीरा सुस्त न्हिदलीं. आदल्या रातीं न्हिदपाक दोन वरां जाल्ल्यान तांचो जीव सामको जाम जाल्लो.

साडे पांचांक अभ्यंकर आनी सी.आय्.यस्.यफ् कमांडंट पाटील महेशाक मेळपाक आयले. पोर्टांतल्या सी.आय्.यस्.यफा बद्दल थोडी म्हायती दिवन पाटिलान दुसऱ्या दिसाचो प्रोग्राम सुचयलो तो असो: सारको आठ पंचावनांक चेअरमॅनान गॅस्ट हावसांतल्यान भायर सरपाचें, सारकें णवांक ऑफिसाच्या सकयल पावपाचे. थंय कमांडंट पाटील चेअरमॅनाक येवकार दितलो. सी.आय्.यस्.यफ गार्ड आपणालीं आर्मां घेवन रांकेंत उबे आशिल्ले कडेन मागीर कमांडंटा वांगडा चेअरमॅन वतलो. थंय गार्डांच्या रांके मुखार दवरिल्ल्या धाकल्याश्या प्लॅटफॉमार चडून चेअरमॅन 'अटेन्शन' पोझिशनांत रावतलो आनी मागीर गार्डांची सलामी घेतलो. सलामीची सविस्तर प्रक्रिया कमांडंट पाटिलान महेशाक समजावन सांगली. फाटल्या पंचवीस वर्सांत महेशान खूबशा पदांचेर पुलीस, सी.आय्.यस्.यफ्, सी.आर् पी.यफ्. गार्डांची सलामी घेतिल्ली आशिल्ल्यान हे फावटींयबी कितें करपाचें तें ताका रोखडेंच

समजलें. आपणें अमक्या अमक्या पदांचेर आसतना असल्यो सलामी घेतिल्ल्यो अशें महेशान पाटिलाक सांगलें. मागीर पाटिलाच्या तोंडाचेर प्रक्रिये विशींचो हुस्को मात्सो उणो जाल्ले भशेन दिसलो. सलामी जातकूच कमांडंट पाटील चेअरमॅनाक घेवन चवथ्या मजल्यार चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत वतलो आनी चेअरमॅनाक 'थँक्यू सर' म्हणून सलाम ठोकून कॅबिनांतल्यान परततलो. हो सगलो प्रोग्राम कमांडंट पाटिलान महेशाक सांगलो.

पाटील वतकूच अभ्यंकर धा-पंदरा मिनटां बसलो आनी ऑफिसांत पयल्याच दिसा कितें कितें करपाचें तें सांगून तो गेलो.

मीरा मागीर भायर येवन ''ते दोतोर कितें म्हणटाले तें आतां सांग'' अशें म्हूण कान टायट करून सोफाचेर बसलें. सुरेशाक कामगार संघ कशे कशे त्रास दितात आनी ताका चेअरमॅनाच्या रक्षणाची कशी गरज आसा आनी तें पुराय रक्षण हांवें दिवंचें अशी ताची अपेक्षा आसा हें ते आपल्याक सांगपाक आयिल्ले अशें महेशान मीराक सांगलें. विमानतळार देंवतकूच पयलीं आपल्यागेर जेवंक येवंक जाय अशें म्हूण दीस-रात आग्रो कित्याक करतालो तें आतां कळ्ळें असोयबी शेरो महेशान मारलो.

''सॉरी सर, तुमकां मात्शे डिस्टर्ब करतां. तो लेबर युनियनाचो सेक्रेटरी पीटर डिमेलो चार-पांच जाणांक घेवन आयला, फकत तुमकां वेलकम करूंक आयला अशें तो म्हणटा!'' अभ्यंकर आतां पड्डो उगडून नाटकाचो पयलो प्रवेश सुरू जातलो म्हणून उत्सुकतेन तयार बशिल्ले भशेन दारांतूच रावलो.

''आरे, हांव कामाचो चार्ज फाल्यां सकाळीं घेतलों, मागीर म्हाका सकाळच्या आदेसाक हेर कामां आसतलीं. सांजच्या चारांक येवन मेळात अशें म्हूण तांकां सांग.'' महेशान अभ्यंकराक सांगलें.

''नाका सर, तांकां आतांच मेळ्ळ्यार बरें. आपूण म्हणटा तेंच जावंक जाय असो हट्ट धरपाची तांकां संवय आसा. पयलींचो चेअरमॅन तांकां पांयां पडून दीस काडटालो,'' आपणें चेअरमॅनाक कितें करपाचें आनी कितें ना करपाचें हें सांगले बगर पोर्टाचें प्रशासन सारकें चलचें ना अशें मानपी अभ्यंकरान महेशाक पयलो धडो शिकोवपाचो यत्न केलो.

''तें मागीर पळोवया! तांकां फाल्यां चारांक ऑफिसांत येवन मेळ म्हूण सांग,'' महेशान मात्सो आवाज चडोवन अभ्यंकराक ऑर्द दिली.

"हें जालें तें बरें जालें ना, आतां फाल्यां हे लोक कितें करीत सांगूं नज," असो विचार करीत तकली हालयत अभ्यंकर गेलो.

"हो चेअरमॅन आपणाक कितें समजता? हाका बुद्द शिकोवची पडटली! असले आमी कितले पळयले!" अशें पीटर डिमेलो हेरांक सांगत गेलो खंय. ही खबर मागीर केअर टेकर जल्मीन रातचें जेवण हाडटा आसतना महेशाच्या कानार घाली आनी "हे चड मातल्यात, हेंकां सारकें जाग्यार हाडूंक जाय!" असो उपदेशूयबी ताणें महेशाक केलो. पोर्टांत खूब वर्सां काम करून जल्मी आनीक स वर्सांनी रिटायर जावपाचो आशिल्लो म्हणटकूच पोर्ट कसो चलोवचो हाचेर चेअरमॅनाक उपदेश करपाचो हेर जायत्या जाणां भशेन आपल्याकूयबी अधिकार आसा अशें ताका दिसतालें.

"आमी बंगल्यार रावपाक वचचे पयलीं हांवें बी भाग घेवपा सारके कितेंय कार्यक्रम बी आसतले? त्याप्रमाणें साडयो काडून दवरूंक जाय." मीरान महेशाक विचारलें. पयलींचो चेअरमॅन पोर्ट सोडून वता तेन्ना ताका 2-3 तरी निरोपाचे कार्यक्रम आसतले असो अदमास महेशान उकतायलो. पूण फाल्यां रॅअर ऍडमिरल जिंदालाक मेळटकूच फुडल्या प्रोग्रामांविशीं सारकी म्हायती मेळटली, अशें महेशान मीराक सांगलें.

जल्मीन भुरग्यांच्या हातांत जेवणाच्यो प्लेटी, ग्लास, बावल, चमचे हें सामान दिवन साडे-आठ वरांचेर येवन मेजाचेर सगलें मांडून दवरलें आनी जेवण हाडटां म्हूण सांगून तो गेलो.

"व्हेजीटेबल क्रीम सूप बरो जाल्लो," रांदप्याक आपोवन महेशान ताका शाबासकी दिली. जेवणाक कॉलीफ्लावरची सुकी भाजी, अळसांद्यांचें तोंडाक, हळडुवी दाळ, आंबट्ट धंय, बऱ्यो मोव-मोव अपुरबायेच्योश्यो चपात्यो, बरें रुचीक सॅलेड, पापड आनी लोणचें हें सगलें हाडून तांणी मीरान "इल्लें इल्लें वाडात" म्हूण सांगिल्ल्या प्रमाणें वाडलें.

जेवण जातकूच, दुसऱ्या दिसा सकाळीं सातांक च्या हाडून आमकां उठोवपाचें म्हूण जल्मीक आनी स्टाफाक सांगून महेशान आनी मीरान 'गुड नायट' म्हणलें. त्या दिसाचीं वर्तमानपत्रां टिपॉयचेर पडिल्लीं तीं एक अर्दवर चाळून मागीर दोगांय न्हिदूंक गेलीं. लेबर युनियन फाल्यां कसलो बोवाळ घालतलें काय हाचेर विचार करीत-करीत महेश न्हिदून पडलो.

***

आदल्या दिसा थारायिल्ल्या प्रमाणे महेश बरोबर णव जावपाक पांच मिनटां आसतना ऑफिसाक वचूंक भायर सरलो. संभाजी ड्रायवरा वटेनच्या दारा म्हऱ्यांत उबो आशिल्लो. महेश आपुणूच दार उगडून फाटल्या सिटार बसलो. तमिळनाडूंत आसतना ड्रायवर दार उगडून, महेशाक फाटल्या सिटार बसोवन, दार ल्हवू मारताले. आयज पयलेच फावटीं महेशाक आपुणूच बसचें पडलें. महेश बसतकूच संभाजीन ड्रायवराच्या सिटार बसून आपणालें दार ढाऽऽ करून मारलें आनी गाडी सुरू केली. ड्रायवराचें कॅप ताणें सिटार दवरलेलें. ह्यो सगल्यो गजाली महेशाच्या ध्यानांत आयल्यो. प्रशासकीय संस्कृतायेंत हे गजालींक खूप म्हत्व आसता. ती संस्कृती रुळा वेल्यान घसरत जाल्यार ती परतून रुळार चडोवची पडटा. पूण पोर्टांत आयज पयलोच दीस आशिल्ल्यान महेश कांयच उलयलो ना.

बरोबर णव वरांचेर महेश पोर्टाच्या ऑफिसांत पावलो. कमांडंट पाटील ताची वाट पळयतालो. पाटिलान दार उगडलें आनी महेश गाडयेंतल्यान देंवून ते दोगूय सलामीच्या प्लॅटफॉमा कडेन गेले. पांच मिनटां भितर सलामीची प्रक्रिया काबार करून कमांडंट पाटील, अभ्यंकर आनी आनीक दोग जाण फुडें, आनी महेश फाटीं अशा मिनी मिरवणुकीन लिफ्टान चवथ्या मजल्या वयल्या चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत गेले. सलामी घेता आसतना आनी लिफ्टा कडेन वता आसतना णव वरांचेर ऑफिसाक येवपी पोर्टाचो स्टाफ नव्या चेअरमॅनाक पळोवंक हेवटेन तेवटेन उबो राविल्लो. खूब वर्सां उपरांत एक गोंयकार आय्.ए.एस्. ऑफिसर पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण आयला म्हणटकूच तो कसो दिसता, मोटवो काय लांब, कसो चलता, हांसतें काय रडवें तोंड करून उलयता, कपडे कसले घालता ह्यो म्हत्वाच्यो गजाली स्टाफाक पयलेच दिसा पळोवंक जाय आशिल्ल्यो. ह्या गजालींचें आसूंक जाय तितलें गिन्यान नासल्यार पोर्टाचें काम फुडें कशें वचपाचें?

लिफ्ट धाकलें आशिल्ल्यान लिफ्टांत फकत महेश, कमांडंट पाटील आनी अभ्यंकर भितर सरले. हेर स्टाफ फाटले ट्रिपीन आयलो. लिफ्टांत ''गुड मॉर्निंग सायबा, हांव जगदीश, लिफ्ट मॅन'' अशें म्हूण लिफ्ट मॅनान आपणाली वळख करून दिली.

''तूं पेडणेचो रे?'' जगदीशाची उलोवपाची तरा आयकून महेशान

ताका विचारलें आनी ताणें मोठे खोश्शेन ''हय सायबा'' म्हूण जाप दिली .''आमचो नवो सायब एकदम बरो मनीस'' अशें म्हूण जगदीशान रोखडोच आपणालो जजमेंट दिलो आनी लिफ्टांत येतल्या वतल्यांक ताणें ही म्हत्वाची खबर सांगली.

ऑफिसांत बसल्या बरोबर जोजेफ बाप्तीस्त सिनिअर पी.ए., रुडॉल्फ आगियार जुनियर पी.ए., फ्लाविया डिकॉस्ता आनी दीपा देसाय येवन मेळ्ळीं. प्रत्येकान आपणालें नांव आनी काम कसलें तें सांगलें. तांका तांच्या रुमांत वचूंक सांगून महेशान अभ्यंकराक बस म्हूण सांगलो. नव्या चेअरमॅनान सुत्रां हातांत घेवपाच्या वेळार सयो करपाच्यो आसतात ते पेपर घेवन यो अशें म्हूण अभ्यंकरान बाप्तीस्ताक सांगलें. बाप्तीस्तान पेपर हाडून महेशा मुखार दवरले. महेशान सगल्यो सयो करून ताका वयार केलो ''आनी आतां फुडें कितें?'' अशा अर्थान अभ्यंकरा कडेन पळयलें.

''पोर्टांत इकरा विभाग आसात. इकराय विभागांचे मुखेल एक एक करून तुमकां मेळूंक सोदतात, केन्ना आपोवं?'' अभ्यंकरान महेशाक विचारलें.

''आयज सांजेच्या तीन वरांचेर सगल्यांक मेळपाक आपय. खंय मेळपाचें?'' महेशान विचारलें.''हांगच्यान भायर सरतकूच दावे वटेन चेअरमॅनाचो मिटिंग रूम आसा थंयच मेळूं येता,'' अभ्यंकरान सांगलें.

''हो चेअरमॅनाचो स्टाफ कितलीं वर्सां हांगा आसा?''महेशान विचारलें.

''बाप्तीस्त सोडून तीं तिगूय जाणां देड ते दोन वर्सां आसतलीं. बाप्तीस्ताक मात पंदरा वर्सां परस चड जालीं; तीन चेअरमॅनांच्या हाता सकयल ताणें काम केलां.'' अभ्यंकरान म्हायती दिली. महेशान कारण विचारतकूच सिनियर पी.ए च्या पावंड्या वयलें पोर्टांत आनीक पद ना, आनी ते खातीर बाप्तीस्ताची बदली करूंक मेळना अशें अभ्यंकरान सांगलें. महेश अभ्यंकराक आनीक कितेंय तरी विचारूंक वतालो इतल्यांत कॅबिनाच्या दारा भायर गडबड शी आयकूंक आयली आनी दार फॉर्सान उकतें करून पांच-स जाण लोक भितर सरले.

''हे कोण? अशे पयलीं सांगून धाडी नासतना फॉर्सान दार उगडून कित्याक आयल्यात?'' अशें म्हूण महेशान अभ्यंकराक विचारलें.

अभ्यंकर उठून उबो रावून ''भायर या आनी उलोवया,'' अशें म्हूण तांकां भायर वचपाक फोर्स करतालो. तितल्या मजगतीं तीन सी.आय्.यस्.एफ्.

गार्ड भितर येवन वणटी म्हऱ्यांत उबे रावले. त्या स जाणां मदले दोग जाण अभ्यंकराचें कांयच आयकनासतना आपुणूच चेअरमॅनाच्या मुखा वयल्या कदेलांचेर बसले.

''सर हो पीटर डिमेलो, पोर्ट कामगार संघाचो सेक्रेटरी आनी तो गुणाजी, जॉयंट सेक्रेटरी.'' अभ्यंकरान महेशाक सांगलें.

''सायबा, आमकां अशें येवचें पडलें. तुका वेलकम करूंक काल आमी गॅस्ट हावजांत येयलेले, पूण आयज चार वरांचेर मेळुंया म्हूण तुवेन रेकाद धाडलेलो. आयज सांजचें आमकां आनीक काम आसा देखून आमी आतां तुका वेलकम कोरुंक येयल्यात. सायबा, ह्या सेक्रेटरीक खबर आहा! आमकां अपॉयंटमेंट बी कांय लागना. आमकां जाय तेन्ना आमी येताय.'' पिटर आनीक उलोवंक सोदतालो पूण महेशान हात वयर केलो आनी ताका ओगी राव म्हूण सांगलें.

''म्हाका तुमी वेलकम केलो मरे? थँक्यू. आतां तूं म्हजें आयक. अपॉयंटमेंट घेतल्या बगर म्हाका कोण मेळचोना, मागीर ते कोणूय जावं. ह्या फुडें तुमी जर अशे अपॉयंटमेंट घेना आसतना फॉर्सान भितर सरले जाल्यार सी.आय्.यस्.एफा क सांगून तुमकां भायर काडटलों. फोर्स हो तुमकांय आसा आनी चेअरमॅनाकूय बी आसा. फोर्स केन्ना वापरचो आनी कितलो वापरचो हें समजुपाक मात्शें शाणेंपण लागता. आतां तुमी चलात. म्हाका फुडले फावटीं मेळपाचें जाल्यार अपॉयंटमेंट घेवन येयात. प्रॉब्लेम कितेंय आसल्यार थंड पणान उलोवया. आतां तुमी चलात.'' महेशान तांकां शिटकावणी दिली. अभ्यंकरान आनी सी.आय्.यस्.एफ्. गार्डांनी तांकां खुणो करून चलात म्हूण सांगलें.

''आमी पळोवन घेतात, तुका कळटलें!'' अशें रागान बडबडत ते गेले.

''हे चड मातल्यात, हांकां जाग्यार हाडपाक जाय,'' अशें म्हणून त्या एअर कंडिशन कॅबिनांत लेगीत तोंडा वयलो घाम पुशीत अभ्यंकर तापलो.

''ह्या पोर्टांत कितले कामगार संघ आसात, प्रशासनान खंयच्च्या संघाक मान्यताय दिल्या, मान्यताय दिल्ल्या प्रत्येक स़ंघांत कितले वांगडी आसात, गेल्ल्या पांच वर्सांत खंयच्च्या संघान संप घडोवन हाडिल्ले, खंयचो संघ प्रशासनाचें चड आयकता ह्या सगल्या पॉइंटांचेर एका आठवड्या भितर म्हाका

पुराय नोट जाय. तांचे कडेन उलयतना ही म्हायती बऱ्याक पडटली,'' महेशान अभ्यंकराक सांगलें. अभ्यंकरान हातांत आशिल्ल्या नोट बुकांत महेशान सांगिल्लें तें बरोवन घेतलें. कामगार संघा कडेन वाटाघाटी आनी वांटपण करपाचो महेशाक अणभव आसा काय ना हें जाणून घेवपाची अभ्यंकराक खाज आशिल्ली. महेशाक ताचो वास लागलो. आपूण तमिळनाडू विद्युत निगमाचो सेक्रेटरी म्हणल्यार प्रशासनाचो मुखेल अधिकारी आशिल्लों आनी थंय सुमार एक लाख कामगार वर्ग, तेरा कामगार संघांचे वांगडी आशिल्ले आनी सकाळच्या णव वरां साकून सांजेच्या स-सात वरां मेरेन वाटाघाटी आनी वांटपणां चलत आसतालीं अशें महेशान अभ्यंकराक हेर खंयच्याय तरी विशयाचेर उलयतना सांगलें.

***

बाप्तीस्त टक् टक् करून दारार मारून भितर आयलो. महेशान ताका खुणेनूच कितें काय म्हूण विचारलें.

ऑफिसर्स असोसिएशन आनी कडक भोसलेचें युनियन मेळपाक सोदतात. केन्ना यो म्हूण सांगूं?'' बाप्तीस्तान विचारलें.

फाल्यां सकाळीं धा वरांचेर ऑफिसरांक आनी इकरांक भोसलेच्या युनियनाक आपय, अशें म्हणून महेशान ऑर्द दिली.

''त्या पीटर डिमेलोन चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत घुसचे पयलीं तुका फोन करुन अपॉयंटमेंट मागलो ना रे?'' अभ्यंकरान बाप्तीस्ताक विचारलें.

''ना, ते बोवाळ घालीत आयले तेन्ना हांवें तांकां आडोवपाचो यत्न केलो पूण म्हाका धुकलून ते भितर घुसले,'' बाप्तीस्तान जाप दिली.

''तांकां हांवें आयज चारांक येयात म्हूण सांगिल्लें पूण आतां तो अपॉयंटमेंट रद्द जाला. ते चारांक येवचे नात म्हूण तांणीच सांगलां, अशें म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक खुणेनूच ताणें आतां वचपाक हरकत ना अशें सुचयलें.

''हो कडक भोसले कोण? आनी तो इतलो कडक कित्याक?'' महेशान हांसून अभ्यंकराक विचारलें.

तो मुरगांव संघ ह्या युनियनाचो सेक्रेटरी. सरळ मनीस, कायद्या भितर रावपी. कामगारां कडल्यान तो कसलेच पयशे घेना. शिस्तीचो कडक म्हूण

ताका सगले कडक भोसले म्हणटात. पिटराचें युनियन मुरगांव कामगार संघ आनी भोसलेचें युनियन मुरगांव संघ दोनूय युनियनांक आमी मान्यताय दिल्या. पिटराच्या युनियनांत चड कामगार आसात. फाटलो चेअरमॅन ताका पांयां पडून दीस काडटालो. ताका लागून चडशे कामगार ताच्या युनियनाचे वांगडी जाल्यात, अभ्यंकरान म्हायती दिली.

''आमच्या ऑफिसाचें टायमींग कितें?'' महेशान विचारलें.

णव ते एक आनी दोन ते पांच. सर, तुमी दोनांकूच येवंक जाय अशें ना. जेवन आड पडून तीन मेरेन पावल्यार पुरो. अशें अभ्यंकरान सुचयलें.

''सगल्यो गजाली त्या त्या टायमार करपाची म्हाका सवंय आसा. हांव सारको सकाळच्या णवांक आनी दनपारचो दोनांक ऑफिसांत पावतलों. सगल्या स्टाफाक सांग. सगल्यांनी टायमार येवंक जाय,'' महेशान मात्शें कडकपणान सांगलें. अभ्यंकरूयबी उसरां येता म्हणपाचो ताका दुबाव मारिल्लो.

महेश सारको एका वराचेर जेवणाक गॅस्ट हावसांत गेलो. सवा एक मेरेन जेवण मेजार येवंक जाय म्हूण ताणें जल्मीक आदल्याच दिसा सांगून दवरिल्लें. ऑफिसांत सकयल येता आसतना लिफ्टमॅन जगदीशान ताका मोटारी मेरेन पावयलो आनी फाटलें दार उगडून ताका भितर बसोवन दार अचळय बंद केलें. संभाजी ड्रायवर आपणाल्या सिटा वटेन उबो आशिल्लो. महेश बसतकूच आपणा वटेनचें दार ढाऽऽकरून मारून तो ड्रायवराच्या सिटार बसलो. सकाळच्या भशेन कॅप घालिनासतानाच ताणें गाडी चलयली. महेशाच्या ध्यानांत संभाजीची वायट वागणूक रजिस्टर जाली, पूण उखल्ली जीब लायली ताळ्याक अशें केन्नाच करूंक जायना हें तत्व फाटल्या पंचवीस वर्सांच्या अणभवान ताच्या व्यक्तित्वाचो एक वांटो जावन बशिल्लें.

जेवणाक रातचेच भशेन सूप, दोन भाजयो, शीत, दाळ, सेलेड, पापड, लोणचें आनी आंबट्ट धंय बी आयलें. पापड, लोणचें आनी शीत सोडल्यार आयज सगले जिनस वेगळे आशिल्ले. आंध्र प्रदेशांत करतात तसलें इल्ल्याश्या वायंग्यांचें खूबशें तेल मारून तोंडाक केल्लें. रांदपी गोंया भायलो आसूंक जाय असो महेशाक दुबाव मारलो. ताचें नांव ''स्वामी''; ताका पोर्टांत नोकरेक लागल्यार पंदरा वर्सां जाल्लीं आनी जाय जाल्यार चेअरमॅनाच्या बंगल्यारूयबी

तो ड्युटी करूंक शकता ही सगली म्हायती जल्मीन दिली. स्वामीक आपोवन जेवण बरें जालां अशें म्हणून सांगतकूच तो खूश जालो.

त्या दिसा सांजचे साडे पांच ते स च्या मर्दी रॅअर एड्मिरल जिंदालाक मेळूंक वचपाचें महेशान थारायिल्लें. आपल्या वांगडा जेवात अशें म्हूण एड्मिरल जिंदालान आग्रो केल्लो म्हणटकूच ताच्या वांगडा जेवपाचें महेशान थारायलें. त्या प्रमाणें आपूण मीरा वांगडा सातांक सुमार येतां अशें ताणें ताका कळीत केलें.

जेवन बी सारको दोन वरांचेर महेश ऑफिसांत पावलो. जगदीश पोर्टिकोंत ताका रावतालो. दिपा आनी फ्लाविया दोगांय जाणां आयिल्लीं. बाप्तीस्त अडेजांक आयलो. सद्दां सारको दोनांक येवंक जाय म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक आपोवन सांगलें. खूब वर्सां जालीं, फाटल्या तिनूय चेअरमॅनां वेळार आपूण असोच अडेजांक येतालों; ऑफिसांतल्यान भायर सरून घरा कडेन वचून जेवतालों आनी मागीर मात्सो आड पडून आपूण सद्दां अडेज वरांचेर पावतां अशें ताणें महेशाक सांगलें. आयज मेरेन जें कितें जालें तें आपल्याक लागना आनी ऑफिस दोन वरांचेर सुरू म्हणटकूच तो धरून सगल्यांनी हांगा दोनांक हजर आसूंक जाय, अशें महेशान तोंडाचेर मात्सो कडक भाव हाडून बाप्तीस्ताक सांगलें. मागीर फ्लावियाक आपोवन आपल्याक कसले कसले रिपोर्ट, कायद्याचीं पुस्तकां, पोर्टाचो इतिहास आनी जाय आशिल्ल्या खूबश्या गजालींची वळेरी ताणें ताका दिली. खंयचो रिपोर्ट कोणें आनी कितल्या दिसां भितर आपल्याक धाडपाचो हें महेशान स्पश्ट सांगलें.

***

चेअरमॅनाच्या कॅबिनांतल्यान भायर सरना फुडें बाप्तीस्त आवाज चडोवन दिपाक कितेंय तरी सांगूंक लागलो. फ्लाविया दिसना फुडें ताकाय बी बाप्तीस्तान आपणाल्या श्रोत्र वर्गांत आसपावन घेतलें. बाप्तीस्ताक ऑफिसांत आसतना सदांच इंग्लिशींतल्यान उलोवपाची संवय आशिल्ली. दिपा, फ्लाविया वा आनी कोणेंय कितेंय कोंकणींतल्यान विचारल्यार तो इंग्लिशींतल्यान जापो दितालो. आतांय तो इंग्लिशींतल्यान तापतालो. "गेल्लीं पंदरा वर्सां हांव सारको अडेज वरांचेर ऑफिसांत पावतां. खंयच्याच चेअरमॅनान म्हाका

दोनांक येवंक जाय म्हूण सांगूंक ना. हो आपणाक कितें समजता? गोंयकार चेअरमॅन म्हणटकूच बरोऽऽ आसतलो अशें दिशिल्लें.''

''आरे तो चेअरमॅन काय तूं चेअरमॅन? तेका जाय तेशें आमी कोरोंक जायें न्हों?'' फ्लाविया बाप्तीस्ताचेर तापलें.

''रायट! फाटल्या चेअरमॅनांनी तुका सवलत दिलेली देखून हेणेंयबी तुका फेसिलिटी दिवंक जायी?'' दिपान विचारलें.

''म्हाका हें आवडूंक ना, ह्या चेअरमॅनाक जाग्यार हाडचो पडटलो!'' अशें म्हूण बाप्तीस्त आपल्या कदेलार बसून कसले तरी पेपर सोदूंक लागलो.

इतल्यांत बाप्तीस्ताच्या मेजावयलो फोन वाजलो. सर्वानंद सांवर्डेकाराच्या पी.ए. चो फोन आयिल्लो. सर्वानंद खंय दुसऱ्या दिसा सकाळीं जपानाक वचपाचो आशिल्लो आनी पंदरा दीस थंयच आसपाचो आशिल्लो. देखून ताका ते रातचें साडे-सात वरांचेर गॅस्ट हावसांत चेअरमॅनाक मेळूंक जाय आशिल्लें. अपॉयंटमेंट मागूंक ताच्या पी.ए.न फोन केल्लो. बाप्तीस्त नोट बुक घेवन चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत गेलो. चेअरमॅन इकॉनॉमिक टाइम्स चाळून पळयतालो.

''एक्स्क्यूज मी सर, सर्वानंद सांवर्डेकार आयज सांजेचो साडे-सातांक तुमकां गॅस्ट हावसांत येवन मेळूंक सोदता,'' बाप्तीस्तान चेअरमॅनाक सांगलें.

''ताका इतली ताकतीक कित्याक? कोण तो?'' महेशान विचारलें.

''सर्वानंद सांवर्डेकार गोंयचो एक व्हड मिनेर. पोर्टाक बिसनेस दिवपी व्हड मिनेरां पैकीं तो एक.'' बाप्तीस्तान महेशाक सांगलें.

आपणाक आयज सांजेचो वेळ नासतलो कारण रेअर ऍडूमिरल जिंदाला कडेन अपॉयंटमेंट आसा. जपानाच्यान परतून येतकूच मेळुंया म्हूण सांग, अशें महेशान बाप्तीस्ताक सांगलें.

आतां सर्वानंदाचीं आनी चेअरमॅनाचीं झगडीं सुरू जातलीं आनी सर्वानंद दिल्लीक वचून मिनिस्टरां कडेन चेअरमॅनाच्या आड कागाळी करतलो. आपणें ह्या उज्यांत चान्स मेळटा तेन्ना तेल ओतीत रावंक जाय, असो विचार बाप्तीस्ताच्या मनांत आयलो. ताचो राग आनी चिंतेचो मूड बदलून तोंड खोश्शेन फुल्लें. आपणाल्या कदेलार बसून ताणें फोन उखल्लो आनी सर्वानंदाच्या पी.ए.क सगली गजाल सांगली.

"आमचो सायब कोण तो चेअरमॅनाक तुवें सारकें सांगलां मरे?" सर्वानंदाच्या पी.ए.न विचारलें.

"चेअरमॅनाक हांवें सगलें सांगलां तुजो सायब केदो व्हड मिनेर तो. मनीस केदोय व्हड आसू आयज अपॉयंटमेंट दिवपाक आपणाक वेळ ना अशें चेअरमॅन म्हणटा. ह्या चेअरमॅना कडेन मात्सो सांबाळून राव अशें तुज्या सायबाक सांग," बाप्तीस्तान उज्यांत इल्लेंशें तेल ओतलें.

तीन वरांचेर अभ्यंकर येवन महेशाक मिटींग रूमांत घेवन गेलो. थंय पोर्टाच्या इकराय विभागांचे मुख्य अधिकारी महेशाची वाट पळयताले. महेशान पयलीं आपणाली वळख करून दिली. आपलें शिक्षण कितलें जालां, खंय खंय शिकलां, आय्.ए.एस्. परिक्षेक केन्ना बसलों, सर्वीस केन्ना सुरू जाली, कसल्या कसल्या पदांचेर काम केलां, आंतरराष्ट्रीय पांवड्याचेर कितलें आनी कसलें काम केलां ही सगली म्हायती पंदरा मिनटां भितर महेशान तांकां दिली. प्रत्येक विभागां विशीं एक नोट बरोवन धाडचो अशी नोटीस सगल्यांक फाल्यां मेळटली. देखून आयज विभागाविशीं म्हायती दिवपाची गरज ना, फकत नांव सांगून कितलीं वर्सां पोर्टांत काम केलां आनी कामांत आडमेळीं हाडपी प्रोब्लेमां आसल्यार तीं कुशीन कशीं उडोवपाचीं तें आज सांगपाचें अशें महेशान सगल्यांक सांगलें.

प्रत्येक विभाग मुखेल्यान आपलें नांव आनी आपूण ह्या पोर्टांत कितलीं वर्सां आसां हें सांगलें. प्रॉब्लेमां महेशाच्या कानार घालपा विशीं तांचीं आपसांत उलोवणीं जाल्लीं काय दिसता कारण तांच्या पैकीं दोग जाण प्रॉब्लेमां समजावन सांगतले अशें अभ्यंकरान सांगलें. एकलो आशिल्लो गजा भिसे. मीन पोर्टांत आशिल्ल्या प्लॉटांचेर मीन सांठोवन मागीर भायल्या देशांतल्यान बोटी येतकूच त्या बोटींनी तें मीन भरून धाडपाचें काम करपाक पोर्टांत तरातरांच्या मशिनांची एक व्हड यंत्रणा आशिल्ली. ती सगली यंत्रणा आनी यंत्रणा चलोवपी मॅकानिकल इंजिनियर आनी कामगार सगले इंजिनियरिंग विभागांत आसपावताले. गजा भिसे हो वीस पंचवीस वर्सां पोर्टांत काम केल्लो इंजिनियर त्या विभागाचो मुखेल आशिल्लो. मिनाची निर्यात करप ह्या पोर्टाचें मुखेल काम आशिल्ल्यान इंजिनियरिंग विभाग हो सगल्या विभागां पैकीं चड म्हत्वाचो विभाग अशें सगले मानताले. विभागाचो मुखेल गजा भिसे प्रॉब्लेम

समजावन सांगपाक लागलो. ताणें सांगून जातकूच ट्रॅफिक विभागाचो मुखेल सेराफीन गुदिन हाणेंय बी खूबशे प्रॉब्लेम सांगले.

तांणी सांगलें तें अशें: फाटलीं पांच वर्सां पोर्टाच्या ऑफिसरांनीं खूब मानसीक त्रास सोसल्यात. तांच्या हाता सकयल काम करपी कामगार तांकां इल्लो लेगीत मान दिनात कारण चेअरमॅन कामगारां हुजीर ऑफिसरांक तापोवन काडटालो. युनियनान कसलीय कागाळ केल्यार युनियना हुजीर ऑफिसरांक आपोवन युनियन सांगता तशें कर अशें म्हूण चेअरमॅन ऑर्डर दितालो. कामगार लिडरांच्यो आनी ऑफिसरांच्यो चेअरमॅन मिटिंगो आपयतालो तेन्ना कामगार लीडर ऑफीसरांचो खूब अपमान करताले. चेअरमॅन तांकां आडाय नाशिल्लो, उरफाटें ते जेन्ना ऑफिसरांचो अपमान करताले तेन्ना चेअरमॅन हांसून तांकां तेंको दितालो.

ऑफिसर्स असोसिएशनान "तूं अशें करूं नाका," म्हूण जायत्या फावट चेअरमॅनाक सांगलें, पूण "पोर्ट कसो चलोवपाचो तें तुमी म्हाका शिकोवं नाकात," अशें म्हूण तो तांकां वयार करतालो. ऑफिसरांक फाव तो मान मेळूंक जाय. पगार आनी सुविदा सगल्यांकूच मेळटात पूण काम करतना समादान मेळना जाल्यार तें काम सारकें जायना. चेअरमॅनान ऑफिसरांक मानाचें स्थान दिवंक जाय. चेअरमॅनान तशें केल्यार कामगार वर्गूय बी शिस्तीन वागतलो आनी ऑफिसरांनी दिल्ल्यो ऑर्डरी पाळटलो.

अशें कित्याक जाता हें गजा भिसेन विसकटावन सांगलें. रेअर ॲड्मिरल जिंदाल हो इंडियन नेव्हींतलो मनीस. नेव्हींत वा सैन्यांत वेल्या अधिकाऱ्यांच्यो ऑर्डरी सकयल्ले ऑफिसर वा कामगार केन्नाच चालीक लायनासतना रावनात.

पोर्टांतल्या कामगार वर्गाच्यो सवंयो वेगळ्यो. काम थांबोवप, फास्ट करपाचें सोडून सवकास करप, पोर्ट प्रशासनाक कामाची ताकतीक आसतना आडखळी हाडप असल्यो घडणुको पोर्टांत घडटात. सगल्या तरांचे उपाय वापरुन पोर्टाचें काम करचें पडटा. कांय वेळार कडक भुमिका घेवंची पडटा आनी कांय वेळार तांचें आयकुचेंय बी पडटा. "हांव सांगतां तें तूं आयक," हें धोरण भारतीय सैन्यांत चलता. पोर्टांत वा हेर सरकारी कंपन्यांनी असलें चलना.

रेअर एड्मिरल जिंदाल पोर्टांत चेअरमॅन म्हूण येतकूच ताका हें रोखडें

समजलें जातलें पूण मात्सो शाणेपणान आनी धूर्तपणान कामगारांक हाताळपाचें सोडून तो सामको तांकां पांयां पडून दीस काडूंक लागलो.

"तुमी आतां चेअरमॅन म्हूण आयल्यात. तुमी व्हड व्हड आस्थापनां चलयल्यांत, तुमकां कांयच सांगपाची गरज ना. आमचें तुमचे कडेन एकूच मागणें,आमचें मानाचें स्थान आमकां परतून दियात" अशें म्हणून गजा भिसे बसलो.

सरकारी आस्थापनांनी वेग-वेगळ्या पावंड्यार ऑफिसर, सुपरवायझर, कामगार बी सरकारी नोकर म्हूण काम करतात. तांकां कायदे लागतात ते वेगळे. आस्थापनांतले ऑफिसर आनी हेर नोकर वर्ग शंभर टक्के सरकारी नोकरां भशेन नासतात. खुबशे कायदे तांकां वेगळे आसतात. सरकारी नोकरांक आनी सरकारी कामगारांक "कोड ऑफ कण्डक्ट" लागता तसो असल्या आस्थापनांनी लागना. देखून असल्या आस्थापनांनी कामगारांची वागपाची पद्दत वेगळी आसता. कामगारांक कितलेय हक्क आसूं, ऑफिसरांचो अवमान करपाचो हक्क तांकां खंयच्याच कायद्यान दिवंक ना. कामगारांचो लेगीत अवमान करपाचो हक्क वेल्या ऑफिसरांक नासता. आपूण सगल्यांचो मान सारको राखतलों, कोणाचोच अवमान जावंक दिवंचों ना, ऑफिसरांक फाव त्या मानान जीण जगूंक आनी काम करूंक मेळटलें हाची खात्री आपूण सगल्या ऑफिसरांक दितां अशें म्हणून महेशान मिटींग सोंपयली. फाटलो चेअरमॅन कित्याक युनियन लिडरांक पांयां पडून दीस काडटालो तें महेशाक समजलें ना. त्या दिसा सांजेचो महेश रेअर ऍड्मिरल जिंदालाक मेळपाचो आशिल्लो. ताचे कडल्यान एकाद्री खरी गजाल कितें ती कळुंये अशें म्हूण महेशान तो विशय तकलेंतल्यान काडून उडयलो.

आपणाल्या कॅबिनांत वतकूच ट्राफिक मॅनेजर आनी फायनान्स विभागाच्या मुखेल अधिकाऱ्याक आपय अशें म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक सांगलें. बाप्तीस्तान फोना वेल्यान तांकां रेकाद पावयलो.

पोर्टाची वट्ट येणावळ, वट्ट खर्च, येणावळीची आनी खर्चाची विसकटावणी केल्ली म्हायती, सरकाराकडेन चालू आशिल्लो पयशांचो वेव्हार, बँकाकडलो वेव्हार, हे गजालींची म्हायती दोन दिसां भितर धाड अशें म्हूण महेशान अर्थ खात्याचो मुखेल अधिकारी रविंद्रन हाका सांगलें. रविंद्रन वतकूच महेशान ट्राफिक मॅनेजर सेराफिन गुदिन्या कडल्यान कांय गजाली विचारून घेतल्यो.

पोर्टान मान्यताय दिल्ल्या दोन युनियनां पैकीं पिटर डिमेलोचे लोक दीस-रात बेठेच कित्या कितेंय मागण्यो करीत रावतात आनी चड त्रास दितात. मिनाची निर्यात करप हें पोर्टाचें मुख्य काम आनी डिसेंबर ते मे ह्या म्हयन्यांनी निर्यात चड जाता. मीन व्हरपाक चड बोटी येतात तेन्ना युनियनांचे लोक चड त्रास दितात. मीन भरून बोटींक वचपाक कळाव जालो जाल्यार मिनेरांक लुकसाण जाता कारण तांकां पेनाल्टी भरची पडटा. देखून युनियनांनी सारकें काम करूंक जाय म्हणून मिनेर तांचीं बॉल्सां भरतात. ही सगली म्हायती सेराफीन गुदिन्यान महेशाक दिली. रवींद्रनाक सांगिल्लें तशेंच गुदिन्याकूयबी ट्राफिका संबंदीं सगले रिपोर्ट आपल्याक दोन दिसां भितर हाडून दी अशें महेशान सांगलें.

सारको पांच वरांचेर महेश गॅस्ट हावसांत वचूंक भायर सरलो. जगदीश ताच्या वांगडा मोटारी म्हऱ्यांत आयलो आनी दार उगडून महेशाक ताणें भितर बसयलो. दनपारचे भशेनूच दार ताणें ल्हवू मारलें. सकाळचे भशेनूच संभाजी ड्रायवराच्या सिटा म्हऱ्यांत उबो आशिल्लो. महेश बसना फुडें ताणें आपणाल्या सिटार बसून मोटारीचें दार ढाऽऽ करून मारलें. कॅप घालिनासतना ताणें गाडी चलयली. गॅस्ट हावसांत जल्मी चेअरमॅनाची मोटार पळयना फुडें धांवून आयलो आनी ताणें मोटारीचें दार उगडलें. मोटारींतल्यान देंवून महेशान संभाजीक खुणेनूच आपयलो आनी जल्मीक आनी थंय फाटल्यान उबे आशिल्ल्या दोन भुरग्यांक आयकूंक येय सारक्या आवाजांत संभाजीक ऑर्द दिली, "आयज सांजची म्हाका गाडी नाका. फाल्यां सकाळीं आठ-पंचावनांक गाडी तयार दवर. गाडयेचें फाटलें दार उगडून तुवें म्हाका भितर बसोवंक जाय. दार मारता आसतना तें ल्हवू मारूंक जाय. तुजेंयबी दार तुवें ल्हवू मारूंक जाय. गाडी चलयना तुवें कॅप घालुनूच गाडी चलोवंक जाय. हांवें सांगलां तें सारकें ध्यानांत दवर. आतां तूं चल." संभाजी कांयच उलयलो ना. ताचें तोंड सामकें पडलें, पूण हांसत्या तोंडान मान हालोवन ताणें वेळ मारून व्हेलो. वयर रुमांत वतां-वतां आपणाक आनी मीराक च्या धाड म्हूण महेशान जल्मीक सांगलें.

पांच मिनटां भितर गॅस्ट हावसांतलो एक भुरगो च्याचो ट्रे घेवन जल्मी वांगडा आयलो. जल्मीन व्हड खोश्शेन महेशाक "आजकी ताजा खबर" दिवंक सुरवात केली, "सायबा, तूं भयंकर कडक म्हूण पोर्टांत फाम जाल्या. पयल्याच दिसा तुवें पिटराक जाग्यार बसयलो, त्या बाप्तीस्ताकूयबी तापोवन

काडला आनी मिनेर सावर्डेकाराक आयज अपॉयंटमेंट मेळचो ना म्हूण सांगलें. तूं कोणाचीच मस्ती चलूंक दिवंचो ना अशें म्हूण पोटांत फाम जाल्या.'' महेश आतां कितें म्हणटा तें पळोवया अशें म्हूण जल्मी थयंच रावलो. ''च्यांत साखर घालूं नाका म्हूण सांगपाक विसरलों. फाल्यांच्यान साखर घालूं नाका म्हणून सांग. आनीक एक गजाल-----आमी आयज हांगा जेवणाक नासतलीं,'' महेशान जल्मीक सांगलें. ''जाणा सायबा, तुमी बंगल्यार जेवपाक वचपाचीं आसात,'' जल्मीन आपूण जाणां म्हणपाची म्हायती दिली. ''तुका कशें कळ्ळें रे?'' ह्या अर्थान महेशान जल्मी कडेन पळयलें तेन्ना ''तुमकां हांगा तुमचे खातीर करतात तेंच जेवण घेवन आमी थंय येतले,'' अशें म्हूण हांशिल्ले वरीं तोंड करून जल्मी तकली हालयत गेलो.



## भाग 3

**सडा** हेडलँड वाठारांत शाणूल्या च्या च्या हॉटेला शेजरा आशिल्ल्या मुरगांव पोर्ट कामगार संघाच्या ऑफिसांत सेक्रेटरी पीटर डिमेलो, जॉयंट सेक्रेटरी सर्वेश गुणाजी, दुसरो जॉयंट सेक्रेटरी भगवान यादव आनी धा-बारा जाण जाणटे शे दिसपी संघाचे कमिटीचे वांगडी ताकतिकेन जमिल्ले. सडा वाठारांत रावपी चडश्या कुटुंबांतले लोक पोर्टांत नोकरी करताले वा पोर्टाच्या खंयच्याय तरी विभागांत कॉंट्रॅक्टाचेर ल्हान ल्हान कामां करताले. पोर्टांत ल्हान सो हुंदीर लेगीत मेल्यार हांगच्या लोकांक चर्चेचो विशय मेळटालो. आयज नवो चेअरमॅन येवपाचो आसा म्हूण सगल्यांक खबर आशिल्ली. नवो चेअरमॅन येना फुडें ताणें पीटर डिमेलोक धांवडायलो म्हूण सनसनाटीची खबर पसरिल्ली. तेच गजालीक लागून युनियनाचे लोक जमल्यात आसूंक जाय अशी चर्चा त्या वाठारांत चालू आशिल्ली.

साडे-तिनांक सुमार सगले येतकूच पीटर डिमेलोन मिटींग सुरु केली:

‘‘आयज कितें जालें तें तुमकां खबर आसा. काल सांजेचो हांव कांय जाणांक घेवन चेअरमॅनाक वेलकम करूंक गॅस्ट हावसांत गेलेलों. आपणें अजून चार्ज घेवंक ना, फाल्यां सांजेच्या चार वरांचेर येवन मेळात अशें म्हूण चेअरमॅनान म्हाका सकयल रेकाद धाडलो. हालींच्या वर्सांनी आमचो असलो इंसल्ट कोणेंच करूंक नासलेलो. चेअरमॅनाक आतांच आमचो फोर्स दाखयल्यार बरो म्हूण आयज सकाळीं ताका मेळपाक ताच्या कॅबिनांत गेलेलों. फाटलीं पांच वर्सां जिंदाल सायब चेअरमॅन आसतना आमकां जाय तेन्ना चेअरमॅनाक मेळूंक मेळटालें. अपॉयंटमेंट बी आमकां कांय लागनासलेलो.

तेच्या कॅबिनाचें दार धुकलून आमी आमकां जाय तेन्ना भितर सरताले. आमचो इंसल्ट केल्यार पोर्टांत काम सारकें करूंक मेळचें ना हें जिंदाल सायबाक खबर आसलेलें. हो गोंयकार आय्.ए.एस्. ऑफिसर प्रभू येयला देखून आमकां दिसलेलें जिंदाल सायबा परस हो बरो आसतलो, पूण जालें सारकें उरफाटें! आयज सकाळीं तेका मेळपाक गेल्यार तो सांगता, अपॉयंटमेंट घेवन यो म्हूण आनी असो दार धुकलून येयल्यार सी.आय्.यस्.यफा क सांगून भायर धावंडायतलों म्हणटा. आतां हेका कितें करपाचें?'' पीटरान विचारलें.

''हो चेअरमॅन नवो येयला. तो कडक काय मोव हें मात्शें स्टडी केल्या बगर आमी तेजे कडेन फायट सुरु करूंक जायना!'' एका जाणट्या कामगारान आपलें मत सांगलें.

''स्टडी बी कांय नाका. ह्या चेअरमॅनाक आमी ह्या पोर्टांतल्यान धांवडावंक जाय. आमच्या सेक्रेटरीचो इंसल्ट करता म्हणल्यार कितें?'' मध्यम वयाच्या एका कामगारान सुचयलें.

''हे चेअरमॅन येतात ते पांच वर्सां उरतात. खेरीज हो गोंयकार. गोंय तेका आवडटा म्हूण तेणें ही पोस्टींग घेतल्या अशें म्हूण तो जोझेफ बाप्तीस्ताक सांगतालो. तो हांगच्यान परतून वचूंक कुस्तार!'' जॉयंट सेक्रेटरी गुणाजीन म्हायती दिली. जोझेफ बाप्तीस्त गुणाजीचो बरो इश्ट आशिल्लो आनी इरमांव बारांत सद्दां सांजेचे ते बशिल्ले आसतना एक-दोन पॅग मारतकूच गुणाजीक तो 'भितल्ल्यो' खबरो सांगतालो.

''म्हाका दिसता तेचे कडेन अपॉयंटमेंट बी घेवन पीटरान तेचे कडेन बरें करून उलोवपाचें. तेका रेस्पेत दिवपाचो. पोर्ट बरे भशेन चलोवचे खातीर आमी तेच्या वांगडा आसतले हें तेका पटोवन दिवंक जाय. आमी तेचे कडेन झगडत रावल्यार आमचीं कांयच कामां जावचीं नात; कामां जायनात जाल्यार आमचे कामगार कडक भोसल्याक वचून मेळटले.'' एका जाण्ट्याशा कामगारान शांततायेचो मार्ग सुचयलो.

''कामगार संघ झगडनात जाल्यार तांकां प्रशासन कॅर करचें ना! ह्या नव्या चेअरमॅनाक आमी कसोच सदळ सोडूंक जायना. पयल्याच दिसा आमच्या लिडराचो इंसल्ट करपाची हिम्मत तो दाखयता जाल्यार ताका

डॅमेज करपाची आमकांय बी हिम्मत आसा अशें दाखोवंक जाय,'' गुणाजीन आपणालें मत सांगलें.

''हो गोंयकार चेअरमॅन. हे वाटेन ते वाटेन तेचे सोयरे आसुंकूच जाये! तेंच्या पैकीं कोणाकूय सोदून काडून चेअरमॅनाक आमच्या फावोराद उतर घालूंक लायल्यार कशें?'' रिटायर जाल्लो एक कामगार उलयलो.

''कामगारांनी असलीं बायजणपणां करचीं न्हय. आपणाल्या हक्का खातीर झगडपाचो फोर्स तांकां आसूंक जाय,'' आनीक एका तरणाट्या कामगारान आपणालें मत दिलें.

मिटींग लांबत गेली. तरा तरांचे प्रस्ताव आयले. चेअरमॅनाक कसलीय तरी कारवाय करून भेश्टावंक जाय अशें चडश्या जाणांचें मत जालें पूण भेश्टावंक कितें करपाचें हाचेर वाद जायत रावले. काळे बावटे दाखोवप, ताची गाडी वाटेर आडावप आनी मोटार फोडप, फुडले पंदरा दीस सकाळचो आनी दनपारचो तो येतना रस्त्याकुशीक रावून व्हडल्या व्हडल्यान स्लोगन दिवप, अश्यो कितल्योशोच सुचोवण्यो आयल्यो. अखेरेक कितें करपाचें तें पीटर डिमेलोन थारावपाचें अशें सगल्यांचें एकमत जालें आनी मिटींग स वरांचेर सोंपली.

***

युनियनाची मिटींग सोंपोवन गुणाजी थंयच्यान शंबर मिटर पयस आशिल्ल्या इरमांव बारांत पावलो. सड्यार पुर्तुगेज काळांतलीं पांच-स बारां आशिल्लीं. तातूंतलें इरमांव बार चड नामनेचें. पुर्तुगेज राजवटीच्या काळांत जल्मल्ले लोक आतां चुकनासतना इरमांव बारांत येताले कारण तें नांव वाचून तांकां पयलींच्यो यादी जाताल्यो. आतांच्या परस पुर्तुगेज राजवट बरी आशिल्ली अशें इरमांव बारांच्या चडशा गिरायकांक दिसतालें. पूण कितलींय कॉपां मारलीं जाल्यार लेगीत हो विचार ते उलोवन दाखय नाशिल्ले.

चेअरमॅनाच्या बंगल्याचो मुखेल दरवटो सारको इरमांव बारांच्या मुख्खार आशिल्लो. चेअरमॅनाच्या बंगल्यार सांजचे येतल्या वतल्यांचेर पाळत दवरपाक ह्या बारांचो हो कोनसो बऱ्याक पडटालो. गुणाजी येवन आपणाल्या सदांच्या कदेलाचेर बसलो. बाप्तीस्त आयल्या बगर तांकां ड्रिंक दिवपाक सुरवात करूंक

जायना म्हूण डॉमनिक वेटराक खबर आशिल्लें. थोड्या वेळान बाप्तीस्त आयलो. ताचें तोंड आयज बरेंच पडिल्ले वरी दिसतालें.

"कितें जालें रे? आयज बरोऽऽऽ दिसना मरे तूं?" गुणाजीन विचारलें.

"आयज नेवो चेअरमॅन येयला न्हूं रे? पोंदरा वोर्सां जालीं आफ्टरनून सेशनाक हांव सारको ओडेजांक येतालों. हेर स्टाफ दोनांक येताले. फाल्यांच्यान म्हाका दोन वोरांचेर येवंचें पडटलें अशें म्हूण हो चेअरमॅन म्हाका सांगोता!" बाप्तीस्तान तावा-तावान सांगलें.

गुणाजी व्हडल्यान हांसलो! "इतलीं वर्सां सगल्या चेअरमॅनांनी तुजें आयकलें, आतांच्यान फुडलीं पांच वर्सां तूं चेअरमॅनाचें आयक." अशें म्हूण गुणाजी परतून व्हडल्यान हांसलो.

"तुमच्या पीटराकूय तेणें पोयल्याच दिसा धांवडायलो मुरे?" बाप्तीस्तान विचारलें.

इतलें म्हणसर डॉमनिकान दोन ग्लासांत एक एक लार्ज पेग पीटर स्कॉट, वांगडा बिस्लेरीच्यो दोन बाटल्यो आनी दोन प्लेटींनीं धाकलीं शेवाचीं पाकिटां हाडून दवरलीं. ग्लासांनीं सोडा ओत म्हूण बाप्तीस्तान डॉमनिकाक खुणेन सांगलें. डॉमनिकान सोडा मिक्स केलो.

"चेअरमॅन इतलो कडक जाल्यार आतां फुडें तुका दीस काडप कुस्तार मरे!" गुणाजीन ग्लास तोंडाक लायत बाप्तीस्ता कडेन पळयत शेरो मारलो.

"शेऽऽऽ तेका हांव भितां रे? फाटल्या तीन चेअरमॅनांकोडे हांयें पोंदरा वोर्सां काडल्यांय!" बाप्तीस्तानूय बी ग्लास तोंडाक लायत गुणाजीक सांगलें.

"पोर्ट म्हुणल्यार सेरकारी डिपार्टमेंट न्हू! हिंगा केदेय वोक्तार वोर्कर पोर्ट बोंद वोडयताय. तेंकोडें बॉरेंऽऽऽ कॉरॉन चॉलॉंक जायें!" बाप्तीस्त.

ह्या चेरमॅना कडेन कशें वागपाचें हाचेर वर भर बाप्तीस्ताची आनी गुणाजीची चर्चा जाली. चेअरमॅना कडेन पयलीं पयलीं नमतें घेवन हो पी.ए बरो मनीस, शिस्तीन काम करता, सांगिल्लें आयकता, आपणालीं शाणेपणां करिना, हाचेर अवलंबून रावूंक जाता अशी छाप आपूण ताचेर मारतलों, पूण ताका त्रासांत घालपाचो यत्न आपूण चालूच दवरतलों. तो जरी पांच वर्सां खातीर हांगां आयला, तरी हांगां कटकटी आनी त्रास चड वाडत रावल्यार तो हेर कडेन वचपाक आपणालें बिराड कवळूंक सुरवात करतलो, असो

आपणालो विचार बाप्तीस्तान ग्लास तोंडाक लायत लायत उलोवन दाखयलो.

‘‘कामगारांच्या फुडाऱ्याचो चेअरमॅनान पयल्याच दिसा इन्सल्ट केलो. फुडें कितें करपाचें तें थारावपाक आमी मिटींग आपयिल्ली पूण ते मिटिंगेंत कांयच फायनल जालें ना. आतां पीटर कितें करता तें पळोवया,’’ अशें मत गुणाजीन उक्तायलें.

‘‘तुमी बेश्टेच इतले वेगीं स्ट्रायक बा कॉरॉंक फावोना. म्हाका दिसोता तुमी यम्.पी.क भितूर हाडचो,’’ बाप्तीस्तान सल्लो दिलो.

‘‘एक चेअरमॅन यम्.पी.चो फोन येयल्यारूच उबो रावून फोन घेतालो. हो चेअरमॅन नेवोच येयला म्हणटकूच तो यम्.पी.क मात्सो चोड भियेतेलो. तुमच्या युनियेनान थिओफिल यम्.पी.क चेअरमॅना कोडेन उलोय म्हूण सांगूंक जाये, मागीर चेअरमॅन युनियनांकोडेन केसो वागता तो चोय,’’ अशें म्हणून बाप्तीस्तान गुणाजीक सुचोवणी केली.

आनीक कांय वेळ हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो गजाली करून ते गुड नायट म्हणून आपापल्या घरा गेले. वचचे पयलीं सदां भशेन बिलाचे पयशे तांणी अर्दे-अर्दे वांटून घेतले. बील कोण फारीक करतलो हें टेन्शन आसल्यार मागीर ड्रिंक एन्जॉय करूंक मेळना अशें तांचें दोगांयचेंय मत आशिल्लें.

***

‘‘हो चेअरमॅन आपणाक कोण समजता? आमच्या सारकिल्या मिनेरांनीं पोर्टांतल्यान मीन एक्सपोर्ट करिना जाल्यार पोर्ट बंद जातलो हें हाका खबर ना काय कितें? असल्या आबूज आय्.ए.एस्.ऑफिसरांक पयलींच बुद्द शिकोवंक जाय नाजाल्यार तांची मस्ती वाडत वता!’’ सर्वानंद सांवर्डेकार तावातावान गणेश चोडणेकाराक सांगतालो. गणेश चोडणेकार हो गेल्लीं वीस वर्सां सर्वानंदाचो पी.ए म्हूण काम पळयतालो. सर्वानंदाच्या विक्षिप्तपणाची ताका सवंय जाल्ली. जो मेरेन सर्वानंद आपणाक त्रास दिना, तो मेरेन आपणाक हांगा नोकरी करपाक हरकत ना अशें गणेश चोडणेकाराक दिसतालें. हाचे पयलीं गणेश चोडणेकार सर्वानंदाचो बापूय धर्मानंद हाचे म्हऱ्यांत काम करतालो. धर्मानंद सांवर्डेकार हाका एक सज्जन मनीस म्हूण गोंयकार वळखताले. वीस वर्सांचो आसतना धर्मानंद बाजारांत भाजी विकतालो. मागीर तीस-चाळीस

वर्सां उपरांत तो गोंयच्या व्हड मिनेरां पैकीं एक जालो. ताका दोन पूत - सर्वानंद आनी सत्यानंद. सत्यानंद बापाय भशेन, हांसत्या तोंडाचो, नम्र, प्रामाणीक आनी सगल्यां कडेन इश्टागत करपी. धर्मानंदाच्या मरणा उपरांत सर्वानंद आनी सत्यानंद हांणी वेगवेगळ्यो कंपन्यो स्थापन केल्यो आनी मीन काडून एक्स्पोर्ट करपाचो धंदो चालू दवरलो. दोगांयचोय धंदो बरो चलतालो. सर्वानंद रागीट, विक्षिप्त आनी सूडबुद्दिचो अशी ताची नामना आशिल्ली.

जपानच्यान परतून येतकूच मेळुंया असो रेकाद नव्या चेअरमॅनान आपणाक धाडला अशें म्हूण कळटकूच सर्वानंद एकदम रागान उसळ्ळो. हो ताचो हाताभायर वचपी राग भलायकेक बरो न्हय अशें म्हूण ताच्या दोतोरांनी ताका खूब फावटीं सांगिल्लें. पूण त्या रागाचेर ताचो कसोच ताबो उर नाशिल्लो. हो चेअरमॅन आपल्या मुखार आशिल्लो जाल्यार ताचेर एऽऽक फुलयतलों आशिल्लों असो विचार तकलेंत येवन सर्वानंद रागान तांबडो जाल्लो.

"पोर्ट खात्याच्या मिनिस्टराक फोन लावन दी," अशें सर्वानंदान चोडणेकाराक फर्मान सोडलें. पोर्टाचो मिनिस्टर गिरीराज, सर्वानंदाचो बरो इश्ट जाल्लो. सर्वानंद जेन्ना जेन्ना दिल्लीक वतालो तेन्ना तेन्ना मिनिस्टराक मेळटालो. दर फावटीं तो हातांत कसलीय तरी म्हारग फॉरेन वस्त मिनिस्टरा खातीर घेवन वतालो. सर्वानंद मिनिस्टराचो खास इश्ट जाल्ल्यान ताका जाय तेन्ना मिनिस्टरा कडेन उलोवपाची मेकळीक आशिल्ली. मिनिस्टराचो तो खास दोस्त म्हणटकूच मिनिस्टराचो पी.ए रामलिंगम सर्वानंदाक खूब मान दितालो. हेरांचेर तापून, तांचो अवमान करून उलोवपी सर्वानंद रामलिंगमा कडेन उलयता आसतना खूब लाडीगोडीन आनी मस्को लावन उलयतालो. चोडणेकारान रामलिंगमाक फोन लावन दिनाफुडें सर्वानंद सदां भशेन लाडीगोडीन उलोवंक लागलो.

"अरे रामलिंगम साब, तूं कसो आसा?" सर्वानंद.

"चललां, सर्वानंद जी! तुमी कशे आसात?" रामलिंगम.

"आता मेरेन सगलें सारकें आशिल्लें पूण आतां सगलें वायट जालें!" सर्वानंद.

"कित्याक, अशें कितें जालें?" रामलिंगम.

"हो नवो चेअरमॅन तुमी आमच्या पोर्टाक धाडला तो सामको युजलेस! ताका मात्सो तुमी कशें वागपाचें तें शिकयात. तो आमकां रिस्पेक्ट दिना!" सर्वानंद.

"बरें आसा, हांव सराक सांगतां! आतां तो बीजी आसा." रामलिंगम.

"ओ.के. तूं खूब एफिशण्ट. तुका सांगलें, म्हजें काम जालें! फाल्यां हांव जपानाक वतां, तुका थंयंच्यान कितें हाडूं?" सर्वानंद.

"शे, शे, म्हाका कांय नाका, तुमी बरे भशेन वचून येयात. गुड नायट." रामलिंगमान फोन दवरलो. रामलिंगम हो तमिळनाडूंतलो एक ज्युनियर आय्.ए एस्. अधिकारी. मिनिस्टराचो सिनियर पी.ए.म्हूण हालींच ताची पोर्ट मंत्रालयांत डेप्युटेशनाचेर बदली जाल्ली.

सर्वानंदाचो प्रॉब्लेम हो 'ईगो' प्रॉब्लेम म्हूण रामलिंगमाक रोखडें कळ्ळें. सवकासायेन मंत्र्याच्या कानार घाल्यार जाता अशें रामलिंगमान थारायलें आनी तो दावे वटेन आशिल्ल्या फायलींच्या ढिगांतल्यान एक एक फायल काडून फायलींचेर कितें बरोवपाचें तें बरोवन फायल उजवे वटेनच्या प्लास्टीक बास्केटांत दवरपाक लागलो.

रामलिंगमा कडेन उलोवन आपणाल्या दुखाविल्ल्या अहंकाराचेर इल्लें मलम चोळटकूच सर्वानंदान चोडणेकाराक आपयलो आनी जपान टूर तयारेचो सगलो रिपोर्ट घेतलो.

महेश प्रभू नांवाचो एक गोंयकार आय्.ए.एस् ऑफिसर पोर्टाचो चेअरमॅन जावन येता म्हूण कळटकूच तो खंयचो, गोंयांत ताचीं कोण कोण आसात, ताचे बायले वटेनचे फॅमिलींतले कोण कोण आनी खंय खंय आसात, सोयरे कितें करतात ही सगली म्हायती सर्वानंदान चोडणेकाराक काडूंक लायिल्ली. महेश प्रभू चड करून मध्यम वर्गांतलो आसूंक जाय, कारण गोंयच्या धा-पंदरा गिरेस्त हिंदू फॅमिलींत चडश्या जाणांनीं उच्च शिक्षण घेवंक नाशिल्लें हें सर्वानंदाक खबर आशिल्लें. सर्वानंदाक जाय आशिल्ली ती सगली म्हायती एककडेन करून चोडणेकारान एक व्हडली फायल तयार केली. ते फायलींत कितें कितें आसा तें सगलें ताणें सर्वानंदाक सांगलें. कोणाकूय याद उरपा सारखी बुद्द शिकोवंक जाय वा कोणाचोय सूड घेवंक जाय जाल्यार शिस्तबद्द आंखणी केल्या बगर काम करपाची सर्वानंदाक सवंय नाशिल्ली. आंखणी

करपा खातीर जाय आशिल्ली म्हायती चोडणेकारान फायलींत घालून दिली म्हूण सर्वानंदाक खोस जाली. पूण "तुवें बरें काम केलें, थँक्यू," अशें सर्वानंदान चोडणेकाराक म्हणलें ना. फायल हातांत घेवन 'ओ.के.' म्हणून ताणें चोडणेकाराक वयार केलो. हाता सकयल्ल्या मनशांची तुस्त केल्यार तांकां ती सोऱ्या भशेन लागता आनी ते मागीर मालकाचेच बॉस जावंक सोदतात अशें सर्वानंदाचें ठाम मत आशिल्लें. जपानाक वतना विमानांत सवकासायेन ती फायल वाचून महेश प्रभूच्या आड झुजाची आंखणी करूं येता अशें सर्वानंदान थारायलें.

सर्वानंद घरा वचूंक भायर सरतां सरतां दिल्लीच्यान फोन आयलो. रामलिंगम फोनाचेर आशिल्लो. मिनिस्टर उलोवपाक सोदता म्हूण "फोन हातांत घेवन राव, मिनिस्टराक कनेक्शन दितां" अशें रामलिंगमान सांगतकूच मिनिस्टर गिरीराज उलयलो. नाटकाचो पड्डो उकतो जावचे पयलीं घांटी वाजयतात तशें मुख्य विशयाचेर येवचे पयलीं मिनिस्टरान कसो आसा, जपानाक केन्ना वतलो, केन्ना परतून येतलो असले गरजे भायले प्रस्न विचारले आनी मागीर कितें जालें काय म्हूण विचारलें. सर्वानंदान मिनिस्टराक कितें जालें तें तिखट-मीठ लावन सांगलें. भारत सरकारा कडेन वयल्या पावंड्याचेर आशिल्ल्या बऱ्या, प्रामाणीक आनी कर्तबगार आय्.ए.एस् ऑफिसरां पैकीं महेश प्रभू एक, आनी मुरगांव पोर्टांतल्यान इतले बेगीन ताका हालोवंक मेळचोना अशें म्हूण मिनिस्टरान सांगलें.

"म्हणटकूच तुमी कांयच मजत करचेनात, अशेंच हांवें समजुपाचें?" सर्वानंदान मात्सो निर्शेवन विचारलें.

"तशें न्हय! ताची पोस्टिंग पांच वर्सां खातीर जाल्या. तशेंच गंभीर कारण आसल्या बगर ताची बदली करपाचो प्रस्ताव आमकां सुरू करूंक मेळचो ना." मिनिस्टरान सांगलें.

"गंभीर कारण म्हणल्यार?" सर्वानंदान विचारलें.

"व्हड भ्रश्टाचार, राजकीय हस्तक्षेप, बायलांचेर लैंगिक अत्याचार करप, असले हेर आरोप!" मिनिस्टरान कायदो सांगलो.

"हें सगलें आमकां उपकरपाचें ना, थँक्यू, गिरीराज जी!" अशें म्हूण निर्शेवन सर्वानंदान फोन आपटिलो.

भ्रश्टाचार वा लैंगीक लफडीं ह्या विशयांत फुडें कशें वचपाचें हो विचार करीत सर्वानंद घरा वचूंक भायर सरलो.

दिल्ली सी.बी.आय् च्या हेड ऑफिसांत लक्ष्मण सिंग, आय्.पी. एस् ह्या ताच्या इश्टाची पोस्टींग हालींच जाल्ली म्हणपाची ताका याद जाली आनी ताच्या बाविल्ल्या तोंडार मात्शी उमेद शी झळकूंक लागली.

***

"आयज पयल्याच दिसा वातावरण तापलें काय कितें रे?" मीरान च्या घेत विचारलें.

"आयज काम सुरू जालें न्हय, म्हणटकूच वातावरण थंडाचें रूम टेम्परेचर, मागीर रूम टेम्परेचरा वेल्यान गरम, गरमे वेल्यान कडक आनी कडका वेल्यान थंड अशें बदलत रावतलें. मजा म्हणल्यार वातावरणाचो हो बदल एअर कण्डीशन कॅबिनांत लेगीत जाता" अशें म्हूण महेश व्हडल्यान हांसलो.

"कितें जालें?" मीरान विचारलें.

"जेवचे पयलीं युनियनाचे लोक आयिल्ले. अपॉयंटमेंट घेना आसतना फ़ोर्सान भितर सरले म्हूण तांकां मात्शें तापोवन काडचे पडले." "परतून अपॉयंटमेंट घेतल्या बगर मेळपाक येवं नाकात," अशें म्हूण तांकां सांगून वयार केले. ते फडफडत गेले. दनपारच्या आदेसाक त्या बाप्तीस्त पी.ए. क मात्शी शीस्त शिकोवची पडली. सगलो स्टाफ दोनांक येता जाल्यार हो लॉर्ड अडेजांक येता आनी आपूण फाटलीं कितलिंशींच वर्सां अडेजांकूच येतां अशें म्हूण वेल्यान म्हाकाच सांगता. फाल्यांच्यान सारक्या टायमार दोनांक येवंचें पडटलें म्हणून ताका सांगलें. मागीर आयज साडे–सातांक मेळूंक जाय म्हूण मिनेर सर्वानंद सांवर्डेकारान अपॉयंटमेंट मागिल्लो. फाल्यां सक्काळीं फुडें खंय तो जपानाक वता आनी पंदरा दीस हांगा नासतलो. जपानाच्यान परतून येतकूच मेळ म्हणून हांवें ताका रेकाद धाडलो. ताका तें आवडलें काय ना हो प्रस्न हांगा ना. आपणाक जें बरोबर दिसता तें करपाचें," महेशान मीरा मुखार आयजच्या घडणुकांचो आपरोस दवरलो.

सारके सातांक चेअरमॅनाचो बंगलो आनी गॅस्टहावसा मदीं आशिल्लो देट्टो उगडून महेश आनी मीरा पंचवीशेक मीटर चलून चेअरमॅनाच्या बंगल्यार

पावलीं. रॅअर ऍडमिरल जिंदाल तांची वाट पळयतालो. ''हाय मीरा, हाय महेश'' अशें म्हणून ताणें दोगांकूय अचळयशी वेंग मारिल्ले भशेन केली. दोगांयनीय ''हाय हाय'' म्हणून ताच्या भलायकेची वासपूस केली आनी ताच्या वांगडा हॉलांत वचून बसलीं.

रॅअर ऍडमिरल जिंदालाकडेन महेश मद्रासच्यान उलयिल्लो. तेन्ना जिंदालान आपणालो सगलो फुडलो प्रोग्राम सांगिल्लो. फोनार उलोवपाच्या स्टायली वेल्यान मनीस बरो, देसेंत, सादो आनी जॉली सभावाचो सो दिसलो. तुमकां पयलीं बंगल्याचो 'गायडेड टूर' दितां अशें म्हणून तो व्हडल्यान हांसत उठलो. मागीर ताणें चारूय बॅडरूम, बाथरूम, रांदची कूड, डायनिंग हॉल, चोशींय वटेन आशिल्ले वरांडा हें सगलें पयलीं दाखयलें. मागीर फाटल्या दारांत रावून फाटलो वाठार, गॅरेजी, सर्वंट क्वाटर्स बी दाखयले. बंगल्याचे फुडले वटेन व्हडलीं लॉनां आनी बागो आशिल्ल्यो. ह्या सगल्यां मदीं एक उण्यांत उणें शंभर देडशें वर्सां पोन्नो शेकान-शेक पसरिल्लो वड आशिल्लो. वडाभोंवतणीं खयंच्याय तरी चेअरमॅनान बरें ऽऽऽ पॅड बांदून घेतिल्लें.

तीं तिगाय हॉलांत येवन बसना फुडें गॅस्ट हावसांतलो भुरगो इल्ल्या इल्ल्या ग्लासांनीं ऑरेंज ज्यूस घेवन आयलो. ''आयज सकाळीं तुवें चार्ज घेतलो?'' जिंदालान महेशाक विचारलें.

''हय, चार्ज घेवन म्हजें काम सुरू जालें,'' महेशान सांगलें.

''तुमकां आय्.ए.एस्. ऑफिसरांक तरातरांचे अणभव आसतात म्हणटकूच तुमकां कांयंच कठीण लागना. पोर्टाचें काम म्हयन्या भितर शिकून उडोवं येता,'' जिंदाल.

''काम खंयूंय आसूं, सगले कडेन प्रशासनाचीं तत्वां सारकींच आसतात. तीं तत्वां ध्यानांत दवरून कसलेंय आस्थापन बरे तरेन चलोवंक मेळटा. देखून नव्या कामाचो चार्ज घेतना म्हाका बिलकूल टेन्शन जायना.'' महेश.

''हांगां येवचे पयलीं तूं खंयच्या डिपार्टमेंटांत आशिल्लो?'' जिंदाल.

''हांव मद्रासाक तमिळनाडू इंडस्ट्रियल कॉर्पोरेशन लिमिटेड म्हणटात त्या आस्थापनाचो चेअरमॅन आनी मॅनेजिंग डायरेक्टर आशिल्लों. आमचें काम म्हणल्यार मध्यम आनी ल्हान उद्देगांक रीण दिवप. वर्साक सुमार चारशें कोटींचें रीण दिताले. तुवें पांच वर्सां हो पोर्ट चलयलो. म्हाका तूं कितें

ऍड्वायज दिता?'' महेश.

''नेविंतल्यान आयल्या बरोबर हें वातावरण सामकें वेगळें हें म्हाका जाणवलें. ऑर्डरी दिवन काम करून घेवपाचे दीस गेले आनी बाबा-पुता करून कामां करून घेवपाचे दीस आयले. ऍड्वायज न्हय, पूण तुका एक सुचोवणी! कामगार युनियनां कडेन सांबाळून वागचें पडटा. तांच्यांनी केद्याय वेळार पोर्ट बंद उडोवं येता. मिनाची निर्यात आनी डिझल, पेट्रोल आनी हेर इंधनाची आयात बंद जाल्यार रोखडेच दीस-रात दिल्लीच्यान फोन येवपाक लागतात. तुवें कामगार युनियनां कडेन हाच्या पयलीं वाटाघाटी केल्यात?'' जिंदाल.

''हांव तमिळनाडू विद्यूत आस्थापनाचो सेक्रेटरी, म्हणल्यार प्रशासनाचो मुखेल आशिल्लों. थंय सुमार एक लाख कामगार आनी मान्यताय दिल्लीं तेरा युनियनां आशिल्लीं. म्हजो 70-80 पर्सेंट वेळ तांच्याच वांगडा वाटाघाटी करपाक वतालो,'' महेशान हांसत जाप दिली.

''पयलो दीस तुजो कसो गेलो?'' जिंदाल.

''व्हडलोसो बरो गेलो ना! पीटर डिमेलो अपॉयंटमेंट बी घेनासतना भितर घुसलो. फुडले फावटीं अपॉयंटमेंट घेतले बगर येवं नाका म्हूण शिटकावणी दिवंची पडली. सारको टायमार यो म्हूण बाप्तीस्त पी.ए.क वॉर्नींग दिवंची पडली. सर्वानंद सांवर्डेकारान आतां साडे-सातांक अपॉयंटमेंट मागिल्लो. फाल्यां सक्काळीं जपानाक वता खंय. जपानच्यान येतकूच मेळ म्हणून सांगिल्ल्यान तोवूय नाखूश जाला जातलो!'' महेशान हांसत जिंदालाक सांगलें.

''हो पोर्ट तशें पळोवंक गेल्यार 5-6 व्हड मायन ओनरांचेर अवलंबून आसा. पुर्तुगेज सरकारान हो पोर्ट तांच्याच खातीर बांदला अशें तांकां दिसता. तांच्या मना सारकी इल्ली लेगीत गजाल जाली ना जाल्यार रोखडेच ते दिल्लीक फोन करतात,'' जिंदालान म्हायती दिली.

''प्रॉब्लेम करपी लोक भोंवतणीं आसले बगर कामांत मजा येना,'' महेश.

''आनी पांच दिसांनी, म्हणल्यार शेनवाराक हांव वतलों म्हणटां. रिटायर जावन पांच दीस जाले. तुका मात तीन-चार दीस गॅस्ट हावसांत रावपाचे त्रास सोंसचे पडटले!'' जिंदाल.

''त्रास कसले? त्यो सदांच्योच गजाली! फुडले पांच दीस तुका निरोपाच्यो पार्ट्यो आसतल्यो'' महेश.

“शे, शे, निरोपाची पार्टी बी कांय ना. रिटायर जाल्ल्या दिसाच्यान कोण मेळूंक लेगीत येवंक ना! म्हजेर सगले बरेच रागार आसात काय दिसता!” जिंदाल.

“आपणें आपलें काम करपाचें! कोण रागार, कोण फुगार हाची चिंता करीत बसल्यार काम कोण करतलो? जिंदाल साब, म्हाका एक सांग, फुडल्या पांच दिसां भितर तुका हांवें एक निरोपाची पार्टी दिल्यार तुका कांय आक्षेप नासतलो मूं?” महेश.

जिंदालाचें तोंड खोश्शेन फुललें. व्हडल्यान हांसत आपल्याक दिल्लो हो व्हड मान म्हूण आपूण समजतलों अशें जिंदालान सांगलें.

जिंदाल महेशाक आनी मीराक नांवांन उलो मारतालो आनी महेश जिंदालाक जिंदाल साब म्हणटालो कारण जिंदाल ताच्या परस पांच-स वर्सांनीं व्हड आशिल्लो.

“तुमकां एक खोश्शेची गजाल सांगपाक सोदतां. आनीक तीन म्हयन्यांनी हांव लग्न जातलों.” जिंदालान व्हड खोश्शेन हांसत लागलें. महेशान आनी मीरान एकदम उडी मारून जिंदालाचे हात धरून ताका परबीं दिलीं आनी बायल कोण, खंयची हें विचारलें. महेश आनी मीरा आपापल्या जाग्यार बसतकूच जिंदालान खबर सांगली ती अशी: तो इंडियन नेव्हींत आसतनाच ताका एका नेव्हींतल्या ऑफिसराच्या धुवे कडेन लग्न जावपाचें आशिल्लें पूण तें घडून आयलें ना. जिंदालाच्या भयणींनी आनी हेर सोयऱ्यांनी मागीर ताका लग्न करून उडोवपाचो खूब यत्न केलो पूण ताणें तें काना-मनार घेतलें ना. पूण आतां परत तांणी तेच यत्न सुरू केले. जाणटेपणांत एकलोच रावप कुस्तार अशें म्हूण सगल्यांनीं लग्न जा म्हूण आपल्या वेलो दबाव वाडयलो. अखेरेक कावेरी कडेन लग्न जावपाक आपणें हयकार दिलो. कावेरी 54 वर्सांची आनी ती एक आर्किटेक्ट. बेंगलोराक चर्च रोडाचेर तिच्या फामिलीचें व्हडलें घर आसा. दिल्लीचो आपणालो फ्लॅट विकून आपूण आनी कावेरी बेंगलोराक तिच्या घरा रावतलीं अशें जिंदालान सांगलें.

जेवण तयार जालां अशें म्हूण जल्मीन येवन सांगना फुडें जेवूंक या अशें म्हणून जिंदाल उठलो. महेश आनी मीराय बी ताच्या वांगडा उठून जेवणाच्या टेबला म्हऱ्यांत बसलीं. महेशाक मसुरीच्या आय्.ए.एस्. ऍकेडमीची याद

जाली. उजवे वटेन मेन प्लेट, तिच्या दाव्यान क्वार्टर प्लेट, दोनूय प्लेटींच्या मदीं सुरी आनी फ़ोर्क. मेन प्लेटीचे उजवे वटेन एक व्हड, लांबट आनी दुसरो वाटकुळो अशे दोन चमचे, क्वार्टर प्लेटीचे दावें वटेन इस्त्री मारून घडी करून दवरिल्लो व्हड नॅपकीन, आनी क्वार्टर प्लेटीच्या वयले वटेन उदकाचो क्रिस्टल ग्लास हें सगलें एका सुंदर लांब-रूंद विणिल्ल्या टेबल-क्लॉथाचेर मांडून दवरलेलें. ''जेवणाच्या मेजार प्लेटी बी मांडून दवरपाक तुमी ट्रेनिंग दिलां काय कितें'' मीरान जिंदालाक विचारलें. ''ना ना! पॉल पयलीं नेव्हींत आशिल्लो. तो रिटायर जातकूच हांवें ताका हांगां हाडलो. म्हाका जाय तशा पद्दतीचें जेवण करपाक तो सामको तरबेज! मीरा, तुकाय बी तो बरो उपकाराक पडटलो,'' जिंदालान मिराक सांगलें.

''आयज मेरेन हांवें केन्नाच रांदपी दवरूंक ना. जाणटेपणांत आमचें जेवणूय बी उणें जालां. आतां आनी म्हाका रांदपी कित्याक?'' मीरान खुलासो केलो. जल्मीन गॅस्ट हावसांत केल्लें ते जेवण हाडिल्लें. तातूंत भितर बिब्यांचें तोंडाक, कॉलीफ्लावरची भाजी, तोय , पराठा, मटर पुलाव, आंबट्ट धंय, पापड, लोणचें बी आशिल्लें. त्या भायर पॉलान वॉन्टॉन सूप, हाक्का नूडल आनी ट्रायफल पुडिंग केल्लें. पॉलान आनी जल्मीन तांकां तिगांकूय हें घे आनी तें घे म्हूण आग्रो करून करून वाडलें. साडे णव वरांचेर महेश आनी मीरा गॅस्ट हावसांत परतलीं.

शुक्रारा दिसा सांजेच्या साडे-सातांक निरोपाची पार्टी आसतली अशें म्हूण महेशान जेवण जातकूच रॅअर ऍड्मिरल जिंदालाक सांगलें. जिंदालान महेशाचो हात हातांत घेवन थँक्यू, थँक्यू म्हूण महेशाचे उपकार मानले. उपकार मानतना ताच्या दोळ्यांत दुकां जमतालीं असो मीराक दुबाव आयिल्लो! न्हिदचे पयलीं जल्मीक आपोवन तांणी फाल्यां कितल्यांक उठोवपाचें, कितल्यांक च्या हाडपाची, सकाळचें टोस्ट आनी दूद कितल्यांक दिवपाचें हें सगलें सारकें विसकटावन सांगलें. महेशान सोफाचेर बसून आयजच्या वर्तमानपत्रांचेर मात्शी नदर मारली. न्हिदूंक वचपाक उट्टा आसतना क्रिन्ग करून सोफाचे दावे वटेनचो फोन वाजलो. महेशान फोन उखल्लो. फोनार एक जाणटो सो मनीस उलयलो, ''सर हांव राम बिळगी, चीफ व्हिजिलन्स ऑफिसर. तुमकां आयज मेळटलों म्हूण आशिल्लों, पूण तुमकां सामको वेळ नाशिल्लो.''

“गुड ईव्हिनिंग बिळगी, फाल्यां मेळुंया. आतां फोन कित्याक केल्लो ?” महेशान विचारलें.

“सर,फाल्यां सकाळीं णव वरांचेर तुमी ऑफिसांत पावतकूच ऑफिसा भायर पोर्ट कामगार संघांचे सुमार शंभर कामगार तुमकां काळे बावटे दाखयतले! तुमकां आयजूच सांगुंया म्हूण फोन केल्लो,” बिळगीन खुलासो केलो.

“बरें! गुड नायट” अशें म्हूण महेश भितर वचून न्हिदपाचे तयारेक लागलो.

◆◆◆.

## भाग 4

**दुसऱ्या** दिसा सकाळीं आठ पंचावनाक महेश ऑफिसाक वचूंक भायर सरलो. मोटारीच्या मात्शें फुडें एक जीप उबी आशिल्ली. जिपींत फाटल्या सिटाचेर बंदुको घेवन चार सी.आय्.यस्.यफ गार्ड बशिल्ले. महेशाक पळयना फुडें जिपी म्हऱ्यांत उबो आशिल्ल्या सब-इन्स्पेक्टरान महेशा मुखार येवन सलाम ठोकलो. पोलिसांची ती जीप महेशाचे गाडये फुडें वचून महेशाक पोलीस संरक्षणा खाला ऑफिसांत पावयतली अशें सब-इन्स्पेक्टरान महेशाक सांगलें. अशें कित्याक काय म्हूण विचारतकूच आज ऑफिसा मुखार काळे बावटे दाखोवन कामगारांचीं निदर्शनां आसात आनी असल्या निदर्शनां वेळार चेअरमॅनाक सी.आय्.यस्.यफ् सुरक्षा दिवपाची प्रथा आसा अशें म्हूण सब- इन्स्पेक्टरान सांगलें. संरक्षण बी कांय नाका अशें म्हूण सांगून महेशान सी.आय्.यस्.यफ जीप परतून धाडली.

महेश बसता ते वटेनचें दार उकतें करून संभाजी जपानी लोकां भशेन फाट अर्दी बागोवन दार धरून उबो आशिल्लो. महेश भितर बसतकूच ताणें दार अचळय बंद केलें, मागीर आपणालेंय बी दार अचळय मारून, कॅप घालून गाडी सुरू केली.

ऑफिसाच्या मुखार तीस-चाळीस मुरगांव पोर्ट कामगार संघांचे वांगडी संघाचो व्हड बावटो आनी ल्हान ल्हान काळे बावटे हातांत घेवन उबे आशिल्ले. मात्शे आयल्यान सुमार धा मिटरांचें अंतर सोडून पंदरा सी.आय्.यस्.यफ जवान स्टील हॅटां घालून, हातांत बंदुको घेवन 'इझी' पोजिशनांत उबे राविल्ले. महेशाची गाडी पळयना फुडें ''कामगार संघ जिंदाबाद, चेअरमॅन

मुर्दाबाद'' अशो घोशणा कामगारांनीं दिवंक सुरवात केली. गाडी पोर्टिकोंत थांबना फुडें महेश गाडयेंतल्यान देंवलो. थंय सेक्रेटरी अभ्यंकर आनी कमांडंट पाटील ताका रावताले. तांच्या वांगडा तो वयर कॅबिनांत गेलो. मागीर चीफ व्हिजिलन्स ऑफिसर राम बिळगीय बी कॅबिनांत आयलो. तांकां तिगांयकूय बसात म्हूण सांगून महेश बसलो आनी ते कितें उलयतात तें आयकुंया अशें म्हूण तो ओग्गी रावून तांचे कडेन पळोवंक लागलो.

''हांकां आतां कितें करपाचें?'' अभ्यंकरान महेशाक विचारलें.

''तुका कितें दिसता?'' महेशान कमांडंट पाटिलाक विचारलें.

''सर, जों मेरेन एकाच जाग्यार उबे रावून ते घोशणा दियत रावतात तों मेरेन आमी कांयच करपाची गरज ना. तांणी हिंसा करूंक सुरवात केल्यार तांकां धांवडावपाचे. तांकां कशे धांवडावपाचें, कितलो फोर्स वापरपाचो तें मागीर प्रसंगा प्रमाणें थारावपाचें!'' कमांडंट पाटिलान आपणालें मत सांगलें.

''एकदम बरोबर. तांकां तांचें काम करूं दी. आमी आमचें काम करुंया!'' महेशान आपणालें मत सांगलें.

''ओके सर,'' म्हूण अभ्यंकर आनी पाटील आपापल्या कॅब्रीनांत गेले.

राम बिळगी बसून रावलो आनी ताणें आपणाली वळख करून दिली:

''सर, हांव कर्नाटक पोलीस सर्विसेंत आशिल्लों. हुबळी शारांत डॅप्युटी सुपरिन्टेंडंट ऑफ पोलीस म्हूण म्हजी निमाणी पोस्टिंग आशिल्ली. मागीर हांव रिटायर जालों. चीफ व्हिजिलन्स ऑफिसराच्या जाग्या खातीर एम.पी. टी.न अर्ज मागयिल्ले. म्हजो अर्ज हांवें धाडलो आनी फाटल्या चेअरमॅनान म्हजी नेमणूक केली. ह्या पोर्टांत म्हाका आतां तीन वर्सां जावन गेलीं.''

''चीफ व्हिजिलन्स ऑफिसर म्हणटकूच प्रशासनांत भ्रश्टाचार खंय खंय चल्ला तो रिपोर्ट करून ताचेर कारवाय करपाक मजत करप हें तुजें काम आसतलेंच; त्या भायर तुका आनीक कसलें काम दिलां?'' महेशान विचारलें.

''युनियनांत कितें कितें करतात, पोर्ट कसल्योय ऑर्डरी दिता तेन्ना त्या ऑर्डरींचेर तांची प्रतिक्रिया कितें, ह्या सगल्या गजालींचेर नदर दवरप!'' बिळगीन म्हायती दिली.

''आयज फकत तीस-चाळीस कामगार सकयल आसात मरे! शंबर येतले अशें तूं म्हणटालो न्हय?'' महेशान विचारलें.

"काळे बावटे दाखोवपाचे काय ना हाचेर तांच्या भितर वाद जालो देखून जायते कामगार येना आसतना रावले!" बिळगीन म्हायती दिली.

महेशान ताका "थँक्यू" म्हणलें आनी तो आतां गेल्यार जाता अशें म्हूण तकली हालोवन खुणेन ताका सुचयलें.

बिळगी वचना फुडें बाप्तीस्ताचो फोन आयलो. धा वरांचेर ऑफिसर्स असोसिएशनाची मिटींग आनी इकरा वरांचेर कडक भोसलेच्या युनियना कडेन मिटींग आसा अशी ताणें याद करून दिली. मेजार दावे वटेन पांच-स फायली आनी चार पांच पुस्तकां आशिल्लीं. त्यो फायली आनी तीं पुस्तकां काल महेशान मागिल्ल्या प्रमाणें हाडून दवरल्यांत अशें म्हणून फ्लावियान येवन सांगलें. ऑफिसर्स असोसिएशनाचे लोक मिटिंगेक येवचे पयलीं महेशाक अर्द वर मेळटालें. गोंय सरकाराच्या चीफ सेक्रेटरीक फोन लावन दी म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक सांगलें. दोन मिनटांनीं चीफ सेक्रेटरीच्या पी.ए.न फोन केलो, "गुड मॉर्निंग सर. तुमकां सराकडेन उलोवंक जाय?" तिणें विचारलें. महेशान 'हय' म्हणटकूच तिणें फोन चीफ सेक्रेटरीक लावन दिलो.

महेश प्रभू आनी रामदास शर्माची एकाच वर्सा आय्.ए.एसांत नेमणूक जाल्ली आनी एक वर्स ते वांगडाच प्रशिक्षणा खातीर मसुरीक आशिल्ले. तांकां एकामेकां कडेन कसलेंच परकेपण नाशिल्लें. फाटलीं पंचवीस वर्सां ते एकमेकां कडेन संपर्क दवरून आशिल्ले. रामदास शर्मा एका म्हयन्या पयलीं गोंयचो चीफ सेक्रेटरी म्हूण आयिल्लो.

"आरे महेश, चार्ज घेतलो तुवें? आयज सकाळीं फुडें तुका काळे बावटे तुजे कामगार दाखयतात म्हूण सी.आय्.डी.चो रिपोर्ट आयला, सगलें बरें चल्लां मरे? आमचे कडल्यान कितेंय मजत बी जाय?" चीफ सेक्रेटरी रामदास शर्मान विचारलें.

"शे, शे! असले काळे बावटे, घोशणा, संप, रास्ता रोको ह्यो गजाली तुका आनी म्हाका सदांच्योच!" महेश

"कितें जालें रे?" शर्मा.

महेशान ताका आदल्या दिसा कितें घडिल्लें तें सगलें सांगलें आनी कामगारांक आनी हेरांक शिस्त लायता आसतना कांय काळ असले काळे बावटे बी पळयत रावचे पडटले हेंवूय बी सांगलें. आनीक थोडो वेळ शर्माकडेन

उलोवन दोन चार दिसांनीं मेळुंया अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो. धा वरां जाल्लीं. ऑफिसर्स असोसिएशनाचे लोक मेळूंक आयल्यात म्हूण दीपान फोन केलो. तांकां धाड म्हणून महेशान सांगतकूच तीग जाण ''गुड मॉर्निंग सर'' म्हणत भितर सरले. महेशान तांकां बसात म्हणून सांगलें. तांणी आपणाली वळख करून दिली. अध्यक्ष दीपक पटेल, सेक्रेटरी जीजस फेर्रांव आनी जॉयंट सेक्रेटरी दामोदर जांबावलीकार.

''सर, तुमकां मुरगांव पोर्टांत ऑफिसर्स असोसिएशनाच्या वतीन हांव येवकार दितां. आमचे पयलेच भेटींत आमी तुमच्या मुखार सगले विशय मांडिनात. तुमकां एकूच रिक्वेस्टः गेल्ल्या पांच वर्सांत फाटल्या चेअरमॅनान आमचो मान सामको ना करून उडयला. फाटलीं पंदरा-वीस वर्सां खंयच्याच चेअरमॅना वेळार आमकां इतलो त्रास जावंक ना. तुमी आमचें मानाचें स्थान परतून आमकां दिवंचें!'' पटेलान हात जोडून महेशा कडेन मागलें.

आदल्या दिसा विभागांच्या मुखेल अधिकाऱ्यां कडेन मिटींग जातना गजा भिसेन हीच मागणी केल्ली. ''मानाचें स्थान परतून दियात, परतून दियात- अशें तुमी सगले म्हणटात तें कित्याक?'' अशें महेशान विचारलें. पटेल, फेर्रांव आनी जांबावलीकार हांणी आळीपाळीन ऑफिसरांचेर कसले कसले अन्याय जाल्यात तें सगलें फुडलें अर्द वर महेशाक विसकटावन सांगलें. डॉक्टर सुरेश कामतीगेर डॉ सीझर मास्कारेन्येस आनी डॉ. अनील भटान सांगिल्ल्यो त्योच गजाली ह्या तिगांयनीय चड विसकटावन सांगल्यो.

पटेलान निमाणें कडेन सांगलें तें अशें:

कामगार आनी ऑफिसर हांची चेअरमॅना कडेन मिटींग आसतना कामगारांनी ऑफिसरांचो कितलोय अवमान केल्यार चेअरमॅन तांकां थांबय नाशिल्लो. कामगारांनीं कितेंय मागल्यार ऑफिसरांनीं तें दिवंक जाय, कामगार सांगतात तें ऑफिसरांनीं आयकूंक जाय अश्यो ऑर्डरी चेअरमॅन कामगारां हुजीर दितालो. कामगारां हुजीर कसलोय विशय ऑफिसरां कडेन उलयतना कामगारांक खुश करपा खातीर ऑफिसरांचेर तो बेठोच तापतालो आनी तांचीं फकांडां करतालो. चेअरमॅन ऑफिसरांक म्हत्व दिना म्हूण कळटकूच कामगार लेगीत वचत थंय तांचो अवमान करताले.

पटेल, फेर्रांव आनी जांबावलीकार हांणी सामके भावनावश जावन

ऑफिसर वर्गाच्यो व्यथा सांगल्यो. महेशान विभागांच्या मुखेल अधिकाऱ्यांक जीं आश्वासनां दिल्लीं तींच असोसिएशनाच्या लोकांक दिलीं. प्रत्येकान आपणालें काम करचें, कोणेंच कोणाचो अवमान करूंक जायना आनी चेअरमॅन ह्या नात्यान आपूण सगल्यांचो मान सारको राखतलों अशें उतर महेशान तांकां दिलें.

ते वचचे पयलीं रॅअर ऍडमिरल जिंदालाक निरोपाचें जेवण दिवपा संबंदान महेशान तांकां विचारलें. ऑफिसर्स असोसिएशनान ह्या विशयाचेर खूप वेळ चर्चा करून रेअर ऍडमिरल जिंदालाक निरोपाचें जेवण दिवपाची गरज ना अशें एकमतान थारायिल्लें. तांची चर्चा कशी जाली हाचें विसकटावन वर्णन करून आदल्या चेअरमॅनाक कित्याक निरोपाचें जेवण फावना हें दीपक पटेलान महेशाक सांगलें.

''हांव ताका निरोपाचें जेवण दिवंक सोदतां. हांवें ऑफिसर्स असोसिएशनाक आमंत्रण दिल्यार तुमी सगले येतले मरे? तुमी येवचें अशें म्हाका मनांतल्यान दिसता.'' महेशान तांच्या मुखार पर्याय मांडलो.

''आमचे कमिटींत चर्चा करून आयज सांज मेरेन तुमकां कळयतात!'' अशें म्हणून ते तिगूय जाण महेशाक 'थँक्यू', 'थँक्यू' म्हणत भायर सरले.

इकरा जावंक वीस मिनटां आशिल्लीं. महेशान कमांडंट पाटिलाक फोन करून निदर्शनां चालू आसात काय बंद जालीं हें विचारलें. निदर्शनां बंद करून सगले गेले, पूण परतून ते एका वराचेर येवन चेअरमॅन जेवणाक वता आसतना काळे बावटे दाखयतले अशी म्हायती कमांडंट पाटिलान दिली.

सारके इकरा वरांचेर बाप्तीस्तान फोन करून कडक भोसलेचे लोक आयल्यात म्हूण सांगलें. महेशान ओके म्हणटकूच ते तीग जाण दारार मारून भितर सरले. महेशान हातान खुणो करून तांकां बसात म्हूण सांगलें. गुड मॉर्निंग सर म्हणत ते तिगूय जाण बसले. एकल्याच्या हातांत फुलांचो बुके आशिल्लो. ''हांव शिवराम भोसले, मुरगांव संघाचो सेक्रेटरी, तुमकां पोर्टांत येवकार''अशें म्हूण शिवराम भोसलेन उबो रावन महेशाक बुके दिलो. महेशान उबो रावून तो घेतलो आनी थँक्यू म्हणत तो बसलो.'' हो सिरील मिस्कीता, मुरगांव संघाचो अध्यक्ष आनी हो कृष्णा यादव मुरगांव संघाचो जॉयंट सेक्रेटरी. भोसलेन आपणां वांगडा आयिल्ल्या त्या दोग जणांची वळख करून दिली.

‘‘यादव म्हणल्यार बिहारचो काय यु.पी.चो?’’ महेशान यादवाक विचारलें.

‘‘सर, आमी मूळ बिहारचे, म्हजो बापूय पंचेचाळीस वर्सां आदीं पोर्टांत कामाक आयिल्लो. आमी आतां सगलीं हांगाच रावल्यांत.’’ यादवान शुद्द कोंकणींतल्यान महेशाक म्हायती दिली.

‘‘तुका कडक भोसले कित्याक म्हणटात?’’ महेशान हांसत्या तोंडान भोसलेक विचारलें.

ते तिगूय जाण व्हडल्यान हांसले! ‘‘आमचें युनियन शिस्तीन कडक, कायद्या भायर केन्नाच वचना. पोर्टाची उदरगत जाल्या बगर कामगारांची उदरगत जावंक शकना! पोर्टाच्या प्रशासनान आनी कामगारांनीं हातांत हात घालून फुडली वाटचाल केले बगर पोर्टाची उदरगत जायना अशें आमचें आदीं सावन मत. भोसले आमचो सेक्रेटरी. युनियनाची शिस्त कडक म्हूण भोसलेक कडक भोसले हें नांव पडलां!’’ अध्यक्ष मिस्कीतान शिवराम भोसलेचो कडक भोसले कसो जालो तें सांगलें.

‘‘एक युनियन काळ्या बावट्यांनी आनी दुसरें युनियन फुलांचो बुके दिवन दोन तरांचे येवकार!’’ महेशान हांसत शेरो मारलो.

‘‘मुरगांव पोर्ट कामगार संघान काळे बावटे दाखयले म्हूण तुमी वायट मानून घेवचें न्हय. त्या युनियनाचीं तत्वांच वेगळीं. प्रशासनाक भेश्टायल्यारूच कामगारांचीं कामां जातात, ना जाल्यार कांय जायना, अशें तांकां दिसता. तुमकां जाय जाल्यार आमच्या युनियनाच्या कामगारांची एक व्हड सभा आपोवन तुमकां एक व्हड येवकार दिवंक शकतात,’’ अशें भोसलेन आनी हेरांनीं सुचयलें.

‘‘तुमी म्हाका असलो व्हड येवकार दिवपाची गरज ना. युनियनांचीं आपणां भितर झगडीं जाल्लीं म्हाका आवडना. तुमी आतां मुद्दाम येवन मेळ्ळ्यात म्हूण तुमकां एक गजाल सांगतां:

हांव केन्नाच युनियनां कडेन पॉलिटिक्स करिना, चिकानां करिना, आज एक, फाल्यां एक, तोंडार एक, फाटीर एक, असलें करूंक म्हाका जमना. पोर्टाचें प्रशासन कशें चलोवचें हाचेर म्हज्या आनी तुमच्या भितर मतभेद आसूं येतात. तुमी तुमच्या हक्कां खातीर कायद्या भितर रावून झगडपाचें आनी

म्हाका सरकारान दिल्लो पावर वापरून हांवें पोर्टाचें प्रशासन चलोवपाचें आनी पोर्टाची उदरगत करपाची. महेशान तांकां स्पश्टपणान सांगलें.

"सर, तुमी आतां आमकां सांगलां तें आयकून एकदम बरें दिसलें. मन मेकळें करून स्पश्ट उतरांनी आनी प्रामाणीकपणान तुमचे कडेन उलोवंक मेळटलें हेची आमकां खात्री जाली. तुमी आमकां इतलो वेळ दिल्ल्या बद्दल थँक्यू! आतां आमी येतात," अशें म्हणून ते तिगूय गेले.

कामगार संघाचे फुडारी वतकूच महेशान सेक्रेटरी अभ्यंकराक आपयलो. चेअरमॅनाक चार पी.ए. आसतात. ह्या चारूय स्टाफांचीं कामां कशीं वांटून घाल्यांत अशें म्हणून अभ्यंकराक विचारतकूच अभ्यंकरान म्हायती दिली ती अशी:

सिनियर पी.ए. बाप्तीस्तान चेअरमॅनाक येवपी फोन घेवपाचे, अपॉयंटमेंट थारावपाचे, चेअरमॅनाच्यो मिटिंगो आनी प्रवासा विशीं सगली तयारी करपाची आनी पोर्टा भितर बोर्डाच्यो आनी हेर कमिट्यांच्यो मिटिंगो जातकूच तांचीं मिनिट्स् मागोवन चेअरमॅना कडेन मान्यताये खातीर धाडपाचीं. फ्लाविया मुख्य डिक्टेशनां घेवपाचें काम करता. भारत सरकाराचीं, राज्य सरकाराचीं, हेर पोर्टांचीं, मिनेर आनी हेर बिजिनेसमेनांचीं पत्रां आनी त्या संबंदीं चेअरमॅनाचें डिक्टेशन घेवपाचें काम फ्लाविया पळयता. चेअरमॅनाचो निजी पत्रवेवहार, ताच्या निजी खर्चाचो हिशेब सांबाळप हीं कामां दीपा करता आनी स्टाफ-काराचो लॉगबूक, बँक पासबूक, चॅकबूक ह्यो सगल्यो गजाली जुनियर पी.ए. रुदॉल्फ आगियार सांबळटा.

वणटीर लायिल्ल्या घड्याळीचेर एक जावपाक धा मिनटां आशिल्लीं. महेशान आगियाराक आपयलो. स्टाफ काराचो लॉग-बूक दिसपट्टो बरोवंक जाय, आपणें वा आपणाले बायलेन निजी कामां खातीर स्टाफ-कार वापरल्यार तशें चुकनासतना 'प्रायवेट' म्हूण बरोवंक जाय आनी म्हयन्याच्या अखेरेक प्रायवेट वापरा खातीर आपणें पोर्टाक कितले फारीक करचे पडटले तें कोंत करून आपणागली मान्यताय घेवन अकावंट्स् खात्याक धाडूंक जाय अशें महेशान आगियाराक सांगलें. लॉग-बूक बरयतना ड्रायवरा कडेन पयलीं म्हायती घेवन मागीर आपणा कडल्यान ते म्हायतीचें खरेंपण जाणून घेवंक जाय अशेंय बी सांगून महेशान आगियाराक वयार केलो.

चेअरमॅनाच्या स्टाफ-काराक ए.सी. कित्याक ना अशें महेशान विचारतकूच खंयच्याच पोर्टांत तसो ए.सी. नासता. भारत सरकारान ए.सी. घालपाची परवानगी दिवंक ना अशी म्हायती अभ्यंकरान दिली. आपणाल्या स्टाफ-काराक एक टनाचो ए.सी. बसोवन घे आनी खर्च जाता तो आपणाल्या पगारांतल्यान पांच हप्त्यांनी कापूंक लाय अशें महेशान अभ्यंकराक सांगलें. अभ्यंकरूय बी "ओके सर, ओके सर" म्हणत महेशा वांगडा भायर सरलो. आदल्या दिसा भशेन जगदीशान महेशाक गाडये म्हऱ्यांत पावयलो. महेश दारांत दिसना फुडें कामगार संघाच्या वांगड्यांनी घोशणा दिवंक सुरवात केली, "चेअरमॅन मुर्दाबाद, चेअरमॅन मुर्दाबाद, कामगार संघ जिंदाबाद, कामगार संघ जिंदाबाद." गाडयेंत बसचे पयलीं महेशान एक मिनिट उबो रावून हांसत कामगारांक हात हालयलो. महेशाची गाडी भायर सरतना कामगार संघाच्यो घोशणा मात्श्यो डीम पडिल्ले भशेन दिसल्यो. आपणें हांसून तांकां हात हालयलो म्हूण हे मात्शें गोंदळ्ळे काय असो विचार करीत महेश गॅस्ट हावसांत पावलो.

गॅस्ट हावसांत पावून धा मिनटां भितर जल्मीन जेवण आनी प्लेटी हाडल्यो. महेशाक आदल्या दिसाचो सूप आवडिल्लो म्हूण आयज तोच सूप रांदप्यान परतून केल्लो. बटाटाची सुकी भाजी आनी मचमचीत मेथो आशिल्लें मटर-पनीर, आंबट्ट धंयाचें बुंदी रायता, मद्रासी सांबार आनी सदांचेंच शीत, चपाती, लोणचें आनी इल्ल्याशा बावलांत घाल्लें कस्टर्ड पुडिंग. महेश आनी मीरा जेवंक बसतकूच जल्मी मात्सो तोंडार हांशें हाडून चावयेचे बावले भशेन तकली हालयत थंयच घुटमळटालो तें पळोवन महेशान तोंडार प्रस्नचिन्न हाडून ताचे कडेन पळयलें.

"सायबा, एक बरी गजाल जाल्या. आयज सकाळीं तुमी सी.आय्.यस्. यफाक परतून धाडले आनी कांयच संरक्षण घेना आसतना तुमी ऑफिसांत गेले ही खबर वाऱ्या भशेन पसरल्या. हो चेअरमॅन कोणाक भिना, कामगारांक तो सारको जाग्यार बसयतलो अशें सगले उलयतात. तुमी अशेच कडक रावात!" जल्मीन "आज की ताजा खबर" दिली आनी आपखोशयेन उपदेश दिवन उडयलो.

जेवणांत मात्सो बदल करूंक जाय. हें'विविध भारती' जेवण करिना

जाल्यार जाता. मचमचीत मेथ्याचें पनीर- मटर बी आमकां नाका म्हूण सांग कारण गोंयांत पनीर सारकें मेळना. आमकां दनपार आनी रातचें गोडशें नाका. सुपूय बी जायच असो ना.'' जल्मी प्रशासनाच्या वाठारांत घुसपाचो यत्न करतालो ताका महेशान जेवणाच्या वाठारांत हाडलो.

''मॅडम, तुमकां नुस्तें, चिकन बी केल्यार जाता?'' जल्मीन मीराक विचारलें. गोंयां भायल्या रांदप्यांक गोंयचे भशेन नुस्तें बी करपाक कळना देखून आपणाक तें नुस्तें बी नाका आनी सद्या चिकनूयबी नाका अशें मीरान ताका सांगलें.

जेवण जातकूच महेशान टिपॉयचेर पडिल्ल्या वर्तमान पत्रांतल्या माथाळ्यांचेर नदर घाली आनी तोंडार उदक मारून तो सारको एक पंचावनांक ऑफिसाक वचूंक भायर सरलो.

ऑफिसा भायर ताका ''मुर्दाबाद मुर्दाबाद'' म्हूण येवकार दिवपाक कोण्ण नाशिल्लो. वयर वचून ताणें बाम्तीस्ताक फोन करून अभ्यंकराक आपय म्हूण सांगलें. मेजाचे दावे वटेन फायली आनी कसलीं कसलीं पुस्तकां हाडून दवरल्यांत तीं पळयता आसतना अभ्यंकर आयलो. आतां कामगार संघ वगी कित्याक काय म्हूण विचारतकूच कदेलार बसतां बसतां अभ्यंकरान म्हायती दिली ती अशी:

दनपारचो चेअरमॅन गॅस्ट हावसांत वतकूच पांच मिनटां भितर कामगारांनी निदर्शनां बंद केलीं. दोन वरांचेर चेअरमॅन परतून येतलो तेन्ना निदर्शनां करपाचीं काय ना हाचेर तांचे भितर चर्चा जाली. थंय आशिल्ल्या सी.आय्.यस्.यफ. गार्डांच्या आनी ऑफिसांतल्यान घरा वतल्यांच्या कानार ती चर्चा पडूं नये म्हूण कितें करपाचें तें कमिटी थारायतली, आतां कामगारांनी वचूं येता अशें पीटरान सांगतकूच सगले आपापले वाटेक लागले.

''हे तीस-चाळीस कामगार थंय ड्युटे वेल्यान आयिल्ले काय घरच्यान आयिल्ले?'' महेशान विचारलें.

''खबर ना सर, मात्शी चवकशी करून सांग म्हूण हांवें बिळगीक सांगलां,'' अभ्यंकरान महेशाक जाप दिली.

मुरगांव पोर्ट कामगार संघाच्या तीस-चाळीस वांगड्यांनी केल्ल्या निदर्शनांत ऑफिसांतले आनी हेर कडेन ड्युटेर आशिल्ल्या कितल्या कामगार

आनी स्टाफांनीं भाग घेतिल्लो, तांचीं नांवां आनी सादारण कितलो वेळ ते आपणालें काम सोडून गेल्ले हाचेर चेअरमॅनाक दोन दिसांभितर रिपोर्ट धाडचो अशें म्हूण महेशान फ्लावियाक आपोवन सगल्या विभागांच्या मुखेल्यांक आपूण सांगतां तशें बरोवन घेवन धाड अशें फर्मान सोडलें.

फ्लाविया वतकूच अभ्यंकर तोंडा वेलो घाम पुशीत नर्वस आवाजांत महेशाक सांगूंक लागलो," सर, अशें आमी केन्नाच करूंक ना. फाटल्या पांच वर्सांची तरी म्हाका सामकी याद आसा. जायत्या वेळार ड्युटी करपाच्या वेळार स्टाफान ऑफिसा भायर निदर्शनां केल्यांत पूण ड्युटी सोडून गेले म्हूण तांचेर केन्नाच कारवाय जावंक ना."

"तांचेर कारवाय करिनासतना रावप हें बरोबर काय चूक?" महेशान अभ्यंकराक विचारलें.

"सर, कायद्यान पळयल्यार तांचेर कारवाय करूंक जाय, पूण युनियनांक हाताळटना दर वेळार कायद्या प्रमाणेंच कारवाय करूंक जाय अशें नासता न्हय?" अभ्यंकरान महेशाक गुगली घालपाचो प्रयत्न केलो.

"तूं म्हणटा तें बरोबर. सदांच कायद्याक बोट दाखोवन कामां जायनात! आतां कायद्या प्रमाणें कारवाय करपाची काय ना?" महेशान गुगली आडायली.

"तुमी कालूच चार्ज घेतिल्यान रोखडीच कडक कारवाय करची न्हय अशें म्हजें मत," अभ्यंकरान व्हड धिटायेन महेशाक सुचयलें.

कारवाय करपाचें थारायल्यार शुभश्च शीघ्रम! पांच वर्सां चलतालें तें आतां चलचें ना, आतां बदल जातलो हो संदेश कामगारां मेरेन पावूंक जाय!" महेशान आपणाल्या प्रशासनाची झलक अभ्यंकराक दाखयली आनी सेक्रेटरीच्या विभागांत ड्युटी सोडून गेल्ले कितले स्टाफ आसूं येता अशें विचारलें.

"सर, तांणी सकाळच्या णव जावन धा मिनटां मेरेन ऑफिसांत येवन सयो करूंक जाय. मदीं भायर सरून गेल्यार तांकां सॅक्शन-मुखेल्यांची परवानगी घेवंची पडटा. म्हज्या विभागांत पांच सॅक्शन मुखेली आसात. तांकां विचारून नांवांची वळेरी तयार करची पडटली," अभ्यंकरान म्हायती दिली.

"सॅक्शन हेड खरो रिपोर्ट दितले अशें तुका दिसता?" महेशाचो प्रस्न.

"सर, तुमकां स्पश्ट सांगपाचें म्हणल्यार ते कोण्ण खरो रिपोर्ट दिवंचे

नात. ते युनियनांक थर्त भियेतात,'' अभ्यंकरालें मत!

''दोन दिसां भितर सगल्यांचे रिपोर्ट येतले न्हय? पळोवया! खंयच्याच विभागांतल्यान कोणूच भायर सरूंक ना म्हूण रिपोर्ट आयल्यार हे तीस-चाळीस कामगार खंयच्यान आयले? बिळगीक काम दिवंचें पडलें!'' अशें म्हूण महेश व्हडल्यान हांसलो. हो वेळ आपणें हांसपाचो, वग्गी रावपाचो काय घाम पुशीत करचीफांत तोंड लिपोवपाचो हें अभ्यंकराक समजलें ना. ''ओके सर'' म्हणून तो फुडें कितें जातलें काय हाचो विचार करीत भायर सरलो.

अभ्यंकर भायर सरतां सरतां फ्लाविया दारार मारून भितर सरलें. ''सर तुयें नोट दिलेलो तेचो ड्राफ्ट'' अशें म्हूण ताणें विभाग मुखेल्यांक धाडपाच्या त्या नोटाचो मसुदो महेशाच्या हातांत दिलो. महेशान मसुद्याचेर दोन मिनटां भितर नदर भोंवडावन दोन कडेन किरकोळ चुको आशिल्ल्यो त्यो सारक्यो करून ''गूड टायपिंग, व्हेल डन'' हे शाबासके सयत मसुदो फ्लावियाक परतो दिलो. बॉसान आपणाल्या पयल्याच टायपिंगाक शाबासकी दिली म्हूण चलप आनी धांवप हांच्या मदल्यो ल्हानश्यो पिटिक् पिटिक् करून उडक्यो मारीत फ्लाविया आपणाल्या रुमांत गेलें. फ्लाविया महेशाच्या कॅब्रीनांतल्यान भायर सरतकूच बाप्तीस्तान महेशाक फोन लायलो आनी दिल्लीच्यान रामलिंगम उलोवंक सोदता म्हूण रामलिंगमाक कनेक्शन दिलें.

फोनाचेर कोणें कोणा कडेन कशें उलोवपाचें ह्या विशयाचेर भारतीय नोकरशायेंत मार्गदर्शक तत्वां आपल्या आपूण तयार जाल्लीं. हीं तत्वां कोण कोणाक शिकय नाशिल्लो. प्रशासन सेवेंत नव्यान भर्ती जाल्ल्या अधिकाऱ्यांक तीं तत्वां अणभवान कांय दिसां भितर समजतालीं. ह्या तत्वांतल्या एका तत्वा प्रमाणें ज्युनियर अधिकारी सदांच पयलीं फोन घेवन रावता आनी मागीर सिनियर अधिकारी फोनाचेर येता. रामलिंगम हो महेशा परस तेरा-चौदा वर्सांनी ज्युनियर. तो महेशाक बरो वळखतालो, कारण महेशा भशेन तोवूय बी तामिळनाडू काडरांतलो अधिकारी. महेश ताका व्हडलोसो वळखनाशिल्लो. मद्रासाक आसतना दोन-तीन फावटीं आपूण रामलिंगमाक मेळिल्ल्याची ताका याद जाताली. महेशान फोनार हॅलो म्हणिना फुडें पड्डो उगडचे पयलीं वाजोवपाच्यो आसतात त्यो घांटी सगल्यो वाजोवन मागीर रामलिंगमान पड्डो उगडलो. रामलिंगमान सांगलें तें अशें: सर्वानंद सांवर्डेकारान आदल्या रातचो पोर्ट मिनिस्टराक फोन केल्लो आनी आपल्या कडेन महेश सारको वागलो

ना म्हूण कागाळ केली.

खरी गजाल कितें ती तुमकां विचारून सवकासायेन सांग अशें म्हूण मिनिस्टरान आपल्याक सांगलां आनी त्या खातीर आपूण आतां फोन करपाक बसलां अशें रामलिंगमान महेशाक पयलीं सांगलें. सगल्या राज्यांतल्या उद्देगपतीं परस मिनिस्टराक गोंयचे उद्देगपती चड फोन करतात. गोंय इल्लेंशें राज्य पूण आपूण चड वेळ गोंयचेच प्रस्न सोडोवपांत गूंग आसतां अशें मिनिस्टर म्हणटा. सर्वानंदाकडेन कितें उलोवणें जालें तें महेशान सांगचे पयलींच मिनिस्टर गोंयच्या उद्देगपतींक व्हडलेंशें म्हत्व दिना ही भितरली बातमी रामलिंगमान महेशाक दिली. आपणाक आदल्या दिसा सांजेचो साडेसात वरांचेर अपॉयंटमेंट जाय अशें म्हूण आपणाक सर्वानंदान रेकाद धाडिल्लो. रॅअर ऍडमिरल जिंदालाक मेळपाक आपणें तोच टायम थारायिल्लो आशिल्ल्यान, सर्वानंद जपानच्यान येतकूच आमी मेळूंया म्हूण आपणें ताका रेकाद धाडिल्लो अशें सांगून महेशान रामलिंगमा मुखार स्पश्ट चित्र उबें केलें.

"सर, असल्यो ह्यो कागाळी मिनिस्टराक नव्यो न्हय, तरी आसतना मिनिस्टरान म्हणिल्ल्या प्रमाणे गोंयच्या उद्देगपतीं कडल्यान चड कागाळी येतात. हांव मिनिस्टराक खरी गजाल कितें ती सांगतां. तुमी कालूच चार्ज घेतला न्हय? तुमकां ऑल द बॅस्ट," अशें म्हणून रामलिंगमान फोन दवरलो.

ऑफिसर्स असोसिएशनाचो अध्यक्ष दीपक पटेल चेअरमॅनाक मेळपाक सोदता अशें म्हणून बाप्तीस्तान फोन केलो. महेशान ओके म्हणटकूच दीपक पटेल दारार मारून भितर आयलो. महेशान खुणेनूच ताका बस म्हणून सांगलें.

"सर, तुमी चेअरमॅनाक निरोपाचें जेवण दिवपाचे आसात आनी आमी सगल्या ऑफिसरांनीं त्या जेवणाक येवंचें अशी इत्सा तुमी परगटायिल्ली. चेअरमॅन जिंदालान फाटलीं पांच वर्सां आमचे हाल-हाल करून उडयले. ताका निरोपाचें जेवण दिवचें न्हय, कोणेंय दुसऱ्यांनीं दिलें जाल्यार लेगीत ऑफिसरांनीं ताचेर बहिश्कार घालचो अशें आमच्या असोसिएशनान थारायिल्लें. पूण तुमी आमचे कडेन इतले समजिकायेन वागले आनी आमकां इतलो धीर दिलो तें पळोवन मनशां-मनशां मदीं कितलो फरक आसूं येता हाचेरूच आयज सगले ऑफिसर एकमेकां कडेन चर्चा करतात. तुमचें आपोवणें नाकारप म्हणल्यार तुमचो व्हड अवमान केल्ले भशेन जातलो आनी आमी अशें केल्यार आमच्या खंयच्याच वांगड्याक तें आवडचें ना हाची खात्री. देखून आमी सगल्यांनी

जेवणाक येवपाचें थारायलां. असले सुवाळे जातना बदली जावन वतल्या बॉसाचे व्हड व्हड गूण गावपाची प्रथा आसता. तशें करप मात आमचे पैकीं कोणाकूच जमचें ना. तुमी रागार जावंचें न्हय,'' पटेलान दोळ्यांतलीं दुकां आडायत दोनूय हात जोडून महेशा कडेन मागणी केली.

''थँक्यू थँक्यू! तुमी सगले आयल्याबगर असल्या निरोपाच्या जेवणाक सोबाच येवंची नाशिल्ली. पूण तूं म्हणटा तें सगलें खरें आसल्यार लेगीत तुमच्या पैकीं एकल्यान कोणेंय कांय मिनटां तरी उलोवंचेंच पडटलें, नाजाल्यार तें बरें दिसचें ना!'' महेशान पटेलाक सुचोवणी केली.

''हांव अध्यक्ष जाल्ल्यान हांव एक दोन-तीन मिनटां उलयतां. ताका दुखयनासतना उलोवपाक जाय हें म्हाका खबर आसा. पूण ताची तुस्त मात करूंक म्हज्यान जावंचें ना,'' पटेलान परतून हात जोडिल्लेभशेन करून सांगलें.

''तुमी सगले शिकिल्ले आनी अणभवी लोक! तुमकां चड सांगपाची गरज ना. थँक्यू, थँक्यू!'' महेशान ऑफिसरांक चण्याच्या झाडार चडयले.

पटेल वचना फुडें बाप्तीस्त भितर आयलो. ''सर, आमच्या फुडल्या आठ-धा दिसांचो प्रोग्राम थारावंक जाय.'' बाप्तीस्ताक पयल्याच दिसा महेशान कडकडायिल्लो म्हणटकूच तो मात्सो भिवनूच वागतालो. बस म्हूण सांगल्या बगर महेशा मुखार तो बसनाशिल्लो. आदल्या चेअरमॅनाच्या वेळार तो येवन सरळ बसतालो. फुडलो प्रोग्राम थारावंक जाय अशें ताणें आपूण भितर सरनाफुडें उब्या उब्या महेशाक सांगलें. ताका खुणेनूच बस म्हणून सांगून फुडल्या सात-आठ दिसांचो प्रोग्राम कितें अशें महेशान विचारलें. येता त्या मंगळाराक इंडियन पोर्ट असोसिएशानची मुंबय पोर्टाच्या हेड-ऑफिसांत सगल्या चेअरमॅनांची मिटींग आसा. ह्या शुक्राराक तुमी आदींच रेअर ॲडमिरल जिंदालाक निरोपाचें जेवण दवरलां. फुडल्या शुक्रारा पोर्ट सेक्रेटरीन सगल्यांची दिल्ली मिटींग आपयल्या. मुंबय आनी दिल्ली मिटिंगांच्यो फायली फाल्यां सकाळीं तुमच्या मेजार पावतल्यो. दामोदर दास पटेल, शिपींग एजन्ट आनी जॉन ओब्री स्टिविडोर हांणी फाल्यां ना जाल्यार परां तुमचेकडेन धा मिनटां खातीर वेगवेगळे अपॉयंटमेंट मागल्यात. खेरीज, पीटर डिमेलो, सत्यानंद सांवर्डेकार, सज्जन केंकरे हांणीय बी फाल्यां अपॉयंटमेंट मागल्यात. चीफ सेक्रेटरी तुमचे कडेन उलोवंक सोदतालो. तुमी मिटिंगेंत आसात अशें हांवें सांगलें. तुमकां टायम मेळटकूच ताच्या पी.ए.न फ़ोन कर म्हूण सांगलां,''

बाप्तीस्तान कामांची वळेरी महेशा मुखार दवरली.

"मुंबय आनी दिल्लीच्या मिटिंगांक वचपा-येवपाची, त्या शारांनी रावपाची, ए.सी गाडयांची वेवस्था रोखडीच करून उडय म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक फर्मान सोडलें. रॅअर ऍडमिरल जिंदालाच्या जेवणाची तयारी करपा खातीर सेक्रेटरीक म्हाका मेळपाक लाय. हाच्या फुडें चीफ सेक्रेटरीचो वा गोंयच्या खंयच्याय मंत्र्याचो फोन आयल्यार हांव कामार आसां म्हूण तांकां सांगूंक जायना. म्हाका कनेक्शन दिवंक जाय," महेशान बाप्तीस्ताक ऑर्डर दिली.

बाप्तीस्तान तीन चेअरमॅनांचो पी.ए. म्हूण काम केलां आनी कोणाक कितें सांगपाचें हें ताका अजून समजना म्हूण महेशाक ताचो राग आयलो पूण महेशान त्या विशयाक चड म्हत्व दिलें ना.

विभागाच्या मुखेल्यांक नोट धाडले अशें फ्लावियान फोन करून सांगलें. पांच जावन धा मिनटांनी महेश गॅस्ट हावसांत वचूंक भायर सरता आसतना कमांडंट पाटिलाचो फोन आयलो, "सर, विभागाच्या मुखेल्यांक धाडिल्लो नोट मेळ्ळा. आमी सदां भशेन कोणाक कळनासतना त्या निदर्शनांचे फोटे काडून दवरल्यात. त्या फोट्यांवयल्यान आपणाल्या विभागांतल्यान कोणें कोणें निदर्शनांत भाग घेतिल्लो तें कळपाक विभाग मुखेल्यांक मजत जावं येता," पाटिलान सांगलें.

"तुमी अशे फोटे काडटात म्हूण विभाग मुखेल्यांक खबर आसूंक जाय न्हय?" महेशान विचारलें.

"फाटलीं कांय वर्सां असले फोटे काडपाची गरज ना म्हूण आमकां चेअरमॅनान ऑर्डर दिल्ली. देखून चडशे फावटीं आमचे कडेन रिकॉर्ड नासतालो. आमचे कडेन ही वेवस्था आसा अशें म्हूण सगल्याच विभाग मुखेल्यांक याद आसा काय ना तें म्हाका खबर ना." प्रशासकीय वाठारांत मात्शीं सांबाळून पावलां घालूंक जाय म्हूण कमांडंट पाटिलान "नरो वा कुंजरो वा" टायप विधान केलें.

सेक्रेटरी अभ्यंकरा कडेन हो विशय उलयतना ह्या फोट्यांविशीं ताणें आपणाक कित्याक सांगलें ना हाचेर विचार करीत महेश गॅस्ट हावसांत पावलो.



## भाग 5

**सड्यार** मुरगांव पोर्ट कामगार संघाच्या ऑफिसांत पीटर डिमेलो, गुणाजी आनी कमिटीचे सगले वांगडी चार वरांचेर जमिल्ले. ह्या चेअरमॅनाक कसो हाताळपाचो हाचेर दर एकलो आपणाले विचार मांडटालो. पीटर डिमेलो आनी गुणाजी कमिटीच्या वांगड्यांक खूब मान दिताले आनी सदांच आपूण उलोवचे पयलीं तांचें मत आयकताले. कामगार वांगड्यांक जाय तें उलोवपाक मेकळीक दिना जाल्यार ते कामगार संघ सोडून वतले अशें पीटर डिमेलोक आनी गुणाजीक दिसतालें.

पीटर डिमेलोन पयलीं मिटिंगेचो विशय विसकटावन सांगलो. कामगार संघान सकाळीं आनी दनपरां, दोन फावटीं निदर्शनां केलीं. चेअरमॅनाचेर व्हडलो सो परिणाम जावंक ना काय दिसता. दनपरां तो जेवणाक वता आसतना ताणें हांसत कामगारांक हात हालयलो. हाचो अर्थ ताकाच खबर! ताका हाच्या फुडें कसो हाताळपाचो हें थारावपा खातीर ही मिटिंग आपयिल्ली.

"चेअरमॅनाची मोटार थांबोवन, ताका सारको वाग, ना जाल्यार त्रासांत सांपडटलो अशी शिटकावणी दिवंक जाय. गाडी थांबोवपाचें काम तो सकाळीं ऑफिसाक येता आसतना करूंक जाय. तो कसली कारवाय करूंक सोदता तें रोखड्या-रोखडें कळटलें." अशें एक तरनाटो वांगडी उलयलो.

"तशें करूंक जायना कारण सरकारी नोकराक आडायलो म्हूण पोलीस केस घालूंक शकतात आनी कामगार संघाच्या वांगड्यांक लॉकपांत उडोवंक शकतात." एक वरिश्ट वांगडी उलयलो.

"फुडले चार पांच दीस निदर्शनां चालू दवरूंक जाय. मागीर तो मात्सो

मोव जावन कामगार संघाक उलोवणीं करूंक आपयतलो. ''आनीक एकल्यान सुचयलें.

''चेअरमॅनाक हांसून हात हालोवपाची संवय आसल्यार दर दिसा तो हांसून हात हालयत रावतलो मागीर कामगार संघान कितें करपाचें?'' कसल्याय विशयाचेर ''अशें जाल्यार कशें?'' म्हूण प्रस्न विचारपाची सवंय आशिल्ल्या एका वरिश्ट वांगड्यान सदां भशेन प्रस्न विचारलो.

''कुशीन खंयूंय तरी झाडा फाटल्यान लिपून रावून चेअरमॅनाच्या गाडयेचेर फातर मारूंक जाय, म्हणटकूच कामगार ताचेर संतापल्यात म्हूण ताका कळटलें,'' आदल्या काळांतलीं बाबूराव अर्नाळकराचीं डिटेक्टीव पुस्तकां वाचपाची संवय आशिल्ल्या एका सुशिक्षित वांगड्यान सुचयलें.

''डायरेक्टली केन्नाच अटॅक करूंक जायना. दुसऱ्या कडल्यान मार घालूंक जाय आनी आपणें फाटीं रावूंक जाय, ''नाटकांनी महाभारत फेम शकुनीचें काम करपी वांगडी दोळे घुवंडायत उलयलो.

''खासदाराक मुखार काडून ताचे कडल्यान चेअरमॅनाक तापोवणी खावोवंक जाय आनी कामगारां कडेन सारको वाग म्हूण शिटकावणी दिवंक सांगूंक जाय.'' राजकारणांत लुडबुड करपी एका वांगड्यान सुचयलें.

कमिटीच्या सगल्या वांगड्यांनी तरातरांच्यो सुचोवण्यो केल्यो आनी दर सुचोवणेचेर भासाभासूय बी केली. पावणे-स वरांचेर सुमार पीटर डिमेलोन कामगार संघाची फुडली कारवाय कशी आसतली हें सगल्यांक समजावन सांगलें:

मुरगांव पोर्ट कामगार संघ हो पोर्टान मान्यताय दिल्लो आनी पोर्टाच्या सगल्या विभागांनी चडांत चड कामगारांनी आपणायिल्लो संघ. आयज मेरेन संघाच्या फुडाऱ्यांनी वा कामगारांनी केन्नाच उखल्ली जीब लायली ताळ्याक अशें केलें ना, वा फुडले परिणाम येवजिनासतना केन्नाच पावलां उखल्लीं नात. नव्या चेअरमॅनाक चार्ज घेवन फकत दोन दीस जाल्यात. अजून ताका पोर्टांत काम करपाची सवंय जावंक ना. दनपारचो गॅस्ट हावसांत जेवणाक वतना घोशणा दिवपी कामगारांक ताणें हांसून हात हालयलो. कामगारां कडेन तो इश्टागत दवरूंक सोदता असो संदेश कामगारां मेरेन पावोवपाचो तो यत्न आसुंये. देखून कांयच आबूज करिनासतना, हिंसा करिनासतना, ताचो

अपॉयंटमेंट घेवन ताका मेळूंक जाय!

निदर्शनांत भाग घेतिल्ल्या सगल्या कामगारांचीं नांवां आपणा कडेन धाडचीं असो नोट चेअरमॅनान सगल्या विभाग मुखेल्यांक धाडला. ड्युटी सोडून युनियनाच्या कारवायेंत वांटो घेवंक जो गेला ताका अर्द दीस ॲबसेन्ट मार्क करतले काय दिसता. अशें जाल्यार मुरगांव पोर्ट कामगार संघाचें नांव सामकें इबाडटलें. ताच्या पयलीं ताका मेळून मात्शी शिस्त लावपा खातीर पोर्ट बंद वडवंचो न्हय म्हूण शिटकावणी दिवंक जाय. आनी ॲबसेन्ट मार्क करपाचो ताणें हट्ट धरल्यार मागीर आमी कसले कडक उपाय करपाचे तें पळोंवचें पडटलें.

दुसऱ्या दिसा आपणें चेअरमॅना कडेन अपॉयंटमेंट मांगलां अशें सगल्यांक कळीत करून पीटर डिमेलोन मिटिंग सोंपयली.

कमिटीचे वांगडी भायर सरपाक लागतकूच पीटर डिमेलोन गुणाजीक मात्सो राव म्हूण सांगलें, ''ह्या चेअरमॅना मुखार सामकें नमतें घेवंक जायना आनी एकदम कडकूयबी रावंक जायना. ताणें कसलींय पिशेपणां केल्यार सबंद पोर्टांत संप जावन मिनाचो एक्सपोर्ट बंद पडटलो हें मिनेरांच्या कानार वचूंक जाय. मागीर ताका कसो कंट्रोलांत दवरप तें ते पळयतले. हो एप्रील म्हयनो. पंदरा मे मेरेन मीन जपानाक आनी चीनाक व्हरपाक बोटींची रांग लागिल्ली आसता. मुरगांव शार सगलें मिनाचेर अवलंबून आसता आनी एप्रील-मे म्हयन्यांत पोर्टांत संप जावप म्हणल्यार सगल्यांच्या पोटार आड येवप. मुरगांव शारांत आनी खास करून मायनिंग कंपन्यांच्या ऑफिसांनीं संपाचें वारें व्हावूंक लागतकूच, नमतें घेवपा खातीर चेअरमॅनाचेर सगले वटेन चेंपण येतलें. मागीर कडक उपाय करपाची आयडिया तो सोडून दितलो,'' पिटर डिमेलोन परिस्थिती गुणाजीक समजावन सांगली, आनी फुडली कारवाय कशी आंखची हेंवूयबी सुचयलें.

गुणाजीक पीटर डिमेलोची आंखणी एकदम आवडली. संपाचें वारें ताबडतोब व्हांवूंक सुरू जावंक जाय अशें पुटपुटत तो ऑफिसांतल्यान भायर सरलो.

***

जोजेफ बाप्तीस्त, आनी सर्वेश गुणाजी दोगूय एकाच वेळार इरमांव बारींत पावले. ते सदांच्या जाग्यार बसना फुडें डॉमनिक वेटरान पीटर स्कॉचाचो एक-एक लार्ज पेग दोन ग्लासांनी ओतयलो आनी ते ग्लास आनी बिस्लेरी सोडाच्यो बाटल्यो घेवन तो थंय आयलो. व्हिस्की वांगडा डॉमनिकान दोन खाऱ्या भिकणांचीयबी पाकिटां बशयांनी हाडून दवरलीं. सोडा ग्लासांनी मिक्स करपाक बाप्तीस्तान डॉमनिकाक खुणेनूच सांगलें. एक घोंट मारतकूच त्या दिसाच्या मुखेल खबरांचें "आदान-प्रदान" करपाक ते तयार जाले.

"पोर्ट आतां बरोच गॉरॉम जावपा आसा! स्लोगन दिवपी कामगारांक अर्दो दीस ॲबसेन्ट मार्क कोरपाचें तो प्लॅन कोरता. हो चेअरमॅन सामकोच स्ट्रिक्ट, तो पोर्टाची वाट लायतोलो," अशें म्हणून बाप्तीस्तान कपलाक आटयो घालीत ग्लास तोंडाक लायलो.

" तूं बरो सुशेगाद अडेज वरांचेर येतालो. तुका आतां ताणें दोन वरांचेर येवंक लायलो. तूं आतां ताचेर चड पिकार आसतलो न्हय? तूं इतलो पावरफुल! पोर्ट कसो चलोवपाचो हें फाटल्या तीन चेअरमॅनांक आपणें शिकयलें अशें तूं म्हणटालो! तूं फकत पी.ए., सुपर-चेअरमॅन न्हय, म्हूण ह्या चेअरमॅनान तुका याद करून दिली!" अशें म्हणून व्हडल्यान हांसत गुणाजीन बाप्तीस्ताचे धगधगपी अहंकारी इंगळे आनीक पेटोवपाचो यत्न केलो.

"ह्या चेअरमॅनान म्हुजें नांव सामकें पेड्ड्यार केलें! आरे, तूं आतां केसो आसा अशें म्हुणोन हांव दिसोनाफुडें हेड ऑफिसांतलो जाण एकलो म्हाका विचारता. ह्या चेअरमॅनाक बुद्द शिकोवचीच पोडटेली! तो तुमच्या कामगारांक अर्दो दीस ॲबसेन्ट लावपाक सोदता आनी तुमी वोगी बोसल्यात मुरे? कितें चोलोयलां रे?" बाप्तीस्तान गुणाजीचेर कावंटर हल्लो चडयलो.

"आमी वोगी बसूंक नात; पीटर डिमेलो कसलीयतरी आंखणी रचता. आनीक दोन-तीन दिसां भितर तुका कळटलें. तुयें कितें करपाचें येवजिलां?" गुणाजीन विचारलें.

"दोन ट्रॉलरवाले म्हुजे फ्रेंड! आमचो यम्.पी. थिओफिलूयबी ट्रॉलरवालो. चेअरमॅनाक नुस्त्याच्यो गांथनी धाडात ऍशें म्हूण हांव तेंकां सांगतोलों!" बाप्तीस्तान आपणालो प्लॅन सांगलो.

"मागीर कितें जातलें?"---- गुणाजी.

"पोर्ट चेअरमॅनांक ऍसल्यो बारीक बारीक सागवादी घेवपाच्यो सोवोंयों आसोता! हो चेअरमॅन आनी मॅडम दोगांय जाणां गोंयकार जाल्ल्यान व्होड निस्त्या गांथण्यो चोवन तेंची लाळ गोळोंक लागतेली. मागीर हो चेअरमॅन "खाऊ-पिऊ" म्हूण हांव दिश्फाम घालतेलों. मागीर मोजा चोवया!" बाप्तीस्त.

"हें तुवें आतां रोखडें करचें पडटलें. मागीर दरयो खवळटकूच ट्रॉलर वचपाचें बंद जातलें; पूण एक सांग, चेअरमॅनाक आनी बायलेक कसलें नुस्तें आवडटा तें तुका खबर आसा?" गुणाजी.

"चेअरमॅनाची बायल आदीं कावन्सलिंग कोर्सिस घेवपाक पोर्टांत येताली आनी गॅस्ट हावसांत रावताली. फाल्यां सोकाळी हांव जोल्मीक फोन करून इचात्तां! तो सांगतेलो." बाप्तीस्त.

"आनीक कसलो प्लॅन तुजे तकलेंत आसा?" गुणाजी.

"चेअरमॅनाची बायल बोऱ्यो-बोऱ्यो साडयो न्हेसोता म्हूण दीपा आनी फ्लाविया तोखेतालीं. ह्यो साडयो तिका हिंगा येवचे आदीं सागवाद म्हूण येयल्या आसतेल्यो! मुरगांवच्या वा पोणजेच्या साडयां शॉपांतल्यान तिका सागवादी पावोवंक जायो. मागीर कितें जाता तें चोवया!" बाप्तीस्त.

"त्यो बऱ्यो बऱ्यो साडयो सगल्यो सागवाद म्हूण आयल्यात हें कित्या वेल्यान? मॅडमीचो बापूय बरो व्हडलो भाटकार म्हूण हांवें आयकलां. पणजे शेजरा खयीं तरी व्हडलें पालास कशें तिच्या जाणटेल्यांचें शंबर वर्सां पोरनें घर आसा अशें हांवें आयकलां. पणजे आनी फोंडें वटेन मॅडमीच्या वांट्याक त्या जाणटेल्यां कडल्यान खूबशीं भाटां -बेसां आयल्यांत. त्या भाटां-बेसां वेल्यान मॅडमीचीं आनी फामिलींतल्या हेरांचीं खूबशीं झगडीं-झुजां चल्ल्यांत अशेंय हांवें आयकलां!" गुणाजी.

"ही तुयें बोरी गॉजाल सांगली. ह्या भाटां बेसांच्यो कितेंय तोरी बानगोडी आसूंक जायो आनी त्या बानगोड्यांनी चेअरमॅनाचोय बी हात आसूंक जायो. बानगोडी सोदून काडपाच्या कामांक आतांच्यानूच लागोंक जायें." बाप्तीस्त.

***

महेश आनी मीरा गोयांत पांच वर्सां उरतलीं म्हूण पिकार जाल्लें एक

कुटुंब म्हळ्यार शिरधनच्या भगवंतबाब गावणेकारालें. भगवंतबाब गावणेकार भायर पडून वीस वर्सां जाल्लीं. तांच्या शंबर वर्सां पोरन्यां चार चौख्यांच्या घरांत आतां भगवंतबाबाली बायल आनी कांय जाणटे नोकर रावताले. तीन व्हडल्या पुतांनी हेर कडेन आपापले बंगले बांदून संवसार थाटिल्ले आनी एक धूव मीरा लग्न जावन गोंयांभायर आशिल्ली. दुसरी धूव मुक्ता डॉक्टर सुरेश कामतीची बायल.

भगवंतबाबाच्या पंच्याएंशीं वर्सांचे बायलेक गांवांतले लोक ताईबाय म्हूण वळखताले. मीरा गोंयांत पांच वर्सां खातीर रावूंक येतलें म्हूण खरी खोस जाली ती फकत ताईबायक, देवराय रांदप्याक आनी शेंवतू आनी इंदिरी ह्या वावराड्यांक. व्हडलो पूत अनंत आनी ताची बायल सोडून हेरांचीं तोंडां काळीं जालीं. मीराचें लग्न एका आय्.ए.एस्. ऑफिसरा कडेन जावपाचें थारतकूच मिराच्या दोन धाकल्या भावांक, म्हणल्यार रामकृष्ण आनी विष्णू हांकां आय्.ए.एस्. ऑफिसर म्हणजे कसलो अधिकारी तें खबर नाशिल्लें. तांणी कॉलेजींतल्या प्रोफेसराक विचारून खबर काडली. आय्.ए.एस् ऑफिसरांक खूब अधिकार आसतात, कायदे खबर आसतात आनी ते सरकार जाय तसो चलोवंक शकतात अशें त्या प्रोफेसरान तांकां सांगिल्लें. सगल्यांत व्हडलो भाव अनंत बऱ्या सभावाचो आनी ह्या आय्.ए.एस्. ऑफिसराक भाटां-बेसां कांयच नात. अशें दोगांय भावांनीं सांगल्यार लेगीत ताका कसलोच हुस्को जावंचो नाशिल्लो. आपणाले धाकले भयणीक बरो अधिकारी घोव मेळ्ळो म्हूण ताका मनांतल्यान खोस जाल्ली. महेश आतां भाटां-बेसां खातीर झगडीं सुरू करतलो आनी भाटां-बेसां विशीं आपणाले फुडाराचे आशिल्ले प्लॅन चालीक लावंक दिवंचो ना असो रामकृष्ण आनी विष्णूक हुस्को जावंक लागलो. हो हुस्को चड जावंक कारण म्हणल्यार महेशाक ताच्या जाणटेल्यां कडल्यान भाट-बेंस बी कांयच येवंक नाशिल्लें.

महेश प्रभू ह्या गोंयकार आय्.ए.एस्. ऑफिसरान मुरगांव पोर्टाचीं सुत्रां हातांत घेतलीं अशें म्हूण गोंयच्या वर्तमानपत्रांनी पयल्या पानार महेशाच्या फोट्या सयत आयिल्ली खबर दिसतकूच रामकृष्ण आनी विष्णू हांची न्हीद उडली.

महेशान मुरगांव पोर्टाचें प्रशासन हातांत घेतकूच विष्णू दुसऱ्याच दिसा

रामकृष्णागेर गेलो आनी दोगूय वारांदार बसून भाटां-बेसांच्यो खबरो करूंक लागले. ''हे दोनापावल प्रॉपर्टीची विक्री बेगीन केल्यार बरी न्हय?'' विष्णून वारांदा वेल्यान दक्षिणे वटेन बोट दाखयत रामकृष्णाक विचारलें. रामकृष्णाचो आठ रुमांचो बंगलो दोनापावलाच्या पठारार आशिल्लो. थंयच्यान अरबी समुद्र, मुरगांव पोर्ट, जुवारी न्हंय, सगले वटेन सोबीत देखाव दिसतालो. बंगल्याचे दावे वटेन दोनशें मिटरांचेर सुमार त्याच पठाराचेर भगवंत गावणेकाराचें माड, काजी, आंब्यांनी भरिल्लें सुमार पंचवीस एकरांचें भाट आशिल्लें. व्हड-व्हड बिल्डरां कडल्यान आनी पांच नखेत्री हॉटेल मालकां कडल्यान ह्या भाटाची चवकशी सुरू जाल्ली. भगवंतबाब भायर पडटकूच जाल्ल्या इंवेंतारांत हें भाट पांचूय भुरग्यांच्या वांट्याक पडिल्लें. हेर कांय भाटां, मूळ घर आनी घरा भोंवतणचो वाठार हें सगलें ताईबायच्या वांट्याक आयिल्लें. पुर्तुगेज कायद्या प्रमाणें ताईबायच्या मरणा उपरांत ह्या भाटांची वांटणी जावन ताईबायच्या सगल्या भुरग्यां भितर तीं सारकीं वांटून वचपाचीं आशिल्लीं.

हीं सगलीं ताईबायच्या वांट्याक आयिल्लीं भाटां-बेसां फकत तिच्या पुतांकूच येवंचीं असो कितेंयतरी उपाय सोदून काडपाक रामकृष्ण आनी विष्णू हालीं प्रयत्न करताले. आतां मीरा आनी महेश गोंयांत आयल्यांत म्हणटकूच भयणीक भायर दवरपाचे भावांचे कट येसस्वी जावपाक कुस्तार असो तांकां दुबाव येतालो. महेशाक कितेंय करून गोंयच्यान परतून भायल्या राज्यांनी धावंडावंक जाय. नाजाल्यार ताच्या आंगार कसलींय व्हड व्हड बगलाटां घालून ''नाका रे बाबा गोंय'' अशें दिसून आपुणूच दुसरे कडेन बदली मागून वचूंक ताका प्रवृत्त करूंक जाय. अशें रामकृष्णान आनी विष्णून थारायलें.

रामकृष्णाच्या कांय इश्टांचें मुरगांवां बिजनेस आशिल्लें आनी तांचो पोर्टा कडेन संबंद आशिल्लो. थंय वचून तांचे कडेन उलयतकूच कितें करूं येता तें आपले आपूण सुचतलें अशें रामकृष्णाक दिसलें.

रामकृष्णान दुसऱ्या दिसा मुरगांवां वचून तिगांय इश्टांक मेळपाचो बेत केलो. पयलो इश्ट सत्यवान कामत, दुसरो गंगप्पा पाटील आनी तिसरो चमनभाय शहा. सत्यवान कामतीचें भुसारी दुकान आशिल्लें आनी पोर्टांत येवपी बोटींक तो म्हालाची पुरवण करतालो. गंगप्पा पाटील कर्नाटकांतल्यान तांदूळ,दाळ, मूग आनी तरेतरेचीं पिठां हाडून सत्यवान कामतीक आनी हेरांक

ठोक दरान त्या म्हालाची पुरवण करतालो.

चमनभाय शहाचें रेडिमेड कपड्यांचें व्हड दुकान आशिल्लें. बोटींचेर काम करपी विदेशी ऑफिसर आनी स्टाफ मुरगांवच्या दुकानांनी फॉरेन ब्रँडाचे कपडे सवाय भितर घेताले. रामकृष्णाच्या ह्या तिगांय इश्टांचो पोर्टाच्या ऑफिसरां कडेन चड-उण्या प्रमाणांत संबंद येतालो. रामकृष्णान तिगांयकूय फोन लावन आपूण मेळूंक येवंक सोदतां अशें कळयलें. पोर्टांत एक व्हड बोट लागपाची आशिल्ल्यान ते मुरगांवांतूच आसतले अशें तिगांयनींय रामकृष्णाक सांगलें.

रामकृष्ण दुसऱ्या दिसा पयलीं कामतीक मेळ्ळो. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरो जातकूच पोर्टाचो नवो चेअरमॅन आपणालो मेवणो म्हणून रामकृष्णान व्हड खोशयेन बातमी दिली. आनी कामतीक प्रत्यक्ष चेअरमॅना कडेन काम आसता काय म्हणून विचारलें. चेअरमॅना कडेन तसो कांय संबंद येना, पूण वळख आसल्यार बऱ्याक पडुंये अशें कामतीन हांसत सांगलें.

''तुमकां पोर्टांतल्या वरिश्ट अधिकाऱ्यांक खावड घालची पडटा?'' रामकृष्णान हांसत कामतीक विचारलें.

''तशी खावड न्हय, पूण नव्या वर्सा ल्हान ल्हान प्रेजेंटां दिवंचीं पडटात. तसलीं प्रेजेंटां दितकूच संबंदीत अधिकारीयबी आमचेर खूश आसतात. ना जाल्यार आपणालो पावर दाखोवपा खातीर ते आडमेळीं हाडूंक शकतात. बोटींच्या कॅप्टनाक मात म्हारग प्रेजेंट दिवंचें पडटा,'' कामतीन हांसत हांसत रामकृष्णाक परिस्थिती समजावन सांगली. बोट धक्याक लागली अशें म्हूण कामतीक शिपिंग एजंटाच्या ऑफिसांतल्यान फोन येवंक लागले. आनी ''हें बांद, तें बांद'' अशें म्हूण कामत आपल्या स्टाफा भितर कामां वांटूंक लागलो. बोट दुसऱ्या दिसा दनपरां धक्या वेल्यान हालपाची आशिल्ली. आयज सांज मेरेन सगलें सामान बोटीर पावोवंक जाय आशिल्लें. कामत आपणाल्या बोवाळांत आसा अशें दिसतकूच रामकृष्णान ''थँक्यू, मेळुंया'' म्हणून थंयच्यान कूस मारली.

रामकृष्ण मागीर गंगप्पा पाटीलाक मेळ्ळो. पाटिलान ताका थंडगार लस्सी पिययली. पाटीलाचो पोर्टाकडेन व्हडलोसो संबंद येना आशिल्लो कारण तो किरकोळ म्हालाची बोटींक पुरवण करतल्यांक ठोक दरान म्हाल विकतालो अशें खबरो करतना रामकृष्णाक कळ्ळें.

बोट धक्याक लागतकूच दोन-तीन वरां भितर बोटीवेले ऑफिसर आनी हेर नोकरवर्ग म्हाल घेवंक येतात अशें अणभवान चमनलाल शहाक खबर आशिल्लें. रामकृष्ण शहाच्या दुकानार पावलो तेन्ना शहा गडबडींत आशिल्लो. फाटल्या कांय चेअरमॅनांक आनी डॅप्युटी चेअरमॅनांक ताणें फॉरेन ब्रँडाच्यो म्हारग वस्तू दिवपाचो यत्न केल्लो. कांय जाणांनीं प्रेजेंटां घेतलीं, कांय जाणांनीं घेवंक नात. बोट धक्याक लागतकूच आपलो धंदो वाडोवपाक चेअरमॅनाची वळख आसल्यार बऱ्याक पडटा अशें शहान सांगलें.

महेशाक भ्रश्टाचाराच्या बगलाटांत घुसपावपा खातीर फकत चमनभाय शहा आपणाक चड उपकारा पडुंये अशें रामकृष्णाक दिसलें. तरी आसतना बारीक-बारीक प्रेजेंटां दिवप हाका आज-काल भ्रश्टाचार मानिनात हेंवूय बी रामकृष्णाक खबर आशिल्लें. पोर्ट खंयच्या कामांचेर चड खर्च करता आनी खंयच्या कामांचेर चेअरमॅन पयशे करूंक शकता हें सोदून काडचें पडटलें अशें रामकृष्णान थारायलें. रामकृष्ण अडेज-तीन वरांचेर जेवणाक घरा पावलो. आपणाले मुरगांवचे मोहिमेंतल्यान व्हडलेंशें कांयच हाताक लागलें ना अशें म्हूण ताणें विष्णूक फोनाचेर सांगलें. आतां फुडें कितें करपाचें तें दुसऱ्या दिसा मेळून उलोवपाचें अशें तांणी थारायलें.



## भाग 6

**सर्वानंद** सांवर्डेकार हरशीं सुस्त न्हिदपी, पूण ते राती कडेन ताका न्हिदूच पडली ना. सबंद रात तो हेवटेन तेवटेन कुशी परतीत रावलो. एक कारण म्हणल्यार, दुसऱ्या दिसा सक्काळीं फुडें उठून ताका विमानतळार वचूंक जाय आशिल्लें. आनी दुसरें कारण म्हणल्यार महेश प्रभूक बुद्द कशी शिकोवची ही चिंता!ऑफिसांतल्यान भायर सरतां सरतां सी.बी.आय्. ऑफिसर लक्ष्मण सिंगाची याद जावन ताच्या मनाक मात्शी थाकाय मेळिल्ली.

लक्ष्मण सिंग सी.बी.आय्. अधिकारी, पांच-स वर्सां पयलीं गोंयांत मुख्यमंत्र्याचे एके पार्टेक मेळिल्लो. सर्वानंद पार्ट्यांक बी वचपी न्हय, पुण ते पार्टेक पाकिस्तानी गायक गुलाम अली आनी भारतीय गायक जगजीत सिंग येवपाचे आशिल्ले. मुख्यमंत्र्यान ती पार्टी खास गोंयच्या उद्देजकां खातीर घडोवन हाडिल्ली. लक्ष्मण सिंग आनी सर्वानंद म्हऱ्या-म्हऱ्यांत बशिल्ल्यान तांची वळख जाली. आपणालें मोठेपण सांगतना सर्वानंदान आपणाक संगिताची आवड, खास करून लायट क्लासिकल संगिताची आनी देखून आपूण हे पार्टेक आयलां. ना जाल्यार आपूण असल्या ह्या पार्ट्यांक वचना अशी फुशारकी मारली. आपणाकूय बी गझलांची खूब आवड आनी गुलाम अली तर आपणालो सामको फेवरीट अशें म्हणून लक्ष्मण सिंगान सर्वानंदाक सांगलें. मागीर तांणी फुडलें वरभर ब्लॅक लेबल तीन लार्ज पेगां भितर भारत पाकिस्तानांतल्या सगल्या गझल गायकांचेर चर्चा केली. आनी तांची संगीत-यात्रा फुडें चालू दवरपा खातीर परतून मेळूंकूच जाय अशें म्हणून दोगांयनीय एका-मेकांचो निरोप घेतलो. सात-आठ दिसां भितर सर्वानंदान लक्ष्मण

सिंगाक आपणागेर रातचो जेवणाक आपयलो. सर्वानंदा कडेन आशिल्लो गझलांचो सांठो पळोवन लक्ष्मण सिंग सामको भारावलो. उद्देजकांक फकत पयशे करपाची आवड आसता आनी जिणेंत रंग हाडपी संगिता सारक्या गजालींक ते केन्नाच आफूडनात अशें लक्ष्मण सिंगाक दिसतालें. तीन वर्सां लक्ष्मण सिंग गोंयांत उरलो आनी मागीर मद्रासाक बदली जावन गेलो. सर्वानंद कामा निमतान मद्रासाक पावल्यार ताका मेळनासतना परत नाशिल्लो आनी चार-पांच वरां तरी ते दोगूय संगितांत तल्लीन जाताले. संगीत आयकुचे परस संगिताचेर भासा-भास करपांत तांचो चड वेळ वतालो. मद्रासाक तीन वर्सां उपरांत लक्ष्मण सिंगाची बदली दिल्लींत सी.बी.आय्.च्या मुख्य ऑफिसांत जाल्या असो सर्वानंदाक ताणें रेकाद धाडिल्लो. ताका फोन करून कितें सांगपाचें हाचेर येवजीत येवजीत सर्वानंदाक न्हीद पडली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं विमानतळार मजत करूंक गणेश चोडणेकार मुख्य गेटी म्हऱ्यांत ताका राविल्लो. सर्वानंदाक खूब प्रवास करचो पडटालो आनी चोडणेकाराक म्हयन्यांतल्यान चार-पांच फावटीं तरी ताका पावोवपाक आनी येवकार दिवपाक विमानतळार हजर रावचें पडटालें. देखून ताणें विमानतळाचो पासूच काडून दवरिल्लो.

कांय वर्सां आदीं सर्वानंद एका दिसा खातीर खंयूंय गेल्यार आपणालें धाकलेशें बॅग आपुणूच हातांत घेवन वतालो, आपुणूच चॅक-इन करतालो आनी आपुणूच लावंजांत वचून बसतालो. एक फावट ताणें रामभाऊ लवंदेक दोन स्टाफ मजत करतना पळयले. त्या स्टाफान रामभाऊचें बॅग आपल्या हातांत घेतिल्लें, रामभाऊक चॅक-इन केलो आनी व्ही.आय्.पी. लावंजांत व्हरून बसयलो. मागीर विमानाचो वेळ जातकूच तांणी ताका विमानतळाच्या एक्जीट गेटा म्हऱ्यांत सोडलो आनी ते परतले.

आपूण रामभाऊ लवंदे परस व्हड मिनेर. ताच्या परस आपल्यो खणी चड आनी आपूण एक्स्पोर्ट चड करतां. रामभाऊ लवंदे भशेन आपल्याय बी भोंवतणीं बोवाळपी स्टाफ आसूंक जाय अशें येवजून हाच्या फुडें सदांच विमानतळाचेर आपूण वतना आनी येतना चोडणेकाराक एक स्टाफ वांगडा घेवन यो म्हूण ताणें ऑर्डर दिल्ली. त्या प्रमाणें आयज चोडणेकार एका स्टाफाक घेवन विमानतळाच्या एँट्रन्स गेटाचेर ताची वाट पळयतालो.

चोडणेकारान ताचे कडेन एक धाकलेंशें कागद दिलें. ताचेर लक्ष्मण सिंगाचो दिल्लीचो पत्तो आनी सगले फोन नंबर आशिल्ले. मुंबय विमानतळार पी.ए. व्यंकटरामन सर्वानंदाची मर्सिडीज गाडी घेवन येवपाचो आसा आनी मरीन ड्रायवाचेर आशिल्ल्या ताच्या ऑफिसांत आनी मागीर रातचो आठ वरां रातीर सर्वानंद परतून जपानच्या फ्लायटीर वचपाक विमानतळाच्या सेक्यूरिटींत भितर सर म्हणसर ताच्या वांगडा तो आसतलो ही सगली म्हायती चोडणेकारान सर्वानंदाक दिली. इंडियन एअरलाईन्साचें विमान सारकें वेळार सुटलें. सर्वानंद सदां भशेन पयल्या रांकेंत जनेला म्हऱ्यांत आशिल्ल्या आपल्या सिटार बसलो. हे फ्लायटीक बिजिनेस क्लास नाशिल्लो म्हणटकूच ताका ताच्या आवडी प्रमाणें चोडणेकारान पयल्या लायनींत जनेला म्हऱ्यांत सीट बूक केल्लो. विमान आठांक सुटिल्लें आनी णव वरांचेर मुंबय सांताक्रूज विमानतळाचेर देंवपाचें आशिल्लें. आठ-विसांक सुमार एअर हॉस्टेसीन प्लास्टिकाच्या व्हड प्लेटींत इल्लोसो गरम पॅटीस, धाकलीशी चीज सॅंडविच, एक फ्रूट बावल, दोन क्रीमक्रेकर बिस्किटी आनी प्लास्टिकाचें रिकामें कॉप हाडून दवरलें. वांगडा नॅपकीन, प्लास्टिक चमचो आनी फोर्कूयबी दवरिल्लो.

पयलीं स्टीलाचे चमचे आनी फोर्क आसताले, पूण देशांत सगले कडेन आतंकवाद, हायजॅकिंग बी सुरू जाल्ल्यान प्लास्टीक चमचे आनी फोर्क सुरु जाले. सर्वानंदाक ते प्लास्टिक चमचे आनी फोर्क साप्प आवड नाशिल्ले. खातां खातां ते ताच्या हातांतल्यान निसरून पडटाले. व्हड जातकूच मीन एक्स्पोर्ट करपा खातीर भायल्या देशांनी वचून लोकांक मेळचें पडटलें आनी तांच्या वांगडा जेवणां घेवंचीं पडटलीं अशें सर्वानंद आनी सत्यानंदाच्या बापायन, धर्मानंदान, तांकां सांगून, चमचो आनी फोर्क कसो वापरपाचो, नॅपकीन कसो मांडयेर दवरपाचो आनी जेवण जातकूच तो कसो दोडून क्वार्टर प्लेटीच्या दाव्यान दवरपाचो, च्या कशी पिवपाची, भारतीय, जपानी आनी चिनी लोकां बरोबर च्या पियेतना मात्सो फुर्र फुर्र करून आवाज जाल्यार चलता, पूण युरोपांत इल्लें लेगीत फुर्र फुर्र जावंक जायना, लोकां हुजीर ध्येंकर दिवंक जायना, ह्यो सगल्यो रिती शिकयिल्ल्यो. प्लास्टीक चमचे आनी फोर्क मात् कशे वापरपाचे तें शिकोंव नाशिल्लें अशें सर्वानंद सदांच हांसत सांगतालो. सर्वानंदान सेंडवीच आनी बिस्कीट खावन च्या घेतली. एअर हॉस्टेसीक

पळोवन ताका वीस वर्सां पयलींची याद जाली. अशीच एक सोबीतशी एअर हॉस्टेस ताका च्या दिवपाक आयिल्ली. विमानांतल्यान देंवता आसतना ताणें तिका आपल्या नांवाचें कार्ड दिलें आनी "वेळ मेळटकूच फोन कर, म्हाका तुजे कडेन उलोवंक जाय." अशें मात्सो नर्वस जावन सांगलें. दुसऱ्या दिसा तिका ड्युटी नाशिल्ली म्हणटकूच तिणें ताका फोन केलो आनी ताणें तिका ताजांत दनपारची जेवणाक आपयली.

पयलेच फावटीं रातची जेवणाक आपयल्यार ती नकार दियत म्हूण ताणें तिका दनपारची आपयिल्ली. आपूण कोण, कितें करतां तें बी सगलें सर्वानंदान जेवणा वेळार तिका सांगलें. आपलें नांव मेनका तेंडुलकर आनी आपलो बापूय कमर्शियल पायलट अशी तिणें आपली वळख करून दिली. "म्हाका तुजे कडेन चड वळख करूंक जाय आनी इश्टागत वाडोवंक जाय आनी देखून आमी मेळत रावुंया" अशें ताणें तिका सुचयलें. तिणें हयूय म्हणलें ना, आनी नायूय म्हणलें ना. "पळोवया, जेवणा बद्दल थँक्यू" अशें म्हणून जेवण बी जातकूच ती गेली. मागीर सर्वानंद मुंबय गेल्लो तेन्ना दोन-तीन फावटीं तो तिका मेळ्ळो. ताणें आपयल्या बरोबर ती ताका रोखडीच मेळपाक तयार जाली. मागीर सर्वानंदान तिका मागणी घाली. मागीर दोनूय वटेनच्या जाणटेल्यांचीं उलोवणीं जालीं आनी व्हड दबाज्यांत गोंयच्या एका हॉटेलांत तांचें लग्न जालें. लग्न जातकूच आपूण मुंबयंतूच रावतलीं अशी तिणें सर्वानंदाक अट घाल्ली. मागीर अमराचो जल्म जालो. तिणें एअर हॉस्टेसीचें काम सोडून विमानतळा वेलें काम घेतलें. बिजनेस वाडटा तसो सर्वानंद गोंयांत आनी भायल्या देशांनी चड राबितो करूंक लागलो आनी ताका बायल आनी पुता वांगडा घालोवपाक वेळूच मेळना जालो. काळ वता तशी तिची बढती जायत गेली आनी तिकाय बी सर्वानंदा वांगडा घालोवपाक उणो वेळ मेळपाक लागलो. नरीमन पॉइंटाचेर विसाव्या मजल्यार तांचो चार बॅडरूम फ्लॅट आसून लेगीत सर्वानंदाक थंय वचूंक मेळना जालें. अमराक तांणी कोडायकानाल इंटरनॅशनल स्कुलांत ल्हान आसतनाच घाल्लो. सद्या अमराक फुडल्या शिक्षणा खातीर इंग्लडांत दवरिल्लो. हे फावटीं लेगीत सर्वानंद मरीन ड्रायवार आशिल्ल्या आपल्या ऑफिसांत वचून मागीर थंयच्यान तो सांताक्रुज विमानतळार वचपाचो आशिल्लो.

विमानतळा वेल्यान ऑफिसांत वता आसतना आयज जपानी आनी चिनी कंपन्यांच्या मुंबयच्या ऑफिसांत आशिल्ल्या मॅनेजरांकडेन थारायिल्ल्या अपॉयंटमेंटाची व्यंकटरामना कडल्यान ताणें परतून एक फावट म्हायती घेतली. चिनी कंपन्यो आतां गोंयचें मीन व्हड प्रमाणार आयात करपाचें येवजितात आनी देखून चिनी मॅनेजरां वांगडा हे फावटीं चड वेळ घालोवया अशें व्यंकटरामनान सुचयिल्लें, आनी सर्वानंदान ती सुचोवणी मानुनूयबी घेतली. इकरा ते एक वर मेरेन पांच चिनी मॅनेजरां वांगडा चिनांत खंय खंय वचपाचें, कोणा कोणा कडेन उलोवपाचें हाचेर चर्चा जाली.

सारकें एका वराचेर ऑफिसांतल्यान गॅस्ट हावसांत वचून ताणें लक्ष्मण सिंगाक फोन केलो. लक्ष्मण सिंगाक हालींच्या काळांत ताणें फोन करूंक नाशिल्लो. देखून पयलीं संगिताच्यो गजाली जाल्यो. गुलाम अली, जगजीत सिंग, हरिहरन हांच्यो नव्यो कसल्यो सी.डी. आयल्यात हाचेर चर्चा जाली. मागीर सर्वानंद मुखेल विशयाचेर उलयलो:

''महेश प्रभू ह्या आय्.ए.एस्. ऑफिसराक तूं वळखता?'' सर्वानंद.

''हांव वळखना. खंयच्या 'काडराचो' आनी खंयच्या 'बॅचाचो'?'' लक्ष्मण सिंग.

''तमिळनाडू काडराचो. बॅच बीच म्हाका खबर ना. तूं मद्रासाक आशिल्लो देखून तूं ताका वळखता आसुंये अशें म्हूण हांवें तुका विचारलें!'' सर्वानंद.

'' मद्रासाक सी.बी.आय्.च्या ऑफिसांत फोना वेल्यान म्हायती काडूं येता! पूण कसली म्हायती जाय तुका?'' लक्ष्मण सिंग.

''ताचेर सी.बी.आय्. चवकशी बी केन्नाय जाल्या, वा ताणें कसलींय लफडीं बी केल्यांत काय कितें ती म्हायती म्हाका जाय आशिल्ली.'' सर्वानंद.

''ती म्हायती हांव काडटां. विचारतां म्हूण रागार जावं नाका, तुका ही म्हायती कित्याक?'' लक्ष्मण सिंग.

''ताणें म्हजो इन्सल्ट केलो! तो गोवा पोर्टाचो चेअरमॅन म्हणून आयल्यार दोनूच दीस जाल्यात. म्हाका जपानाक वचूंक जाय म्हणून हांवें वचचे पयलीं ताचे कडेन अपॉयंटमेंट मागिल्लो.'' सर्वानंद.

''अरे सर्वानंदजी, तूं गोंयचो राजा! तुजो आनी कोण इन्सल्ट करतलो? ताका कितेंयतरी प्रॉब्लेम आशिल्लो जातलो. देखून मागीर मेळुया अशें ताणें

सांगलें जातलें!'' लक्ष्मण सिंग.

''आमी उद्देजक राजा जाल्यार हे आय्.ए.एस्. ऑफिसर महाराजा! ते आपणाकूच व्हड समजतात!'' सर्वानंद.

''ती म्हायती घेवन तूं कितें करतलो?'' लक्ष्मण सिंग.

''गोंयच्यान ताची बदली खंयीं तरी करून घेवपाचो यत्न करतलों. आमकां उद्देजकांक नाका जाल्ले आय्.ए.एस्. ऑफिसर गोंयांत आसुंकूच शकनात हो संदेश तांकां सगल्यांक पावूंक जाय!'' सर्वानंद.

''हांव तुका म्हायती धाडटां. ताची बदली बी करपाचीं सपनां तूं पळोवं नाका. दोन दिसां भितर सिनियर आय्.ए.एस्. ऑफिसरांची बदली जाल्ली हांवें आयज मेरेन आयकूंक ना.'' लक्ष्मण सिंग.

''बरें तर, हांव जपानच्यान येतकूच दिल्लीक येवन तुका मेळटां. मागीर पळोवया!'' सर्वानंद.

''बरो करून वचून यो! बाँ व्हॉयाज!'' लक्ष्मण सिंग.

लक्ष्मण सिंगा कडल्यान व्हडलिशी मजत जावंची ना असो सर्वानंदाक दुबाव मारलो. हे सगले व्हड व्हड ऑफिसर कॉप मारपाक, पोटांत मजा मारपाक आनी संगीत-सिनेमा-टी.वी.सिरियल गजालींचेर चर्चा करपाक बरे, पूण कामाक सामके उपयोगी पडपी न्हय! सर्वानंदाक आपल्या बापायची याद जाली. वरिश्ट ऑफिसरां कडेन सदांच इश्टागत आनी बरें नातें दवरचें, तांच्या वांगडा चार-चौगांत हांसत उलयतना हेरांक दिश्टी पडल्यार लेगीत तातूंतल्यान कितेंय बरें निश्पन्न जावं येता अशें धर्मानंद सांवर्डेकार सदांच म्हणटालो. जपानच्यान येतकूच दिल्लीक वचून लक्ष्मण सिंगा कडेन ह्या विशयाचेर आनीक प्रयत्न करपाचें सर्वानंदान थारायलें.

जेवण येवचे पयलीं वर्तमानपत्रांतल्या माथाळ्यांचेर नदर भोंवडावया म्हूण टिपॉयचेर टायम्स ऑफ इंडिया आसा काय म्हूण सर्वानंद पळयतालो, इतल्यांत व्यंकटरामनान फोन केलो आनी गोंयच्यान अनंत गावणेकार म्हूण कोणूयतरी उलोवंक सोदता अशें म्हूण सांगलें. अनंत गावणेकार हो सर्वानंदापरस स-सात वर्सांनी व्हड. तरी आसतना फाटलीं कितलिंशींच वर्सां तांचे भितर बरी दाट इश्टागत आशिल्ली.

नागेशी देवळांत जावपी सगल्या उत्सवांक अनंत सर्वानंदाक आपयतालो

आनी कवळ्यां जावपी शांतादुर्गेच्या उत्सवां वेळार सर्वानंदा वांगडा अनंतूय बी आसतालो. खेरीज, रोटरी क्लब, चेंबर ऑफ कॉमर्स आनी हेर असल्या आस्थापनांच्या मिटिंगांनींय बी दोगूय जाण मेळटाले. आत्र्या पयऱ्यान फोनाचेर खबरोय जाताल्यो.

''अनंतभाय, हांव जपानच्या वाटेर आसां. तुजें सगलें बरें चल्लां न्हय?'' सर्वानंद.

''चल्लां तें बरें! हाचे परस वायटूय जावंक शकता आनी बरेंय जावंक शकता! कितें जावंक शकता हाचे परस कितें जाता हाचेर चड लक्ष दिवंक जाय,'' अशें अनंतान सदां भशेन सादी गजाल फिलोजोफींत गुठलावन सर्वानंदाचेर मारली.

''आरे अनंतभाय, फिलोजोफी मागीर. कॉपां हातांत घेवन उलोवया! आतां फोन कित्याक केल्लो तें सांग!'' सर्वानंदान व्हडल्यान हांसत अनंताक फर्मायलें.

अनंत गावणेकार हो भगवंत गावणेकारालो व्हडलो पूत. भगवंतबाब गावणेकार आपणाले बायलेक आनी पांच भुरग्यांक हिशेब दवरूंक कठीण इतली इश्टेट सगले कडेन सोडून वीस वर्सां आदीं भायर पडिल्लो. इश्टेटींतलीं कांय भाटां-बेसां मांडवी, जुवारी न्हंयांच्या आनी गोंयच्या दर्या देगांच्या लागसार आशिल्लीं. पर्यटनाक आयिल्ले तेजीक लागून ह्या भाटां- बेंसांक व्हड व्हड बिल्डरां कडल्यान आनी पांच नखेत्री हॉटेलां कडल्यान मागणी येताली. वळखीच्या उद्देजकांनींच तीं विकतीं घेतल्यार कांय लफडीं जावचीं नात अशें रामकृष्णाक आनी विष्णूक दिसतालें. भाटां-बेसां, कुळां-मुंडकार, कूळ कायदो, पंचायतीचें राजकारण, भुरग्यांक, पूत-धुवांक समान हक्क दिवपी पुर्तुगेज कायदे ह्या सगल्या गजालींनी आनी भानगडींनी पडपाक अनंताक सामकें आवडनाशिल्लें. तो सामको मोव सभावाचो! कोणाक दुखोवपी न्हय. देवळांतले उत्सव, पूजा, गांवची शाळा आनी वाड्या-वाड्यांनी जावपी नाटकां हातुंतूच ताचो चडसो वेळ वतालो.

भाटां-बेसांचें राजकारण म्हणल्यार एक तर तुवें हेरांक नागोवंक जाय वा तुवें नागोवन घेवंक जाय. अनंता कडेन भाटां-बेसांचें काम सोडल्यार गावणेकारांची सगली इश्टेट कुळां-मुंडकार आनी हेर लोक खावन उडयतले

अशें रामकृष्ण आनी विष्णूचें ठाम मत आशिल्लें. देखून भाटांचें सगलें काम तांणी आपणाल्या हातांत घेतिल्लें. मीरा आतां पांच वर्सां खातीर गोंयांत आसतलें म्हणटकूच महेश आपणालें वजन वापरून खात्रीन ह्या भाटां-बेसां खातीर झगडीं करतलो, अशें तांकां दिसतालें.

महेश आनी मीराचें हाचेर लक्ष वचचे पयलीं बरी रेट आशिल्लीं भाटां-बेसां बेगीन लाटून वडयल्यार बरीं अशें रामकृष्णाक आनी विष्णूक दिसूंक लागिल्लें. सर्वानंदाक फोन कर म्हणून तांणी अनंताक सांगिल्लें.

''आमचीं भाटां-बेसां सगले कडेन पसरल्यांत तें तुका खबर आसाच. महेश प्रभू म्हजो भावोजी. आतां तो मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हणून आयला म्हूण तुका खबर आसा. महेश आनी मीरा ह्या भाटां खातीर आतां झगडीं सुरू करतलीं अशी म्हज्या दोगांय भावांक, रामकृष्णाक आनी विष्णूक भिरांत दिसता. म्हाका हीं भाटां- बेसांचीं झगडीं साप्प आवडनात. तुमकां जाय तें करात म्हणून हांवें रामकृष्णाक आनी विष्णुक सांगलां. भाटां विकतीं घेवपाविशीं तुजे कडेन ताबडतोब उलय म्हणून ते म्हज्या फाटल्यान लागल्यात.'' अशें अनंतान सर्वानंदाक सांगलें. सांजचे चार ते पांच हांचे मदीं म्हाका फोन करपाक रामकृष्णाक सांग. पांचां उपरांत हांव फोनाचेर मेळचों ना कारण हांव विमानतळार वचूंक भायर सरतलों,'' सर्वानंदान अनंताक सांगलें. अनंताकडेन उलोवन जातकूच पंदरा मिनटां भितर जेवन सारक्या तीन वरांचेर ऑफिसांत वचून ताणें जपानी कंपन्यां कडेन मीटिंगो सुरू केल्यो.

तीन ते चार वरां मेरेन तीन जपानी मॅनेजरां वांगडा चर्चा जाली. हाचेपयलीं जायते फावटीं तो जपानाक गेल्ल्यान हे फावटीं चड चर्चेची गरज नाशिल्ली. चार ते पांच हो वेळ ताणें मेनका खातीर दवरिल्लो पूण मेनका वांगडा ताका फकत पंदरा मिनटांच उलोवंक मेळ्ळें, आनी तेंवूयबी फोनाचेर! ताचें ऑफिस आनी गॅस्ट हावस शेजरा-शेजरा आशिल्ल्यान ताणें गॅस्ट हावसांतूच दनपारचें जेवण घेतलें आनी मात्सो विसव घेतलो. सांजेवेळा न्हावन, सूट बी चडोवन पांच वरांचेर तो विमानतळार वचूंक भायर सरलो.

साडे चार वरांचेर रामकृष्णान सर्वानंदाक फोन केलो. सर्वानंद रामकृष्णाक वळखतालो पूण अनंता भशेन ताचे कडेन संवकळ नाशिल्ली.

''सर्वानंद बाब, तुका अनंत भाईन फोन केल्लो न्हय?'' रामकृष्णान

विशय सुरू केलो.

"भाटां-बेसां विकपा विशीं तूं उलयतलो अशें अनंतभाय म्हणटालो. म्हाका उलोवपाक चड वेळ ना रामकृष्ण. पांच-धा मिनटां उलोवया. सांग!" सर्वानंदान रामकृष्णाक बेगीन उलोवन सोंपय म्हूण सुचयलें!

"दोनापावल पठाराचेर बांबोळे बीच रिसॉर्ट बी आसा त्या वाठारांत आमचें एक व्हडलें भाट आसा. कुळां-मुंडकार कोण्ण ना. माड,काजू, आंबे आनी हेर बारीक-सारीक झाडांनीं खचा खच भरलां. युनिव्हर्सिटीच्या मुख्य रस्त्याचेर सुरू जावन सकयल देंवत-देंवत भाट जुवारीचे देगेर सोंपता. भाटांतल्यान जुवारी न्हंयचें लांब-रूंद पात्र, अरबी समुद्र, मुरगांव पोर्ट बी सगलें दिसता. बिल्डरां कडल्यान आनी मुंबय-दिल्लीच्या व्हड-व्हड हॉटेलां कडल्यान चवकश्यो येतात. तुवें व्हड-व्हड भाटां घेवपाक सुरवात केल्या म्हूण आयकतां, देखून आमच्या भाटां विशीं तुका पयलीं सांगुंया अशें आमी थारायलें." रामकृष्णान सडसडीत प्रास्ताविक केलें.

"तें विकपाची तुमकां इतली ताकतीक कित्याक? आनीक रावल्यार मार्केट वाडटलें मरे!" सर्वानंदान रामकृष्णाक महेशाच्या विशया कडेन धांवडायलो.

"पोर्टाचो नवो चेअरमॅन महेश प्रभू आमचो भावोजी म्हूण तुका खबर आसतलें. तो मेळत त्या कामाक कायद्याच्योच गजाली करता. पुर्तुगेज कायद्या खाला सगल्या भुरग्यांक समान हक्क आसता अशें म्हूण ताका आनी मीराक खबर आसा. देखून ह्या भाटां- बेसांचेर तांचो दोळो वचचे पयलीं आमी तीं विकूंक सोदतात रामकृष्णान स्पशट सांगलें.

"तुमी तीं बेगीबेगीन विकचे परस महेशाक गोंयच्यान परतून बदली करून दुसऱ्या राज्यांनीं धाडपाचो प्रयत्न कित्याक करीनात?" सर्वानंदान गाडी आपणाल्या रुळार हाडपाचो यत्न केलो.

"सर्वानंदबाब, आय्.ए.एस्. ऑफिसर म्हळ्यार मोठें प्रस्थ. हेवटेन तेवटेन जाय तसो धांवडांवंक आमच्या सारक्या अर्द-शिक्षीत भाटकारांक जमपाचें ना! देखून भाटांच विकिल्लीं बरीं अशें आमकां दिसता." रामकृष्णान गाडी सर्वानंदाच्या रुळार चडयली ना.

"भाटां पयलीं विकलीं कितें, मागीर विकलीं कितें! तांकां हक्क आसतलोच

न्हय?'' सर्वानंदान आपणालो दुबाव उकतायलो.

''तीं हांगा नासत जाल्यार व्हड बोल्सां आनी इल्लोसो मेंदू आशिल्ल्या खयंच्याय वकिलाक धरून महेशाक आनी मीराक प्रॉपर्टींतल्यान भायर दवरपाचें काम करूं येता.'' रामकृष्णान आपणाली बुदवंतकाय सर्वानंदाक दाखयली.

''म्हाकाय तो महेश प्रभू आवड ना. ताका गोंयच्यान धांवडावपाचो हांवूय यत्न करतां. तुमी म्हाका मजत करात!'' सर्वानंदान वाट सुचयली.

''ओके! तूं जपानच्यान परतून येतकूच उलोवया. फोन दवरतां!'' अशें म्हणून रामकृष्णान फोन दवरलो.

एके वटेन मिनिस्टर, दुसरे वटेन लक्ष्मण सिंग आनी तिसरे वटेन गोंयांतले सोयरे सगले महेशाक पिडपाक लागल्यार ताका धांवडावपाक चड वेळ लागचो ना असो खोसदिणो विचार सर्वानंदाचे तकलेंत येवन ताचें तोंड हांसतें जालें. 'महेश-भगाव' मोहिमेक बरी सुरवात जाली हे खोशशेन सर्वानंद विमानतळार वचपाक भायर सरलो.



## भाग 7

**गॅस्ट** हावसांत पावना फुडें महेशान ऍड्मिरल जिंदालाक फोन केलो. शुक्रारा दिसा सांजेच्या साडे-सात वरांचेर ऍड्मिरल जिंदाला खातीर निरोपाचें जेवण जातलें, ऑफिसर्स असोसिएशनाचे सगले वांगडी येतले, जेवण चेअरमॅनावतीन आसतलें, ह्यो सगल्यो गजाली महेशान ताका सांगल्यो. जेवण चेअरमॅनावतीन आसतलें हें महेशाक मुद्दाम सांगचें पडलें कारण ऑफिसर आनी हेर स्टाफ ताका निरोपाचें जेवण सोडाच, निरोपाची च्या लेगीत दिवंचे नात अशें जिंदालाच्या कानार आयिल्लें. कामगार युनियनांक ताणें खूब सुविधा दिल्ल्यो देखून ते आपणा खातीर निरोपाचो सुवाळो घडोवन हाडटले अशें जिंदालाक दिशिल्लें. ते लेगीत कांयच करी नासतना वग्गी रावले. महेशान आपूण जावन हें निरोपाचें जेवण ताका दिना जाल्यार मुरगांव पोर्टांत पयलेच फावट लोकांचीं सुतकी तोंडां पळयत, निरोपाचें जेवण वा च्या घेतल्या बगर वचपाची ताचेर पाळी येतली आशिल्ली. महेशान ताचो मान राखलो म्हूण जिंदाल ताचे कडेन उलयिल्ले फावटीं ताचे उपकार मानतालो. आपूण शेनवारा दीस सकाळीं दिल्लीची फ्लायट घेवंक धा वरांचेर भायर सरतलों अशें ताणें महेशाक सांगलें. “तूं केन्ना वतलो तें सांग म्हणटकूच आमी दोगांय तुका पावोवपाक चेअरमॅनाच्या बंगल्यार येतात” अशें महेशान ताका आदींच सांगून दवरिल्लें. कांय वेळ गजाली करून “फाल्यां सांजचें मेळुंया,” अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो.

जल्मीन हाडिल्ली च्या तोंडाक लायत, तो थंयच घुटमळटा तें पळोवन महेशान ताका ‘कितें’? काय म्हूण खुणेनूच विचारलें. दुसऱ्या दिसाच्या पार्टे चो मेनू तो वाचून दाखोवंक सोदतालो. मीराय थंय येवन बशिल्लें. जल्मीन

दोगांकूय मेनू वाचून दाखयलो. क्रीम सूप, रशियन सेलेड, आवोकादो सेलेड, बूंदी का रायता, चिकन काफ्रियाल, बटर चिकन, विस्वणाचीं तळिल्लीं पोस्तां, तळिल्लीं सुंगटां, सुंगटांचें हुमण, आलू-गोभी, बिबे घालून हळसांद्यांचें तोंडाक, तळिल्लीं अळमीं, दाट्ट आपरोसाची सोल-कडी, व्हेजिटेबल पुलाव, पुरयो, ट्रायफल पुडिंग, गुलाब जामून आनी आइस्क्रीम.

‘‘तळिल्ले सगले जिनस तव्यार विनेगर लाय नासतना, मीठ, मिरसांग, हळद लावन तळूंक जाय. कसल्याच नुस्त्याक विनेगर लावंक जायना, आंबसाण जायच जाल्यार लिंबू पिळूं येता. हुमणांतल्याय बी नुस्त्याक विनेगर लावं नाका, पुरयो गरम गरम तळून दिवंक जाय.’’ मीरान जल्मीक सांगलें.

‘‘हें सगलें तुमी गॅस्ट हावसांतूच करतले?’’ महेश.

‘‘असल्या पाट्यांक आमी ओबेरॉय हॉटेलांतल्यान दोन कूक हाडटात. ते जेवण करपाक आनी मांडून दवरपाकूय बी मजत करतात. जेवण कितल्यांक तयार दवरपाचें?’’ जल्मी.

‘‘सारक्या साडे-सातांक आमी गॅस्ट हावसाच्या एअर कंडिशन्ड हॉलांत प्रोग्राम सुरू करतले. साडे-आठांक जेवण तयार आसूंक जाय. जेवण सकयल लॉनार मांडपाचें. चार-चार लोक बसपा सारकीं पंचवीस मेजां-कदेलां मांडपाचीं. हेर कांय तुका सांगपाची गरज ना, कारण तुमी हाच्या पयलीं असल्यो जायत्यो पार्ट्यो केल्यात जातल्यो.’’ महेश.

‘‘हय सायबा! आमी सगलें सारकें वेवस्तेशीर करतात.’’ जल्मी.

‘‘टॉर्टोयज कॉयल लॉनाचेर लावन दवरपाचो.’’ मीरा.

‘‘मॅडम, आनीक कितेंय स्पेशल करपाक जाय?’’ जल्मी.

‘‘हेंच खूब जालें! असलें जेवण मेळ्ळ्यार चेअरमॅनांची बदली जितली बेगीन जाता तितली बरी अशें ऑफिसरांक दिसूंक लागतलें!’’ मिरा.

‘‘हे हे हे हे! अशें कांय ना, अशें कांय ना!’’ आपणालें हांशें व्हडल्यान जायत हे भिरांतीन मात्शें हांशिल्ले भशेन करून तकली हालयत जल्मी गेलो.

ट्रिंग करून फोन वाजलो. पणजेच्यान चीफ सेक्रेटरीचो फोन आयला म्हूण ऑपरेटरान सांगलें. महेशान फोन घेतकूच चीफ सेक्रेटरी लायनीर आयलो. दोगांय भितर सदांच्यो गजाली जातकूच चीफ सेक्रेटरी रामदास शर्मान विशय सुरू केलो. मुरगांव पोर्टांत संप जावपाची शक्यताय आसा, संप जाल्यार मिनाचे निर्यातींत खंड पडटलो, मुरगांव शाराचे अर्थवेवस्थेची हानी जातली, लोकांक

त्रास जातलो आनी हो संप जावंचो न्हय म्हूण पोर्ट मॅनेजमेंटा कडल्यान कांयच प्रयत्न जायनात, असो रिपोर्ट सी.आय्.डी. न धाडला.

गोंयंचे कांय मिनेर, पोर्टाच्या वाठारांतले एम्.एल्.ए., गोंयचे खासदार, हेर बारीक-सारीक राजकारणी हांणी मुख्यमंत्र्याक फोनार फोन करून नाका शेवट केला. महेशाक येवन दोन दीस लेगीत जावंक नात. हो इतलो खवदळ कित्याक असो प्रस्न शर्मान हांसत विचारलो.

महेश आनी रामदास शर्मा मसूरीक प्रशिक्षण घेवंक एक वर्स आशिल्ले कडेन तांची इश्टागत जाल्ली. शर्मा वाराणसीचो आनी दीस-रात पुजा-पाठांत खूब वेळ घालोवपी. देवाक जाय तें जातलें, कोणाक भिये नासतना आपणें आपणालें कर्तव्य करीत रावचें अशें ताचें मत. आय्.ए.एस्. अधिकाऱ्यांचें कर्तव्य कितें हाचेर मसूरीक आसतना तांची सगल्यांची खूब चर्चा जाताली.

राजकीय बांदावळीचे चौकटींत रावून लोकशायेंत काम करतलो जाल्यार ही बांदावळ बदलपाचो वा आपल्याक दिसता तसो सुदारपाचो यत्न करूंक जायना. प्रशासन भ्रश्ट आसल्यार हें अशेंच चलपाचें अशें धरून आपणें त्या भ्रश्टाचाराच्या चवकटी भितर काम करपाचें. मंत्र्यांक जाय तसो कायदो बागोवन काम चलोवपाचें. चडशे अधिकारी असल्या'स्टेटस् को' म्हणल्यार 'जैसे थे' वातावरणांत काम करपाच्या विचाराक उखलून धरताले.

महेश आनी शर्मा हे सामक्या वेगळ्या मताचे! प्रशासकीय बांदावळ भ्रश्ट, स्वार्थी आनी समाज घातक आसल्यार ती बदलूंक जाय आनी भौसाचें हीत सादूंक आय्.ए.एस्. अधिकाऱ्यांनीं प्रशासकीय बांदावळ सुदारूंक जाय आनी गरज पडल्यार कायदे बदलपाच्यो सुचोवण्यो वरिश्ट आधिकाऱ्यांक करूंक जाय अशें तांचें मत आशिल्लें आनी अजुनूय ते तांच्या ह्या तत्वांक धरून प्रशासन हाताळटाले.

मसूरीचें प्रशिक्षण सोपतकूच महेश प्रभू तमिळनाडू आनी रामदास शर्मा दिल्ली गेलो. दिल्ली राज्याचो युनियन टेरिटरी काडरांत आसपाव जातालो. सगल्या आय्.ए.एस्. अधिकाऱ्यांक आळीपाळीन आपणाल्या काडरांनी आनी भारत सरकाराच्या ऑफिसांनी काम करचें पडटालें. रामदास शर्माची गोंयांत चीफ सेक्रेटरी म्हूण एका म्हयन्या आदीं बदली जाल्ली.

महेशान शर्माक सगली परिस्थिती समजावन सांगली. कामगार संघाक गेल्लीं कांय वर्सां बेशिस्तपणाची सवंय आशिल्ल्यान ते दार धुकलून

आपणाल्या ऑफिसांत घुसले, आपणें तांकां अपॉयंटमेंट घेवन येयात म्हूण सांगलें. दुसऱ्या दिसा तांणी निदर्शनां केलीं आनी ड्युटीचेर आशिल्ल्या तीस-पस्तीस स्टाफ आनी कामगारांनी त्या निदर्शनांत भाग घेतलो. आपणें तांचेर कारवाय करपाक सगल्या विभागांतल्यान तांचीं नांवां मागयलीं देखून ते आतां संप करपाची धमकी दितात जावंये. अजून मेरेन आपल्याक कांय तशी नोटीस येवंक ना अशें महेशान रामदासाक सांगलें.

"हें गोंय हेर राज्यांपरस मात्शें वेगळें. हांगां मुख्यमंत्री धरून ल्हान ल्हान गांवांतले पंच लेगीत आपणेंच गोंय चलयिल्ले भशेन वागतात. कायद्या भितर रावून काम करूंक जाय अशें अधिकाऱ्यांनी सगल्यांक परतू परतून याद करून दिवंची पडटा. म्हाकाय बी हांगा खूप त्रास जातात; केन्ना काय हांगच्यान दिल्ली वा आनीक खंयूंय बदली जाता काय म्हूण हांव पळयतां," रामदासान महेशा कडेन आपणाली निर्शेणी उकतायली. महेश निकतोच आयला, मात्सो सांबाळून वागूंक जाय, इतले बेगीन पोर्ट कामगारांचो संप जाल्यार ताका वायट नांव मेळटलें आनी ते खातीर मात्शें नमतें घेवन परिस्थिती ताब्यांत हाडूंक जाय अशें शर्मान ताका सांगलें.

ज्या स्टाफान आनी कामगारांनीं कायदो मोडला, तांचेर कारवाय जावंकूच जाय आनी ती जातली. संप करप ही सोपी गजाल न्हय हें कामगार संघाकूय खबर आसूंक जाय कारण कामगारांचेंय बी खूब लुकसाण जाता. पळोवया कशें जाता तें अशें म्हणून महेशान रामदासा कडेन हेर गजाली सुरू केल्यो. आनीक धा-पंदरा मिनटां खबरो करून ताणें फोन दवरलो.

कपडे बदलपाक भितर वचूंक महेश उठ्ठालो इतल्यांत मडगांवच्यान रामभाऊ लवंदे उलोवंक सोदता अशें म्हूण ऑपरेटरान सांगलें.

"रामभाऊ, तुमी कशे आसात? घरचीं सगलीं बरीं आसात मूं?" महेशान रोखडोच फोन घेवन रामभाऊक विचारलें.

"आरे महेश, वेलकम टू गोवा. मीरा आनी तुजो पूत बी बरीं आसात मरे? मडगांवां पाविल्लो?" रामभाऊन सगले प्रस्न एकदम विचारले.

"आमी सगलीं एकदम बरीं आसात. तुमचें कशें चल्लां? मडगांवां येतलों तेन्ना तुमकां मेळटां!" महेश.

"नाका, नाका! हांवूंच फाल्यां तुका मेळूंक येतां! तेच खातीर फोन केल्लो." रामभाऊ.

“शे शे! तुमी म्हाका मेळूंक येवपाचें? ही खंयची रीत? हांवेंच तुमकां पांयां पडूंक आनी आशीर्वाद घेवंक मडगांवां येवपाचें! येवन म्हाका दोनूच दीस जाल्यात न्हय? आनीक एक तीन-चार दिसांनी मडगांवां येवपाचो विचार आशिल्लो!” महेशान आपलो बेत सांगलो.

“बरें, येवचे पयलीं फोन करून कळय. हांव घरा रावतां!” रामभाऊन सांगलें.

“ओके, रामभाऊ, आतां हरशींच फोन केल्लो मूं?” महेशान विचारलें.

“तशें अर्जंट कांय ना. तूं हांगा येतकूच सांगतां!” रामभाऊन सांगलें. महेशान फोन दवरलो. भितर वचून तोंडार उदक मारून, कपडे बी बदलून येता म्हणसर तो पस्तीस-चाळीस वर्सां पयलींच्या काळांत पावलो, आनी रामभाऊच्या यादींनी सामको भारावन गेलो. रामभाऊ आनी सदुबाब आपापल्या कुटुंबां सयत मडगांवां घोगळांत शेजरा-शेजरा दोन लांब-रूंद हात-पांय पसरून बशिल्ल्या बंगल्यांनी रावताले. रामभाऊलो दिनेश आनी सदुबाबालो मुकेश हे दोगूय महेशाचे भुरगेपणांतले सामके इश्ट. पिंग पाँग, क्रिकेट खेळप आनी रस्त्या कुशीन आशिल्ल्या बोरींक आनी आंब्यांक फातरावप हें तांचें सदचें काम. भुरगेपणांत गरीब-गिरेस्त, मास्तर-मिनेर हांचे मदीं वणटी नाशिल्ल्यो.

दिनेश आनी मुकेश जायते फावटीं महेशाल्या भाड्याच्या घरांत जमनीर बसून महेशा वांगडा जेवूंक येताले आनी महेशूयबी कोणेंच आपय नासतना व्हड-व्हड इटालियन झुंबर हुमकळायिल्ल्या हॉलांत दिनेश आनी मुकेशा वांगडा बसून जपानच्यान हाडिल्ल्या वीस बाय धा चकचकीत हारशाच्या मेजाचेर जेवतालो. ताका पळयिल्ल्या फावटी रामभाऊ “बाब, बरो आसा मरे?” अशें विचारतालो. महेशाचो बापूय शाळेंत मास्तर आशिल्लो. ताका वाचपाची खूब आवड आशिल्ली आनी ज्ञानेश्वरी, गीता आनी मराठी संतांचें हेर बरप ताका तोंडपाठ आसतालें. ज्ञानेश्वरीचेर कोंकणी आनी पुर्तुगेज म्हणी मुदयेर थिकां कशीं बसोवन तो उलयतना आयकतल्यांक केन्नाच वाज येना आशिल्लो. रामभाऊ आपणाले मर्सिडीज गाडयेंतल्यान येवन ती गाडी पयस थांबोवन त्या खडखडीत जमनीवेल्यान चलत प्रभू मास्तरा म्हऱ्यांत येवन बसतालो. गरीब-गिरेस्त, मास्तर-उद्देजक हांचे मदल्यो वणटी हांगां नाशिल्ल्यो. जशीं जशीं वर्सां वचूंक लागलीं तशे तशे महेश, दिनेश आनी मुकेश वेगवेगळ्या दिकांनीं पावले. महेश मडगांवांत शिकून कॉलेज शिक्षणा

खातीर मागीर धारवाड आनी मुंबय गेलो आनी थंयच्यानूच मागीर आय्.ए,एस्. परिक्षेक बसलो. दिनेश आनी मुकेश पंचगणी इंटरनॅशनल स्कुलांत गेले आनी मागीर इंग्लडाक वचून तांणी कॉलेज शिक्षण घेतलें.

सुटयेंत घरा आयिल्ले कडेन केन्नाय खंयूंय मेळ्ळे जाल्यार "बरो आसा मरे, केन्ना आयलो, केन्ना वतलो" हाचे भायर तांचें एकमेकां कडेन उलोवप जाय नाशिल्लें. पयलीं नाशिल्ल्यो वणटी आतां उब्यो जाल्ल्यो. रामभाऊ मात् एके खणी वेल्यान धा खणींचो मालक जालो तरी तो आपणाली मर्सिडीज पयस दवरून खडबडीत जमनीवेल्यान प्रभू मास्तराक मेळूंक येतालो. आनी महेश खंयींय मेळ्ळो जाल्यार आदले भशेनूच "बाब, बरो आसा मरे?" अशें तो विचारतालो.

महेश आय्.ए,एस्. अधिकारी जातकूच रामभाऊ दूदफेणे घेवन आयिल्लो. महेशाचें आनी मीराचें लग्न थारतकूच एक दीस घरांत चर्चा चलताली. लग्न कवळेंच्या हॉलांत जावपाचें आशिल्लें. कवळ्यां वचपा-येवपाक कोणाली टॅक्सी घेवप, कितल्यो टॅक्सी करप ती चर्चा चलता आसतनाच रामभाऊ पावलो आनी "तुमी हेरां खातीर जाय तितल्यो टॅक्सी करात. न्हवरो-व्हंकल म्हज्याच मर्सिडिसांत बसतलीं," अशें म्हूण ताणें ऑर्द सोडली.

मागीर पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण काम सुरू करतकूच रामभाऊक वचून मेळपाचें महेशान आनी मीरान थारायिल्लें. रामभाऊ आतां बरोच जाणटो जाल्लो आनी भलायकीय भायर-भितर जाताली. येता त्या आयतारा दिसा मडगांवां वचून ताका पांयां पडून येवपाचें अशें महेशान आनी मीरान थारायलें.

रॅअर ऍड्मिरल जिंदाल शेनवारा दिसा सकाळीं धा वरांचेर दिल्लीक वचूंक भायर सरपाचो आशिल्लो. शेनवार-आयतार बंगल्याची साफ-सफाई करून, लायटी, फॅन बी पुसून सोमारा दिसा इकरा वरांचेर सुमार थंय रावपाक वचपाचें अशें महेशान आनी मीरान थारायलें.

जेवणाक स्वामीन आंध्राचो 'पेसरट्ट' केल्लो. पांच दाळी फुगोवन इल्लीशी सोय, हरवी मिरसांग, करबिलाचीं पानां, कोथमिरे पालो, हींग आनी मीठ घालून ताचे पोळे कशे तव्यार तेल घालून काडिल्ले हे पेसरट्ट सराक आवडटात अशें मीरान स्वामीक आदल्या दिसा सांगिल्लें आनी दाळी फुगत घालपाक लायिल्ल्यो. "चटणी आनी दाट्ट धंय" हो आमचो मेनू अशें मीरान सांगलें.

"सर, आमचें धंय कशें जालां?" हें धंय आपणेंच केल्लें भशेन जल्मीन

महेशाक विचारलें. तें धंय सारकें तमिळनाडूंत करतात तशें दाट आशिल्लें आनी ताका हय-न्हय शी आमटसाण आशिल्ली. असलें धंय कशें करपाचें हें स्वामीक शिकोवन ह्या फुडें गॅस्ट हावसांत असलेंच धंय करूंक जाय म्हूण मीरान जल्मीक सांगिल्लें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं सात वरांचेर ''च्या हाडटां'' अशें म्हूण सांगून, गुड नायट म्हणून जल्मी गेलो.

''आयज देवराय रांदप्याचो फोन आयिल्लो. ताईबाय म्हजी याद काडटा खंय. केन्ना वचपाक मेळटलें?'' मीरान महेशाक विचारलें.

''मंगळारा दीस हांव नासतलों. मुंबय मिटिंग आसा खंय. त्या दिसा सकाळीं ताईबायक मेळपाक वचून सबंद दीस थंयच रावून सांजचें तुवें परतुपाक जाता,'' अशें महेशान मीराक सुचयलें.

गावणेकारांचें शंबर वर्सां परस चड पोरनें चार चवख्यांचें घर शिरधनां आशिल्लें. ''तूं आमची प्रायवेट गाडी घेवन चल. अभ्यंकर तुका एक बरोऽऽ सो ड्रायवर दितलो. दनपारच्या जेवणाक ड्रायवराक शंबर रुपया दी,''महेशान मीराक सांगलें.

''आमच्या प्रायवेट कामां खातीर पोर्टाचो ड्रायवर वापरल्यार जाता तर?'' मीरान विचारलें.

''ताचो एका दिसाचो पगार दिवंचो पडल्यार आमी दिवंया, तूं तो हुस्को करूं नाका,'' महेशान मीराक हांसत सांगलें.

''रामदास शर्मा कितें सांगतालो?'' मीरान विचारलें.

''गोंयांत काम करूंक कुस्तार, हांगां प्रशासनाचें काम उणें आनी बॉल्सां भरपाचें काम चड, ''साँप भी मरे और लाठी भी ना टूटे'' ही जतनाय घेवन हांगां काम करूंक जाय.'' शर्मान सांगिल्लें तें महेशान थोड्याच उतरां भितर मीराक सांगलें.

''सुखाचो जीव त्रासांत घालूं नाका म्हूण हांवें तुका पयलींच सांगिल्लें! पूण व्हड व्हड तत्वां घेवन वचत थंय तुका लोकां कडल्यान वायटपण घेवपाची सवंय. तीन दिसां भितर तुका इतलीं टेन्शनां! फुडें कितें जातलें कोणाक खबर!'' मीरा उबगून फडफडत न्हिदपाची तयारी करूंक कुडींत गेलें. महेश आनीक कांय वेळ वर्तमान पत्रांचेर नदर घालून न्हिदूंक गेलो.



## भाग 8

**दुसऱ्या** दिसा सकाळीं सारको णव वरांचेर महेश ऑफिसांत पावलो. पावना फुडें ताणें अभ्यंकराक आपोवन सांजेचे पार्टेचो प्रोग्राम सांगलो. प्रोग्राम साडे सातांक सुरू करपाचो; पयलीं फ्लावियान बदली जाल्ल्या चेअरमॅनाक फुलांचो बुके दिवपाचो. सद्याच्या चेअरमॅनाक बुके दिवपाची गरज ना, कारण आयचे पार्टेचो चेअरमॅनूच होस्ट; मागीर पांच मिनटां खातीर ऑफिसरांच्या असोसिएशनाचो कोणूय तरी ज्युनियर ऑफिसर आयचो कार्यक्रम कितें आसतलो हें सांगतलो. त्या उपरांत असोसिएशनाचो अध्यक्ष एक पांच-धा मिनटां उलयतलो. त्या उपरांत सद्याचो चेअरमॅन वीस मिनटां उलयतलो, मागीर तो आदल्या चेअरमॅनाक भेटवस्त दितलो. ही भेटवस्त आमी पोर्टाच्या वतीन दितात अशें कम्पियर सभेक कळीत करतलो. मागीर ऍडमिरल जिंदाल पंदरा-वीस मिनटां उलयतलो. निमाणें पोर्टाचो सेक्रेटरी उपकाराचें भाशण करतलो. सगलो प्रोग्राम साडे-आठ मेरेन कवळूंक जाय. मागीर आदलो आनी सध्याचो चेअरमॅन सकयल गार्डनांत वतले, बाकीच्यांनी तांच्या फाटल्यान सकयल वचपाचें. दोगूय चेअरमॅन दारांतल्यान भायर सर म्हणसर हॉलांत आशिल्ल्या सगल्यांनी ताळयो मारीत रावूंक जाय. गार्डनांतले मांडावळी विशीं आपणें जल्मीक सांगलां. तो आनी गिरीश गांवस मेळून सगली वेवस्था पळयतले. महेशान अभ्यंकराक सगलो कार्यक्रम सांगलो.

"सर, भेटवस्त आमी घेवंक ना. कितें घेवपाचें?" अभ्यंकर.

"आयज सांजच्या पांच वरां मेरेन चीफ सेक्रेटरी रामदास शर्मा टूरिजम डिपार्टमेंटाच्या अधिकाऱ्यांकडल्यान चार-पांच हजारांची बरी भेटवस्त आनी

बील धाडून दितलो. भेटवस्तीचेर नांव बी सगलें घाल्लें आसतलें. मागीर तें फारीक करपाचें!'' महेशान म्हायती दिली.

''सर, कम्पेरींग कोणें करपाचें?'' अभ्यंकरान बेठोच विचारूंक जाय म्हूण प्रस्न विचारलो.

''तें म्हाका खबर ना. तें असोसिएशनाच्या अध्यक्षाक विचारून तूं थाराय!'' महेशान दावे वटेन आशिल्ली एक फायल आपल्या मुखार ओडून उकती करतां करतां अभ्यंकराक सांगलें.

अभ्यंकर ''थँक्यू सर'' अशें म्हणून पी.ए.च्या रुमांत गेलो. बाप्तीस्तान, फ्लावियान आनी दिपान तिगांयनीय पार्टेक येवपाचें आनी फ्लावियान आदल्या चेअरमॅनाक फुलांचो बुके दिवपाचो. दिपाक आनी फ्लावियाक जेवण बी जातकूच घरा पावोवपाची वेवस्था गिरीश गांवस करतलो अशें सांगून अभ्यंकर आपणाल्या कॅबिनांत गेलो. थंयच्यान ताणें फोनाचेर गिरीश गांवस आनी जल्मी कडेन सांजेचे पार्टेचे तयारीचो नियाळ घेतलो.

महेशान ट्रॅफिक खात्याच्या रिपोर्टाचेर नदर भोंवडायली. पोर्टाच्या कारबारांत मिनाचे निर्यातीचो अंयशीं टक्के, पेट्रोल, डिझल, विमानाक लागपी खास ए.टी.एफ. आनी पेट्रोलाच्या हेर बारीक-सारीक तरांच्या आयातीचो धा टक्के, आनी कोळसो, लोखणाचें स्क्रॅप आनी हेर आयात मेळून उरिल्ले धा टक्के अशी कारबाराची वांटणी आशिल्ली. मुरगांव पोर्टांतल्यान जावपी मिनाची निर्यात भारतांतल्या सगल्या पोर्टांतल्यान जावपी वट्ट निर्याती परस चड आशिल्ली. आयात जावपी पेट्रोल, डिझलाचें म्हत्व वट्ट कारबारांत जरी उणें दिसतालें तरीय सबंद गोंय, महाराष्ट्र आनी कर्नाटक राज्यांचे गोंयचे शिमेचेर आशिल्ल्या जिल्ल्यांनी मुरगांव पोर्टांतल्यानूच पेट्रोल, डिझलाची आनी हेर पेट्रोलियम म्हालाची पुरवण जाताली आनी देखून ह्या पोर्टाचेर भारत सरकार नदर दवरून आसतालो. रामदास शर्मान सांगिल्ल्या प्रमाणें मिनाचे निर्यातीक आनी पेट्रोल डिझलाचे आयातीक मात्श्यो लेगीत आडखळी आयल्यार दिल्लीच्या मंत्री आनी अधिकाऱ्यांचेर कलकल येतालो.

महेशान फायल बंद करून कुशीक दवरली आनी कमांडंट पाटिलाक फोन केलो. ''सगले कडेन सामकें थंड आसा, पूण पोर्टांत संप जातलो अश्यो वावडयो सगल्याक पसरल्यात. हो चेअरमॅन येवन एक आठवडो लेगीत

जावंक ना, इतले बेगीन कामगारांनीं संप करपाइतलें ताणें केलें तरी कितें असो हुस्को सगल्या वेपाऱ्यांक जाला!'' महेशान कितेंय विचारचे पयलींच कमांडंट पाटिलान म्हायती दिली.

दामोदर पटेल मेळूंक आयला अशें म्हणून बाप्तीस्तान फोनाचेर सांगलें. महेशान ओके म्हणटकूच दामोदरदास टक् टक् करून दारार मारून भितर सरलो. महेशान उबो रावन ताका हात दिलो आनी बस म्हूण सांगलें. पड्डो उगडचे पयलीं घांटी जाल्यो आनी मागीर दामोदरदास उलोवंक लागलो.

''सर, तुमकां पोर्टांत आनीक एक फावट येवकार. हांव शिपिंग एजन्ट. बोटी पोर्टांत येवचे पयलीं, धक्याक लागतकूच आनी मागीर वता आसतना बोटींच्या मालकांक खूबश्यो प्रक्रिया करच्यो पडटात. त्यो सगल्यो प्रक्रिया हाताळपाक बोटींचे मालक आमकां नेमतात. गोंयच्यान आनी हेर कडल्यान लेगीत मीन निर्यात करपी सगल्यो व्हड व्हड कंपन्यो आमकां शिपिंग एजन्ट म्हूण नेमतात. आमी ह्या पोर्टांतले सगल्यांत व्हड शिपिंग एजन्ट.'' दामोदरदासान सांगलें.

''तुमी पटेल म्हणल्यार मूळ गुजराती. तुमी कोंकणी गोंयकारां भशेन कशी उलयतात?'' महेशान विचारलें.

''फाटलीं पन्नास वर्सां म्हणल्यार पुर्तुगेज राजवटींत सावन आमी हांगाच वेवसाय करतात. दिसपट्टे जिणेंत आमकां सगल्यांक कोंकणींतल्यानूच उलोवचें पडटा. देखून आमच्या घरांत गुजराती उलयतात ती सोडल्यार हेर कडेन आमी कोंकणींतूच उलयतात,'' दामोदरदासान म्हायती दिली.

''तुमकां कितेंय प्रोब्लेम आसल्यार तुमी म्हाका फोनाचेर सांगल्यार जाता. मुद्दाम हांगां येवपाची गरज ना. कायद्या भितर रावून पोर्टाचो कारबार हांव जाता तितलो वाडोवंक सोदतां. तुमी सदांच म्हाका तेंको दितले अशी आस्त धरतां,''अशें म्हूण महेशान ताका तकली हालोवन 'गुडबाय' म्हणपाचो यत्न केलो. पूण दामोदरदास उठलो ना.

''सर, एक गजाल तुमकां सांगूंक जाय! पोर्टांत संप जातलो, संप जातलो म्हूण बाजारांत लोक उलयतात. मुरगांव शाराचें पोट ह्या पोर्टाचेर अवलंबून आसा देखून तुमी कसोय करून संप जावंक दिवं नाकात. ते कित्याक संपार वचूंक सोदतात तें म्हाका खबर ना. तुमी व्हड व्हड आस्थापनां चलयल्यांत.

तुमकां आनीक चड कांयच सांगना!'' अशें म्हणून नमस्कार करून दामोदरदास उबो रावलो. महेशान उबो रावून ताका हात दिलो.

दामोदरदास वचनाफुडें जॉन ओब्री स्टिविडोर आयला म्हूण बाप्तीस्तान फोनाचेर सांगलें. दोन मिनटां भितर जॉन टक् टक् करून दारार मारून भितर सरलो. ताणें गुडमॉर्निंग म्हणचे पयलींच उबो रावून महेशान हांसत ताका गुडमॉर्निंग म्हणून हात दिवन बस म्हूण सांगलें.

''हांव जॉन ओब्री सर, विमानांत तुमकां मेळलेलों.'' जॉनान महेशाक याद करून दिली.

''जाणां, म्हाका याद आसा. कसो आसा?'' महेशान विचारलें.

''हांव बरो आसां! थँक्यू सर. फाटलीं तीस वर्सां म्हाजी स्टीविडोरिंग कम्पनी पोर्टांत काम कोरता,'' जॉन.

''तुमी कसलें काम करतात?'' महेश.

''बोटीर सामान चडोवपाचें आनी बोटी वेल्यान देंवोवपाचें काम आमी कोरतां. तेका लागपी मशिनरी, टूल्स आमी हाडटात आनी पोर्टांतल्या वर्कर्सांची हेल्प घेवन आमी हें काम कोरतात.'' जॉन.

''तुमी पोर्टांतले कामगार कित्याक घेतात?'' महेश.

''तेसोच कायदो आसा सर! कामगारांक फाव तो पगार, अलावन्स, मेडिकल हेल्प, सुटयो, हें सोगलें मेळचें देखून इंडिया गवर्नमेंटान हो कायदो केला.'' जॉन.

''सगलें बरें चल्लां न्हय? कांय प्रॉब्लेम बी ना मूं?'' महेश.

''सद्या प्रॉब्लेम कांय ना सर, पोर्टांत स्ट्रायक जावपाचो आसा म्हूण बाजारांत लोक नेर्वोज जाल्यात. मुरगांवांत आमचें पोट पोर्टाक लागून भोरता. देखून लोक नेर्वोज जाल्यात!'' जॉन.

''स्ट्रायक जातलो अशें लोकांक कित्याक दिसता?'' महेश.

''सांगतां म्हूण रागार जावं नाकात सर! वर्कर्सांकोडे काम कॉरॉन घेताना सगल्यो गॉजाली कायद्यांत आसात तश्यो जायनात. तेंकोडे बाबा-पुता कॉरॉन काम कॉरॉन घेवंचें पोडटा. तुमकां कायदो चोड लागोता येशी वर्कर्सांनीं फाम घायल्या!'' जॉन.

''म्हाका सांग! हें ओब्री म्हणटात तें नांव गोंयचें?'' महेशान हांसत

विचारलें.

"सर, हांव सामको नीज गोंयकार! सन ऑफ द सॉयल. म्हुज्या बापायक ओब्रिगाद ओब्रिगाद म्हुणपा सोंवोंय आसलोली. लोक मागीर तेका ओब्रिच म्हुणोंक लागले!" जॉनान हांसत म्हायती दिली.

"गूड! तूं म्हाका मुद्दाम मेळूंक आयलो म्हणून तुका थँक्स! आनीक कांय ना मरे?" मेळूंक आयिल्लो मनीस आतां गेल्यार जाता अशी सुचोवणी करता आसतना वेले अधिकारी निमाणो विचारतात तो प्रश्न महेशान विचारलो.

"ना सर, तुमकां मेळपाची आमची ड्युटी! तुमी म्हाका थँक्यू म्हुणपा न्हूं! आय् शूड थँक यू!" अशें म्हणून जॉन वचूंक उबो रावलो. महेशानूय बी उबो रावून ताका हात दिलो.

त्या दिसाचे सगले अपॉयंटमेंट एके फायलीचेर टायप करून बाप्तीस्तान मेजार दवरिल्ले. महेशान अपॉयंटमेटां वेल्यान नदर भोंवडायली. साडे-धा वरांचेर सत्यानंद सांवर्डेकार येवपाचो आशिल्लो. आतां साडे-धा जाल्लीं. तो आयला म्हूण बाप्तीस्तान फोनार सांगलें. हेरां भशेन टक् टक् करून दारार मारून "गुड मॉर्निंग" म्हणत सत्यानंद सांवर्डेकार भितर सरलो. गोंयच्या व्हड मिनेरांतलो तो एक! हांसत्या तोंडाचो, बारीक, किडकिडीत, मध्यम उंचायेचो, सामक्या साद्या मनशा भशेन मोटव्या हातांचें खोमीस, सादी पॅन्ट आनी पांयांत चप्पल असो ताचो भेस आशिल्लो. महेशान उबो रावून ताका हात दिलो आनी "कशे आसात?" अशें हांसत विचारलें.

"बरो आसां, थँक्यू" अशें म्हणून सत्यानंद बसलो.

"मीन कशें चल्लां?" एकामेकांचे भलायकेची चवकशी जातकूच महेशान सत्यानंदाक विचारलें.

"सद्या बरें चल्लां, पावस सुरू जावचे पयलीं जाता तितल्यो चड बोटी भरून जपान आनी चिनाक आमी धाडपाक सोदतात. जून ते सप्टेंबर मेरेन व्हडलीशी कांय ट्राफिक नासता. मिनाची निर्यात करपाचें काम म्हणल्यार पोर्टाचो अंयशीं टक्के बिजिनॅस हें तुमकां खबर आसतलेंच! देखून पोर्ट सारको चलयता आसतना चेअरमॅनाक कितेंय प्रॉब्लेम जाल्यार ते प्रॉब्लेम सोडोवपाक आमी मिनेर सदांच चेअरमॅनाच्या फाटल्यान उबे रावतात!" सत्यानंदान हांसत सांगलें.

"थँक्यू, थँक्यू. तुमचें सगल्यांचें मार्गदर्शन आनी तेंको मेळ्ळ्यार पोर्ट बरे तरेन चलपाक कांयच प्रॉब्लेम जावंचो ना, हाची म्हाका खात्री आसा." महेशान सगल्या मिनेरांची तुस्त केली.

"तुमकां मार्गदर्शनाची गरज लागतली अशें म्हाका दिसना. आय्.ए.एस्. ऑफिसर हुशार आनी प्रशिक्षीत आसतात. तुमकां भरपूर अणभव आसा. ह्या पयलीं पोर्टांत काम करूंक ना जाल्यार लेगीत तुमी हो पोर्ट बॅस्ट तरेन चलयतले हातूंत आमकां कोणाकूच दुबाव ना!" सत्यानंदान महेशाची कावंटर तुस्त केली.

"हांवें तरातरांच्या आस्थापनांनी काम केलां. आस्थापनां कसलींय आसूं, प्रशासन शास्त्र एकूच! प्रत्येक आस्थापनाक एक उद्दिश्ट आसता. तें उद्दिश्ट साद्य करूंक पयसो, यंत्रसामुग्री आनी मनीसबळ लागता. जितलीं आस्थापनां व्हड तितली यम्.आय्.एस्.ची चड गरज भासता आनी उद्दिश्ट साद्य करपाची प्रक्रिया खंय पावल्या, खंय खंय मार्ग चुकला, खंय सारकें करूंक जाय हाचो नेमान नियाळ घेवप गरजेचें आसता. तुमचें खूब व्हड मिनाचें राज्य आसा अशें आयकलां. तें राज्य चलय म्हूण म्हाका सांगल्यार हांव तें बरे तरेन चलोवंक शकतलों. म्हजो एक इश्ट साउथ इंडियन एअरलायन्साचो चेअरमॅन आनी मॅनेजिंग डायरेक्टर आशिल्लो. तीन वर्सां उपरांत ताची बदली जाली. कंपनी लुकसाणींत आशिल्ली ती ताणें फायद्यांत हाडली. अजूनूय सगल्या पावंड्या वेलो स्टाफ आनी अधिकारी ताची याद काडटात. कांय जाणांक अजाप दिसता. आरे, कांयच खबर नासतना हो कशें मॅनेज करतलो अशें ते एकामेकाक विचारताले. पूण तीन-चार वर्सांनी अधिकाऱ्याची बदली जातकूच "बरें चलयलें" अशें म्हणून ताका शाबासकी दितात! महेशान हांसत सत्यानंदाक प्रशासनाच्या मळाचेर भोंवडावन हाडलो.

"तुमी म्हणटात तें सामकें बरोबर. होच प्रस्न आमचे मदलो एक मिनेर म्हाका विचारतालो: आरे सत्यानंद, ह्या महेश प्रभून पोर्ट केन्नाच पळोवंक ना. तो गोंयकार जाल्ल्यान ताणें कुट्ठाळेची फेरीबोट पळयिल्ली जायत. हो पोर्ट तो कसो चलयतलो? तुमी आतां म्हाका जें सांगलें तेंच हांवें ताका सांगिल्लें. तुमी संप बी खूब हाताळ्ळ्यात जातले न्हय?" संभाशण मूळ विशयाच्या रुळाचेर हाडपाचो यत्न करीत सत्यानंदान विचारलें.

"कित्याक? संप बी जावपाचो आसा तर?" महेशान अशें विचारतकूच दोगूय सुमार धा एक सेकंड एकमेका कडेन पळोवन खोऽऽऽ करून हांसले.

संप जातलो काय ना, पीटर डिमेलोच्या युनियनाक बळ आसा काय ना, महेशान कडक भुमिका घेवपाची काय ना हाचेर आनीक पांच-सात मिनटां चर्चा करून सत्यानंद गेलो.

"तुमी कांयच हुस्को करूं नाकात. संप जाल्यार कडक रावात, दिल्लीचो मंत्री, गोंय सरकार हांकां आमी हाताळटात. आनी वेळ आयल्यार युनियनांक लेगीत कशें हाताळपाचें तें आमकां खबर आसा." अशें वतां वतां ताणें आश्वासन दिलें.

कांय वेळान "सज्जन केंकरे आयला" म्हूण बाप्तीस्तालो फोन आयलो. सज्जन केंकरे हो मीराचो मावशे भाव. गोंयच्या भाटकारां मर्दी तो सगल्यांत व्हड भाटकार म्हूण ताच्या कुटुंबाक लोक मानताले. गोंय पुर्तुगेजांच्या राजवटी खाला आसतना भारत सरकारान गोंयची अर्थीक नाकेबंदी केल्ली. गोंयच्या गोवेर्नादोरान गोंयकारां खातीर भायल्या देशांतल्यान तांदळांची आयात करपाचो बेत रचलो. पूण पुर्तुगालच्या बांको नासियोनाल उल्त्रामारीन हे बँकेन गोंय सरकाराक आयाती खातीर रीण नाकारलें, आनी केंकरे फामील सरकाराची गॅरंटी दिता जाल्यार सरकाराक रीण दिवं येता अशी अट घाली. मागीर गोवेर्नादोर बाप्पा केंकऱ्याक कालापुरा वचून मेळ्ळो. आनी उपरांत बाप्पा केंकऱ्यान सरकाराची गॅरंटी दितकूच गोंयांत तांदूळ आयलो. सज्जन केंकऱ्याच्या आज्या विशीं गोंयचे जाणटेले ही कथा सांगत आयिल्ले. गोंयचो एक व्हड मिनेर अशी आयज सज्जन केंकऱ्याची नामना आशिल्ली. नांवा प्रमाणेंच सामको सज्जन; ताच्या खणींचेर आशिल्ले हजार-एक कामगार ताका खूब मानताले. केन्नाय संप जालो जाल्यार "तुमचें कितें आसा तें हांव पळयतां, काम सुरू करात" अशीं दोन उतरां सज्जनान सांगतकूच ते काम सुरू करताले. खण वाठारांतल्या गांवांनी सज्जन आयल्या बगर सार्वजनिक गणपती पावय नाशिल्ले.

सज्जन केंकरे भितर सरना फुडें महेशान उबो रावून हांसून ताका येवकार दिलो. महेशा परस सज्जन पांच-स वर्सांनीं व्हड आशिल्लो. ताणें महेशा कडेन मिना परस घरगुती खबरो चड केल्यो. ताईबायक मेळूंक मीरा शिरधनां

पाविल्लें काय ना, गौरीश इंजिनियर जालो काय ना, फुडलो बेत कितें, कालापुरा आपल्यागेर केन्ना येतात असल्या गजालींचेर पंदरा-एक मिनटां गेलीं.

"पोर्टांत संप जावपाचो आसा म्हूण आयकलां. तुज्या आदल्या चेअरमॅनान त्या पिटर डिमेलोची मस्ती वाडयली. तुवें कडक रावूंक जाय. पयलीं पयलीं वागा भशेन चवताळून तुज्या आंगार येतले. जिंदालाक भेश्टायताले, तशेच तुकायबी भेश्टावंक पळयतले. तूं कडक म्हूण कळटकूच शेंपडी भितर घालून वग्गी बसतले. तुका आमचो सामको सपोर्ट आसा." सज्जनान एकाच फारान महेशाक म्हायती आनी सल्लोयबी दिलो.

"अनंताचो बी फोन आयिल्लो?" मिना वेल्यान परतून घरगुती खबरांनी येवन सज्जनान विचारलें.

"म्हज्या मावोडे वटेन कोणाचोच फोन येवंक ना, इतलेंच न्हय तर म्हज्या भावाचो लेगीत फोन येवंक ना." महेशान सज्जनाक सांगलें.

"अनंत सबावान बरो. रामकृष्ण आनी विष्णू हांचे भशेन तो नाडबुद्दी न्हय. भगवंतबाब गावणेकारान जी पुण्याय जोडल्या ती रामकृष्ण आनी विष्णू वगडायतात." सज्जन.

"मीरा ताईबायक मेळूंक मंगळारा दिसा शिरधनां वतलें. ताईबाय थंय एकलेंच रावता. ताईबाय वाट पळयता म्हूण काल तांच्या रांदप्यान फोन केल्लो. मीराचें आनी म्हजें नशीब पळय! आमकां फकत एका रांदप्याचो फोन आयलो. मीरा थंय वतकूच कोण कोण मेळटात आनी कितें घडटा तें पळोवया," महेशान निर्शेवन सज्जना कडेन मन उकतें केलें.

"मीरा शिरधनां वतलेंच न्हय, दनपरां जेवपाक आमगेर यो म्हूण सांग. तुमी मद्रास, बेंगलोराक आसतना गोंयांत आयिल्ले फावटीं तें आईक आनी कलाक मेळपाक आमगेर एक फावट तरी मारतालेंच." सज्जन.

"तुजो रेकाद ताका पावयतां!" महेश.

"बरें तर मेळुंया! कितेंय आसल्यार फोन कर." अशें म्हणत सज्जन उठलो. महेशानूयबी उठून ताका हात दिलो.

सज्जन केंकरे वतकूच समीर लवंदे आयला म्हूण बाप्तीस्तान फोन केलो. महेशान ओके म्हणलें आनी दोन मिनटांनी समीर लवंदे गुड मॉर्नींग म्हणत भितर सरलो. आपूण मडगांवकार म्हणून ताणें आपणाली वळख

करून दिली. दिनेश लवंदे आनी मुकेश लवंदे महेशा वांगडा ल्हानाचे व्हड जाल्ले पूण समीराक केन्नाय पळयिल्ल्याची महेशाक याद नाशिल्ली. समीर ल्हानपणांत मुंबय वाडिल्लो आनी एकुणीसशें पंचावनांत गोंयांत पुर्तुगेज राजवट आसतनाच तो बापाय वांगडा गोंयांत रावूंक आयिल्लो. एकुणीसशें चवपन सावन महेश गोंयां भायर कॉलेजांत गेल्लो म्हणटकूच समीराक तो हे पयलीं केन्नाच मेळूंक नाशिल्लो. समीराचो बापूय माधव बाबाची ''फॅर द लिजबोआ'' म्हूण मिनाची कंपनी आशिल्ली. समीर येवन वचून मिनाच्या धंद्यांत बापायक मजत करतालो.

''तमिळनाडूंत तूं बरो सुशेगाद आशिल्लो, तें सगलें सोडून तूं गोंयांत कित्याक आयला?'' समीरान महेशाक विचारलें.

''गोंया खातीर कितेंयतरी करचें अशी म्हजी आदीं सावन इत्सा. हांव आनीक पांच वर्सांनी रिटायर जातलों. रिटायर जावंचे पयलीं गोंयांत सर्वीस करपाची संद म्हाका मेळ्ळी आनी हांवें ती झोपय मारून घेतली. हांवें जीव त्रासांत घाला अशें तुका कित्याक दिसता?'' महेशान समीराक विचारलें.

''गोंयकार शापोतां चड करतात! गोंयच्या बऱ्या खातीर म्हाका कितेंय करूंक जाय जाल्यार हजार आडखळी, आनी सगल्या पावंड्यांचेर ग्रीज लायल्या बगर फायली फुडें सरनात!'' समीरान उबगून सांगलें.

''आयज आमची पयली भेट! म्हाका चड वेळ ना! तुज्या कामां विशीं म्हाका तपशिलान तुजे कडेन उलोवंक जाय. फुडल्या फावटीं तूं येवपाचो आसल्यार दोन दिस पयलीं म्हाका रेकाद धाड म्हणटकूच अर्द वर तरी हांव तुजे खातीर दवरतां. फायलींक ग्रीज लावन फायली फुडें धुकलच्यो पडटात अशें तूं सांगता. गोंयांत येवपा फाटलें म्हजें एक उद्दिश्ट म्हणल्यार ग्रीज लायना आसतना फायली फुडें कश्यो वचूंक शकतात हें गोंयकारांक दाखोवपाचें. तुजेकडल्यान खूबशें शिकूंक मेळटलें! फुडले फावटीं उलोवया,'' उठून समीराक हात दितना महेशान सांगलें.

''थँक्यू, मेळुंया!'' अशें म्हणून समीर भायर सरलो.

अभ्यंकराक आपय अशें म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक सांगलें. पांच मिनटां भितर अभ्यंकर दारार मारून भितर सरलो. खुणेनूच ताका बस म्हणून सांगून महेशान संपाच्या विशयाचेर चर्चा सुरू केली.

“फाटल्या फावटीं पोर्टांत संप केन्ना जाल्लो?” महेश.

“दोन वर्सां जालीं. एका दिसाचो संप जाल्लो. आमच्याच पोर्टांत न्हय तर सगल्या पोर्टांनीं तो जाल्लो. दर तीन-चार वर्सांनीं पगार-वाड करून घेवपाची पोर्टांच्या युनियनांक सवंय आसता. त्या संपाची कायदेशीर नोटीस तांणी खूब दिसां आदीं दिल्ली म्हणटकूच आमकां कांय त्रास जालो ना. सगल्या एक्स्पोर्टरांनी बोटी हाडपाच्यो मात्श्यो फुडें धुकल्ल्यो. आमकां खरो त्रास जाता तो तांणी अकस्मात संप केल्यार. पूण तेन्नायबी कामगारांक संप चड दीस जाल्लो परवडना.” अभ्यंकर.

“पोर्टांत संप जातलो म्हूण वावड्यो पसरल्यात! तुवें कितें आयकलां?” महेश.

“हय सर! बाप्तीस्त सांगतालो. ताका सगलें खबर आसता. कामगार युनियनां कडेन ताचो बरो संबंद आसा!” अभ्यंकरान बाप्तीस्ताची जायरात करपाचो यत्न केलो.

“केन्नाच्यान करतले खंय?” महेश.

“तारीख खबर ना, पुण एप्रील-मेंत बोटींची रांग लागता. खंयच्याय दिसा ते काम बंद उडोवन आपणालो पावर दाखोवंक शकतात. मागीर आमचेर दिल्लीच्यान, गोंयच्यान, सगले कडल्यान दबाव येतलो. हांवें तुमकां पयलींच म्हणिल्लें न्हय, इतली कडक कारवाय करूं नये म्हूण?” तोंडाचेर जैतिवंत भाव हाडून अभ्यंकरान महेशाक याद केली.

“कारवाय कोणें केल्या? हे लोक शिताफुडें मीठ कित्याक खातात?” महेशान विचारलें.

“तशें न्हय सर! तुमी कडक, आदल्या चेअरमॅना भशेन न्हय अशें सगले मानूंक लागल्यात. विभागांच्या मुखेल्यांक नोट धाडिल्ल्या प्रमाणें तुमी कारवाय करतलेच अशें कामगारांक दिसता. ती कारवाय टाळपा खातीर ते संप करूंक सोदतात!” अभ्यंकरान परिस्थितीची विसकटावणी केली.

महेशान बाप्तीस्ताक फोन करून ट्रॅफिक मॅनेजराक आपय म्हूण सांगलें. आनीक पांच मिनटांनीं दारार टक् टक् करून ‘गुड मॉर्निंग सर’ म्हणत सेराफिन गुदीन भितर सरलो. महेशान ताका खुणेनूच बस म्हूण सांगलें.

“ह्या दिसांनीं कितल्यो बोटी येवपाच्यो आसात?” महेशान गुदिनाक

विचारलें.

गुदिनान आपणाली डायरी पळयत सांगलें तें अशें: मे म्हयन्याचे पयले पंद्रशींत स बोटी येतल्यो. व्हड बोटी येवपा वांट्याच्यो धाकल्यो बोटी आयल्यार बोटींचो नंबर पंदरा मेरेन वाडूं येता. सत्यानंद सांवर्डेकार, सर्वानंद सांवर्डेकार, सदू लवंदे, सज्जन केंकरे, तानाजी पाटील, मिलानो कंपनी ह्या सगल्यांच्या प्लॉटांचेर मीन सांठोवपाचें काम चालू आसा. ज्या प्लॉटार जाय तितलें मीन सांठोवन जाता त्या प्लॉटाच्या मालकाक आमी बोट पयलीं हाडूंक दितात. सद्या तानाजी पाटिलाची बोट धक्याक लागल्या आनी मीन बोटींत घालपाची प्रक्रिया चालू जाल्या. महेशान फावता तेन्ना येवन पळोवंक जाता अशें गुदिनान सुचयलें.

"तें करपाकूच जाय. मुंबय वचून येतकूच तें करपाचो म्हजो बेत आसा. पूण एक सांग, ह्या सगल्या मिनेरांचीं तुवें नांवां घेतल्यात तांच्या कंपन्यांक नांवां नात?" महेशान गुदिनाक विचारलें.

"सर, सगल्या कंपन्यांक नांवां आसात, पूण ह्या पोर्टांत इटालीची मिलानो कंपनी सोडल्यार हेर सगल्या कंपन्यांक मालकांच्याच नांवांनी वळखतात. अमक्याचें मीन, अमक्याची बोट अशेंच म्हणपाची पद्दत आसा!" अभ्यंकरान मदींच तोंड घालें.

महेशान कमांडंट पाटिलाक आपय म्हूण बाप्तीस्ताक सांगलें. पाटील खूबशे फोटे घेवन आयिल्लो आनी महेशाक मेळपा खातीर वेटिंग रुमांत बशिल्लो. अभ्यंकर आनी गुदीन भायर सरपाची तो वाट पळयतालो. तोवूय बी दारार टक् टक् करून "गुड मॉर्निंग सर" म्हणत आयलो आनी सलूट मारून बसलो. तितले म्हणसर "तुमी आतां गेल्यार जाता" अशें म्हणून महेशान अभ्यंकर आनी गुदिनाक वयार केले.

"सर, हे फोटे पळयात. पस्तीस ते चाळीस स्टाफ आनी कामगार आसात. फोट्यांच्यो कॉपी हांवें सगल्या विभाग मुखेल्यांक धाडल्यात. तांचें काम आतां सोपें जातलें." कमांडंट पाटिलान म्हायती दिली.

"गुड, थँक्यू," अशें म्हणून महेशान ते फोटे पळयले. एक पिटर डिमेलोक सोडून तो कोणाक वळखलो ना.

"संप जावपाचो आसा म्हूण आयकतां. संप जाल्यार सी.आय्.एस्.एफाचें

काम कितें?'' महेशान विचारलें.

''पोर्टाचे अधिकारी, स्टाफ आनी मालमत्ता हांचें रक्षण करप हें आमचें काम. संप जावपाचो आसल्यार वा संप अकस्मात् जाल्यार सगल्या ऑफिसांनीं आनी हिंसा जावपाची शक्यता आशिल्ल्या हेर जाग्यांनी बंदुको घेवन सी.आय्. एस्.एफ. गार्ड उबे राविल्ले दिश्टी पडटले!'' पाटिलान म्हायती दिली.

''तुमकां पोलीस पावर्स आसात?'' महेशान पाटिलाक विचारलें.

फाटलीं पंचवीस वर्सां सी.आय्.एस्.एफा क पोलीस अधिकार नासताले. कामगारांक धरचे पडल्यार तांकां धरून ते राज्य पोलिसांच्या सुवादीन करताले. आतांय बी तीच परिस्थिती आसा काय ती बदल्ल्या हें महेशाक जाणा जावपाचें आशिल्लें.

''ना, सर, आमकां पोलीस पावर्स नात. आमकां थळाव्या पोलिसांची मजत घेवंची पडटा.'' पाटिलान म्हायती दिली.

''सर, आयज सांजचे पिटर डिमेलो आनी ताचे कांय कामगार फुडारी तुमकां मेळपाचे आसात. तुमी तांकां तिनांक आपयल्यात. भायल्यान कांय गार्ड दवरूं?'' पाटिलान उबो रावून वतां वतां विचारलें.

''छे छे! जाय जाल्यार मागीर पांच मिनटां भितर तुमी तांकां वयर धाडूं येता. तांकां हांगां पयलींच पळयल्यार वातावरण मात्शें अस्थीर जावं येता!'' महेशान आपलें मत उक्तायलें.

''ओके सर,''अशें म्हणून पाटील भायर सरलो.

एक वर जाल्लें. महेश जेवणाक वचूंक भायर सरलो. जगदीशान ताका मोटारी मेरेन पावयलो.

सज्जन केंकरे आयिल्लो म्हूण गॅस्ट हावसांत पावनाफुडें महेशान मिराक बातमी दिली.''तूं मंगळारा दिसा ताईबायक मेळूंक वतलें अशें हांवें ताका सांगलां. दनपारच्या जेवणाक आपणागेर यो,आईक आनी कलाक मेळ अशें तो म्हणटालो. रेकाद तुजे कडेन पावयतां अशें म्हणून हांवें सांगलें.''

सवा एकाक जल्मी स्टाफा वांगडा जेवण घेवन आयलो. त्या दिसा सांजेची पार्टी आशिल्ल्यान पार्टेचेंच इल्लें जेवण आतां जेवचें पडटलें अशें महेशाक दिशिल्लें! पूण तशें कांय जालें ना. बटाटाची हळडुवी भाजी,चवळ्यांचें मसालो घालून तोंडाक, अनसाची करम, सावरबोंड्या केळ्याच्यो गोंयचे

पद्दतीन तळिल्ल्यो फोडी आनी हेर सगले चालंत जिनस जेवणाक आशिल्ले. दोगांय खातीर वाटयांनी दाट्ट धंय हाडिल्लें.

नवो चेअरमॅन येतकूच, "फाटल्या चेअरमॅनान हें सुरू केल्लें, तें सुरू केल्लें, हें मॅडमीन केल्लें, तें मॅडमीचें काम" अशें म्हूण पोर्टाचे अधिकारी चडशे फावटीं नव्या चेअरमॅनाक सांगताले. आबंट धंय इतिहासांत जमा करून, दाट, गोडसार धंय आतांच्या जगांत हाडपाचें योगदान प्रभू मॅडमीचें अशें म्हूण फुडल्या चेअरमॅनाक स्टाफ वा अधिकारी सांगतले हातूंत दुबाव नाशिल्लो.

"करिअप्पा आनी बायल पयलीं फोन करून म्हाका मेळूंक आयिल्लीं. अर्द वर सुमार बसलीं." मीरा.

"कोण करिअप्पा? तुजे कडेन कावन्सलिंगाक येतालो तो?" महेशान विचारलें. मीरान 'हय' म्हणून तकली हालयली. आनी "आतां तो सामको बरो जालो, काम वेवस्तेशीर करता, ऑफिसांतले लोक ताचेर खूश आसात अशें ताचे बायलेन सांगलें," मीरान म्हायती दिली.

करिअप्पा पोर्टांत सिनियर एक्सीक्युटिव्ह इंजिनीयर म्हूण काम पळयतालो. गोंयांत सोरो सवाय आनी सोरो पिवप ही वायट गजाल न्हय, चार-चवगां वांगडा खबरांक बसतकूच मुखार ग्लास आसचोच पडटा अशें ताच्या वांगडा काम करपी अधिकारी मानताले. चडशे अधिकारी हिसपा भायर पिये नाशिल्ले, पूण आपूण सोरो पितां पितां सोरो आपणाक केन्ना पिवंक लागलो तें करिअप्पाक समजलेंच ना. हरशीं एकदम गुणेस्त आनी बरें काम करपी अशी ऑफिसांत ताची नामना आशिल्ली पूण सोऱ्यान ताची वाट लायली. मीरा मद्रासच्यान कावन्सलिंगाचे वर्ग घेवंक मुरगांव पोर्टांत पयलेच फावटीं आयिल्लें तेन्ना ऑफिसांतल्या लोकांनीं करिअप्पाक ऑफिस सुट्टकूच मीरा म्हऱ्यांत हाडिल्लो.

जेवण जातकूच पंदरायेक मिनटां त्या दिसाच्या वर्तमानपत्रां वेल्यान नदर भोंवडावन, तोंड धुवन सारको दोन वरांचेर महेश ऑफिसांत पावलो. ऑफिसांत पावना फुडें चीफ सेक्रेटरी रामदास शर्माच्या पी.ए.न ताका फोन केलो. बासीस्तान पयलीं महेशाक फोनाचेर हाडटकूच मागीर तेवटेन रामदास शर्मा फोनाचेर आयलो. सदांच्यो गजाली जातकूच संपाचें प्रकरण खंय पावलां काय म्हूण शर्मान विचारलें. "वावड्यो चालू आसात. अजून तांचें

कांय थारुंक ना काय दिसता, युनियनाचे लोक तीन वरांचेर मेळूंक येवपाचे आसात'' अशी म्हायती महेशान दिली.

"तुवें कितें येवजिलां? कडक रावपाचें काय मात्शें नमतें घेवपाचें?'' शर्मान विचारलें.

"तशें हांवें अजून कांय थारावंक ना. मिनाचे मुख्य एक्सपोर्टर कडक भुमिकेच्या वटेन आसात काय दिसता. कामगारांची मस्ती गेल्ल्या पांच वर्सांत खूब वाडल्या, ती निवळावपाक जाय अशें म्हूण म्हाका मेळूंक आयिल्ल्या एक्सपोर्टरांनीं सांगलां!'' महेशान म्हायती दिली.

"तुजे कडेन उलय अशें म्हूण म्हजेर दबाव येता. मुख्यमंत्र्यान दोन फावटीं म्हाका फोन केलो. दक्षिण गोंयचो खासदार थियोफिल आनी दोगां-तिगां एम्.एल्.ए. नींय बी फोन केल्ले. तांकां आतां कितें सांगपाचें?'' शर्मान विचारलें.

"आगे देखो होता है क्या! अशें म्हूण तांकां सांग'' अशें महेशान म्हणना फुडें दोगूय जाण व्हडल्यान खोऽऽऽऽ करून हांसले.

प्रशासनांत आय्.ए.एस् ऑफिसरांक कसले कसले त्रास जातात आनी तांकां कसले प्रसंग हाताळचे पडटात हें दोगांकूय बरें खबर आशिल्लें. प्रत्येक जाण आपापले जापसालदारके प्रमाणें करूंक जाय तें करता आनी हेरांनी तातूंत लुडबूड करची न्हय हें तत्व सगल्या आय्.ए.एस् ऑफिसरांक खबर आसता.

"मंगळारा आनी शुक्रारा म्हाका मुंबय आनी दिल्लीक मिटिंगो आसात. मागीर सवकासायेन मेळुंया!'' महेशान शर्माक सांगलें.

"ओके, बाय! राव, राव, फोन दवरूं नाका! तुगेल्या त्या पी.ए.क मात्शे मॅनर्स शिकय! आयज सकाळच्यान आमी तुजे कडेन उलोवपाचो यत्न करतात. सर बिजी आसा, सर बिजी आसा, मागीर कर, अशें म्हूण तो म्हज्या पी.ए क सांगत आशिल्लो.'' शर्मान बाप्पीस्ताचेर आपणाली नाराजी उलोवन दाखयली.

"ओके, ताका जाग्यार हाडुंया.'' महेश.

पोर्टांत संप जातलो, मुरगांव बाजारांत लोक अस्वस्थ जाल्यात, अशी खबर गोंयच्या मराठी वर्तमानपत्रांनीं पयल्याच पानार आयिल्ली. कामगार संघानूच ही खबर पेपरांनीं घाल्या हें महेशाक समजलें. महेशाक पोर्ट चलोवंक

येना, मेळत थंय तो कायद्याच्यो गजाली करता असो आरोप ताचेर कामगार संघांनी केल्लो. आपणाक खयंच्याच रिपोर्टरान कसो फोन केलो ना म्हूण येवजिता आसतनाच बाप्तीस्तान फोन करून टायम्स ऑफ इंडियाचो रिपोर्टर फोनार आसा म्हूण सांगलें.

“सर, संप जातलो काय ना?” रिपोर्टर.

“हो प्रस्न तुमी मुरगांव पोर्ट कामगार संघाक विचारूंक जाय.” महेश.

“तुमी कडक, कायद्याच्योच गजाली करतात, तुमच्यांनी पोर्ट चलोवंक जावंचो ना अशें कामगार संघ म्हणटा. तुमकां कितें म्हणपाचें आसा?” रिपोर्टर.

“प्रशासन म्हणटात तें कायद्या प्रमाणें चलूंक जाय. मागीर तो पोर्ट आसूं वा सरकारी ऑफिस! कायद्या भितर रावून पोर्टाचें बिजिनॅस चलयता आसतना जायत्या वेळार कामगार संघा कडेन कडक रावचें पडटा. प्रशासनांत खूबशीं कामां आसतात. संप हाताळप हें हेर कामां भशेनूच एक काम! थंय हें कामगार संघाचें सगल्यांत व्हड अस्त्र आनी शस्त्र! तें तांणीं “उखल्ली जीब आनी लायली ताळ्याक” करून वापरूंक जायना. आतां पळोवया कितें जाता तें!” महेश.

“थँक्यू सर!” अशें म्हणून रिपोर्टरान फोन दवरलो.

पिटर डिमेलो आनी ताचे वांगडी तीन वरांचेर येवपाचे आशिल्ले. आतां अडेज जाल्लीं. महेशान मेजार दावे वटेन आशिल्ली ट्रॅफिक विभागाची फायल म्हऱ्यांत हाडून वाचूंक सुरवात केली. एप्रील आनी मे पंदरा तारीख मेरेन सादारण कितल्यो बोटी येतात, कितलें मीन एक्स्पोर्ट जाता, मीन पावसा पयलीं वचना जाल्यार गोंयचे अर्थवेवस्थेचेर कसलो आनी कितलो परिणाम जावं येता, हाचे पयलीं एप्रील–मे म्हयन्यांत कितले फावटीं संप जाल्ले आनी कितले दीस ते चालू उरिल्ले, कशे सोंपले ह्या सगल्या विशयांचेर ट्रॅफिक विभागान फाटल्या पांच वर्सांची म्हायती धाडिल्ली. चडशे फावटीं संपांचो खूब बोवाळ जावन लेगीत संप जाले नात, असो निष्कर्श विभागांतल्या अधिकाऱ्यांनी काडिल्लो. “ऑल सावंड अँण्ड फ्यूरी सिग्निफाइंग नथिंग” ह्या शेक्स्पियराच्या उतरांची महेशाक याद जाली.

सारक्या तीन वरांचेर पिटर डिमेलो आनी ताचे पांच जाण वांगडी

आयल्यात म्हूण बाप्तीस्तान फोन केलो. महेशान ओके म्हणटकूच दारार मारून दार उगडून पिटर डिमेलो आनी ताचे पांच वांगडी भितर सरले. महेशा मुखार पांच कदेलां आशिल्लीं. बाप्तीस्ताक फोन करून आनीक एक कदेल भितर धाड म्हूण महेशान सांगलें. प्यून संतोश आनीक एक कदेल घेवन आयलो. बसात म्हूण महेशान सांगचे पयलींच ते सगले बसले.

"आमी हे फावटीं अपॉयंटमेट घेवन आयल्यात. आमी पयलेच फावट तुका मेळिल्ले तेन्ना तुवें आमचो इन्सल्ट केलो. तें तुवें बरें केलें ना. आमच्या सगल्या कामगारांक राग येयलो. देखून आमी प्रोटेस्ट केलो." पिटरान हल्लो सुरू केलो.

"तुमचो प्रोटेस्ट हांवें आयकलो आनी पळयलो. तुमच्या युनियनाचे सुमार शंबर कामगार निदर्शनां करतले म्हूण म्हाका रिपोर्ट आयिल्लो. पूण तुमचे फकत पस्तीस-चाळीस लोकूच आयिल्ले. हेर खंय पावले?" महेशान हांसत विचारलें.

"फुडल्या फावटीं तुका जाय जाल्यार आमी धा हजार लोक येवन निदर्शनां करूंक शकतात." महेश मात्सो हांसून उलयता तें पळोवन पिटर मात्सो नेर्वोज जावन उलयलो.

"तुमकां जाय तितले लोक हाडात रे! ऑफिसा मुखार धा हजार लोकांक उबे रावपाक जागो आसा. पोर्टांत फकत स हजार स्टाफ आनी कामगार आसात. उरिल्ले चार हजार तुमकां भायल्यान हाडचे पडटले!" महेशान हांसत पिटराक थोमणो मारलो.

"आमचीं फकांडा करूं नाका. तुकाच म्हारग पडटलीं. प्रोटेस्ट मारप हो आमचो हक्क हें तुका खबर आसूंक जायें. आमच्या लोकांनी प्रोटेस्ट मारलो देखून तूं तेंकां आब्सेंट मार्क करूंक सोदता अशें आयकलां!" पिटरान संभाशण मुख्य रुळाचेर हाडलें.

"कायद्यान पगार हो काम करपा खातीर आसता, निदर्शनां करपा खातीर नासता. अर्द वर, एक वर जो काम सोडून दुसरे कडेन वता ताका तितलो वेळ काम करिनासतना काम केल्ल्याचो पगार कसो दिवपाचो?" महेशान थंडपणान विचारलें.

"आयज मेरेन हजार फावटीं आमी ऑफिस टायमांत प्रोटेस्ट मारला,

केन्नाच आमकां आब्सेंट घालूं ना!'' पिटरान मात्श्या रागान सांगलें.

''आयज मेरेन अशें कित्याक जालें तें म्हाका खबर ना, आनी खबर आसपाची गरजूय बी ना. ''नो वर्क, नो पे'' ह्या तत्वाक धरून सबंद इंडियेंत काम चलता. हांगाय बी तशेंच चलूंक जाय.'' महेशान मात्शें कडक पणान सांगलें.

''तूं इतलो कडक रावल्यार पोर्टाची वाट लागतली! पोर्ट तूं चलयना, पोर्ट आमी चलयतात, हें तुका खबर आसूंक जाय. आमी जाय तेन्ना पोर्ट बंद उडोवंक शकतात, हें तुका खबर आसूंक जाय!'' पिटरान शिटकावणी दिली.

''पोर्ट बंद वडोवपाचें जें तूं उलयतालो तें एकदम सारकें उलयलो. तूं पोर्ट बंद उडोवंक शकता, चलोवंक शकचो ना! हांव चलयतां, तूं बंद वडयता!'' महेश.

''तुका आमी शिटकावणी दितात. तुवें आमच्या कामगारांक आब्सेंट घाल्यार आमी पोर्टांत संप करतले. मीन पोर्टांत येवचें ना आनी बोटींत वचचें ना,'' पिटरान महेशाक शिटकावणी दिली.

''शिटकावणी तुवें दिली मरे? हांवें घेतली! आतां फुडें उलय! आनीक कितें?'' महेशान थंडपणान पिटराक विचारलें.

''तूं स्टाफाक बेठोच सतायता! फाटलीं कितलिंशींच वर्सां बाप्तीस्त अडेज वरांचेर येतालो. तुवें तेका दोन वरांचेर आपयलो!'' पिटरान ''टायम पास'' मुद्दो वयर काडलो.

''तुमकां बाप्तीस्ताची गजाल कित्याक लागता? बाप्तीस्त ऑफिसर. तुमी फकत कामगारांचेंच पळोवंक जाय.'' महेश.

''पोर्टांत खंयींय कितेंय चलता तें आमकां लागता! तुजे गाडयेचें दार उकतें करून तुका भितर बसोवंक जाय, दार ल्हवू मारपाक जाय, मागीर ड्रायवरान आपणालें दार ल्हवू मारूंक जाय हें खंयच्च्या कायद्यांत बरयलां?'' आपुणूय इल्लो कायदो जाणां म्हूण महेशाक भेश्टोवपाक पिटरान प्रस्न विचारलो.

''तें खंयच्च्याच कायद्यांत बरोवंक ना. तुमी आतां म्हाका मेळूंक म्हज्या कॅबिनांत आयले. तुमी कदेलार बसचें अशें खंयच्याच कायद्यांत बरोवंक ना. तुमकां जितलो वेळ उलोवंक जाय तितलोय वेळ तुमकां उबे रावून उलोवंक लायल्यार तुमकां कशें दिसतलें?'' महेशान पिटराक विचारलें. पिटरा वांगडा

आयिल्ले ताचे वांगडी भितरल्या भितर हांसून "पिटराक सारको धरलो" अशा अर्थान एकामेकां कडेन पळयताले. पिटर मात्सो नेर्वोज जालो.

"तूं सरकारी पयशे बेश्टेच पार्त्यांचेर वेस्ट करता! आयज जिंदाल सायबाक पोर्टाच्या खर्चान तूं पार्टी दिता. अशें पयलीं केन्नाच जावंक ना. आमी दिल्लीक कम्प्लेन करतले!" पिटरान आनीक एक फास्ट बॉल उडयलो.

"हांवें पार्टी दिवंक जायना अशें तूं म्हणटा? आतां कितें करपाचें? आमची सगली तयारी जाली. एक काम करुंया! आनीक पांच वर्सां उपरांत नवो चेअरमॅन येतलो तेन्ना "तूं म्हाका पार्टी दिवं नाका" अशें म्हूण हांव ताका सांगतां! म्हाका आतां तुमी सांगलां तशेंच ताकाय बी सांगात! तुमी म्हाका शिटकावणी दिली आनी हेर कांय विशयांचेर तुमचीं मतां सांगलीं. आतां तुमी गेल्यार जाता!" महेशान हांसत स्ट्रेट बॅटिंग केली.

"आतां कितें जाता तें पळय!" अशें पुटपुटत पिटर उठलो आनी हेरांकूय ताणें 'या' म्हूण खुणेन सांगलें. सगले मोन्यांनी भायर सरले.

त्या दिसा सांजेच्या सात वरांचेर ऍड्मिरल जिंदालाक निरोपाचें जेवण आशिल्लें म्हणटकूच मात्शें बेगीन गॅस्ट हावसांत वचून पार्टेची तयारी कशी जाल्या ती पळोवया म्हूण महेशान थारायिल्लें. व्हड व्हड आस्थापनांनी मुखेल मनशान सगल्याच गजालींचेर देखरेख दवरपाची गरज नासता. जापसालदार लोकांक कामां वांटून दितकूच मागीर कांय हुस्को नासता! पूण सगलेच अधिकारी आसूंक जाय तितले जापसालदार नासतात.

कांय वर्सां आदीं महेशाक खूब वायट अणभव आयिल्लो. भारत सरकाराच्या केंद्रीय वस्त्र निगम म्हणटात त्या आस्थापनाचो महेश अध्यक्ष आनी मुखेल अधिकारी आशिल्लो. एका व्हड सुवाळ्याक ओडिशाचो मुख्यमंत्री मुखेल सोयरो म्हूण येवपाचो आशिल्लो. तमिळनाडूंत मुखेल सोयऱ्यांक फुलांचे व्हड व्हड हार घालपाची पद्दत आशिल्ली. खंयच्याय सुवाळ्याक मेजाचेर बरो रंगीत टेबल क्लॉथ घालप, ताचेर उदकाच्यो बाटल्यो आनी ग्लास दवरप, मायक सारको चलता जाल्यार पळोवप, पावसाचे दीस आसल्यार जनरेटर तयार दवरप, सुवाळो जातकूच सगल्यां खातीर च्या ची वेवस्था करप, व्ही.आय्. पीं क पयल्या दोन-तीन लायनींनी बसोवपाक खास अधिकारी दवरप, ह्यो सगल्यो गजाली सदांच्योच जाल्ल्यान त्यो सकयल्ल्या

अधिकाऱ्यांचेर सोडून अध्यक्ष वा मुखेल अधिकारी व्ही.आय्‌, पीं ची खबर घेवपाच्या कामांत गूंग आसता.

त्या दिसा सुवाळो सुरू जावन ओडिशाच्या मुख्यमंत्र्याक आतां अध्यक्ष हार घालतलो अशें म्हूण सुत्रधारान मायकाचेर सांगतकूच जॉयंट डायरेक्टर वा डॅप्युटी डायरेक्टर आपल्या कडेन हार हाडून दितलो आनी आपूण तो हार मुख्यमंत्र्याक घालतलों म्हूण महेश वाट पळोवंक लागलो. महेश आतां हार घालतलो म्हूण मुख्यमंत्री उठून उबो रावलो. सगलेच हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागले. हारूच नाशिल्लो. हार येवंक मात्सो कळाव जाला, आमी सुवाळो चालू दवरुंया अशें महेशान मुख्यमंत्र्याक सांगलें आनी सुवाळो चालू उरलो. आनीक धा मिनटांनी सुमार एका ऑफिसरान चंदनाचो एक व्हड हार हाडलो. तो हार घालून घेतकूच ''भारत वस्त्र निगम में देर है, अंधेर नहीं है'' असो थोमणो मारून हांसत मुख्यमंत्री बसलो. सुवाळो बी सोंपोवन मुख्यमंत्री बी वतकूच महेशान जॉयंट डायरेक्टराक आपोवन ''हार हाडपाक तुमी सगले कशे विसरले?'' अशें म्हणून तांकां तापोवन काडले. जॉयंट डायरेक्टर बरोच जाणटो आशिल्लो. हेरां हुजीर आपणाक तापोवणी खावंची पडली म्हणून ताका लज जाली जावंये.

''सर, तुवें म्हाका हार हाड म्हूण सांगुंकूच नाशिल्लो'' अशें म्हूण ताणें आपणाले चुकीचें वजें महेशाच्या माथ्यार दवरपाचो यत्न केलो.

त्या दिसाच्यान सुवाळो कितलोय ल्हान आसल्यार लेगीत महेश तयारेचो नियाळ घेतालो. ऑफिसर्स असोसिएशनाक ऍड्मिरल जिंदाल आवड नाशिल्लो. म्हणटकूच, सुवाळ्याचे तयारेंत सारकी जतनाय घेतले काय ना हाचो महेशाक मात्सो दुबाव आशिल्लो. महेशान गिरीश गांवसाक फोन लावन दी म्हूण बाप्तीस्ताक सांगलें. गांवस गॅस्ट हावसांत आशिल्लो. ऍड्मिरल जिंदालाक दिवपाची भेटवस्त टुरिजम डिपार्टमेंटाचो एक अधिकारी घेवन येवपाचो आशिल्लो. ती भेटवस्त हाडल्या आनी सुवाळ्याच्या हॉलांत दवरल्या अशें म्हणून गांवसान महेशाक सांगलें.

''कसली भेटवस्त?'' म्हूण विचारतकूच मंगेशीं देवळाचो शिसवीचो दीपस्तंभ अशें म्हणून ताणें सांगलें.

ट्रॅफिक विभागाची फायल आनीक मात्शी वाचून चारांक सुमार महेश गॅस्ट

हावसांत परतलो. अभ्यंकर, गिरीश गांवस, जल्मी बी लॉनाचेर बोवाळटाले. गाडयेंतल्यान देंवून महेश सरळ अभ्यंकरा म्हऱ्यांत गेलो आनी सगली तयारी जाली काय म्हूण ताणें ताका विचारलें. ''यस् सर'' म्हणून अभ्यंकरान ताका खंय खंय कितें कितें दवरलां तें सगलें दाखयलें. लॉनार येतकूच दावे वटेन शेकान शेक मांडून दवरिल्ल्या मेजांचेर धवे फुल्ल टेबल क्लॉथ घाल्ले आनी भांगराच्या रंगाच्यो मिरयो घाल्ले सॅटिनाचे घागरे मेजां भोंवतणीं गुठलायिल्ले. शिवराक जिनस, चिकन, तळिल्लें नुस्तें, हुमण, शीत, पापड, लोणचें, सॅलेड, गोडशें बी सगलें खंय मांडून दवरतले तें गिरीश गांवसान महेशाक दाखयलें. जेवणाच्या जिनसां मुखार त्या त्या जिनसांचीं नांवां बरयिल्लीं आसतलीं. ऍड्मिरल जिंदाल, चेअरमॅन प्रभू आनी डॅप्युटी चेअरमॅन सुर्यनारायणन हांणी बसपाचें मुखेल मेज आनी हेर मेजां खंय खंय आसात तेंवूयबी गांवसान महेशाक दाखयलें.

निरोपाचो कार्यक्रम कितल्यांक सुरू करपाचो, कितल्या वरां मेरेन गुठलावपाचो, कोणें कोणें उलोवपाचें हें सगलें महेशान अभ्यंकराक आदींच सांगिल्लें. कार्यक्रम सुरू जावंचे पयलीं सूत्रधाराक आपणाक मेळपाक लाय अशें महेशान अभ्यंकराक सांगलें. महेशान मागीर वयर गॅस्ट हावसांत वचून थंयची वेवस्था पळयली. असल्या कार्यक्रमांक सदांच आसता तशी वेवस्था आशिल्ली. मुखेल मेजा म्हऱ्यांत मदीं ऍड्मिरल जिंदाल, ताच्या उजव्यान चेअरमॅन आनी ताच्या दाव्यान डॅप्युटी चेअरमॅन हांच्या खातीर तीन कदेलां दवरिल्लीं. तांच्या उजव्या कोनशाक पोडियम आनी मायकूय बी आशिल्लो. मेजार मदीं एक कॉर्डलेस मायक आशिल्लो. सूर्यनारायणन पांचांक सुमार मद्रासाच्यान पावपाचो आसा अशें अभ्यंकरान महेशाक सांगलें. हॉलांत शंबर सुमार कदेलां मांडिल्लीं. इतलीं कदेलां जाय काय म्हूण महेशान विचारतकूच असोसिएशनाचे सगले वांगडी येतले आनी हॉल भरतलो अशी अभ्यंकरान हांसत हांसत म्हायती दिली. आपणें ऍड्मिरल जिंदालाक सारको साडे-सातांक आपयला, आपूण आनी डॅप्युटी चेअरमॅन ताका हॉलाच्या दारांत येवकार दितले आनी ताका सरळ मुख्य मेजा म्हऱ्यांत घेवन वतले. तो भितर सरता आसतना सगल्यांनी ताळयांनी ताका येवकार दिवंक जाय. आमी बसतकूच सूत्रधारान कार्यावळ सुरू करूंक जाय अशें महेशान सांगलें. ''तुवें आनी गांवसान ताका

सकयल येवकार दिवन वयर हाडपाचो.'' महेशान अभ्यंकराक ऑर्द दिली.

भेटवस्त खंय आसा काय म्हूण विचारतकूच हॉलाच्या एका कोनशाक धाकल्याश्या स्टुलाचेर भेटवस्त तुवाल्यांत धांपून दवरिल्ली ती गांवसान तुवालो काडून दाखयली. सुमार देड फूट उंचाय आनी एक फूट रुंदायेच्या हारश्याचे पेटयेंत शिशाच्या लाकडाचो कोरांतिल्लो सुमार एक फूट उंचायेचो सुंदर दीपस्तंभ दोन इंची कोरांतिल्ल्याच लाकडी आसनाचेर उबो केल्लो आशिल्लो. टू रॅअर ऍड्मिरल (रिटायर्ड) रविंद्र जिंदाल, विथ लव फ्रॉम मार्मगांव पोर्ट ट्रस्ट, अठ्ठावीस एप्रील एकुणीसशें एक्याण्णव अशें आसनाचेर पितारिल्लें.

पांच जावंक पाविल्लीं. महेश गॅस्ट हावसाच्या दुसऱ्या कोनशाक आशिल्ल्या आपणाल्या सुटांत गेलो. आदल्या दिसा भशेन जल्मीन ताका आनी मीराक च्या व्हरून दिली.

''आयतारा दीस मडगांवचो प्रोग्राम कितें?'' मीरान विचारलें.

''सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार म्हाका रामभाऊक मेळूंक जाय. हांव आयतारा सादारण साडे-धा वरांचेर येतलों म्हूण ताका आतांच सांगतां. एक अर्द वर ताच्या म्हऱ्यांत बसून मागीर दादाक आनी वयनीक मेळूंक जाय. आई सद्या दादागेर आसा. तिचीय खबर घेवंक जाय.'' महेशान आपलो प्रोग्राम सांगलो.

''म्हाका ताईकूय नमस्कार करून येवंक जाय. दादागेर साकून ताईगेर या. जेवणाक खंयच रावप ना. पयलीं च्या घे म्हूण केन्नाच म्हण नाशिल्ले ते लोक आतां जेवणाक राव म्हूण आग्रो करतले. ताईचो आग्रो मात् पयलीं सावन आसतालो. ताणें राव म्हणूं, ना म्हणूं, सवकासायेन आनीक केन्नाय आमी दोगांय जेवणाक येतात अशें म्हणून हांवूच सांगतां,'' अशें म्हणून मीरान महेशाक प्रोग्राम सांगलो. मीरा आपणाले मावशे भयणीक, सुशीलाक ताई म्हणटालें आनी खासा भयणी परस ताका चड मानतालें.

पणजेच्यान मिस्टर सज्जन केंकरे उलोवंक सोदता म्हूण ऑपरेटराचो फोन आयलो. हाचो आनी फोन कित्याक काय? सकाळींच हो येवन गेला अशें येवजीत महेशान फोन घेतलो. ''सज्जनबाब, सगलें बरें मूं?'' महेशान मात्श्या हुस्क्यान विचारलें.

''हय, हय, सगलें सामकें बरें. म्हाका तुजो हुस्को जालो म्हणून फोन

केलो. तूं कांयच चिंता करूं नाका. कडक राव. मागीर संप जातलोच अशें तुका दिसल्यार म्हाका एक फोन मार. मागीर कितें करपाचें तें हांव करतां!'' सज्जनान महेशाची चिंता उणी करपाचो यत्न केलो.

''ना, ना, कांय करपाचें ना. कितें करपाचें तें म्हजेर सोडात! असले प्रसंग हाताळपाची आमकां संवय आसता!'' महेशान हांसत सज्जनाक सांगलें.

''तरी पूण हांवें सांगलां तें ध्यानांत दवर; मीराक रेकाद दी; फोन दवरतां!'' सज्जनान फोन दवरलो.

रामभाऊ लवंदेक फोन लावन दी म्हूण महेशान ऑपरेटराक सांगलें. दोन मिनटां भितर रामभाऊ लवंदे फोनार आयलो.

''महेश, तुमी कशीं आसात? कित्याक फोन केल्लो?'' रामभाऊन विचारलें.

''रामभाऊ, आयतारा दीस साडे धांक सुमार तुमकां पांयां पडूंक आमी येवपाचीं आसात. तुमी आसतले न्हय?'' महेशान विचारलें.

''तूं म्हगेर येवन जेविनासतना वतलो? तुजो बाबा आशिल्लो जाल्यार तुका हें करूंक दितलो आशिल्लो?'' रामभाऊन मात्शें भावनावश जावन विचारलें.

''तशें न्हय रामभाऊ, आयज मडगांवां हेर कडेन तोंड दाखोवंक जाय; तुमचे म्हऱ्यांत आमी आनीक केन्नाय जेवपाक येतलीं, हक्कान येतलीं! तुमची मर्सिडिस हांवें म्हज्या लग्नाक वापरिल्ली; तुमकां याद आसा काय ना तें खबर ना. पूण म्हाका सामकी घट्ट याद आसा!'' महेशूय बी मात्सो भावनावश जावन उलयलो.

''म्हजें जाणटेपण जालां आनी यादूय मात्शी हालल्या. परां मेळटकूच उलोवया, तुमी बरीं करून!'' आपल्या कडेन उलयत रावूंक जातलें काय ना हाचो रामभाऊक दुबाव मारूंक लागिल्ल्यान ताणें फोन दवरलो.

सकयल डॅप्युटी चेअरमॅन सूर्यनारायणन आयला आनी चेअरमॅनाक मेळूंक सोदता अशें म्हूण जल्मीन फोन केलो. महेशान ओके म्हणटकूच सूर्यनारायणन दोन मिनटां भितर गुड इव्हिनिंग सर म्हणीत भितर सरलो. महेशान उबो रावून ताका हात दिलो आनी ''कसो आसा'' अशें विचारत ताका बस म्हणून सांगलें.

आपल्याक ताकतिकेन मद्रासाक वचचें पडलें, आपलो काका भायर पडलो, काकाक भुरगीं नाशिल्लीं म्हणटकूच आपल्याकूच सगले निमणे संस्कार करचे पडले अशें म्हूण सूर्यनारायणनान स्पश्टीकरण केलें.

''मद्रासाक खंय रावतालो तुजो काका?'' महेशान विचारलें.

''ट्रिप्लिकेन; तुमी मद्रासाक खूब वर्सां आशिल्ले न्हय?'' सूर्यनारायणन.

''पंचवीस वर्सां आय्.ए.एसांतले सिर्विसेंत पांच वर्सां बेंगलूर सोडल्यार आमी तमिळनाडूंतूच आशिल्लीं. तातूंतलीं चडशीं वर्सां मद्रासाक!'' महेश.

''सॉरी सर, सॉरी सर, तुमकां येवकार दिवंक हांव हांगां नाशिल्लों,'' सूर्यनारायणनान खंत उकतायली.

''कांय हरकत ना. तुज्या काकाचें आयकून वायट दिसलें, सगले लोक मरतातूच, पूण आपणाले लोक मरतात तेन्ना आमकां वायट दिसता, खास करून तांच्या निमण्या खिणाक आमी तांच्या सांगाताक नासल्यार आमकां चड खंत भोगता. म्हाकाय बी तशेंच जाल्लें. म्हजो बापूय भायर पडलो तेन्ना हांव दिल्लीक आशिल्लों. तुका आयच्या कार्यक्रमाक येवंक मेळ्ळें तें एक बरें जालें.'' महेश.

''ऍड्मिरल जिंदालाक निरोपाचें जेवण थारावन तुमी एकदम बरें काम केलें, सर! बदली जाता तेन्ना निरोपाचे कार्यक्रम आसतात, पूण ऍड्मिरल जिंदालाक रितसर निरोप दिवंक पोर्टांत कोणूच तयार नाशिल्लो. तुमी हो कार्यक्रम करपाचें थारायलें, इतलेंच न्हय तर ऑफिसर्स असोसिएशनाकूय बी येयात म्हूण सांगलें हें एकदम बरें जालें!'' सूर्यनारायणन.

''थँक्यू, थँक्यू, तुजें विमान कितल्यांक पावलें?'' महेशान विचारलें.

''विमान अर्द वर पयलीं पावलें, बायलेक घरा सोडून हांव सरळ हांगां आयलों.'' सूर्यनारायणन.

''ऍड्मिरल जिंदाल सारको साडे-सातांक हांगां येतलो. हांवें आनी तुवें हॉलाच्या दारांत ताका येवकार दिवपाचो; अभ्यंकर, गांवस बी ताका सकयल सोपणां म्हऱ्यांत रावतले. प्रोग्रामाचो तपशील तुका अभ्यंकर सांगतलो.'' महेशान सांगलें.

''हांव न्हावन कपडे बदलून बी सारको सात वरांचेर पावतां,'' अशें म्हणून सूर्यनारायणन भायर सरतालो इतल्यांत मीरा भायर आयलें आनी

सूर्यनारायणनाक पळोवन "हलो मिस्टर सूर्यनारायणन, तूं कसो आसा?" अशें म्हणून हांसून विचारलें.

"गुड इव्हिनिंग मॅडम्, तूं कशी आसा? तुका मेळ्ळ्यार वर्सां जालीं!" सूर्यनारायणनान मिराक नमस्कार करीत मिराची खबर घेतली.

"आतां केन्ना केन्नाय मेळप जातलेंच न्हय? आमी मात्शीं बंगल्यार स्थायीक जातकूच म्हाका ऑफिसरांच्या बायलांक मेळूंक जाय. हांगा खूबशीं तमिळ कुटुंबां आसात, म्हणटकूच म्हाका तमिळ उलोवपाचीय बी संद मेळटली," अशें म्हणत मीरा सोफाचेर बसलें.

"सर, हांव येतां, सात वरांचेर पावतां," अशें म्हणून सूर्यनारायणन मीराक नमस्ते करून भायर सरलो.

"सूर्यनारायणन बरोऽऽ मनीस. हांव तीन फावटीं मद्रासच्यान हांगां आयिल्लें तेन्ना आपणागेर जेवंक यो, जेवंक यो म्हूण दर फावटीं तो आग्रो करतालो. म्हजे कडेन मुद्दाम तमिळींत उलयतालो आनी हांवूय ताचे कडेन तमिळींत उलयतालें. म्हाका तमिळ लोक गोंयकारां परस चड आवडटात. गोंयकारांचीं शापोतां चड!" मीरान गोंयकारां विशीं उबगून मत उकतायलें.

"समाजांत सगल्या तरांचे लोक आसतात. आपणें आपलें काम करीत रावूंक जाय, हांव आतां न्हावन तयार जातां," महेशान उठत मीराक सांगलें.

"हांवें तुका पॅन्ट आनी शर्ट काडून बाज्जेचेर दवरल्यात. जेवणा वेळार सकयल येवन तुमचे वांगडा जेवणाक बस म्हूण अभ्यंकर म्हाका सांगतालो. आनीक कोण बायलां नासतलीं म्हणटकूच हांवें एकट्यानूच येवप समा जावंचें ना अशें हांवें ताका सांगलें. म्हाका पार्टेचें जेवण नाका. दोन फुलके आनी एक कसलीय भाजी करून हाड अशें हांवें जल्मीक सांगलां," मीरान महेशाक म्हायती दिली.

'ओके' म्हणून महेश कुडींत गेलो.



## भाग 9

**निरोपाचो** कार्यक्रम सारको साडे सातांक सुरू जालो. थारिल्ल्या प्रमाणें अभ्यंकर आनी गांवसान ॲड्मिरल जिंदालाक सकयल सोपणां म्हऱ्यांत येवकार दिवन ताका वयर हॉलांत व्हेलो. हॉलाच्या दारांत महेशान आनी सूर्यनारायणनान ताका वेलकम करून सरळ मेजा म्हऱ्यांत व्हेलो. मेजा म्हऱ्यांत व्हरतना सगल्यांनीं ताळयांचो कडकडाट केलो. ॲड्मिरल जिंदाल सगल्यांक नमस्कार करून मदल्या कदेलार बसलो.

''सूर्या, तूं केन्ना पावलो?'' ॲड्मिरल जिंदालान सूर्यनारायणनाक विचारलें.

''पांच वरांचेर पावलों. सर, हांव खरें म्हणल्यार फाल्यां पावपाचों पूण आयज तुमकां निरोपाची पार्टी आसा म्हूण मद्रासाक घरच्यां कडल्यान परमिशन घेवन आयजूच आयलों.'' सूर्यनारायणन.

''थँक्यू सूर्या,'' अशें म्हूण ॲड्मिरल जिंदालान त्या उपाट भरिल्ल्या हॉलांत फुडले रांकेंत विभागांचे मुखेली बशिल्ले तांकां पळोवन हांसून, तकली मात्शी बागोवन तांची नोंद घेतिल्ल्याचें तांकां कळीत केलें.

''कार्यक्रम सुरू करुंया न्हय?'' महेशान ॲड्मिरल जिंदालाक विचारलें. ॲड्मिरल जिंदालान 'हय' म्हणून तकली हालयली.

कार्यक्रम एक वर चलपाचो तो पाऊण वरा भितर सोंपलो. एका तरणाट्या सूत्रधारान सगल्यांक येवकार दिलो आनी पयलीं ऑफिसर्स असोसिएशनाचो अध्यक्ष दीपक पटेल, मागीर चेअरमॅन, उपरांत आदलो चेअरमॅन आनी निमाणो सेक्रेटरी उलयलो. सेक्रेटरी उलोवचे पयलीं चेअरमॅनान आदल्या

चेअरमॅनाक भेटवस्त दिली.

दीपक पटेल पांच मिनटां उलयलो. ताचें काम हेरां परस कुस्तार आशिल्लें. वर्तमान पत्रांतल्या संपादका भशेन खूब बरोवंक जाय, पूण कांयंच सांगूंक जायना अशी ताची स्थिती आशिल्ली. ॲड्मिरल जिंदाल कोणाक आवड नाशिल्लो. ताची तुस्त करपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. पूण हो निरोपाचो कार्यक्रम जाल्ल्यान ताका दुखोवंकूय बी जायना आशिल्लो. पटेलाचें भाशण आशिल्लें तें अशें: हो निरोपाचो कार्यक्रम चेअरमॅनान घडोवन हाडला. ऑफिसर्स असोसिएशनाचे वांगडी चेअरमॅनाच्या आपोवण्या वेल्यान आयल्यात. ऑफिसरांक आपोवणें दिलें म्हूण ऑफिसरांनीं चेअरमॅनाचे उपकार मानूंक जाय. ऑफिसरांक तरातरांच्या चेअरमॅनांच्या हातां सकयल कामां करचीं पडटात. सगल्या चेअरमॅनांची स्टायल एकेच भशेन नासता. तांच्या निजी अणभवांतल्यान तांची स्टायल बदलत रावता. सगल्यांचो अणभव एकाच सारको नासता. नवो चेअरमॅन येतकूच ऑफिसरांक आपणाली काम करपाची पद्दत चेअरमॅन सांगता तशी बदलची पडटा. कांय वेळार तशें बदलप सोपें आसता, कांय वेळार कुस्तार जाता. कुस्तार जाता तेन्ना थोड्यांक सोपें जाता. थोड्यांक सोपें जाल्यार हेरांक वायट दिसता. अशो गजाली घडत आसतात.

ॲड्मिरल जिंदाल पांच वर्सां आमचो चेअरमॅन आशिल्लो. आतां तो रिटायर जावन वता. आमी ताका बरें आरोग्य, आयुश्य आनी सूख मेळचें म्हूण देवा कडेन प्रार्थना करुंया.

दिपक पटेलाचें भाशण जातकूच हॉलांत कुजबूज सुरू जाली. दिपक पटेल कितें उलयलो हें सगले एकामेकांक विचारताले.

दीपक पटेला उपरांत महेश उलोवंक उबो रावलो. नवो चेअरमॅन कसो आनी कितें उलयता तें आयकूंक सगले कान तायट उबे करून बसले. महेश सुमार वीस मिनटां उलयलो. ताणें सांगलें तें अशें: ॲड्मिरल जिंदाल हो एक गोड, मेकळ्या सबावाचो ऑफिसर. मुरगांव पोर्टांत चेअरमॅन म्हूण येवंचे पयलीं ताणें भारतीय नौदलांत तरातरांचीं पदां अणभवल्यांत. दर पदाची जापसालदारकी वेगळी म्हणटकूच अणभव वेगळो. तरातरांचे अणभव आशिल्लो गोड आनी मेकळ्या सभावाचो चेअरमॅन पोर्टांत येवप ही एक बरी गजाल. पोर्टांतल्या अधिकाऱ्यांक आनी हेरांक ही बरी गजाल पांच वर्सां

अणभवपाक मेळ्ळी.

पोर्टासारकेलीं आस्थापनां म्हणल्यार व्हड कुटुंबा भशेन. कुटुंबांत आसतात तशीं आवय-बापूय, ल्हान-व्हड भावंडां बी आसतात. भावंडां भितर जायते फावट झगडीं जातात. आवय-बापायक तीं सोडोवचीं पडटात. तीं झगडीं सोडोवन जातकूच थोड्या भावंडांक खोस जाता आनी थोड्यांक राग येता. खोशी जावपाचो आनी रागूय येवपाचो प्रसंग सगल्या भावंडांचेर आळीपाळीन येता.

पोर्टांत कामगार आसतात, ऑफिसर आसतात आनी पोर्टा भायर पोर्टा कडेन तरातरांच्या कामां खातीर संबंद आशिल्ले लोकूय बी आसतात. प्रत्येक वाठारांतले कायदे वेगळे आसतात. खंयचोच चेअरमॅन सगल्यांक समान न्याय दिवपी प्रशासन चलोवंक शकना, कारण प्रसंगां प्रमाणें वेगवेगळ्या कायद्यांच्या चौकटींत रावून ताका प्रशासन चलोवंचें पडटा.

अमको चेअरमॅन वायट, अमको बरो असो शेरो मारप सामकें सोपें पूण पोर्ट चेअरमॅनाची परिस्थिती महाभारतांतले द्रौपदी भशेन आसता. एक डायरेक्ट बॉस दिल्लींत, एक इनडायरेक्ट बॉस पणजे, त्याभायर खूबशे इनडायरेक्ट बॉसिस इम्पोर्टर आनी एक्स्पोर्टर्स, आनी आपणाकूच बॉस समजुपी पोर्टांतले कामगार आनी ऑफिसर. खंयच्याय वेळार चेअरमॅन कोणाकूय दुखोवंक शकता.

कोइंबतूर जिल्ल्यांत आपूण एक सहकारी साखर कारखान्याचो मॅनेजिंग डायरेक्टर आशिल्लों. थंय मान्यताय दिल्लो एक कामगार संघ आनी मान्यताय नाशिल्लो दुसरो, अशे दोन संघ आशिल्ले. मान्यताय दिवंक नाशिल्ल्या संघाचें फुडारपण एका मंत्र्याच्या भावा कडेन आशिल्लें. त्या मंत्र्याच्या भावान साखर कारखान्यांत संप घडोवन हाडलो. संप जातकूच चडशे कामगार आपणाल्या संघाचे वांगडी जातले अशें मंत्र्याच्या भावाक दिसतालें. ताच्या संघांतल्या जायत्या कामगारांक आपणाक निलंबीत करचे पडले. मंत्र्याच्या भावान मुख्यमंत्री करुणानिधी कडेन कागाळ केली. चीफ सेक्रेटरीन आपणाक फोन केलो आनी आपणें परिस्थिती समजावन सांगली. मागीर मुख्यमंत्र्यान त्या मंत्र्याच्या भावाक तापोवन काडलो. तो मॅनेजींग डायरेक्टर साखर कारखानो बरे तरेन चलयता, थंय मिनिस्टराच्या भावान लुडबूड करची न्हय अशी कडक

शिटकावणी मुख्यमंत्री करुणानिधीन दिली.

महेशान आपणालो आनीक एक अणभव सांगलो तो असो: तेरा वर्सां पयलीं तो तमिळनाडू विद्युत निगमाचो सेक्रेटरी आशिल्लो. विद्युत निगमाचो अध्यक्ष हो मुखेल अधिकारी आसता आनी सेक्रेटरी हो दुसऱ्या नंबराचेर आसता. सेक्रेटरीक सगलें प्रशासन हाताळचें पडटा. विद्युत निगमांत सुमार एक लाख स्टाफ आनी तांचे बारा-तेरा मान्यताय दिल्ले कामगार संघ. एक फावट एका संघाच्या सुमार शंबर कामगारांनीं अध्यक्ष आनी सेक्रेटरीच्या ऑफिसाक घेराव घालो. घेराव तिनांक सुरू जाल्लो तो रातचो णव वरांचेर लेगीत उठपाचें लक्षणूच दिसनाशिल्लें. अध्यक्षाची परवानगी घेवन आपणें पोलिसांक आपयले. देवसहायम म्हूण एकलो डी.आय्. जी. आशिल्लो. इमर्जंसी वेळार इंदिरा गांधी मद्रासाक आयिल्ली तेन्ना देवसहायम आनी ताच्या हाता सकयले पोलीस तिचें रक्षण करताले. अण्णा सालय ह्या मुख्य रस्त्यावेल्यान तांच्यो मोटारी वतना रस्त्या कुशीन आशिल्ल्या हजारांनी लोकांच्या जमावान रस्तो आडावन दवरलो आनी तो जमाव मोटारी वटेन येवंक लागलो. मोटारी फुडें देवसहायमाची जीप आशिल्ली. देवसहायम सकयल देंवलो आनी रिव्हॉल्वर काडून जमावाचेर ताणें फार मारूंक सुरवात केली. चार लोक थंयचे थंयच मेले आनी हेर पळून गेले. त्या दिसाच्यान ताचें नांवूंच आयकल्यार लोक थर्त भिताले. आपूण आनीक अर्द वरा भितर थंय पावतां अशें घेराव करतल्यांक सांग अशें देवसहायमान आपणाक सांगलें आनी आपणें तो रेकाद घेराव घालतल्यांच्या फुडाऱ्या कडेन पावयलो. पंदरा मिनटां भितर ते तो वाठार सोडून गेले. वचचे पयलीं तांणी भाशणां केलीं, घोशणा दिल्यो आनी फुगेटी मारल्यो. पूण घेराव कित्याक सोंपयतात तें सगल्यांक मनांतल्यान खबर आशिल्लें.

आस्थापनांच्या मुखेल्यांक तरातरांचे प्रसंग हाताळचे पडटात, हें आस्थापनांत काम करपी सगल्यांक समजूंक जाय. ॲड्मिरल जिंदालान फाटलीं पांच वर्सां पोर्ट बरे तरेन चलयलो अशें आपल्याक दिल्लीच्या अधिकाऱ्यांनी सांगलां. पोर्ट चलयतना नौदलांतल्या ताच्या अणभवांचो ताका खूब उपेग जाला आसतलो हातूंत दुबाव ना.

ॲड्मिरल जिंदाल आतां रिटायर जाला आनी आतां तो पयलीं दिल्लीक

आनी मागीर बेंगलुराक वचून राबितो करतलो. ताका बरें आयुश्य, आरोग्य आनी सूख मेळूं अशी आमी देवा कडेन प्रार्थना करुंया अशें म्हणून महेशान आपलें भाशण सोपयलें.

ऍड्मिरल जिंदालान पोर्ट कसो चलयलो हाचेर चड उलयनासतना मुद्दाम महेश आपणाल्या तमिळनाडूंतल्या अणभवांचेर उलयलो. कामगारांक हातळपाचो आपणाक खूब अणभव आसा ही खबर सगल्यां मेरेन पावूंक जाय म्हणून कामगारांकडेन संबंद आशिल्ल्या विशयांचेरूच महेश उलयलो.

ऍड्मिरल जिंदाल आतां कितें उलयतलो काय, तें आयकुपाक सगले ऑफिसर राविल्ले. ऍड्मिरल जिंदाल उलयलो तें अशें:

चेअरमॅन महेश प्रभून फुडाकार घेवन हो निरोपाचो कार्यक्रम घडोवन हाडलो म्हूण आपूण ताचो उपकारी आसां. पोर्ट एका कुटुंबा भशेन. भावंडां भितर झगडीं जावन आवय-बापायन तीं झगडीं सोडयतकूच थोड्यांक खोस जाता, थोड्यांक राग येता अशें चेअरमॅनान सांगलां तें सामकें खरें. आपणें हो पोर्ट पांच वर्सां चलयला. ह्या पांच वर्सांत खूबशे लोक दुखावल्यात जातले आनी कांय लोकांक खोस जाल्या जातली. प्रशासनांत असल्यो गजाली सदांच घडटात. आपणाचेर चड अन्याय जाला अशें कोणाकूय दिसता जाल्यार तांणी तें मनांत धरूं नये. ऑफिसरां पैकीं कांय ऑफिसरांक बढती मेळून ते विभागांचे मुखेली जातले तेन्ना तांचेरूय बी असले प्रसंग येवंक शकतात.

पोर्टाचो चेअरमॅन महाभारतांतले द्रौपदी भशेन आसता अशें चेअरमॅन प्रभून सांगलें. महाभारतांत एक दुर्योधन आनी एक शकुनी मामाय बी आशिल्लो. पोर्टांत आनी पोर्टभोंवतणीं असले कितलेशेच दुर्योधन आनी शकुनी मामा आसतात. चेअरमॅनाचें वस्त्र हरण करपाचो यत्न ते करीत आसतात. (हांसो आनी ताळयांचो कडकडाट). आपणें पांच वर्सां आपणालीं वस्त्रां सांबाळ्ळीं आतां चेअरमॅन प्रभूकूय बी तशेंच करचें पडटलें. (हांसो आनी ताळयो)

सद्द्या पोर्ट अंयशीं टक्के मिनाचेर अवलंबून आसा. मीन म्हणटात तें केन्नायतरी संपुश्टांत येतलें. पोर्टांतली हेर तरांची ट्रॅफिक वाडूंक जाय. कोळशाचो इंपोर्ट, टुरिजम, नुस्त्याचो एक्स्पोर्ट, कंटेनर ट्रॅफिक वाडूंक जाय. पोर्टाचो धंदो म्हणटात तो सभोंवतणच्या उद्देग धंद्याचेर अवलंबून आसता. मीन सोडल्यार गोंयांत व्हडलोसो उद्देग-धंदो ना. म्हणटकूच महाराष्ट्र आनी

कर्नाटक राज्यांतल्या उद्देग धंद्या कडल्यान पोर्टाक काम मेळूंक जाय. हेर पोर्टां भशेन ह्या पोर्टांत चड बोवाळ आनी प्रदूशण ना. गोंयकारांक येणावळ जाय पूण प्रदूशण नाका. हे प्रस्न फुडाराक सोडोवंचे पडटले.

भाशण काबार करतां करतां ऍड्मिरल जिंदालान एक खोश्शेची गजाल सांगली. सगल्या दादल्यांक दोन नोकऱ्यो करच्यो पडटात. एक भायली आनी एक घरांत, बायलेची! आपणाली भायली नोकरी म्हणल्यार देशाचें रक्षण करपाची. ती नोकरी करतना घरांतली नोकरी सुरू करपाक वेळूच मेळ्ळो ना. आतां तीन म्हयन्यां उपरांत आपूण ती नोकरी धरपाचो आसां. आपूण लग्न जावपाचों आसां.(ताळयांचो कडकडाट)

"तुमकां इतली खोस जातली आशिल्ली म्हूण खबर आशिल्लें जाल्यार हांव हाचे पयलींच लग्न जातलों आशिल्लों!" (हांसो आनी ताळयांचो कडकडाट) अशेंय बी ऍड्मिरल जिंदालान सांगलें.

पोर्टांतल्या सगल्यांक बरें आयुश्य, आरोग्य आनी सूख देवा कडेन मागून ऍड्मिरल जिंदालान आपणालें भाशण सोंपयलें. मागीर पोर्टावतीन अभ्यंकरान ऍड्मिरल जिंदाल, महेश, सूर्यनारायणन आनी हॉलांत आशिल्ल्या सगल्यांचे उपकार मानले आनी कार्यक्रम सोंपलो.

महेश ऍड्मिरल जिंदालाक घेवन हॉला भायर वतना ते दारा म्हऱ्यांत पाव म्हणसर सगले उठून ताळयो मारीत रावले. सकयल जेवणाचो थाट पळोवन ऍड्मिरल जिंदाल बरो खूश जालो. गिरीश गांवस आनी जल्मीन ऍड्मिरल जिंदालाक "हें घे, तें घे" अशें म्हणीत पयलीं जेवण वाडलें आनी ताच्या फाटोफाट महेशाक आनी सूर्यनारायणनाक वाडलें.

सरकारी ऑफिसांनी वा आस्थापनांनी उदेंतेच्या सूर्याक चड नमस्कार करपाची सगल्यांक सवंय आसता. बदली जावन वतल्या अधिकाऱ्यांक व्हडलोसो कोण विचारिना. ही सरकारी संस्कृती महेशाक खबर आशिल्ली. मुरगांव पोर्टांत अशें जावपाची चड शक्यताय आशिल्ली. देखून ऍड्मिरल जिंदालाचेर चड लक्ष दियात आनी ताका कितें जाय, नाका तें पयलीं पळयात अशें ताणें गांवसाक आनी जल्मीक सुचयिल्लें.

रातच्या धा वरांचेर सगल्यांचें जेवन जातकूच ऍड्मिरल जिंदाल वचूंक भायर सरलो. दुसऱ्या दिसा धा वरांचेर आपूण विमानतळार वचूंक भायर

सरतलों अशें ताणें महेशाक आनी सूर्यनारायणनाक सांगलें. आपूण आनी मीरा तुका निरोप दिवपाक येतलीं अशें महेशान म्हणल्या बरोबर व्हडल्यान हांसून "तुवें केलें तें खूब केलें! कोणूच करचो नाशिल्लो! हांवें अपेक्षा करूंक नाशिल्ली. तूं आनी मीरा फाल्यां सकाळीं येवपाचे कश्ट घेवं नाकात." अशें महेशाचो हात धरून ऍड्मिरल जिंदालान सांगलें.

"शेऽ, शेऽ, तें आमचें कर्तव्य! आमी येतलींच!" अशें महेशान म्हणटकूच'थँक्यू' म्हणून ऍड्मिरल जिंदालान थंय ताका निरोप दिवपाक राविल्ल्या विभागांच्या मुखेल्यांक हात दिलो आनी हेवटेन तेवटेन उबे आशिल्ल्यांक नमस्कार करून 'गुडबाय' म्हणून तो गेलो. अभ्यंकर, गांवस आनी जल्मी ताच्या वांगडा ताका पावोवंक बंगल्या मेरेन गेले.

अभ्यंकर बी वचून येतकूच कार्यक्रम बरो जालो, जेवणाची वेवस्था एकदम बरी जाली अशें म्हणून तांकां शाबासकी दिवन महेश वयर आपल्या सुटांत गेलो.

***

शेनवारा दिसा सारको णव वरांचेर महेश ऑफिसांत पावलो. त्या दिसा सांजची पोर्टाच्या सगल्या ऑफिसांक सुटी आशिल्ली. कांय वर्सां आदीं सगल्या पोर्टांनीं ऑफिसां शेनवारा उकतीं आसतालीं. मागीर कांय काळान सगलीं ऑफिसां शेनवारा पुराय दीस बंद आसतालीं. सद्द्या अर्द दीस उकतीं आनी अर्द दीस बंद अशें आशिल्लें.

विभागांच्या मुखेल्यां कडल्यान रिपोर्ट येवपाचे आशिल्ले तांचें कितें जालें अशें ऑफिसांत पावनाफुडें महेशान बाप्तीस्ताक विचारलें. अजून रिपोर्ट आयले नात अशें म्हूण ताणें म्हायती दिली. रिपोर्ट सोमारा दिसा इकरा वरां मेरेन चेअरमॅनाच्या मेजार पावतले अशें अभ्यंकरान उपरांत फोन करून महेशाक सांगलें. बाप्तीस्त टक् टक् करून दारार मारून भितर आयलो आनी मंगळारा आनी शुक्रारा मुंबय आनी दिल्लीक आशिल्ल्या मिटिंगांच्यो फायली महेशा मुखार दवरून ताणें वचपा-येवपाची, रावपाची बी वेवस्था खंय केल्या तें सगलें ताका सांगलें.

सोमारा दिसा सांजचो मुंबय वचप, थंय मुंबय पोर्टाच्या गॅस्ट हावसांत

रावप, दुसऱ्या दिसा मुंबय पोर्टाच्या बोर्ड रुमांत मिटिंगेक वचप आनी तिसऱ्या दिसा एक वर मेरेन दाबोळे विमानतळार पावप असो प्रोग्राम आशिल्लो. मुंबय पोर्टाचो चेअरमॅन मुरुगन अय्यर हो इंडियन पोर्टर्स् असोसिएशनाचोय बी अध्यक्ष आशिल्लो. पोर्टांच्या चेअरमॅनां मदीं तो सगल्यांत वरिश्ट आशिल्ल्यान चालंत प्रथे प्रमाणें तो असोसिएशनाचो अध्यक्ष आशिल्लो. महेशान मुरगांव पोर्टाचीं सुत्रां हातांत घेतकूच असोसिएशनाची ही पयलीच मिटींग जाल्ल्यान महेशान मिटिंगेक वचपाचें थारायिल्लें.

शुक्रारा दिसा पोर्ट खात्याच्या सेक्रेटरीन सगल्या पोर्ट चेअरमॅनांक दिल्लीक मिटिंगेक आपयिल्ले. भारत स्वतंत्र जातकूच उदरगतीच्या सगल्या मळांचेर सरकारान खुब्ब पयसो गुंतोवन व्हड व्हड आस्थापनां सुरू केल्लीं. सरकारी पयसो हो लोकांचो पयसो, तो खर्च करतना बारीक-बारीक खूबश्या कायद्यां भितर रावचें पडटा, ते खातीर विशय कसलोय आसूं, निर्णय घेवपाक कळाव लागता. वेपार आनी उद्देग धंद्यांत वेगान निर्णय घेवंचे पडटात. सरकारी आस्थापनांनी तें शक्य नाशिल्ल्यान चडशीं आस्थापनां लुकसाणींत चलतात. देखून उद्देग-धंदो करपी सरकारी आस्थापनां प्रायवेट उद्देजकांच्या हातांत सोंपोवचीं अशें भारत सरकारान थारायिल्लें. भारतांतल्या व्हड पोर्टांनीं कसले कसले उद्देग प्रायवेट उद्देजकांच्या हातांत सोंपोवपा सारके आसात ताचेर चर्चा करपाक सेक्रेटरीन ही मिटींग आपयिल्ली. देखून महेशान सकाळच्या आदेसाक वचून दुसऱ्या दिसा परतून येवपाचें थारायिल्लें.

ऍड्मिरल जिंदाल धा वरांचेर विमानतळार वचूंक भायर सरपाचो आशिल्लो. गॅस्टहावसांत मीरा महेशाची वाट पळयतालें. धा जावंचे पयलीं महेश गॅस्टहावसांत पावलो आनी तीं दोगांय चलत चेअरमॅनाच्या बंगल्यार गेलीं. ऍडमिरल जिंदालाचीं बॅगां बी भितर घालून फ्रान्सिस ड्रायवर गाडये शेजरा उबो आशिल्लो. "गुड मॉर्निंग सर, गुड मॉर्निंग मॅडम" अशें म्हणत ताणें महेशाक आनी मीराक "कशीं आसात" काय म्हूण विचारलें. महेशान आनी मीरान थँक्यू म्हणत "तूं बरो आसा मरे?" अशें विचारलें. मॅडम आनी सर आपल्या कडेन कोंकणींतल्यान उलयलीं म्हणून तो खोशी जालो. जायते गोंयकार ऑफिसर हेर गोंयकारां कडेन मुद्दाम इंग्लिशींतल्यान उलयतात तें ताका आवडनाशिल्लें. आपल्या कडेन कोंकणींतल्यान उलयल्यार आपूण तांकां

उणो मान दितलों अशें ते समजतात काय असो दुबाव फ्रान्सिसाक येतालो. येदीं सिनियर मनशां आनी काय बरीं मोगान आपणा कडेन कोंकणींतल्यान उलयतात तें पळोवन तो एकदम तांचो भक्त जालो.

तीं बंगल्याच्या दारा म्हऱ्यांत पावना फुडें ऍड्मिरल जिंदाल भायर आयलो आनी ''गुड मॉर्निंग, गुड मॉर्निंग'' म्हणून ताणें तांकां अचळय वेंग मारली. तुजे उपकार आपूण केन्नाच विसरचों ना अशें ताणें महेशाक आनीक एक फावट वेंग मारून सांगलें.

पंचवीस फूट अंतराचेर हातांत सान्न घेवन एक बायल मनीस आपलेच धुंदींत व्हडल्या व्हडल्यान सगल्या चेअरमॅनांक गाळी घालताली. ''हे पळय आमकां सतावंक येतात! आपूण पयशे खातात आनी मजा करतात. एकलो वयता, दुसरो येता! सगले इतले चोर! पांच वर्सां चोरून जालें मरे? चल तूं आतां. आतां दुसरो येयला! गोंयकार खंय! आनी मॅडम पळयात! नटी कशी! बऱ्यो बऱ्यो साडयो न्हेसून मुरगुटपाक कितें जालां? घोव चोरता न्हूं?'' अशें उबी रावून मोटारी वटेन पळयत ती बडबडत आशिल्ली.

''शूऽऽवोगी राव, शूऽऽवोगी राव'' म्हणून फ्रान्सिस तिका धांवडायत आशिल्लो. दोग जाण सी.आय्.यस्. यफाचे गार्ड तिका ''एऽऽचूप, एऽऽ चूप!'' अशें म्हणून दटायत आशिल्ले.

''ही पिशी जाल्या! हिका हांगा कित्याक दवरल्या?'' अशें म्हणून महेशान जिंदालाक विचारलें.

''सदांच बडबडना, केन्ना केन्नाय तिचें घुंवता! तिचेर कितेंय कारवाय केल्यार युनियनाचे लोक बोवाळ घालतले म्हणून हांव वोगी राविल्लों. आतां तूं आयला न्हय? तूं कर कितें करपाचें तें!'' ऍड्मिरल जिंदालान हांसत सांगलें. ''तुमकां दोगांकूय ऑल द बेस्ट! बेंगळुराक लग्नाक येयात!'' अशें म्हणून ऍड्मिरल जिंदाल गाडयेंत बसलो. महेशाक आनी मीराक थँक्यू सर, थँक्यू मॅडम अशें म्हणत फ्रान्सिसूय बी गाडयेंत बसलो. महेश आनी मीरा गॅस्ट हावसा मेरेन चलत गेलीं. मीरा वयर सुटांत गेलें आनी महेश परतून ऑफिसांत गेलो. ऑफिसांत बिळगी ताका रावतालो.

महेश आपणाल्या कॅबिनांत पावतकूच बिळगी टक् टक् करून दारार मारून भितर सरलो. ताका बस म्हणून सांगत ''कितें खबर?'' म्हणून महेशान

विचारलें.

“सर, पोर्टांत संप जातलो म्हूण वावड्यो पसरल्यात हें तुमकां खबर आसा. संप खरेलोच जातलो काय ना तें समजना. कामगारांक विचारल्यार “आमचो चेअरमॅनान इंसल्ट केला. संप केल्या बगर आमकां आनीक मार्ग ना.” अशें तें उलयतात. बोटींची रांग लागिल्ली आसतना संप जावप म्हणल्यार सगल्यांकूच लुकसाण. चेअरमॅनान मात्शें नमतें घेवन संप टाळूंक जाय अशें मत वचत थंय आयकूंक येता,” बिळगीन सांगलें.

“तुजें मत कितें?” महेशान मेजाचे दावे वटेन आशिल्ली एक फायल म्हऱ्यांत ओडीत विचारलें.

“म्हाकाय तशेंच दिसता सर! तुमी आतांच सुत्रां हातांत घेतल्यांत आनी इतले बेगीन पोर्टांत संप जावप म्हणल्यार तुमकां वायट नांव मेळप! प्रशासन चलोवपाची तुमची स्टायल वेगळी आनी पांच वर्सां आशिल्ली जिंदाल सायबाची स्टायल वेगळी! आपणें सांगिल्लें तांणी आयकुंचें म्हूण ऍड्‌मिरल जिंदाल सामकोच तांकां पांयां पडून दीस काडटालो. तो गेल्या बरोबर अकस्मात् पोर्टांतलें वातावरण बदलप हें बरोबर काय चूक हें लोकांक समजुपाक कठीण! तुमी कितेंय वाट सोदून काडात सर!” बिळगी काकुळतेक आयलो.

“बिळगी, तुवें तुजें स्पश्ट मत दिलें तें म्हाका आवडलें. सरकारी आस्थापनांतले लोक आपूण उलोवंचे पयलीं बॉसाक हें आवडटलें काय ना हाचो पयलीं विचार करतात आनी मागीर बॉसाक जें कितें आवडटलें अशें तांकां दिसता तेंच ते उलयतात. तुजे असले ऑफिसर चड आसूंक जाय म्हणटकूच तांच्या अणभवाचो नव्यान आयिल्ल्या चेअरमॅनांक फायदो जांव येता. अशेंच स्पश्ट मत दीत राव!” महेशान ताका शाबासकी दीत हात दिलो. बिळगीच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. थँक्यू सर, थँक्यू सर, अशें म्हणीत दोळ्यांतलीं दुकां पुशीत, सूंक सूंक करीत तो भायर सरलो.

तो वतकूच दीपा भितर आयलें आनी पर्सनल आमंत्रणां आनी पत्रां बी आयल्यांत म्हणून सांगूंक लागलें. थोडीं लग्नांचीं आमंत्रणां बेंगळूर, मद्रास आनी दिल्लीच्यान आयिल्लीं. तांकां सगल्यांक लग्नाक मारतात तो टेलेग्राम मार म्हणून महेशान दीपाक सांगलें. कांय आमंत्रणां वेगवेगळ्या देवळांतल्या

सुवाळ्यांचीं आशिल्लीं. तांकां कांय जापो दिवपाच्यो नात अशें महेशान सांगलें. शिपिंग एजन्ट, स्टिविडोर आनी मिनेरांच्या ऑफिसांतल्यान येवकाराचीं पत्रां आयिल्लीं. तांकां जापो धाडपा खातीर महेशान दीपाक एक मसुदो दिलो. त्या मसुद्या प्रमाणें जाय तितल्यो कॉपी काडून सये खातीर आयज ना जाल्यार सोमारा दिसा सकाळीं धाड म्हणून ताणें दीपाक सांगलें. आनीक थोडो वेळ हेर विभागांच्या फायलींचेर नदर भोंवडावन मेजा वेल्यो त्यो सगल्यो फायली आनी कायद्याचीं पुस्तकां गाडयेंत घाल अशें म्हूण ताणें प्यून संतोशाक सांगलें.

गॅस्ट हावसांत वचपाक सुमार धा मिनटां आसतना सूर्यनारायणन दारार मारून ''गुड आफ्टरनून सर'' म्हणत भितर सरलो.

''गुड आफ्टरनून! यो बस, कितें खबर?'' महेशान विचारलें.

''खबर आनी कितें? संप! सर, कितें करपाचें?'' सूर्यनारायणनान चिंतेस्त जावन विचारलें.

''कांय करपाचें ना. अमेरिकेंत एक म्हण आसा: इफ देअर इज नो प्रॉब्लेम, डोन्ट ट्राय टू फिक्स इट. तुमच्या मुखार नाशिल्ल्यो समस्या सोडोवपाचो यत्न करूं नाकात. संप जातलो काय ना तें आमकां खबर ना. म्हणटकूच ताचेर विचार करून तकलेक आनीक त्रास कित्याक दिवप?'' महेशान सूर्यनारायणनाक अमेरिकन फिलोजोफिचो सारांश सांगलो.

''संपाचो विचार म्हाका खूब सतयतालो. ती एक व्हड समस्या काय दिसताली. तुमचे कडेन उलोवन खंयचे कडेन कांयंच ना काय दिसलें. जिवाक सूऽऽ जालें.'' सूर्यनारायणनान व्हडल्यान सुस्कार सोडीत महेशा मुखार मन ल्हव केलें.

''संप जावपाचो आसल्यार जावं दी. तुवेंय बी खूब संप पळयल्यात जातले. संप ना, कठीण समस्या ना, मिनिस्टर पिडिनात, वरिश्ट अधिकारी त्रास दिनात अशे परिस्थितींत काम करचें पडल्यार म्हाका एकदम वाज येता. हांव बोर जातां! संपाचें खंय पावता थंय पावूं. सद्या पयलीं आमी जेवन बरोऽऽ सुशेग घेवंया,'' अशें हांसत म्हणून महेश उठलो.

''यस सर'' म्हणीत सूर्यनारायणनूयबी उठलो. सांजे वेळा वाचूंक फायली आनी पुस्तकां घेवन महेश गॅस्ट हावसांत आयलो.

जल्मी आनी स्टाफ सारके सवाय वराचेर जेवण घेवन वयर आयले.

आदले रातीं तळिल्लीं अळमीं महेशान घेवन घेवन खाल्लीं तें जल्मीन पळयिल्लें. आयजूय बी ताणें तळिल्लीं गरम-गरम अळमीं बावलांत घालून हाडिल्लीं. आयज बटाटाचें पातळ तोंडाक, कॉलीफ्लावरची सुकी भाजी, पराठा, शीत, दाळचो रोस, दाट्ट सोलकडी, पापड, लोणचें आनी मीरान शिकयिल्लें तें धंय हाडिल्लें. हें सगलें ताणें हाडून दवरलें. मीरान सांगिल्लें त्या प्रमाणें ताणें दोगांच्याय प्लेटींनी इल्लें इल्लें वाडलें. जेवन जातकूच त्या दिसाचे पेपर चाळून महेश आनी मीरा दोन वरां सुमार सुस्त न्हिदलीं.

उठून च्या बी घेतकूच महेश जेवणाच्या मेजाचेर फायली घेवन बसलो. पयली फायल ताणें वाचूंक घेतली ती मॅकानिकल इंजिनियरिंग खात्याची. खणींतल्यान मीन वयर काडून पोर्टाच्या धक्याचेर उबे राविल्ले बोटींत तें भरसर सगली प्रक्रिया कशी आसता ती ताणें वाचून काडली. संप करपी युनियनाच्यान ही लांब सांखळी खंयूंय तोडून पोर्टाचें काम बंद उडोवंक येता हें महेशाक रोखडेंच समजलें. संप म्हणटात तो मीनाचे खणीर, जेटीवेलें स्टॉक यार्ड, बार्ज लोडिंग, बार्जींचो मांडवी-जुवारींतल्यान प्रवास, पोर्टांत बार्ज अनलोडिंग, ओर हँडलिंग प्लांट, शिपलोडिंग हातूंतलो खंयचोय एक वावर थांबयल्यार हेर सगलें काम आपले आपूण बंद जाता. आपूण समजलां तें सारकें काय चूक हें महेशान रोखडेंच ट्रॅफिक मॅनेजराक विचारलें. शेनवारा सांजेची पोर्टाक सुटी आशिल्ल्यान ट्रॅफिक मॅनेजर घराकडेनूच मेळ्ळो. वेगवेगळो वावर करप्यांचीं वेगवेगळीं युनियनां आसतात आनी सगल्या युनियनांचे एकामेकाकडेन बरे संबंद आसतातूच अशें ना. देखून पोर्टांत संप जावप सोपो पूण चड दीस उरूंक कुस्तार. खूब दीस संप जातलो जाल्यार सगल्या युनियनांची एकामेकांकडेन हात मेळोवणी जावंक जाय. तशें जावप कुस्तार अशें ट्रॅफिक मॅनेजरान सांगलें. महेशान मॅकॅनिकल इंजिनियरिंग विभागाची फायल वरभर वाचली आनी अर्थखात्याची फायल वाचपाक सुरवात करचे पयलीं सकयल चेअरमॅनाक मेळपाक वासू कुंडयकार म्हूण चेअरमॅनाचो एक सोयरो आयला अशें म्हूण टेलिफोन ऑपरेटरान सांगलें. महेशाक एकदम भुरगेपणांतली याद जाली. स-सात वर्सांचो आसतना महेश सुटयेंत तांगेर कुंडय वतालो आनी आपले परस तीन-चार वर्सांनी व्हड आशिल्लो वासू, वासूची भयण- सुधा- हीं सगलीं कुंडयचे मानशेर वचून बसतालीं. तिनसांजचीं तीं सगलीं मेळून घरांतल्या

देवा मुखार बसून भजन करतालीं. महेश शिवराक म्हणटकूच पोरसांतल्या केळ्यांघडायाचीं दोन हरवीं केळीं काडून वासूची आवय आतें महेशा खातीर त्या केळ्यांच्यो फोडी करतालें. महेश व्हड जातां जातां ताचें कुंडय वचप कमी जालें. मागीर यस्.यस्.सी. जावन कॉलेज शिक्षणा खातीर गोंयां भायर पावतकूच वासू, सुधा, आतें हांचे कडलो संपर्क सामको तुटिल्ले भशेन जालो.

ताका वयर धाड म्हणून महेशान ऑपरेटराक सांगलें आनी महेश दारा म्हऱ्यांत वचून रावलो. वासू दिसना फुडें ताणें 'वासू' म्हणून व्हडल्यान हांसून उलो मारलो आनी वासूक घट्ट वेंग मारली. मागीर वासूक घेवन तो सोफाचेर बसलो. 'हें मीरा' म्हूण ताणें मीराची वळख करून दिली. मीरान फोनाचेर च्या आनी बिस्किटी मागयल्यो. वासू सोयरो आनी ल्हानपणांतलो इश्ट, तरी आसतना मात्सो खांकुडटालो आनी नेर्वोज सो जावन उलयतालो. महेशान सगल्यांची खबर घेतली. आतें आनी काका वचून खूब वर्सां जाल्लीं. सुधाक दोन चलयो आनी एक चलो; आपल्याकूय बी दोन चलयो; आपणाल्या दोनूय चलयांचीं लग्नां जालीं; सगल्या चलयांक गोंयच्या गोंयांतूच बरे जागे मेळ्ळे अशें म्हूण वासून महेशाक सांगलें. च्या बी जातकूच वासून आपलो विशय सुरू केलो. "जाणा मरे महेश, म्हाका यम्.पी.टींतल्यान रिटायर जावन तीन वर्सां जालीं. हांव अकावंट्स् डिपार्टमेंटांत सुपरिन्टेंडेंट आशिल्लों. आतां हांव कुंडय रावतां खरो, पूण आठवड्याक दोन-तीन फावटीं तरी यम्.पी.टीं त आसतां. सरकारी ऑफिसां म्हणल्यार कितें तें तुका खबर आसा. फायली धुकलल्या बगर फुडें वचनात. हांव कॉन्ट्रेक्टरांच्यो फायली फुडें धुकलपाचें काम करतां. सगल्यां कडेन वळखी आशिल्ल्यान तें काम सोंपें जाता. तुका हांव चड त्रास दिना. वासू म्हजो सोयरो, ल्हानपणांत आमी एकमेकांगेर रावताले, ही बातमी ऑफिसांत सगले कडेन तुवें पावयल्यारूच पुरो, तुवें आनीक कांयच करपाची गरज ना!" अशें वासून नेर्वोज जावन सांगलें.

"वासू, तूं हें कित्याक करता? तुका पेन्शन मेळटा जातलेंच. आनी घरा भोंवतणीं शेतां भाटां आसात मरे! तातूंतल्यानूय बी तुका येणावळ आसतलीच." महेशान मात्शें वायट दिसून विचारलें.

"तशें न्हय रे, पेन्शन बी मेळटा, पूण खर्च वाडत आसा न्हय? भाटां-बेसां तीं आतां नांवांक! तीं सगलीं गांवांतल्या कुळांनी आनी राजकारण्यांनी

बळकायलीं,'' वासून उबगून सांगलें.

''तूं म्हजो सोयरो म्हूण मुद्दाम अकावंट्स् खात्यांतल्या लोकांक सांगप म्हळ्यार समा जावंचें ना. अजून तूं धा-पंदरा वर्सां बरी मानाची नोकरी करूंक शकता. मुरगांव शारांत वा कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेटींत धा-पंदरा हजार रुपयांची नोकरी मेळटा जाल्यार पळयतां. तुका आवडल्यार घेवपाची. आनी खंयूंय कसलीय मजत म्हज्यान जावपा सारकी आसल्यार सांग. हांव पोर्टांत आसा म्हणसर हें फायली धुकलपाचें काम तूं उणें कर आनी मागीर दुसरे कडेन तुजें काम सुरू जातकूच हें असलें काम बंद कर!'' अशें महेशान सुचयलें. आनी थोड्या वेळान फामिलींतल्या हेरांच्यो गजाली करून जातकूच वासू गेलो.

गोंयांत येवंचे पयलीं तमिळनाडूंत चीफ सेक्रेटरीचो निरोप घेवंक गेल्ले कडेन चीफ सेक्रेटरीन दिल्ले शिटकावणेची महेशाक याद जाली. ''गोंय तुजो जल्मगांव. तुजे सगले सोयरे थंय आसात अशें तूं म्हणटा. आमच्या सारक्या आय्.ए.यस्. ऑफिसरांक जल्म गांवांत बदली जावप म्हणल्यार आमी चड सुखी जातात असो अर्थ न्हय. आमकां कायद्या भायर वचून कामां करूंक मेळनात. चडशे फावटीं सोयरे हें समजनात आनी मागीर तांचे कडेन वायटपण येता. आमचे प्रोब्लेम कोण्ण समजून घेनात. आमचे कडल्यान आपणालो फायदो कसो जांव येता हाचोच हुस्को सोयरे करतात. खुबशें ''टायट रोप वॉकिंग'' करचें पडटा. तुका बॅस्ट ऑफ लक. केन्नाय मद्रासाक आयल्यार येवन मेळ.'' अशें म्हणून चीफ सेक्रेटरीन महेशाक उपदेश केल्लो.

''तूं ताच्या खातीर कितें करूंक शकता?'' मीरान विचारलें.

''पळोवया! तो म्हजो सोयरो देखून ताचेर तुमी खास उपकार करूंक जाय अशें म्हूण हांव कोणाक सांगचों ना. तशें सांगप समा जावचें ना. ताका अकावंट्स् खात्यांत अणभव आसा. देखून अकावंट्साचें काम करूंक खंयच्याय व्हडल्या आस्थापनांत कांय वर्सां खातीर ताका नोकरी मेळोवन दिवपाचे यत्न करूं येता.'' महेशान सांगलें.

जेवण येवंक आनीक देड वर सुमार आशिल्लें. फायली वाचपाचें काम महेशान चालू दवरलें. जेवणा पयलीं जल्मीन कसलोतरी सूप हाडून दिलो. तो सूप चायनीज अशें मीराचें मत आशिल्लें. सूप कॉन्टिनेन्टल अशें महेशाक दिसलें. अखेरेक तो सूप 'मुळगट्ठाणी' म्हूण स्वामी सांगून गेलो. महेशाक तें

नांव आयकना फुडें व्हडल्यान हांसूक आयलें. कारण फाटलीं पंचवीस वर्सां दीस-रात महेश पार्त्यांनी मुळगट्टाणी सूप पितालो आनी खातालो. स्वामीलो मुळगट्टाणी सूप हो मुळगट्टाणीचो नवो अवतार म्हूण नांव दिवंचें अशें ताका दिसलें, पूण स्वामीक वायट दिसत म्हूण महेशान ताका तशें सांगलें ना. स्वामीन आयज उत्तप्पम आनी चटणी आनी शेवयांची खीर केल्ली. जल्मी थंयच येवन घुटमळटालो. महेशान ताचे कडेन पळयतकूच रातचें जेवण कशें आशिल्लें काय म्हूण ताणें विचारलें. जेवण बॅस्ट जाल्लें म्हूण महेशान सांगतकूच जल्मीन मॅडम, तुमचें जेवण कशें आशिल्लें काय म्हूण मीराक विचारलें. मीरान आदले राती कडेन फकत दोन फुलके आनी बटाटाची भाजी खाल्ली. भाजी बरी जाल्ली अशें मिरान ताका सांगलें.

"थँक्यू मॅडम, थँक्यू सर; सर, तुमी जिंदाल सायबा खातीर कार्यक्रम करून एकदम बरें केलें. लोक तुमची तुस्त करतात. तुमच्या जाग्यार आनीक कोणूय अशें करतलो आशिल्लो काय, असो प्रस्न प्रत्येक जाण विचारतात," जल्मीन प्रशासकी वाठारांत घुसपाचो आनीक एक यत्न केलो.

फाल्यां जेवण सवा एकाक नाका. दोनांक सुमार रेडी दवर म्हूण सांग. आमी सकाळचीं णवांक सुमार मडगांवां वचूंक भायर सरतलीं. जेवंक हांगा येतलीं. रातीचें जेवणूय बी हांगाच आसतलें. सोमारा दिसा आमी सकाळच्या आदेसाक बंगल्यार रावपाक वतलीं. रोखडेंच थंय रांदपाक सुरवात करतलीं काय ना तें तुका मागीर सांगतां!" महेशान जल्मीक प्रशासकीय वाठारांत घुसपाक दिलो ना.

जेवण बी जातकूच महेशान रातच्या इकरा वरां मेरेन मेजर पोर्ट ट्रस्ट ऍक्ट आनी इंडियन पोर्टस् ऍक्ट हे कायदे चाळून पळयले. उद्देगीक आस्थापनां ताणें आदीं चलयिल्लीं देखून ताका इंडस्ट्रियल डिस्प्युट ऍक्ट आनी कामगारां विशीं आशिल्ल्या हेर कायद्यांचीं मुखेल कलमां खबर आशिल्लीं.

सारक्या इकरा वरांचेर महेश न्हिदूंक गेलो. मीरा आदींच कपडे बदलून सोफार बसून वर्तमानपत्रां चाळूंक बशिल्लें. महेश उठ्ठकूच तेंवूय बी उठून भितर गेलें.



## भाग 10

**आयतारा** दिसा सकाळीं मीरा आनी महेश सात वरांचेर उठून च्या बी घेवन आठ वरां मेरेन तयार जालीं. साडे आठांक महेशान सदां भशेन दोन टोस्ट दुदांत बुडोवन खाले. मीरान एक ब्रेड स्लायस, एक सिंगल आमलेट आनी कॉफी घेतली. संभाजीन सकयल गाडी तयार दवरिल्ली. णवांक भायर सरून धांक मडगांवां पावून पयलीं हरी मंदिरांत देवाक पायां पडून मागीर रामभाऊ, दादा आनी ताई अशी सगल्यांक भेट दिवन परतून मुरगांवां जेवणा पयलीं पावपाचो तांणी बेत केल्लो. सगल्यो गजाली टायमा प्रमाणें करपाची महेशाक संवय आशिल्ली. मडगांवां खंयच्यान वचपाचें, शारांत पावतकूच हरी मंदिरांत कशें वचपाचें हें महेशान संभाजीक सविस्तर समजावन सांगिल्लें. धा वरांचेर सुमार तीं मडगांवां हरी मंदिरांत पावलीं. महेशाचो बाबा वर्सांतल्यान दोन फावटी हरी मंदिरांत प्रवचनां करतालो. मंदिराच्या कमिटी कडल्यान तो कांय पयशे घेना आशिल्लो. दर कार्तिक त्रयोदशीक मडगांव शारांतल्यान देवाची दिंडी वताली. सबंद रात सगल्या मडगांवांत बोव्वाळ आसतालो. उत्सव दोन दीस चलतालो. उत्सवाचे अखेरेक पावणी जाताली. बाबाचें नांव मल्लिकार्जुन प्रभू. पूण सगले ताका अर्जुन प्रभू म्हणटाले. पावणेंत सर्त करपाची आपणाक तांक ना. देखून निम्माणें कसलीय धाकलीशी प्रसादाची वस्त उरता ती आपणा खातीर दवरची अशें ताणें कमिटीक सांगून दवरिल्लें आनी कमिटीय बी ताच्या उतराक मान दिवन ताचे खातीर कितेंय तरी काडून दवरताली.

देवाक साश्टांग नमस्कार घालून, आसरमांडी घालून बशिल्ले कडेन

महेशाक ह्यो यादी जाल्यो. पांच मिनटां बसून महेश आनी मीरा गाडये म्हऱ्यांत वतालीं, इतल्यांत ''ए महेश, खंय रे, मोठो मनीस जालो? जाप दिना आसतना वता?'' वीस-पंचवीस फुटां वेल्यान एक व्हडलो आवाज आयलो. महेशान फाटल्यान वळून पळयलें. परशू धारवाडकार हो महेशा वांगडा हायस्कुलांत शिकतालो. यस्.यस्.सी.क फेल जातकूच ताणें शिक्षण सोडलें आनी सोरो विकपाचें धाकलेंशें दुकान घालें. ताचे कडेन खूब वर्सां संपर्क नाशिल्लो. ''तूं यम्.पी.टी.चो चेअरमॅन म्हूण आयला अशें पेपरांनीं वाचिल्लें. तुका बॅस्ट ऑफ लक! तूं येदो व्हडलो जालो म्हूण म्हाका खबरूच ना!'' परशून महेशाचो हात हालयत अजाप उकतायलें.

''तूं कसो आसा, आनी सद्घ्या कितें करता? ही म्हजी बायल मीरा,'' परशू मीरा कडेन आपणाल्या तोंडार एक व्हडलें प्रस्नचिन्न हाडून पळयतालो तें पळोवन महेशान परशून विचारूंक नाशिल्ल्या प्रस्नाची जाप दिली.

''हांव गोंयांतलो सगल्यांत व्हड आय्. यम्.यफ्.यल् आनी स्कॉच चो होलसेलर. आनी गोवावादी गोमंतक पार्टीचो हांव जनरल सेक्रेटरी. यो मरे आमगेर! म्हजो चार बॅडरुमांचो बंगलो हांगा लागींच मोती दोंगरार आसा. हे ते बिल्डिंगेंत म्हजें ऑफिस आसा.'' परशून महेशाक आमंत्रण दिलें.

''आयज वेळ ना रे! फुडले फावटी तुका फोन करून येतां.'' महेशान ताका गुडबाय म्हणपाची तयारी केली.

''जेवपाकूच यो. हें म्हजें कार्ड!'' अशें म्हणून परशून महेशाक आपणालें कार्ड दिलें. आनी ''वयनी, ताका याद कर आं,'' अशें म्हणून मीराक सांगलें.

''बरें मेळुंया'' अशें म्हणून महेश आनी मीरा गाडयेंत बसलीं.

रामभाऊ लवंदेगेर कशें वचपाचें तें महेशान संभाजीक सांगलें.

''चार बॅडरूमांचो बंगलो बांदतलो जाल्यार, यस्.यस्.सी. फेल जावन सोऱ्याचो होलसेलर जावंचो आनी राजकारणांत भाग घेवंचो. तुवें चूक केली!'' मीरान व्हडल्यान हांसत जिणेंत पयशेकार कसो जांवचो हाचेर एक धडो शिकयलो. धा मिनटां भितर तीं घोगळांत आशिल्ल्या रामभाऊ लवंदेच्या बंगल्यार पावलीं. आपूण साडे धांक येतलों म्हणून महेशान रामभाऊक सांगिल्लें. दिनेश भायरूच तांची वाट पळयतालो. महेश आनी दिनेश खूब तेंपान मेळिल्ले. ताचो हात कडकडटालो तें ताका हात दितकूच महेशाच्या

ध्यानांत आयलें. रामभाऊ भितरल्या दारा म्हऱ्यांत उबो आशिल्लो. महेश आनी मीरा ताका पांयां पडलीं. ताणें महेशाक घट्ट वेंग मारली आनी मीराक अचळय म्हऱ्यांत ओडून फाटी वेल्यान हात फिरयलो.

"तुमकां दोगांकूय म्हजे लाख लाख आशीर्वाद. देव तुमकां सदांच सुखी दवरतलो. येयात, बसात," रामभाऊन आशीर्वाद दिवन तांकां सोफाचेर बसात म्हूण सांगलें.

"आमी भितर वचून सुमती आकाक पांयां पडून येतात!" अशें म्हणून मीरा आनी महेश भितर गेलीं.

"सरळ वचून उजव्यान सरात. थंय आमचो बॅडरूम आसा. ती थंय बशिल्ली आसतली." मीरा आनी महेश भितर वचून तिका पांयां पडलीं. तिवूय बी बरीच जाणटी जाल्ली. बाज्जेचे कडेर बसून तिणें मीराचे आनी महेशाचे तकलेर हात दवरून तांकां आशीर्वाद दिले. तिका मजत करपाक थंय लागींच एक चली भुरगें आशिल्लें. ताणें कुकमाचो करण उकतो करून सुमती आका कडेन दिलो. सुमती आकान थरथरत्या हातांन मीराक कुकूम लायलो. मीरान तिचो हात आपल्या हातांत धरून कपलार सारको कुकमाच्या जाग्यार कुकूम लावन घेतलो आनी आपणेंय बी तिका कुकूम लायलो. मीरा मागीर तिच्या म्हऱ्यांतूच बसलें आनी महेश भायर वचून रामभाऊ आनी दिनेश हांच्या मुखार बसलो.

रामभाऊ आनी सुमती आका मीराच्या भुरगेपणा साकून ताका वळखतालीं. रामभाऊ शिरधनां भगवंतबाब गावणेकारागेर म्हयन्यांतल्यान एक-दोन फावटीं तरी जेवणाक आसतालोच. सुमती आका ताईचे मांयची मावशे भयण लागताली. मीरा जायते फावटीं ताईगेर गेल्ले कडेन ती मेळ्ळ्यार तिचे कडेन उलोवंक बसतालें. ती मीराक बरीऽऽ करताली.

"तूं आतां ह्या पोस्टार पांच वर्सां उरतलो अशें म्हूण आयकल्लें, ती खरी गजाल?" रामभाऊन विचारलें.

"रामभाऊ, म्हजे सिनियोरिटीच्या पावंड्याचेर चड करून पांच वर्सां पयलीं बदल्यो जायनात. पूण बदल्यांचें म्हणटात तें कांयच सांगूं नज. जायते फावटीं दिल्लीक सरकार बदलल्यार वरिश्ट ऑफिसरांच्योय बी रोखड्योच बदल्यो जातात. म्हज्या आदीं आयिल्ले चेअरमॅन हांगा पांच वर्सां उरिल्ले.

म्हणटकूच हांवूयबी पांच वर्सां उरतलों अशें म्हणपाक हरकत ना! तुमचें आरोग्य कशें आसा रामभाऊ?'' महेशान विचारलें.

''आतां म्हजें वय जालें न्हय रे? चडशें भायर सरप जायना. दुयेंसां खातीर सगल्या तरांच्यो गुळ्यो घेवन उबो आसां!'' रामभाऊन हांसत जाप दिली.

''आतां तुमचीं मिनां बी दिनेश पळयता काय कितें?'' महेशान विचारलें.

''आनीक कोण पळयतलो? तुवें विशय काडलो हें बरें जालें, म्हाका ह्याच विशयाचेर तुजे कडेन उलोवंक जाय आशिल्लें!'' रामभाऊ.

''सांगात रामभाऊ. हांवें कितेंय करपा सारकें आसल्यार तें म्हजें कर्तव्य अशें समजून हांव करतलों. दिनेश, तूं वग्गी कित्याक? तूंच सांग मरे! रामभाऊक आनी कित्याक इतलो त्रास?'' महेशान दिनेशा कडेन पळयत हांसून विचारलें.

''म्हजे परस बाबाच तुका सारकें सांगतलो. म्हाका मरे, उलयतां उलयतां सप्प करून हांव खंय पावलां ताचो विसर पडटा! देखून म्हजें कॉन्फिडन्स गेलां!'' दिनेशान तोंडार निर्शेणीचो भाव हाडून म्हायती दिली.

''शेऽऽ तशें कितें रे? आमचे भितर परकेपण आसूंक जायना. तूं म्हजो ल्हानपणांतलो इश्ट! रामभाऊ, दिनेशाक उलोवपाक खरेलोच प्रोब्लेम आसल्यार तुमीच उलयात!'' महेशान रामभाऊक सुचयलें.

रामभाऊन मागीर फुडलीं पंदरा मिनटां तांच्या मिनाच्या धंद्याची म्हायती दिली. रामभाऊचें वय जाल्लें, तरी आसतना आपणाले विचार मांडपाची ताची तर्कशुद्ध तरा हालूंक नाशिल्ली. फाटल्या तीस-पस्तीस वर्सांत तांच्या मिनाचो धंदो बरोच वाडिल्लो. तांणी एका फाटोफाट एक अश्यो धा लिजी हेरां कडेन कबलाती करून घेतिल्ल्यो आनी मीन काडून तें एक्स्पोर्टरांक विकपाचें काम चालू आशिल्लें. धांतल्या स लिजींचेर आतां कोर्टांत केसी चलतात आनी त्या लिजीं खाला आशिल्ल्या खणींतल्यान म्हाल काडपाचें बंद पडलां. चार बऱ्यो खणी तांचे कडेन आसात, आनी तातूंतल्यान म्हाल काडून एक्स्पोर्ट करूं येता. पूण एक व्हडलें प्रॉब्लेम आसा. बोट येवंचे पयलीं म्हाल पोर्टांत सांठोवचो पडटा. बोट भरपा इतलो म्हाल पोर्टांत सांठोवन दवरिना जाल्यार बोट पोर्टांत भितर हाडूंक मेळना. कोणाकूय म्हाल पोर्टांत सांठोवन दवरपाक जाय जाल्यार ताचे कडेन पोर्टान दिल्लो प्लॉट आसूंक जाय. तो प्लॉट ना

जाल्यार ताका म्हाल सांठोवंक मेळना आनी बोट हाडूंक मेळना. सद्या तांच्या कंपनीक आपणाच्या नांवान एक्स्पोर्ट करूंक मेळना. देखून आपणालो म्हाल ते दुसऱ्या एक्स्पोर्टरांक विकतात. तशी विक्री करून व्हडलोसो फायदो जायना. रामभाऊन धंद्याची प्रक्रिया सांगली आनी आपणालो प्रॉब्लेमूय सांगलो.

रामभाऊक आतां पोर्टांत एक प्लॉट जाय म्हणपाचें महेशाक रोखडेंच समजलें. तो प्लॉट आपणाच्यान दिवंक जातलो काय ना हाचो महेशाक दुबाव आशिल्लो कारण जांकां प्लॉट दिल्ले ते सगले आपापल्या प्लॉटांचेर मीन सांठोवन एक्स्पोर्ट करताले आनी खयंचोच एक्स्पोर्टर चुको करिनाशिल्लो. आदल्या दिसा महेशान प्लॉटां विशीं म्हायती वाचिल्ली म्हणटकूच एका मिनटा भितर ताका रामभाऊचो प्रॉब्लेम कितें म्हणटात तो समजलो.

"म्हाका पोर्टांत एक प्लॉट मेळ्ळ्यार, महेश तुजे उपकार हांव केन्नाच विसरचों ना. हें कुस्तार हें म्हाका खबर आसा आनी तूं कायदो मोडून म्हजें काम कर अशें हांव तुका केन्नांच सांगचों ना. आयज मेरेन हांवें कोणाकूच तशें सांगूंक ना. तुका तर तशें हांव सांगुंकूच शकना. कायद्या भितर रावून म्हाका मजत करूंक मेळ्ळ्यार पळय!" रामभाऊन भावनावश जावन महेशाक म्हणलें.

"रामभाऊ, हांव विचार करतां. तुमचे खातीर कितेंय करप म्हणल्यार म्हज्या बाबा खातीर कितेंयतरी केल्ल्याची म्हाका पुण्याय मेळटली. म्हाका वाट सोदून काडची पडटली. कायदेच न्हय, तर पोर्टांत खूबश्यो प्रथा आसतात त्यो सोंपेंपणान बदलूंक मेळनात. म्हाका थोडो टायम दियात, कशें जाता तें हांव पळयतां!" महेशान रामभाऊच्या मनाक थाकाय दिवपाचो यत्न केलो. इतल्यांत दोन चलीभुरगीं शेवयांचो गोडसो सांजो, बटाट फोव आनी प्लम केकाच्यो स्लायसी घेवन आयलीं. पांच मिनटां भितर तीं जपानी बुलींनी च्या घेवन आयलीं. महेशाचे प्लेटींत रामभाऊन घे घे म्हणून आपणाल्या हातान सांजो आनी फोव घाले. दिनेशानूय बी आपले प्लेटींत इल्लें इल्लें घेतलें. घेता आसतना ताचे हात कडकडटाले तें महेशाक सारकें दिसतालें.

च्या पिवपाच्या वेळार मीराय बी थंय येवन बसलें आनी ताणें बुलींतली च्या सगल्यांच्या चिक्रांनी घाली. रामभाऊ आनी दिनेशाचे हात धरून ताणें तांच्या हातांत चिक्रां दिलीं.

च्या पितां पितां पयलींच्यो यादी काडून आनीक धा-पंदरा मिनटांनी

महेश आनी मीरा भायर सरलीं.

रामभाऊगेर साकून महेशाच्या दादागेर तीं दोगांय पांच मिनटां भितर पावलीं. महेशाचो दादा आनी वयनी घराच आशिल्लीं. आई भितर एका खाटीचेर पडून आसताली.

''तूं चेअरमॅन म्हूण येवन चार-पांचूच दीस जाले, तुजे कडेन काम आसा, मात्शी मजत कर, अशें म्हूण आतांच फाटल्या तीन दिसांत तीग जाण येवन गेले. म्हज्या वांगडा स्कुलांत कुडतरेचो बोर्जिस शिकयता. ताचो धाकलो भाव पोर्टांत कॉंट्रॅक्टर आसा. तुका मात्सो फावोर लाय म्हूण बोर्जिस आयिल्लो. कांसावलेची मिसेस आन्तांव आपणालो घोव पोर्टांत काम करता आनी युनियन लीडर आसा, ताका मात्शें लिफ्ट दी म्हूण सांग अशें म्हाका सांगूंक आयिल्ली. हांव तुका कांयच सांगचों ना, तूं योग्य तें करतलो अशें हांवें तांका सांगलें.'' एकामेकांच्या आरोग्या विशीं खबरो जातकूच दादान ह्यो गजाली महेशाक सांगल्यो.

''तुवें सांगलें तें बरें केलें. फावोर मागपाक खूब जाण येतले. कांय लोक तुका हांयस दाखयतले, आपणालो भाव सरळ मार्गान वचपी अशें म्हूण तूं सांग म्हणटकूच मागीर येवपाचे बंद जातले,'' महेशान दादाक सुचयलें.

''तूं हांयस म्हणटा ती खरी गजाल. त्या पोर्टांतल्या कॉन्ट्रॅक्टरान म्हाका अशेंच आडवाटेन कितेंयतरी सुचयिल्लें, सगल्यांकूच फायदो जावपा सारकी आपूण वाट दाखयतां अशें तो सांगतालो.'' दादान व्हडल्यान हांसत सांगलें.

वयनी आनी मीरा भायर येवन बसलीं. वयनीच्या हातांत शेवयांचो सांजो पळयल्या बरोबर महेशाक व्हडल्यान हांसूंक आयलें. रामभाऊ लवंदेगेर आपूण आतांच शेवयांचो सांजो खावन आयलां, अशें महेशान वयनीक सांगलें.

''जांव रे, थंय खाल्लो तो सांजो रांदप्यांनीं केल्लो. हो सांजो हांवें केला. इल्लो खा तूं,'' अशें म्हणून वयनीन तें धाकलेंशें बावल महेशाच्या हातांत दिलें. सांजो, च्या, भुरग्यांच्यो खबरो बी जातकूच महेश आनी मीरा मात्शीं आई म्हऱ्यांत वचून बसलीं.

''तुका आनीक कांय दिसांनी आमी मुरगांवां व्हरपाक येतात. मागीर थंय सुशेगाद जाय तितले दीस राव,'' अशें आईक सांगून मागीर दादाक आनी वयनीकूय बी मुरगांवां कांय दीस रावूंक येयात अशें म्हूण आमंत्रण दिवन

महेश आनी मीरा मीराच्या मावशे भयणीगेर-ताईगेर-गेलीं. ताई तांची वाट पळयतालें. लागींच रावपी ताईल्यो धुवो रमा आनी निमाय बी तांकां मेळपाक थंय येवन राविल्लीं. निकतोच इंजिनियर जाल्लो ताईलो धाकलो पूत अनयूय बी दुकाना वेल्यान येवन तांची वाट पळयतालो.

अर्दवर सुमार खबरो करून च्या घेवन महेश आनी मीरा थंयच्यान मुरगांवां वचूंक भायर सरलीं. ''मायलेज सारकी बरोवन दवर, आयची प्रायवेट म्हूण बरोवंक जाय'' अशें संभाजीक सांगून महेश आनी मीरा फामिलीच्यो आनी हेर लोकांक कळूंक जायना असल्यो गजाली तमिळींतल्यान एकामेकां कडेन उलोवंक लागलीं. गोंयांत येतकूच ही तमिळींत उलोवपाची पद्दत तांणी आपणायिल्ली. देड वराचेर सुमार तीं गॅस्टहावसांत पावलीं. त्या दिसा सांजेवेळा गाडयेची गरज ना म्हूण सांगून तांणी संभाजीक वयार केलो.

पावणे दोन वरांचेर जल्मी आनी स्टाफ जेवण घेवन आयले. जेवणाक टॉमेटो सूप, कोबीची भाजी, अळम्यांचें तोंडाक, शीत, तोय, दाट्ट सोलकडी, सेलेड, पापड, लोणचें बी आशिल्लें. दाट्ट आमशें-गोडशें धंय एके स्टीलचे वाटयेंत घालून हाडिल्लें. निमणो गोडसो जिनस नाका अशें महेशान पयलींच सांगून दवरिल्लें. जेवण जातकूच अर्दवर सुमार महेशान त्या दिसाचीं वर्तमानपत्रां चाळ्ळीं. त्या दिसा सांजेचो आनीक कांय अपॉयंटमेंट नाशिल्ल्यान देड-दोन वरां सुस्त न्हिदपाचो बेत करून तीं न्हिदूंक गेलीं.

दुसऱ्या दिसाच्यान चेअरमॅनाच्या बंगल्यार रावूंक वचपाचें आशिल्ल्यान महेश आनी मीरान सांजवेळा बंगल्यार पासय मारून लायटी, फॅन पुसपाचें आनी सबंद घर साफ करपाचें काम खंय पावलां ताचो नियाळ घेतलो. बंगल्याच्या चारूय बेडरुमांनी खाटी, कुलच्यांवां, कपडे दवरपाच्यो आरमारी, हॉलांत पोंदच्यान प्लास्टिकाची जाळी आशिल्ले, कपड्यांच्यो गादयो आनी उशीं घाल्ले लाकडी सोफा, लाकडाचे टीपॉय, स्टुलां, जेवणाचें लाकडी मेज आनी कदेलां, हॉल आनी रांदचीकूड हांच्या मदल्या जाग्यार दोन व्हडले फ्रीज आनी एक मेज, ताच्या दाव्या वटेनच्या कुडींत फेर्राचें मेज आनी वणटींत कडप्पा फातरीचीं शेल्फां आनी रांदचे कुडींत एक इलेक्ट्रिक कुकिंग रेंज, आयदनां खातीर कांय उकत्यो आनी कांय हारशांचीं दारां आशिल्ल्यो आरमारी, दोन मेजां आनी सगल्या रांदचे कुडींनी आसतात तशीं आयदनां, भाजी, नुस्तें बी

धुवपा खातीर तीन सिंकां आनी नळ आशिल्ले. रांदचेकुडी भायर वॉशिंग मशीन बी दवरपाक आनी कपडे सुकोवपाक बी खूब व्हड जागो आशिल्लो. मुंबय, दिल्लींत साठ स्क्वेअर मिटरांचे एक बॅडरूम फ्लॅट आसतात, त्याच आंवाठाची ही रांदची कूड आशिल्ली. चारूय बॅडरुमां भितर वेगवेगळ्या आर्विल्ल्या सुविधां सयत धव्याच तिजुल्यांचे बाथरूम आशिल्ले. महेश आनी मीरान तांचे कडेन वीस-पंचवीस वर्सां आशिल्लें फर्निचर म्हणल्यार दोन सोफा सॅट, दोन बाज्जो, जेवपाचें मेज, चार कदेलां आनी हेर कांय सामान कोणाकूय तरी दिवन वडोवया अशें थारायलें आनी सद्या तें एका रुमांत दाळून दवरपाचें अशें थारलें. तांच्या बॅडरुमांत आसताल्यो त्यो दोन बाज्जो तांणी आपणाल्या बॅडरुमांत घालपाचें थारायलें.

जेवणा पयलीं थोडो वेळ मेळिल्लो तो महेशान आनीक दोन फायली वाचपाक वापरलो.

सदां भशेन रातचें जेवण नाका, फकत सूप, चपात्यो आनी एक तोंडाक पुरो अशें महेशान जल्मीक सांगिल्लें. त्याप्रमाणें जल्मीन साडेआठांक वाळचे भाज्जेचो सूप, चपात्यो आनी बटाट आनी चण्यांचें बिबे घालून केल्लें तोंडाक हाडलें.

जेवतकूच लेगीत महेशान देडवर सुमार फायली आनी पुस्तकां वाचलीं आनी मागीर तीं न्हिदूंक गेलीं.

***

शेनवारा दिसा सांजेच्या चार वरांचेर पिटर डिमेलोन आपणाल्या कमिटीची ताकतिकेन मिटींग आपयिल्ली. सदां भशेन गुणाजी आनी हेर वांगडी हजर आशिल्ले. कामगारां मुखार कसले पर्याय आसात तें पिटर डिमेलोन विशय सुरू करतनां तांकां सविस्तरपणान सांगलें:

नव्या चेअरमॅनाक मुरगांव पोर्ट कामगार संघाचें बळगें दाखोवचेंच पडटलें. तो उलोवपाक आयकना. कसलेय मुद्दे काडल्यार ताचे कडेन काउंटर मुद्दे तयार आसतात. पोर्ट तो चलयना, कामगार चलयतात आनी जाय तेन्ना तांच्यांनी पोर्ट बंद करूं येता हें चेअरमॅनाक दाखोवन दिवंकूच जाय. कामगारांक तीन पर्याय आसात. पयलो पर्याय म्हणल्यार कसलीच कारवाय करप ना. ताचे

कडेन एके वटेन उलयत रावप आनी दुसरे वटेन निदर्शनां चालू दवरप. दुसरो पर्याय म्हणल्यार, कामगारां आड कांयच कारवाय करूंक जायना असो चेअरमॅनाचेर सगल्यां वरवीं दबाव हाडप. हातूंत राज्य सरकार लेगीत आयलो. खेरीज आमदार, खासदार, दक्षिण गोंयचे मंत्री ह्या सगल्यां कडल्यान ताचेर दबाव हाडीत रावप. आनी तिसरो पर्याय म्हणल्यार एक दीस थारोवन त्या दिसाच्यान संप करप आनी ताका युनियना मुखार दिमी घालपाक लावप. ह्या तिनूय पर्यायांचेर चर्चा करून कितें तें थारावपाचें.

जमिल्ल्या चडश्या जाणांनीं पयलो पर्याय भायर मारलो. निदर्शनां हीं ऑफिस टायमार करचीं पडटात. ऑफिसांत काम सोडून निदर्शनां करूंक गेल्ल्यांचेर चेअरमॅनान आदींच कारवाय सुरू केल्या म्हणटकूच हाच्या फुडें कामगार ऑफिस टायमार निदर्शनां करूंक मात्शे फाटीं सरतले. निदर्शनांक नंबर उणो जायत जाल्यार युनियनाचें नांव पेड्डेर जातलें. पयल्याच निदर्शनाक शंबर कामगार आनी स्टाफ येवपाचे आशिल्ले ते फकत तीस–पस्तीस जाणूच आयले.

दुसरो पर्याय कांय जाणांक मानवलो, पूण चडश्या जाणांनीं तो न्हयकारलो. पयली गजाल म्हणल्यार हो चेअरमॅन मिनेरांच्या आनी राजकी फुडाऱ्यांच्या दबावा सकयल कितलो बागवतलो तें खबर ना. दुसरी गजाल म्हणल्यार मिनेरांच्याय खणींचेर युनियनां आसतात. जायते फावटीं ते कामगारां आड कारवाय करतात. वा कामगारांक कामा वेल्यान काडून उडयतात. म्हणटकूच कामगारां मुखार नमतें घे अशें कितले मिनेर ताका सांगतले तें कळना. आमदार आनी खासदार तेवूयबी चेअरमॅनाक कितें सांगतले तें आमकां खबर ना. कामगारां पैकीं सगलेच तांचे व्होटर नासतात, देखून ते ह्या विशयांत घालूंक जाय तितलें लक्ष घालतले काय ना तें खबर ना, अशें दुसऱ्या पर्यायाक विरोध करतल्यांचें मत आशिल्लें.

तिसरो पर्याय हो संप. खूबशा कामगारांक पगारा भायर एक्स्पोर्टर, इम्पोर्टर, स्टिविडोर, कॉन्ट्रॅक्टर बी 'टिप्स्' दितात. ती आलायती येणावळ नेमान येता आनी पोर्टांत कामाचो भार आसता तेन्ना पगारा इतलेंच आलायते येणावळीक म्हत्व आसता. मे म्हयन्यांत संप जाल्यार पगार कापून वतलोच पूण सद्या कामाचो भार आशिल्ल्यान आलायती येणावळ वाडपाची ती मुळांतूच

बंद जातली, देखून कमिटीचे जायते वांगडी संप ह्या वेळार करचो न्हय ह्या मताचे आशिल्ले. संप करचोच, पूण तो चड लांबोवचो न्हय. चेअरमॅनाक मात्सो फटको दिवन परतून काम सुरू करपाक वाट मेकळी दवरची अशें कांय जाणांक दिसतालें.

देड-दोन वरां सुमार सगल्या पर्यायांचेर चर्चा जाली पूण कसलोच निर्णय जालो ना. अखेरेक सदां भशेन निर्णय घेवपाचें काम सगल्यांनी पिटर डिमेलोचेर सोडलें आनी मिटींग काबार जाली.

कमिटीचे वांगडी वतकूच पिटर डिमेलो आनी गुणाजी आनीक कांय वेळ युनियनाच्या ऑफिसांत बसले.

''म्हाका दिसता, संप करचोच पडटलो. कितले दीस करप आनी केन्ना करप हाचेर येवजूंक जाय.'' पिटर डिमेलोन गुणाजीक सांगलें.

''चेअरमॅन आतां एका दिसा खातीर दिल्लीक वचपाचो आसा. तो नासतना संप केल्यार बरो. कारण हेर सगले कसलोय निर्णय घेवपा इतले धीट नात. जितलो ते चड गोंदळ करतात तितलें आमकां चड बरें. खेरीज, संप जावपाचो आसतना चेअरमॅन टुरार गेलो म्हूण ताका दिल्लीचे अधिकारी आनी मिनिस्टर दूशण दितले.'' गुणाजीन आपणालें मत उकतायलें.

''शुक्रारा दिसा सकाळचो स वरांच्या फ्लायटीचेर तो दिल्लीक वता. सांजची ताका मिटींग आसा. शेनवारा दीस दनपार पासून तो परतून पावतलो. म्हणटकूच शुक्रारा दीस सकाळच्या धा वरांचेर सुमार संप सुरू केल्यार एक रात आनी दोन दीस ताका बुद्द शिकोवंक मेळटा. खेरीज, तो दिल्लीक आसतना संप जाल्यार हांगाच्यान दिल्लीच्या मिनिस्टराक आनी अधिकाऱ्यांक तेलेग्राम, फॅक्स बी वतले आनी चेअरमॅनाचेर सगले बेजार जातले.'' पिटर डिमेलोन चेअरमॅन गोंया भायर आसतना संप करपा फाटलीं आनीक कारणां सांगलीं.

''तसोच निर्णय घेवया. संप जातलोच अशें वर्तमानपत्रांनी बातमी पसरावया आनी पोर्टाचेर अवलंबून आशिल्ल्या सगल्यांक नेर्वोज करीत रावुंया.'' गुणाजीन म्हणलें.

''बिरेस्तारा सांजेचे ओर हँडलिंग प्लांटाचेर काम करपी आमच्या सगल्या कामगारांक, ''शुक्रारा दीस संप सुरू जातलो'' अशें म्हूण सांगपाचें. सकाळच्या धा वरांचेर प्लांट बंद उडोवपाचो. बिरेस्तार मेरेन आमचो निर्णय

गुप्त दवरुंया. कडक भोसलेचें युनियन कामार वचूंक सोदतलें. ताचें कितें?''
गुणाजीन विचारलें.

''प्लांटावेले णव्वद टक्के कामगार आमचे वांगडी आसात. उरिल्ल्या धा टक्के कामगारांक आमगेले कामगार काम करूंक दिवंचे नात. भोसलेच्या कामगारांनी काम केल्यार लेगीत ते प्लांट चलोवंक शकचे नात. कारण बार्ज अनलोडराचेर शंबर टक्के आमचे लोक आसात. निर्णय आतां जालो म्हणटकूच फुडल्या कामांक लागूंक जाय.'' अशें म्हूण एकामेकाक सांगून पिटर डिमेलो आनी गुणाजी ऑफिस बंद करून भायर सरले.

***

गुणाजी सवाय संक सुमार इरमांव बारांत पावलो. आनीक पांच मिनटां भितर बाप्तीस्त थंय पावलो. सदां भशेन डॉम्निकान व्हिस्की आनी सोडा मिक्स केली आनी खारीं भिकणां हाडून दवरलीं. आपणाक एकूच धाकलो पेग घाल, लार्ज नाका, अशें म्हूण गुणाजीन डॉम्निकाक सांगिल्लें कारण चड घेतल्यार आपल्या तोंडांतल्यान फुडल्या शुक्रारच्या संपाची गुप्त खबर भायर सरत हो ताका भंय आशिल्लो.

''तुगेलो ट्रॉलर आनी नुस्त्याचो प्रोजेक्ट खंय पावला?'' गुणाजीन एक घोंट मारून बाप्तीस्ताक हांसत विचारलें. बाप्तीस्तान आपणाली ''दर्दभरी कहानी'' सांगपाक सुरवात केली. चेअरमॅनाक आनी बायलेक खंयचीं नुस्तीं आवडटात तें ताणें जल्मीक विचारलें आनी जल्मीन ताका शॉक दिलो! चेअरमॅन सामको शिवराक, तांतीं लेगीत खायना आनी ताची मॅडमूय बी व्हडलेंशें नुस्तें खावपी न्हय अशें जल्मीन सांगलें. चेअरमॅन आतां मुंबय वचपाचो आसा, पूण त्याच दिसा चेअरमॅन आनी मॅडम बंगल्यार रावपाक येतलीं. सामान बी जाग्यार घालून रांदूंक सुरू करपाक मॅडमीक उण्यांत उणे दोन दीस तरी लागतले. दोन दीस तिका गॅस्ट हावसांतलें जेवण जेवचें पडटलें. चेअरमॅन शुक्रारा दीस सक्काळीं फुडें दिल्लीक वचपाचो आसा. त्या दिसा कोणूयतरी मॅडमीक शेंवट्यांची व्हडली गांथन पावयतलो. मागीर मजा पळोवपाची! मॅडमीक म्हारग साडयो दिवपाचो प्रोजेक्टूय बी चालू आसा. मॅडमीक म्हारग सिल्काच्यो साडयो आवडटात म्हूण बाप्तीस्तान पोर्टा खातीर

काम करपी दोन ए क्लास कॉन्ट्रॅक्टरांच्या कानार घाल्लें, पूण तांणी तें आपणाक समजल्ले भशेन दाखयलें ना. दामानी म्हूण एक सिंधी कॉन्ट्रॅक्टर मॅडमीक पंदरा-वीस हजारांची सिल्काची साडी दिवपाक तयार जालो. ती कशी आनी केन्ना दिवपाची तें ताणें बाप्तीस्ताक विचारलें. पणजे पेडणेकार साडी पॅलेस दुकानाच्या जाणट्या मालकाक फोन करून मॅडमीक म्हारग साडयो आवडटात, तिका कसल्याय तरी कार्यक्रमाक आपोवन पंदरा-वीस हजारांची साडी भेटवस्त म्हूण दी; ती साडी आपूण साडी पॅलेसांत पावयतां अशें म्हूण बाप्तीस्तान त्या जाणटेल्याक सांगलें. जाणटेलो मॅडमीकूच न्हय तर मॅडमीच्या सबंद फामिलीक वळखतालो. आनी मॅडम कॉलेजांत शिकता आसतना आपल्याच दुकानांतल्यान बऱ्यो बऱ्यो साडयो घेवपी आनी तिका असले म्हारग भेटवस्तीची गरज ना अशें म्हणून जाणटेल्यान बाप्तीस्ताक पिशार काडून ‘‘ती म्हजे धुवे भशेन, हांव तिच्या सबंद कुटुंबाक वळखतां. तिका साडी दिवपाची आसल्यार हांव तुजे कडल्यान कित्याक घेवं?’’ असो प्रस्न ताणें बाप्तीस्ताक विचारिल्लो. चेअरमॅनाचे बायलेक म्हारग साडी केन्ना आनी कशी पावोवपाची तें मागीर बाप्तीस्तान दामानीचेर सोडलें. कोणूयतरी गोंयां भायलो दुकानदार सोदून काड. म्हापशां, पणजे, मडगांवचे चडशे व्हड दुकानदार चेअरमॅनाक आनी ताचे बायलेक वळखतात आसतले, अशीय सुचोवणी बाप्तीस्तान दामानीक केल्ली.

फाटल्या वर्सा पणजे बन्सीलाल नांवाच्या एका सिंधी मनशान ‘‘सारी द गोवा’’ म्हूण साडयांचें खूब व्हडलें दुकान घाल्लें. चेअरमॅनाचे बायलेक साडी दिवंक दामानीन त्या बन्सीलालाक तयार केलो. मे म्हयन्याच्या पंदरा तारखे उपरांत कसलोय तरी कार्यक्रम घडोवन हाडचो आनी चेअरमॅनाचे बायलेक चीफ गॅस्ट म्हूण आपोवन तिका ती साडी दिवंची अशें थारलें. साडी दिता आसतना व्हिडियो काडचो म्हणटकूच चेअरमॅनाची बायल कितें उलयता तें कळटलें.

बाप्तीस्तान सांगिल्लो प्रोग्राम चेअरमॅनाक त्रासांत उडोवपाक व्हडलोसो उपकारा पडचो ना अशें गुणाजीचें मत जालें. बाप्तीस्तान फुडें सांगलें तें अशें:

चेअरमॅनाची बायल साडी घेतना दुकानदार उलयतां उलयतां साडयेचो प्रेस सांगतलो आनी मागीर आपूण तो व्हिडियो दिल्लीक बी सगल्यांक धाडटलो.

चेअरमॅन आनी ताची बायल "खाऊ-पिऊ" मनशां म्हूण सगले कडेन फाम जातली. चेअरमॅनाच्या आड दिल्लीचे अधिकारी कारवाय लेगीत करूंक शकतात. मागीर बाप्तीस्तान गुणाजीचेर छाप पाडपाक आपणालें ट्रम्प कार्ड भायर काडलें; तें म्हळ्यार, एक सी.बी.आय्. ऑफिसर! आदल्या दिसा मुंबय पोर्टांतल्यान ताका एक रेकाद आयिल्लो. राठोड म्हूण एक सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टर बायल-भुरग्यांक घेवन चार दिसां खातीर मंगळारा दीस गोंयांत पावतलो. ताका गाडी वा जीप दिवंक जाय आनी ताका जाय जाल्यार गोंय भोंवडावन दाखोवपाक ताच्या वांगडा पोर्टाचो मनीस दिवंक जाय. आपूण त्या सी.बी.आय्. ऑफिसराक जेवणाक व्हरपाचो प्रोग्राम करतलों आनी ताका भरपूर ड्रिंक्स दिवन खूश दवरतलों. मागीर कितें घडटा ताचे वेल्यान फुडलो प्लॉट आपल्या आपूण तयार जातलो.

आपणें सांगिल्ल्या तीन प्रोग्रामां प्रमाणें काम जातलेंच. त्या भायर, आपणा कडेन आनीक एक येवजण आसा: संभाजी ड्रायवर चेअरमॅनाचेर बरोच फेर्र आसा. चेअरमॅनान जल्मी आनी हेर स्टाफा हुजीर ताका तापोवन काडिल्लो. इतलीं वर्सां तो कॅप घाली नासतना गाडी चलयतालो. ह्या चेअरमॅनान चार्ज घेना फुडें गाडी चलयतना कॅप घालूंकच जाय म्हूण संभाजीक शिटकावणी दिली. चेअरमॅन आनी बायल प्रायवेट कामां खातीर लेगीत स्टाफ कार वापरतलीं काय दिसता. खंय वतात, कोणाकडेन उलयतात तें नोट कर आनी आपल्याक सांग अशें म्हूण आपणें संभाजीक सांगलां. तातूंतल्यानूयबी कसल्योय तरी खबरो कळटल्यो अशें बाप्तीस्तान सांगलें.

चेअरमॅनाक त्रासांत उडोवपाक आपणालें काम चालू आसा; गुणाजी आनी कंपनी कितें करता तें गुणाजीन सांगचें असो बाप्तीस्तान हट्ट धरलो आनी दर घोंटा वांगडा तो हट्ट वाडत गेलो. युनियनाचे मिटिंगेंत कितें कितें जालें तें सविस्तरपणान गुणाजीन बाप्तीस्ताक सांगलें. फकत निमणे कडेन घेतिल्ले निर्णय ताणें गुपीत दवरले. संप बी कितलेय केल्यार ह्या चेअरमॅनाचेर कांयच परिणाम जावंचो ना. ताची इमेज डॅमेज करूंकूच जाय, वा ताची गाडी खंय तरी थांबोवन फोडूंक जाय, नाजाल्यार ताचे बायलेचो खूब इन्सल्ट करूंक जाय. मागीर ही पोस्टींग आमकां नाका म्हूण ती चेअरमॅनाच्या फाटल्यान लागतली आनी जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण तीं हांगाच्यान पळून

वतलीं अशें एक सपन बाप्तीस्तान पितारलें. असल्या सकयल्या पावंड्यावेलीं हलकट कामां आपणाल्या युनियनान केन्नाच करूंक नात आनी हाचे फुडेंय बी करचे नात. संप करप हो युनियनाचो कायद्यान दिल्लो हक्क. तो करपाचो काय ना, केन्ना करपाचो, कसो करपाचो हाचेर युनियन सद्‌द्या चर्चा करता. अशें गुणाजीन तिडकीन सांगलें.

संपाची येवजण जळार फाफुडिल्ल्या भशेन बाप्तीस्तान फाफडून वडयली म्हूण गुणाजीक राग आयिल्लो देखून ताणें बाप्तीस्ताच्या सपनांक अर्थ ना म्हूण सांगलें.

आनीक कांय वेळ खबरो करून, सगले फातर मारून पळोवपाचे, खंयचोय एक तरी लागतलोच अशें म्हणत दोगूय जाण बारांतल्यान भायर सरले.



## भाग 11

**महेशान** पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण ताबो घेवन सात दीस जाल्ले. त्या दिसा तो आनी मीरा बंगल्यार रावूंक वचपाचीं आशिल्लीं. सदां भशेन महेश सातांक उठून च्या पिवन तयार जालो आनी साडे आठांक ताणें टोस्ट दुदांत बुडोवन खाले. साडे आठ मेरेन मीराय बी तयार जालें आनी ताणेंय बी आदल्या दिसा भशेन एक स्लायस टोस्ट, एक सिंगल ऑमलेट आनी कॉफी घेतली. महेश सारको णव वरांचेर ऑफिसांत पावलो. तो पावना फुडें अभ्यंकर आनी बिळगी येवन तांचे मुखार बसले. अभ्यंकरान ताच्या मुखार एक फायल दवरली. महेशान फायलीचें पयलें पान उगडलें आनी अर्द मिनटा भितर ती फायल बंद केली. ताचे कडेन उलोवचे पयलीं महेशान रुडॉल्फ आगियाराक आपयलो आनी आदल्या दिसाची मायलेज ड्रायवरान रिपोर्ट केल्या काय ना तें विचारलें. अजून आपल्या कडेन लॉग–बूक येवंक ना अशें रुडॉल्फान सांगलें. काल सकाळच्च्या आदेसाक खंय खंय गेल्लो तें सगलें, आनी वट्ट कितले किलोमिटर जावंक जाय तो अदमास महेशान रुडॉल्फाक सांगलो. आदल्या दिसाचो स्टाफ काराचो वापर ''चेअरमॅनस् प्रायवेट'' म्हूण बरोवपाचें. आनी लॉगबूक बरयतकूच आपूण फ्री आसता तेन्ना आपणाक हाडून दाखोवचो अशेंय बी ताणें रुडॉल्फाक सांगलें. रुडॉल्फ वतकूच अभ्यंकर आनी बिळगी कडेन पळोवन ''कितें खबर?'' म्हूण महेशान विचारलें. ''कामगारांचो संप जातलो म्हूण बोवाळ वाडत चलला. सर, तुमी मुंबयचो आनी दिल्लीचो टूर रद्द केल्यार बरो न्हय?'' अभ्यंकरान विचारलें.

''हांवें टूर रद्द केल्यार कितें जातलें? हांगा सूर्यनारायणन आसा मरे!

तो पळोवन घेतलो. म्हजेकडेन कितेंय उलोवंक जाय जाल्यार तो फोनाचेर उलयतलो.'' अशें म्हूण महेशान सूर्यनारायणनाक आपणाल्या कॅबिनांत आपयलो. सूर्यनारायणन ''गुड मॉर्निंग सर'' म्हणत भितर आयलो आनी बसलो.

''हांवें मुंबय आनी दिल्लीचो टूर रद्द करचो अशें अभ्यंकराक दिसता. तुका कितें दिसता?'' महेशान सूर्यनारायणनाक विचारलें.

''तुमी हो आठवडो हांगा आसल्यार चड बरें! तुमची तरा वेगळी. ते कसलीय मस्ती करपाचें येवजितात जाल्यार तुमी तांकां बरो कंट्रोल करूंक शकतले,'' सूर्यनारायणनान आपलें मत सांगलें.

''बिळगी, तुका कितें दिसता?'' महेशान बिळगीक विचारलें.

''सर, म्हाकाय बी तांचे भशेनूच तुमी हांगा आसल्यार बरें अशें दिसता. पूण ताचो उरफाटो परिणामूय बी जांव येता. चेअरमॅनान तांकां भियेवन आपणालो टूर रद्द केलो म्हूण ते वावड्यो पसरायतले. संप करतलेच अशें तांणी अजून थारावंक ना. शेनवारा दीस तांची मिटिंग आशिल्ली. दोन-अडेज वरां चर्चा करून कितें करपाचें हें तांणी पिटर डिमेलोचेर सोडलां. संप जालोच ना जाल्यार तुमी बेठोच टूर रद्द केलो अशें जातलें. आयज सांजचे तुमी मुंबय वचपाचे आसात. आयज दनपार मेरेन तुमी कितें तें थारावंक जाता!'' बिळगीन म्हायती दिली आनी आपणालें मत सांगलें.

''दनपरां जेवणाक वचचे पयलीं तुका हांव फोन करतां. मागीर कितें तें थारावया.'' महेशान सूर्यनारायणनाक सांगलें.

''सर, आनीक एक गजाल आशिल्ली. सी.बी.आय्.चो एक इन्स्पेक्टर आपणाल्या फामिलीक घेवन फाल्यां गॅस्ट हावसांत येवपाचो आसा. तीन-चार दीस रावतलो. ताका एक बरो रूम आनी भोंवपाक एक गाडी दियात असो रेकाद मुंबय पोर्टांतल्यान आयला. कितें करपाचें?'' बिळगीन महेशाक विचारलें.

''हाचे पयलीं ऑफिसर येवंक नाशिल्ले रे?'' महेशान विचारलें.

''येतात आनी आमी तांकां भोंवपाक गाडी ना जाल्यार जीप दितात. दर फावटीं आमी चेअरमॅना कडेन परमिशन घेतात.'' अभ्यंकरान सांगलें.

''तशी प्रथा आसल्यार एक जीप दियात, पूण हेरां भशेन गॅस्ट हावसाच्या

जेवणाचें बील ताका फारीक करपाक लायात!" महेश.

"सर, विचारतां म्हणून रागार जांव नाकात आं. तुमी त्या आगियाराक लॉग बुकाचेर कशें बरोवपाचें तें इतल्या सविस्तरपणान कित्याक सांगूंक जाय? चेअरमॅन सदांच आपल्याक जाय थंय गाडी घेवन भोंवतात. प्रायवेट आनी ऑफिशयल अशें कांय नासता," लॉगबुका विशीं इतली जनताय घेवपाची गरज ना म्हूण अभ्यंकरान महेशाक सुचयलें.

"म्हाका सिर्वीसेंत पंचवीस वर्सां जालीं. कायद्या आडूच न्हय, जी गजाल करप योग्य न्हय ती गजाल हांवें केन्नाच केली ना. हांवें व्हड व्हड आस्थापनां चलयल्यांत पूण केन्नाच म्हाका कोण बोट दाखोवन अमकी गजाल हांवें योग्य रितीन केली ना अशें म्हूण दुशण दिवंक शकलो ना. तमिळनाडू इलेक्ट्रिसिटी बोर्डांत हांव सेक्रेटरी आशिल्लों. म्हज्या वयर फकत चेअरमॅन आनी मिनिस्टर. दर वर्सा आमी पन्नांस कोटींची मशिनरी विकती घेताले. सुदर्शन म्हूण आमचो चीफ इंजिनियर आशिल्लो. एकदम थंड आनी प्रामाणीक, थंड ताक लेगीत फूंक मारून पिवपी! टुरार वचून येतकूच ताचो पी.ए. ताचीं टी.ए. बिलां बरोवन ताची सय घेतालो. तीं टी.ए. बिलां सय करचे पयलीं तांचेर नदर भोंवडावपाची ताका संवय नाशिल्ली. एक फावट अमके कंपनी कडल्यान धा कोटींची मशिनरी घे अशें ताका मिनिस्टरान सांगलें. ताणें म्हाका विचारलें; "तूं कायद्या प्रमाणें विशय हाताळ ना जाल्यार तूं त्रासांत सांपडटलो." असो हांवें ताका सल्लो दिलो.

कायद्या प्रमाणें निविदा कमिटीच्यो ज्यो शिफारशी आशिल्ल्यो त्यो सुदर्शनान मानून घेतल्यो आनी त्या मशनरींची ऑर्डर खंयच्याय तरी दुसऱ्या कंपनीक गेली. मिनिस्टरान रागान हात-पांय आपटिले आनी सुदर्शनाक बुद्द शिकोवया म्हूण आपल्या ओ.यस्.डी.क सांगलें. मिनिस्टरांचे ओ.यस्.डी. चडशे तांच्या राजकीय पक्षाचे लोक आसतात. ते सरकारी नोकर न्हय. पूण जो मेरेन ते मिनिस्टरा वांगडा आसतात, तो मेरेन तांकां सरकारी पगार आनी सगल्यो सुविधा मेळटात. त्या ओ.यस्.डी.न सुदर्शनाच्या पी.ए.क गांठलो आनी ताका भरपूर पयशे खावोवन सुदर्शनाच्या टुरांचीं फटीचीं बिलां करूंक लायलीं. चार-पांच म्हयने जातकूच मिनिस्टराक कोणें तरी निनांवीं पत्र बरयलें. फट बिलां तयार करून सुदर्शन ताका फाव जाता ताचे परस चड पयशे घेतालो

अशें म्हूण त्या पत्रांत कागाळ आशिल्ली. त्या पत्रां वांगडा हालींच्या टी.ए. बिलांच्यो कांय कॉपी आशिल्ल्यो.

रोखडीच चवकशी करून आपणाक पंदरा दिसां भितर रिपोर्ट दिवंचो अशें म्हणून मिनिस्टरान चेअरमॅनाक ऑर्डर दिली. आमच्या इलेक्ट्रिसिटी बोर्डांत तेन्ना एक पोलीस डी.आय्.जी. चीफ व्हिजिलन्स ऑफिसर आशिल्लो. ताका चवकशी करची पडली आनी सुदर्शन हो सामको प्रामाणीक चीफ इंजिनियर हें खबर आसून लेगीत त्या टी. ए. बिलांचेर ताची सय आशिल्ल्यान डी.आय्. जी.क ताच्या आड रिपोर्ट दिवंचो पडलो. सुदर्शनाक नोकरेंतल्यान निलंबीत करचो म्हूण मिनिस्टरान चेअरमॅनाक ऑर्डर सोडली. तो रिटायर जावपाच्या आदल्या दिसा ताच्या निलंबनाची ऑर्डर म्हाका ताच्या हातांत व्हरून दिवंची पडली. ताच्याकूय हांव खूब भुरगो आनी तो सामको प्रामाणीक म्हूण म्हाका खबर आशिल्लें. वर्साक पन्नास कोटींची मशिनरी घेवपी इंजिनियराक दोनशें-तिनशें रुपयांचीं फटीचीं बिलां तयार करपाची गरज ना अशें हांवें चेअरमॅनाक आनी मिनिस्टराक खूब सांगून पळयलें. पूण तातूंतल्यान कांय बरें निश्पन्न जालें ना.

ताच्या हातांत ती ऑर्डर दितना हांवें ताच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केलो आनी ताका ''सॉरी, हांव कांय करपाक शकलों ना'' अशें म्हणून म्हाकाच दुशण दीत हांव भायर सरलों. तेन्नाच्यान हांव एक गजाल सदांच याद दवरतां. शिस्त पाळटलो, प्रामाणीक पणान प्रशासन चलयतलो जाल्यार हेराफेरी करपी जायते लोक शिस्त पाळटल्याचेर कोंत्र जातात आनी ताका कितेंयतरी करून त्रासांत घालपाक सोदतात. देखून स्टाफ कारांत एअर कंडिशनर बसय म्हूण ऑर्डर दिल्या, पूण ताचो खर्च म्हज्या पगारांतल्यान काडात म्हूण सांगलां. स्टाफ कार जेन्ना प्रायवेट कामां खातीर वापरतां तेन्ना सदांच लॉगबुकांत कितें बरयलां तें पळयतां. तमिळनाडूंत ही पद्दत म्हजे भशेन आनीक कितलेशेच आय्.ए.यस्. ऑफिसर जायतीं वर्सां आपणायत आयल्यात.

सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी बिळगी वचना फुडें दक्षिण गोंयचो खासदार थिओफिल डिसोझा लायनीर आयला म्हूण बाप्तीस्तान फोन केलो. महेशान फोन घेतलो. थिओफिल धा मिनटां खातीर येवन महेशाक मेळूंक सोदतालो. त्या दिसा सांजेचो महेश मुंबय वचपाचो आशिल्लो तें थिओफिलाक खबर

नाशिल्लें. महेशान ताका रोखडोच यो म्हूण सांगलें आनी कळाव केल्यार आपूण मेळचों ना म्हूण सांगलें कारण आपल्याक बंगल्यार वचून, जेवन विमानतळार वचूंक जाय अशेंय बी ताणें थिओफिलाक सांगलें. थिओफिल पंदरा मिनटां भितर पावलो. थिओफिलाक महेश पयलेच फावटीं पळयतालो. महेशान उबो रावून ताका हात दिलो आनी बस म्हूण सांगलें. लांब-रुंद, धिप्पाड थिओफिलान महेशाचो हात णव्वद टक्के मोडून उडयलो म्हळ्यार जाता. फुडल्या फावटीं थिओफिल मेळटा तेन्ना फक्त नमस्कारान काम चलोवपाचें अशें महेशान थारायलें. थिओफिलाक इंग्लिश उलोवंक येना आशिल्ली तरी आसतना तो इंग्लिशूच उलयतालो. महेशान कामगारां मुखार नमतें घेवन पोर्ट चलोवंचो, ना जाल्यार फुडाराक पोर्ट सारको चलचो ना आनी पोर्ट सारको चलना जाल्यार गोंयांत सगल्यांक लुकसाण जातलें. नव्या चेअरमॅनान चार्ज घेवन एक सप्तक लेगीत जावंक ना आनी त्या सप्तका भितर कामगार संपार वतले म्हूण बोवाळ घालतात, ही बरी गजाल न्हय, ह्या अर्थाचो उपदेश थिओफिलान आपणाले इंग्लिशींत महेशाक केलो. उपदेश समजुपाक महेशाक थोडो वेळ लागलो.

"थिओफिल बाब, हांव पयलीं तुका केन्ना मेळूंक ना आनी तुवेंय बी म्हाका ह्या पयलीं पळोवंक ना. तूं एम्.पी. जाल्यार, म्हाका दिसता, दोन वर्सां जालीं. त्या पयलीं खूब वर्सां सावन तूं पॉलिटिक्सांत आसा. म्हाका सिर्वीसेंत पंचवीस वर्सां जालीं. हांवें व्हड व्हड सरकारी कंपन्यो चलयल्यात. पोर्ट जरी हाचे पयलीं हांवें चलयिल्लो नासलो, तरी लाखांनी कामगार आशिल्ल्यो व्हड व्हड सरकारी कंपन्यो हांवें चलयल्यात. प्रशासन कशें चलोवपाचें तें म्हाका खबर आसा. पार्लमेंटांत गोंयचे एम्.पी. कसलें आनी कितलें काम करतात तें म्हाका खबर ना. तें तुका बरें खबर आसतलें. तूं बरोऽऽ मनीस म्हूण हांवें आयकलां. गरिबांक पावपी आनी कोणाच्याय मजतीक रोखडोच धांवून वचपी म्हूण हांवें आयकलां. तुका आमच्या कामगारांनी कितें सांगलां तें म्हाका खबर ना. पूण म्हजो तुका एक रिक्वेस्ट: तुजें काम तूं कर, म्हजें काम हांव करतां. आमी दोगूय फ्रेंड जावंया, पूण एकामेकांच्या कामांत इंटरफियर करूं नये." महेशान हांसत थोमणे आनी तुस्त भरसून थिओफिला मुखार भाशण दिलें. थिओफिल धा सेकंड सुमार नेर्वोज जावन महेशा कडेन पळयत

रावलो. मागीर "ओके, व्ही मीट अगेन," अशें म्हणत रागान भायर सरलो. महेशाच्या भाशणाचो एक बरो परिणाम जालो म्हणटात तो थिओफिलान परतून महेशाचो हात धरपाचो त्रास घेतलो ना.

थिओफिल वतकूच महेशान रुडॉल्फाक आपयलो आनी गॅस्ट हावसांत आपणें आनी मिरान जेवणां, च्या बी घेतिल्लीं तांचें बील जल्मी कडेन मागून तें चेकान फारीक करपाची आपणाक याद कर म्हूण सांगलें.

बंगल्यार जेवणाक वचचे पयलीं सूर्यनारायणनाक आपोवन थोडो वेळ महेश संपा विशीं उलयलो. आपूण मुंबय वचून येतां, संपाच्यो वावड्यो मुद्दाम कामगारांनी घाल्यातशो दिसतात. विभागांच्या मुखेल्यांनीं निदर्शनांत भाग घेतिल्ल्यांचीं नांवां रिपोर्ट केल्यांत. अभ्यंकरान ते रिपोर्ट आपणा कडेन हाडून दिल्यात. निदर्शनांत भाग घेतिल्या सगल्यांक शो – कॉज नोटीस दिवंक ताणें सुरवात करची. अर्द दिसा खातीर कित्याक तांकां ॲबसेन्ट मार्क करचे न्हय, अशें ते नोटिशींत विचारूंक जाय. अभ्यंकराक ती नोटीस तयार करूंक लावंची आनी तातूंत सूर्यनारायणनाक कसलोय दुबाव आसल्यार रातचो आपल्याक मुंबय फोन करून विचारचें, अशें सांगून महेश बंगल्यार गेलो.

बंगल्यार मुख्य दरवट्यांतल्यान भितर सरतां सरतां दरवट्याचे एके वटेन चेअरमॅनस् बंगलो आनी दुसरे वटेन महेश प्रभू, आय्.ए.एस्. अशें नव्यानूच पेन्ट केल्ले बोर्ड ताका दिसले. हाचे पयलीं तो एक फावट सकाळचो आनी दुसरे फावट रातचो चेअरमॅनाच्या बंगल्यार आयिल्लो. पूण गॅस्ट–हावसाच्या दरवट्यांतल्यान तो आयिल्लो. मुख्य दरवट्याच्या हेवटेन–तेवटेन ताका नदर भोंवडावंक मेळूंक नाशिल्ली. आतां गाडी भितर सरता आसतना बंगल्याच्या दुरगा भितर दावे वटेन एक बस उबी केल्ली ताका दिसली.

"ही बस हांगा कित्या खातीर दवरल्या?" ताणें संभाजीक विचारलें.

"ती म्हाजी बस सर!ती सकाळची ट्रिपीक वॉचॉन रातची हंयसर येता. आयज तिका ट्रीप ना देखून ती दनपरांचीच हंयसर येयली." संभाजीन हांस हांसत महेशाक म्हायती दिली.

"हांगा केन्नाच्यान दवरता तूं?" महेशान विचारलें.

"म्हाज्या बसीक धा वर्सां जालीं. घेत पासून ती हंयसरच आसता. आदल्या चेअरमॅनांनी ती बंगल्या भितर दवरूंक म्हाका परमिशन दिलेलें."

संभाजीन सांगलें.

मीरा धा वरांचेर सुमार बंगल्यार येवन सामान जाग्यार घालूंक लागिल्लें. सगल्या पेटयांचेर किचन, बेडरूम, हॉल, डायनिंगरूम, वरांडा अशीं लेबलां मारिल्लीं आशिल्लीं. मीरा आनी महेश गॅस्ट हावसांत रावूंक येतकूच दुसऱ्याच दिसा तांच्या सामानाचो ट्रक पाविल्लो आनी पोर्टांतल्या लोकांनी सगलें सामान बंगल्याच्या एका बॅडरुमांत दाळून दवरिल्लें.

रांदप सुरू करपाक आनीक दोन दीस लागतले आशिल्ले. तोंमेरेन गॅस्ट हावसांतलेंच जेवण हाडटां अशें म्हूण मीरान महेशाक सांगिल्लें. सदां भशेन जल्मीन स्टाफा वांगडा येवन मेजार जेवणाच्यो प्लेटी बी मांडून जेवण हाडून दवरिल्लें. आयज सूप नाका अशें मीरान सांगिल्लें. बटाटाची गोंयचे पद्दतीची हळडुवी जिरें,सांसवां, करबील, हींग आनी आलें फोण्णां घाल्ली भाजी, वाळची पातळ भाजी, दाळीचो रोस, दाट्ट सोलकडी, पापड, लोणचें आनी ल्हान वाटयांनी हाडिल्लें दाट्ट धंय हें सगलें जेवणाक आशिल्लें. फ्लायट टायमार आसा अशें म्हूण जल्मीन महेशाच्या कानार घालें. इंडियन एअरलायन्साची फ्लायट साडे तिनांक आशिल्ली. दोनांक भायर सरून सवाय दोनांक विमानतळार पावल्यार पुरो अशें गिरीश गांवसान महेशाक सांगिल्लें. पोर्टांत चलत आयिल्ले प्रथे प्रमाण पी.आर.ओ. आनी ताचे दोन स्टाफ चेअरमॅन वता तेन्ना ताका पावोवपाक आनी येता तेन्ना ताका हाडपाक विमानतळार आसताले. सामान जाग्यार घालपाचें काम कशें चल्लां ह्या महेशाच्या प्रस्नाचेर मिरान ताका सविस्तर म्हायती दिली. महेशाचें बॅग मीरान भरून दवरिल्लें म्हणटकूच तांकां दोगांकूय बसून उलोवपाक मात्सो वेळ मेळ्ळो. दोन वरांचेर महेश भायर सरलो. विमानतळार वता आसतना महेश संपा विशींच येवजितालो. गिरीश गांवसान ताची बॅग घेवन ताका व्ही. आय्.पी. लावंजांत बसयलो आनी स्टाफान चॅक इन करून बोर्डिंग पास बी हाडून दिलो. महेशान आपणाल्या प्रोग्रामांत मात्सो बदल करपाचें थारायलें. बुधवारा दनपरां येवपा वांट्याचो ताणें मंगळाराकूच सकाळची मिटिंग जातकूच दनपारचेंच गोंयांत परतुपाचें थारायलें. त्या प्रमाणें मुंबयच्या पी.आर्.ओ.क गोंयची तिकेट बूक करपाक लाय म्हूण ताणें गांवसाक सांगलें.

फ्लायट साडे तिनांक सुटून साडे चारांक मुंबय पावली. आनी गॅस्ट हावसांत पाव म्हणसर स वरां जालीं. मुंबय पोर्टाचें तीन मजली, सुमार साठ-

सत्तर वर्सां पोरनें गॅस्ट हावस गेट वे ऑफ इंडियाच्या सामकार आशिल्लें. गॅस्ट हावसाच्या शेजराकूच आशिल्लें ताज हॉटेल सोडल्यार सभोंवतणीं गॅस्ट हावसा भशेनूच दोन–तीन मजली पोरण्यो बिल्डिंगो आशिल्ल्यो. महेश त्या गॅस्ट हावसांत पयलीं केन्नाच रावूंक नाशिल्लो. रामचंद्र पांडे विमानतळार महेशाक व्हरपाक एक व्हड टॅक्सी घेवन आयिल्लो. भारतांतले इकराय चेअरमॅन मिटिंगेक येवपाचे आशिल्ल्यान मुंबय पोर्टान ह्यो व्हड व्हड टॅक्सी भाड्यान घेतिल्ल्यो. रामचंद्र पांडे खूब वर्सां मुरगांव पोर्टाचो पी.आर्.ओ. म्हूण मुंबयंत काम पळयतालो. मुरगांव पोर्टाक लागपी खूबशी मशिनरी आनी हेर सामान मुंबयच्यान हाडचें पडटालें. ते खातीर पोर्टाक आपणालो मनीस मुंबयंत दवरचो पडटालो.

***

दुसऱ्या दिसा सकाळच्या आदेसाक मिटींग जावन, जेवन बी जातकूच तीन वरांचेर विमानतळार वचूंक भायर सरूंक जाय म्हूण महेशान सांगलें. पांडेक महेशा खातीर साडे पांच वरांचेर गोंयांत वचपी विमानाची तिकेट काडिल्ली. त्या शुक्रारा पोर्ट विभागाच्या मंत्र्यान दिल्लीक मिटींग आपयिल्ली. सरकारी पयशांची गुंतवणूक उणी आनी प्रायवेट कंपन्यांची चड करपा खातीर चर्चा करूंक ती मिटींग आपयिल्ली. ते मिटिंगेची पूर्व तयारी म्हूण मंगळारा दीस इंडियन पोर्टस् असोसिएशनाच्या अध्यक्षान मुंबय मिटींग दवरिल्ली. मिटिंगेचो विशय आनी ताचेर मुरगांवच्या ट्रॅफिक विभागान धाडिल्लो नोट महेशान आदल्या राती कडेन न्हिदचे पयलीं वाचून काडिल्लो. मुरगांव बंदरांत अंयशीं टक्के वेवहार मीन एक्स्पोर्टाचो आसता. मिनाचे खणींवेल्यान येता तें मीन पोर्टांत देंवोवन घेवपाक आनी मागीर तें बोटींचेर चडोवपाक सगली मॅकानिकल यंत्रणा आसा. ती सबंद यंत्रणा प्रायवेट लोकांच्या हातांत दिवपाची येवजण अजून मेरेन मुरगांव बंदराच्या वा भारत सरकारा मुखार येवंक ना. यंत्रणा पंदरा वर्सां सुमार पोरनी जाल्या आनी ती चालू दवरूंक लागपी खर्च वर्सान वर्स वाडत वता म्हणटकूच व्हड व्हड कंपन्यो असले येवजणेचेर नदर लेगीत घालच्यो नात. मीन, पेट्रोल, डिझल, नाफ्ता बी हाताळपाचे धके सोडल्यार बाकीचें सामान हाताळपा खातीर उरिल्ले धके प्रायवेट कंपन्यांक

भाड्याक दिवंक जातात. वर्साक पोर्टाक अमकी येणावळ येवंक जाय अशें म्हूण थारावचें पडटलें. युरोपांत असले 'लॅण्ड-लॉर्ड' पोर्ट खूब आसात अशें आयकूंक येता. 'लॅण्ड-लॉर्ड' पद्दती प्रमाण खंयचे धके प्रायवेट कंपन्यांक दिवंक जातात आनी खंयचे जायनात हाचेर प्रस्ताव मांडूं येता अशें महेशान मिटिंगेंत सांगलें. ट्रॅफिक विभागान दिल्लो नोटूय बी महेशान मुंबय बंदराच्या अध्यक्षाकडेन दिलो. हेर चेअरमॅनांनी आपापल्या बंदरांनीं कसलीं कामां प्रायवेट कंपन्यां कडेन सोंपोवपाक मेळटलीं हाचेर नोट बरोवन हाडिल्ले आनी तें तांणी हेरांक मिटिंगेंत समजावन सांगलें. मागीर सगल्यांनीं मांडिल्ल्या प्रस्तावांचेर चर्चा जाली आनी मुंबय पोर्टाच्या अध्यक्षान चर्चेच्या आदाराचेर सगल्यांचे वतीन एक नोट तयार करून तो भारत सरकाराच्या पोर्ट विभागाक दिवंचो अशें थारलें.

सकाळीं गॅस्ट हावसांतल्यान भायर सरता आसतना आपणाले कपडे बी बॅगांत भरून महेशान बॅग गाडयेंत घालपाक लायिल्लें. मिटींग जातकूच ताज हॉटेलांत सगल्या चेअरमॅनां खातीर मुंबय पोर्टाच्या अध्यक्षान जेवण दवरिल्लें. जवाहरलाल नेहरू पोर्टाचो अध्यक्ष अनील शिंदे आनी मद्रास पोर्टाचो अध्यक्ष विश्वंभर झा खूब वर्सां सावन महेशाचे इश्ट जाल्ल्यान तांचे कडेन महेशाचें चड उलोवप जालें. अनील शिंदे महेशाचो 'बॅचमेट', आनी महेशा परस दोन वर्सां जुनियर आशिल्लो विश्वंभर झा 'तमिळनाडू काडरचो'! हेर चेअरमॅनां कडेन महेशान वळख करून घेतली.

जेवन बी सगल्यांक 'गुडबाय' म्हणून महेश तीन वरांचेर विमानतळार वचूंक भायर सरलो आनी साडे चार वरांचेर सांताक्रूज विमानतळाचेर पावलो. साडे पांचांक सुटिल्लें विमान साडे संक दाबोळे विमानतळार पावलें. विमानतळार गिरीश गांवस आपणाल्या दोन स्टाफांक घेवन आयिल्लो. आपणाली बॅग हातांत घेवन आयिल्ल्यान विमानतळा वेल्यान महेशाक रोखडेंच भायर सरूंक मेळ्ळें. भायर गेल्लो एकलो स्टाफ सावियो मात्सो नर्वस जावन गांवसाच्या कानांत फुतफुतलो. ''पोर्टांत फोन करून पळय'' अशें म्हणून गांवसान ताका परतून धाडलो.

''सर, संभाजी अजून गाडी घेवन येवंक ना. तो येय मेरेन आमी व्ही. आय्.पी. लावंजांत बसुंया.'' गांवसान महेशाक सुचयलें

''पांच-धा मिनटां खातीर बेश्टोच व्ही.आय्.पी. लावंजांत कित्याक? हांगांच उबे रावुंया. तो वाटेर आसतलो.'' महेशान गांवसाक सांगलें. गांवस सामको नर्वस जाल्लो. जिपींत बसून या म्हूण चेअरमॅनाक सुचोवचें काय ना ह्या गोंदळांत तो सांपडिल्लो. पंदरा मिनटां जालीं तरीय संभाजी आयलो ना.

''आरे गिरीश, तुजी जीप हाडपाक लाय, आमी जिपींत बसून या. संभाजीचें कितें जालें तें म्हाका मागीर सांग.'' महेशान मात्सो बेजार जावन गिरीशाक सांगलें. महेश फुडल्या सिटार आनी गिरीश, सावियो आनी नागेश फाटल्या सिटांचेर बसून ते भायर सरले. विमानतळा वेल्यान बंगल्यार वता आसतना महेश वग्गी आशिल्लो. हो संभाजी हीं बेशिस्तपणां मुद्दाम करता काय खरेलोच ताका कसलोय प्रोब्लेम जाला? ताका फाटल्या चेअरमॅनांनी खूब चडोवन दवरला काय कितें? आनीक कांय दिसांनी, संपाचें वादळ शांत जातकूच हो विशय सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकरा कडेन उलोवचो पडटलो, अशें महेशान येवजिलें. जीप बंगल्याच्या दरवट्या कडेन पावतां पावतां दोन व्हडल्यो मोटार सायकली बंगल्याच्या दरवट्यांतल्यान भितर सरतना दिसल्यो. दरवट्या कडेन जीप थारोवन महेशान सेक्युरिटी गार्डाक ते कोण काय म्हूण विचारलें. जिपींत चेअरमॅनाक बशिल्लो पळोवन सेक्यूरिटी गार्डान एकदम टायट सल्यूट मारलो आनी त्यो मोटार सायकली चलोवपी ''सोंभाजीका लॉडका लोग'' आनी फाटल्यान बशिल्ले ते दोग जाण तांचे इश्ट अशें गार्डान सांगलें. बंगल्यार पावना फुडें नागेश जिपींतल्यान उडी मारून बॅग घेवन फुडें गेलो. आपणाक आतां आनीक खंय वचपाचें ना अशें म्हूण महेशान गांवसाक सांगून तांकां वयार केले.

मीरान देड दिसा भितर सगलें सामान त्या त्या जाग्यांनी मांडून दवरिल्लें आनी ''आतांच्यान घरचें जेवण सुरू'' अशें म्हणून ताणें ती खोशेची गजाल महेशाक सांगली. ''गॅस्ट हावसाचें जेवण जेवन जेवन तुका वाज आयला जातलो! आयज हांवें तांदळांची भाकरी आनी चटणी केल्या'' अशें म्हणून मीरान ते रातीचो मेनू सांगलो.

''बंगल्यार जाय तितले लोक कामाक आसात काय ना?'' महेशान मीराक विचारलें.

''दोन बायलो आसात, वासंती आनी शांती. दोगांय जाणांचे घोव खंय

पोर्टाचे नोकरेंत आसतनाच भायर पडले. देखून हांकां पोर्टांत नोकरी मेळ्ळ्या. जमीन पुसप, फर्निचर झाडप, रांदची कूड निवळ दवरप, आयदनां आनी कपडे धुवप, च्या करप, रांदप हें सगळें तीं करतात खंय! वागूंक बरीं काय दिसतात! दोग जाण प्यून आसात. एकाचें नांव हळडीपूर, दुसऱ्याचें श्याम! हळडीपूर मूळ कारवारचो, आनी श्याम पेडणेचो. दोगूय हांसतमूख आनी मायेस्त काय दिसतात. मुंबय तुवें कितें केलें? तूं फाल्यां येवपा वांट्याचो आयजूच परतो पावतलो म्हूण गिरीश गांवसान फोन केल्लो,'' महेश टुरा वेल्यान परतून येतकूच सदचे संवयेचे प्रस्न मीरान विचारले.

मुंबय आपणें कितें केलें हें मीराक सांगचे पयलींच फोनाचेर कोणूयतरी अर्जंट उलोवपाक सोदता अशें म्हणून श्यामान येवन महेशाक सांगलें. महेशान वरांडाचेर वचून फोन घेतलो. फोनाचेर स्टायलीन इंग्लीश उलोवपी एकलो उलयलो, ''सर, हांव कॅप्टन पेरेरा, गोवा दिया वल्ड ट्रान्शीपराचो कॅप्टन! म्हजो ट्रान्शीपर पोर्टाचे हद्दे भायर पावला. म्हजे कडेन फकत पांच टन फ्यूयल आसा. म्हाका अर्जंट पोर्टांत भितर येवंक जाय. फ्यूयल सोंपल्यार ट्रान्शीपर खंयींय व्हांवन वचत म्हूण भिरांत! सामकी इमर्जन्सी!'' कॅप्टन पेरेरा सामको नर्वस जावन उलयतालो.

''कॅप्टन, ट्रान्शीपराचे सगले डॉक्युमेंट पळयल्या बगर, डेप्यूटी कन्सर्वेटर आनी ट्रॅफिक मॅनेजर हांचे कडेन उलयल्या बगर म्हाका कांयच करूंक मेळचें ना!'' महेशान कॅप्टन पेरेराक सांगलें.

''पूण सर, म्हजे कडेन पांचूच टन फ्यूयल आसा. दर्यांत वादळी वारो आनी व्हड व्हड ल्हारां येवंक लागल्यांत. इमर्जंसींत तुमी कितेंयतरी करुंकूच जाय!'' कॅप्टन पेरेरा.

''सॉरी, कॅप्टन, तुज्या ट्रान्शीपरांत फक्त पांचूच टन फ्यूयल आसपाक कोण जापसालदार? तुमी असली परिस्थिती निर्माण करतात आनी आमकां ती हाताळ म्हूण सांगतात, हें बरोबर न्हय. तुवें म्हाका कितलेंय जरी सांगलें तरीय हांव आतां कांयच करूंक तयार ना!'' अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो, आनी डेप्यूटी कन्सर्वेटर राम करीपिल्लैक फोन लावन दी म्हूण ऑपरेटराक सांगलें. राम करीपिल्लै दोन मिनटां भितर फोनार आयलो.

''गुड इव्हिनिंग सर, राम उलयतां! कशीं आसात तुमी?'' राम करीपिल्लैन

महेशाचीआनी मीराची खबर घेतली.

"गुड इव्हिनिंग राम, आमी बरीं आसात. गोवा दिया वल्ड ट्रान्शीपराचो कॅप्टन पेरेरा आत्तां म्हजे कडेन उलयला. फक्त पांचूच टन फ्यूयल ताचे कडेन आसा आनी बोट पोर्टांत घेवंक दिना जाल्यार फ्यूयल काबार जातकूच बोट ह्या वादळी वाऱ्यार व्हांवून वतली अशी भिरांत ताणें उकतायली. डॉक्युमेंट पळयल्या बगर आनी ऑफिसरांकडेन उलयल्या बगर ताका भितर सरूंक परमिशन दिवंक मेळचें ना अशें हांवें सांगलां." महेशान राम करीपिल्लैक सांगलें.

"सर, तुमी एकदम करेक्ट सांगलें. फाटलीं धा वर्सां सुमार हो गोवा दिया वल्ड ट्रान्शीपर खंय आशिल्लो हें कोणाक खबर ना. सर्वानंद सांवर्डेकाराचो हो ट्रान्शीपर खूप पोरनो जाला. चडशे पोर्ट ह्या ट्रान्शीपराक भितर घेनात अशें म्हाका मंगळूर पोर्टाचो डेप्यूटी कन्सर्वेटर सांगतालो. तुमी स-सात दिसां आदींच चार्ज घेतला हें तांकां खबर आसा. ट्रॅफिक मॅनेजराक वा म्हाका तांणी फोन करपाचो, पूण आमकां त्या ट्रान्शीपरा विशीं सगलें खबर आसा हें ते जाणात. देखून तुमकां फोन करून चान्स लागल्यार लागलो अशें ते येवजिताले जावंक जाय. परतून कॅप्टन पेरेरान फोन केल्यार म्हाका ना जाल्यार ट्रॅफीक मॅनेजराक फोन करपाक लायात." करीपिल्लैन त्या ट्रान्शीपरा विशीं आपणाले दुबाव उकतायले आनी महेशान कितें करपाचें ती सुचोवणीय बी केली.

"थँक्यू" म्हणून महेशान फोन दवरलो. कॅप्टन पेरेरान परतून फोन केलो ना.

पंचवीस वर्सां प्रशासनांत सगल्या तरांचीं आस्थापनां चलोवन महेशाचें नाक बरें पावरफूल जाल्लें. खंयूंय कितेंय धुंवता वा शिजता जाल्यार ताका रोखडेंच वासावेल्यान कळटालें. ताकतिकेन कितेंय तरी कर म्हूण जेन्ना कोणूय सांगता तेन्ना हातूंत "दाल में कुछ काला है" असो ताका दुबाव मारतालो. आतांय बी कॅप्टन पेरेरान आणीबाणीची परिस्थिति आयिल्ल्याचो आव हाडिना फुडें महेशाक ताचो दुबाव मारिल्लो.

करीपिल्लै कडेन उलयतकूच महेश हॉलांत येवन बसलो. तो बसतकूच मीराय बी रांदचेकुडींतल्यान भायर येवन थंय बसलें. "कितें प्रॉब्लेम जाला?" मीरान विचारलें.

“शे शे! प्रॉब्लेम बी कांय ना. पोर्टाच्याच कामा विशीं फोन तो! सामान सगलें जाग्यार घालून जालें?” महेशान विचारलें.

“जाल्ल्यांत जमा! आमचे कपडे बी थोडे स्टीलच्या आरमारींनी लावन दवरपाचे आसात. रातीं न्हिदता म्हणसर बारा वरां जालीं. न्हीद सारकी पडली ना. मदींच एक-दोन फावटीं घड घड घड घड करून व्हडल्या मोटारसायकलींचो आवाज आयिल्लो. हांगा सबंद रात ह्या वाठारांत पोलीस पेट्रोलिंग चल्लां काय कितें?-मीरा.

“म्हाका खबर ना. हें त्या प्यूनाक खबर आसतलें.” महेश

मीरान श्यामाक आपयलो आनी मोटार सायकलीं विशीं ताका विचारलें. संभाजीचे दोन पूत त्यो मोटार सायकली घेवन हे वाटेन येतात-वतात. फाटले वटेन सर्वंट क्वार्टर आसात तितूंत संभाजी फामिल घेवन रावता. अशें श्यामान सांगलें.

वारांडा वेलो फोन वाजलो. श्यामान बेगीबेगीन वचून तो घेतलो आनी पणजेच्यान मॅडमीचो मावशेभाव उलयता म्हूण ताणें महेशाक सांगलें. सज्जनबाबाचो फोन म्हूण महेशाक रोखडेंच समजलें आनी भायर वचून ताणें फोन घेतलो.

“सज्जनबाब, कसो आसा?” महेशान खबर घेतली.

“आमी सगलीं बरीं आसात. काल रातचें हांवें पिटर डिमेलो आनी गुणाजीक उलोवपाक आपयिल्ले. ह्या वेळार तुमी संप बी करचो न्हय अशें हांवें तांकां पटोवन दिवपाचो यत्न केला. पंदरा मे पर्यंत बोटींची लायन लागता आनी पावस सुरू जावंचे पयलीं कॉन्ट्रॅक्टा प्रमाणें आमकां ‘फायन्स’एक्स्पोर्ट करचे पडटात. कामगारांचीय बी आलायती येणावळ ह्या वेळार वाडिल्ली आसता. पूण त्या बद्दल आमी जाहिरपणान उलोवंक जायना. हांव एक्स्पोर्टर्स असोसिएशनाचो अध्यक्ष. असोसिएशनाचे वतीन तांकां स्ट्रायक करूं नाकात म्हूण जाहीरपणान सुचयलां. फाल्यां सकाळीं वर्तमानपत्रांनी येतलें.” सज्जन केंकरेन महेशाक म्हायती दिली.

“तुमी सांगिल्लें ते आयकतात?” महेशान विचारलें.

“चडश्या वेळार ते आयकतात, कारण आमचें आयकल्यार तांकांय बी तें बऱ्याक पडटा” अशें म्हणून सज्जन व्हडल्यान हांसलो.

‘‘तूं हांसलो कित्याक?‘‘---महेश

‘‘मागीर केन्नाय मेळटा तेन्ना उलोवया. तूं फाल्यां येवपाचो तो आजूच परतून आयलो असो म्हाका म्हज्या ऑफिसांतल्यान फोन आयलो. हांव कामगार संघाकडेन उलयलां हें तुका रोखडेंच सांगूंक जाय आशिल्लें, देखून फोन केलो. हेर गजाली मागीर सविस्तर उलोवया.’’ सज्जनान सांगलें.

‘‘ओके, थँक्यू,’’ अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो.

‘‘तूं न्हावन बी यो, तितले म्हणसर हांव भाकरी तव्यार उडयतां. तुजी लुंगी आनी सदरो हांवें तुज्या उशार दवरला. दारा म्हऱ्यांतली बाज्ज तुजी. रातीचो अर्जंट फोन बी आयल्यार तुका बेगीन भायर वचपाक बऱ्याक पडटलें.’’ मीरान एकाच धपक्यान महेशाक सगली म्हायतती दिली. महेश न्हावन लुंगी गुठलावन, सदरो घालून येवन जेवपाच्या मेजार बसलो. तांदळांची भाकरी ताका ल्हानपणा सावन आवडटाली. आठवड्यांतल्यान उण्यांत उणें एक फावट तरी तांदळांची भाकरी आनी लसणीची चटणी कर म्हूण ताणें मीराक सांगिल्लें.

‘‘रांदता आसतना तुका ह्या प्यूनांची कितें मजत जाली?’’ महेशान विचारलें.

‘‘भाकरी करपाक म्हाका मजत कसली जाय? वासंती आनी तुळशी दोगांय स वरांचेर गेलीं. तूं न्हावंक वतकूच हांवें श्यामाक धाडलो. ताची ड्युटी आठ वरांचेर सोंपता खंय.’’ मीरा.

वरांदाच्या एका तोंकार आशिल्ली एक धाकली कूड आदले चेअरमॅन ऑफिसाचें काम करपाक वापरताले. ऑफिसाचें काम करपाक महेशानूय बी तीच कूड वापरपाचें थारायलें. फाटलीं कितलिंशींच वर्सां णव ते साडे णव वरां मदीं जेवन, धा मिनटां शतपावली करून रातच्या साडे इकरा वरां मेरेन फायली हाताळपाची महेशाक संवय आशिल्ली. ऑफिसांतल्यान कांय अर्जंट फायली फ्लावियान धाडून दिल्ल्यो. शामान त्यो वेवस्थीत मेजाचे दावे वटेन आशिल्ल्या बॉक्सांत दवरिल्ल्यो. जेवण जातकूच महेशान फायली वाचूंक सुरवात केली. मागीर कांय वेळ वर्तमानपत्रांचेर नदर भोंवडावन बारांक सुमार तो न्हिदूंक गेलो. तितल्या म्हणसर मीरान उरिल्ले कपडे स्टीलच्या आरमारींत दाळून दवरले.

‘‘मे म्हयन्याचे अखेरेक सुटी पडटकूच गौरीश पिलानीच्यान येतलो.

आमच्या शेजराक आसा तो बॅडरूम ताका दिवंया; बंगल्या भितर सरतकूच उजवे वटेन आसा तो बॅडरूम गॅस्टां खातीर दवरुंया. न्हिदूंक वचचे पयलीं तुका एक म्हत्वाची गजाल सांगूंक जाय.'' अशें म्हणून मीरान शिरधनां आयज आपूण गेल्ले कडेन कितें कितें जालें तें सांगूंक सुरवात केली ''हांव ताईबायक मेळपाक गेल्लें तेन्ना पांडुरंग पै आनी दुर्गाबायक नमस्कार करूंक तांगेरूय बी गेल्लें. तांणी बस बस म्हणून आग्रो करतकूच हांव पंदरा-वीस मिनटां तांगेर बसलें. इतलो काळ खंय तो म्हजे कडेन उलोवपाचीसंद मेळटली म्हूण रावतालो. आपूण आतां जाणटो जालां, म्हजे कडेन उलोवपाची संद मेळटली काय ना हें आपल्याक खबर ना देखून आपणें म्हजे खातीर एक पत्र बरोवन दवरिल्लें अशें ताणें म्हाका सांगून तें पत्र म्हजे कडेन दिलें. तें पत्रूच तुका हांव आतां वाचून दाखयतां. मिरान बॅडरूमांत वचून तें पत्र हाडून महेशाक वाचून दाखोवंक सुरवात केली. ''बाय मीरा, इतलो तेंप तुका हांव सांगतलों सांगतलों म्हूण रावतालों. आशीं कुशीं कोण्ण नासतना तुजे कडेन उलोवपाची संद म्हाका मेळ्ळ्यार पुरो म्हूण हांव मागतालों. सांगूंक वायट दिसता, पूण सांगल्या बगर म्हज्यान रावूं नज. तुमच्या घरचें हांवें मीठ खालां आनी ह्या घराच्या पांख्या पोंदा म्हजीं भुरगीं ल्हानाचीं व्हड जाल्यांत. ह्या घराचें वायट जाल्लें म्हज्यान पळोवंक नज. रामकृष्ण आनी विष्णू सदांच तुजें वायट उलयताले आनी तुका, मुक्ताक आनी अनंत भाईकूय बी कांयच दिनासतना अचळय ही इश्टेट विकून उडोवन आपूण खावंक सोदताले. अनंत भाईक तें कळ्ळ्यार तो तांकां तापोवन काडून तांकां मार्गार हाडपाक कोर्टांत लेगीत वचपाक तयार आसतलो, हें ते जाणां आशिल्ले. तुका खबर आसा, मीरा, हें शिरधनचें पन्नास एकर भाट चार वर्सां पयलीं रामकृष्ण आनी विष्णून चिकानां करून आपल्या नांवार करून घेतलां. इन्वेन्तारांत हें शंबर वर्सां पोरनें घर, आनी हें आनी असलीं कांय भाटां ताईबायक दिल्यांत हें तुका खबर आसा. पुर्तुगेज कायद्या प्रमाणें सगल्या भुरग्यांची संमती आसल्या बगर ताईबायक हें भाट भुरग्यां मदल्या फकत कांय जाणांक वेंचून काडून दिवंक मेळना. माणगांवकार वकील तांकां सांगता आसतना हांवें हें भितरले वासरेंतल्यान आयकलां. ताईबायन हें भाट कोणाय भायल्या मनशाक विकून मागीर आपणें वा आमच्या पैकीं आनीक कोणेंय त्या भायल्या मनश्या कडल्यान तें विकतें

घेतल्यार कायदो मोडिल्ले भशेन जांवचें ना अशें रामकृष्णान माणगांवकार वकिलाक सुचयिल्लें. आनी तशें केल्यार जाता, पूण आपणाल्या वांट्याक आयलां ताच्या अर्देंच फकत ताईबायक विकूंक मेळटा अशेंयबी वकिलान सांगिल्लें. ताईबायची परिस्थिती तुका खबर आसा. तिका बाबडेक भाटां-बेसां विशीं कांयंच कळना. रामकृष्णान आपल्या मावोडेच्या एका मनशाक ऍटॉर्नी केलो आनी ताईबाय कडल्यान पावर घेतली. ताईबायक सय कर म्हणटा थंय तिणें सय केली. मागीर त्या ऍटॉर्नीन हें भाट कांय दिसवड्याच्या मानायांक विकलें आनी त्या मानायां कडल्यान रोखडेंच रामकृष्णान आनी विष्णून तें परतून विकतें घेतलें. ही चलाखी अनंतभाईक खबर ना आनी तुका आनी मुक्ताकूय बी खबर नासतली. ह्या दोगांयनीय मेळून आनीक कितलेशेच कडेन बारीक बारीक कुडके विकून खाल्यात. तूं आनी मुक्ता ह्या घराच्यो धुवो जावन तुमकां आयज नाल्ल, आंबे, पणस बी बाजारांतल्यान विकते घेवन खावंचे पडटात. तुवें स्वता बाबाची सिर्वीस केल्या तशी कोणेंच करूंक ना, तें हांवें आनी हिणें पळयलां. घोवाक आनी ल्हान भुरग्याक मद्रासाक सोडून तूं हांगा तीन म्हयने येवन रावून तुवें बाबाची सिर्वीस केली. तो हाथरूणार पडिल्लो तेन्ना ताका उदक लेगीत दिवपाक हांगां कोण्ण नाशिल्लो. सगल्यो सुनो आनी पूत हेर कडेन व्हड व्हड बंगले बांदून सुशेगाद आशिल्लीं. भाटां-बेसां आपलीं पूण आवय-बापूय आपलीं न्हय. फकत पुतांकूच भाटांचेर अधिकार आसा, पूण कोण्णां धुवांक कसलोच अधिकार ना अशें म्हणपी हीं मनशा ह्या पातकांचीं फळां खंय भोगतलीं, देव जाणां!'' - पाडुरंग पै

पत्र वाचून जातकूच मिरान आतां फुडें कितें करपाचें असो प्रस्न महेशाक विचारलो.

''भाटा-बेसां विशींचो पुर्तुगेज कायदो जाणा आशिल्ल्या कोणाय अणभवी वकिलाक विचारचें पडटलें. सद्या आमी न्हिदूंक या. भाटां-बेसांचे कशें करपाचें तें फाल्यां पळोवया,'' महेशान सोफा वेल्यान उठत मीराक सांगलें आनी मागीर तीं दोगांय न्हिदूंक गेलीं .

दुसऱ्या दिसा मीरान अनंतभाईक फोन करून ही सगली गजाल सांगली. आपूण तांकां तापोवन काडटां आनी सगलें सारकें करात म्हूण सांगतां. तशें ते करिनात जाल्यार आपूण कोर्टांत वचून भयणींक न्याय दितलों अशी

शिटकावणी आपूण दितां अशें अनंत भाईन मिराक सांगलें.

"तूं तांकां कांयंच सांगूं नाका, अनंतभाई. आपूण सारकें करतां, सारकें करतां म्हणटले, आनी कांयच करचे नात! तूं कितलो म्हूण तांच्या फाटल्यान लागतलो? तांणी चिकानां केल्ल्याचें आतां आमकां कळ्ळें न्हय? आमच्या वांगडा तुका आनी सिता वयनीकूय बी तांणी फटयल्यांत. आतां कितें करपाचें तें आमी करतात. तूं तांकां कांयंच सांगूं नाका. हेंच भाट न्हय, तर ते सगलीं भाटां अशींच खावंक सोदतले. तुका विचारल्या बगर तांकां कांयंच करूंक मेळूंक जायना, अशी कसलीय तरी कायद्याची तजवीज सोदून काडूंक जाय! तें तूं आमचेर सोड!" मीरान अनंतभाईक सांगलें.

"तुका आनी महेशाक त्रास कित्याक गो? हांवूंच करतां तें." अनंतभाईन मीराक थाकाय दिवपाचो यत्न केलो.

"नाका, अनंतभाई आमीच करतात तें. आमची कारवाय कशी चलता ती तुका कळयत रावतात. तूं वग्गी राव!" मीरान अनंतभाईक सांगलें.

"बरें तर, हांव कोण्णाक सांगिना! तुमकां केद्याय वेळार कसलीय मजत जाय जाल्यार सांगात." अनंतभाईन मीराक आश्वासन दिलें.

महेशाच्यो आनी मिराच्यो पणजेच्या ॲडव्होकेट ॲन्थनी फुर्तादाच्या ऑफिसांत पावठी वाडल्यो. सत्तर वर्सांच्या ॲडव्होकेट फुर्तादाची याद सामकी बरी आशिल्ली आनी पुर्तुगेज कायद्याचो व्हड जाणकार म्हूण ताची गोंयांत नामना आशिल्ली. वकिलाक जाय आशिल्ले सगले डॉक्युमेंट अनंत भाईचे मजतीन एकठांय करता म्हणसर मीराक थोडे दीस लागले. मागीर मिरान पणजे कोर्टांत केस घालपाची तयारी पूर्ण केली.

ॲडव्होकेट फुर्तादाच्या शेजरा आनीक एका वकिलाच्या ऑफिसांत ताईबायच्या भाटांतल्या मुंडकाराचो पूत प्यूनाचें काम करतालो. महेश आनी मीरा परतू-परतून फुर्तादाच्या ऑफिसांत येतात म्हणपाचें त्या प्युनान रोखडेंच रामकृष्णाक कळयलें आनी महेशाक आनी मिराक गोंयचे हद्दी भायर धावंडावपाचे यत्न रामकृष्णान चड नेटान चालू दवरले.



## भाग 12

**दुसऱ्या** दिसा सकाळीं सारको णव वरांचेर महेश ऑफिसांत पावलो. महेश सारको टायम पाळपी चेअरमॅन म्हूण आतां सगल्यांक कळिल्लें. ''तुमकां पळोवन आतां लोक आपल्या घड्याळाचो टायम सारको लायतात,'' अशें जगदीशान काल ताका म्हणिल्लें ती महेशाक याद जाली. सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी बिळगी ताची वाट पळयताले. महेश येना फुडें गुडमॉर्निंग सर, गुडमॉर्निंग सर, म्हणत ते ताचे मुखार येवन बसले. ''लेबर ऑफिसरान शो-कॉज नोटीस रेडी करून काल म्हज्या म्हऱ्यांत धाडिल्ली. तुमी मुंबयच्यान आयज येवपाचे ते कालूच आयिल्ल्यान ही नोटीस तुमकां दाखोवया म्हूण दवरल्या ती मात्शी पळयात,'' अशें म्हणत अभ्यंकरान महेशा मुखार फायल दवरली.

''हांवें ती पळयल्या सर, म्हाका दिसता, ती रोखडीच सर्व करुंया.'' सूर्यनारायणनान आपणाली सुचोवणी केली.

महेशान ती नोटीस वाचली. पंदरा दिसां भितर जाप दिवंची अशें नोटिसींत बरयिल्लें, तें खोडून महेशान पंदरा दिसांचे सात दीस केले आनी अभ्यंकरा कडेन फायल परतून दिली. त्याच दिसा इकरा वरां मेरेन नोटीस सगल्यांक पावूंक जाय असो आदेश महेशान दिलो.

''कामगार संप करपाचे तयारेंत आसात अशें आयकूंक येता. मे म्हयन्याचे पंदरा तारखे मेरेन बोटींची रांग लागतली. असल्या वेळार कामगारांनी संप केल्यार सबंद गोंयच्या लोकांक लुकसाण जातलें. संप जावंचो न्हय म्हूण पोर्ट प्रशासनानूय बी सगले प्रयत्न करचे, संप हो कोणाक बऱ्याक पडपाचो न्हय,'' असो वर्तमानपत्रां वरवीं एक्स्पोर्टर्स् असोसिएशनान उलो मारला.

सूर्यनारायणनान हातांतलो नवहिंद टायम्स महेशाक दाखयलो. महेशान पेपर वाचून परतून दिलो.

"कामगार आनी स्टाफाचेर कारवाय करपाची प्रक्रिया आमी चालू दवरूया. मागीर परिस्थिती पळोवन कितें करपाचें तें थारावंया." महेशान सगल्यांक सांगलें.

"सर, एक्स्पोर्टरांनी तांकां आनी आमकांय बी उलो मारला. हाचो फायदो घेवन हे फावटीं मात्शें नमतें घेतल्यार बरें न्हय?" अभ्यंकरान सुचोवणी केली.

"तो एक पर्याय आसा. तो पर्याय वापरल्यार सद्या प्रस्न सोडयिल्ल्या भशेन जातलो; पूण ताचो परिणाम फुडाराक वायट जातलो. हांवें आदीं सांगलां तशेंच करुंया; कारवायेची प्रक्रिया चालू दवरुंया," महेशान विशय बंद करपाचो यत्न केलो.

"सर, आयज सांजची चड करून युनियनाची मिटींग जातली. शुक्रारा रातीचे ते संपार वतले अशें तांच्याच भितरल्या एका मनशान म्हाका सांगलां. आयज सांजेचें कितें जाता तें पळोवया. हो संप जाल्यार तांच्या पैकीं खूबशा जाणांची आलायती येणावळूय बी बंद जातली. देखून जायते जाण संपाक विरोध करतात अशेंय त्या मनशान सांगलें." बिळगीन भितरली म्हायती दिली.

"सर, आमी ही नोटीस सर्व करुंया. आयज सांजेचें कितें जाता तें पळोवन मागीर फुडली कारवाय थारावया," सूर्यनारायणनान सुचयलें.

"ओके, पळोवंया कितें जाता तें!" महेशान त्या विशयाचेर चर्चा बंद केली आनी डेप्यूटी कन्सर्वेटर आनी ट्रॅफिक मॅनेजराक धाड म्हूण बाप्तीस्ताक सांगलें. सूर्यनारायणनाक ताणें वचूं नाका म्हूण सांगलें. अभ्यंकर आनी बिळगी गेले.

"गुड मॉर्निंग सर, गुड मॉर्निंग सर, म्हणत डेप्यूटी कन्सर्वेटर राम करीपिल्लै आनी ट्रॅफिक मॅनेजर सेराफीन गुदिन्य येवन महेशा मुखार बसले. सूर्यनारायणनाकूय बी तांणी गुड मॉर्निंग, म्हणून तकली बागयली. "ह्या गोवा दिया वल्डाचें कितें करपाचें?" महेशान विचारलें.

"सर, हो ट्रान्शीपर एकोणीसशें सांसश्टांत बांदिल्लो. अंदू ताका पंचवीस वर्सां जातलीं. ताचीं सर्टिफिकेटां चॅक करचीं पडटलीं. तुमचो रातीं फोन येतकूच हांवें पयलीं मंगळूर आनी मागीर कोची पोर्टांच्या डेप्यूटी कन्सर्वेटरांक ह्या

ट्रान्शीपरा विशीं विचारलें. त्या पोर्टांनी ताका भितर घेवंक ना, कारण तांणी विचारिल्ल्या प्रस्नांक कॅप्टन पेरेरान सारक्यो जापो दिल्यो नात. सगल्यांत म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार हो ट्रान्शीपर फाटलीं धा वर्सां खंय आशिल्लो, कितें करतालो हाची सारकी म्हायती कॅप्टन परैरा दिना. ताचीं सगलीं सर्टिफिकेटां चॅक करुनूच ताका भितर घेवंचो काय ना तें थारावचें पडटलें. मुख्य गजाल म्हणल्यार, हो विशय चेअरमॅनाच्या पावंड्या मेरेन पावुंकूच जायना. ट्रॅफिक मॅनेजर आनी हांवें मेळून ह्या विशयांत कारवाय करपाची. असले विशय केन्नाच चेअरमॅना मेरेन वचनात.'' राम करीपिल्लैन म्हायती दिली.

''सर, ह्या सर्वानंद सांवर्डेकाराच्यो बोटी पोर्टांत आयल्यार आमकां न्हीद पडना. आमचें खंयूय कितेंय ताका आवडना जाल्यार रोखडोच तो दिल्लीक सगल्यांक तेलेग्राम मारता,'' सेराफिन गुदिन्यान म्हायती दिली.

''आमी कितें करपाचें?'' महेशान सूर्यनारायणनाक विचारलें.

''सर, डेप्यूटी कन्सर्वेटर हो फकत मरीन विभागाचो मुखेली न्हय. ताका कायद्यान जज्जाचे पावर दिल्ले आसतात. असल्या विशयांत तो आदेश दिता तोच न्याय. पूण जायते फावटीं, चेअरमॅनाच्या चेपणाक लागून डेप्यूटी कन्सर्वेटराक कायद्या आड आशिल्ल्यो गजाली न्यायाचे फास्केंत बसोवच्यो पडटात. ह्या ट्रान्शिपराचो विशय पिल्लै आनी गुदीनोचेर सोडुंया.'' सूर्यनारायणनान आपणाली सुचोवणी केली.

''तुमी कायद्या प्रमाणें हो विशय हाताळात. कोणाचेंय चेपण येतलें म्हूण हुस्को करूं नाकात. दिल्लीच्यान लेगीत फोन आयल्यार म्हाका फोन करूंक लायात. म्हजो तुमकां पुराय तेंको आसतलो.'' महेशान हांसत पिल्लै आनी गुदिन्याक सांगलें. ते दोगूय ''थँक्यू सर, थँक्यू सर'' म्हणत भायर सरले.

''हांवूंय म्हज्या कॅबिनांत वतां, कितेंय विशेश आसल्यार फोन करतां,'' अशें म्हणून सूर्यनारायणन आपणाल्या कॅबिनांत गेलो.

सूर्यनारायणन वतकूच बाप्तीस्ताचो फोन आयलो. प्रेमानंद काणकोणकार म्हणटात ताणें फोन केला, आपूण ल्हानपणांत चेअरमॅना वांगडा शिकलां. आपूण वास्को आयिल्लों आसां. चेअरमॅनाक वेळ आसल्यार आपूण एक धा मिनटां भितर येवंक सोदतां अशें तो म्हणटा, ताका कितें सांगपाचें अशें बाप्तीस्तान विचारलें.

“तो आयल्यार जाता, धा मिनटां भितर पाव अशें सांग” महेशान सांगलें.

प्रेमानंद काणकोणकार धा मिनटां भितर पावलो. तो दारार मारून भितर येना फुडें महेशान उठून ताका घट्ट वेंग मारली आनी बसयलो. प्रेमानंद ताच्या वांगडा यस्.यस्.सी मेरेन शिकतालो. मागीर ते केन्नाच एकामेकांक मेळूंक नाशिल्ले. दोगांयच्या फामिलींच्यो खबरो आनी हेर गजाली जातकूच “तूं हरशीं आयिल्लो मरे?” म्हूण महेशान प्रेमानंदाक विचारलें.

“तूं पोर्टांत चेअरमॅन जावन येता म्हूण कळटकूच म्हजे बरोबरचो एकलो खूब व्हड मनीस जालो म्हूण म्हाका खूब खोस जाली. पणजेच्यान मुद्दाम तुका मेळूंक आयलां. हांव गेल्लीं कांय वर्सां लायेझॉनाचें काम करतां. भारत सरकाराच्या उद्देग, पोर्ट, मायनिंग आनी रेल्वे ह्या सगल्या मंत्रालयांनी म्हज्यो बऱ्यो वळखी आसात. तानाजी पाटील मायनींग कंपनींत हांवें खूब वर्सां पी.आर्.ओ. म्हूण काम केलां. तें काम सोडून मागीर हांवें लायेझॉनाचें काम सुरू केलें. आमचे गोंयचे सगले मिनेर उदार मनाचे. तांचें काम करतल्याक भरपूर मोबदलो दिवपाक ते फाटीं सरनात. कांय म्हयन्यां आदीं सज्जन केंकऱ्याचें मायनींग मंत्रालयांत एक परमिशन आडावन उरिल्लें. हांवें दिल्लीक वचून एका आठवड्या भितर तें हाडून ताच्या हातांत दिलें. ताणें चेकबूक काडलो, वयर म्हजें नांव घालें आनी तुका जाय तो आंकडो घाल अशें म्हणून चेकबूक म्हजे कडेन दिलो. आंकडे तूंच बरय, हांव कसो बरयतलों अशें म्हणून हांवें ताचे कडेन चेकबूक परतून दिलो. ताणें पांच लाखांचो आंकडो घालो आनी चेक काडून म्हजेकडेन दिलो.” प्रेमानंदान दोळे घुंवडायत आपणें कितेंयतरी व्हड अर्थाचें सांगिल्ले भशेन सांगलें.

“हें तूं सगलें म्हाका कित्याक सांगता? तूं लायेझॉन करता म्हूण सांगलें तितलेंच पुरो. कोण तुका कितले पयशे दितात हातूंत म्हाका मात्तूय इंटरेस्ट ना. तूं बरो सुखी आसतकूच जालो,” अशें महेशान हांसत-हांसत म्हणून उठून ताचो हात धरलो आनी केन्नाय फोन करून यो अशें ताका सांगून महेश तो वचपाची वाट पळोवंक लागलो.

“राव, राव,आनीक दोनूच मिनटां! म्हजें एक काम आशिल्लें. गोवा दिया वर्ल्ड ट्रान्शिपर बोट चॅनला भायर उबी आसा. पोर्टांत भितर येवपा खातीर सगले पेपर आमी ट्रॅफिकांत दिल्यात. फाल्यां सकाळीं मेरेन सगल्यांनी

सयो करून जातकूच फायल तुज्या म्हऱ्यांत येतली. सगल्यांच्यो शिफारशी आसतल्यो. तुवें फकत सय करून फायल परतून धाडपाची.'' प्रेमानंदान विशय सामकोच कांय न्हय करून महेशाक सांगलो आनी महेश कितें जाप दिता काय म्हूण ताचे कडेन पळोवंक लागलो. प्रेमानंद उठिल्लो तो महेशान ताका बस म्हूण सांगलो, आनी आपुणूय बसलो.

''जाणा मरे प्रेमानंद, आमी बरोबर शिकल्यात. कितल्याश्याच वर्सांनी आमी मेळटात. तुका मेळून म्हाका भितरल्यान खोश्शेचो खतखतो आयिल्लो तो ह्या दोन मिनटांत थंड जालो. पयली गजाल म्हणल्यार, हेर चेअरमॅनांचें म्हाका खबर ना, पूण हांव रबर स्टँम्प न्हय. सकयल्ल्यान फायल शिफारशी करून वयर आयल्यार हांव दोळे धांपून तिचेर सय करून धाडटलों अशें तुका दिसता जाल्यार तें सामकें चूक. हांवें तशें केन्नाच करूंक ना. दुसरी गजाल, हांवें भ्रश्टाचाराच्या चिखलांत आयज मेरेन हात घाण जावंक दिवंक नात आनी हाच्या फुडेंय बी तशें जावंचें ना. तिसरी गजाल म्हणल्यार सकयल्यान शिफारशी जावन फायल वयर येतली म्हणून तूं सांगता. तशें जावंचें ना. मुख्य मनशाची वर्तणूक बरी आसतकूच आपले आपूण प्रशासनांत सकयल्ल्या पावंड्या वेले लोक भ्रश्टाचाराच्या चिखलांत हात म्हेळे करपाक भितात आनी चवथी गजाल म्हणल्यार असल्यो गजाली तूं घेवन येतलो जाल्यार तूं हांगा येना जाल्यार बरो!'' महेशान उठून प्रेमानंदाक हात दिलो आनी 'गुडबाय' म्हणलें. प्रेमानंद नर्वस जावन 'गुडबाय' म्हणत गेलो.

साडे बारा वरां जालीं. बिळगीक आपय म्हूण महेशान बाप्तीस्ताक सांगलें. दोन मिनटां भितर बिळगी पावलो.

''आनीक कितेंय खबर कळ्ळ्या?'' महेशान बिळगीक विचारलें.

''संप जातलो काय दिसता. म्हाका खबरो पावोवपी जो कामगार आसा ताका सामकी खात्री आसा. वर्तमानपत्रां वरवीं एक्स्पोर्टरांनीं उलो मारिल्ल्याचो कितेंय परिणाम जाला काय ना अशें विचारल्यार कांयच परिणाम जावंक ना, अशें ताणें सांगलें. उरफाटें, चेअरमॅनान आतां शो-कॉज नोटिसी धाडपाक लायल्यात आनी चडश्या जाणांक त्यो पावल्यात. म्हणटकूच युनियनाक कारवाय करिनासतना रावप शक्यूच ना अशें तांकां दिसता खंय. आयज सांजेचे ते मेळपाचे आसात. स वरां मेरेन ते कितें थारायतात तें कळटलें!''

बिळगीन म्हायती दिली.

"संप जाल्यार कितले दीस जातलो ताचो अदमास घेवपाक मेळटलो?" महेशान विचारलें.

"चड दीस टिकचो ना काय दिसता, कारण तांच्याच भितरल्या जायत्या जाणांक हो संप नाका! ह्या टायमार पगारा परस तांकां एक्स्ट्रा येणावळ चड आसता. ती ते वगडावपाक सोदिनात!" --बिळगी.

"ओके, बरें तर, कितें जाता तें सांजेचें सांग. थँक्यू." --महेश.

मेजार त्या दिसाचीं सगळीं वर्तमानपत्रां येवन पडिल्लीं. संपा विशीं म्हायती दीपान तांबड्या पेनान मार्क केल्ली. महेशान धा मिनटां भितर त्यो खबरो वाचल्यो आनी सारको एकाक तो बंगल्यार वचूंक भायर सरलो. वतां वतां "सायबा तुमी कडक रावात. ह्या पिटर डिमेलोचें प्रस्थ खुबूच माजलां. संप केल्यार करूं दी. कितले दीस करतले?" जगदीशान वतां वतां महेशाक प्रशासकीय सल्ल्याचो एक डोज दिलो.

वचचे वचून महेशान तोंडार उदक मारलें आनी हात धुवन तो मागीर जेवणाच्या मेजार बसलो. मीरान आनी हळदीपूरान जेवण मेजार हाडून दवरिल्लें. महेशाचें सदचें जेवण म्हणल्यार एक चपाती, इल्लेशें शीत, सॅलेड, एक भाजी, तळिल्ल्यो कसल्योय फोडी, रोस आनी धंय. मीरा फकत इल्लेशें शीत, रोस आनी भाजी इतलेंच जेवतालें.

"तूं एक गजाल जाणां? गेटीचेर एक जाणटोसो मनीस विसवणा भशेन दिसपी एक व्हड नुस्तें दोरयेर बांदून घेवन आयिल्लो आनी सायबा खातीर हाडलां म्हणून गार्डाक सांगूंक लागलो. गार्डान व्हडल्यान उलो मारून हळडीपूराक थंय आपयलो. हें नुस्तें हांयें सायबा खातीर हाडलां. सायबाचो बापूय आनी हांव इश्ट. म्हाजी नुस्तें मारपाची बोट आसा. सायब हिंगा येयला म्हूण गोमलें. देखून ही सागवाद हाडल्या अशें त्या जाणटेल्यान हळडीपूराक सांगलें. सायबाचो बापूय भायर पडून चार वर्सां जालीं. सायब शिवराक आनी हांव हें सगलें सागवादीचें नुस्तें खायना, अशें हांवें हळडीपूरा कडल्यान त्या जाण्टेल्याक सांगून धाडलें. तो जाणटेलो कोण तें मात्शें सोदून काड म्हणून हांवें हळडीपूराक सांगलें," मीरान हांसत हांसत महेशाक सांगलें.

"आतां असल्यो खूब गजाली जावपाच्यो आसात. ताचें खात्रीन पोटांत

कितेंय तरी काम आसतलें. आमकां मात्शें सांबाळून रावूंक जाय,'' आनीक एक गजाल! शांती, वासंती, हळडीपुर आनी श्याम हांणी कसलीं कामां करपाचीं तें अभ्यंकाराक विचारून हांव तुका सांगतां. आयदनां घासपाक कपडे धुवपाक आमकां आमच्या खर्चान वेगळी वावराडी लावची पडटली काय दिसता! महेशान मीराक सुचोवण्यो केल्यो!

''सांबाळून रावप आमकां नवी गजाल न्हय. गेल्लीं पंचवीस वर्सां आमी तेंच करीत आयल्यांत. तूं कांय हुस्को करू नाका.'' मीरान महेशाक हांस हांसत सांगलें.

''भाजी कशी जाल्या?'' मीरान सदां भशेन विचारलें.

''बॅस्ट जाल्या! असली भाजी खूब दिसां उपरांत खाल्या. कसली ही भाजी?'' महेशान विचारलें.

''सुरणाचें पोरियल तें! तमिळनाडू स्टायल! सुरणाचें म्हणून पयलींच सांगल्यार तुजो ताळो कुचकुचपाक लागतलो आशिल्लो!'' अशें मीरान हांसत हांसत म्हणटकूच महेशूय बी व्हडल्यान हांसलो.

जेवण बी जातकूच पंदरायेक मिनटां सोफाचेर लवंडून महेशान मीरा कडेन खबरो मारल्यो. आदल्या दिसा मीरा शिरधनां वचून ताईबायक मेळून आयिल्लें. ताईबाय कशें आसा, कितें करता, कसलीं वखदां घेता, खावचीं पानां कोण तयार करून दिता हे सगले प्रस्न आनी ताचेर चर्चा पंदरा-वीस मिनटां जालीं आनी मागीर महेश सारको दोनांक ऑफिसांत पावलो.

***

ऑफिसांत सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर महेशाची वाट पळयताले. महेशा फाटोफाट ते भितर सरले. अभ्यंकर फायल उकती करून महेशाक कितेंयतरी सांगपाक वतालो इतल्यांत बासीस्त भितर सरलो आनी शुक्रारा दिसा दनपारची दिल्लींत जावपाची आशिल्ली ती मिटिंग फुडें धुकलल्या अशें म्हूण आयिल्लें फॅक्स ताणें महेशाक दाखयलें. शुक्रारा रातचे दिल्लींत आशिल्ल्या तमिळनाडूच्या कांय ऑफिसरां वांगडा जेवपाक वचपाचो बेत रद्द जाला अशें तांकां फॅक्सान कळोवंक जाय हें महेशान दीपाक सांगलें.

''शुक्रारा रातच्यान संप करपाक पिटराचें युनियन पेटलां. संपा वेळार तुमी

हांगा आसूंक जाय अशें आमकां दिसतालें. देवानूच आमचें आयकलें आनी दिल्लीची मिटिंग फुडें धुकलली.'' सूर्यनारायणनान हांसत महेशाक म्हणलें.

''मिटिंग मिनिस्टरान फुडें धुकलल्या, देवान न्हय! मिनिस्टरांक देव म्हणप म्हणल्यार व्हड पातक! चडशे मिनिस्टर सैतान आसतात, देव न्हय!'' अशें म्हणून महेश व्हडल्यान हांसलो.

''अभ्यंकर, चेअरमॅनाक तूं कितेंयतरी सांगूंक सोदतालो!'' सूर्यनारायणनान अभ्यंकराक याद करून दिली.

''सर, आमी पस्तीस जाणांक शो-कॉज नोटिशी धाडिल्ल्यो. आमकां सगल्यां कडल्यान जापो आयल्यो. तातूंतले तेवीस जाण खंय ड्युटेर नाशिल्ले; तांची शिफ्ट सोंपिल्ली; त्या दिसा आपूण काम सोडून खंयच वचूंक ना अश्यो जापो उरिल्ल्या बारा जाणांनीं धाडल्यात.'' अभ्यंकरान म्हायती दिवन फायल महेशा मुखार दवरली. महेशान फायलींतल्या पयल्या पानाचेर आशिल्लो नोट वाचलो आनी उरिल्लीं पानां चाळून पळयलीं.

''कामगारांच्यो जापो घेवन विभागांच्या मुखेल्यांनी धाडल्यात त्यो जापो खऱ्यो काय फट हाचेर विभागाच्या मुखेल्यांनीं आपणालें मत दिवंक जाय आशिल्लें तें दिवंक ना हाचो अर्थ कितें?'' महेशान अभ्यंकराक विचारलें.

''सर, हांवें तांचे कडेन विचारलें. प्रस्न फक्त बारा जाणांचो. ते चार विभागांतले स्टाफ. ह्या चारूय विभागांच्या मुखेल्यां कडेन हांव उलयलां. हे बारा स्टाफ ऑफिसांतल्यान भायर सरून निदर्शनाक गेल्ले ही खरी गजाल. आपूण भायर सरुंकूच ना अशें ते म्हणटात आनी ते फट उलयतात हाचो विभाग मुखेल्यां कडेन कायंच पुरावो ना! स्टाफ कॅन्टिनांत वतात, टॉयलेटींत वतात, अशें सांगून भायर सरतात, पूण ते केन्ना वतात आनी केन्ना परतून येतात हाचो खंयच रिकॉर्ड नासता. विभाग मुखेल्यांकूय ताची याद नासता.'' अशें अभ्यंकरान मात्सो नेर्वोज जावन सांगलें.

महेशान फोन उखल्लो आनी कमांडंट पाटिलाक आपय म्हूण बाप्तीस्ताक सांगलें.

''आमचे कडेन निदर्शनांत भाग घेतिल्ल्यांचे फोटे आसात न्हय?'' महेशान सूर्यनारायणनाक आनी अभ्यंकराक विचारलें.

''आमचे कडेन आसात. कमांडंट पाटिलान सगल्या विभाग मुखेल्यांक

धाडिल्ल्या फोट्यां वेल्यान कोण कोण निदर्शनाक गेल्ले तें कळटलें अशें म्हूण हांवें विभाग मुखेल्यांक सुचयतकूच, कोण गेल्यात तें कळटा पूण निदर्शन जालां त्याच दिसा ते गेल्ले म्हणपाचें कळना, अशें तांणी सांगलें. म्हाकाय बी तोच प्रॉब्लेम आसा. चार-पांच वर्सां पयलीं सी.आय्.एस्.यफ्. गुपितपणान सगल्या निदर्शनांचे फोटे काडटाले. त्या सगल्या फोट्यांनी चडसो होच स्टाफ आसतालो. ते भायर सरून गेल्ल्याचो पुरावो मेळूंक कठीण," अश्या अर्थाचें मत अभ्यंकरान उक्तायलें.

महेश सूर्यनारायणनाक कितेंयतरी विचारूंक वतालो इतल्यांत कमांडंट पाटील भितर सरलो. 'अटेन्शन' पद्दतीन रावून, गुडआफ्टरनून सर म्हणत, कमांडंट पाटील येवन बसलो.

"कमांडंट पाटील, निदर्शनाचे फोटे तुमी काडल्यात ते तुवें बारीकसाणीन पळयल्यात? फोट्यां वेल्यान तें निदर्शन सव्वीस एप्रीलाचेंच म्हणून कशें कळटा?" --महेश.

कमांडंट पाटिलान फायल वांगडाच हाडिल्ली. एक मिनिट बारीकसाणेन पळोवन ताणें एक फोटो महेशाकडेन दिलो आनी तो बारकायेन पळोवचो अशें महेशाक सुचयलें.

"म्हाका ह्या फोट्या वेल्यान तें निदर्शन खंयचे तारखेक जाल्लें ते समजना. फकत दाव्या वटेनच्या वेल्या कोनश्याक कसलें तरी एक चिन्न आसा. तें चिन्न म्हणल्यार तारीख बी न्हय मूं? कांय कॅमेऱ्यांनी आपल्या आपूण तारीख येवपाची तजवीज आसता." --महेश.

कमांडंट पाटील हांसलो.

"सर, तुमी सारकें सांगलें! ती तारिखूच. ह्या फोट्याच्या कॉपींत ती सारकी येवंक ना. तारखो सारक्यो आयिल्ल्यो आमचे कडेन आनीक कॉपी आसतल्यो. पूण हांवें ह्यो तारखो स्पश्ट पळयिल्ल्याची म्हाका खात्री आसा," कमांडंट पाटिलान सांगलें.

"ऑफिसांतलें काम सोडून आपूण खंयच वचूंक नात अशें ते म्हणटात. बाराय जाणांनी एकेच भशेन जापो दिल्यात. जापेचो मसुदो तांकां युनियनान दिला हातूंत दुबाव ना. सव्वीस तारखेक ऑफिस टायमार जाल्ल्या निदर्शनांत तांणी वांटो घेतला म्हणपाचो पुरावो आमचे कडेन आसा. युनियनाच्या सांगण्या

वेल्यान स्टाफान फटीचीं विधानां केल्यांत. हांव तांकां सस्पेंड करतलों अशें म्हूण ताबडतोब तांच्या कानार घाल. दिल्लीच्या वा गोंयच्या अधिकाऱ्यांनी वा मिनिस्टरांनी मदीं लुडबूड केल्यार तांकां आमी हे फोटे आनी स्टाफाच्यो जापो दाखयतले. म्हणटकूच तांचें तोंड बंद जातलें, असो रेकाद तूं ताबडतोब पिटराक आनी हेरांक पावय. तांचोच मनीस जाल्ले भशेन तांचे कडेन चर्चा कर.'' महेशान अभ्यंकराक सांगलें.

''संप करपाचो बेत रद्द करात अशें म्हूण तांकां सुचोवंक जाय; पूण संप रद्द करतना तांचो अहंकार दुखोवंक जायना. तांची मानहानी जावंक जायना हे खातीर तूं आनी अभ्यंकर एक पत्राचो मसुदो तयार करात. त्या मसुद्या प्रमाणें निदर्शनांत भाग घेतिल्ल्या स्टाफान चेअरमॅनाक पत्र दिवपाचें. मसुद्यांत ''हांव चुकलों, हांव माफी मागतां'' असलीं उतरां आसूंक जायनात. ऑफिस टायमार भायर सरून वचचें पडल्यार परमिशन घेतल्या बगर आमी वचचे नात. इतलेंच बरयल्यार पुरो. तो मसुदो पयलीं म्हाका आनी मागीर युनियनाच्या लिडराक दाखयात. फाल्यां सांजे स वरां मेरेन संप करपाचो बेत ते रद्द करतले अशें तांणी आमकां सांगल्यार पुरो,'' महेशान सूर्यनारायणनाक सांगलें.

''आमी स्टाफाचेर कारवाय करचे नात वा असलें कसलेंय तरी आश्वासन दिवंचें पडचें ना? कसलेंय तरी आश्वासन दिले बगर ते संपाचो बेत फाटीं घेतले?'' अभ्यंकरान महेशाक आपणालो दुबाव उलोवन दाखयलो.

''तुमी तांचे कडेन हांवें सांगल्या तशी चर्चा करात; मागीर ते कितें म्हणटात तें पळोवया! आयज सांज मेरेन आमी मसुदो तयार करुंया आनी मागीर फाल्यां तुमी तांकां घेवन बसात!'' महेशान सूर्यनारायणनाक आनी अभ्यंकराक सांगलें.

सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर बरें सर अशें म्हणून भायर सरून गेले.

''तारीख स्पश्ट दिसता असले थोडे फोटे तूं रेडी करून दवर. हे फोटे म्हणल्यार आमचें ट्रम्पकार्ड! फोटे तयार जातकूच मात्शे म्हाका हाडून दाखय,'' महेशान कमांडंट पाटिलाक सांगलें.

ओके सर, म्हणून कमांडंट पाटिलूय बी थंयच्यान भायर सरलो. तो भायर सरना फुडें डॅप्यूटी कन्सर्वेटर करीपिल्लै आनी ट्रॅफिक मॅनेजर सेराफीन गुदीन भितर सरले.

करीपिल्लै पयलीं उलयलो: ''सर, ही गोवा दिया वर्ल्ड ट्रान्शीपर बोटीची केस. तांकां पोर्टांत येवपाक परवानगी दियात म्हूण ते फाटीक लागल्यात. वादळी वारें सुरू जाता, तांचे कडेन फकत पांच टन फ्युयल आशिल्लें आनी देखून बोट व्हांवून वचपाचो धोको आसा अशी अलार्म बेल ते दामतात. ही बोट फाटलीं आठ वर्सां खंय आशिल्ली, कितें करताली तें कोणाक खबर ना. कोची आनी मंगळुर पोर्टांनीं तिका भितर घेवंक ना. खेरीज, मुरगांव पोर्टा कडेन आशिल्लो त्या बोटी विशींचो कॉन्ट्रॅक्ट सोंपला. देखून आमी सावध रावून कितें करपाचें तें थारावचें पडटलें अशें काल आमी तुमकां सांगिल्लें. आयज सकाळीं तांचो शिपिंग एजन्ट दामोदर दास पटेल बोटीचे पेपर घेवन आयिल्लो. कायद्या प्रमाणें हे ट्रान्शीपर बोटी कडेन चार सर्टिफिकेटां आसूंक जाय. तीं म्हणल्यार

1. इंटरनॅशनल लोड लायन सर्टिफिकेट.
2. कार्गो शीप सेफ्टी सर्टिफिकेट.
3. कार्गो शीप सेफ्टी एक्वीपमेंट सर्टिफिकेट.
4. कार्गो शीप सेफ्टी रेडिओ टेलिग्राफी सर्टिफिकेट.

आमी ह्या सर्टिफिकेटांच्यो झॅरॉक्स कॉपी पळयल्यो. त्यो सारक्यो आशिल्ल्यो. ओरिजिनल हाडून दाखय म्हूण दामोदर पटेलाक सांगलां. खेरीज फाटलीं आठ वर्सां बोट खंयच्या खंयच्या पोर्टांनीं आशिल्ली आनी कसलें काम करताली हाचेर पुराव्या सयत रिपोर्ट दी म्हूण सांगलां. मंगळूर आनी कोची पोर्टाकूयबी आमी हे बोटी विशीं म्हायती दिवपी फॅक्स धाडात म्हूण सांगलां. आयज सांजच्या स वरां मेरेन आमकां सगली म्हायती मेळूंक जाय. मागीर आमी डॅप्यूटी चेअरमॅना कडेन उलोवन कितें करपाचें तें थारायतले. नेमा प्रमाणें बोटींक भितर सरपाक परवानगी दिवपाचें काम ट्रॅफिक मॅनेजराचें. ही गजाल तुमचे कडेन येवपाची गरज ना. पूण हे ट्रान्शीपर बोटीचो मालक खूब उपद्रवी. देखून हे केसी विशीं तुमकां खबर आसूंक जाय! कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार आमी तुमचे कडेन येतात.'' करीपिल्लैन महेशाक बोटी विशीं सविस्तर म्हायती दिली.

''हे बोटीक भितर सोडात म्हूण तुमचेर चेपण घालूंक कोणूय आयिल्लो?'' महेशान दोगांकूय विचारलें.

"सर, आयिल्लो. काणकोणकार! तो जायते फावटीं येता. त्या सर्वानंद सांवर्डेकारा भशेन होय बी उपद्रवी! आपूण अशें करतां, तशें करतां म्हूण बंडलांचेर बंडलां मारता. आपूण तुमच्या बरोबर ल्हानपणांत शिकलां, तुमचो बरो इश्ट आनी ताणें कसलोय रिक्वेस्ट केल्यार तुमी ना म्हणचे नात अशें तो आमकां सांगतालो. सर्वानंद सांवर्डेकाराचें जे काम करतात तांचे खातीर तो कितेंय करपाक तयार आसता असोय ताणें आमकां हिन्ट दिलो. आमी कायद्या प्रमाणें काम करतले, कोणाच्याच चेपणा खाला येवचे नात अशें सांगून आमी ताका धाडलो." सेराफिन गुदिन्यान हांसत महेशाक म्हायती दिली.

"ओके! तुमी ताका स्पश्ट सांगलें तें बरें केलें. हांव आनी म्हजी बायल गोंयकार हें तुमकां खबर आसा. आमच्या नांवान कोणेंय तुमचेर चेपण हाडल्यार तांकां म्हज्या म्हऱ्यांत धाडात. हांव तांकां कितें सांगपाचें तें सांगतां. तुमी कायद्याक आनी नेमाक धरून तुमची ड्युटी करपाची!" महेशान सांगलें. "थँक्यू सर" म्हणून ते दोगूय जाण भायर सरले.

सांजेचीं चार वरां जालीं. महेशान बाप्तीस्ताक आपयलो आनी चेअरमॅनाक आठवड्याच्यो आनी म्हयन्याच्यो कसल्यो कसल्यो मिटिंगो आसतात तें विचारलें.

"म्हयन्याक एक फावट बोर्ड मिटिंग आनी एक फावट पोर्ट ऑपरेशन ग्रुपाची मिटिंग! दर बुधवाराक विभाग मुखेल्यांची मिटिंग! ह्या मिटिंगां भायर इंडियन पोर्टस् असोसिएशनाची म्हयन्याक एक तरी मिटिंग मुंबय वा दिल्लीक जाता. वर्साक चार-पांच पार्लमेंटाच्यो कमिटी पोर्टाच्या कामाचो नियाळ घेवपाक येतात," अशें बाप्तीस्तान सांगलें.

"ह्या सगल्या मिटिंगांक कोण कोण आसतात, कसल्या विशयांचेर चर्चा जाता, प्रत्येक विशयांत मुरगांव पोर्टाचें मत कितें आसता, ह्या सगल्या प्रस्नांचेर विसकटावन नोट तयार करून एका आठवड्या भितर धाडून दियात म्हूण विभाग मुखेल्यांक सांग." महेशान बाप्तीस्ताक आदेश दिलो.

"चेअरमॅनाच्या बंगल्यार वारांदार आसा तसलोच आनीक एक फोन उजवे वटेन रोखडोच घालपाक लाय. इंटरकॉम घालूंक सोपो पडटा जाल्यार तो घालचो. बंगल्याच्या कम्पाउंडांत तो संभाजी आपणाली बस पार्क करता. आदल्या खंयच्याय चेअरमॅनान वा डॅप्यूटी चेअरमॅनान ताका परवानगी दिल्ली

काय कितें हाचेर म्हाका म्हायती जाय. आनी हेर खंयच्याय ड्रायवरान चेअरमॅनाची स्टाफ कार वा निजी गाडी केन्नाय चलयल्या जाल्यार तांचीं नांवां जाय,'' बाप्तीस्त भायर सरता आसतना ताका राव म्हूण सांगून महेशान फोन कनेक्शन आनी संभाजी विशीं आनीक आदेश दिले.

सारक्या पांच वरांचेर महेश बंगल्यार गेलो. मसुद्याचो ड्राफ्ट दाखोवंक खंयच्याय वेळार बंगल्यार आयल्यार जाता अशें वचचे पयलीं ताणें सूर्यनारायणनाक सांगलें.

स वरांचेर सुमार सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर मसुदो घेवन बंगल्यार आयले. महेशान मसुदो वाचलो.

''ह्या फुडें हांव सेक्शन मुखेल्याची परवानगी घेतल्या बगर ऑफिसांतल्यान भायर सरचों ना अशें तुमीं बरयलां. 'ह्या फुडें' हीं उतरां काडून उडोवंक जाय काय दिसता; कारण आयज मेरेन परवानगी घेना आसतना भायर सरून वतालों असो ताचो अर्थ जाता. तुमकां कितें दिसता?'' महेशान सूर्यनारायणनाक विचारलें.

''आमी दोगांयनीय हाचेर विचार केला. पिटर डिमेलो उलोवंक येता तेन्ना तो चार-पांच जाणांक घेवन येतलो. आमचे कडेन उलयता आसतना हेरांचेर इम्प्रेशन मारपाचो तो यत्न करतलो. ताका तशें करपाक आमी वाव दिवंक जाय. 'ह्या फुडें' उतरांक तो खात्रीन विरोध करतलो. मागीर आमी तीं रद्द करचीं.'' सूर्यनारायणनान महेशाक तीं उतरां घालपाचें कारण सांगलें.

''ओके, तशें जाल्यार तीं उतरां आसूं दी. ''आमी चुकले, आमी माफी मागतात'' असलीं उतरां कामगारांक आवडनात देखून तीं तुमी मसुद्यांत घालूंक ना अशें तुमी तांकां सांगचें पडटलें. ते चड करून म्हाका नांवां दवरतले. तांच्या वांगडा तुमीय बी म्हाका दुशण दिल्यार तांकां बरें दिसतलें. तुमकां आनीक चड सांगपाची गरज ना. युनियनां कडेन वाटाघाटी करपाची तुमकां खूब संवय आसतलीच!'' महेशान तांकां सल्लो दिलो.

''सर, आमी तांकां फाल्यां उलोवंक आपयतले. कारण जॉयंट सेक्रेटरी गुणाजी आतां मेळचो ना. तो आतां बाप्तीस्ता वांगडा गेटी फुडल्या इरमांव बारांत बशिल्लो आसतलो. बाप्तीस्त आनी गुणाजी सामके जिगरी दोस्त!'' अभ्यंकरान महेशाक म्हायती दिली.

“ते बारांत बसतात म्हूण तुका कोणें सांगलें?” महेशान विचारलें.

“असल्यो सगल्यो गजाली बिळगी हाडटा. बाप्तीस्ता कडेन उलयता आसतना वा ताका कसलोय आदेश दिता आसतना आमी ही गजाल ध्यानांत दवरल्यार बरी!” अशें सुचोवन अभ्यंकर आनी सूर्यनारायणन “गुड नायट सर” म्हणून भायर सरले.



## भाग 13

**पिटर** डिमेलो, गुणाजी आनी कमिटीचे हेर सगले वांगडी बुधवारा दिसा चार वरांचेर सड्या वेल्या तांच्या ऑफिसांत मेळ्ळे. संपा विशीं त्या दिसा कितेंयतरी निर्णय जातलो म्हूण सगल्यांचीं तोंडां गंभीर दिसतालीं. सगले येना फुडें पिटरान भायलें दार बंद करूंक लायलें आनी मिटिंग सुरू केली. त्या सोमारा सांजेचे साडे सातांक सुमार तो, गुणाजी आनी आल्फ्रेड ब्रागांझा एक्स्पोर्टर्स असोसिएशनाचे कमिटीक वचून मेळिल्ले. सज्जन केंकरे, सत्यानंद सांवर्डेकार आनी तानाजी पाटिलाचो व्हडलो पूत माधवराव पिटरा कडेन बी उलोवंक एक्स्पोर्टरांच्या ऑफिसांत आयिल्ले. असोसिएशनाचो प्रेसिडेंट सज्जन केंकरे हाणें''मात्शें उलोवंक जाय, सांजचे मेळात'' अशें म्हूण पिटर डीमेलोक फोन केल्लो.

पोर्टांत मे च्या पंदरा तारखे मेरेन बोटी येवपाच्यो बंद जातल्यो. पंदरा दिसां भितर स ते पंदरा बोटी येवपाच्यो आसात. कितल्यो पावतात त्यो पळोवया. सगले मेळून धा ते इकरा लाख टन एक्स्पोर्ट करपाचो असोसिएशनाचो बेत आसा. हवामान बिगडून वादळी वारें सुरू जाल्यार कांय बोटी रद्द जांवं येतात, पूण पंदरा तारखे उपरांत वादळी वारें सुरू जातलें अशें हवामान खात्यान कळीत केलां. हांगा कसलीय आडखळ आयल्यार एक्स्पोर्टरांक भरपूर डेमरेज फारीक करचो पडटली आनी लुकसाण जातलें.

युनियनाचे पोर्टांतले कामगार खंयच्याय खिणाक संपार वतले अशी वावडी पसरल्या. कामगारांनी मे पंदरा मेरेन संप करचो न्हय अशी तांची विनवणी आसा. कामगारांनी ह्या वेळार एक्स्पोर्टरांक तेंको दिल्यार ते

कामगारांचे उपकार केन्नाच विसरचे नात आनी फुडाराक केन्नाय कसल्याय वेळार युनियनाक कसलीय मजत जाय जाल्यार ते ती करपाक तयार आसतले अशें तांचे कमिटीन सांगलें.

संप करूं नाकात म्हूण फकत कामगारांकूच उलो मारल्यार जायना, संप जावंचो न्हय म्हूण चेअरमॅनानूय प्रयत्न करचे अशें एक्स्पोर्टर्स असोसिएशनान सांगूंक जाय अशें युनियनान एक्स्पोर्टरांच्या कमिटीक सांगलें.

एक्स्पोर्टरांची कमिटी तशे प्रयत्न करतली हें उतर तांणी दिलें; फुडाराक युनियनाक कसलीय मजत जाय जाल्यार तिवूयबी ते करतले अशेंय बी तांणी उतर दिलें. फकत युनियनान हे फावटीं सांबाळून घेवचें अशी तांणी विनवणी केल्या.

परिस्थिती समजावन सांगून संप करचो काय ना, आनी करपाचोच जाल्यार केन्ना सुरू करपाचो हे प्रस्न पिटर डीमेलोन कमिटी मुखार मांडले. फाटल्या फावटीं संपाचेर चर्चा जाल्ली तेन्ना फुडें कितें करचें हाचेर एक मत जावंक नाशिल्लें. तशेंच हेवूय मीटिंगेंत जालें.

हीं सगलीं फकांडां, संप केल्या बगर हो चेअरमॅन बुद्द शिकचो ना. एक्स्पोर्टरांक युनियनांचें पडून वचूंक ना, तांकां आपणालेच तिजोरेची पर्वा अशें कांय जाणांचें मत जालें. एक्स्पोर्टरांनीं इतलें सांगलां, चेअरमॅनाकडेन प्रयत्न करतले म्हूण सांगलां, खेरीज, फुडें आमकां गरज पडल्यार मजत करतले हेंवूयबी सांगलां, म्हणटकूच तांच्या उल्याक मान दिवन युनियनान संप करपाचो बेत रद्द केला अशें जाहीर करचें हें कांय जाणांचें मत! संप करचो, पूण चोवीस वरां खातिरूच करचो म्हणटकूच चेअरमॅनाक युनियनाची शक्त कितली आसा तें कळटलें आनी एक्स्पोर्टरांकूय बी तितलें लुकसाण जावंचें ना अशें कांय जाणांचें मत जालें. उपरांतचें देड वर ह्या सगल्या पर्यायांचेर चर्चा जाली. अखेरेक सदां भशेन सगल्यांनी निर्णय पिटर डिमेलोचेर सोडलो.

"शुक्रारा दिसा रातच्या बारा वरां सावन युनियनाचो संप सुरू जातलो अशें म्हूण आतां रोखडेंच जाहीर करपाचें, आनी मागीर कितें जाता तें पळोवपाचें. शुक्रारा दिसा रातच्या णव वरां मेरेन कांय उलाढाली जायनात आनी युनियनाक जाय तशी परिस्थिती निर्माण जायना जाल्यार संप करपाचो," असो निर्णय पिटर डिमेलोन दिलो.

***

गुणाजीची मिटिंग संक सुमार सोंपली आनी मागीर तो सदां भशेन इरमांव बारांत गेलो. जोसेफ बाप्तीस्त आदींच थंय येवन बशिल्लो. गुणाजी येना फुडें पिटर स्कॉट, बिस्लेरी आनी खारीं भिकणां थंय पावलीं. बाप्तीस्त मात्सो चिंतेस्त दिसतालो. चेअरमॅनाक नुस्त्याच्या कारस्थानांत घुसपावपाचो आपणालो बेत फसलो अशें बाप्तीस्तान पयलो घोंट मारीत गुणाजीक सांगलें. बस्त्यांव रुजार खारव्यान गेटीचेर वचून गार्डाक कितें सांगलें, चेअरमॅनाचे बायलेन कितें सांगून धाडलें आनी बस्त्यांव रुजार गोंदळांत सांपडून नुस्तें घेवन परतून कसो आयलो ह्यो सगल्यो घडणुको बाप्तीस्तान गुणाजीक सांगल्यो. म्हारग साडयेचें बगलांट चेअरमॅनाच्या आंगार घालपाचो बेत अजून चालीक लागचो आसा. सगली तयारी केल्या. आनीक कांय दिसांनीं पणजेचो ''सारी द गोवा'' चो मालक तो बेत तडीक व्हरतलो सो दिसता, बाप्तीस्तान सांगलें.

गुणाजीन आपले वटेनची खबर सांगली: शुक्रारा दिसा रातीच्या बारा वरां सावन संप सुरू जातलो. पिटर डिमेलो आतां फोन करून सगल्या वर्तमानपत्रांक सांगतलो. फाल्यां सकाळीं सगल्या वर्तमानपत्रांनी संपाची खबर येतली. संप सुरू जावन तो थोडे दीस उरल्यार चेअरमॅन सारकी बुद्द शिकतलो. हाणें चार्ज घेवंचे पयलींच्यान कितेंय तणाव आशिल्लो आनी त्या तणावाक लागून हो संप जाल्लो जाल्यार ताका इतलें वायट नांव मेळचें नाशिल्लें; पूण चार्ज घेवन धा दिसां भितर युनियनाक संप करपाक लावपाची परिस्थिती निर्माण करून हाणेंच सगली वाट लायल्या अशें लोक उलोवपाक लागतले. गुणाजीचें हें मत ''हें सगलें उपकारा पडचें ना.'' असो तोंडार भाव हाडून बाप्तीस्तान आयकलें.

चेअरमॅनाक वायट नांव मेळून ताचें कांयच लुकसाण जावपाचें ना. दिल्लीच्या लोकांक कसलींय बंडलां मारीत तो वेळ मारून व्हरतलो. खेरीज, तो पणजे बसला तो चीफ सेक्रेटरी चेअरमॅनाचो बॅचमेट खंय. म्हणटकूच तोवूय बी ताका सांबाळून व्हरतलो. चेअरमॅनाक त्रासांत घालतलो जाल्यार ह्याच्याकूय चड पावरफुल अशें आनीक कितेंय तरी सोदून काडूंक जाय. अशें मत बाप्तीस्तान उकतायलें.

चेअरमॅन त्रासांत सांपडप म्हणल्यार ताका कितें जावप असो प्रस्न गुणाजीन विचारतकूच बाप्तीस्तान सविस्तरपणान सांगलें तें अशें: चेअरमॅनाचेर

एक इंक्वायरी सुरू जावंक जाय; ताणें कायद्या आड वचून व्हडले कॉन्ट्रॅक्ट दिल्यात, व्हड व्हड मिनेरांचेर स्पेशल उपकार केल्यात, तांचे कडल्यान खूब पयशे खाल्यात असल्यो कागाळी इंडिया सरकारा कडेन वचूंक जाय आनी इंडिया सरकारान इंक्वायरी सुरू करून ताची हांगच्यान बदली करूंक जाय. आपणें ह्या विशयांत थोडें काम सुरू केलां अशेंय बी बाप्तीस्तान गुणाजीक सांगलें. आदल्या दिसा सी.बी.आय्. चो एक इन्स्पेक्टर आपणाल्या फामिलीक घेवन गॅस्ट हावसांत रावला. ताका आपणें आयज राती कडेन जेवणाक आपयला. आपूण ताका रातचो साडे सात वरांचेर पिक अप् करून ओबेरॉय हॉटेलांत व्हरतलों. दोन तीन पेग मारतकूच तो मुडांत येतलो. मागीर चेअरमॅना आड कागाळी ताच्या कानार घालूंक जाय. आपणाक बरोच खर्च जातलो पूण चेअरमॅनाक त्रासांत घालपाक आपूण कितेंय करपाक तयार आसां अशें बाप्तीस्तान गुणाजीक सांगलें.

बाप्तीस्ताक साडे सात वरांचेर गॅस्टहावसांत वचपाचें आशिल्ल्यान तो आनी गुणाजी बारांतल्यान बेगीन भायर सरले.

बाप्तीस्त घरा वचून न्हावन, कपडे बी बदलून पावणे आठांक सुमार एक ओपेल टॅक्सी घेवन गॅस्ट हावसांत पावलो. राठोडाच्या बायलेक आनी भुरग्यां खातीर बाप्तीस्तान गॅस्ट हावसांतूच स्पेशल जेवण करूंक लायिल्लें. स्पेशल जेवणांत चिकन काफ्रियाल, व्हेजिटेबल बिर्याणी बी जिनस आशिल्ले. बाप्तीस्त राठोडाक घेवन बोगमोळो ओबेरॉय हॉटेलांत गेलो. स्विमिंग पुला शेजरा ताणें खास मेजाची वेवस्था करपाक लायिल्ली. राठोडान आपल्याक ब्लॅक लेबल आवडटा म्हूण सांगिना फुडें बाप्तीस्तान ब्लॅक लेबल, बिस्लेरी सोडा आनी तंदूरी चिकन नगेट्स् मागयले. बाप्तीस्त आपली तांबडी हिंदी आनी इंग्लीश मिक्स करून राठोडा कडेन उलयतालो. राठोड फकत हिंदींतूच उलयतालो.

"राठोड साब, आयची ट्रीप कशी जाली?" बाप्तीस्तान विचारलें.

"आरे, ट्रिप बरी जाली. आमी आयज साउथ गोवा बीचीस पळोवपाक गेल्लीं. तुज्या लोकांनी आमकां खटारी जीप दिल्या. इतले खटारे जिपींत आयज मेरेन आमी केन्नाच भोंवूंक नात!" राठोडान एका फाटोफाट दोन घोंट मारून आपणालो राग उकतायलो.

"हो चेअरमॅन असलोच! तुमकां जीप दिल्यार पुरो अशें ताणेंच सांगिल्लें.

देखून सेक्रेटरीन तुमकां ही खटारी जीप धाडल्या जातली. फाल्यां सकाळीं तुमकां भोंवडावपाक हांव मर्सिडीस टॅक्सी धाडटां,'' बाप्तीस्तानूय बी घट् घट् करून दोन घोंट मारून राठोडाक सांगलें.

''तुमी पोर्टांत अश्यो मर्सिडीस टॅक्सी बी भाड्यान घेतात तर?'' राठोडान विचारलें.

''ना, ना! ही मर्सिडीस टॅक्सी हांव तुमकां धाडटलों. म्हजी पर्सनल!'' बाप्तीस्तान मायलेज घेवपाचो यत्न केलो.

''मर्सिडीस आसूं. एक सादी ए.सी. टॅक्सी पोर्टान धाडल्यार जाताली न्हय? पोर्ट कितें जीप धाडून पयशे वाटावपाक सोदता?'' राठोडान रागान विचारलें.

''चेअरमॅनाक खर्चाचें पडून वचूंक ना. दोन-चार दिसां पयलीं फाटल्या चेअरमॅनाक भरपूर खर्च करून निरोपाचें जेवण दिलां. ताचेर तुमी चवकशी करूंक जाय!'' बाप्तीस्तान दोगांकूय आनीक दोन लार्ज पेग मागयले आनी राठोडाक पीन मारपाक लागलो.

''फकत चड खर्च केला म्हूण तो भ्रश्टाचार जायना. फटीचीं बिलां बी आसल्यार ताका धरूं येता. हो चेअरमॅन कितलो काळ जालो हांगा आसा?'' -----राठोड.

''आंवंय! ताका धा दीस लेगीत जावंक नात!'' -----बाप्तीस्त.

''तशें जाल्यार ताका इतले बेगीन धरूंक मेळचो ना. फुडले फावटीं हांव येतां तेन्ना ताका धरपाचो यत्न करतां.'' राठोडान थंडपणान सांगलें.

''गॅस्ट हावसांत तुमची वेवस्था सारकी जाता मूं?'' बाप्तीस्तान राठोडाक खुबळावपाचो आनीक एक यत्न केलो.

''आमकां ग्रावण्ड फ्लोरावेलो कोनशा वेलो व्हडलो रूम दिला. वायट सो ना!'' राठोडान त्या विशयाक व्हडलेंशें म्हत्व दिना आसतना जाप दिली.

''वयर हरशीं व्ही.आय्.पी. सूट रिकामो आशिल्लो काय दिसता. तो तुमकां दिल्यार जातालो!'' बाप्तीस्तान चावी दिवपाचे प्रयत्न चालूच दवरले.

''हो चेअरमॅन सी.बी.आय्.च्या ऑफिसरांचेर बरोच रागार आसा काय कितें? सी.बी.आय्. म्हणटात तें कितें तें ताका सारकें दाखोवचें पडटलें. फुडल्या फावटीं येतना ताका हांव धरतांच! तितल्या म्हणसर खंयच्या झाडाक

कितलीं फळां लागतात तें ताका कळटलें. तो मेरेन कसलेंय व्हड प्रकरण हाताक लागल्यार तूं म्हाका फोन कर,'' दुसऱ्या लार्ज पेगा वांगडा राठोडाक मात्शी चावीय बी लागिल्ल्या भशेन दिसली.

बाप्तीस्त खोशी जालो! ब्लॅक लेबला विशींचो ताचो मात्सो आदर वाडलो. वेटराक आपोवन ताणें दोगांकूय आनीक एक लार्ज पेग मागयलो.

''इतलेंच ड्रिंक पुरो. आतां जेवण मागोवया!'' अशें म्हणून राठोड मेनू पळोवंक लागलो. लॉब्स्टर आसा काय म्हूण ताणें वेटराक विचारलें. वेटरान भितर वचून पळोवन येतां म्हूण सांगलें.

लॉब्स्टर नासल्यार पुरो म्हूण बाप्तीस्त देवाची प्रार्थना करूंक लागलो. पूण देवान ताचें आयकलें ना काय दिसता. लॉब्स्टर आसा म्हूण वेटरान येवन सांगलें. राठोडान लॉब्स्टर, मटण रोगन जोश आनी तंदुरी परांठा मागयलो. बाप्तीस्तान शीत-कडी आनी सुक्या बांगड्यांची किसमूर मागयली. जेवणाक अर्द वर लागतलें अशें म्हणून वेटरान सांगलें. तों मेरेन बाप्तीस्तान राठोडाक खुबळावपाचो यत्न चालूच दवरलो.

''हो चेअरमॅन बरोच करप्ट काय दिसता. येना फुडें स्टाफ काराक एअर-कंडीशनर बसयात म्हूण ताणें ऑर्डर दिली. हेर पोर्टांनीं ए.सी. स्टाफ कार नासता अशें म्हूण ताच्या एका आय्.ए.एस्. इश्टान सांगलें जातलें. म्हणटकूच ह्या एअर कंडीशनराचो खर्च आपणाल्या पगारांतल्यान काडात अशी ताणें ऑर्डर दिली.'' बाप्तीस्ताचे यत्न चालूच उरले.

''हातूंत भ्रश्टाचार खंय आसा?'' राठोडाक अजून तिसरो लार्ज पेग पुराय लागूंक नाशिल्लो देखून ताणें बाप्तीस्ताक तर्कशुद्ध प्रस्न विचारलो.

''इतलेंच न्हय, तर कोण तरी ताचे खातीर एक व्हड नुस्तें घेवन आयलो खंय! चेअरमॅनाच्या बायलेन तें नुस्तें आपूण खायना, आपल्याक व्हड विसवण आसल्यार हाडून दी अशें म्हणून सांगलें खंय!'' बाप्तीस्त आनीक चावी घुवंडायत रावलो.

''येदो व्हडलो आय्.ए.एस्. ऑफिसर तो, तूं कितें रे एअर-कंडीशनर, नुस्तें बिस्तें घेवन बसला! आज काल असल्या बारीक बारीक गजालींक भ्रश्टाचार म्हणनात! व्हड कसल्याय तरी लफड्यांत ताका घुसपावया. म्हाकाय ताचो राग आसा. पूण ताचेर फटीचो आळ घालपाक मेळचो ना!'' राठोडान

बाप्तीस्ताचीं फकांडां मारलीं.

जेवण आयलें. सुक्या बांगड्यांचे किसमुरे बदला वेटरान सुंगटांची किसमूर हाडिल्ली. लॉब्स्टर राठोडान एकल्यानूच कांय न्ही करून खावन उडयलो. रोगन जोशा वांगडा पराठा खालो. बाप्तीस्ताक रोगन जोश इल्लोसो खायन दिशिल्लो. पूण राठोडान ताका इल्लो लेगीत घे म्हूण सांगलें ना. जेवण जातकूच आपणाक गोडशें कांय नाका, आपणाक डायबिटीस आसा अशें राठोडान सांगलें. आपणें इतले फातर मारले, एक्कूय सारको लागलो ना म्हूण बाप्तीस्त मात्सो निर्शेल्लो. राठोडाकूय जेवनाफुडें मात्शी न्हिदशी येवपाक लागिल्ली. कार्डाचेर बील फारीक करून बाप्तीस्तान राठोडाक गॅस्ट हावसांत पावयलो. गॅस्ट हावसांत देंवतां, देंवतां, ''डोन्ट वरी, फुडले फावटीं येतां तेन्ना ताका हांव घुसपायतां!'' अशें बाप्तीस्ताक सांगून ताका थँक्यू म्हणून राठोड लकत लकत रूमबॉया फाटल्यान आपणाल्या रुमांत गेलो.

राठोड रुमांत वतकूच बाप्तीस्त गॅस्टहावसांत गेलो आनी थयंच्यान दामानी कॉन्ट्रॅक्टराक फोन करून फुडले तीन दीस मर्सिडीस टॅक्सी राठोड म्हणटा त्या गॅस्टा खातीर धाड अशें ताका सांगून बाप्तीस्त आपणाल्या घरा गेलो.

***

सर्वानंद सांवर्डेकार जपान-चायनाच्या भोंवंडेर वचून बारा दीस जाल्ले. आनीक तीन दिसांनीं तो येवपाचो आशिल्लो. आपूण येतकूच भाटा-बेसांचो विशय उलोवया अशें ताणें रामकृष्णाक सांगिल्लें. आपल्याकूय बी हो नवो चेअरमॅन महेश आवडना अशेंय बी ताणें रामकृष्णाच्या कानार घाल्लें.

रामकृष्ण आनी विष्णू हांच्यो बायलो मध्यम वर्गाच्या कुटुंबांतल्यो. तांच्या बापायंक खावपा-जेवपा इतलें जोडपाची तांक आशिल्ली. पूण तांची परिस्थिती गिरेस्त म्हणपा सारकी नाशिल्ली. तांच्या धुवांनी पयसो म्हणटात तो पळोवंक नाशिल्लो. रामकृष्ण आनी विष्णू कडेन लग्न जातकूच तांच्या कुळारा भोंवतणच्यो गायो लेगीत बऱ्यांतले बरे मानकुराद आंबे खावपाक लागल्यो अशें लोक म्हणटाले. पयसो म्हणटात तो पयसो! तो काळो आसूं, धवो आसूं! कांयच फरक ना! घोवान कसलींय चिकानां करून पयशे जोडल्यार लेगीत पयसो तो पयसो! चिकानां बी तीं सगलीं फकांडां! जांचे

कडेन पयसो नासता तेच बऱ्या संस्कारांच्यो गजाली करतात अशें दोगांय सुनांचें मत! आपणाल्या सणां-परबांतल्यान वेळ मेळटकूच खंयचीं भाटां विकपाचीं, कितले पयशे काळे आनी कितले धवे घेवपाचे, काळे पयशे कशे वापरपाचे हाचेर रामकृष्णाची बायल उषा ताच्या म्हऱ्यांत बसून चर्चा करताली. विष्णूची बायल सुमित्रा चड उलोवपी न्हय आनी चर्चेंत भाग घेवपी न्हय, पूण पेशवाईंतल्या आनंदीबाई भशेन 'ध चो मा' करपाक हुशार! रामकृष्ण आनी विष्णू कसलींय तड्डकां करपाचीं जाल्यार तिचो सल्लो घेताले. तड्डकां करचीं काय ना, हाचेर सल्लो न्हय, तर तड्डकां कशीं करचीं हाचेर तो सल्लो आसतालो. रामकृष्ण आनी उषाक दोन भुरगीं. एक धूव आनी एक पूत. दोगांय धेंपे कॉलेजांत शिकतालीं. तांकां दर दिसा पावोवपाक आनी हाडपाक रामकृष्णान आपणाली एक मर्सिडीस गाडी दवरिल्ली. विष्णूक आनी सुमित्राक दोन धुवो. दोनूय धुवो शारदा मंदिर स्कुलांत शिकताल्यो. रामकृष्ण मर्सिडीस वापरता म्हूण विष्णूय बी आपणाल्या धुवांक पावोवपाक आनी हाडपाक मर्सिडीस वापरतालो. भावां-भावां भितर व्हडलीशी सर्त नासताली, पूण बायलांची गजाल वेगळी! रामकृष्णान दोनापावलाच्या पठाराचेर चार बेडरुमांचो व्हडलो बंगलो बांदिल्लो म्हणटकूच विष्णूकूय बी आल्तिनाचेर तितलोच व्हडलो बंगलो बांदचो पडलो. अनंताक भुरगीं नाशिल्लीं. ताणें शिरधनच्या दोंगरा वटेन तांच्याच एका भाटांत एक तीन बॅडरुमांचो बंगलो बांदिल्लो. ताचे कडेन एक एन्.इ गाडी आशिल्ली.

सर्वानंद सांवर्डेकार जपान भोंवडे वेल्यान परतून पावपाच्या तीन दीस पयलीं विष्णू रामकृष्णागेर पावलो. हे फावटीं तो सुमित्राकूय बी घेवन आयलो. रामकृष्ण, उषा, विष्णू आनी सुमित्रा महेशाक आनी मीराक गोंयच्यान कशीं धांवडावंचीं हाचेर चर्चा करूंक लागलीं.

"तुमी बेठेच तांकां भियेतात. तुमी तिगांनीय सयो करून हीं भाटां विकल्यार कोणाक कळटलें? महेश आनी मीरा आपलेच गडबडींत आसतलीं. मीरान तुमकां कोणाक फोन तरी केला?" उषा.

"ताणेंय फोन करुंना आनी आमीय कोणें करूंक ना! आमचे भितर तसो प्रेमाचो खतखतो येना हें तुका खबर आसा!" रामकृष्ण.

"तुवें सर्वानंदबाबा कडेन काडिल्लो विशय फुडें कसो व्हरपाचो? तो

आतां येवपाचो जालो.'' विष्णून रामकृष्णाक विचारलें.

''तुमी आमकां सगलें सांगिनात आनी मदींच आमकां चर्चा करूंक आपयतात. आमच्या भाटा-बेसांच्या आनी महेशाक धांवडावपाच्या विशयांचो सर्वानंदबाबा कडेन कितें संबंद?'' उषान मात्शें फडफडत रामकृष्ण आनी विष्णूक विचारलें.

''हांगच्यान दोनशें मिटरांचेर सुमार आशिल्लें एक लाख स्केअर मिटरांचें आमचें भाट विकपाचो विचार चल्ला. तें भाट विकल्यार मीराकूय तातूंतल्या पांचव्या वांट्याचे पयशे वचूंक जाय. तें आपणाल्या वांट्या खातीर झगडटलें हातूंत दुबाव ना कारण महेशाच्यो सगले कडेन वळखी आसात आनी ताका सगले कायदेय बी खबर आसतले. तीं गोंया भायर बरीं सुशेगाद आसतात. तांकां आनी ह्या भाटां-बेसांचो पयसो कित्याक जाय? तांकां ह्या भाटा-बेसांतल्यान भायर कशीं दवरपाचीं हो प्रस्न! सर्वानंदबाब जपानाक वचचे पयलीं मुंबय आसतना ताचे कडेन हें भाट विकतें घेवपा विशीं हांव उलयलों. आमकां हें भाट विकपाची इतली ताकतीक कित्याक अशें म्हूण ताणें विचारतकूच जितलो चड वेळ जाता तितलो महेश आनी मीराचो त्रास सुरू जावन तो वाडत रावतलो अशें हांवें ताका सांगलें. आपणाकूय बी तो महेश आवडना, आपूण जपानच्यान परतून येतकूच उलोंवया अशें ताणें सांगिल्लें.'' रामकृष्णान उषाक आनी सुमित्राक सगली म्हायती दिली.

''उषा वयनी म्हणटा तेंच खरें. आमी सगल्यांनी सयो करून तें भाट विकल्यार मीराक आनी महेशाक कशें समजतलें?'' विष्णून रामकृष्णाक विचारलें.

''प्रस्न तितलो सोंपो न्हय. इन्वेंतारांत हें भाट पांचूय भुरग्यांच्या नांवार आसा. सेलडीड करता आसतना पयलींचें सगलें महाभारत बरोवपाची हांगच्या वकिलांक सवंय आसता. हें भाट अमक्या कडल्यान अमक्याक आयलें, ताचे कडल्यान अमक्याक गेलें, मागीर अमकें अमकें जालें आनी आतां ताचेर अमक्या अमक्याची मालकी आसा अशें म्हूण सेलडीडाचेर बरोवचें पडटा.'' रामकृष्णान विष्णूक आनी हेरांक कायदो समजावन सांगलो.

''भाटांचें बी मागीर उलोवया. महेशाक आनी मीराक गोंय सोडूंक लावपा खातीर आमी कितें करचें पडटलें?'' रामकृष्णान सगल्यांक विचारलें.

"खंयच्याय गुंडाक भरपूर सोरो घालून आनी ताचें बॉल्स भरून महेशाक येतिश्ट मार घालूंक लावंया. मागीर गोंय सोडून या म्हूण मीरा ताच्या फाटल्यान लागतलें आनी तोवूय आपणाली बदली करून घेतलो." विष्णून आपणाली अर्दकुटी बुद्द चलयली.

"शी शी! कित्या कितेंय नाका आशिल्लें उलोंवं नाका!" सुमित्रा विष्णूचेर तापलें.

"तशें करप घातक! पोलीस त्या गुंडांक फाटीं-फुडें धरतले हातूंत दुबाव ना. आमी हें कृत्य करूंक सांगिल्लें अशें म्हणून त्या गुंडान पोलिसांक सांगल्यार आमकां पोलीस लॉकपांत दीस काडचे पडटले!" रामकृष्णान आपणालें मत सांगलें.

"तातूंत व्हडलें कितें? शेंकड्यांनी वकील काळे कोट घालून बेकार भोंवतात. तांतूंतल्यान एक-दोग जाणांक सांगून दोन-चार दिसां भितर बेल घेवंक जाता. पोलिसांच्या हाताक कितेंय लावन घरचें जेवण मागोंव येता," विष्णून आपली अर्दकुटी बुद्द आनीक चलयली.

"तुका लॉकपांत वचपाचे दुवाळे लागल्यात? आपणाल्या भावोजीक मारहाण करपाच्या आरोपा खाला भगवंतबाब गावणेकाराले पूत लॉकपांत आसात अशें वर्तमान पत्रांनी येवंक जाय? तुजे जिबेक हाड आसा मरे? तूं मात्सो वोगी राव पळोवया. बेठोच फुरफुरूं नाका!" सुमित्रा विष्णूचेर आनीक तापलें.

"ह्यो बेठ्योच वायफळ गजाली! सर्वानंदबाबाक भाट विकपाचो प्रेस थारायात. म्हज्या कोंतान दर मिटराक हजार रुपया तरी येवंक जाय. तशें कोंत करून कितले जातात तें पळोवया. ताचो पांचवो वांटो महेशाक आनी मीराक वचूंक जाय. सध्या चाळीस टक्के ब्लॅकान दितात. महेशाक ताच्या वांट्याचे चाळीस टक्के ब्लॅकान पावय म्हूण सर्वानंदबाबाक सांगपाचें आनी दुसरे वटेन इन्कम टॅक्साक कळोवपाचें. महेशा कडेन इतली कॅश सांपडल्यार ताका गव्हर्न्मेंट रोखडोच सस्पेंड करतलो. मागीर तीं दोगांय हांगाच्यान अचळय तोंड घेवन वतलीं," भाटां-बेसां कशीं विकतात, ब्लॅक-व्हायट कितले घेतात हाचेरूयबी आपणाक बरी म्हायती आसा अशें दाखोवपाक सुमित्रान सुचोवण्यो केल्यो. रामकृष्ण आनी विष्णू मात्सो वेळ वग्गी रावले.

“ब्लॅक पयशे महेशाक दितना रातीचेच दिवपाक लायात. असलीं कामां दिसा उजवाडा करिनात!” आपल्याकूय असल्या विशयांचें गिन्यान आसा अशें दाखोवपाक उषान सुचोवणी केली.

“सुमित्राची आयडिया बरी. महेशाक असल्याच लफड्यांत घुसपावंक जाय. मागीर एक घाव, दोन कुडके!” रामकृष्णान हांसत आपणालो निर्णय दिलो.

“पयली गजाल आमी थारावंक जाय म्हणटात ती भाटांचें मोल! कितलें सांगपाचें, कितले मेरेन सकयल देंवोवपाचें आनी कितल्याचेर पावतो सा करपाचें?” रामकृष्णान विशय फुडें व्हेलो.

“असलीं भाटां गोंयांत तुका मेळपाक नशीब आसा? आमी कितलोय प्रायस सांगल्यार सर्वानंदबाब तें विकतें घेतलो काय दिसता.” --विष्णू.

“वांटपण केल्या बगर भाटां-बेसांचो वेव्हार जायना हें तकलेंत धरून आमी ताका आंकडो सांगूंक जाय.” --रामकृष्ण.

“तुमी आंकडो सांगिनासतना बेठेच अशें करूंक जाय, तशें करूंक जाय म्हूण मूळ मुद्द्याक हात घालपाक फाटीं-फुडें जातात,” --सुमित्रा.

“हांव सांगतां, दर स्क्वेअर मिटराक पांच हजारांचेर सुरू करुंया.” --विष्णू.

“तूं कित्याकितेंय उलयता, तूं वोगी राव पळोवया मात्सो!” सुमित्रा विष्णूचेर तापलें.

“पांच हजारांचेर सुरू करून आमकां तीं भाटां-बेसां तशींच कुसत दवरपाचीं आसात तर? तूं सुचय मरे कितले सांगपाचे ते!” उषा रामकृष्णाचेर तापलें.

आनीक अर्द वर सुमार चर्चा करून मागीर तीन हजारांचेर सुरवात करपाचें तांणी थारायलें. मागीर आयलो तो मुख्य प्रस्न! कितले मेरेन प्रेस सकयल देंवोवपाचो हो! आनीक अर्द वर चर्चा करून मागीर तांणी एक हजारा मेरेन सकयल देंवोवन एका हजारांचेर पावतो सा करपाचें थारायलें.

फुडले चर्चेक सुरू करचे पयलीं उषान च्या आनी बिस्किटी हाडून दवरल्यो.

“ब्लॅक कितले घेवपाचे?” फुर्र फुर्र करून घोंट मारीत सुमित्रान विचारलें.

'रेट चाळीस पर्सेंट चलता अशें तूंच म्हणटालें न्हय गो?'' रामकृष्णान सुमित्राक विचारलें.

ब्लॅक आनी व्हायट हाचेर खूब चर्चा जावन अखेरेक तो विशय सर्वानंदाचेर सोडुंया अशें सगल्यांचें मत जालें, कारण आज-काल बाजारांत कितली रेट चलता तें सर्वानंदाकूच चड बरें खबर आसतलें अशें रामकृष्णालें मत जालें.

ब्लॅक कशे आनी खंय दिवपाचे हाचेर फुडली चर्चा जाली. मीराचो आनी महेशाचो वांटो दितना महेशाक लफड्यांत सांपडावपाचें उद्दिश्ट विसरूंक जायना म्हूण सुमित्रान हेरांक याद करून दिली. ब्लॅक पयशे दिवपाचें काम सर्वानंदाचेर सोंपोवया कारण भाटकारां परस उद्देजकांक हें काम बरें जमतलें अशें रामकृष्णान सुचयलें.

सर्वानंद शेनवारा येवपाचो आसा अशें आदल्या दिसा ताच्या पी.ए.न रामकृष्णाक फोनाचेर कळयिल्लें. महेशाक लफड्यांत सांपडावपाच्या बेता विशीं अनंताक सांगूंक जायना हाचेर सगल्यांचें एक मत जालें. अनंताक असल्यो गजाली सामक्यो आवडनात आनी ताका ह्यो भानगडी पयलींच कळ्ळ्यार तो आनी सीता ह्या सेल डिडाचेर सय करचीं नात हें ह्या चारूय जाणांक खबर आशिल्लें.

अनंता विशीं उलयतां उलयतां चोडणेकाराचो फोन आयलो. रामकृष्णान सोफाचे उजवे वटेन आशिल्लो फोन उखल्लो आनी चोडणेकारा कडेन दोन-तीन मिनटां उलयलो. ''सर्वानंद शेनवारा येवपाचो तो आयज सकाळींच मुंबय आनी दनपारचो एकाक गोंयांत पावलो आनी फाल्यां सकाळीं साडे धांक आपल्या ऑफिसांत येवन मेळात असो रेकाद रामकृष्णाक आनी विष्णूक दी म्हूण सांगलां,'' रामकृष्णान चोडणेकाराच्या उलोवपाचो सारांश सांगलो.

रामकृष्ण आनी विष्णू फाल्यां केन्ना भायर सरपाचे, मर्सिडीस घेवन वता आसतना ड्रायवराक व्हरपाचो काय ना, जमनीचे डॉक्यूमेंट व्हरपाचे काय ना हाचेर थोडो वेळ चर्चा करून विष्णू आनी सुमित्रा गेलीं.

दुसऱ्या दिसा सारके साडे धा वरांचेर रामकृष्ण आनी विष्णू सर्वानंदाच्या ऑफिसांत पावले. थंय दोन वेटींग रूम आशिल्ले. एक सादारण लोकांक आनी दुसरो खास लोकांक. चोडणेकारान रामकृष्णाक आनी विष्णूक खास

वेटिंग रुमांत बसयले.

“सायबा मुखार तीग जाण कामगार फुडारी बसल्यात. ते वतकूच तुमी भितर चलात,” अशें चोडणेकारान तांकां सांगलें.

विष्णूक जायते फावटीं अरवळां भशेन उलोवपाची संवय आशिल्ली आनी उलोवन जातकूच तो बेठोच हांसतालो. “कितें उलोवपाचें तें हांव उलयतलों, तुवें उलोवपाची गरज ना,” अशें रामकृष्णान विष्णूक आदींच सांगून दवरिल्लें. आनीक पंदरा मिनटांनी कामगार फुडारी भायर सरून गेले. रामकृष्णान आनी विष्णून आतां भितर गेल्यार जाता अशें चोडणेकारान तांकां सांगलें. तांकां पळयना फुडें सर्वानंदान व्हड मोगान तांकां येवकार दिलो आनी आपूण फुडें येवन रामकृष्णाक आनी विष्णूक कॅबिनाच्या कोनशाक आशिल्ल्या सोफाचेर बसोवन आपूण मुखावेल्या सोफाचेर बसलो.

“सॉरी, सॉरी, तुमकां मात्सो वेळ बसचें पडलें. पोर्टांतले मुख्य युनियनाचे प्रेसिडेंट, सेक्रेटरी आनी जॉयंट सेक्रेटरी मेळूंक आयिल्ले. आतांच मेळूंक जाय असो तांणी हट्ट धरिल्लो. देखून तांकां हांवें धांक आपयिल्ले. फाल्यां रातच्या बारा वरांचेर ते संप सुरू करतले म्हूण सांगूंक आयिल्ले. ते संप करतले म्हूण सगल्या वर्तमानपत्रांनी आयलां. हांवें ऑफिसांत येना फुडें गोंयच्या पेपरांतले माथाळे पळयले. तुमी च्या घेतले काय कॉफी?” सर्वानंदान तांकां विचारलें.

कांय नाका म्हूण रामकृष्ण सांगपाक वतालो, इतल्यांत च्या चलता, मात्शी कडक आसूंक जाय अशें म्हणून विष्णू व्हडल्यान हांसूंक लागलो. सर्वानंदान च्या आनी बिस्किटी धाड म्हूण चोडणेकाराक सांगलें.

“संप कित्याक करतात ते?” रामकृष्णान विचारलें.

“नव्या चेअरमॅनाचीं कॅरॅकपणां. हे खंय ताका येवकार दिवंक ताच्या कॅबिनांत गेले आनी अपॉयंटमेंट घेवन येयात म्हणून चेअरमॅनान तांकां धांवडायले. त्यो गजाली आसूं. आतां तुमच्यो गजाली करुंया,” सर्वानंदान रामकृष्णाक सुचयलें.

“तुमचे कडेन हांव बारा काय तेरा दिसां फाटीं उलयिल्लों. तुमी तेन्ना तुमच्या मुंबयच्या ऑफिसांत आशिल्ले आनी विमानतळार वचपा गडबडींत आशिल्ले. आमचीं खूबशीं भाटां-बेसां आसात. हीं सगलीं आमकां आमच्या जाणटेल्यां कडल्यान आयिल्लीं. बाबा गेल्यार पंदरा-सोळा वर्सां जातलीं. बाबा वतकूच आमची इन्वेन्तार केस जाली. ताईबायच्या नांवार घर आनी

थोडीं भाटां, आनी थोडीं भाटां आमकां पांचूय भुरग्यांक अशी इन्वेन्तारांत वांटणी जाली. बाबा भायर पडचे पयलीं आमकां तिनूय पुतांक गिफ्ट दिल्लीं तीं सगलीं भाटां इन्वेन्तारांतल्यान भायर दवरलेलीं,'' रामकृष्णान महाभारताचो एक भाग पुराय केलो. दुसरो सुरू करचे पयलींच च्या आनी बिस्किटी आयल्यो.

''रामकृष्ण, एक सांग, बाबाक आनी ताईबायक हीं सगलीं भाटां-बेसां जाणटेल्यांनीं दवरिल्लीं. म्हणटकूच तांणी गिफ्ट करता आसतना तुमकां पन्नास पर्सेंटां वयर दिवंक ना मरे?'' सर्वानंदान च्या घेत विचारलें.

''च्या बरी जाल्या आं, कडक्क जाल्या,'' अशें म्हणून विष्णू व्हडल्यान हांसलो. रामकृष्णान दोळे मोट्टे करून ताचे कडेन पळयना फुडें तो फुर्र फुर्र करून च्या पिवन वग्गी बसलो.

''सर्वानंद बाब, तें आमी सगलें सारकें केलां. आमचो वकील पुर्तुगेज कायदे जाणा आशिल्लो फामाद माणगांवकार. ताणें आमकां तीन व्हॅल्यूअर दिले आनी त्या व्हॅल्यूअरांनी आमकां जाय तसो रिपोर्ट दिलो. आमकां गिफ्ट दिल्लीं तीं भाटां-बेसां मीरा आनी महेशान पळयिल्लीं जाल्यार तीं केन्नाच पार्टीशन डॉक्युमेंटांचेर सय करचीं नाशिल्लीं. तुमकां हांव सांगपाक विसरिल्लों. इन्वेन्ताराक खूब काळ लागतलो म्हूण आदोगाद माणगांवकार आनी आर्किटेक्ट सुरेश सावंत हांणी आमची विनंती मानून घेवन आमी पांच जाण भाव भयणां आनी ताईबाय मेळून स जाणां भितर पार्टीशन केलें. पार्टीशनाचो चडसो भाग आमकां जाय तसो तांणी केलो. मीरा आनी महेशान मद्रासच्यान येवन पार्टीशन डॉक्युमेंटांचेर सयो केल्यो.

जायत्या भाटांक फाटलीं खूबशीं वर्सां मोलूच नाशिल्लें. आतां टुरिजमाक लागून दर्या लागसार आनी न्हंयांच्या देगांनी आशिल्ल्या भाटांक प्रेस आयला. तातूंतलेंच आमकां बेगिनांत बेगीन विकूंक जाय तें दोनापावल पठारा वेलें भाट. हांव आनी विष्णू अनंत भाई कडेन ह्या भाटा विशीं उलयतना, भाटांचें कितें आनी कशें करपाचें तें तुमी सारकें सांगतले अशें अनंत भाईन आमकां सांगलें. दोनापावल पठारा वेलें भाट तुमकां आवडल्यार तुमी लेगीत तें आमचे कडल्यान घेवन उडयत अशें ताणें म्हणलें. आमी लागींचीं भाटां एक-एक करून रोखडींच विकिनात जाल्यार मीरा आनी महेश मागीर ताचेर स्टे हाडटलीं ही गॅरंटी.

बेतीं-वेऱ्यां मांडवी न्हंयचे देगेर एक लाख स्क्वेअर मिटरांचें भाट आनी

शिरधना दर्या देगेर दोन लाख स्क्वेअर मिटरांची भाटां आसात. थंय मात्सो चड घुस्पागोंदळ आसा. तिवूंय भाटां आमकां जाता तितले बेगीन विकून उडोवंक जाय. पूण त्या भाटांचें मागीर उलोवया. दोनापावल पठारावेल्या भाटाक कांय प्रॉब्लेम ना, तें पयलीं विकपाचें थारलां,'' रामकृष्णान जाता तितल्या सविस्तरपणान विशय मांडलो.

''भाटांचो विशय म्हाका समजलो. महेश तुमकां आवडना, ताका गोंयच्यान धांवडावपाक जाय अशें तूं म्हणटालो. भाट विकप आनी महेशाक धांवडावप ह्या दोन विशयां मदलें नातें म्हाका बरेंऽऽ समजलें ना!'' सर्वानंदान रामकृष्णाक म्हणलें.

''भाटां-बेसांच्या वेव्हारांत काळो पयसो हो आसताच. तुमी हें विकतें घेवपाचें थारायलें जाल्यार कांय पर्सेंट आमी काळो पयसो घेवचो अशें तुमी सांगतले. मीराक आनी महेशाकूय बी काळो पयसो घेवचो पडटलो. तो काळो पयसो घेतना वा घेतकूच इंकमटॅक्सान मीराक वा महेशाक धरलें जाल्यार महेश आपले आपूण एक तर बदली जावन वतलो वा सस्पेंड जातलो. मागीर गोंयांत तोंड दाखोवपाक लज म्हणून तीं दोगांय मद्रासाक वतलीं.'' रामकृष्णान स्पश्टीकरण दिलें.

''काळे पयशे महेशाक कोण व्हरून दितलो?'' सर्वानंदान विचारलें.

''तुमी भाट विकतें घेवपी. म्हणटकूच तुमीच ताका दिवचे पडले ना?'' रामकृष्णान विचारलें.

''अशें? हांव पळयतां! सद्या भाटां-बेसांचेर गुंतवणूक करपाचो म्हजो बेत नाशिल्लो. अनंतान म्हाका सांगलें म्हूण हांवें ह्या विशयांत इंटरेस्ट घेतलो. म्हाकाय तो महेश आवडना. तो पोर्टाची वाट लायतलो. देखून ताका हांगच्यान धांवडावंक जाय. तुमच्या ह्या भाटाचो विशय आनीक पंदरा दिसांनी फुडें व्हरूया. सद्या हो संपाचो बोवाळ चलला न्हय? खंय पावता तें पळोवंक जाय.''आनीक पंदरा दिसांनीं मेळुंया अशें म्हणून सर्वानंद उठलो आनी ताणें त्या दोगांयकूय हात दिलो. रामकृष्ण आनी विष्णू थँक्यू, गुडबाय म्हणून थंयच्यान भायर सरले.



## भाग 14

**आल्फ्रेड** ब्रागांझा, पीटर डिमेलो आनी गुणाजी तिगूय जाण बिरेस्तारा सकाळीं सर्वानंदाच्या ऑफिसांतल्यान सरळ सड्या वेल्या युनियनाच्या ऑफिसांत गेले. पीटर डिमेलो गाडी चलयतालो. ऑफिसांत वता आसतना शाणूच्या हॉटेलांतल्यान ताणें च्या आनी सामोशे मागयले. हॉटेलांतल्यान च्या आनी सामोशे येतकूच दार बंद कर म्हूण ताणें गुणाजीक सांगलें. धा मिनटां भितर च्या आनी सामोशे आयल्या उपरांत दार बंद करून तांणी चर्चा सुरू केली.

"ह्या सर्वानंद सांवर्डेकाराचें तुका कितें दिसता?" पिटर डिमेलोन गुणाजीक विचारलें.

"म्हाका कांय समजना! एके वटेन सज्जन केंकरे आनी तांचे कमिटीचे वांगडी आमकां संप करूं नाकात अशें सांगतात आनी दुसरे वटेन संप करातूच अशें म्हूण सर्वानंद सांगता. आमी कितें समजुपाचें? मिनेरां पैकीं सर्वानंद चड झगडाळ आनी चिकानेर म्हूण फामाद. वेगवेगळ्या कोर्टांनी ताच्यो शंबरां वयर केशी चालू आसात अशें म्हणून आयकूंक येता. तुमी आतांच मेळूंक येयात अशें म्हूण ताच्या पी.ए.न सकाळीं तीन फावटीं फोन केल्लो. कामगारांचें बरें जाल्लें आपणाक जाय अशें सर्वानंद म्हणटा, पूण म्हजो ताचेर विस्वास ना!" गुणाजीन आपणालें मत सांगलें.

"आमी संप केल्यार सर्वानंदाकूय बी लुकसाण जातलें मरे? गुणाजी, तूं एक काम कर. जोजेफ बाप्तिस्ताक एक फोन लाय आनी पंदरा तारखे मेरेन कोणा कोणाच्यो बोटी येचपाच्यो आसात तीं नांवां मात्शीं सांगूंक लाय.

ट्रॅफिक मॅनेजराक विचार म्हूण सांग. सर्वानंदाच्यो बोटी चड करून आदींच येवन गेल्यो जातल्यो. देखून हेरांक लुकसाण करून तो ताळयो पेटूंक सोदता.'' संप करात असो हट्ट धरपी सर्वानंद कित्याक अशें करता हाचेर पिटर डिमेलोन आपणालें मत सांगलें. गुणाजीन मेजार आशिल्ल्या फोना वेल्यान बाप्तिस्ताक फोन केलो आनी पिटर डिमेलोक जाय आशिल्ली म्हायती रोखडीच फोन करून दी अशें सांगलें.

बारा वरां जावपाक पाविल्लीं म्हणटकूच आपणाक ड्यूटीचेर वचपाक जाय म्हूण आल्फ्रेड ब्रागांझा ऑफिसांतल्यान भायर सरलो. ओर हॅण्डलिंग प्लांटाच्या कंट्रोल रुमांत ताची ड्युटी आशिल्ली.

बाप्तिस्ताच्या फोनाक रावता आसतना कोणाकोणाक संप जाल्लो नाका तांचीं नांवां पिटर डिमेलो आनी गुणाजी बरोवन काडूंक लागले; इतल्यांत अभ्यंकर उलोवंक सोदता म्हूण मेजा वेल्या फोनाचेर ताच्या पी.ए.न फोन केलो.

''आमची मिटींग चलता, हांव मागीर फोन करतां म्हूण सांग.'' अशें गुणाजीन त्या पी.ए.क सांगलें.

ओर हॅण्डलिंग प्लांटावेल्या चडश्या कामगारांक संप नाका आशिल्लो. हेर धक्यां वेल्या आनी ऑफिसांतल्या कामगारांक आनी वेगवेगळ्या ऑफिसांतल्या चडश्या स्टाफाक संप जाल्लो जाय आशिल्लो. गुणाजीन लिस्टाचेर पंदरायेक नांवां बरयतकूच फोनाची रींग वाजली आनी बाप्तिस्त लायनीर आयलो. सर्वानंद सांवर्डेकाराल्यो बोटी येवन गेल्यो अशें ताणें गुणाजीक सांगलें, आनी तुमकां ही म्हायती कित्याक जाय असो प्रस्न विचारलो. सर्वानंदाक कित्याक हो संप जाल्लो जाय हाचें कारण आमी सोदून काडूंक सोदतात अशें गुणाजीन बाप्तिस्ताक सांगलें.

''सर्वानंद चेअरमॅनाचेर बरोच पिकार आसा कारण चेअरमॅनान ताका अपॉयंटमेंट दिवंक नाशिल्लो. सर्वानंदाक चेअरमॅन त्रासांत सांपडिल्लो जाय अशें म्हाका दिसता,'' बाप्तिस्तान आपलें मत गुणाजीक सांगलें.

बाप्तिस्त कितें म्हणटालो तें गुणाजीन पिटर डिमेलोक सांगलें. सज्जन केंकरे हो चेअरमॅनाचे बायलेचो मावशेभाव, आनी ते खातीर सज्जनाक हो संप जावन चेअरमॅन त्रासांत सांपडिल्लो नाका हेंवूय बी सर्वानंदान सांगिल्ल्याची

पिटर डिमेलोक याद जाली. संप करात म्हूण पिटर डिमेलो आनी हेरांच्या फाटल्यान सर्वानंद कित्याक लागिल्लो तें आतां पिटर डिमेलो आनी गुणाजीक कळ्ळें. ताका कामगारांचें साप्प पडून वचूंक ना, आनी कामगार फुडाऱ्यांक मामा करून तो आपणाली गेम खेळूंक सोदता हें तांकां समजलें. पूण संप करपाचो काय ना हें सर्वानंद कितें म्हणटा हाचेर अवलंबून आसूंक जायना हें पिटर डिमेलो आनी गुणाजीक खबर आशिल्लें.

"आरे, तें लिस्ट मागीर करुंया, आमका संप करचोच पडटलो कारण हो चेअरमॅन आमच्या कामगारांचेर कारवाय करतलोच म्हूण पेटला. पस्तीस जाणांनी प्रॉटेस्ट मारिल्लो. तातूंतले तेवीस जाण ड्यूटेचेर नासले, तांची शिफ्ट काबार जाल्ली. उरिल्ले बारा जाण काम सोडून येयिल्ले. आमी सांगिल्ल्या प्रमाणें सगल्या कामगारांनीं शो-कॉज नोटिशींक जाप दिल्या मरे?" पिटर डिमिलोन गुणाजीक विचारलें.

"सगल्यांनी जाप धाडली काय दिसता. काल चार वरां मेरेन दर एकल्यान जाप धाडूंक जाय म्हणून हांवें सांगिल्लें. सेक्रेटरी कडेन सगल्यांचे रिपोर्ट पाविल्ले आसूंक जाय," गुणाजीन म्हायती दिली.

"संप करूं नाकात, उलोवंक येयात अशें म्हूण चेअरमॅनान वा डॅप्युटी चेअरमॅनान कोणेंच आमकां रेकाद धाडूंक ना. शुक्रारा दिसा रातीच्या बारा वरांचेर संप सुरू जातलो म्हूण आमी जाहीर केलां. संप रद्द करपाक चेअरमॅनान आमकां कांयच कारण दिवंक ना मरे?" पिटर डिमेलोन निर्शेल्ल्या आवाजांत गुणाजीक विचारलें.

"अजून देड दीस आसा न्हय? पळोवया कितें जाता तें!" गुणाजीन आपणालो आशावाद उलोवन दाखयलो.

पिटर डिमेलो आनी गुणाजी पयलीं सुरू केल्लें तें लिस्ट पुराय करपाक लागले. एक वरा मेरेन तांचें लिस्ट तयार करून जालें. प्लांटा वेले चडशे कामगार संपाच्या आड आनी हेर कडले चडशे कामगार वा स्टाफ संपाक तेंको दिवपी अशें चित्र तांच्या दोळ्यां मुखार आयलें.

दुसऱ्या दिसा दनपार मेरेन चेअरमॅनान तडजोडीची कांय वाट दाखयली ना जाल्यार रातचो बारा वरांचेर संप सुरू जातलो म्हूण जिपींतल्यान स्पीकराचेर सगले कडेन जाहीर करप अशें तांणी थारायलें.

***

एका वराचेर कामगारांचें आनी स्टाफाचें लिस्ट करून जातकूच संप करिना जाल्यार बरो अशें दोगांयचेंय मत जालें. पूण युनियानाचें नांव पेड्डेर जायनासतना संपाचो बेत रद्द जालो म्हूण कशें सांगतले हें तांकां सुचना जालें. अभ्यंकराच्या ऑफिसांतल्यान फोन येतकूच त्या दोगांयच्याय आवाजांत मात्शी उमेद दिसूंक लागली. गुणाजीन एका वराचेर सुमार अभ्यंकराच्या ऑफिसांत फोन लायलो. आपूण सकाळीं साडे णव वरां सावन पिटर डिमेलोक आनी ताका फोन लावपाचो यत्न करतां पूण हो फोन कोणूच उखल नाशिल्लो अशें म्हणून अभ्यंकरान गुणाजी कडेन कागाळ शी केली. ऑफिस बंद आशिल्लें कारण ते एक म्हत्वाचे मिटिंगे खातीर हेर कडेन गेल्ले अशें गुणाजीन अभ्यंकराक सांगलें. आपल्याक आनी डॅप्यूटी चेअरमॅनाक त्या दोगांय कडेन उलोवंक जाय आनी तीन वरां मेरेन तांणी आपणाल्या ऑफिसांत येवचें अशें अभ्यंकरान गुणाजीक सांगलें. ओके म्हूण गुणाजीन फोन दवरलो. अभ्यंकर आनी सुर्यनारायणना म्हऱ्यांत वतना युनियनाच्या आनीक दोग-तीग जाणांक वांगडा व्हरपाक जाय अशें गुणाजीन पीटर डिमेलोक सुचयलें. पिटर डिमेलोन आपणाल्या बॉल्सांतल्यान एक धाकली डायरी काडली, आनी तातूंतलीं तीन सिनियर वांगड्यांचीं नांवां आनी नंबर गुणाजीक सांगले. गुणाजीन तांकां फोन केलो. दोगांयचीय ड्युटी बारा वरांचेर सोंपिल्ली आनी एकल्याची त्या रातची आठांक आशिल्ली. त्या तिगूय जाणांक गुणाजीन तीन वरांचेर अभ्यंकराच्या ऑफिसांत आपयले.

संपांतल्यान फाटीं कशें सरपाचें हें दोगांयकूय खबर नाशिल्लें म्हणटकूच डॅप्युटी चेअरमॅन आनी सेक्रेटरी कितें म्हणटात तें आयकून मागीर कितें तें थारावपाचें अशें उलोवन ते जेवंक गेले.

सारके तिनांक ते अभ्यंकराच्या ऑफिसांत पावले. ऑफिसाच्या भायल्या वेटींग रुमांत तांचे तीन वांगडी तांकां रावताले. अभ्यंकर तांकां घेवन डॅप्युटी चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत गेलो.

“तुमी पयलीं कांयच उलोवं नाकात. डॅप्युटी चेअरमॅनाक उलोवं दी. मागीर कितें करपाचें तें थारायात.” आपूण तांचोच मनीस जाल्ले भशेन आव हाडून अभ्यंकरान तांकां वाटेर सुचयलें.

सूर्यनारायणनाच्या कॅबिनांत ताचे उजवे वटेन अभ्यंकर बसलो आनी

मेजा मुखार पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी तांचे तीन वांगडी बसले.

“इल्ल्याशा कारणा खातीर पोर्टांत येदो व्हडलो संप जावप बरोबर न्हय. संप जाल्यार सगल्यांकूच लुकसाण. चेअरमॅनान इतलो हट्ट धरपाचो न्हय. मान्यताय आशिल्ल्या येद्या व्हडल्या युनियनाच्या लिडरांक अपॉयंटमेंट घेना आसतना आयले म्हूण परतून धाडप हें समा न्हय. युनियनान संपार वचपाचें जें थारायलां तें तांचे नदरेन बरोबर आसुंये. चेअरमॅन नवोच आयला. पोर्टांतल्या कामगारांक तो वळखना. ताकाय बी सगल्यांनी वेळ दिवंक जाय. देखून ल्हान ल्हान चुको केल्यार ताका माफ करून पोर्टाच्या कामांत आडमेळीं हाडी नासतना पोर्ट बरे तरेन चलोवपाची जापसालदारकी कामगार नेत्यांची आनी आमच्या सारकिल्या अधिकाऱ्यांची.” अशें सूर्यनारायणनान युनियनाच्या लिडरांक सुचयलें.

“मुरगांव पोर्ट कामगार संघ हो खूब पोरनो संघ. संघाच्या नेत्यांक खूब वर्सांचो अणभव आसा आनी संप जाल्यार सगल्यांकूच लुकसाण जाता हें आमकांय बी खबर आसा. पूण लुकसाण-फायदो ह्यो गजाली एके वटेन आनी संघाचो मान-अवमान दुसरे वटेन. चेअरमॅनान युनियनाच्या फुडाऱ्यांचो अवमान करूंक नाशिल्लो जाल्यार संपार वचपाचो प्रस्नूच येवचो नाशिल्लो. डॅप्युटी चेअरमॅन, सेक्रेटरी आनी हेर अधिकारी हांच्या हातांत हात घालून मुरगांव पोर्ट संघाचे लीडर आनी वांगडी आयज मेरेन पोर्ट बरे तरेन चलयत आयल्यात. तशेंच फुडेंय बी चलूंक जाय. पंदरा-वीस तारखे मेरेन बोटींची रांग लागिल्ली आसतली. देखून असल्या वेळार संप करप सामकें चूक,” अशें म्हणून डॅप्युटी चेअरमॅनाक आनी सेक्रेटरीक वाट सुचयात अशी गुणाजीन विनंती केली.

फाटलीं पांच वर्सां युनियनाच्या वांगड्यांनी ऑफिस टायमार भायर सरून कितलेशेच फावटीं निदर्शनां केल्यांत. तांकां कोणेंच आडावंक नात आनी कोणेंच तांकां शो-कॉज नोटीस दिवंक ना. देखून आदले भशेन हे फावटीं लेगीत तांणी वचून निदर्शनां केलीं. हे इल्लेशे गजालीक लागून चेअरमॅनान येदो बोवाळ करपाचो न्हय. युनियन लिडरांक डॅप्युटी चेअरमॅनान आपयल्यात म्हणटकूच ताणेंच आतां फुडली वाट दाखोवपाची अशें पिटर डिमेलोन सुचयलें.

“हांगा फकत बारा स्टाफांचो प्रस्न आसा. तेवीस जाणांची ड्यूटी

बी सोंपिल्ली. म्हूणटकूच तांचो कांय गुन्यांव ना. जे काम सोडून गेल्ले तांणी आपूण वचुंकूच ना म्हूण बरोवन धाडलां हें सामकें चूक. कारण सी.आय्.यस्.यफान सदां भशेन निदर्शनाचे फोटे काडून दवरल्यात. तातूंत हे सगले स्टाफ दिसतात. परवानगी नासतना काम सोडून गेल्ल्या बद्दल आनी मागीर फटी मारिल्ल्या बद्दल त्या बारा जाणांचें सस्पेन्शन जावं येता. ह्या बाराय जाणांच्यो जापो एकेच भशेन आसात. म्हणटकूच तो मसुदो युनियनानूच दिला हातूंत दुबाव ना,'' अशें सूर्यनारायणनान तांकां सांगलें.

सूर्यनारायणनाचें आयकतकूच एक मिनिटभर सगले कामगार फुडारी वग्गी बसले. बाराय स्टाफ सस्पेंड जाल्यार युनियनाच्या फुडाऱ्यांनी तांकां फोंडांत घाले अशी फाम जातली असो विचार पिटर डिमेलो आनी गुणाजी करूंक लागले.

''चेअरमॅनाचो ह्या बाराय जाणांक सस्पेंड करपाचो विचार आसा काय कितें?'' असो प्रस्न पिटर डिमेलोन सरळ सूर्यनारायणनाक आनी अभ्यंकराक विचारलो.

''आनीक कांय वाट ना जाल्यार शिस्तीचें प्रशासन चालू दवरपा खातीर तो सस्पेंड लेगीत करुंये पूण तें जावंक फावना आनी तशें कितेंय जावपाचें आसल्यार ताका तशें करूं नाका म्हणून सांगपाचो सगल्यांनी यत्न करूंक जाय. सस्पेन्शन ही सारकी कडक ख्यास्त. खरें म्हणल्यार कायद्यान सस्पेन्शनाक ख्यास्त मानिनात. प्रशासकीय चवकशी सुरू जावन काबार जाय म्हणसर जाचेर चवकशी जावपाची आसता ताणें मदीं लुडबूड करूं नये म्हणून ताका सस्पेंड करतात. स्टाफाक कसलीयतरी ल्हान हय न्हय शी ख्यास्त दिवन तांकां सोडचे अशें सगल्यांनी चेअरमॅनाक सुचोवंक जाता,'' सूर्यनारायणनान वाट सुचोवपाचो यत्न केलो.

''स्टाफाक ख्यास्त दिल्यार संप करचोच पडटलो!'' पिटर डिमेलो मात्सो तापून उलयलो.

''तशें न्हय, कसलीयतरी मदली वाट सोदून काडूंक जाय. कामगारांची वा तांच्या लिडरांची मानहानी जावंक जायना आनी दुसरे वटेन स्टाफाक कांय ख्यास्त दिना आसतना सोडपाक चेअरमॅनाक मजत करूंक जाय. कितें करपाचें तें तुमीच सुचयात!''अभ्यंकरान पिटर डिमेलोक म्हणलें.

“तुमी आमकां हांगां आपयल्यात. म्हणटकूच हो प्रॉब्लेम कसो सोडोवपाचो तें तुमीच सागूंक जाय,” पिटर डीमेलोन अभ्यंकराक सांगलें.

“सर, आमकां धायेक मिनटां दियात. आमी तुमच्या वेटींग रुमांत वचून बसतात, चर्चा करतात आनी तुमच्या म्हऱ्यांत येतात.” गुणाजीन सूर्यनारायणनाक सुचयलें.

सूर्यनारायणनान आपणाल्या पी.ए.क फोन करून वेटींग रुमांत कोणूय बसल्यात जाल्यार तांकां दुसरे कडेन हालोवन पिटर डीमेलोक बी वेटींग रुमांत बसोवन तांकां च्या दिवंक लायली.

वेटींग रुमांत भितरल्यान दार बंद करून पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेर ल्हवू आवाजांत कसल्यो हिकमती लडोवच्यो तें थारावंक लागले. मदींच कॅन्टिनांतल्यान वेटर च्या घेवन आयिल्ल्यान तांकां दार उगडचें पडलें. “संप रद्द करूंक आतां वाट उकती जाल्या पूण नांव पेड्डेर करी नासतना आमचें काम जावंक जाय, हें निश्चीत,”गुणाजीन म्हळें.

तांची चर्चा सुमार पंदरा मिनटां चल्ली आनी मागीर ते सूर्यनारायणनाच्या कॅबिनांत आयले.

“संप करूं नाकात म्हणून एक्स्पोर्टरांनीं आमकां उलो मारला आनी पोर्ट चेअरमॅनाकूय बी उलो मारला. तांच्या उल्याक मान दिवन चेअरमॅनान आमकां उलोवणीं करुंक आपयल्यात आनी आमी उलोवणीं केलीं. त्या बारा जाणांचेर चेअरमॅन कांय कारवाय करचो ना आनी आमी संप फाटीं घेतले अशें थारलें, अशें चेअरमॅनान वर्तमानपत्रांक सांगपाचें आनी मागीर आमी संप करपाचो बेत रद्द करतात,” पिटर डिमेलोन सूर्यनारायणनाक सांगलें.

“हें समा जावचें ना. स्टाफांनी फटी मारल्यात त्यो सामकें समा न्हय. स्टाफान कितेंयतरी चेअरमॅनाक बरोवन दिवंचें पडटलें. नाजाल्यार स्टाफ आपल्याक जाय तें करता, युनियनांय बी संपाची धमकी दिवन आपणाक जाय तें करून घेतात आनी तांचे मुखार पोर्टाच्या अधिकाऱ्यांक कांयच पावर ना असो ताचो अर्थ जाता,” सूर्यनारायणनान तोंड कडक करून पिटर डिमेलोक आनी गुणाजीक सांगलें.

“कितें बरोवन दिवपाचें? आमी चुकले वा आमकां माफ करचें असलीं उतरां आमी केन्नांच वापरिनात. कारण तशें केल्यार आमच्या कामगारांची

मानहानी जाता. पोर्ट कायमचो बंद पडल्यार पडूं, कामगारांची मानहानी जावंक आमी दिवंचे नात!'' पिटर डिमेलोन मात्सो आवाज चडोवन सांगलें.

''कामगारांची मानहानी जावपाक आमी केन्नाच दिवचे नात कारण तांणी सारकें काम केले बगर पोर्ट बरो चलचो ना. पूण ज्या कामगारांनी इतल्यो फटी मारल्यात तांकां अशेच सोडप हेंवूय बी चेअरमॅनाक शक्य जावंचें ना. कितेंयतरी तांणी बरोवन दिवंचेंच पडटलें नाजाल्यार आमी एकामेकां कडेन आनीक उलोवन अर्थ ना. चेअरमॅनाक जाय तें तो करतलो, तुमकां जाय तें तुमी करपाचें!'' सूर्यनारायणनान मात्शें तापून सांगलें.

गजाली हाता भायर वतात अशें गुणाजीक दिसलें आनी ताणें हेरांच्या तोंडाचेर अशीऽऽऽ नदर भोंवडायली. सगलेच नेर्वोज जाल्ले भशेन ताका दिसले. पिटर डिमेलोच्या मांडयेर हात दवरून आपूण उलयतां अशें गुणाजीन सुचयलें:

''तुमी तुमचे वाटेन, आमी आमचे वाटेन वचप हें बरोबर जावंचें ना. सगल्यांकूच लुकसाण! आमच्या जनरल सेक्रेटरीन सांगिल्ल्या प्रमाणें चुकले, माफी' असलीं उतरां आमी केन्नाच वापरूंक नात आनी हाचे फुडेंय बी वापरचे नात. आमी कितेंय बरयतले, मागीर हें नाका, तें नाका अशें तुमी म्हणटले, त्या परस कितें बरोवन दिवपाचें तें तुमीच आमकां बरोवन दियात. मागीर तें आमकां मानवलें जाल्यार फुडल्यो गजाली!'' गुणाजीन सूर्यनारायणनाक सांगलें

''अभ्यंकर, तूं तुज्या कॅबिनांत वचून पांच मिनटां भितर एक सात-आठ लायनींचो मसुदो तयार करून हाड. तांणी कितें सांगलां तें ध्यानांत दवर. तांचीय मानहानी जावंक जायना आनी चेअरमॅनाक धमकायतात अशेंय दिसूंक फावना,'' सूर्यनारायणनान अभ्यंकराक सांगलें.

''यस सर'' म्हणून अभ्यंकर आपणाल्या कॅबिनांत गेलो, आनी पांच मिनटां भितर मसुदो घेवन आयलो. तितले म्हणसर कामगार आनी अधिकारी दोगांनीय मेळून पोर्ट कसो चलोवपाचो हाचेर सूर्यनारायणनान तांचे मुखार भाशण केलें.

सूर्यनारायणनान मसुद्याचेर नदर मारली आनी तो पिटर डिमेलो कडेन दिलो. पिटर डिमेलोन तो वाचलो आनी गुणाजी कडेन दिलो. गुणाजीनूय बी तो वाचलो आनी कांयच उलयनासतना खुणेनूच हयकार दिवन तो पिटर डिमेलो कडेन परतून दिलो.

"सर, ह्या मसुद्यांत सगलें बरें आसा. पूण 'ह्या फुडें' हीं उतरां काडून उडोवंक जाय. कारण ह्या फुडें आमी अशें अशें करचे नात वा अशें अशें करतले बरोवप म्हणल्यार आतां मेरेन आमी अशेंच करताले असो ताचो अर्थ जाता. आतां मेरेन आमचो स्टाफ चुको करतालो अशें आमी केन्नाच म्हणचे नात!'' अशें म्हणून पिटर डिमेलोन मसुदो सूर्यनारायणनाच्या हातांत परतून दिलो.

सूर्यनारायणनान मसुदो आनीक एक फावट वाचिल्ले भशेन केलो आनी 'ह्या फुडें' हीं दोन उतरां खोडलीं. मागीर पिटर डिमेलोन तो मसुदो ताच्या वांगडा आयिल्ल्या हेर फुडाऱ्यांक दाखयलो. सगल्यांनी मान्यताय दिली.

"हो मसुदो हांव म्हजे कडेन दवरतां. सेक्रेटरी सराच्या इलेक्ट्रॉनीक टायपरायटराचेर ताची कॉपी काडूंक मेळटली. आतां एक काम उरलां तें चेअरमॅनाची भेट. ताणें आमकां आपोवंक जाय. म्हणटकूच आमच्या कामगारांक बरें दिसतलें,'' पिटर डिमेलोन सूर्यनारायणनाक सुचयलें.

सूर्यनारायणनान चेअरमॅनाक फोन केलो आनी पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेरांक आपूण आनी अभ्यंकर घेवन येवं काय म्हूण विचारलें. चेअरमॅनान तांकां आनीक धा मिनटांनी आपयले. पिटर डिमेलो आनी गुणाजी कडेन हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो खबरो करून धा मिनटांनी ते चवथ्या मजल्या वेल्या चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत गेले. दारार टक् टक् करून सूर्यनारायणन, अभ्यंकर, पिटर डिमेलो आनी हेर "गुड आफ्टरनून सर'' म्हणत भितर सरले.

"येयात, येयात, बसात!'' महेशान तांकां येवकार दिलो.

मसुदो चेअरमॅनाक दाखय अशें सूर्यनारायणनान पिटराक सांगलें. महेशान मसुदो वाचलो आनी सूर्यनारायणना कडेन पळयलें.

"सर, हो मसुदो अभ्यंकरान करून हांकां दाखयलो. तांणी ताका मान्यताय दिली. ह्या मसुद्या प्रमाणें ते बारा स्टाफ चेअरमॅनाक वेगवेगळीं पत्रां दितले. तीं मानून घेवंची आनी तांच्या आड कांय कारवाय करची न्हय अशें तांकां सगल्यांक दिसता,'' सूर्यनारायणनान महेशाक सांगलें.

"ओके! ह्या मसुद्या प्रमाणें म्हाका तांची पत्रां आयल्यार पुरो. मागीर तांच्या आड हांव कारवाय करिना. तुमी संप जातलो म्हूण जाहीर केलां तें आतां फाटीं घेतात मरे?'' महेशान पिटर डिमेलोक विचारलें.

“हय सर, आमकां आपयले, आमचे कडेन उलयले, कामगारांनी पत्रां दितकूच तांचेर कांय कारवाय करचे नात म्हणून सांगलें देखून आमी संप करपाचो बेत रद्द केला अशें आमी रोखडेंच जाहीर करतात,” अशें म्हणून पिटर डिमेलो उठलो. महेशान उठून पिटराक आनी गुणाजीक थँक्यू, थँक्यू म्हणत हात दिलो. तेवूय बी थँक्यू सर, थँक्यू सर म्हणत भायर सरले. वतां वतां पिटर डिमेलो रावलो आनी “आमी आतां आमचे प्रथे प्रमाणें सकयल वचून फुगेट्यो मारतले आनी पोर्ट कामगार युनियन जिंदाबाद अश्यो घोशणा दितले. शिफ्ट काबार जाल्ले कांय कामगार सकयल आयल्यात जातले. तुमकां वायट दिसूंक जायना!” पिटर डिमेलोन चेअरमॅनाक सांगलें.

“ना, ना, आमकां कोणाक वायट दिसचें ना, ह्यो तुमच्यो प्रथा हें आमकां खबर आसा,” महेशान हांसत जाप दिली आनी तांकां हात हालोवन गुडबाय म्हणलें.



## भाग 15

**सर्वानंदाचो** मूड त्या दिसा सामको पेड्डेर जालो. पांचांक सुमार तो ऑफिसांत बशिल्लो आसतना संप रद्द जालो म्हूण ताका खबर मेळ्ळी. पोर्टाचो चेअरमॅन आनी युनियनाचो सेक्रेटरी हांचे मदीं तडजोड जावन युनियनान संपाचो बेत रद्द केलो अशी खबर चोडणेकारान हाडली. दुसरी वायट खबर चोडणेकारान हाडली ती म्हणल्यार गोवा दिया वर्ल्ड ट्रान्शीपर बोटीक ट्रॅफिक मॅनेजरान पोर्टांत येवंक परवानगी दिली ना. सर्वानंद आतां सगल्यांचेर बेठोच ताप ताप तापतलो हें चोडणेकाराक खबर आशिल्लें. देखून ह्यो वायट खबरो दिवन ताणें पळ काडली. मुरगांव शारांत, पोर्टाच्या कामगारां मदीं, राज्य सरकारांत आनी मिनेरांच्या असोसिएशनांत सगल्यांचे हुस्के मेकळे जाले; फकत रागान तांबडो जालो तो सर्वानंद! कसोय करून महेश प्रभू त्रासांत सांपडिल्लो ताका जाय आशिल्लो. आतां फुडें कितें करपाचें हाचेर सर्वानंद येवजूंक लागलो. ब्लॅक पयशे दिवन इन्कमटॅक्साच्या जाळ्यांत ताका घुसपावपाक लावपाचो हो एक मार्ग आनी दिल्लींत मिनिस्टराक आनी लक्ष्मण सिंगाक सांगून कितेंय जाता जाल्यार पळोवप हो दुसरो मार्ग. ब्लॅक पयशांचो मार्ग वांकडो-तिकडो, कटकटीचो आनी तो मार्ग आपणावपाक कुस्तार. रोखडोच दिल्लीक वचून दुसऱ्या मार्गान कितेंय निश्पन्न जाता जाल्यार पळोवपाचें अशें सर्वानंदान थारायलें. चोडणेकाराक आपोवन दुसऱ्या दिसा सकाळीं दिल्लीची आनी आयतारा दिसा गोंयची रिटर्न तिकेट काडपाची, ऑबेरॉय हॉटेलांत रूम बूक करपाचो, कंपनीच्या एजंटाक टॅक्सी घेवन विमानतळार आपोवपाचो ही सगली कामगिरी ताणें रोखड्या रोखडी करूंक लायली. आतां पयलीं दिल्लीक

रामलिंगम आनी लक्ष्मण सिंग हांकां फोन लावन दी अशेंय सर्वानंदान सांगलें.

आनीक पंदरा मिनटांनी चोडणेकारान सर्वानंदाक लायनीर हाडून मागीर रामलिंगमाक कनॅक्शन दिलें.

"हॅलो, हॅलो, सर्वानंद जी कशे आसात? जपानच्यान केन्ना आयले?" रामलिंगमान सर्वानंदाची खबर घेतली.

"रामलिंगमजी, नमस्कार. तुमी सगले बरे आसात मूं?" सर्वानंदान सदां भशेन बेठोच अर्थ नाशिल्लो प्रस्न विचारलो.

आपणाक मिनिस्टराक मेळूंक जाय. आपूण सकाळच्या फ्लायटीर दिल्लीक येतलों, देखून सकाळच्या आदेसाक अपॉयंटमॅन्ट नाका. दनपारच्या तीन वरां उपरांत केन्नाय जाता अशें सर्वानंदान रामलिंगमाक सुचयलें. आपूण अर्द वरान फोन करून कळयतां अशें रामलिंगमान सांगलें.

आनीक चार-पांच मिनटां भितर चोडणेकारान लक्ष्मण सिंगाक कनॅक्शन दिलें. पङ्गो उगडचे पयलीं सगल्यो घांटी जाल्यो आनी मागीर आपूण दुसऱ्या दिसा सकाळीं दिल्ली येतलों आनी रातचे वांगडाच जेवपाक भायर या अशें ताणें लक्ष्मण सिंगाक सांगलें. 'ओके ओके' अशें लक्ष्मण सिंगान म्हणटकूच मागीर उलोवया अशें म्हूण ताका सांगून सर्वानंदान फोन दवरलो. सर्वानंद मागीर रामकृष्ण गावणेकारा कडेन उलयलो. सोमारा दिसा सकाळच्या साडे धांक आपणाल्या ऑफिसांत मेळुंया आनी विशय फुडें व्हरुंया अशें ताणें रामकृष्णाक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं इंडियन एॅअरलायन्स फ्लायटीचेर सर्वानंद दिल्ली गेलो. दिल्ली विमानतळार पी.आर.ओ. धिल्लन ताचे खातीर टॅक्सी घेवन आयिल्लो. वेगवेगळ्या कामां खातीर आनी टॅक्स वाटोवपा खातीर सर्वानंदान खूबश्यो कंपन्यो सुरू केल्ल्यो. केन्ना केन्नाय ताका कंपन्यांच्या नांवांची याद लेगीत उरनाशिल्ली. चार-पांच मंत्रालयांनीं सदांच कसलींय तरी कामां आसतालीं. तीं कामां करपा खातीर ताणें धिल्लनाक नेमिल्लो. चड म्हत्वाचीं कामां आसल्यार गोंयच्यान तो प्रेमानंद काणकोणकाराक धाडटालो. आदल्या दिसा रातीच्या आठ वरां मेरेन रामलिंगमाचो फोन येवंक नाशिल्लो. देखून अपॉयंटमॅटाचें कितें जालें तें पळोवपाक चोडणेकारान धिल्लनाक सांगिल्लें.

सांजेच्या साडे तीनांक पोर्ट मिनिस्टर गिरीराजा कडेन ऑफिसांत अपॉयंटमॅन्ट आसा अशें सर्वानंद टॅक्सींत बसना फुडें धिल्लनान ताका सांगलें. मिनिस्टराक कितें कितें सांगून महेशाक मुरगांवच्यान हालोवपाचो हाचेर सर्वानंद विचार करूंक लागलो. साडे बारांक सुमार सर्वानंद ऑबेरॉय हॉटेलांत पावलो. दिल्ली आयिल्ले फावटीं तो ऑबेरॉय हॉटेलांत रावतालो. पूण थंय जेवी नाशिल्लो. पांच नखेत्री हॉटेलांतलें जेवण ताका हालीं हालीं साप्प आवड नाशिल्लें. साउथ एक्स्टॅन्शन वाठारांत धाकल्या धाब्यार तो जेवंक वतालो. त्या दिसा आपणा वांगडा धिल्लनाकूय ताणें जेवंक व्हेलो. पनीर माखनी, बैंगन भर्ता आनी नान ताणें मागयले, ते दोगूय जेवले. धिल्लनाक कितें जाय तें ताणें विचारलें लेगीत ना. सर्वानंद मुकाट्यान जेवता तें पळोवन धिल्लन लेगीत मोन्यांनी जेवलो. हांगा जेवण बरें करतात अशें मर्दीच म्हणून धिल्लनान सर्वानंदा कडेन उलोवपाचो यत्न केलो, पूण हांऽऽ हांऽऽ अशें म्हूण सर्वानंद आनीक कांयच म्हणनासतना जेवीत रावलो.

सवाय तीन वरांचेर धिल्लना वांगडा तो पोर्ट मंत्रालयांत गेलो आनी वचून रामलिंगमा मुखार बसलो. धिल्लन भायर वेटिंग रुमांत बसलो. जपानाक खंय गेल्लो, कितले दीस उरलो, बिजिनेस कसो जालो असले टायम पास प्रस्न रामलिंगमान विचारले. प्रस्नांच्यो जापो दिवन जातकूच सर्वानंदान वांगडा हाडिल्ल्या इल्ल्याशा ब्रिफकेसींतल्यान गिवांशी परफ्यूमाचो स्प्रे रामलिंगमाक दिलो रामलिंगमान थँक्यू थँक्यू म्हणीत ती बाटली घेतली. साडे तीन वरांचेर रामलिंगमाक फोन आयलो आनी सर्वानंद आयला काय म्हूण मिनिस्टरान विचारलें. सर्वानंद मागीर गिरीराजाच्या कॅबिनांत गेलो. भितर पावतकूच गिरीराजान दोगांय खातीर च्या हाडपाक लायली. खरें म्हणल्यार सर्वानंदाक च्या नाका आशिल्ली. निलम धाब्यांतलें तुपान थपथपिल्लें पनीर माखनवाला आनी भर्ता खावन ताच्या पोटांत गॅस जाल्लो. पूण मिनिस्टराच्या कॅबिनांत ताच्या वांगडा बसून च्या पिवपांत खूबसो फायदो आसता हें सगल्या उद्देजकां भशेन सर्वानंदाकूय बी खबर आशिल्लें. मिनिस्टर जाका च्या दिता तो मनीस म्हत्वाचो वा तो मिनिस्टराचो खास मित्र वा मिनिस्टर ताचे कडल्यान कितेंयतरी काम करून घेवंक सोदता अशे वेगवेगळे अर्थ जांव येतात. च्या

पितां पितां सर्वानंदान ब्रिफकेसींतल्यान धाकलें सोबीत दिसपी पाकीट काडलें आनी मिनिस्टराच्या हातांत दिलें. हें कितें म्हणून गिरीराजान विचारतकूच ही रोलेक्स घड्याळ जपानच्यान खास तुमचे खातीर हाडल्या अशें म्हणून सर्वानंदान गिरीराजाक सांगलें.

''शी शी! असल्यो म्हारग भेटवस्तू तुमी कित्याक हाडटात? आमी सादे लोक. असल्यो म्हारग घड्याळी घालून हांव खंय वतलों? एनी वे, थँक्यू थँक्यू''अशें म्हणत मिनिस्टरान तें पॅकेट मेजाच्या खणांत दवरलें.

जमीन ओलसार आनी मोव करतकूच खणपाक बरी हें सगल्या उद्देजकांक खबर आसूंक जाय अशें म्हूण सर्वानंदाक ल्हानपणांत ताच्या बापयन उपदेश केल्लो. रोलेक्स घड्याळ पळयतकूच मिनिस्टर आपणालो विशय आयकुपाच्या मुडांत आसतलो हाची सर्वानंदाक खात्री आशिल्ली! महेश प्रभूक पोर्ट सामको चलोवंक येना; येवन पंदरा दीस लेगीत जावंक नात, पूण कामगारांक तो सतायत रावलो आनी अखेरेक कामगारांनी संप करपाची धमकी दिली! मायनिंग उद्देजक हे पोर्टाक मुख्य येणावळ दिवपी! पूण तांचे कडेन लेगीत तो सारको वागना. तांणी मदीं पडून कामगारांक रिक्वेस्ट करूंक नाशिल्लो जाल्यार हो संप जातलोच आशिल्लो! ह्या चेअरमॅनाक काळ-वेळ कांय समजना! आतां बोटींची रांग लागिल्ली आसा. वादळी पावस सुरू जावपाचो आसा. ते पयलींच बोटी बंद जातल्यो. एके वटेन सगले एक्स्पोर्ट वाडोवंक जाय, देशाक परकी चलन जाय अशें मिनिस्टर उद्देजकांक सांगतात आनी दुसरे वटेन असले अधिकारी उद्देजकांच्या मानगुटेर बसतात. ह्या चेअरमॅनाक मुरगांव पोर्टांतल्यान हालोवचोच पडटलो, सर्वानंदान मिनिस्टराक महेश प्रभू आड कागाळी सांगल्यो.

मिनिस्टरान कांय दिसां आदीं सर्वानंदा कडेन उलयतना परिस्थिती ताका समजावन सांगिल्ली. महेश प्रभू हो एक कर्तबगार आनी प्रामाणीक आय्.ए.एस्. ऑफिसर आनी ताचो रिकॉर्ड एकदम बरो आसा. तो हालींच बदली जावन मुरगांव पोर्टांत गेला. ताच्या पावंड्या वेल्या अधिकाऱ्यांची बदली गृहमंत्री आनी प्रधान मंत्री मेळून करतात. तशेंच बळिश्ट कारण आसल्या बगर ताका थंयच्यान हालोवंक मेळचो ना ही परिस्थिती मिनिस्टरान आदींच

सर्वानंदाक समजावन सांगिल्ली. त्योच गजाली मिनिस्टरान सर्वानंदाक परतून सांगल्यो. तरी आसतना आपूण ताचेर दोळो दवरून आसां आनी तशेंच कितेंय कारण मेळ्ळ्यार आपूण ताका हालोवपाचो यत्न करतां अशें ताणें सर्वानंदाच्या मनाक थाकाय दिवपाच्या उद्दिश्टान सांगलें.

सर्वानंदान पंदरा-वीस मिनटां भितर मिनिस्टराच्या मनार परिणाम करपाचो प्रयत्न केलो, पूण ताका व्हडलेंशें येस आयलें ना. थंयच्यान भायर सरतां सरतां एका मनशान ताका थांबयलो आनी आपूण मिनिस्टराचो ओ.एस्.डी. अशोक म्हणून सांगलें. सर्वानंदान ताका पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो म्हणटकूच तो केन्ना जॉयन जालो, पयलीं कोणा म्हऱ्यांत आशिल्लो हे प्रस्न सर्वानंदान ताका विचारले. आपूण मिनिस्टराच्या मतदार संघांतलो, ताचें थंयचें ऑफिस सांबाळटालों आनी आतां कांय म्हयन्यां पयलीं आपणाक तांणी ओ.एस्.डी. म्हूण हांगां हाडला अशी म्हायती अशोकान दिली. मिनिस्टराचो पूत, सून आनी तांचीं दोन भुरगीं गोंयांत येवपाचीं आसात. तांकां एका बऱ्या हॉटेलांत दोन रूम, भोंवपाक गाडी आनी कांय बारीक बारीक सुविधांची वेवस्था करूंक जाय. तीं तीन दीस रावतलीं, अशोकान सर्वानंदाक सांगलें.

''हो म्हजो पी.आर्.ओ. धिल्लन. तो हांगा दिल्लीकूच आसता. तूं ताचे कडेन संपर्क दवर आनी कितें कितें करूंक जाय तें सांग. वचपाच्यो आनी येवपाच्यो तिकेटी धरून आमी सगली वेवस्था बरे तरेन करतले अशें मिनिस्टराक सांग,'' अशें अशोकाक सांगून, अशोका कडेन संपर्क दवर अशें धिल्लनाक सांगून, सर्वानंद लिफ्टांत भितर सरलो. अशोकाचो फोन नंबर बेगी बेगीन बरोवन घेवन धिल्लनूय बी लिफ्टांत घुसलो.

''मिनिस्टराच्या पुताची आनी ताच्या फामिलीची बरी वेवस्था जावंक जाय. चोडणेकाराक हांव गोंयांत पावतकूच याद करूंक लाय. आतां हांव हॉटेलांत वचून मात्सो रेस्ट घेतलों. हे टॅक्सीक सातांक म्हज्या हॉटेलांत येवन रिपोर्ट कर म्हणून सांग. ताचें नांव आनी गाडयेचो नंबर म्हजे कडेन दी. हांव सकयल येतकूच ताका स्पिकरा वेल्यान दरवान आपयतलो. रातच्या इकरा-साडे इकरा मेरेन म्हज्या वांगडा तो आसूंक जाय. रातचो हांव एका फ्रेंडा बरोबर जेवणाक भायर वतलों. फाल्यां सकाळीं णवांक हीच टॅक्सी घेवन यो.

तुवें आयज सांजचो म्हाका मेळपाची गरज ना,'' अशें म्हणून धिल्लनाक सविस्तरपणान आदेश दिवन सर्वानंद विसव घेवंक हॉटेलांत गेलो. आड पडचे पयलीं लक्ष्मणसिंगाक फोन करून ताणें ताचो पत्तो घेतलो आनी साडेसातांक सुमार ताका भायर सरून राव म्हणून सांगलें.

साडे सातांक कौटिल्य मार्गा म्हऱ्यांत, सायडीक आशिल्ल्या कौटिल्य लेनींत लक्ष्मणसिंगाच्या फ्लॅटार वचून ताका घेवन सर्वानंद ताज मानसिंग हॉटेलांतल्या चायनीज रेस्टोरंटांत गेलो. सर्वानंदाक पांच नखेत्री हॉटेलांतलें जेवण आवड नाशिल्लें. पूण लक्ष्मणसिंगाक तसलें जेवण आवडटालें. दोगांयकूय ब्लॅक लेबलाचो एक-एक लार्ज पेग आनी चिकन कश्मीरी कबाब ऑर्डर करून सर्वानंदान विशय सुरू केलो. सदांच्यो टायम पास गजाली तांणी टॅक्सींत बसतकूच केल्ल्यो.

सर्वानंदान ताका महेश प्रभूचो विशय परतून सविस्तरपणान सांगलो. मिनिस्टराक सांगिल्लें तेंच ताणें तिखट-मीठ लावन लक्ष्मण सिंगाक सांगलें. महेश प्रभूच्या रिकॉर्डा विशीं लक्ष्मण सिंगान मद्रासच्या सी.बी.आय्. ऑफिसांत चवकशी केल्ली. तो बरो ऑफिसर, ताच्या आड कसलीच कागाळ ना, उरफाटें सगले ताची तुस्त करतात असो रिपोर्ट लक्ष्मण सिंगाक मद्रासच्या सी.बी.आय्. ऑफिसांतल्यान आयलो. महेश प्रभूचेर कसलेंय तरी व्हड बगलांट घाल्या बगर आनी त्या बगलांटाचो थोडो तरी पुरावो मेळ्ळे बगर ताका मुरगांवच्यान हालोवपाक कुस्तार जातलें अशें लक्ष्मण सिंगान सर्वानंदाक हाच्या पयलीं सांगिल्लें तेंच आतांय बी सांगलें. व्हडलें बगलांट म्हणल्यार कसलें बगलांट अशें सर्वानंदान लक्ष्मण सिंगाक विचारलें. व्हड भ्रश्टाचाराचो, बायलां कडेन अनैतिक संबंध दवरिल्ल्याचो, थळाव्या राजकारणांत लुडबूड केल्ल्याचो आरोप वा सरकार, उद्देजक आनी राजकी फुडारी हांणी केल्ली पोर्ट मिनिस्टर आनी प्रधान मंत्र्या कडेन महेश प्रभूक पोर्टांतल्यान हालोवपाची मागणी! ही मागणी एकूच फावट केल्यार कांय जायना. परतू परतून तांच्या दाराची बॅल मारचीच पडटली. लक्ष्मण सिंगान कांय दिसां आदीं फोनाचेर सांगिल्लें तेंच ताका परतून सांगलें.

सी.बी.आय्. कडेन चेअरमॅना आड निनांवीं कागाळी गेल्यार सी.बी.

आय्. चवकशी करतली काय ना अशें सर्वानंदान विचारतकूच लक्ष्मण सिंगान म्हायती दिली ती अशी:

अमकी गजाल अमके अमके कडेन केल्या आनी जी गजाल कायद्या प्रमाणें करूंक जायना वा जी गजाल केल्यार भ्रश्टाचार म्हणूं येता आनी जे गजालीचे डॉक्युमेंटां वरवीं वा प्रत्यक्ष पळोवन पुरावे मेळूं येतात अशा कागाळींचेर सी.बी.आय्.कडल्यान चवकशी सुरू जांव येता. जे गजालींचे पुरावेच नासतात त्यो गजाली सी.बी.आय्. चड करून हातांत घेना. एक फावट चवकशी सुरू जातकूच, चवकशी ज्या सरकारी वा निमसरकारी अधिकाऱ्याचेर जाता तो सकयल्या वा मदल्या पावंड्याचो अधिकारी आसल्यार वेल्या लेवलीचो राजकीय दबाव नासता. पूण वेल्या पावंड्यावेल्या अधिकाऱ्या आड चवकशी सुरू करपा खातीर वा सुरू करतकूच राजकी दबाव येवंक शकता. सी.बी.आय्. मागीर कितें करता तें वरिश्ट अधिकाऱ्याच्या व्यक्तित्वाचेर निंबून आसता. सी.बी.आय्. विशीं दिल्ली म्हायती व्हडलिशी उपकारा पडपाची न्हय हें सर्वानंदाक समजलें. ब्लॅक पयशांचो मार्ग रोखडोच धरूंक जाय अशें सर्वानंदाक पयलीं दिसतालें तें आतां ताका सामकें पटलें.

दुसरो लार्ज पेग अर्दो पिवन जातकूच सर्वानंदान लक्ष्मण सिंगाक जाय तें जेवण ऑर्डर कर म्हणून सांगलें. चिकन काश्मीरी कबाब चड खाल्ल्यान व्हडलीशी भूक आतां उरूंक ना अशें म्हणून लक्ष्मण सिंगान स्वीट ऍण्ड सावर चिकन आनी हाका नूडल्स मागयलीं. वांगडा व्हेजीटेबल स्प्रींग रोल्स् हाड म्हूण सर्वानंदान वेटराक सांगलें.

"सर, हांगां आमी सायकल रिक्षा विकनात, फकत मर्सिडीस बेंझ विकतात! स्प्रींग रोल्स् हें सायकल रिक्षा भशेन गरिबांचें खाण!" त्या वेटराक कवी जावपाची इत्सा आशिल्ली, पूण तो फकत वेटरूच जावंक पावलो. तो केन्ना केन्नाय गिरायकांक असली गुगली बोलिंग करतालो. सर्वानंदान मागीर फ्रायड् बाम्बू शूट्स् मागयले. हालींच चीनाक वचून आयिल्ल्यान बाम्बू शूट्स् खावपाची ताका रूच लागिल्ली. 'बाम्बू शूट म्हणल्यार किल्ल'. पूण किल्लाक बाम्बू शूट्स् म्हणल्यार सर्वानंदाक तो चड रुचीक लागतालो.

"टॅक्सींत चिनांतल्यान हाडिल्ली एक वेताची धाकलीशी बॅग दवरल्या.

तातूंत तुजे खातीर हाडिल्ली एक ब्लॅक लेबल आनी एक शिवास रिगल आसा. त्या भायर ईव्हस् सां लॉरां मॅन्स परफ्यूम, दोन धाकले बोस स्पीकर आनी एक पार बोस इअर फोन्स आसात. गुलाम अली आनी मेहदी हसनाचें संगीत आयकतना तूं चड तल्लीन जातलो.'' सर्वानंदान लक्ष्मण सिंगाक जेवतां जेवतां सांगलें. उपरांतचें अर्द वर सुमार तांणी गुलाम अली, मेहदी हसन आनी हेर भारतीय आनी पाकिस्तानी गझल गावप्यांचो नियाळ घेतलो, आनी फुडले फावटीं सर्वानंद दिल्लीक येतकूच बोस स्पीकर लावन, शिवास रीगल उक्ती करून लक्ष्मण सिंगाच्या फ्लॅटांतूच गझलांत बुडून वचपाचें तांणी थारायलें.

लक्ष्मण सिंगाक ताच्या फ्लॅटांत पावोवन वेताची बॅग ताच्या हातांत दिवन साडे धा वरांचेर सर्वानंद आपणाल्या हॉटेलांत आयलो. हॉटेलांत पावल्या बरोबर ताणें धिल्लनाक फोन करून आयतारचे फ्लायटीची तिकेट शेनवारा दीस करूंक लायली. ज्या कामा खातीर तो आयिल्लो तें काम जाल्लें, म्हणटकूच आनीक एक दीस दिल्ली रावपांत अर्थ ना, अशें ताणें थारायलें.

***

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सातांक सुमार धिल्लनान फोन केलो आनी आपूण टॅक्सी घेवन धा वरांचेर हॉटेलांत येतां म्हूण सांगलें. फ्लायट बारांक आशिल्ली. धा वरांचेर भायर सरून पावणे इकरांक सुमार सर्वानंद दिल्ली विमानतळाचेर पावलो. इंडियन ऍरलायन्साचें विमान सारकें बारा वरांचेर सुटलें. सदां भशेन उजवे वटेनच्या पयले लायनींत जनेला म्हऱ्यांतलो सीट ताका मेळ्ळो. फाटल्यान तकली तेंकोवन दोळे धांपना फुडें ताच्या विचारांचीं चक्रां सुरू जालीं. पयलींच्या बेता प्रमाणें तो आयतारा दीस गोंयांत परतुपाचो आशिल्लो. आतां तो एक दीस पयलीं पावतलो म्हणटकूच रामकृष्ण आनी विष्णूक सोमारा वांट्याचे आयताराकूच आपोवपाचें ताणें थारायलें. भाटकार सगले बेकार बशिल्ले आसतात आनी येदें व्हडलें भाट विकपाचीं उलोवणीं करपाक तांची केद्याय वेळार खंयूंय वचपाची तयारी आसतली अशें येवजून सर्वानंदाक मात्शें हासूंक आयलें.

दोनापावलाच्या पठाराचेर भाटांचो प्रेस कितलो आसता तें दोन-तीन

ब्रोकरांक विचारून थारांवचे पडटलें आनी तें रामकृष्ण आनी विष्णू कडेन उलोवचे पयलीं करचें पडटलें. कॅशाचें प्रमाण कितलें आसतलें काय, हाचेर विचार करतां करतां ताचो दोळो लागलो. एका वरान सुमार ''देवियों और सज्जनो......'' तीं आतां जेवण घेवन येतलीं, अशें म्हणून एॅअर हॉस्टेसीन स्पीकराचेर सांगलें. सर्वानंदान आपल्याक शिवराक जेवण हाडूंक लायलें. सदचे भशेन बेगडींत गुठलायिल्लो चपातेचो धाकलोसो रोल, हॉटकेसींत मदीं शीत, एके वटेन बटाटाची सुकी भाजी आनी दुसरे वटेन पालक पनीर, एका इल्ल्याशा बावलांत सॅलेड, तसल्याच दुसऱ्या बावलांत शेवयांची खीर, पापड आनी लोणचें सगलें एके व्हड प्लास्टीक ट्रेचेर वेवस्थीत मांडून हाडिल्लें.

जेवण जातकूच इल्लीशी च्या घेवन सर्वानंदान हिंदुस्थान टायम्स चाळूंक सुरवात केली. तो चाळटां चाळटां ताका परतून लकणी येवपाक लागली. मागीर तो न्हिदलो तो थेट अडेज वरांचेर दाबोळे विमानतळार पावतकूच जागो जालो. चोडणेकार ताका व्हरूंक विमानतळार आयिल्लो. सर्वानंद सरळ आपणाल्या ऑफिसांत गेलो. रामकृष्ण आनी विष्णू दोगूय ह्या वेळार आड पडिल्ले आसतले देखून चार वरां उपरांत तांकां फोन करपाचें सर्वानंदान थारायलें, आनी बोल्सांतल्यान आपणाली धाकली डायरी काडून तो ब्रोकरांचे नंबर सोदूंक लागलो.

ब्रोकरां भितर पुराय विस्वास दवरपा सारको एकलोय नासता अशें आपल्या अणभवांतल्यान तो शिकिल्लो. तांतल्या तातूंत चड विस्वासू म्हणल्यार शाबाजी. शाबाजी हो मूळ केरळचो. भारतीय सैन्या वांगडा एकोणीसशें एकसश्टांत तो गोंयांत आयिल्लो आनी रोखडोच स्वेच्छा-निवृत्ती घेवन गोंयांत स्थायिक जाल्लो. सुरवेक ताणें धाकलीं धाकलीं घरां बांदपाचो उद्देग आनी मागीर जमीन विक्रींत ब्रोकराचो धंदो सुरू केलो. सर्वानंदान ताका मदीं घालून खूबशीं भाटां विकतीं घेतिल्लीं. आतां हे फावटीं खरें म्हणल्यार ताका ब्रोकराची गरज नाशिल्ली, कारण रामकृष्ण आनी विष्णू थेट ताच्या म्हऱ्यांत आयिल्ले आनी तांचे कडेनूच तो उलोवणीं करपाचो आशिल्लो. पूण शाबाजी कडेन प्रेसाची कल्पना घेवं येता अशें ताणें येवजिलें. शाबाजीक ताणें फोन केलो. शाबाजी आवाजा वेल्यानूच ताका वळखलो. एकामेकांची

खबर घेतकूच भाटांच्या प्रेसा विशीं सर्वानंदान ताचें मत विचारलें.

"दोनापावलच्या पठारा वेल्यान एके वटेन जुवारी न्हंय आनी अरबी समुद्र आनी दुसरे वटेन मांडवी न्हंय, मिरामार दर्या देग, राजभवन, आग्वाद आनी अरबी समुद्र हे देखावे दिसतात. देखून हांगा जमनीचो प्रेस चड आसा. टुरिजमाक तेजी आयिल्ल्यान व्हड व्हड भाटांक स्केअर मिटराक दोन-तीन हजार रुपया रेट येवं येता. धाकले प्लॉट पांच-स हजार रुपया मेरेन हालींच मुंबय, दिल्लीच्या लोकांनी विकते घेतल्यात. व्हड-व्हड जमनीक ब्लॅकाचें प्रमाण कितलें आसता अशें म्हणून सर्वानंदान विचारतकूच उण्यांत उणे तीस आनी चडांत चड चाळीस अशें प्रमाण चलता अशें शाबाजीन सांगलें.

शाबाजी कडेन उलोवन जातकूच सर्वानंदान रामकृष्णाक फोन करून दुसऱ्या दिसा साडे धा वरांचेर आपणाल्या ऑफिसांत आपयलो. आपूण एक दीस पयलीं गोयांत परतल्ल्यान सोमारा वांट्याचें आयताराकूच मेळुंया अशें ताणें रामकृष्णाक सांगलें.

गोवा दिया वर्ल्ड ट्रान्शीपर बोटीक पोर्टांत भितर घेतली ना म्हूण सर्वानंद रागान सामको तांबडो जाल्लो. महेश प्रभूक कसोच सोडपाचो ना असो ताणें निर्धार केलो. चोडणेकाराक फोन करून ताणें कॅप्टन पेरेराक फोन लाय म्हूण सांगलें. कॅप्टन पेरेरा बोटीचेर आशिल्लो आनी फोन खूब खरखरतालो देखून दामोदरदास पटेलाक फोन लावन दी अशें सर्वानंदान सांगलें. दामोदरदास पटेल रोखडोच फोनार आयलो आनी ताणें बोटी विशयींची गजाल सांगली. ट्रॅफिक मॅनेजरान सगलीं सर्टिफिकेटां बी पळयलीं पूण बोट फाटलीं आठ वर्सां खंय खंय आशिल्ली आनी कसलें काम करताली हाचेर मागिल्ली तितली म्हायती मेळूंक नाशिल्ल्यान तांणी बोटीक भितर घेतली ना. कोची आनी मंगळूर पोर्टांनूय बी रिपोर्ट धाडल्यात खंय पूण रिपोर्टांत कितें बरयलां तें आमकां खबर ना. कॅप्टन पेरेराक आपल्या कडेन जाता तितल्या बेगीन उलोवंक लाय म्हूण दामोदरदास पटेलाक सांगून सर्वानंद घरा गेलो.

***

बिरेस्तारा दीस पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी तांचे वांगडी वतकूच

सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर थोडो वेळ बसून रावले.

"सर, तुमी तांकां बरे हाताळ्ळे. तुमकां परबीं!" सूर्यनारायणनान हांसत महेशाक शाबासकी दिली.

"हांवें कांयच हाताळूंक ना. तुमी दोगांयनीय खाण बरें रुचीक करून शिजोवन हाडिल्लें. तें हांवें खालें. परबीं तुमकां दोगांकूय पयलीं येवंक जाय."महेशान तांकां कावंटर शाबासकी दिली.

"त्या बाराय स्टाफांनी त्या मसुद्या प्रमाणें पत्रां दितकूच ती फायल मागीर हांव घेवन येतां! एक गजाल बरी जाली म्हणटात ती तांकां कशे हाताळपाचे हें तुमकां खबर आसा म्हणपाचें तांकांच न्हय, तर पोर्टा कडेन संबंद आशिल्ल्या सगल्यांक कळटलें."अभ्यंकरान उठ्ठा आसतना महेशाची आनीक इल्ली तुस्त केली.

"थँक्यू, थँक्यू"म्हणत महेशान फोन उखल्लो आनी चीफ सेक्रेटरीक फोन दी म्हूण बाप्तिस्ताक सांगलें. सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर थँक्यू सर, थँक्यू सर म्हणत भायर सरले. दोन मिनटांनी बाप्तिस्त लायनीर आयलो. महेशान फोन उखलून हॅलो म्हणलें. फोनाच्या दुसऱ्या तोंकाक चीफ सेक्रेटरीची पी.ए. उलयली आनी तिणें "एक मिनिट सर" म्हणून चीफ सेक्रेटरीक कनॅक्शन दिलें. संप जावंचो ना! कामगारांच्या फुडाऱ्यां कडेन उलोवन आपणें आनी हेर अधिकाऱ्यांनीं प्रोब्लेम सोडयले. परवानगी घेतल्या बगर केन्नाच ऑफिसांतल्यान भायर सरून वचचे नात अशें म्हूण ऑफिस टायमांत निदर्शनांत भाग घेतिल्ले बारा जाण तशें बरोवन दितले. कामगार फुडारीच तांकां तो मसुदो दितले. तीं पत्रां येतकूच आपूण आनी आपले अधिकारी आदीं मान्य केल्ल्या प्रमाणें ऑर्डर काडटले, अशें महेशान चीफ सेक्रेटरीक सविस्तरपणान सांगलें.

"संप जावंचो ना ही बरी खबर. तुवें प्रसंग बरो हाताळ्ळो म्हूण तुका परबीं. मुख्यमंत्र्याक फोन करून हांव ही खबर सांगतां. तूं पणजे केन्नाय येतलो तेन्ना मुख्यमंत्र्याक मेळ,"अशें म्हणून रामदास शर्मान फोन दवरलो.

पांच जावन गेल्लीं. महेश बंगल्यार वचूंक भायर सरतालो. इतल्यांत फ्लाविया भितर सरलें. नेर्वोजशें दिसतालें. महेशान खुणेनूच ताका कितें काय

म्हूण विचारलें.

“सर, सांगतां म्हूण रागार जांव नाकात. कॉन्फिडेन्शियल कितेंय उलयता आसतना बाप्तिस्ता हुजीर उलोवं नाकात!” फ्लावियान दारा वटेन पळयत पळयत कचरत कचरत सांगलें.

“कित्याक गो? तो म्हजो पी.ए. मुगो! तुमकां तिगांकूय चेअरमॅन कितें करता तें खबर आसूंक जाय!”महेशान व्हडल्यान हांसत फ्लावियाक गोंदळांत उडयलें.

“नॉट लायक दॅट सर! मागीर केन्नाय दीपा आनी हांव मेळून तुमकां सांगतात. टेक केअर सर,”अशें म्हणून फ्लाविया आपल्या रुमांत गेलें.

फ्लावियाक निवृत्त जावंक तीन वर्सां आशिल्लीं. खूब काळान पोर्टाक एक गोंयकार चेअरमॅन मेळ्ळा म्हणटकूच ताका कोणेंच त्रास दिवंचो न्हय अशें फ्लावियाक दिसतालें. इतलेंच न्हय, तर कोणूय ताच्या आड पुलितिकां करता असो दुबाव मारल्यार आपणें चेअरमॅनाक सादूर करूंक जाय अशें ताका दिसूंक लागिल्लें.

बाप्तिस्त कसलीं पुलितिकां करता काय, “फ्लावियान टेक केअर” कित्याक म्हणलें हाचेर येवजीत महेश भायर सरलो. जगदीश ताका गाडये मेरेन पावोवंक आयलो.

“सायबा, तुमी ह्या लोकांक बरीच बुद्द शिकयली. फाटलीं पांच वर्सां ते आपुणूच चेअरमॅन जाल्ले भशेन वागताले,” जगदीशान प्रशासनांत कितें आनी कशें चल्लां हाचेर आपणालें मोलादीक मत दिलें.

महेश बंगल्यार पावतकूच गाडयेंतल्यान देंवता आसतना थंय हातांत सान्न घेवन उबी आशिल्ली लक्ष्मी ताका गाळी मारपाक लागली.“येयलो पळय, एकलो वयता, दुसरो येता, दुसरो वयता, तिसरो येता. सगलेच चोर! हो गोंयकार! हो व्हडलो चोर!”

सय्यद वॉचमॅनान“शू वोग्गी, शू वोग्गी!”अशें म्हणून दोळे मोठे करून तिका दटावपाचो यत्न केलो. पूण ती बडबडत रावली आनी महेश भितर वतकूच वग्गी रावून एकाच जाग्यार सान्न मारीत रावली.

“पणजेच्यान ‘सारी द गोवा’चो मालक बन्सीलाल हाणें फोन केल्लो.

वीस मेक खंय ताणें एक व्हडलो सुवाळो दवरला. नवे पद्दतीच्यो आनी डिझायनाच्यो पावसांत न्हेसपा सारक्यो पोलियास्टर आनी कॉटन मिक्स साडयांची विक्री तो सुरू करतलो. पयली साडी म्हज्या हातांतल्यान गिरायकाक वचची अशें ताका आनी ताच्या स्टाफाक दिसता. फाल्यां तो फोन करता तेन्ना हांव येवंक शकतां काय ना तें ताका सांगूंक जाय,'' मीरान महेशाक सांगलें.

''आतां तुका असलीं जायतीं आमंत्रणां येतलीं. तुवें गेल्यार जाता, पूण ताणें कितेंय भेटवस्त दिल्यार ती घेवं नाका. हेरां वांगडा सादी च्या बी घेतल्यार जाता. आमची प्रायवेट गाडी घेवन वचचें पडटलें,''महेशान सल्लो दिलो. च्या घेवन, कपडे बदलून महेश ऑफिसांतल्यान आयिल्ल्यो त्यो फायली घेवन बसलो.

पांच मिनटांनी वरांडावेलो फोन वाजलो. कोण तरी चेअरमॅनाकडेन उलोवंक सोदतालो. हळडीपुरान महेशाक इन्टरकॉमाचेर फोन दिलो. दिल्लीच्यान जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रा उलयतालो.

''सर, हांव जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रा उलयतां. संपाचें कितें जालें तें तुमकां विचार म्हूण सेक्रेटरीन म्हाका सांगलां,''मिश्रान सांगलें.

''मिश्रा, संप जावंचो ना. आमी युनियना कडेन उलयले आनी प्रशासनाक आनी युनियनाक, दोगांकूय मान्य आशिल्ली अशी मदली वाट सोदून काडली. तपशिलवार रिपोर्ट मागीर धाडटां!''महेशान मिश्राक सांगलें.

''ओके सर, सेक्रेटरी आतां भायर सरला. फाल्यां सकाळीं ताका सांगतां. गुड नायट सर!''अशें म्हणून मिश्रान फोन दवरलो.

आनीक कांय वेळान सज्जन केंकऱ्याचो फोन आयलो. महेशान ताका सविस्तरपणान कितें कितें जालें तें सांगलें. सज्जनान ताका परबीं दिलीं आनी गुड नायट म्हणून फोन दवरलो. मुख्य विशय सोडून बेठ्योच फोनार खबरो करपाची सज्जनाक संवय नाशिल्ल्यान महेशाक तें बऱ्याक पडटालें.

***

बाप्तीस्त आनी गुणाजी स वरांचेर सुमार इरमांव बारांत पावले. सदां भशेन पीटर स्कॉटाचो एक घोंट मारतकूच बाप्तीस्तान आनी गुणाजीन पोटांत

चलिल्ल्या घडणुकांचो नियाळ घेतलो. गुणाजीच्या युनियनान चेअरमॅनाक इतल्या सोंपेपणान सोडपाचो न्हय, एक दीस तरी संप करून आपलो पावर दाखोवपाचो. ते बारा स्टाफ पत्रां दितले अशें म्हूण युनियनाच्या लिडरांनी मानून घेवंक जायनाशिल्लें, अशें खर मत बाप्तीस्तान गुणाजीक उलोवन दाखयलें. युनियनांच्या फुडाऱ्यांच्यो आपल्या भितर जाल्ल्यो गजाली गुणाजी केन्नाच बाप्तीस्ताक सांगनाशिल्लो. बाप्तीस्त ताचो इश्ट, पूण तो सरळ मनीस न्हय हें गुणाजीक खबर आशिल्लें. संपाचो बेत युनियनान कित्याक रद्द केलो, पिटर डिमेलो आनी हेरांचें चेअरमॅना कडेन जाल्लें उलोवणें हे गजालीचेर गुणाजी कांयच उलयलो ना. जें जालें तें जालें, आतां ताचेर उलोवन अर्थ ना अशें गुणाजीन बाप्तीस्ताक सांगलें, आनी बाप्तीस्त सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टराक जेवणाक व्हरपाचो आशिल्लो, ताचें कितें जालें काय म्हूण गुणाजीन विचारलें. आपणाल्या तोंडा वेली निर्शेणी लिपोवपाचो यत्न करीत बाप्तीस्तान त्या जेवणाचो रिपोर्ट दिलो.

सात हजार दोनशें रुपया बील जालें. आपणें तें कार्डाचेर फारीक केलें. आपूण त्या बिलाचे आनी मर्सिडीस टॅक्सीचे पयशे दोगा ए क्लास कॉन्ट्रॅक्टरां कडल्यान घेतलों. बिलां फारीक करपाक तांचे कडल्यान पयशे घेवपाची ऑर्डर चेअरमॅनान दिल्या अशें आपूण तांकां सांगतलों; सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टर बरो खूश जाल्लो, पूण चेअरमॅनाक भ्रश्टाचाराच्या कसल्याय लफड्यांत घुसपायतलो जाल्यार आनीक कांय म्हयने तरी वचूंक जाय, इन्स्पेक्टर आनीक स म्हयन्यांनी मुरगांवां येवन चेअरमॅनाक घुसपावपाचो यत्न करतलो असो रिपोर्ट बाप्तीस्तान दिलो.

चेअरमॅनाचे बायलेक म्हारग साडी दिवपाचो प्रोजेक्ट फुडें सरता. सारी द गोवाच्या, मालकान, बन्सीलालान, मॅडमीक फोन केला आनी मॅडमीन फाल्यां फोन कर म्हूण ताका सांगलां, होवूय रिपोर्ट बाप्तीस्तान गुणाजीक दिलो. चेअरमॅनाक त्रासांत घालपाचे आनीक कसलेय प्रोजेक्ट चालू केल्यात काय ना म्हूण गुणाजीन विचारतकूच बाप्तीस्तान संभाजी विशीं म्हायती दिली. संभाजी कितलीं वर्सां चेअरमॅनाची गाडी चलयता अशें दोन-चार दिसां आदीं चेअरमॅन अभ्यंकराक विचारतालो; ताचे वेल्यान संभाजीक तो

दुसरे कडेन घालतलो काय दिसता. हाचे पयलीं ताणें संभाजीक तापोवन काडिल्लो म्हणटकूच संभाजीय बी ताचेर पिकार आसा. चेअरमॅनान केन्नाय स्टाफ कार आपणाल्या पर्सनल कामां खातीर वापरल्यार लॉगबुकाचेर उणी मायलेज बरोवन दवर अशें आपणें ताका सांगलां आनी पांच-स फावटीं अशी उणी मायलेज बरयतकूच मागीर आपूण सी.बी.आय्.क पत्र बरयतलों अशें बाप्तीस्तान सांगलें.

फुडलो एक म्हयनो आपूण सुटयेर आसतलों, आपणाले भाचयेचें सावंतवाडी लग्न आसा. तिका बापूय नाशिल्ल्यान आपणाकूच सगलें करचें पडटलें अशी म्हायती गुणाजीन बाप्तीस्ताक दिली.

संपाचो विशय काबार जाल्ल्यान गुणाजी कडेन चर्चा करपा सारकें कांय नाशिल्लें आनी सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टराचो प्रोजेक्ट आपल्याक जाय तसो फुडें सरलो ना म्हूण बाप्तीस्तूय मात्सो निर्शेल्लो. एका पेगा वांगडा चर्चाय बी सोंपोवन दोगूयजाण भायर सरले. भायर सरतां सरतां बार्राच्या गल्ल्याचेर गुणाजीक फोन आयलो. रोखडोच युनियनाच्या ऑफिसांत यो, म्हत्वाच्या विशयाचेर उलोवंक जाय अशें पिटर डिमेलोन ताका सांगलें. ओके म्हणून गुणाजी युनियनाच्या ऑफिसांत आनी बाप्तीस्त आपल्या घरा गेलो.



## भाग 16

**दुसऱ्या** दिसा सकाळीं सारक्या णव वरांचेर महेश ऑफिसांत पावतकूच ताणें आगियाराक स्टाफ काराचो लॉगबूक घेवन यो म्हूण सांगलें. फाटल्या आयतारा मडगांवां गेल्लीं तेन्नाचे प्रायवेट ट्रिपीची मायलेज सारकी बरयल्या काय ना तें महेशाक पळोवंक जाय आशिल्लें. थंय फकत ''पन्नास किलोमिटर, चेअरमॅन्स प्रायवेट'' अशें बरयिल्लें. महेशाच्या गणिता प्रमाणें ती मायलेज सादारण अंयशीं आनी णव्वद किलोमिटर हांचे मदीं आसूंक जायआशिल्ली. संभाजीन ही मायलेज आपणाक सांगिल्ली देखून आपणें तशी बरयल्या अशी आगियारान म्हायती दिली.

मुरगांव सड्यार सावन मडगांवच्या घोगळ वाठारांत वचून येवपाक कितले किलोमिटर जावंक जाय रे? अशें म्हूण विचारतकूच आपूण कळंगुटचो, आपणाक हेवटेनची मायलेज सारकी खबर ना, देखून संभाजीन सांगलें तशें आपणें बरयलें अशी आगियारान जाप दिली. संभाजीक घेवन यो असो महेशान आदेश दिलो. इतले म्हणसर बाप्तीस्त भितर आयलो आनी कोणें कोणें अपॉयंटमेंट मागला तांचीं नांवां महेशाक तो सांगूंक लागलो.

स्टेट बँक, इंडियन बँक, कॅनरा बँक हांच्या मॅनेजरांनी वेगवेगळे अपॉयंटमेंट मागिल्ले. त्या दिसा सांजेच्या तीन ते चार वरां मदीं पंदरा-पंदरा मिनटांच्या अंतरान महेशान तांकां अपॉयंटमेंट दिले. फायनान्शियल ऍडवायझर आनी सेक्रेटरी फायलींचेर चर्चा करूंक येवंक सोदतात; केन्ना आपोवपाचें अशें बाप्तीस्तान विचारलें. धा वरांचेर फायनान्शियल ऍडवायझर आनी साडे धांक सेक्रेटरीक आपय म्हूण महेशान सांगलें. बाप्तीस्त वतकूच दीपा भितर

आयलें आनी मद्रास, बेंगळूर आनी वेगवेगळ्या पोर्टांतल्यान आयिल्लीं आमंत्रणां ताणें वाचून दाखयलीं.

मद्रास आनी बेंगळूरच्यान आय्.ए.एस्. वांगड्यांच्या लग्नांच्यो सिल्वर जुबिली, हेर कांय वांगड्यांच्या भुरग्यांचीं लग्नां, महेशाच्या हाता सकयल काम केल्ल्या अधिकाऱ्यांच्या भुरग्यांचीं लग्नां हांकां त्या त्या नंबराचे टेलेग्राम धाडपाचे, देवळांतल्या आमंत्रणांक देव बरें करूं म्हणपाचें अशें महेशान सांगलें आनी दीपा वतकूच त्या दिसाच्या वर्तमानपत्रांनी संप रद्द केल्ल्याची खबर कशी आयल्या तें ताणें सूर्यनारायणनाक फोनाचेर विचारलें. आपूण तांबड्या पेनान मार्क करून सगले पेपर अर्द वरा भितर धाडटां अशें सूर्यनारायणनान सांगलें.

संभाजी आयला अशें म्हूण बाप्तीस्तान फोनार सांगलें. "भितर धाड" अशें महेशान सांगतकूच आगियार आनी संभाजी दारार मारून भितर आयले. गाडयेचो स्पिडो मिटर चलनाशिल्लो देखून आपणें अदमासान पन्नास किलो मिटर म्हूण सांगिल्ली असो बचावाचो मुद्दो संभाजीन मांडलो. स्पीडोमिटर रिपेअर करून कित्याक घेवंक ना अशें विचारतकूच "गाडी फ्री नाशिल्ली" अशी जाप संभाजीन दिली. स्पिडो मिटर सारको करूंक कितलो वेळ लागता काय म्हूण विचारल्यार "तें वर्कशॉपाक विचारचें पडटलें" अशी उडवाउडवेची जाप संभाजीन दिली. पन्नास किलोमिटर खोडून ते णव्वद किलोमिटर म्हूण बरय अशें आगियाराक सांगून महेशान तांकां वयार केले.

फ्लावियाक फोनाचेर आपोवन महेशान ताका बस, आनी नोट बरोवन घे म्हूण सांगलें: संभाजीक स्टाफ कारा वेलो काडून दुसरे कडेन घालपाचो; दुसरो खंयचोय प्रामाणीक ड्रायवर स्टाफ काराक घालचो; चेअरमॅनाच्या बंगल्या फाटल्यान कंपाउंडा भितर आशिल्ले दोनूय स्टाफ क्वॉर्टर्स फुडल्या आठवड्याच्यान बंद दवरपाचे. संभाजीक हेर ड्रायवरां वांगडा पोर्टाचो फ्लॅट दिवपाचो. आयज सावन बंगल्याच्या कंपाउंडांत बस दवरूंक मेळची ना अशें ताका सांगपाचें. बंगल्याच्या कंपाउंडांत सान्न मारपी लक्ष्मी वावराडेची बदली करून तिका आनीक खंयींय घालपाची आनी आमचो एक मॅडिकल बोर्ड नेमून तिची मानसिक स्थिती तपासपाची. ती तकलेन सारकी ना जाल्यार कितें करपाचें तें मागीर थारावपाचें. हो नोट सेक्रेटरीक धाडपाचो. नव्या ड्रायवराची ड्युटी आयज दनपरां हांव जेवंक वतलों तेन्नाच्यान सुरू जावंक जाय, हें सगलें

फ्लावियान शॉट हॅण्डान बरोवन घेतलें. फ्रान्सीस बरो प्रामाणीक ड्रायवर अशें म्हूण फ्लावियान वतां वतां सुचयलें. त्यो सगल्यो गजाली सेक्रेटरी पळयतलो अशें महेशान सांगतकूच फ्लाविया थँक्यू सर म्हणून गेलें.

त्या दिसाचीं वर्तमानपत्रां संतोशान मेजाचेर हाडून दवरिल्लीं. दुसऱ्या पानार तांबड्या पेनान खुणो केल्ल्यो संपाच्यो खबरो महेशान वाचल्यो. सगल्यो खबरो ताका जाय तश्योच आयिल्ल्यो.

अर्थ खात्याचो मुखेल रवींद्रन धा वरांचेर दारार मारून आयलो आनी गुड मॉर्निंग सर म्हणून बसलो. ताणें विशय सुरू करचे पयलींच उत्तर गोंयचो खासदार कृष्णा शेटये बारा वरांचेर सुमार येवंक सोदता आनी चीफ सिविल इंजिनीयर सदानंद देसाय एक अर्जंट फायल घेवन केन्ना येवं काय म्हूण विचारलां, अशें बाप्तिस्तान फोनार विचारलें. कृष्णा शेटयेक बारा वरांचेर यो म्हूण सांग आनी देसायाक सांजचो चारांक धाड अशें म्हूण सांगून महेशान ''आतां तुजो विशय सांग'' अशें रवींद्रनाक सांगलें.

''सर, दोन विशय आसात. पयलो विशय म्हणल्यार वेगवेगळ्या बँकांनी पोर्टाच्या पयशांची गुंतवणूक करपाचो आनी दुसरो विशय म्हणल्यार यू.डी. सीं. चे खाली आसात ते जागे भरपाचो. वेगवेगळ्या बँकांनी पोर्टाचे सुमार देडशें कोटी रुपया एका वर्सा खातीर गुंतोवन दवरिल्ले आसात. मे पंदरा तारखे उपरांत गुंतवणुकीचो काळ सोंपतलो आनी तो सगलो फंड एका वर्सा खातीर नव्यान गुंतोवचो पडटलो. वेगवेगळ्या बँकांच्या कळंतरांत व्हडलोसो फरक नासता. खंयचे बँकेंत कितलो फंड दवरचो तें चेअरमॅन थारायता,'' रविंद्रनान म्हायती दिली.

''सरकारी आस्थापनांचो पयसो सरकारी बँकांनींच दवरूंक जाय असो सरकाराचो आदेश आसा न्हय?'' महेशान विचारलें.

''हय सर, आमी सरकारी बँकांनींच दवरतात. पूण कितल्योशोच सरकारी बँको आशिल्ल्यान खंयचे बेंकेंत कितले पयशे दवरपाचे अशे प्रस्न येतात,'' --रविंद्रन.

''आपणाली बँक कितलें कळंतर दिता हें ते सगले कळयतात जातले! सगल्या बँकांचीं तुलना करून जी बँक चड कळंतर दिता ते बँकेंत पयशे दवरपाचे! पयशे आमकां रोखडेच खर्चाक नाका जाल्यार तीन वर्सां खातीर,

पांच वर्सां खातीर गुंतोवन दवरपाचे म्हणटकूच कळंतर चड मेळटलें,''
--महेश.

'' ओके सर, फोना वेल्यान तांचे कडल्यान म्हायती मागयतां. मागीर फायल तुमचे म्हऱ्यांत घेवन येतां.'' --रविंद्रन.

''फोना वेल्यान कित्याक? लेखी मागय. जितल्यो चड गजाली लेखी आसतात तितल्यो बऱ्यो. सगल्या बँकांचे लेखी प्रस्ताव येतकूच मागीर तांची तुलना करून तूं नोट बरोवन हाड, मागीर थारावया; आमकां खर्चाक जाय तितलो फंड दवरून उरिल्लो सगलो पयसो तीन आनी पांच वर्सां खातीर गुंतोवंक जाता. वर्सुकी कॅश-फ्लो विशींय बी म्हायती तुज्या नोटांत दी.'' महेशान आदेश दिलो.

''सर, दुसरो विशय आसा तो यू.डी.सीं.चे जागे भरपाचो. अकाउंट्स खात्यांत वीस एल्.डी.सी. आनी धा यू.डी.सीं.चे जागे आसात.ऑगस्ट अखेर मेरेन यू.डी.सीं.चे चार आनी एल्.डी.सीं.चे पांच जागे खाली जातले. यूडीसींचे जागे एल्.डी.सीं.क बढती दिवन भरपाचे म्हणल्यार आमी एल्.डी. सीं.चे णव जागे आनी यू.डी.सीं.चे चार जागे भरचे पडटले.'' -- रविंद्रन.

''जागे भरपाची प्रक्रिया खूब वर्सां चालिल्ली आसूंक जाय! आतां कितें प्रॉब्लेम जाला?'' महेशान विचारलें.

''प्रॉब्लेम आतां जावंक ना सर, खूब वर्सां सावन तो प्रॉब्लेम चलत आयला. फायनान्शियल ॲड्वायझर म्हूण हांव ह्या पोर्टांत तीन वर्सां फाटीं रुजू जालों. म्हज्या पयलीं अर्थ खात्याचो खंयचोच मुखेली चार्टर्ड अकावंटन्ट नाशिल्लो. अकावन्टस् खात्यांतल्या एल्.डी.सी. आनी यू.डी.सीं.चें गिन्यान आनी तांची काम करपाची तांक सामक्या सकयिल्ल्या पावंड्यार उरल्या आनी ती वाडोवपाची गरज आसा. अशें म्हाका दिसलें. एल्.डी.सीं.तल्यान यू.डी.सी. जावपाची तांक आसा काय ना तें पळोवपाक एल्.डी.सीं.ची परिक्षा घेवन तांचे बढते विशीं निर्णय घेवंचो अशें हांवें फाटल्या चेअरमॅनाक सुचयिल्लें. तशेंच वर्साक दोन-तीन फावट एल्.डी.सीं.क प्रशिक्षण दिवया अशेंय बी सुचयिल्लें. पिटर डिमेलोच्या युनियनान परिक्षेच्या प्रस्तावाक विरोध केलो आनी परिक्षा जावपाक ते कशेच दिवंचे नात अशी तांणी धमकी दिली. युनियनाक नाका जाल्यार आमी परिक्षा बी दवरूं नये, आसा तशेंच फुडें चलूं

दी अशें चेअरमॅनान म्हाका सांगलें. प्रशिक्षण बी आमी सुरू केलें, पूण ताचो व्हडलोसो फायदो जावंक ना काय दिसता. प्रशिक्षणा दिसा दोन फावटीं च्या आनी एक जेवणाची मेजवानी हातुंतूच चड टायम वता. जेवणा उपरांत चडसो स्टाफ बशिल्ले कडेन झेमो काडटा!'' रविंद्रनान आपणाली निर्शेणी उक्तायली.

''आतां तुजो प्रस्ताव कितें?'' महेशान हांसत विचारलें.

''नेमा प्रमाणें यू.डी.सी. पावंड्या खातीर बढती दितना जेश्टताय आनी काम करपाची तांक ह्यो दोनूय गजाली पळोवंक जाय. आयज मेरेन आमी फकत जेश्टतायेचेर निंबून बढती दियत आयल्यात. म्हाका दिसता, कामाची तांकूय बी आमी तपासून पळोवंक जाय आनी ते खातीर परिक्षा घेवंक जाय. युनियनान विरोध केल्यार तांकां योग्य तरेन हाताळचें पडटलें!'' -- रविंद्रन.

''ओके, तूं परिक्षा केन्ना घेवंक सोदता?'' --महेश.

''परिक्षेची तयारी करपाक एल्.डी.सीं.क टायम दिवंचो पडटलो. अभ्यास क्रम तयार करून नोटीस बोर्डाचेर लावंचो पडटलो. ऑगस्ट पंदरा पर्यंत परिक्षा जाल्यार त्या म्हयन्याच्या अखेर मेरेन बढत्यो बी दिवन जागे भरूं येता!'' --रविंद्रन

''तूं एक काम कर! गोवा पब्लिक सर्विस कमिशनाच्या मुखेल्या कडेन उलय. तांकां अभ्यासक्रम दी, टायमफ्रेम दी आनी पेपर काडप, तपासप आनी इंटरव्ह्यू घेवप हीं सगलीं कामां करून आमकां वेंचून काडिल्ल्यांचीं नांवां धाडप, हें सगलें काम तांकां दिवंक जाता. सरकारी ऑर्डर बी जाय म्हणल्यार हांव चीफ सेक्रेटरी कडेन उलयतां,'' महेशान सांगलें.

''तुमी सांगिल्ली प्रक्रिया एकदम बरी कारण थंय युनियनाक कोणाचेर चेपण हाडूंक मेळचें ना. परिक्षा आमी आमच्याच हॉलांनी घेवया. जी.पी. एस्.सी.कडेन तसो वेगळो हॉल ना!'' --रविंद्रन.

''ओके. तूं काम सुरू कर. आमी करपाचीं तीं कामां आमीच करूंक जाय. युनियनांक मेळत थंय लुडबूड करूंक दिवंक जायना!'' महेशान रविंद्रनाक सांगलें.

थँक्यू सर, अशें म्हणून रविंद्रन फायली घेवन गेलो.

सारको साडे धा वरांचेर अभ्यंकर दारार मारून भितर सरलो, आनी गुडमॉर्निंग सर म्हणत बसलो. गुडमॉर्निंग म्हणून महेश अभ्यंकर उलोवपाची

वाट पळोवंक लागलो.

"सर, विशय स्टाफाचे रिकामे जागे भरपाचो. जून अखेर मेरेन देडशें सुमार जागे आमच्या सगल्या खात्यांनीं रिकामे जातले. तातूंतले पन्नास सुमार बढत्यो दिवन भरपाचे आनी उरिल्ले सरळ जायराती दिवन घेवपाचे." अभ्यंकरान विशय मांडलो.

"इतले जागे रिकामे उर म्हणसर तुमी कित्याक रावले तर?" --महेश.

"चडशे जागे जेश्टतायेच्या आधाराचेर भरपाचे; पूण थंय लेगीत युनियनाचे लोक चेपण हाडटात. तांणी चेपण हाडल्यार चेअरमॅनूय मागीर, "कितेंय जाता जाल्यार पळयात रे"अशें अधिकाऱ्यांक सांगतालो पूण अधिकारी कायद्या आड वचून कांयच करूंक सोदी नाशिल्ले. देखून चेअरमॅन आनी युनियन एके वटेन आनी अधिकारी दुसरे वटेन अशी विचित्र परिस्थिती सगल्या खात्यांनी उप्राशिल्ली. हे आनी त्रास नाकाच म्हणून सगल्या खात्यांनी जागे भरपा संबंदींच्यो फायली तश्योच खणांत दवरिल्ल्यो. कांय दिसां आदीं तांणी त्यो फायली म्हजे कडेन धाडल्यो. हांव सगल्या प्रस्तावांचो सारांश एकठांय करून घेवन आयलां!" --अभ्यंकर.

"हे जागे भरपा खातीर खंयची प्रक्रिया तुमी आपणयतात? लिखीत परिक्षा काय मुलाखती काय दोनूय तरा, काय कांयच ना?" --महेश.

"कांयच ना सर, फकत तांची जेश्टताय पळयतात आनी बढत्यो दितात. जायराती दिवन जागे भरपाचे आसतात थंय जो गोंदळ जाता तो सांगपाचो न्हय. थळावो पंचायतीचो वांगडी धरून गोंयच्या मुख्यमंत्र्या मेरेन सगल्यां कडल्यान दिसरात चेपण येता. पिटर डिमेलोच्या युनियनाचे कांय वांगडी अर्जदारां कडल्यान "नोकरी दितां" म्हूण लांचूय बी घेताले अशें आयकूंक येतालें. खरें फट देव जाणा! जायरात वाचून अर्ज करपी लोकांक परिक्षा बी कांय नासता. सरळ इंटरव्ह्यू! इंटरव्ह्यू लेगीत आमीच घेतात. योग्यतायेचेर वेंचून काडपा खातीर नितळ अशी प्रक्रिया ह्या पोर्टान आपणायिल्ली म्हाका तरी याद ना." अभ्यंकरान उबगून सांगलें.

"म्हणटकूच आतां कितें करुंया म्हणटा तूं?" महेशान विचारलें.

"कसलीय तरी सिस्टेम घालून दिवंक जाय सर. तुमी इतलीं आस्थापनां चलयल्यांत. तुमीच सांगपाचें!" ------अभ्यंकर.

‘‘हांगाच्या पब्लिक सर्विस कमिशनाची हाच्या पयलीं तुमी केन्ना मजत घेतल्या?’’ --महेश.

‘‘हांव गेल्लीं पांच वर्सां पोर्टांत सेक्रेटरी आसां. हांवें कांय जी.पी.एस्.सी.ची मजत घेवंक ना.’’ --अभ्यंकर.

‘‘हांवें रविंद्रना कडेन ह्या विशयाचेर चर्चा केल्या आनी कितें करपाचें तें ताका सांगलां. तूं ताचे कडेन उलय आनी तुमी दोगूय वांगडाच पब्लिक सर्विस कमिशनांत वचून त्या अध्यक्षा कडेन उलयात. कितेंय प्रॉब्लेम जाल्यार हांव मागीर चीफ सेक्रेटरी कडेन उलयतां. खूब जागे भरपाचे आशिल्ल्यान काम चड पडटलें अशें म्हणून ते एकाद्रे ही जापसालदारकी घेवंक फाटीं सरत. तांणी कसलींय आडमेळीं तुमच्या मुखार हाडलीं जाल्यार तुमी तीं कुशीक काडपाचो यत्न करात. एक्सपर्ट, सुपरवायझर, पेपर काडपी, पेपर तपासपी हांकां फाव ती बिदागी आमी दिवंक जाता. तुमी पळयात कशें जाता तें; थोड्या दिसांनी कितें करपाचें तें थारावया.’’ महेशान फुडले कारवायचो आराखडो अभ्यंकरा मुखार मांडलो.

‘‘थँक्यू सर, आमी पळयतात!’’ अशें म्हणून अभ्यंकर भायर सरलो. अभ्यंकर भायर सरतकूच फ्लाविया टायप केल्लो नोट घेवन आयलें. महेशान त्या नोटाचेर नदर मारली, आपणें वाचिल्ल्याची खूण केली आनी नोट फ्लाविया कडेन परतून दिलो.

बारा वरांचेर कृष्णा शेटये येवपाचो आशिल्लो; तो मेरेन महेश दावे वटेन दवरिल्ल्यो फायली एक एक मुखार हाडून तांचेर आदेश दिवन उजवे वटेनच्या बॉक्सांत घालूंक लागलो. सवाय बारांक कृष्णा शेटये आनीक एकल्याक घेवन दारार मारून गुडमॉर्निंग म्हणत भितर येवन महेशा मुखार बसलो. महेशान उठून ताका आनी ताच्या वांगडा आयिल्ल्याक हात दिलो आनी चाली प्रमाणें भलायकेचे आनी हेर प्रस्न विचारून जातकूच महेशान तांकां कित्याक आयिल्ले काय म्हूण विचारलें.

‘‘जायत्या वर्सांनीं पोर्टाक गोंयकार चेअरमॅन मेळ्ळो म्हूण आमकां खोस जाल्या. तुमच्या बद्दल वाचिल्लें पूण तुमकां प्रत्यक्ष मेळपाची संद हाच्या पयलीं म्हाका मेळूंक नाशिल्ली. हो म्हजो इश्ट, सेवेरीन कॉस्ता, मयां आशिल्ल्या व्हड गोवा स्टील फॅक्टरीचो मालक. ते तरातरांचे वारांव करतात आनी गोंय

आनी सभोंवतणच्या वाठारांत चलिल्ल्या बांदकामां खातीर त्या वारावांक मागणी आसता. हें सगलें तुमकां सांगपाचें कारण म्हणल्यार पोर्टांत बांदकामां खातीर अडेज कोटींचे वारांव विकते घेवपाची प्रक्रिया चालू आसा आनी मयें फॅक्टरीची ऑफर सगल्यांत उणी आसून लेगीत पोर्ट बेळगांवचे एके फॅक्टरी कडल्यान ते वारांव घेवंक सोदता. तातूंत तुमी मात्शें लक्ष घालूंक जाय!'' कृष्णा शेटयेन महेशाक म्हायती दिली.

''फायल अजून म्हजे कडेन येवंक ना. सिविल इंजिनियरिंग खातें तो विशय हाताळटा. कॉन्ट्रॅक्ट अमक्याकूच दिवंक जाय. तमक्याकूच दिवंक जाय अशें म्हूण हांव प्रक्रिया चालू आसतना मर्दींच लुडबूड करपाक सोदीना, कारण तशें करप समा न्हय. फायल म्हजे कडेन येतकूच लेगीत चाली प्रमाणें आनी कायदे आनी नेमांक धरून खात्यान शिफारशी केल्ल्यो आसल्यार हांव त्यो मान्य करून घेतां. ना जाल्यार तांकां चुको सुदारूंक लायतां; तुमी अशें करात! तुमी पोर्ट चेअरमॅनाच्या नांवान पत्र बरयात आनी तुमची निविदा सगल्यांत उणी आसा, तुमचो रिकॉर्ड बरो आसा आनी ते खातीर कॉन्ट्रॅक्ट तुमकांच मेळूंक जाय अशें तुमकां दिसता अशें त्या पत्रांत बरयात. तुमकांच कॉन्ट्रॅक्ट मेळटलो असो हाचो अर्थ न्हय! तुमचें पत्र अधिकृत रितीन फायलींत घालून, तुमचेर कितेंय अन्याय जाला जाल्यार पळयतां. अन्याय जर जावंक ना आनी सगल्यो शिफारशी सारक्यो आसात अशें म्हाका दिसलें, आनी कॉन्ट्रॅक्ट हेर कोणाकूय दिवपाची खात्यान शिफारस केल्या जाल्यार म्हज्यान ती नाकारूंक जावंची ना. पूण अन्याय जाता अशें दिसलें जाल्यार हांव तो जावंक दिवचों ना!'' महेशान तांकां दोगांयकूय त्या विशयाचेर कितें जांव येता हाची म्हायती दिली.

''अन्याय जावंचो ना अशें तुमी म्हणलें तितलेंच म्हाका पुरो. हांव पत्र बरयतां! तुमी केन्नाय मयेंच्या वाठाराक पावल्यार आमची फॅक्टरी पळोवंक येयात. आमच्या फॅक्टरींत अडेजशें कामगार आसात, तातूंतले देडशें सुमार गोंयकार आनी हेर कामगार सिंधुदुर्ग, रत्नागिरी वाठारांतले. आमचे फॅक्टरीक पंचवीस वर्सां जालीं. गोवा शिपयार्ड, कारवार आनी मंगळूर पोर्ट आनी गोंय, बेळगांव, हुबळी आनी हेर शारांनी व्हड व्हड प्रकल्पांक आमी वारांवांची पुरवणी करतात.'' सेवेरीन कॉस्तान अभिमानान सांगलें. आनीक कांय वेळ हेर

गजाली करून शेटये आनी कॉस्ता दोगूय जाण थँक्यू म्हणत उठले. महेशान उठून तांकां हात दिलो आनी ते भायर सरले.

ते वचना फुडें दीपा एक पत्र घेवन आयलें. "सर, तुमकां दिल्लीच्यान कॉन्फिडेन्शियल म्हणून पत्र येयलां," अशें म्हणून दीपान तो लखोटो महेशाच्या हातांत दिलो. महेशान लखोटो उगडून पत्रा वेल्यान नदर भोंवडायली. जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रा कडल्यान तें पत्र आयिल्लें. मिश्राच्या पत्रा वांगडा आनीक एक पत्र आशिल्लें. पत्र निनांवीं आनी तो सरकारी पयशे बेठेच वगडायता अशी ताच्या आड कागाळ आशिल्ली. कांय दिसां आदीं सरकाराच्या पयशांनी ताणें आदल्या चेअरमॅनाक व्हडली पार्टी दिल्या अशें त्या पत्रांत बरयिल्लें.

"हें पत्र तुजे कडेन दवर. फाल्यां ना जाल्यार परां तांकां जाप दिवपाक याद कर. जल्मीक फोन करून पयर ऍड्मिरल जिंदालाक दिल्ले पार्टेक आयिल्ल्या खर्चाचो तपशील मात्सो फाल्यां बरोवन धाड अशें म्हूण सांग. कित्याक काय म्हूण विचारल्यार चेअरमॅनान मागला म्हूण सांग." अशें सांगून महेशान पत्र आनी लखोटो दिपा कडेन दिलो.

सारको एक वराचेर महेश बंगल्यार वचूंक भायर सरलो. त्या दिसाच्यान चेअरमॅनाची गाडी फ्रान्सिस चलयतलो ही खबर जगदीशान महेशाक मोटारी कडेन पावयतना ताच्या कानार घाली. फ्रान्सीस महेशाची वाट पळयतालो. दार उगडून ताणें महेशाक भितर बसोवन दार अचळय मारलें. मागीर ड्रायवराच्या सीटाचेर बसून, आपणालेंय बी दार अचळय मारून, कॅप घालून ताणें गाडी सुरू केली.

"स्पिडोमीटर चलता रे?" महेशान फ्रान्सीसाक विचारलें.

"यस सर, चलता!" फ्रान्सिसान जाप दिली.

गाडी बंगल्यार पावतकूच गेटीचे दावे वटेन संभाजीची बस नाशिल्ली. महेश देंवता आसतना लक्ष्मी वावराडेच्या गाळयांचो पावसूय बी नाशिल्लो. महेश सवा एकाक सुमार जेवंक बसतकूच मीरान बन्सीलालाची खबर सांगली. 'सारी द गोवा'च्या बन्सीलालान फोन केल्लो आनी मीराक येतलें मूं काय म्हूण विचारिल्लें. बन्सीलालाचो कार्यक्रम वीस तारखेक सांजेच्या साडे पांचांक आसतलो. हिन्दू फार्मासीच्या शेजरा ताचें दुकान आसा अशें ताणें सांगलां. "आयज तूं सदां भशेन हांसतमूख दिसना, कितें जालें?" मीरान विचारलें.

“हांवें ऍड्मिरल जिंदालाक सरकारी पयशे वापरून पार्टी दिली अशें निनांवीं पत्र दिल्लीक पावलां. आनी जॉयन्ट सेक्रेटरीन तें म्हाका धाडलां आनी“तुका कितें म्हणपाचें आसा” अशें विचारलां, महेशान मीराक सांगलें.

“पत्र कोणें बरयलां अशें दिसता तुका?” मीरान विचारलें.

“इतले बेगीन कळना! ल्हवू ल्हवू कळटलें!” --महेश.

“तमिळनाडूंत आसतना असलीं पत्रां येवंक नात तर?” --मीरा.

“असलें एक्क पत्र येवंक नाशिल्लें. ही ह्या पोर्टाची स्पेशालिटी आसुंये. आतां असलीं आनीक कितलीं पत्रां येतात तीं पळोवया!” अशें म्हणून महेश व्हडल्यान हांसलो.

“तूं व्हडल्यान कित्याक हांसलो?” मीरान विचारलें.

“असलीं पत्रां बरोवन कोणूय म्हाका त्रासांत वडोवपाक सोदतात जाल्यार तांच्या हाताक कांयच लागपाचें ना तें येवजून म्हाका व्हडल्यान हांसूंक आयलें.” महेशान मीराक सांगलें.

जेवण जातकूच सोफाचेर मात्सो लवंडून, मागीर तोंड बी धुवन सारको दोनांक महेश ऑफिसांत पावलो. तीन ते चार हाचे मर्दीं स्टेट बँकेचो मॅनेजर बाणावलीकार, कॅनरा बँकेचो किणी आनी इंडियन बँकेचो व्यंकटेशन हे एका फाटल्यान एक महेशाक येवन मेळ्ळे. येतना ते फुलांचे बुके घेवन आयिल्ले. तांच्या बँकांनीं दर वर्सा पोर्ट खूबशा पयशांची गुंतवणूक करता म्हणटकूच नव्या चेअरमॅनाक येवकार दिवपाची तांची प्रथा आशिल्ली. तांचे कडेन खास अशें कांयच उलोवपाचें नाशिल्लें म्हणटकूच प्रत्येका कडेन महेशान धा मिनटां सुमार टायम-पास गजाली केल्यो. चारांक सुमार सिविल इंजिनियरिंग खात्याचो मुखेल सदानंद देसाय आयलो. दारार मारून गुड आफ्टरनून सर म्हणत तो येवन भितर बसलो.

“गुड आफ्टरनून! कशें चल्लां?” महेशान ताका विचारलें.

“बरें चल्लां सर! एक विशय तुमचे कडेन उलोवपाक आयिल्लों,” देसायान सांगलें.

कसलो विशय म्हूण महेशान विचारतकूच देसायान विशयाचो तपशील सांगलो. पोर्टाच्या ब्रेक वॉटराक पावसाच्या वेळार आयिल्ल्या व्हड ल्हारांक लागून दर वर्सा मार बसता. मार खावन खावन ब्रेक वॉटर अशक्त जाता.

म्हणटकूच दर दोन-तीन वर्सांनी त्या बांदकामाचें रक्षण करपाक थंय व्हड व्हड सिमेंट ब्लॉक्स घालचे पडटात. मागीर ब्रेक वॉटर मार खावपा वाट्याचो सिमेंट ब्लॉक्स मार खातात आनी ब्रेक वॉटरावेलें चेपण उणें जाता. ह्या वर्सा सप्टेंबरांत सुमार सिमेंट ब्लॉक्स घालपाची प्रक्रिया सुरू करूंक जाय. कॉन्ट्रॅक्टरांक व्हड क्रेन, सिमेंट, रेंव, रॉबोल पयलींच बूक करून दवरचे पडटात. म्हणटकूच सप्टेंबरांत सिमेंट ब्लॉक्स दर्यांत देंवोवपाचे जाल्यार जुनांत तरी आमकां कॉन्ट्रॅक्टर थारावचो पडटा. त्या खातीर ही फायल घेवन आयिल्लों.'' देसायान म्हायती दिली.

‘‘आतां फायल खंय पावल्या?'' महेशान विचारलें.

‘‘निमाणे ऑर्डरी खातीर हाडल्या. आमी आमच्यो शिफारशी बी दिल्यात. एस्टिमेट एक कोटी एकावन लाखांचो आसा.'' --देसाय.

‘‘ही प्रक्रिया चार म्हयने सुमार चलतली अशें तूं म्हणटा. फायल दोन-चार दीस म्हजे कडेन उरल्यार म्हाका ती सवकासायेन वाचून ऑर्डर दिवंक मेळटली. फायल दवरल्यार कितें प्रॉब्लेम जातलें?'' महेशान विचारलें.

‘‘ना,ना! प्रोब्लेम कांय ना. तशी ताकतीक कांय ना. फायल हांवें प्रत्यक्ष हाडल्यार तुमकां म्हायती दिवंक मेळटली अशें म्हाका दिसलें. देखून ती फायल हांव घेवन आयिल्लों. आनीक एक फायल आसा!'' -- देसाय

‘‘कसली ती?'' महेशान विचारलें.

‘‘ह्या ऑफिसा मुखावेलें आंगण तुमी पळेलांच जातलें. हांगा धा हजार लोक कसलोच त्रास नासतना उबो रावूंक शकता. ते जमनीक शिमीट घाल्यार खूब वर्सां जालीं. परतून शिमीट घालून ताका नवें रूप दिवपा विशींची ही फायल!'' --देसाय.

‘‘एस्टिमेट कितलो?'' महेशान विचारलें.

‘‘चोवपन्न लाख!'' देसायान सांगलें.

‘‘हांव येतना वतना तें आंगण पळयतां; तशे फोंड बी कांय दिसनात! शिमिटाचे कपचेय गेल्ले दिसनात. इतलो खर्च कित्याक करप?'' महेशान विचारलें.

‘‘तशें पळोवंक गेल्यार गरज व्हडलीशी ना! मागीर केन्नाय पळोवं येता!'' देसायान गोंदळून गोंदळून सांगलें.

"तीवूय बी फायल तूं दवरून चल. आनीक तीन-चार दिसां उपरांत येवन त्यो व्हेल्यार जाल्यो!" महेशान सांगलें.

फाटलीं कितलिंशींच वर्सां महेशाक संवय जावन पडिल्ली: ज्यो फायली बारीकसाणीन वाचून पळोवंक जाय त्यो फायली तो घरा व्हरतालो आनी ज्या फायलींनी म्हत्वाचे विशय नासतात त्यो ऑफिसांतूच पळोवन तांचेर आदेश दितालो. घरा व्हरपाच्यो फायली उजवे वटेन सकयल दवरिल्ल्या बॉक्सांत उडयतां अशें ताणें प्यून संतोशाक सांगून दवरिल्लें. त्या प्रमाणें त्यो फायली संतोश चेअरमॅना वांगडा बंगल्यार धाडटालो.

मेजार दावे वटेन फायलींचो ढीग वाडत आशिल्लो. महेशान त्यो फायली पळोवंक सुरवात केली. अर्द्या अर्द फायली सोंपोवन पांचांक सुमार महेश बंगल्यार गेलो.

दुसऱ्या दिसा शेनवार जाल्ल्यान ऑफिस फकत सकाळचोच आदेस आशिल्लें. महेश सारको णवांक ऑफिसांत पावलो. ताणें उरिल्ल्यो फायली पळोवन तांचेर आदेश दिले. चालंत फायली सगल्यो पळोवन जातकूच दीपाक आपोवन ताणें दिल्लीच्यान आयिल्ल्या पत्राक जाप बरोवन घेवंक लायली. जापेचो मसुदो टायप करून आपणाक दनपार पसून हाडून दाखय अशें ताणें दीपाक सांगलें. दीपान तो मसुदो सुमार साडेबारा वरांचेर हाडून दाखयलो. पार्टेक खर्च कितलो जालो तो आंकडो पत्रांत घालपाचो आनी पत्रा वांगडा खर्चाचो तपशील तयार जातकूच ताका जोडपाचो. तें सगलें पत्र आनी जोड-पत्र तयार करून आपली सय घेवन दिल्ली जॉयन्ट सेक्रेटरीक धाडपाचें, अशें महेशान दीपाक सांगलें आनी तो बंगल्यार गेलो.

◆◆◆

## भाग 17

**आयतारा** दिसा साडे धा वरांचेर रामकृष्ण आनी विष्णू सर्वानंदाच्या ऑफिसांत आयले. सर्वानंद बरोच पिकार आनी रामकृष्ण-विष्णू नेर्वोज आशिल्ले. सर्वानंदान थेट विशयाक हात घालो.

''फाटले फावटीं महेशाक इन्कमटॅक्स वा सी.बी.आय्.च्या सांपळ्यांत घुसपावपाची तूं गजाल करतालो तें मात्शें सांग पळोवया!'' सर्वानंदान रामकृष्णाक सांगलें.

''सांपळो कसो तयार करपाचो तें तुमकां हांवें फाटले फावटीं सांगिल्लें. आमी सांपळो तयार करून त्या सांपळ्याचें दार उगडून तो सांपळ्यांत भितर शिरतकूच दार बंद करूंक जाय!'' रामकृष्णान दोनूय गजालींचो संबंद तपशिलान सांगलो.

''कॅश पयशांचें म्हण तूं बरें आसा! कॅशान कितले, चॅकान कितले, वट्ट प्रायस कितलो त्यो गजाली मागीर! सांपळो कशे रचतले तें म्हाका पयलीं सांगात!'' सर्वानंदान रामकृष्णाक सांगलें.

''कॅश पयशे घेवपाची आमकां संवय आसा, पूण सांपळे बी आमी फकत ल्हानपणांत सर्कशींत पळयिल्ले.'' विष्णू मदींच उलयलो. विष्णूलें आयकून रामकृष्ण रागान एकदम तांबडो जालो, आनी पिकार आसून लेगीत सर्वानंदाक व्हडल्यान हांसूंक आयलें.

''ताच्या हातांत ब्रीफकेस दिवपाक तुमीय वचूंक जायना आनी आमीय वचूंक जायना. तें काम कोणेंयतरी मदल्या मनशान करचें पडटलें!'' रामकृष्णान सर्वानंदाक सुचयलें.

"इन्कमटॅक्स, सी.बी.आय्. कोणूय येवं, ते पयशे दिवपी आनी पयशे घेवपी दोगांयकूय धरतले तें खबर आसा मरे तुमकां?" सर्वानंदान विचारलें.

"खबर आसा. देखून तुमीय वचूंक जायना आनी आमीय वचूंक जायना, अशें हांवें सुचयिल्लें न्हय? सांपळो कसो रचपाचो तें तुमीच सांगचें पडटलें." --रामकृष्ण.

"आतां प्रायसाचें उलोवया." सर्वानंदान रामकृष्णाक सुचयलें.

रामकृष्णान भाटाची तुस्त करूंक सुरवात केली. युनिवर्सिटीच्या मुखेल रस्त्याचेर सुरू जावन सवकास, हयन्हयशी देंवती, न्हंयेचे कांठार सोंपपी, व्हडल्या व्हडल्या रुखांनी भरिल्लें असलें भाट गोंयांत हेर कडेन मेळूंक कुस्तार अशें म्हणून रामकृष्णान सुरवात केली आनी फाटल्या दोन-तीन वर्सांत खंयच्या खंयच्यान गिरायक आयिल्लें, भाट तांकां कित्याक विकलें ना, असल्यो गजाली रामकृष्ण उलोवंक लागलो.

"त्यो सगल्यो गजाली आसूं रामकृष्ण! तुमी रेट कितली काडल्या तें सांग," सर्वानंदान रामकृष्णाक मदींच आडावन विचारलें.

"तुमी अनंत भाईचे सामके लागींचे इश्ट. आयज काल सगल्या तरांचे इंटरनॅशनल गुंड गोंयांत जमनी घेवंक येतात. देखून वळखीच्या मनशाक जमीन विकल्यार बरी अशें ताणें सांगलां. मात्सो कमी रेट मेळ्ळ्यार उपकारता, तुमकांच हें भाट दियात अशेंय ताणें सांगलां!" --रामकृष्ण.

"रेट कितली?" सर्वानंदान रामकृष्णाक मदींच आडावन विचारलें. ताची सहनशक्ती ल्हवू ल्हवू सोंपताली.

"चड नाका, तीन हजार धरूया!" रामकृष्णान कचरत कचरत रेट सांगली.

इतलीं म्हारग भाटां गोंयचेंच न्हय, तर भायलें गिरायक लेगीत घेवंचें ना. हो प्रेस मळबाक तेंकला. रेट उणी करूंक जाय नाजाल्यार हें भाट तशेंच उरतलें. आपूण हें भाट घेवंक शकचों ना. सांपळ्याचो बी प्रस्नूच येना. अशें सर्वानंदान तोंड गंभीर दवरून सांगलें. आपणें एक रेट सांगली, सर्वानंदाची रेट ताणें सांगची अशें रामकृष्णान सुचयलें. मागीर आनीक अर्द वर वांटपणां करून अखरेक स्क्वेअर मिटराक एक हजार रुपया रेट थारली आनी चाळीस टक्के कॅश आनी साठ टक्के चॅक अशेंय थारलें. महेशाक आनी मीराक रामकृष्णागेर आपोवन थंयच तांच्या हातांत ब्रीफ केस दिवन तांकां धाडपाचीं आनी परतून

मुरगांवां वता आसतना वाटेर तांकां इन्कमटॅक्सान आडावपाचीं, मागीर महेश आनी मीराच्या आड फुडली कारवाय आपल्या आपूण जातली, रामकृष्णान सांपळ्याचो आकार मात्सो बदलून सर्वानंदाक सांगलें.

''डील केन्ना सोंपोवया?'' रामकृष्णान विचारलें.

भाटाचे सगले डॉक्यूमेंट आपणाल्या वकिलान तपासूंक जाय. मागीर भाटां विकतीं घेवपाचो डॉक्यूमेंट तयार करूंक जाय, मागीर कॅशाची तयारी करूंक जाय. हें सगलें करता म्हणसर उण्यांत उणो एक म्हयनो तरी लागतलो अशें सर्वानंदाचें मत आशिल्लें. रामकृष्णान येता आसतना डॉक्यूमेंटाच्यो झेरॉक्स कॉपी हाडिल्ल्यो त्यो ताणें सर्वानंदाक दिल्यो आनी मागीर च्या घेवन हेर गजाली सुरू जाल्यो.

''आरे, भाटाची रेट, कॅश, चॅक ह्यो गजाली तुमी मीरा, मुक्ता आनी तांच्या घोवांकडेन उलोवंक नाका? तांचो हयकार नाका?'' सर्वानंदान विचारलें.

''तुमी बरी याद केली. हें काम बेगीन केल्यार बरें. आयजूच सांजेचें हें काम आमी करून उडयतात,'' रामकृष्णान सांगलें.

''उलोवणीं करपाक तुमी सड्या वेल्या तांच्या बंगल्यार वचूं नाकात. थंय हेवटेन तेवटेन प्यून, वॉचमॅन भोंवत आसतात. तांकां तुगेर आपयात. भुरग्यांक कळूंक जायना!'' सर्वानंदान सुचयलें.

आनीक थोड्या वेळान रामकृष्ण आनी विष्णू सर्वानंदाच्या ऑफिसांतल्यान भायर सरले. घरा पावतकूच रामकृष्णान चेअरमॅनाच्या बंगल्याचो नंबर सोदून काडून मीराक फोन केलो आनी ''गोंयांत तुमकां येवकार,'' अशें म्हणून मंगळारा राती कडेन महेशाक आनी ताका आपल्यागेर जेवणाक आपयलीं. महेश वारांदा वेल्या ऑफिस रुमांत बसून फायली पळयतालो. ताका विचारून मीरान रोखडेंच ओके म्हणलें. मागीर रामकृष्णान मुक्ताचो नंबर सोदून काडून ताकाय बी फोन करून ताका आनी दोतोर कामतीकूय बी जेवणाक आपयलीं. मुक्तानूय बी ओके म्हणलें.

मंगळारा दिसा रातच्या साडे सातांक मीरा, महेश, मुक्ता आनी दोतोर सुरेश रामकृष्णागेर पावलीं. फ्रान्सिस ड्रायवर महेशाक आनी मीराक स्टाफ कारान घेवन आनी दोतोर सुरेश आपणाली प्रायवेट गाडी घेवन आयिल्लो.

रामकृष्णागेर वांगडाच या म्हूण मीरान मुक्ताक सुचयिल्लें पूण तीं तांचे गाडयेंत येतलीं अशें म्हूण दोतोर सुरेशान सांगलें. भाटां-बेसांचें बी ते कितेंय उलयल्यार परतून येतना आपणाक आनी मुक्ताक प्रायवेट उलोवंक मेळटलें अशें दोतोर सुरेशान मुक्ताक सांगलें. रामकृष्णालीं भुरगीं ताजांत एके बर्थ डे पार्टेक गेल्लीं. तीं येवपाक रातचीं इकरा वरां तरी जातलीं अशें उषान सांगलें.

कितें घेतले अशें म्हणून रामकृष्णान महेश आनी दोतोर सुरेशाक विचारतकूच आपणाक फकत सॉफ्ट ड्रिंक चलता. व्हिस्की, बीयर तसलें हांव घेना, अशें म्हणून महेशान सांगलें. आपणाक व्हिस्की चलता अशें दोतोर सुरेशान सांगलें. मीरान फकत सोडा मागलो आनी मुक्तानूय मागीर तेंच मागयलें. आरोग्याच्यो, भुरग्यांच्या शिक्षणाच्यो, अनंत भाईच्यो खबरो जातकूच रामकृष्णान मुख्य विशयाक हात घालो. दोनापावल पठारावेल्या भाटाक गिरायक आयलां, सर्वानंद सांवर्डेकार तें विकतें घेवपाक सोदता, तें एक लाख स्केअर मिटर आसा आनी तो धा कोटी दिवंक तयार आसा अशी रामकृष्णान म्हायती दिली. ताका दोन दिसां भितर कितें तें सांगूक जाय.

"एक लाख स्केअर मिटराक धा कोटी म्हणल्यार एका स्केअर मिटराक एक हजार रुपया जातात. हे सामके उणे न्हय?" दोतोर सुरेशान विचारलें.

"आमी तीन हजार रुपया रेट सांगिल्ली. खूब वांटपण करून लेगीत तो एक हजार रुपयां वयर वचपाक तयार ना. हीं भाटां-बेसां जाता तितले बेगीन विकल्यार बरीं! चडशे भाटकार असल्या भाटांक लागून कोर्टांतूच पडिल्ले आसतात." रामकृष्णान दोतोर सुरेशाक जाप दिली.

दोतोर सुरेश वग्गी रावलो. रामकृष्णान मागीर महेशाचें मत विचारलें.

"भाटां तुमकां सगल्यांक जाण्टेल्यांनी सोडल्यांत. मीराक तातूंत वांटो आसा म्हणटकूच मीरानूच सांगपाचें!" महेशान आपणालें मत उकतायलें.

"तुमी अनंतभाईक विचारलां तर? आयज अनंतभाई आनी सीतावयनी बी हांगा कित्याक येवंक नात?" मीरान विचारलें.

"अनंतभाईक आमी मागीर सांगतले. आमी करतात तें ताका मान्य अशें ताणें सांगलां," रामकृष्णान स्पशटीकरण दिलें.

"तशें जाल्यार एक हजार ओके!" मीरान सांगलें.

"ती दुसरी गजाल तुवें सांगली ना, कॅशाची!" विष्णून रामकृष्णाक

याद केली.

‘‘तें सांगपाचें उरिल्लें. हांव सांगतलोंच आशिल्लों;धा कोटींतले चाळीस पर्सेंट तो कॅशान दितलो आनी साठ पर्सेंट चॅकान! हाचो अर्थ, आमकां प्रत्येकाक अंयशीं लाख कॅश आनी एक कोटी वीस लाख चेक! भाटांचो सगलो वेव्हार तसोच चलता अशें तो म्हणटा. आमी कॅश घेनात जाल्यार ताका भाट घेवंक जमचें ना अशें ताणें सांगलां!’’ रामकृष्णान कॅश वेव्हारा विशीं सद्याची परिस्थिती सांगली.

सगले थोडो वेळ वग्गी आशिल्ले. सर्वानंदाक कितें सांगपाचें अशें रामकृष्णान महेशाक आनी दोतोर सुरेशाक विचारलें.

‘‘आमी कॅश घेना जाल्यार तो भाट घेवंक शकचो ना अशें ताणें फायनल सांगलां जाल्यार आमकां कॅश घेवंचेच पडटले. ना जाल्यार असलीं व्हड भाटां केन्नाच विकचीं नात!’’ दोतोर सुरेशान आपणालें मत सांगलें.

‘‘आमी कॅश घेवंचीं नात; सर्वानंद कितली कॅश दिता ती तुमी घेयात, आमकां फकत चॅक दियात. चॅक ताणेंय दिल्यार जाता, तुमीय दिल्यार जाता,’’ मीरान रामकृष्णाक सांगलें. ‘‘मीराताई, तुमकां कॅश घेवपाक कसलो प्रॉब्लेम?’’ उषान विचारलें,

‘‘उषा, आयज मेरेन महेशान टॅक्स वाटावपा खातीर एक्क पयसो कॅश घेवंक ना. तशे पयशे घेतिल्ले जाल्यार आयज आमचे कडेन शंबर कोटींची तरी इश्टेट आसपाची!’’ मीरान उषाक सांगलें. हें आयकून सुमित्रान विष्णूक धोंगसो मारलो आनी तीं चवगांय कुत्छित्रीपणान एकामेकां कडेन पळोवंक लागलीं.

‘‘मीराताई, तुवें सांगलां तें शक्य आसा काय ना हें आमी आमच्या ऑडिटरा कडेन विचारचें पडटलें. तुमकांय बी तो प्रस्न येतलोच. अकस्मात तुमच्या अकावंटांत अंयशीं लाख आमी कित्याक घाल्यात हो प्रस्न येतलो. तुवें सांगिल्लो उपाय शक्य जालो ना जाल्यार कितें करपाचें?’’ रामकृष्णान विचारलें.

‘‘उपाय आसा! खूब टायम लागतलो! भाटाची पांच जाणां मदीं वांटणी करप. वांटणी करता आसतना कोणाक खंयचो वांटो पडटलो हें सोर्ती घालून थारावप आनी मागीर प्रत्येकान आपणाक जाय तसो आपलो वांटो विकपाचो

वा दवरपाचो! आतां जांव, मागीर जांव, आमी कॅश घेवंचीं नात!'' मीरान सांगलें.

''हांव जेवणाची तयारी करतां!'' अशें म्हणून उषा फडफडत भितर गेलें.

''हो तुमचो प्रॉब्लेम हांव सर्वानंदाक समजावन सांगतां. तो कितेंय वाट सुचयता काय म्हूण पळोवया!'' रामकृष्णान मीराक म्हणलें.

''हय, कितेंयतरी वाट काडूंक जाय. भाटां तशींच दवरल्यार लोक केन्ना खावन वतात तें कळचेंच ना!'' दोतोर सुरेशान आपणालें मत दिलें.

''हो ह्याच भाटाचो प्रॉब्लेम न्हय! इन्वेंतारांत आमच्या सगल्यांच्या नांवार आशिल्ल्या भाटांक होच प्रॉब्लेम येतलो. खेरीज, ताईबायक पडिल्ल्या भाटांक ती गेल्या उपरांत होच प्रोब्लेम येवपाचो आसा. ती आतांच लथपथ जाल्या. म्हाका दिसता, तिका अंयंशीं वर्सां जावन गेलीं आसतलीं! तिच्या नांवार शिरधनचें भाट आनीक कांय व्हड भाटां आसात.'' मीरान फुडाराक तांच्या सगल्यां मुखार येवपाच्या प्रस्नांची कल्पना दिली.

''ए ए! सगल्यांक बी म्हणूं नाका! शिरधनचें भाट आमी तिगूय भावांनी ताईबाय कडल्यान विकतें घेतलां. भयणींक आतां तातूंत कांयच वांटो ना!'' विष्णून उण्णां मारीत, मीराक आनी मुक्ताक चाळयत चाळयत सांगलें. सुमित्रा ताका धोंगशे मारीत वोगी बस म्हूण ताचेर तापतालें, तरी आसतना तो उंचबळ जावन भयणींक चाळयतालो.

''तो कितें म्हणटा रे?'' मीरान रामकृष्णाक हांसत हांसत विचारलें.

''कांय ना, मीराताई, तें कानार घेवपाचें न्हय,'' रामकृष्णान मीराक सांगलें.

''हुनहुनीत जेवण मेजार आयलां. येयात,'' अशें म्हणून उषान सगल्यांक व्हडल्यान उलो मारलो. जेवणाक चड कांय नाशिल्लें. शीत, सुंगटांचें हुमण, तळिल्ले बांगडे, कोबीची सुकी भाजी आनी सोलकडी.

हें इतलेंय ताणें केलां काय म्हूण मीरान उषाक विचारलें. आपणें कांयच करूंक ना, किचनांत तीन रांदतल्यो आनी तीन हेल्पर चलयो काम करूंक आसात. सबंद सांजेवेळ लावन तांणीच हें रांदलां. आपल्याक कसलेंच काम करचें पडना अशें उषान व्हड अभिमानान सांगलें.

जेवता आसतना सगले टायम-पास गजाली उलयताले. विष्णू कितेंय भितरली गजाल फोडीत म्हूण सुमित्रा ताका तेक्कून उबें राविल्लें आनी तो

कितेंय वाडून घेवंक मेजा म्हऱ्यांत गेल्यार आपुणूय ताच्या म्हऱ्यांत वतालें. जेवण जातकूच आनीक अर्द वर तांणी गोंयच्या टुरिजमाच्यो, मिनाच्यो, सरकारी भ्रश्टाचाराच्यो बी खबरो केल्यो आनी साडे णवांक सुमार महेश, मीरा, दोतोर सुरेश आनी मुक्ता भायर सरलीं. रामकृष्ण आनी उषा तांकां पावोवपाक पोर्च्यांत गाडयो दवरिल्ल्यो थंय मेरेन आयलीं. विष्णूक सुमित्रान भितरूच दामून दवरिल्लो.

लॉग बुकाचेर 'चेअरमॅन्स प्रायवेट' अशें बरोवंक जाय म्हूण महेशान फ्रान्सिसाक सांगलें. स्पिडो मिटर बी बंद पडल्यार रोखडोच सारको करून घेवंक जाय, हेंवूयबी महेशान सांगलें. रातीच्या सवाय धा वरांचेर सुमार महेश आनी मीरा बंगल्यार पावलीं.

''तुवें कॅशा विशीं स्पश्ट सांगलें तें बरें केलें! तीं तोंडां करतालीं ताचे वेल्यान तांणी तुजेर बिलकुल विस्वास दवरूंक ना म्हणपाचें कळटालें!'' महेशान मीराक म्हणलें.

''तुज्या ह्या प्रामाणिकपणाक लागून आमचीं हीं सगलीं भाटां तशींच उरतलीं काय दिसता. गौरीशाक बाबड्याक कांयच इश्टेट सोडून वचपाची ना असो निर्णय तुवें घेतला काय कितें रे?'' मीरान महेशाक विचारलें.

''प्रामाणीकपणान तुज्या वांट्याक आयिल्ली इश्टेट 'प्रामाणीकपणान' विकून गौरीशा खातीर भरपूर पयशे बँकेंत दवरूं येतात!'' महेशान स्पश्टीकरण दिलें.

''आमी कॅश घेनात जाल्यार आमचीं भाटां तशींच उरपाचीं!'' मीरान बेजार जावन म्हणलें.

''मागीर कितें आमी काळे पयशे घेवपाचे? केन्नाच करूंक ना तें आतां सुरू करपाचें?'' महेशान मात्शें तिडकून विचारलें.

''ब्लॅक पयशे घेवंक जायना, पूण कितेंयतरी वाट सोदून काडूंक जाय! शिरधनच्या भाटाचो विशय काडटकूच विष्णू कसो उचंबळ जालो तो पळयलो मरे तुवें? रामकृष्ण आनी सुमित्रा कशीं नेर्वोस जालीं तेंवूय बी पळयलें मरे तुवें? मीरान महेशाक विचारलें.

''दाल में बहुत काला है, अशें पांडुरंग पै न सांगिल्लें! सद्या पयलीं आमी न्हिदूंक या!'' महेशान जांबय काडीत मीराक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा रामकृष्ण सर्वानंदा कडेन अपॉयंटमेंट घेवन सांजेच्या चारांक ताका मेळूंक गेलो.

"मीरा आनी महेश कॅश घेवंचीं नात, तांकां सगले चॅकानूच फारीक केल्ले जाय. आमी कॅश घेतल्यार तांचो विरोध ना. तांच्या वांट्याचे कॅश आमी चार जाणांनी घेवन, त्या वांट्याचो तांकां चॅक दिवंचो अशेंय बी मिरान सुचयलां." रामकृष्णान सर्वानंदाक रिपोर्ट दिलो.

"म्हाका कांय प्रोब्लेम ना. वट्ट धा कोटींतले चार कोटी कॅश तुमी सगल्यांनी घेवंक जाय. मीराक आनी महेशाक हांवें चॅक दिलो वा तुमी चॅक दिलो, म्हाका ताचें कांय पडिल्लें ना. पूण एक सांग, महेश कॅश घेना जाल्यार ताका सांपळ्यांत घुसपावपाच्या आमच्या प्रोजेक्टाचें कितें जातलें?" सर्वानंदान चिंतेस्त जावन विचारलें.

"तो बेत मात् फसतलो. आमकां आनीक कसलीय तरी वाट सोदून काडची पडटली. ताका कसोच सोडपाचो ना," रामकृष्णान दांत किल्लीत सर्वानंदाक सांगलें.

"भाटाचो वेव्हार सगलो आमी करताले ते फकत ताका घुसपावपाक. तो कॅश घेना जाल्यार ह्या भाटाच्या विशयांत सद्या तरी म्हाका ताकतीक ना. मागीर केन्नाय जाय जाल्यार पळोवं येता!" सर्वानंदान सांगलें.

"ओहो! म्हणटकूच भाटाची डील फुडें व्हरपाची ना तर! आमी कितलो तेंप वाट पळोवं?" रामकृष्णान विचारलें.

"तुमी म्हजी वाट पळोवपाची गरज ना. तुमकां जाय तशें गिरायक आयल्यार तुमी तें भाट लाटून उडयात. तें तशेंच उरल्यार आनी म्हज्या गणितांत बसल्यार हांवूच तुका फोन करतां. मागीर पळोवया!" सर्वानंदान विशय सोंपोवपाचो यत्न केलो.

"ओके! थँक्यू म्हणून रामकृष्ण निर्शेवन भायर सरलो. घरा पावतकूच ताणें विष्णूक आनी सुमित्राक सगली गजाल सांगली. आनी महेशाक कसो त्रासांत घालचो हाचेर तो आनी सुमित्रा मेळून परतून येवजूंक लागलीं.

***

दुसऱ्या दिसा सकाळीं ऑफिसांत वचना फुडें बाप्तीस्तान फोन केलो आनी पीटर डिमेलो आनीक चार-पांच जाणांक घेवन येवन रावला आनी अर्जेंटली

मेळूंक जाय म्हणटा अशें सांगलें. महेशाक त्या दिसा आनीक कांय अपॉयंटमेंट नाशिल्ले, म्हणटकूच तांकां भितर धाड म्हूण ताणें बाप्तीस्ताक सांगलें. दारार मारून गुडमॉर्निंग सर, गुडमॉर्निंग सर म्हणत ते भितर सरून पीटर डिमेलो आनीक दोग जाण कदेलांचेर बसले आनी उरिल्ले दोग जाण उबेच रावले.

"अर्जेंटली कित्याक मेळूंक सोदताले?" महेशान तांकां विचारलें.

"सर, आमचे कामगार सामके उचंबळ जाल्यात. एका कामगाराचें भुरगें जल्म जातां जातां मेलें. दोतोरान कसलीय तरी व्हड चूक केल्या अशें सगल्यांक दिसता. आनी दोतोर कोण काय म्हणल्यार सुरेश कामत, बाळंतिचो दोतोर. आपूण तुमचो साडू म्हूण सगल्यांक सांगपाची ताका संवय. देखून ताणें कितेंय केल्यार ताका कसलीच ख्यास्त जावची ना, अशें सगल्यांक दिसूंक लागलां. कामगारांक तुमी न्याय दिवंक जाय. रोखड्या रोखडी दोतोराक ख्यास्त जावंक जाय. ना जाल्यार तो कामगार आनी ताचे इश्ट दोतोराक मारूंक सोदतले." पिटर डिमेलोन सामको नेर्वोज जावन महेशाक सांगलें.

महेशान बाप्तीस्ताक फोन केलो आनी सी.यम्.ओ. डॉक्टर जुवारकाराक फोन लाय म्हूण सांगलें.

"हाच्या पयलीं आमच्या हॉस्पिटलांत असलें कितें जालां?" महेशान विचारलें.

"ना सर. कम्प्लेनी खूब येतात. कम्प्लेन येतकूच आमी सी.यम्.ओ.क सांगतात. पूण अशें भुरगें केन्नाच मरूंक ना!" पिटर डिमेलोन म्हायती दिली.

फोन वाजलो. डॉक्टर जुवारकार लायनीर आशिल्लो; "दोतोर, हॉस्पिटलांत एका कामगाराची बायल बाळंत जातना भुरगें मेलें खंय?" महेशान विचारलें.

दोतोर जुवारकारान चार-पांच मिनटां भितर सगलो तपशील सांगलो. रोखडोच आपणाक रिपोर्ट धाड अशें महेशान ताका सांगलें.

"दोतोर जुवारकार रिपोर्ट धाडटलो. तुमी सगले उचांबळ जाल्यात हें म्हाका समजता पूण इंक्वायरी केल्या बगर म्हाका कोणाक ख्यास्त दिवंक मेळना. दोतोर सुरेश म्हजो साडू म्हणटकूच हांव ताच्या आड कांयच कारवाय करचों ना अशें तुमकां आनी हेरांक दिसूंक फावता, पूण ती गजाल खरी न्हय. गोंय सरकाराच्या दोतोरांक हांव ह्या प्रकरणाची इंक्वायरी करपाक

लायतलों आनी तांणी जर दोतोर सुरेशाक दोशी थारायलो जाल्यार ताका ख्यास्त जातलीच अशें हांव उतर दितां. पूण इंक्वायरी करी नासतना ख्यास्त करप हें कायद्या आड जाता. गोंय सरकाराचे दोतोर नाका, आनी खंयच्याय दोतोरांनी इंक्वायरी करची अशें तुमकां दिसल्यार तुमी तशें सांगात. हांव तांकां पत्र बरयतां.'' महेशान पिटर डिमेलोक सांगलें.

''ना सर, गोंय सरकाराच्या दोतोरांनी इंक्वायरी केल्यार पुरो! तुमी कितें सांगलां तें आमी कामगारांक सांगतात. तुमी आमकां न्याय दितले हाची आमकां खात्री आसा!'' अशें म्हणून थँक्यू थँक्यू म्हणत पीटर डिमेलो आनी हेर भायर सरले.

ते वचना फुडें महेशान फ्लावियाक आपोवन आपूण आदेश दितां तें बरोवन घे म्हूण सांगलें. बंगल्या वेल्यान सय करून हाडिल्ल्या फायलींतल्यो दोन फायली महेशाच्या मेजार आयिल्ल्यो. त्या दोनूय फायलींचेर महेशान सय करूंक नाशिल्ली आनी फ्लावियान फायल घेवन येवंची अशें फायलींचेर बरयिल्लें. फ्लावियाक ताणें बस आनी बरोवन घे म्हूण सांगलें. पयली फायल ताणें उकती केली ती स्टील वारांव विकते घेवपाची. पांच निविदा आयिल्ल्यो. सगल्यांत सवाय वारांव आशिल्ले ते गोवा स्टील फॅक्टरीचे. तांच्याकूय पंदरा पर्सेंट सुमार म्हारग आशिल्ले ते मराठे स्टील इंडस्ट्रीचे. मराठे स्टील इंडस्ट्री सांकवाळच्या उद्देगीक वसाहतींत आशिल्ली. मराठेच्या बापायचें मडगांवांत ल्हानशें भुसारी दुकान आशिल्लें. मराठे थंयच ल्हानाचो व्हड जाल्लो. यस्.यस्.सी. मेरेन तो महेशा वांगडा शिकिल्लो. महेश पोर्टाचो चेअरमॅन म्हणून येतकूच ताणें फोनाचेर महेशाक येवकार दिल्लो. कांय खास काम नाशिल्ल्यान महेशाक अजून मेरेन तो येवन मेळूंक नाशिल्लो. मराठे स्टील इंडस्ट्रीन सांगिल्लो तो दर तांका उणो करूंक लावन तो गोवा स्टील फॅक्टरीच्या पावंड्यार हाडपाक लावचो आनी सुमार अडेज कोटींच्या वारांवाची ऑर्डर गोवा स्टील फॅक्टरी आनी मराठे स्टील इंडस्ट्री हांच्या भितर अर्दी अर्दी वांटून दिवंची, अशी शिफारस ते फायलींत आशिल्ली. शिफारशीच्या सकयल असिस्टंट इंजिनियर, एक्जीक्युटीव इंजिनियर आनी चीफ सिविल इंजिनियर हांची सय आशिल्ली.

दोनूय फॅक्टरींचो रिकॉर्ड बरो आसा. दोनूय फॅक्टरींक अडेज कोटींचे

वारांव तयार करून दिवपाची तांक आसा. देखून ऑर्डर अर्दी अर्दी वांटून घालपाची गरज ना. जो सगल्यांत उण्या दरांत दिता, ताकाच ऑर्डर वचूंक जाय! ऑर्डर घेवपी फॅक्टरीक तांक आसा आनी रिकॉर्ड बरो आसा ही खात्री पोर्टान करून घेवंक जाय. गोवा स्टील फॅक्टरीक तांकूय आसा आनी रिकॉर्डूय बरो आसा. देखून सबंद अडेज कोटींची ऑर्डर गोवा स्टील फॅक्टरीक दिवंची असो आदेश महेशान दिलो.

दुसरी फायल सिमेंट ब्लॉक विकते घेवपाची. एस्टीमेट एक कोटी एक्कावन लाखांचो. "मुरगांव सिविक वर्क्स" फॅक्टरीची निविदा एक कोटी पंचेचाळीस लाखांची आनी "जय गोवा सिमेंट वर्क्स" ची निविदा एक कोटी साठ लाखांची. फाटल्या दोन फावटीं जय गोवान पोर्टांत कॉन्ट्रॅक्ट घेतिल्ले. दोनूय वेळा तांचीं कामां सारकीं जालीं नात म्हूण पोर्टान तांचे पयशे आडावन दवरिल्ले. पोर्टाच्या आड ते कोर्टांत गेल्ले आनी त्यो केशी अजुनूय कोर्टांत चलताल्यो. आपणाली कंपनी हे सिमेंट ब्लॉक एक कोटी पंचेचाळीस लाखां भितर करून दिता, कॉन्ट्रॅक्ट आपणाक मेळ्ळ्यार कोर्टांतल्यो केसी आपूण फाटीं घेतां अशें जय गोवाच्या मालकान पत्र बरयिल्लें. कोर्टांतल्या केसीं खातीर वकिलांचेर खूब खर्च जाता, खेरीज पोर्टाचो खूब वेळ वगडावता. देखून जय गोवाचें पत्र मानून घेवन ऑर्डर ताकाच दिवंची अशी शिफारस सिविल इंजिनियरिंग खात्यान केल्ली.

कोर्ट केस आनी सिमेंट ब्लॉकांची निविदा हे दोन वेगळे विशय! दोनूय विशयांची भेसळ करून कॉन्ट्रॅक्ट दिवप म्हळ्यार नेमां आड काम करप. निविदा मागयता तेन्ना हेर सगल्यो तांत्रीक गजाली एकाच पावंड्या वेल्यो आसल्यार, सगल्यांत कमी दरांत दिवपी फॅक्टरीक पोर्टान कॉन्ट्रॅक्ट दिवंक जाय. हें कॉन्ट्रॅक्ट एक कोटी पंचेचाळीस लाखांक मुरगांव सिविक वर्क्स हांकां दिवंचें आनी निविदांत आसात त्यो सगल्यो अटी पाळूंक जाय ही अट घालची, असो आदेश महेशान दिलो.

अर्द वरान सुमार खासदार थिओफिल डिसोझाचो फोन आयलो. जय गोवा फॅक्टरी आपणाली आनी तें कंत्राट आपणाकूच मेळूंक जाय अशें ताणें मात्शें तापून शें सांगलें. आपणें आदेश दिला तो सारको कायद्याक धरून आसा. आपणें फायल पळोवचे पयलीं लेगीत ताणें फोन केल्लो जाल्यार आपूण

आतां दिला तसोच आदेश दितलों आशिल्लों. अशें महेशान थिओफिलाक सांगलें. थिओफिलान ढम्म करून फोन आपटिलो.

ऑफिसा मुखा वेल्या व्हड आंगणांत शिमिट घालपाची फायल महेशान आदल्या रातींच "सद्या गरज ना, आनीक दोन वर्सांनी पळोवया" अशें बरोवन हेर फायलीं वांगडा तिवूय बी फायल ऑफिसाक परतून धाडिल्ली.

दुसऱ्या दिसा सी.एम.ओ. दोतोर जुवारकारान रिपोर्ट धाडलो. ताणें फोनार जो तपशील सांगिल्लो तोच तपशील रिपोर्टांत आशिल्लो. गवर्नमेन्ट सेंट्रल हॉस्पिटलाच्या सुपरिन्टेंडेन्टाक तो रिपोर्ट धाडून जल्म जातना भुरगें कशें मेलें हाचेर चवकशी करून रिपोर्ट दिवपा खातीर सुपरिन्टेंडेन्टान तीन दोतोरांची कमिटी नेमची आनी ते कमिटीन पंदरा दिसां भितर रिपोर्ट दिवंचो अशी महेशान त्या सुपरिन्टेंडेन्टाक विनंती केली. सुपरिन्टेंडेन्टान कमिटी नेमली आनी कमिटीन चवकशी करतूकच पंदरा दिसां उपरांत रिपोर्ट धाडलो. कमिटीन रिपोर्ट दिलो तो असो आशिल्लो:

"एम्.पी.टी. हॉस्पिटलांत सिझेरियन करून जल्माक आयिल्लें भुरगें मेल्लें सांपडलें. बाळंतिच्या दोतोरान ही केस सारकी हाताळ्ळ्या काय ना, भुरगें दोतोराचे चुकीन मेलें काय दोतोरान योग्य तीं पावलां उखलून लेगीत ते त्या भुरग्याक वाचोवंक शकले नात हाचेर चवकशी करून वैजकी मत दिवपाक एक कमिटी नेमची आनी पंदरा दिसां भितर रिपोर्ट दिवंचो अशें एम्.पी.टी. चेअरमॅनान गवर्नमेन्ट सेंट्रल हॉस्पिटलाच्या सुपरिन्टेंडेन्टाक बरयलें. त्या प्रमाणें सुपरिन्टेंडेन्टान एक कमिटी नेमली. कमिटींत एक बाळंतिचो दोतोर धरून तीन दोतोर आशिल्ले: 1. डॉ नाग, बाळंतिचो दोतोर. 2. डॉ. कुलकर्णी, सर्जन, 3. डॉ. गाल्दीन, फिजिशियन.

कमिटीन तीन फावटीं एम्.पी.टी. हॉस्पिटलांत वचून रिकॉर्ड तपासले, आनी संबंदीत दोतोर आनी नर्सीं कडेन चवकशी केली.

नांव: कालिंदी विनायक केरकर, वय 32 वर्सां; पयलेंच गुरवारपण. गुरवार बायलेन पयल्याच गुरवारपणांत एम्.पी.टी. हॉस्पिटलांत नांव घाल्लें आनी ती थंयच चॅकपाक बी येताली आनी सर्वसदारण पणान जो त्रातामेंत पेशंटांक गुरवारपणांत दोतोर दितात तोच ती नेमान घेताली.

ऍड्मिशनच्या दोन दीस पयलीं केल्ल्या अल्ट्रा सावंडांत गुरवार बायलेचो

आनी भुरग्याचो रिपोर्ट नॉर्मल आयिल्लो; 39 सप्तकां पुराय करून लेगीत प्लासेंटा उतेराच्या तोंडारूच आशिल्लो आनी भुरगें भितर उतेरांत आशिल्लें. वेणी येतकूच ते बायलेक ॲडमीट केल्ली, उतेरांतलें उदक भायर सरून वचपाक लागिल्लें. अकस्मात भुरग्याची 'हार्ट रेट' फास्ट जाली आनी भुरगें त्रासांत आसा अशी सिग्नल दिवपाक लागलें. रोखड्या रोखडी सिझेरियनची तयारी करून, पेशंटीक ऑपरेशन थेटरांत व्हरून, सिझेरियन ऑपरेशन केलें. गळ्या भोंवतणी वार अंदल्ल्यान भुरगें मेल्लें आनी ताका स्वास घेवपाक मजत करपाचे सगले यत्न व्यर्थ गेले. भुरगें मेलें. बाळंतिणीक सात दिसां उपरांत घरा धाडली.

निश्कर्श :- ''एम्.पी.टी. हॉस्पिटलांतल्या बाळंतिणीच्या दोतोरान आनी नर्सींनींयबी कायंच चुको करूंक नात. वैजकी शास्त्र आनी प्रथे प्रमाणें जें करूंक जाय तें सगलें वेळच्या वेळार केल्लें, अशें मत आमी दितात.''

गवर्नमेन्ट सेंट्रल हॉस्पिटलांतल्यान आयिल्लो रिपोर्ट महेशान दोतोर जुवारकाराक धाडलो आनी दोतोर जुवारकारान तो कामगार फुडाऱ्यांक दाखयलो. कामगार फुडाऱ्यांनीं त्या उपरांत ह्या विशयाचेर कांयच चळवळ केली ना.

***

वीस तारखेक सांजेच्या साडे पांच वरांचेर मीरा आपणाले प्रायवेट गाडयेंतल्यान 'सारी द गोवा' दुकानांत पावलें. बन्सीलाल आनी वर्तमानपत्रांनी केन्ना केन्नाय आपणालो व्हड फोटो छापून हाडपी सोशल वर्कर महिला मिराची वाट पळयताल्यो. त्या महिलांक समाज सेविका अशें म्हणल्यार तिडक मारताली. तीं आपूण सोशल वर्कर म्हूण वळख करून दितालीं. तातूंतलीं दोगां मीरा वांगडा कॉलेजांत शिकतालीं. मीराची आनी तांची व्हडलीशी इश्टागत नाशिल्ली पूण मीरा तांच्या सामकी लागींची मैत्रीण, एकाच बांकार बसून प्रोफेसरांची फकांडां मारपी अश्यो फटी तांणी पसरायिल्ल्यो. म्हारग म्हारग साडयो न्हेसून समाजांत मिरोवपी खूबश्या मध्यम वर्गीय बायलांक बन्सीलालान त्या दिसा कार्यक्रमाक आपयिल्लीं. कांय बायलां कडेन टायम-पास गजाली करून जातकूच कार्यक्रम केन्ना काय म्हूण मीरान बन्सीलालाक

विचारलें. बन्सीलालान रोखडोच कार्यक्रम सुरू केलो. इल्लेंशें भाशण करून ताणें मागीर मॅडम मीरा प्रभू आतां पयली साडी नंदिनी सावंत हांकां दितली अशें मायकाचेर सांगलें. बन्सीलालान मीराच्या हातांत दिल्ली साडी मीरान नंदिनी सावंताक दिली. कार्यक्रमाक आयिल्ल्या बायलांनी पयलींच साडयो विकत्यो घेवन दवरिल्ल्यो. त्यो तांणी वेगवेगळ्या कावंटरांचेर वचून घेतल्यो. अखेरेक बन्सीलालान सगल्यांक च्याक आमंत्रण दिलें. मीरा भायर सरता आसतना ''ही तुमकां आमची भेट,'' अशें म्हूण ताणें मीराच्या हातांत बरें गीफ्टरॅप केल्लें बॉक्स एके सोबीतशे पोतयेंत घालून दिलें.

''हें कितें?'' मीरान विचारलें.

''व्हडलें शें कांय न्हय, सिल्काची साडी. तुमकां बरी सोबतली.'' बन्सीलालान म्हणलें.

''थँक्यू, थँक्यू, पूण म्हाका ही भेट नाका. हांव आनी म्हजो घोव खंयच्याय कार्यक्रमांक गेल्यार असल्यो भेटी घेनात. तुमचो मोग आनी आपलेपण हीच व्हडली भेटवस्त,'' अशें म्हणून मीरा भायर सरलें.

पणजे आयिल्लेंच आसां म्हणटकूच ताईबाय, शेंवतू, इंदिरी आनी दुर्गाबाय हांचे खातीर साडयो घेवन दवरल्यार फुडल्या फावटीं शिरधनां वतना तांकां दिवंक मेळटल्यो अशें मीरान येवजिलें आनी सोनू ड्रायवराक पेडणेकाराल्या दुकानाकडेन गाडी व्हरपाक लायली. दुकानांत भितर सरतकूच मीरान हेवटेन तेवटेन नदर मारली पूण वासुदेवबाब पेडणेकार दिसलो ना.

वासुदेवबाब खंय आसा काय म्हूण मीरान विचारतकूच तो भितर बसला अशें म्हणून एकल्यान भितरले वटेन बोट दाखयलें. मीरा प्रभू आयलां म्हूण वासुदेवबाबाक सांग, पयलींचें मीरा गावणेकार अशें म्हणून मिरान एका भुरग्याक सांगलें. आपणाक जाणट्या लोकांखातीर चार णव वारी साडयो जाय अशें ताणें एका भुरग्याक सांगलें. कितले सुमार किमतीच्यो? अशें भुरग्यान विचारतकूच सादारण पांचशें-सशें रुपयांच्यो अशें मीरान सांगलें.

इतल्यांत भितरल्यान व्हडल्यान बोवाळ घालीत वासुदेवबाब पेडणेकार भायर आयलो. मीराक पळयना फुडें ताणें व्हडल्यान किळांच मारली. ''आगो मीरा, कितल्या तेंपान गो तूं? लग्न जावन तेवटेन गेल्लें तें पत्तोच ना मुगो तुजो! तूं तशें आसा मुगो! कांयच बदलूंक ना. यो, भितर यो!'' अशें म्हणून

वासुदेवबाबान मीराक आपणाल्या कॅबिनांत भितर व्हरून बसयलें. पंचवीस वर्सां आदले भशेनूच वासुदेव बाब धव्याच पुडव्याचेर धवेंफुल्ल खोमीस घालून आशिल्लो. पंचवीस वर्सांनीं वय वाडलें म्हणटकूच केंसूय बी खोमसा भशेन धवेफुल्ल जाल्ले. वासुदेवबाबान मीराक फोर्सान एक च्या पिवयली. सगल्यांची वासपूस करून जातकूच आपूण एक मजेची गजाल तुका सांगतां अशें म्हूण कांय दिसां फाटली एक घडणूक ताणें सांगली:

आपूण यम्.पी.टी. चेअरमॅनाच्या ऑफिसांतल्यान उलयतां अशें म्हणून एक दादलो उलोवंक लागलो. ताणें एक प्रस्ताव आपल्या मुखार मांडलो. कसल्याय तरी नवे फॅशनीच्या साडयांची विक्री सुरू करूंक आपणें एक कार्यक्रम दवरचो. कार्यक्रमाचो खर्च बी तो करतलो. कार्यक्रमाक आपणें मॅडम प्रभूक चीफ गॅस्ट म्हूण आपोवपाची आनी तिका पंदरा-वीस हजारांची एक सिल्क साडी प्रेजेंट म्हूण दिवंची. ती साडी तो कोणाकडल्यानूय तरी आपल्याक धाडटलो अशें ताणें सांगलें. ताचे साडयेची आपल्याक गरज ना, आपल्याक जाय जाल्यार ताच्याकूय म्हारग साडी आपूण मीरा प्रभूक दिवंक शकतां कारण तें आपले धुवे भशेन. तें इस्कॉलांत आनी कॉलेजांत शिकता आसतना लेगीत ताका आपूण वळखतालों अशें आपणें ताका सांगलें. मीरा प्रभूक म्हारग साडी आनी तिवूयबी अशे आडवे-तिडवे वाटेन दिवपाची ताका कसली गरज अशें आपणें विचारतकूच चेअरमॅनान दी म्हूण सांगल्या अशें ताणें सांगलें. आपणाक ताचो प्रस्ताव मान्य ना अशें म्हणून आपणें ताका पयलींच सांगिल्लें. म्हणटकूच बिजनेस कशें करप तें गोंयकारांक समजना अशें म्हणून ताणें फोन आपटिलो. "हें प्रकरण कितें, मीरा?" वासुदेवबाबान विचारलें.

"वासुदेवबाब, म्हाका हें सगलें तियात्रा भशेन दिसता. चेअरमॅन ताका सांगता, तो खंयच्च्यानूय तरी साडी घेता, तुमकां कार्यक्रम करूंक लायता, तुमकां ती म्हारग साडी धाडटा आनी मागीर ती तुमचें प्रेजेंट म्हूण म्हाका दिता हें सगलें तियात्रांतल्या जोकां भशेन दिसता! घोवाक विचारचें पडटलें. म्हाका साडी दिवंची अशें घोवाक दिशिल्लें जाल्यार हेरांच्या हातांल्यान म्हाका कित्याक दिवंक जाय? तुमकां एक गजाल खबर आसा? तें 'सारी द गोवा' म्हूण कपड्यांचें दुकान आसा थंय नवे तरेच्यो साडयो विकपा खातीर तांणी एक कार्यक्रम केल्लो आनी हांव थंय आयज त्या कार्यक्रमाक चीफ

गॅस्ट म्हूण आयिल्लें. तांणी म्हाका प्रेजेंट म्हूण एक सिल्क साडी दिल्ली. हांवें ती घेतली ना. कारण हांव आनी घोव हेरां कडल्यान प्रेझेंटां घेनात. बरी याद जाली. म्हाका चार णव वारी कापडां विकतीं घेवंक जाय. भायर हांव सांगून आयलां. तीं हांव आतां घेवन वतां. आनीक कांय वेळ वासुदेवबाबा कडेन पयलींच्यो गजाली करून, चार बरींशीं कापडां घेवन, बील फारीक करून वासुदेवबाबाक पांयां पडून मीरा भायर सरलें. गाडयेंत बशिल्ले कडेन मीरान बिला वेल्यान नदर घाली. वासुदेवबाबान ताका वीस पर्सेंट डिस्कावंट दिल्लो. मुरगांवां बंगल्यार पावतकूच आपणें प्रेझेंट नाकारिल्ल्याची आनी महेशाच्या ऑफिसांतल्यान एका दादल्यान फोन केल्ल्याची मीरान महेशाक गजाल सांगली. आपणाल्या ऑफिसांत एकूच दादलो आसा आनी तो म्हणल्यार बाप्तीस्त. पूण चेअरमॅनाच्या ऑफिसांतल्यान उलयतां अशें सांगून कोणूय खंयच्यानूय उलोवंक शकता हें महेशाक खबर आशिल्लें. पूण साडयेचें कुवाडें महेशाक त्या दिसा समजलें ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं महेश ऑफिसांत गेलो तेन्ना त्या दिसाच्यान बाप्तीस्तान स दिसांची सुटी काडल्या म्हूण ताका कळ्ळें. बाप्तीस्ताक थंडी जावन जोर आयिल्लो आनी उण्यांत उणें चार दीस तरी घरा राव अशें ताका दोतोरान सांगिल्लें. तो करतालो तें काम आतां फ्लावियान करचें अशी प्रशासन खात्यांतल्यान ऑर्डर आयिल्ली. आदल्या दिसाचीं उरिल्लीं टायपिंगाचीं कामां करपाखातीर फ्लाविया आपणाल्या इलेक्ट्रॉनीक टायपरायटरा मुखार बशिल्लें. ट्रिंग ट्रिंग ट्रिंग करून बाप्तीस्ताल्या मेजावलो फोन वाजूंक लागलो. आपूण ए क्लास कॉन्ट्रॅक्टर दामानी उलयतां अशें दामानीन फ्लावियाक सांगलें. दामानी बाप्तीस्ता कडेन उलोवंक सोदतालो, पूण बाप्तीस्तान सुटी काडल्या अशें फ्लावियान सांगतकूच दामानीन फ्लावियाक सांगपाक सुरवात केली. बन्सीलालान मॅडमीक साडी दिल्ली, पूण मॅडमीन ती घेतली ना आनी आपूण आनी आपलो घोव लोकां कडल्यान प्रेझेंटां घेनात अशें तिणें बन्सीलालाक सांगलें. ही गजाल दामानी आपल्याक कित्याक सांगता काय म्हूण फ्लावियान विचारतकूच फ्लावियान हो रेकाद बाप्तीस्त सराक दिवंचो अशें दामानीन सांगलें. बाप्तीस्ताक रेकाद कित्याक दिवंक जाय काय म्हूण फ्लावियान विचारतकूच पंदरा-वीस हजारांची सिल्क साडी आपणें विकती

घेवन ती बन्सीलाला कडल्यान मॅडम प्रभूक प्रेझेंट म्हूण दिवंची अशें म्हणून बाप्तीस्त सरानूच आपणाक सांगिल्लें देखून आपणालो रेकाद ताचे कडेन पावोवंक जाय.

फ्लावियान प्रस्न विचारपाचें सोडलें ना. बाप्तीस्त कसलींय तरी चिकानां करता म्हणपाचो ताका सदांच दुबाव मारतालो. बाप्तीस्त मॅडमीक साडी कित्याक दितलो? मॅडमीन ताचे कडेन असली साडी मागिल्ली काय कितें असो प्रस्न फ्लावियान विचारतकूच तसली साडी मॅडमीक दिवपाक लाय अशें चेअरमॅनानूच आपणाक सांगिल्लें अशें बाप्तीस्त सांगतालो म्हूण दामानीन स्पश्टीकरण दिलें. आपूण ही सगली गजाल चेअरमॅनाक सांगूं काय म्हूण फ्लावियान विचारतकूच दामानीन हय म्हूण सांगलें.

दनपरां जेवणाक वचचे पयलीं महेशान कितेंय तरी बरोवन घेवपा खातीर फ्लावियाक आपयलें. तो नोट बरोवन घेतकूच फ्लावियान महेशाक ‘‘साडी का किस्सा’’ सांगलो. कितेंय तरी खंयूंय तरी शिजता हाचो महेशाक वास आयलो. दामानीक सांजचो तीन वरांचेर आपणाक मेळ म्हूण सांग आनी तो येतकूच सूर्यनारायणनाक आनी अभ्यंकराक आपणा म्हऱ्यांत धाड अशें म्हूण ताणें फ्लावियाक सांगलें.

दनपारच्या तीन वरांचेर पयलीं अभ्यंकर आनी सूर्यनारायणन आयले. महेशान तांकां आपणाले उजवे वटेन बसात म्हूण सांगलें आनी दामानी भितर येतकूच ताका मुखार बसयलो. महेशान दामानीची आनी ताच्या कामाची पयलीं तुस्त केली आनी दामानी इतलो प्रामाणीक आनी कामसू कंत्राटदार मेळूंक कुस्तार अशें म्हूण अभ्यंकराक आनी सूर्यनारायणनाक दामानी हुजीर सांगलें. तुस्त करून जातकूच महेशान विशयाक हात घालो. हे साडयेची काणी कितें तें आपल्याक सांग अशें महेशान दामानीक सांगलें. दामानीन मागीर सगली काणी तपशिलान सांगली. बाप्तीस्तान कितेंय तरी भानगड केल्या आनी आपणें ही काणी फ्लावियाक आनी चेअरमॅनाक सांगूंक जायना आशिल्ली अशें दामानीक दिसलें आनी उलयता आसतना ताची जीब आडखळपाक लागली. हाच्या पयलीं बाप्तीस्ताक कॉन्ट्रॅक्टरांनी असल्यो साडयो वा आनीक कसल्योय वस्तू घेवन दिल्या काय म्हूण विचारतकूच हें खूब तेंप चल्लां, पूण आपणें चेअरमॅनाक सांगलां हें बाप्तीस्ताक कळूंक जायना अशें दामानीन सांगलें.

“मॅडमीक साडी दी म्हूण हांवें बाप्तीस्ताकूय सांगूं ना आनी बन्सीलालाकूयबी सांगूं ना. मॅडमीक साडी दिवपाची जाल्यार हांव हेर लोकांक कित्याक सांगतलों? तुमी आमकां म्हायती दिल्या म्हूण आमी कोणाक सांगिनात. तुमकां त्रास जावंचो ना. थँक्यू!” अशें म्हणून महेशान उठून ताचो हात धरलो. आपणाक रक्षण दियात अशें म्हणून सांगून दामानी नेर्वोज जावन भायर सरलो.

“बाप्तीस्ताच्यो कारवायो तुमी आयकल्यो. म्हजे बायलेक खयंच्यानूय तरी म्हारग साडी सगल्यां हुजीर दिवपाक लावन म्हाका त्रासांत घालपाक सोदतालो काय दिसता. हाचे फुडें तो म्हाका नाका! अभ्यंकर, तूं ताका दुसरे कडेन घाल आनी ताच्या वा मात्श्या सकयिल्ल्या पावंड्या वेलो कोणूयतरी बरो प्रामाणीक पी.ए. सुचय.” महेशान अभ्यंकराक सांगलें.

“सर, ताका हांगच्यान हालोवपाक मेळना. कारण ह्या पोस्टा भशेन पोर्टांत आनीक खंयच पोस्ट ना!” अभ्यंकरान सांगलें.

“मागीर अशें करुंया. हो पोस्ट दुसरे कडेन व्हरुंया. त्या जाग्यार ताका तूं काम दी.” महेशान वाट दाखयली.

अभ्यंकराक ही प्रशासकीय गुगली सारकी समजली ना, तरी आसतना ताणें ओके म्हणलें.

“दामानी उलयता तें तुमी आयंकुचें देखून तुमकां हांगा आपयिल्ले. आतां तुमी गेल्यार जाता. थँक्यू.” अशें म्हणून महेशान तांकां वयार केले. दुसऱ्या दिसा चेअरमॅनाच्या ऑफिसांतलो सिनियर पी.ए.चो पोस्ट प्रशासकीय खात्यांत व्हेलो आनी बाप्तीस्त प्रशासकीय खात्यांत त्या पोस्टार काम करतलो अशी ऑर्डर अभ्यंकरान काडली.

सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर वतकूच दीपान येवन महेशाच्या हातांत जल्मीन धाडिल्लो हिशेब दिलो. रेअर ऍड्मिरल जिंदालाक दिल्ल्या जेवणाक णव हजार सातशें पांसस्ट रुपया खर्च जाल्लो. महेशान दीपाक आपूण सांगतां तें बरोवन घे अशें म्हणून खुणेनूच ताका बसूंक लायलें.

“हांवें ह्या पोर्टाचीं सुत्रां हातांत घेतलीं तेन्नां पोर्टांतलें मानवी वातावरण सामकें वायट आशिल्लें. चेअरमॅन जिंदालाचेर अधिकारी सामके कोंत्र आशिल्ले आनी कामगार वर्ग अधिकाऱ्यांचें कांयच आयक नाशिल्लो आनी

अधिकाऱ्यांक मान दिना आशिल्लो. ते खातीर अधिकाऱ्यांचें मनोबल सामकें खालच्या पावंड्यार पाविल्लें. ऍड्मिरल जिंदाल पांच वर्सां पोर्टांत आशिल्लो आनी ताणें आपणाले पद्दती प्रमाणें पोर्ट बरो करून चलयलो. तो पोर्टांतल्यान निवृत्त जावन वता म्हूण ताका निरोपाचो कार्यक्रम लेगीत घडोवन हाडूंक पोर्टाचे अधिकारी तयार नाशिल्ले. कामगार वर्गांत अशे निरोपाचे कार्यक्रम घडोवन हाडपाची प्रथा नाशिल्ली. देखून मानवी वातावरण सुदारपा खातीर हांवें फुडाकार घेवन ऍड्मिरल जिंदाला खातीर निरोपाचो कार्यक्रम आनी जेवण घडोवन हाडलें. ऍड्मिरल जिंदाल कार्यक्रमा उपरांत हॉलांतल्यान भायर सरता आसतना हॉलांत गच्च भरिल्ल्या अधिकाऱ्यांनी ताचेर ताळयांचो पावस घालो. जेवण जातूकच विभाग मुखेल्यांनी लायनींत उबे रावून ताका हात दिवन दर एकल्यान ''गुड बाय आनी बेस्ट ऑफ लक सर'' अशें म्हणून निरोप दिलो. ह्या कार्यक्रमा वरवीं वातावरण खूबशें सुदारलां अशें म्हजें मत! ह्या पत्रा वांगडा पार्टेक जाल्ल्या खर्चाचो हिशेब जोडला.''

महेश प्रभू,

चेअरमॅन, मुरगांव पोर्ट.

पत्राचो मसुदो सांगतकूच आनीक कितें आसा काय म्हूण महेशान विचारलें आनी दीपान महेशाच्या हातांत आनीक एक पत्र दिलें आनी तें पत्र त्याच दिसा आयलां म्हणपाचें सांगलें. महेशान पत्राचेर नदर भोंवडायली. तेंवूयबी पोर्ट मंत्रालयांतल्यान आयिल्लें. पत्रा वांगडा आनीक एक निनांवीं पत्र जोडिल्लें. ''महेशान आपूण आनी बायल राविल्ल्याचीं गॅस्ट हावसाचीं बिलां फारीक करूंक नात. रावप, खावप, जेवप सगलें फुकट! येनाफुडें भ्रश्टाचार सुरू!'' अशें त्या निनांवीं पत्रांत बरयिल्लें.

''आगो, तुका काय आगियाराक आमच्या जेवणा खाणाचें बील जल्मीक करूंक लाय अशें म्हूण हांवें सांगिल्लें. तें जल्मीन धाडलां?'' महेशान दीपाक विचारलें.

''तुमी म्हाका सांगूं ना सर, आगियाराक सांगलां जातलें. हांव आगियारा कडल्यान घेतां आनी हाडटां. जल्मीन तें दिवंक ना जाल्यार रोखडेंच दिवंक लायतां,'' दीपान म्हायती दिली.

''म्हजीं कसलींय बिलां फारीक करपाचीं आसल्यार तीं तुवें ना जाल्यार

आगियारान फारीक करपाचीं! चॅक बुकाचेर म्हजी सय घेवपाची. कॅशान कसलेंय धाकलेंशें बील फारीक केलें जाल्यार रसीट घेवंक जाय. सगलीं बिलां आनी चॅक दिल्ल्याचो अकावंट फायलींत लावंक जाय. गॅस्ट हावसाचें जेवण आमी बंगल्यार मागयल्यार दर म्हयन्या अखेर जल्मी कडल्यान बील मागोवन चॅकान फारीक करूंक जाय.'' महेशान आदींच दिल्ले आदेश परतून दिले.

''यस सर! तुमच्या जेवणा-खाणांचीं बिलां जल्मी कडल्यान घेवन हें पत्र टायप करून परतून येतां.'' अशें म्हणून दीपा भायर सरलें.

आपणालें काम उरिल्लें देखून फ्लाविया थोडो वेळ ऑफिसांत राविल्लें. ताणें दिल्लीच्यान रामलिंगमाचो फोन आयला म्हूण सांगलें. महेशान ओके म्हणटकूच फ्लावियान रामलिंगमाक फोन लावन दिलो.

''गुड इव्हिनिंग सर, रामलिंगम! तुमकां एक म्हत्वाची खबर दिवंक जाय आशिल्ली. आमच्या मिनिस्टराची बदली जाल्या. ताका हातमाग वस्त्र आनी हस्तकला मंत्रालयांत घाला. आनी पोर्ट मंत्रालयांत जॉन हायफर मंत्र्याक घाला! हायफर फाल्यां चार्ज घेतलो. म्हजीयबी मिनिस्टरा वांगडा ताच्याच खात्यांत बदली जातली. हांव आपल्याक जाय म्हूण ताणेंच म्हजी बदली करून घेतल्या.'' रामलिंगमान म्हायती दिली.

''तूं त्या मंत्रालयांत वतकूच थंयचे फोन नंबर म्हाका सांग. हांगच्या परस थंय तुका काम उणें आसतलें काय दिसता. तुज्या जाग्यार कोण येता?'' महेशान विचारलें.

''रमेश धवन म्हूण यू.टी. काडराचो एक डॅप्यूटी सेक्रेटरी म्हज्या जाग्यार फाल्यांच्यान येतलो. तुमकां बॅस्ट ऑफ लक, तुमी बरे करून. तुमी दिल्लीक येतात तेन्ना हांव येवन मेळटां!'' रामलिंगमान सांगलें.

''राव, राव, फोन दवरूं नाका. जॉन हायफर प्रधानमंत्र्याक सामको लागींचो अशी ताची नामना आसा. ती खरी गजाल?'' महेशान विचारलें.

''सामकी खरी! पार्टेचो तो मुखेल कलेक्शन एजन्ट!'' रामलिंगमान सांगलें.

''ओके, ओके, रामलिंगम, थँक्यू! तूं बरो करून! हांव दिल्ली येतां तेन्ना मेळुंया!'' अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो आनी ताणें फायली पळोवपाचें काम चालू दवरलें.

महेशान फोन दवरिना फुडें दीपा भितर आयलें. जल्मीन बील करूंक मात्सो वेळ लायिल्लो. नेमां प्रमाणें चेअरमॅनाक रावपा खातीर जागो दिवपाचें काम पोर्टाचें पूण जेवण-खाण, च्या चें बी बील ताणें फारीक करपाचें आसता. महेशान घालून दिल्लें पत्र जल्मीन दिल्ल्या बिला सयत दीपान हाडलें आनी वांगडा चॅकबुकूय बी हाडलो. महेशान चॅकाचेर आनी पत्राचेर सय केली आनी चेक जल्मीक पयलीं दिवपाचो आनी मागीर तें पत्र आनी बील दिल्ली पोर्ट मंत्रालयाक धाडपाचो आदेश ताणें दिलो.

पांच वरांचेर महेश बंगल्यार आयलो. साडयेचें कुवाडें सुटिल्ल्याचें ताणें च्या घेता आसतना मीराक सांगलें. बाप्तीस्तान आपणाक त्रासांत घालपाचो कसो प्रयत्न केलो तेंवूयबी ताणें सांगलें.

''पळयलें मरे? गोंयांत येवप नाका म्हूण तुका हांव केन्नाच्यान सांगतालें! इतलीं वर्सां तुवें तमिळनाडूंत काम केलें. हाच्याकूय कितलिंशींच व्हड व्हड आस्थापनां चलयलीं! पूण असलीं पुलितिकां खंयच कोणेंच केलीं नात. तूं हांगा येवन एक म्हयनो लेगीत जावंक ना, हीं पुलितिकां सुरू!'' मीरान बेजारून महेशाक गोंयांत येवपाचें थारायिल्ल्या खातीर दोश दिलो.

''आयज मेरेन जावंक ना तें हाचे फुडें जावंक जायना वा जावंचे ना अशें कोणाच्यान सांगूं नज. कायद्या प्रमाणें हांव निर्णय घेतां. कोण दुखावतलो, कोण खोशी जातलो, हेर कोणाकूय कशें दिसतलें ह्यो सगल्यो गजाली येवजूंक बसल्यार परिस्थिती खंयचे खंय पावतली. अंतरात्म्याक स्मरून प्रामाणीकप्रमाणान आपणें आपलें काम करपाचें. मागीर कितें जाता तें जांव!'' अशें म्हणून महेश उठून तोंडार उदक मारून वारांदा वेल्या कोनशाच्या ऑफिसरुमांत आपणालें काम करूंक गेलो.



## भाग 18

**सकाळीं** ऑफिसांत वचना फुडें महेशाक सज्जन केंकरेचो फोन आयलो. "नवो मिनिस्टर जॉन हायफर गोंयच्या उद्देगपतींचो सामको इश्ट. दोन-तीन म्हयन्यांतल्यान एक फावट तरी गोंयांत येवन तो मिनेरां वांगडा रातच्या दोन वरां मेरेन पार्टयो करून दुसऱ्या दिसा ताच्या वांगडा ताचो ओ.एस्.डी. व्हड व्हड ब्रिफकेसी घेवन दिल्लीक परतता," सज्जनान महेशाक म्हायती दिली.

"सज्जन बाब, गोंयांत ताका सगल्यांत लागीं खंयचो मिनेर?" महेशान सज्जनाक विचारलें.

"तशें कांय ना, सगलेच ताका लागीं; तांतल्या तातूंत सर्वानंद ताका चड लागीं!" सज्जनान म्हायती दिली, आनी "तूं अशें कित्याक विचारता?" अशें महेशाक विचारलें.

"जो उद्देगपती मिनिस्टराक चड लागीं तो सदांच अधिकाऱ्यांक चड त्रास दिता, हो आमचो अणभव, देखून हांवें विचारलें. हेवटेन केन्नाय पासय मारल्यार बंगल्यार यो. बसून उलोवया. पयलीं फोन मात कर!" महेशान सुचोवणी करून फोन दवरलो.

फायली पळोवचे पयलीं महेश त्या दिसाचीं वर्तमानपत्रां चाळूंक लागलो. फ्लावियान एक फायल हाडून दिली आनी तीन दिसांनी बोर्डाची मिटींग आसा, ते मिटिंगेची ही फायल अशें सांगून तें गेलें. प्रथे प्रमाणें चेअरमॅनान कसल्यो कसल्यो मिटिंगो आपोवपाच्यो तें सांग म्हणून महेशान बाप्तीस्ताक सांगिल्लें आनी बाप्तीस्तान आपणालें काम केल्लें. महेशाक त्या तारखांची याद नाशिल्ली. एका पेपराचेर सगल्यो तारखो, टायम आनी विशय टायप करून तो

पेपर आपणाल्या मेजार आशिल्ल्या व्हड हारशा पोंदा घालून दवर अशें ताणें फ्लावियाक फोनार सांगलें आनी तो बोर्ड मिटिंगेची फायल पळोवंक लागलो.

साडे बारा वरांचेर सुमार फ्लावियान फोन करून दिल्ली मिनिस्टराच्या ऑफिसांतल्यान फोन आयला म्हणून सांगलें. महेशान फोन उखलून हॅलो म्हणटकूच डॅप्यूटी सेक्रेटरी रमेश धवनान आपणाली वळख करून दिली. तो एकोणीसशें अंयशीं बॅचाचो यु.टी. काडराचो आय्.ए.एस्. अधिकारी आनी नव्या मिनिस्टराचो तो सिनियर पी.ए. अशें ताणें सांगलें. मिनिस्टर येता त्या सोमारा मुंबय आसतलो आनी महेशाक ताणें सांजेच्या चार वरांचेर मुंबय पोर्टाच्या गॅस्ट हावसांत मेळूंक आपयला अशें रमेश धवनान सांगलें.

''विशय कसलो तें तुका खबर आसा? म्हाका सांगल्यार विशयाची तयारी करून येवंक बरें!'' महेशान सांगलें.

''ना, कांय खास विशय ना काय दिसता! पोर्टा विशीं तुमचे कडेन एखाद्रो चर्चा करपाक सोदता जावंये!'' धवनान आपलें मत सांगलें.

सोमारा दीस सकाळच्या फ्लायटीन महेश मुंबय गेलो आनी महाराष्ट्र सरकाराच्या मलबार हिलाचेर आशिल्ल्या गॅस्ट हावसांत रावलो. मिनिस्टराच्या ओ.यस.डी., नरेंद्र हण्डाचो नंबर महेशान मुंबय येवचे पयलीं घेवन दवरिल्लो. सारको चार वरांचेर पी.आर.ओ. रामचन्द्रा वांगडा महेश मुंबय पोर्टाच्या गॅस्टहावसांत पावलो. थंय पावतकूच रामचंद्रान हण्डाक सोदून काडलो आनी हण्डान महेशाक मिनिस्टरा म्हऱ्यांत व्हेलो.

दारा भायर काळें युनिफॉर्म घालून हातांत ए. के. फोर्टीसेवन घेवन दोन सेक्यूरिटी गार्ड उबे आशिल्ले. एकल्यान महेशाच्या आंगाक मशीन लावन तपासलो आनी दुसऱ्यान ताचें सरकारी वळखपत्र पळयलें आनी ताका ओ.यस्.डी. वांगडा भितर सोडलो. ''सर, मिस्टर महेश प्रभू आयला'' अशें मिनिस्टराक सांगून ओ.यस्.डी. हण्डा गेलो.

मिनिस्टर एका व्हडल्या हॉलांत लांबरुंद दिवानाचेर लॉडांक तेंकून बशिल्लो आनी ताच्या म्हऱ्यांत सर्वानंद सांवर्डेकारूय बी पांय पसरून बशिल्लो. महेशान सर्वानंदाक पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. मिनिस्टराचें नांव वाचिल्लें आनी फोटो पळयिल्लो, पूण ताका केन्नाच तो मेळूंक नाशिल्लो.

''यो बस! मिस्टर प्रभू, तूं म्हाका वळखताच जातलो; हो म्हजो खास

इश्ट, सर्वानंद, तुमच्याच गोंयचो!'' मिनिस्टरान सर्वानंदाची वळख करून दिली.

सर्वानंद निकतेंच ऍण्डेल घेतिल्ले भशेन तोंड करून बशिल्लो.

''यस सर, हांवें ताचें नांव आयकलां, पूण केन्नाच मेळूंक ना!'' महेशान मिनिस्टरा समोर आशिल्ल्या सोफाचेर बसत ताका सांगलें.

''तूं खंयच्या बॅचाचो आय्.ए.यस्. ऑफिसर?'' मिनिस्टरान विचारलें.

''नायन्टीन सिक्स्टी सिक्स, तमिळनाडू काडर, सर!'' --महेश.

''नायन्टीन सिक्स्टी सिक्स? म्हणल्यार तुका आतां सिर्वीसेंत पंचवीस वर्सां सुमार जावन गेलीं. आतां तूं ऍडिशनल सेक्रेटरीच्या लायनींत उबो आसतलो!'' मिनिस्टरान मनांत गणीत करीत म्हणलें.

''यस सर, आनीक एका वर्सा भितर म्हजो एम्पॅनलमेंट जावंक जाय!'' महेश.

''तूं बरो ऑफिसर म्हूण आयकलां. हीं दोन वर्सां तुका म्हत्वाचीं! तुजो सी.आर.एकदम बरो आसूंक जाय!'' प्रशासनांतलीं फोंडकुलां, फोंड बी आपणाक खबर आसा अशें दाखोवपाक मिनिस्टरान महेशाक खबर आशिल्लीच गजाल ताका सांगली.

महेश वग्गी रावलो, पूण तो भितरल्या भितर हांसता अशें मिनिस्टराक दिसलें. मिनिस्टर मात्सो नर्वस जालो. ''तूं कित्याक हांसता?'' मिनिस्टरान महेशाक विचारलें.

''सर, कॉन्फीडेन्शियल रिपोर्ट कसो मेळटा तें आमच्या आय.ए.एस्. बॉसांच्या मर्जीचेर अवलंबून आसता! आमी कायद्याक आनी नेमांक धरून, प्रामाणीकपणान आमचें काम करपाचें! म्हाका कित्याक आपयिल्लो सर?'' महेशान विचारलें.

''भारताच्या उद्देगीकरणा खातीर सरकारान नवें धोरण आंखलां तें तुका खबर आसतलें. ह्या फुडें जे प्रकल्प भारत सरकार आनी राज्य सरकार आंखता तातूंत प्रायवेट पयशांची चड आनी सरकारी पयशांची उणी गुंतवणूक जावंची अशें आमचें नवें धोरण! आनीक धा-पंदरा दिसांनी गोवा पोर्ट पळोवंक येवपाचो म्हजो बेत आसा. तेन्ना तो पोर्ट वाडोवपाक फुडाराक कसले प्रकल्प 'बूट' पद्दतीन हातांत घेवं येतात ताचेर चर्चा करुंया. तूं तपशिलवार नोट तयार

करून दवर!'' मिनिस्टरान सांगलें.

''ओके सर, आतां हांवें गेल्यार जाता?'' महेशान विचारलें.

''ओके. गोंयांत मेळुंया! तुका मिस्टर सर्वानंदाक कितेंय सांगपाचें आसा?'' मिनिस्टरान विचारलें.

''ना सर! म्हाका कांय सांगपाचें ना! ताका पोर्टा कडेन कितेंय खास काम आसल्यार ताणें फोन करून म्हाका मेळूंक येवंचें. मागीर कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार तो कसो सोडवपाचो तो पळोवं येता,'' महेशान सोफा वेल्यान उठत म्हणलें.

''म्हणल्यार तूं प्रोब्लेम सोडोवंचो ना, सोडोवपाक मेळटा काय ना तें पळयतलो, अशें मरे?'' मिनिस्टरान व्हडल्यान हांसत महेशाक विचारलें.

''तशें न्हय सर! कायद्या आड कितेंय केल्यार तुमीच म्हाका फाल्यां दोशी थारायतले, देखून हांवें तशें म्हणलें,'' महेशान स्पश्टीकरण दिलें.

''ओके, ओके, थँक्यू. गोंयांत मेळुंया!'' मिनिस्टरान हांसत महेशाक ''आतां तूं गेल्यार जाता'' अशें सुचयलें.

''पळयलें, हो कितल्यो मेजून-मापून जापो दिता तो? तुजेर आनी म्हजेर हांसत-हांसत दोन थापटां मारलीं. तुवें सी.आर.चो विशय काडटकूच, आपणालो सी.आर. तुज्या हातांत ना अशें ताणें सुचयलें आनी कायद्या आड आपूण कांयच करचों ना अशें म्हज्या कानार घालें. असल्या अधिकाऱ्यांक बुद्द शिकोवंकूच जाय,'' अशें म्हणून सर्वानंदान मिनिस्टराक महेशाचेर चडोवन घालपाचो यत्न केलो. सर्वानंदान कांयच हुस्को करपाची गरज ना, मुरगांव पोर्टांत ताचीं कसलींय कामां आसल्यार तीं करपाची आपली लागणूक आनी ह्या ऑफिसरा भशेन आपणें जायते ऑफिसर हाताळ्ळ्यात, थोड्यांक रडोवन आपल्या मुखार दिमयांचेर उबे केल्यात, ह्या ऑफिसराक आपूण बुद्द शिकयतां अशें उतर सर्वानंदाक दिवन मिनिस्टर हायफर आपल्या प्रायवेट मिटिंगांक गेलो.

ते रातीचो महेश महाराष्ट्राचो चीफ सेक्रेटरी अरुण भडकमवारागेर जेवंक गेलो. अरुण ताचो बॅचमेट आनी सामको लागींचो इश्ट. मिनिस्टर हायफर कसो मनीस काय म्हूण विचारतकूच मनीस भयंकर डॅम्बीस आनी पाडो! शैलजा सोळंकी ताचे विशीं चड सांगूंक शकतलें अशें म्हूण अरुणान दिल्लीक शैलजाक फोन लायलो. एकामेकांच्या आरोग्याच्यो आनी फामिलीच्यो गजाली

जातकूच, आपणें ह्या मिनिस्टराचें आयकूंक ना, कायद्या प्रमाणें सरळ वाटेन गेलें म्हूण आपणाक त्रासांत घालपाचे ताणें खूब यत्न केले. आपलें नशीब बरें म्हूण आपूण सुटलें, अशें शैलजान महेशाक सांगलें. जेवन बी जातकूच गॅस्ट हावसांत वतना "तूं सांबाळून राव, आमचो बॅच आतां ॲडिशनल सेक्रेटरीच्या एम्पॅनलमेन्टाक येतलो, मीराक बी विचारलां म्हूण सांग!" असो सल्लो दिवन अरुणान ताका गुडबाय म्हणलें.

गोंयांत परतून येतकूच सर्वानंदान व्हड खोश्शेन रामकृष्णाक फोन केलो आनी जॉन हायफर हो मंत्री आपणालो सामको लागींचो इश्ट पोर्ट मंत्रालयांत बदली जावन आयला, आपूण ताका मुंबय वचून मेळून आयलां, आपल्या सांगण्या वेल्यान महेशाक बुद्द शिकोवंक तोवूय बी पेटला आनी रामकृष्ण आनी विष्णूचें काम म्हणल्यार एक तर महेशाक धावंडावपाचें, नाजाल्यार ताका त्रासांत घालपाचें आतां बेगीन जांव येता. सकयल्ल्या पावंड्याचेर कारस्थान आमी बरें शिजोवन हाडल्यार, वेल्या पावंड्याचेर मिनिस्टर ह्या नात्यान आपूण ताका बरो खतखतो हाडटां अशें ताणें सांगलां, देखून रामकृष्णान दीस-रात कामाक लागचें अशें सर्वानंदान सुचयलें.

***

वर्सां कशीं वतात तें कळना! पावस सुरू जालो. बंगल्या मुखार आशिल्ल्या शंबर-देडशें वर्सांच्या वडाच्यो खांदयो पूर्वेकडल्यान पश्चिमेक किंवाट्यान तांडव नृत्य करतना पळोवंक आनी दर्याचो गाज आयकूंक महेश आनी मीरा वरान वरां भायर वारांदाचेर बसतालीं. हो अणभव तांकां तमिळनाडूंत मेळनाशिल्लो. बंगल्या मुखार सगले कडेन ल्हान ल्हान खळयांतल्यो व्हाळयो दर्या वटेन धांवताल्यो. मीराक भुरगेपणाच्यो यादी जावन ताणें कागदाचीं व्हडीं केलीं आनी एक व्हडें महेशाचें आनी दुसरें आपलें अशीं नांवां दिवन दोनूय व्हडीं व्हाळयेंत सोडलीं. वॉचमेन इसाक, प्यून श्याम आनी हळडिपूर, वासंती आनी शांती हीं सगलीं व्हड्यांची रेस पळोवंक आनी हांसून ताळयो मारूंक हजर आसतालीं. दर वर्सा पावसाच्या दिसांनीं ह्यो रेसी चलताल्यो. ऑगस्ट म्हयन्यांत चकचकीत वतांत पावस पडल्यार माकडांचीं लग्नां जातालीं. त्या लग्नांनी माकड ना, भट ना, मंगलाश्टकां ना, आनी अंतरपाटूय ना, तरीय

आसतना मीरा आनी महेश वरान वरां तीं माकडांचीं लग्नां पळयत वारांदार बसतालीं. महेशाक फकत शेनवार अर्दो दीस आनी आयतारा सबंद दीस तीं लग्नां पळोवंक मेळटालीं. हेर दिसांनीं ऑफिसांत आसतना मदीं मदीं दर्या वटेनचे पड्डे उगडे दवरून ब्रेकवॉटराचेर आनी सिमेंट ब्लॉकांचेर आपटल्ल्या ल्हारांचो मळबाक झोपय मारपी शिंवर महेश पळयत रावतालो. ऑफिसा मुखावेल्या आंगणांत तो शिंवर पळोवपाक दीसभर शेंकड्यांनी टुरिस्ट येताले. ऑगस्टाच्या म्हयन्यांत पावस उणो जावन चड वत पडूंक लागतकूच बाजारांत नवीं अळमीं येतालीं; मागीर एका म्हयन्यान सुमार चवथ, मागीर दिवाळी, नातलां अशें करीत करीत दोन वर्सां कशीं गेलीं तें समजलेंच ना. ह्या दोन वर्सांत कांय म्हत्वाच्यो गजाली घडल्यो.

पयल्याच वर्सा जुलय म्हयन्याच्या पयल्या आठवड्यांत ऍड्मिरल जिंदालाचें लग्न जालें. बेंगळुराक ब्रिगेड रोडा शेजरा आशिल्ल्या चर्च स्ट्रीटाचेर आशिल्ल्या करिअप्पा कुटुंबाच्या व्हड बंगल्यांत आर्किटेक्ट उमा करिअप्पा आनी रेअर ऍड्मिरल (रिटायर्ड) रवी जिंदाल हांचें लग्न जालें. महेश आनी मीरा लग्नाक वचून, तांच्या सगल्या सुवाळ्यांक हजर रावलीं. आपणाल्या सगल्या सोयऱ्यां कडेन महेशाची आनी मीराची वळख करून दितना तीं मुद्दाम गोंयच्यान आयल्यांत, तीं आपणाल्या भावंडां भशेन अशें तो दरएकल्याक सांगपाक विसरलो ना. करिअप्पा कुटुंबाच्या व्हडल्या कंपांउंडांत उमाचोय बी एक धाकलोसो वेगळो बंगलो आशिल्लो. ऍड्मिरल जिंदालान उमा वांगडा त्याच बंगल्यांत रावपाचें थारायिल्लें.

महेश पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येतकूच गौरीश पिलानींतलें इंजिनियरिंगचें शिक्षण सोंपोवन घरा आयलो आनी आपल्याक फुडें शिकूंक जाय, तेन्ना खंयची लायन घेवंची हाचेर महेश आनी मीरा कडेन चर्चा करूंक लागलो. ताणें आय्.ए.एस्. परिक्षेची तयारी करची अशें मीराक दिसतालें. गौरीश कम्प्यूटर इंजिनियर जाल्लो, पूण आय्.ए.एस्. अभ्यासक्रमांत कम्प्यूटर विशयाचो व्हडलोसो आसपाव नाशिल्लो. चार वर्सां कॉलेजांत खोलायेन शिकिल्ले विशय आय्.ए.एस्. परिक्षेक घेतल्या बगर ते सर्तींत जिखप हें अशक्य, कारण दर वर्सा भारतभर आठ-धा लाख भुरगे ते परिक्षेक बसतात आनी फकत शंबर-देडशें भुरगे वेंचून येतात अशी म्हायती महेशान दिली. इतलेंय आसून,

सामके नवे विशय घेवन लेगीत गौरीश हे सर्तींत जिकूंक शकतालो कारण ताका सामान्य गिन्यान खूब आशिल्लें, आनी वाचनाची आवड आशिल्ली आनी ताची बुद्द तल्लख आशिल्ली. कांय दिसां उपरांत, खंयची लायन घेवंची हाचेर रात-दीस संशोधन केल्या उपरांत ताणें अमेरिकेक वचून फुडलें शिक्षण घेवपाचें थारायलें आनी मीराक आनी महेशाक तशें सांगलें.

अमेरिकेंत मीराची मावशे भयण नीला नायक पंचवीस-तीस वर्सां पयलीं स्थायिक जाल्ली. तिचो घोव दोतोर ओरोबिंदो नायकूयबी गोंयकार! गौरीशाक थंय व्हरपा खातीर कितेंय मजत जाय जाल्यार ती करपाक तीं एका पांयार तयार आशिल्लीं. फुडल्या शिक्षणा खातीर जाय आशिल्ल्यो टोफल आनी जी.आर.ई. परिक्षा बऱ्या मार्कांनी पास जावन तांतल्या तातूंत बऱ्यो आनी सवाय युनिवर्सिटी वेंचून काडून थंय ताणें अर्ज केले आनी अखेरेक टॅक्सस युनिवर्सिटींत ऑस्टिनांत तो फुडलें एम्.एस्. पदवेचें शिक्षण घेवंक गेलो. पयल्या वर्साचो खर्च महेशान दिलो. आपूण स्कॉलरशिप वा असिस्टंटशिप मेळोवन आनी खंयूय तरी पार्ट-टायम नोकरी करून उरिल्लें शिक्षण आनी हेर सगलो खर्च करतलों अशें गौरीशान सांगलें. अमेरिकेक वचपाचें थारतकूच, "तूं म्हाका फकत वचपाची तिकेट काडून दी मागीर फुडलें सगलें हांव पळयतां, तुमी कसलोच हुस्को करूं नाकात." अशें गौरीशान महेश आनी मीराक आदींच सांगिल्लें. पुताक तसो सामको वाऱ्यार उडोवप महेशाक आनी मीराक समा दिसलें ना, देखून महेशान एका वर्सा पुरती ताच्या शिक्षणाच्या खर्चाची तयारी केली. आपणें बँकेंतल्यान तीन लाखांचो ओव्हर ड्राफ्ट मंजूर करून घेतला म्हणून ताणें गौरीशाक सांगूंक नाशिल्लें. महेशाचो एक लागींचो इश्ट ऑस्टिनाक रावतालो आनी ऑस्टिनच्या टॅक्सस युनिवर्सिटींत बिझिनेस मॅनेजमेंट शिकयतालो. ताणें टॅक्सस युनिवर्सिटींत प्रवेश मेळोवपाचे प्रक्रियेंत गौरीशाची मजत केली.

फाटल्या दोन वर्सांत आनीक एक गजाल महेशान केली ती म्हणल्यार वासूक नोकरी मेळोवन दिवपाची. महेश गॅस्ट हावसांत राविल्लो तेन्ना वासू ताका मेळूंक आयिल्लो आनी आपूण तुका खंयूय अकावण्टंण्टाची नोकरी सोदून दितां अशें महेशान सांगिल्लें. पोर्टा कडेन संबंद आशिल्ल्या व्हड व्हड कंपन्यांच्या मालकां कडेन उतर घाल्यार धरतलें आशिल्लें, पूण तांचे कडेन

उतर घालप हें महेशाच्या निजी तत्वांत बस नाशिल्लें. कांय म्हयन्यां आदीं वळख जाल्लो इंजिनियर गणात्रा जायत्या स्टील कारखान्यां खातीर बांदकाम करून दितालो. कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेटींत गणात्रा तीन स्टील कारखान्यांचीं बांदकामां करतालो. थंय एका ऑफिसांत म्हयन्याक णव हजार रुपयांची अकावन्ट्स् सुपरवायझर म्हूण नोकरी वासूक मेळ्ळी आनी मागीर वासून पोर्टांत फायली धुकलपाचें काम सोडलें.

महेशाक धक्को दिवपा सारकी आनीक एक गजाल फाटल्या दोन वर्सांत घडिल्ली. मिनिस्टर हायफरान अकस्मात एक दीस कावेलोसींच्या लीला हॉटेलांतल्यान फोन करून महेशाक आपयलो. आपूण हांगां प्रायवेट कामा खातीर आयलां, ऑफिसाच्या कामां खातीर येवंक ना, आपल्या एका इश्टान दर्या देगेर पांच नखेत्री हॉटेल बांदपा खातीर ह्या वाठारांत एक व्हडली जमीन घेतल्या आनी आपूण ती जमीन ताच्या आग्र्याक लागून पळोवंक आयलां अशें हायफरान महेशाक सांगलें. ''हांव आतां हो वाठार भोंवून पळोवपाचो आसां, तूं म्हज्या वांगडा यो, येतकूच म्हज्या वांगडाच जेवण घेवन मागीर चल,'' अशें हायफरान ताका सांगलें. मुरगांवां ऑफिसांत व्हडलेंशें कांय काम नाशिल्ल्यान महेशान हायफरा वांगडा भोंवपाची आनी जेवपाची तयारी दाखयली. हायफराच्या व्हड सुटांतल्यान मीराक फोन करून आपूण जेवंक येवंचों ना म्हूण सांगलें.

''तुका कितलीं भुरगीं?'' मर्सिडिस टॅक्सीच्या फाटल्या सिटार आपल्या शेजरा बशिल्ल्या महेशाक हायफरान विचारलें.

''म्हाका एकूच पूत. तो अमेरिकेक कम्प्यूटर सायन्सींत एम्.एस्. करता!'' --महेश.

''ताचो फुडलो बेत कितें? तो परतून येतलो काय ना?'' --हायफर.

''आपूण परतून येतलों अशें तो म्हणटा, पूण अमेरिकेक गेल्लीं चडशीं भुरगीं थंयच रावतात. ताका जाय तें ताणें करचें अशें हांवें आनी म्हजे बायलेन ताका सांगलां,'' --महेश.

''आयज काल आमचे तरणाटे खूबशे भायल्यान परतून येवंक लागल्यात. तुज्या पुताक तूं परतून आपय. ह्या पोर्टांत व्हडलो एक हजार कोटींचो प्रकल्प सुरू करुंया. ताका धा पर्सेंट शेअर आनी मालकी हक्क दिवन प्रकल्पाचो

मुख्य अधिकारी म्हूण काम दिवंया. तूं रिटायर जावपाक सुमार तीन वर्सां उरल्यांत अशें धवन म्हाका सांगतालो. तूं रिटायर जातकूच त्या बूट प्रकल्पाचो ऍड्वायझर जा. तुका भरपूर पगार आनी पांच वर्सांचो कॉन्ट्रॅक्ट दिवंया!'' हायफरान सांगलें.

हायफर गरयेक बरेंच हांयस लावन बसला हें महेशाक रोखडेंच समजलें. आपणा कडल्यान कसलींयतरी बेकायदेशीर आनी अनैतिक कामां हो करून घेवंक सोदता असो महेशाक वास आयलो. हाका हांगाच आडावंक जाय अशें म्हूण महेशान थारायलें.

''सर, हांव रिटायर जाल्या उपरांत म्हाका कसलीच सरकारी नोकरी करपाची ना. म्हज्या बायलेचीं जाणट्यांनी दिल्लीं गोंयांत जायतीं भाटां-बेसां आसात. म्हाका जाय जाल्यार तीं विकून पांय वरशे करून बशिल्ले कडेन सुशेगाद जीण घालोवंक जाता. पूण म्हाका तसलीय जीण नाका. पेन्शन, प्रोविडंट फंड आनी ग्रॅच्युइटी बँकांनी गुंतोवन मेळिल्ल्या कळंतराचेर कांयच तणाव नासतना म्हाका गोंयां खातीर कितेंयतरी कार्य करपांत जीण घालोवपाक मेळटली!'' अशें महेशान हायफराक सांगलें.

''तुजे कडेन वाद घालून अर्थ ना! तुजे सारकेले आय्.ए.एस्. अधिकारी केन्नाच सुदरचे नात!'' हायफरान बेजारून विशय बंद केलो.

मागीर अर्द वर भोंवून ते हॉटेलांत परतून आयले. भोंवता आसतना हेवटेन तेवटेन पळयत ''सुंदर, सुंदर'' अशें म्हणत हायफर सभोंवतणच्या सैमीक सोबीतकायेची तोखणाय करीत आशिल्लो. जेवता आसतना हायफरान महेशाक आनीक इल्लो सल्लो दिलो:''महेश, जिणेंत फकत प्रामाणीकपणान काम केल्यार खंयच पावचो ना. म्हजेंच उदाहरण तूं पळय. म्हजीं आवय-बापूय कोण तें म्हाका खबर ना! हांव स म्हयन्यांचो आसतना म्हाका एका मिशिनरी पाद्रीच्या दारा भायर दवरून म्हजीं आवय-बापूय गेलीं! त्या मिशिनरी पाद्रीचें नांव हायफर. ताणें म्हाका जॉन अशें नांव दवरलें आनी हांव जॉन हायफर जालों. तो म्हाका पाद्री करूंक सोदतालो पूण म्हाका तसल्या कामांची आवड नाशिल्ली. लोकांचीं ल्हान ल्हान कामां करून हांव चिल्लर पयशे जोडूंक लागलों. हांव कशे पयशे जोडटां, कसलीं कामां करतां तें हायफराक हांवें केन्नाच सांगलें ना आनी ताणेंय म्हाका केन्नाच विचारलें ना. तो मरचे

पयलीं ताणें आपलें घर म्हज्या नांवार केल्लें. तो प्रोटेस्टंट पाद्री आशिल्ल्यान तो घर बांदून मागीर लग्न जाल्लो, पूण ताचो मागीर डायवोर्स जालो. जिणेंत वेगान वयर सरतलो जाल्यार राजकारणा सारकिलें बिजिनेस ना हें म्हाका चिल्लर कामां करता आसतना कळ्ळें आनी हांवें मोहल्ला पावंड्या वेल्या राजकारणांत भाग घेवंक सुरवात केली. थंयच्यान तीस-पस्तीस वर्सांत आयज हांव हांगां पावलां. गोंयांत हांव जमीन पळोवंक आयलां आनी जी म्हज्या इश्टान विकती घेतल्या अशें हांवें तुका सांगलां. ते जमनींत फुडाराक म्हजोय बी वांटो आसुंये. आतां एकूच गजाल. राजकारणांत सगल्यांकूच म्हजे भशेन येस मेळटा अशें ना. पूण चडशे जाण खंयूंयतरी पावतात. "टू वन्स आर टू" अशें करीत जीण जगपा परस तांचे जिणेंत चड सुविधा आनी चड सुखां आसतात. भुरग्यांचो फुडार बरे बळिश्ट बुन्यादीचेर बांदून काडूं येता!" असो हायफरान प्रामाणिकपणान सल्लो दिलो.

"सर, तुमकां तुमचे जिणेंत येस आनी सूख मेळूं अशें हांव देवा कडेन मागतां. म्हजो बापूय एके मराठी शाळेंत मास्तर आशिल्लो. आमी दोग पूत. फेस्ताक वचून चणे लेगीत घेवपाक आमचे कडेन पयशे नासताले. सोरो पिवप वायट, विडी-सिग्रेट ओडप वायट, आड वाटेन पयसो जोडप वायट अशें आमचो बापूय आमकां सदांच सांगतालो. आमी शिकून व्हड जावंचे आनी समाजा खातीर जीण झिजोवची अशी ताची इत्सा आशिल्ली. देखून रिणां काडून ताणें आमकां गोंया भायर शिकूंक धाडले. हांव शिकूंक बरो आशिल्लों देखून आय्.ए.एसांत भितर सरलों. तुमी मार्ग आपणायला तो म्हाका जमपाचो ना. म्हजी आनी म्हजे बायलेचे फुडले जिणेची आंखणी आमी आदींच करून दवरल्या. ते जिणेच्या नकाशाचेर तुमी सुचयिल्ले मार्ग आमकां खंयच दिश्टी पडनात. तुमकां कसलेंय पर्सनल काम आसल्यार म्हाका सांगात. कायद्या भितर रावून आनी प्रशासनाच्या मुल्ल्यांक धरून तें काम करूंक मेळ्ळ्यार हांव खात्रीन करतलों. ना जाल्यार तुमी म्हाका माफ करचें पडटलें!" महेशान हायफराक सांगलें.

दोन वर्सां फाटीं हायफरा कडेन जाल्ले हे मिटिंगेची कालूच घडिल्ले भशेन महेशाक अजुनूय याद आशिल्ली. हायफरा वांगडा जाल्ल्या संभाशणाची खबर मीराक सांगतकूच हो मिनिस्टर आतां कितें करतलो काय असो हुस्को

मीराक भेश्टावंक लागलो; पूण फाटलो कांय काळ मिनिस्टरान कसलोच त्रास दिलो ना हाचें मीराक आनी महेशाक अजाप जायत रावलें.

मदीं मदीं ल्हान ल्हान आडखळी आयल्यार महेशान ऑर्डर दिल्ल्या प्रमाणें प्रशासनांत कामां चलतालीं. सगलीं कामां कायद्या प्रमाणें चलतात आनी हो चेअरमॅन कायद्या आड "अशें करात, तशें करात" म्हूण खंयच्याच खातें प्रमुखाक सांगिना हें सगल्यांक समजलें. महेश पोर्टाचीं सुत्रां हातांत घेतना प्रशासनांत जो तणाव आशिल्लो तो एका वर्सा भितर ना जाल्लो.

कायदो आनी प्रथा पाळपाचे कडक प्रक्रियेक लागून कांय फावटीं मनांत आसून लेगीत महेशाक आपणाक जाय तें करूंक मेळ नाशिल्लें. आपूण एक पॅनॅमॅक्स बोट भरून मीन एक्स्पोर्ट करतां अशें रामभाऊ लवंदेन सांगिल्लें. रामभाऊ चड जाणटो जाल्ल्यान ताचो पूत दिनेश सगलो वेव्हार हाताळटालो. ट्रॅफीक मॅनेजराच्या मतान मिनाचो वेव्हार हाताळपाची तांक त्या पुताक नाशिल्ली. देखून ताका पोर्टाच्या प्लॉटां भितर चाळीस-पंचेचाळीस हजार टन मीन सांठावन दवरपा खातीर जागो दिल्यार लेगीत तो तितलें मीन एकठांय करूंक शकचो ना अशें ताका दिसतालें. पोर्टाच्या प्लॉटांत मीन सांठोवपा खातीर जागो दिवपाचो अधिकार फकत चेअरमॅनाक आसतालो. एक पॅनॅमॅक्स बोट भरपा खातीर मीन सांठावंक महेशान रामभाऊ लवंदेच्या कंपनीक जागो दिलो; पूण तितलें मीन हाडून तितल्या वेळा भितर त्या जाग्यार सांठोवप दिनेशाक जमलें ना. नेमा प्रमाणें दोन फावट ताका शिटकावण्यो दिवंच्यो पडल्यो आनी मागीर मीन सांठोवपाचें काम बोट येवंचे पयलीं जावंचें ना अशें सिद्ध जातकूच दिल्लो जागो रामभाऊ लवंदेच्या कंपनी कडल्यान काडून घेवन हेरांक दिवंचो पडलो. रामभाऊ लवंदेक आनी दिनेशाक महेशान तीन फावटीं फोनाचेर याद करून दिली आनी ताकतीक करूंक जाय, ना जाल्यार जागो हातांतल्यान वतलो हेंवूय बी सांगिल्लें. पूण अखेरेक ट्रॅफीक मॅनेजरान सांगिल्लें तेंच खरें थारलें. महेशाक आनीक दुसरो पर्याय नाशिल्लो. आपणाक तो जागो परतून घेतना खुब्ब वायट दिसता अशें महेशान रामभाऊक सांगतकूच, रामभाऊन महेशाचे उपकार मानले आनी महेशाच्यान जाता तितलें ताणें केलें, वायट दिसपाचें कारण ना, वेव्हार करपाची तांक आपणाल्याच लोकांक ना अशें सांगून रामभाऊन महेशाच्या मनाक थाकाय दिवपाचो यत्न केलो.

चेअरमॅनाक त्रासांत उडोवपाचे प्रयत्न बाप्तीस्तान चालूच दवरिल्ले. बाप्तीस्तान सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टर राठोडाक मेगा-जेवण दितकूच स म्हयन्यांनी राठोडान परतून गोंयांत पावट मारिल्ली. ते ट्रिपींत राठोडाक पोर्टान दिल्ले जिपीन भोंवचें पडिल्लें कारण बाप्तीस्ताक खंयचोच कॉन्ट्रॅक्टर म्हारग टॅक्सी दिवंक तयार जालो ना. राठोडा वांगडा घेतिल्ल्या जेवणाचें बिलूय बी ताच्याच हड्ड्यार पडिल्लें. दर दिसा ऑफिसांत येतकूच ऑफिसांतले क्लार्क आपणा कडेन पळोवन हांसतात आनी आपल्यो बकच्छायो करतात अशें बाप्तीस्ताक दिसूंक लागिल्लें. चेअरमॅनाक कस्सोय करून जाता तितले बेगीन भ्रश्टाचाराच्या जाळ्यांत फारावंक जायच म्हूण तो राठोडा फाटल्यान लागिल्लो.

मुरगांव शारांतल्या सगल्या बँक मॅनेजरां कडेन राठोडान चेअरमॅना विशीं चवकशी केल्ली. चेअरमॅनाचो हे बँकेंत अकावन्ट आसा काय ना आनी अकावन्ट आसल्यार तातूंत कितले पयशे आसात, पयशे चॅकान काय कॅशान घाल्ले, असल्यो गजाली राठोड मॅनेजरांक विचारपाक लागिल्लो. चेअरमॅनाचो ओव्हरड्राफ्ट अकावन्ट आपणाले बँकेंत आसा आनी ताणें तीन लाखांचो ओव्हरड्राफ्ट मंजूर करून घेतला आनी ताच्या अकावन्टाक ते तीन लाख पयलीं क्रेडिट आनी मागीर डेबीट जाल्यात, अशी म्हायती एके बँकेच्या मॅनेजरान राठोडाक दिल्ली. आनीक एके बँकेचो मॅनेजर राठोडाचेर बेजारिल्लो, ''तुमी ह्या चेअरमॅनाच्या फाटल्यान कित्याक लागल्यात? तो धुइल्ल्या तांदळां भशेन सामको नितळ आनी पवित्र मनीस!'' अशें म्हणून चेअरमॅनाच्या पगाराचो अकावन्ट त्या मॅनेजरान राठोडाक दाखयिल्लो. त्या मॅनेजरान ''चेअरमॅन इज व्हायट अँड क्लीन लायक वॉश्ड रायस'' अशें सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टराक सांगिल्लें. ''धुतलेल्या तांदळा सारखा तो स्वच्छ आहे'' हें मराठी वाक्य मॅनेजरान सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टराक इंग्लिशींत अणकार करून सांगिल्लें.

राठोडाक चेअरमॅनाच्या आड जाळें पसरावपाक कांयच कारण मेळूंक नाशिल्लें. ''हो सी.बी.आय्. ऑफिसर सगल्या बँकांनी भोंवून तुमचे विशीं चवकशी करून तुमचें नांव म्हेळ करता,'' अशें तीन बँक मॅनेजरांनीं महेशाक फोन करून सांगिल्लें. त्या सी.बी.आय्. इन्स्पेक्टराक केन्नाय मेळपाचो चान्स मेळ्ळ्यार आपल्या विशीं चवकशी कित्याक करतालो काय म्हूण विचारुया

अशें महेशान बँक मेनेजरांक सांगून विशय फकांडांचेर व्हेल्लो.

मुंबय पोर्ट ट्रस्टांतलो सी.बी.आय् इन्स्पेक्टर राठोड मुरगांवांत येवन आपणा विशीं कित्याक चवकशी करता काय म्हूण महेशान मुंबय पोर्ट ट्रस्टाच्या चेअरमॅनाक विचारतकूच चेअरमॅनान दोन दिसां उपरांत दिल्ली म्हायती आयकना फुडें महेश व्हडल्यान खो करून हांसलो! मुंबय पोर्ट ट्रस्टा भायल्या वाठारांत राठोड म्हूण एक हेड कॉन्स्टेबल कांय वर्सां ड्युटीचेर आसतालो. पोर्ट ट्रस्टांत खंयचोच सी.बी.आय ऑफिसर ड्युटीर नासतालो. ह्या हेड कॉन्स्टेबलान मुरगांव पोर्टाच्या अधिकाऱ्यांक 'मामा' करून बरींच फोल्गां मारलीं शीं दिसतात. अशें म्हणून मुंबय पोर्ट ट्रस्टाचो चेअरमॅनूय बी व्हडल्यान हांसलो!

बाप्तीस्ताक ही गजाल कळना फुडें तो वग्गी रावलो! इरमांव बार्रांत लेगीत ताणें ही गजाल हेरांक सांगली ना!

***

खूब काळ एक काम तशेंच पडून उरिल्लें तें म्हणल्यार सगल्या खात्यांनी वेगवेगळ्या पावंड्या वेले रिकामे जागे भरून काडपाचें! तें काम अखेरेक पुराय जालें. गोंय पब्लिक सर्विस कमिशनान पेपर काडले आनी तपासले. वेगवेगळ्या जाग्यांच्या परिक्षां खातीर अभ्यासक्रम पोर्टान दिलो. परिक्षा सगल्यो पोर्टाच्या वाठारांत वेगवेगळ्या हॉलांनी जाल्यो. पूण देखरेख करपी सुपरवायझर सगले पब्लिक सर्विस कमिशनान धाडिल्ले. कमिशनान तयार केल्लो रिझल्ट येना फुडें सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी कृष्णन जो बाप्तीस्ताच्या जाग्यार चेअरमॅनाचो सिनियर पी.ए. म्हूण आयिल्लो हांचे कमिटीन वेंचून आयिल्ल्या सगल्या उमेदवारांक तेलेग्राम धाडून तांकां कळीत केलें आनी मागीर सगल्या उमेदवारांक नेमणुकेचीं पत्रां पोस्टांत घालतकूच तांचीं नांवां नोटीस बोर्डार मारलीं. महेशान ही पद्दत घालून दिल्ल्यान खंयच भ्रश्टाचार जाल्ल्याचें आयकूंक आयलें ना. वर्तमानपत्रांनी महेशाची तोखणाय जाली.

पोर्टांत तरा तरांच्या कामांनी सदांच डजनांनी ल्हान-व्हड कॉन्ट्रॅक्टर कामां करीत आसतात. तांचीं बिलां पास जावन तांच्या हातांत चेक पड म्हणसर कितलेशेच म्हयने आनी वर्सां लेगीत वतालीं. तांकां दर बील पास करून

घेवपाक वीस तरी पावटी मारच्यो पडटाल्यो. प्रत्येक बील अठरा क्लार्कां कडेन वतालें. ती पद्दत सुदारची आनी कॉन्ट्रॅक्टरांचो त्रास कमी करचो अशें गाराणें तांच्या असोसिएशनान महेशाक घालें. महेशान आनी फायनान्शियल एड्वायझर रवींद्रनान विशयाचेर चर्चा करून कॉन्ट्रॅक्टरांक णव्वद पर्सेंट बील काम चलतां चलतां फारीक करपाचें आनी पोर्टाक जाय तशें काम जालां अशें म्हूण पोर्टाच्या अधिकाऱ्यांनी बरोवन दितकूच निमाणे धा पर्सेंट बील फारीक करपाचें; दर बील फकत स टेबलांचेर गेल्यार पुरो, अठरा क्लार्कां कडेन वचपाची गरज ना अश्यो ऑर्डरी महेशान पास करूंक लायल्यो.

“आयज मेरेन खंयच्याच चेअरमॅनान केलें ना तें तुवें केलें,” अशें कॉन्ट्रॅक्टरांच्या असोसिएशनान महेशाक खूबशी तुस्त करून पत्र बरयलें. खुबशे क्लार्क ताका स्राप दिवंक लागले ही वेगळी गजाल.

अकावन्टस् खात्यांतल्या यू.डी.सीं.च्या रिकाम्या जाग्यां खातीर परिक्षा घेवन कामाची तांक आशिल्ल्या उमेदवारांकूच बढती दिवंची अशें रविंद्रनान फाटल्या चेअरमॅना वेळार सुचयिल्लें. पूण युनियनाच्या विरोधाक लागून त्या चेअरमॅनान तो विशय फ्रिजांत घालून दवरलो. महेश चेअरमॅन म्हूण येना फुडें रविंद्रनान तो विशय परतून ताचे मुखार दवरलो. हे फावटींय बी परतून युनियनान विरोध केलो. ते जागे भरी नासताना तशेच दवरले जाल्यार कामाचेर वायट परिणाम जातलो काय कितें अशें महेशान विचारतकूच कामाचेर कांयच परिणाम जावंचो ना, तें काम एल्.डी.सीं.क करचें पडटलें आनी पोर्टाचेय पयशे वांचतले अशें रविंद्रनान हांसत सांगलें. एल्.डी.सीं.क बढती मेळना जाल्यार ते उचंबळ जावंचे नात काय कितें अशें महेशान विचारतकूच तो तांचो आनी युनियनाचो प्रोब्लेम अशें रविंद्रनान सांगलें. ते जागे आनीक वर्स देड वर्स खाली दवरुंया आनी पळोवया कितें जाता तें, पूण परिक्षा घेतले बगर आमी बढती दिवंचे नात हें तांच्या कानार घाल अशें म्हूण महेशान रविंद्रनाक सांगिल्लें. त्या प्रमाणें ते जागे फाटलीं दोन वर्सां खाली आशिल्ले, आनी यल्.डी.सीं.ची भितरल्या भितर धुसफूस चालू जाल्ली.

इतले मजगतीं महेशाचें आनी रामदास शर्माचें चार-चार दिसांनी फोनाचेर उलोवप चालू आशिल्लें. मदीं मदीं तो पणजे रामदासागेर वतालो आनी आयतार आनी सुटयेच्या दिसांनी केन्नाय रामदास सबंद दीस महेश आनी मीरा वांगडा

घालयतालो. ताची बायल आनी धूव दिल्ली रावतालीं.

गोंयचे उदरगती विशीं उलयतना नुस्त्याचो एक्स्पोर्ट खूबशे पटींनी वाडोवपाची गरज आसा आनी ते खातीर पोर्टानूय बी मजत करूंक जाय अशें ताणें सुचयिल्लें. महेशान मागीर नुस्तें एक्स्पोर्ट करप्यांची मिटिंग आपयली आनी पोर्टान रिफर कार्गो हाताळपाच्यो सुविधा वाडोवंक जाय असो चर्चेंतल्यान सूर आयलो. त्या प्रमाणें दोन-तीन म्हयन्यां भितर बर्थ नंबर धा आनी इकरा हांचे फाटले वटेन रिफर कंटेनर दवरपाची वेवस्था जाली आनी ल्हान ल्हान कंटेनर बोटी येवन रिफर कार्गो व्हरूंक लागल्यो. सिंधुदुर्ग आनी मंगळूर-कारवारचें नुस्तें लेगीत मुरगांवच्यान एक्स्पोर्ट जावंक लागलें. उदरगतीचें आनीक एक काम जालें आनी तें म्हणल्यार 'रोल-ऑन रोल-ऑफ' बोटी मुरगांवां येवंक शकतात हें महेशान सिद्द करून दाखयलें आनी सामानान भरिल्ले ट्रक बोटीर चडोवन कांडला, मुंबय, मुरगांव आनी मंगळूर ह्या पोर्टांनी यो-वच करपाची सगली तयारी जाली. पूण मागीर आनीक कसल्याय तरी कारणां खातीर ती येरादारी सुरू जाली ना.

पोर्टांत प्रशासकीय वातावरण सुदारचें म्हूण म्हयन्याक एक फावट महेशान अधिकाऱ्यांक आनी तांच्या फामिलींक ल्हान ल्हान ग्रुपांनी च्या खातीर चेअरमॅनाच्या बंगल्यार आपोवपाक सुरवात केली. चेअरमॅनाच्या कंपाउंडांत आशिल्ल्या व्हडल्या लॉनाचेर म्हयन्यांतल्यान कांय दीस ऑफिसरांच्या आनी कामगारांच्या भुरग्यांक खेळूंक मेकळीक मेळ्ळी. फायलींचेर अशें बरोवन धाडात, तशें बरोवन धाडात अशें म्हणून महेश खातें मुखेल्यांक केन्नाच सांग नाशिल्लो. "तुमकां जाय तें तुमी बरोवपाचें! हांव म्हाका समा दिसता ती ऑर्डर बरोवन दितलों. तुमच्यो शिफारशी नाकारल्यार कारणां दितलों." अशें महेशान खातें मुखेल्यांक सांगिल्लें, आनी ताका लागून तांचे मर्दीं एके तरेचो नवो आत्मविश्वास आयिल्लो. पार्ट्यांनी एकमेकांक मेळून हेर खबरो, जोक बी करून एकामेकां मदले तांचे संबंद सुदारिल्ले आनी ताका लागून फायलींचेर एकामेकां कडेन वाद घालप उणे जाल्लें. सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार अधिकारी आनी कामगार फुडारी वांगडाच मिटिंगांक हजर आसतना कोणूच एकमेकांचो अवमान करीनाशिल्ले. नवे तरेचें उत्साही वातावरण पोर्टाच्या

कामांत दिसून येवंक लागलें.

***

एके वटेन पोर्टाची उदरगत जाताली, कामां वाडटालीं आनी फायदो वाडटालो, पूण दुसरे वटेन महेशाक त्रासांत घालपाचो वा ताका गोंयच्यान धावंडावपाचे कांय जाणांचे प्रयत्न चालूच आशिल्ले.

गुणाजीची सुटी सोंपतकूच बाप्तीस्त आनी गुणाजी नेमान आदले भशेन इरमांव बारांत मेळटाले आनी 'चेअरमॅन हटाव' अभियानाचो नियाळ घेताले. आतां संभाजी ड्रायवराक बिटकी कवळून चेअरमॅनाच्या कंपाउंडांतल्यान वचचें पडटकूच हेरांचो ताचे विशींचो कांच उणो जालो आनी ताचो झेत नाच्च जालो. गुणाजी आनी बाप्तीस्ता वांगडा तोवूय बी इरमांव बारांत बसूंक लागलो.

तेवटेन महेशाक ब्लॅक पयशांच्या लफड्यांत घुसपावपाचो रामकृष्णाचो बेतूयबी फसलो. रामकृष्ण आनी सुमित्रा दीस-रात फोनाचेर वेगवेगळे कट रचपाचे प्रयत्न करतालीं, पूण एकूय कट फुडें पाव नाशिल्लो. सर्वानंदान नव्या मिनिस्टराची खबर सांगतकूच रामकृष्ण आनी सुमित्रा नव्या नेटान वरान वरां फोनार उलोवंक लागलीं. पूण खयंचोच कट फायनलीक पावलो ना. तांचे प्रयत्न चालूच उरले.

पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी युनियनाचे हेर फुडारी चेअरमॅनाचें नांव आयकना फुडें आतां मात्शे सादूर जावंक लागले. ह्या चेअरमॅना कडेन खेळटा आसतना मात्शें सांबाळून खेळूंक जाय म्हणपाचें तांकां कळिल्लें. देखून ताका आपणा मुखार दिमी घालूंक लावपाचे नवे कट अजून तांणीं रचूंक नाशिल्ले.

◆◆◆

## भाग19

**गौरीश** अमेरिकेच्या टॅक्सस युनिवर्सिटींत गेल्यार एक वर्स जाल्लें. अमेरिकेक वचून गौरीशा वांगडा थोडे दीस रावुंया अशें मीरान महेशाक सांगलें. महेशाक थंय चड रावूंक मेळचें ना देखून मीरान थंय पयलीं वचचें आनी मीरा परतून येवपाची तारीख लागीं पावतकूच दोन ते तीन आठवड्यां खातीर महेशान थंय वचचें अशें तांणी दोगांयनींय थारायलें. मीरा जुनाच्या पयल्या आठवड्यांत अमेरिकेक गेलें. जुलयाच्या निमाण्या आठवड्यांत महेशूय थंय पावलो. थंय वचून दोगांयनींय वांगडाच पंदरा ऑगस्ट मेरेन परतून येवपाचें थारायलें.

पावसाच्या दिसांनी गोंयांत शंबर-सवायशें इंच पावस पडटा. पोर्टाच्या चॅनलांत खूब्ब गाळ एकठांय जाता. चॅनलाची खोलाय आसा तशीच बारा मिटरांचेर स्थीर दवरूंक सप्टेंबर म्हयन्यांत चॅनलांतलो गाळ उसपुचो पडटा.

दर वर्सा प्रमाणें आंतराष्ट्रीय निविदा मागोवन, कायद्याची सगली प्रक्रिया पुराय करून, ड्रेजिंग कंत्राट दिवपा खातीर पोर्टाच्या तीन उपसमित्यांनी शिफारसी करून फायल महेशा कडेन धाडली. ड्रेजिंग कंत्राट हॉलंडांतल्या एके कंपनीक स कोटी पस्तीस लाखांक दिवंचें अशी शिफारस उपसमित्यांनी केल्ली. दुसऱ्या दिसा महेश अमेरिकेक वचपाचो आशिल्लो. ड्रेजिंग कंत्राट उपसमित्यांनी शिफारस केल्ले हॉलंडचे ते कंपनीक स कोटी पस्तीस लाखांक दिवपाची शिफारस बोर्डाक धाडची, अशी ऑर्डर दिवन महेशान ती फायल परतून सिविल इंजिनियरिंग विभागाक धाडून तो बंगल्यार आयिल्लो आनी अमेरिकेक एकवीस दिसांचे सुटयेर वचचे पयलीं कसलीं कामां करपाचीं

उरल्यांत तें तो आपणाले डायरींत पळयतालो.

इतल्यांत दिल्ली मंत्रालयांतल्यान फोन आयला म्हूण श्यामान कनेक्शन दिलें. फोनार मंत्री हायफर उलयतालो. ''त्या ड्रॅजिंग कंत्राटाचें कितें जालें?'' हायफरान विचारलें.

''सर, तें कंत्राट हॉलंड इंटरनॅशनल ड्रॅजिंग कॉर्पोरेशनाक स कोटी पस्तीस लाखांक मेळचें असो प्रस्ताव बोर्डाक वतलो,'' महेशान म्हायती दिली.

''तशें करूं नाका! तें कंत्राट सिंगापूर इंटरनॅशनल ड्रॅजिंग कंपनीक दी!'' हायफरान आदेश दिलो.

''सर, तशें करूंक मेळचें ना. हॉलंडचे कंपनीची निविदा सगल्यांत उणी आसा. तेच कंपनीक कंत्राट दिवंचो म्हूण पोर्टाच्या तीन उपसमित्यांनीं शिफारसी केल्यात आनी हांवें आदेश दिवन फायल खात्याक परतून धाडल्या.'' महेशान म्हायती दिली.

''तूं फाल्यां सुटयेर अमेरिकेक वता म्हूण आयकलां! वचचे पयलीं फायल मागोवन आदलो तुजो आदेश रद्द करून हांव सांगतां ते कंपनीक ऑर्डर दी. स कोटींक लेगीत दिल्यार जाता!'' ---हायफर.

''सॉरी सर, तशें करप चूक जातलें. उपसमित्यांच्या शिफारसीं आड आदेश दिवंक म्हजे कडेन कांयच कारण ना! तुमी म्हाका टेलीफोनार ऑर्डर दिल्या अशें हांव फायलीर बरोवंक शकना!'' ---महेश.

''तूं कितें उलयता तें तुका खबर आसा मरे? तूं पिसो! तुज्या फाटल्यान हांव सी.बी.आय्. लायतलों!'' अशी तापून धमकी दिवन हायफरान फोन आपटिलो. महेशाचीं कानसुलां गरम जालीं, घाम येवंक लागलो आनी काळीज धडधडपाक लागलें. हॉस्पिटलांत फोन करून दोतोर भट नाजाल्यार आनीक खंयच्याय दोतोराक रोखडोच धाड अशें म्हणून ताणें सी.यम्.ओ. दोतोर जुवारकाराक सांगलें आनी तो दोळे बंद करून सोफाचेर आड पडून रावलो. धा मिनटां भितर दोतोर जुवारकार आनी दोतोर नलिनी नायक आयलीं. दोतोर नलिनी नायकाच्या कामाचो वेळ पांच वरांचेर सोंपतालो पूण ती रातची आठ मेरेन हॉस्पिटलांतूच उरताली. दोतोरकीच्या कामांत तिचे फिशालकायेचेर पोर्टांतल्या कामगारांची देवाचेर आसता तशी श्रद्धा आशिल्ली. तिणें महेशाक तपासलो आनी सगलें सारकें आसा, कांयंच प्रॉब्लेम ना, ब्लड प्रेशर मात्शें

वाडलां, मात्सो विसव घेतकूच सारकें जातलें अशें सांगून तीं दोगांय गेलीं. फुडलीं चोवीस वरां सुमार प्रवास करपाचो आशिल्ल्यान वांगडा व्हरपाचीं वखदां तिणें हॉस्पिटलांतल्यान धाडलीं. तीं केन्ना आनी कशीं घेवपाचीं तें तिणें बरोवन धाडलें.

दुसऱ्या दिसा महेश दनपारच्या तिनांचे फ्लायटीचेर मुंबय आनी रातीच्या दोन वरांचेर अमेरिकेक वचपाचो आशिल्लो. सकाळीं सारको णव वरांचेर ऑफिसांत वचून ताणें फ्लावियाक आपयलें आनी पोर्ट खात्याच्या सेक्रेटरीक खाजगी आनी कॉन्फिडेन्शियल पत्र बरोवन घे म्हूण सांगलें. मंत्र्याकडेन जाल्ल्या उलोवपाचो तपशील सगलो पत्रांत नमूद करून आपूण अमेरिकेक वचपाक भायर सरतां आनी फुडले तीन आठवडे नासतलों हीवूय बी म्हायती ताणें दिली.

आतां ड्रॅजिंगाची फायल आनीक पंदरा दिसांनी बोर्डाचे मिटिंगेक वचपाची आसा आनी तांणी मान्यताय दितकूच पोर्ट हॉलंड इंटरनॅशनल ड्रॅजिंग कंपनीक ऑर्डर दितलो. अशें पत्र फ्लावियान बरोवन घेतलें. चेअरमॅन नासतना डॅप्यूटी चेअरमॅनान चेअरमॅनाचें काम सांबाळचें अशी मंत्रालयान ऑर्डर दिल्ली. मंत्रालयांतल्यान लिखित आदेश आयल्या बगर हे फायली विशीं तांकां कांयंच बरोवपाची गरज ना वा तांकां फायल धाडपाचीय बी गरज ना असो नोट ताणें डॅप्यूटी चेअरमॅना खातीर सोडलो आनी सूर्यनारायणानाक आपोवन सेक्रेटरीक बरयिल्लें पत्र ताका दाखयलें. सूर्यनारायणन मात्सो नर्वस जाल्लो पूण तो चड उलयलो ना! कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार आपूण चेअरमॅनाक कॉन्टॅक्ट करतां अशें सूर्यनारायणनान महेशाक सांगलें आनी ''बाँ व्हॉयाज'' म्हूण महेशाक हात दिवन तो गेलो.

मंत्रालयाच्या सेक्रेटरीक महेशाचें पत्र पावतकूच ताणें महेशाक अमेरिकेक फोन केलो आनी ''तूं हुस्को करूं नाका. म्हाका मंत्र्याच्या ऑफिसांतल्यान लिखित नोट आयल्या बगर हांव त्या विशयांत लुडबूड करचों ना; नोट आयलो जाल्यार लेगीत सरकारान घालून दिल्ले प्रक्रिये प्रमाणें आमी फायल हाताळटले,'' अशें सेक्रेटरी शंकर अय्यरान महेशाक सांगलें. शंकर अय्यर हो मूळ मदुराईचो आनी बिहार काडरचो आय्.ए.एस्. ऑफिसर. निवृत्त जावंक ताका आनीक थोडो काळ आशिल्लो. प्रशासन कडक शिस्तीन चलोवपी अशी ताची नामना आशिल्ली.

"मुरगांव पोर्टाचें ड्रॅजिंग कंत्राट फाव जाता ताचे परस चड पयशे दिवन एका हॉलंडचे कंपनीक दिवपाचें आसा अशें म्हणून आयिल्ल्या निनांवीं पत्राचेर चवकशी करची; ती फायल मुरगांव पोर्टा कडल्यान मागोवन मंत्रालयान तपासची आनी कंत्राटाचेर निर्णय घेवपाची प्रक्रिया सारकी आपणायल्या काय ना तें पळोवचें; आनी प्रक्रिया सारकी आपणावन लेगीत चड पयशांक हें कंत्राट दिवचें पडटा अशें दिसलें जाल्यार आतां चालू आशिल्ली प्रकिया रद्द करून परतून आंतरराष्ट्रीय निविदा मागोवची," असो नोट मिनिस्टराच्या ऑफिसांतल्यान पोर्ट मंत्रांलयाच्या सेक्रेटरीक आयलो.

सुटी सोपोवन महेश आनी मीरा मुरगांवां परतून पावतकूच त्या ड्रॅजिंग कंत्राटाचें कितें जालें काय म्हूण महेशान सूर्यनारायणनाक विचारलें.

"सर, ती फायल रोखड्या रोखडी मंत्रालयाचे सेक्रेटरीक धाडात अशें आमकां जॉयंट सेक्रेटरीचें फॅक्स आयलें. सबंद फायलीचें झेरॉक्स दवरून मूळ फायल आमी कुरियरान सेक्रेटरीक धाडली. कांय दिसांनीं आमकां फायल परतून आयली आनी फायली वांगडा जॉयंट सेक्रेटरीचें एक पत्रूय बी आयलें. पोर्टान आपणायिल्ली प्रक्रिया सारकी आसा, कांयंच चूक ना, तरी आसतना फाव ताच्या परस चड पयशांक हें कंत्राट त्या हॉलंडच्या कंपनीक दिवंचें पडटा देखून हे निविदेची प्रक्रिया रद्द करून परत एक फावट आंतरराष्ट्रीय निविदा मागोवची अशें त्या पत्रांत बरयिल्लें. त्या प्रमाणें आमी निविदा मागयल्यो आनी आमकां फकत एकूच निविदा आयली आनी ती म्हणल्यार सिंगापूर इंटरनॅशनल ड्रॅजिंग कंपनीची. हे फावटीं तांणी स कोटींचो आंकडो घाल्लो. तांकां कॉन्ट्रॅक्ट दिवंचो म्हूण तीन दिसां फाटीं आमचो प्रस्ताव बोर्डान मान्य केलो," असो तपशील महेशाक सांगून सूर्यनारायणनान प्रस्न विचारलो, "सर, हो कसलो जादू? फाटल्या फावटीं पांच निविदा आयिल्ल्यो आनी हे फावटीं एकूच निविदा आनी तीवूय बी मंत्र्याक जाय आशिल्ल्या कंपनीची!"
"हांवें आयकलां तें अशें! असल्या व्हड आंतरराष्ट्रीय निविदांनी चड कंपन्यो भाग घेनात. भाग घेवपाची संवय आशिल्ल्या कंपन्यांक आपोवन मंत्री तांचे भितर कंत्राटां वांटून घालता. ह्या वर्सा कितलीं कंत्राटां येवपाचीं आसतात तें मंत्र्याक खबर आसता. हे तरेन मंत्र्यान घाल्ल्या दर प्रकल्पाक एकूच निविदा येता, आनीक कोण प्रक्रियेंत भाग घेवपाचें धाडस करिनात." महेशान कंत्राटां

फाटलें रहस्य सांगलें.

***

''अकावन्टस् खात्यांतल्या एल्.डी.सीं.क फाटलीं दोन वर्सां बढती मेळुंकूच ना. यू.डी.सीं. खातीर घेतिल्ले परिक्षेक पास जाल्यारूच तांकां आपूण यू.डी.सीं.च्या जाग्यांनी बढती दितलों असो हट्ट चेअरमॅन धरून बसला. आमचें युनियनूय बी ह्या विशयांत कांयच हालचाली करिना. देखून एल्.डी.सीं.मदीं धुसफुस चल्ल्या. आमचें नांव सांबाळपा खातीर आमी कसल्योय तरी हालचाली करूंक जाय.'' एका फुडाऱ्यान पीटर डिमेलोक सुचयलें. त्या विशयाचेर चर्चा करून निर्णय घेवपा खातीर पीटर डिमेलोन मिटिंग आपयिल्ली. परिक्षा घेना आसतना फकत वरिश्टतायेच्या आदाराचेर एल्.डी.सीं.क बढती दिवन यू.डी.सीं.चे रिकामे जागे भरचे अशी मागणी युनियनान करपाचें थारलें.

पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेर कांय जाण अपॉयंटमेंट घेवन महेशाक वचून मेळ्ळे आनी युनियनाचें मागणी पत्र ताचे कडेन दिलें. महेशान रविंद्रनाक आपोवन आपणाले उजवे वटेन बसयलो.

''यू.डी.सीं.चे रिकामे जागे भरपाचे नेम तुमकां खबर आसात मरे? वरिश्टतायेच्या आनी पात्रतायेच्या आदाराचेर बढत्यो दिवंक जाय!'' महेशान तांकां सांगलें.

''आमकां खबर आसा सर. पात्रताय तपासपा खातीर तुमी परिक्षा घेवंक सोदतात हेंयीं आमकां खबर आसा; तसल्या परिक्षांक आमी फाटलीं कितलिंशींच वर्सां विरोध करीत आयल्यात आनी आतांय बी विरोध करीत रावतले!'' पिटर डिमेलोन महेशाक स्पश्ट सांगलें.

''तुमचो विरोध आसल्यार आमी ते जागे भरचेच नात, तशेच आसूं दी. आतां मेरेन खाली उरल्यात तशेच फुडाराकूय बी खाली उरतले!'' महेशान आपणालो निर्णय सांगलो.

''तें कशें जातलें? आयज मेरेन फकत वरिश्टतायेच्या आदाराचेर पोर्टान बढत्यो दिल्यात. तशेंच आतांय बी करूंक जाय.'' पिटर डिमेलोन आपणालो मुद्दो फुडें व्हेलो.

''तुमची मागणी बेकायदेशीर. उमेदवारांची कामाची तांक आनी वरिश्टताय ह्या दोनूय तासांचेर तांची वेंचणूक जावंक जाय. परिक्षा घेतल्या बगर तांचे तांकी विशीं आमी निर्णय कसो घेतले?'' महेशान कावंटर प्रस्न केलो.

''तांणी इतलीं वर्सां काम केलां, आतां आनी कित्याक परिक्षा जाय? आमी ही परिक्षा जावंक दिवंचे नात!'' पिटर डिमेलोन मात्शें तिडकीन सांगलें.

''तुमी ह्या प्रस्नाचेर सारको विचार केल्यार बरो. जागे भरूंक जाय जाल्यार आमकां परिक्षा घेवंचीच पडटली आनी ती आमी घेतले. तुमी विरोध करपाचो काय ना हो तुमचो प्रस्न! आनीक कितें आसा?'' महेशान प्रस्न विचारून आनीक कांय उलोवपाचें नासल्यार तांणी वचूं येता अशें सुचयलें.

''बरें तर, पळोवया कितें जाता तें!'' अशें म्हणत पीटर डिमेलो उठलो. मागीर बाकीचेय उठून ताच्या वांगडा गेले.

''हें अशेंच कितलो काळ चलपाचें? म्हाका दिसता, आमी कडक रावुंया आनी परिक्षा घेवया! परिक्षेक तांणी विरोध केल्यार तांचेर कारवाय करची पडटली. मागीर ते कितें करतात तें करूं दी. तांचें आव्हान आमी स्विकारूंक जाय!'' महेशान रविंद्रनाक आपणालें मत सांगलें.

''हांवूय बी तुमच्याच मताचो सर! फाटल्या चेअरमॅना वेळार हांवें ताका हेंच सांगिल्लें. पूण ताणें आयकलें ना. ताचीं मतां वेगळीं आशिल्लीं!'' रविंद्रनान आपलें मत सांगत महेशाक तेंको दिलो.

''परिक्षा घेवपाची तयारी कर. अभ्यासक्रम दिवपाचें काम आमचें! पेपर काडपाचें आनी तपासपाचें काम गोवा पब्लिक सर्विस कमिशनाचें! सुपरवायझरूय बी तांणींच धाडूंक जाय! तारखो तांकां विचारून थाराय. तारखो थारतकूच पोलिसांक सांगचें पडटलें,'' महेशान रवींद्रनाक आदेश दिले.

''ओके सर!'' अशें म्हणून रविंद्रन गेलो.

रविंद्रनान पब्लिक सर्विस कमिशनच्या अध्यक्षा कडेन उलोवन परिक्षांच्यो तारखो थारायल्यो आनी त्यो नोटीस बोर्डाचेर मारल्यो. परिक्षे दिसा कोण्ण उमेदवार परिक्षेच्या हॉलांत आयलो ना. युनियनान तांकां भेश्टावन घाल्ले. रविंद्रनान मागीर दुसरे फावट फुडल्यो तारखो थारावन नोटीस मारली आनी हे फावटीं पोर्टांतले एल्.डी.सी. परिक्षेक बसनात जाल्यार पोर्टाचे अधिकारी वर्तमानपत्रांनी जायराती दिवन यू.डी.सीं.च्या रिकाम्या जाग्यां खातीर अर्ज

मागयतले, अशेंय बी नोटिसींत बरयलें.

हे फावटीं परिक्षेच्या दिसा सगले उमेदवार येवन आपापल्या जाग्यांनी बशिल्ले, पूण सुपरवायझरांक आनी पोर्टाच्या अधिकाऱ्यांक युनियनाच्या फुडाऱ्यांनी हॉलांत वचूंक दिले नात. महेशाक सूर्यनारायणनाचो फोनार रिपोर्ट आयलो. आपुणूच थंय येतां अशें म्हूण महेशान सूर्यनारायणनाक आनी रविंद्रनाक सांगून महेश सकयल दुसऱ्या मजल्याचेर आशिल्ल्या हॉला भायर पावलो. हॉलाच्या दारांत उबो रावून दोनूय हात दोशीं वटेन पसरावन ''हांव तुका भितर वचूंक दिवंचों ना सर,'' अशें म्हणून पिटर डिमेलोन महेशाक आडायलो. थंय आशिल्लो सी.आय्.एस्.एफ्. कमांडंट पाटील दोन गार्डांक घेवन पिटर डिमेलोक उखलून व्हरपाचे तयारेंत आशिल्लो पूण ''तुमी ताका हात लांव नाकात. ताका थंयच आसूं दी. कितें करपाचें तें हांव करतां,'' असो महेशान कमांडंट पाटिलाक आदेश दिलो, आनी महेश चवथ्या मजल्यावेल्या आपल्या कॅबिनांत गेलो.

त्या दिसा दनपारच्या तीन वरांचेर सगल्या खातें मुखेल्यांची महेशान मिटिंग आपयली आनी पिटर डिमेलोक सस्पेन्ड करपाचो आपणालो बेत आसा, तांकां कितें दिसता तें प्रत्येकान सांगचें अशें महेशान सुचयलें. चेअरमॅनाक आनी हेर अधिकाऱ्यांक ताणें आडायल्यात; हीं बेशिस्तपणां चलूंक दिल्यार पोर्टांतली शिस्त नाच्च जातली; देखून ताका सस्पेन्ड करून नोकरेंतल्यान काडून उडोवपा खातीर कारवाय सुरू करूंक जाय. अशें मत एका मुखेल्यान दिलें. गजा भिसे सोडून हेर सगल्यांनी तशेंच सांगलें. ताका सस्पेन्ड करी नासतना, ताचेर कांयच कारवाय सुरू करी नासतना, आनीक कितेंय तरी वाट सोदून काडल्यार बरी, अशें मत भिसेन दिलें. गजा भिसे अशें उलयतकूच हेर सगल्या मुखेल्यांच्या तोंडाचेर एक हयन्हयशें कुत्छित्री हांशें दिसूंक लागलें. त्या दिसा सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी लेबर ऑफिसर गवंडेक समोर बसोवन संबंदीत कायद्याचीं कलमां तांकां परतून पळोवंक लावन, महेशान फ्लावियाक पिटराच्या निलंबनाचो आदेश बरोवन घेवंक लायलो. कसल्या कसल्या कायदे आनी नेमांच्या आड पिटरान वर्तणूक केल्या आनी कसल्या नेमांच्या आनी कलमांच्या खाला आपूण ताचेर कारवाय सुरू करतलों आनी कारवाय पुराय जाय मेरेन ताका आपूण निलंबीत करतां असो तपशिलवार

आदेश फ्लावियान बरोवन घेतलो.

आयज मेरेन जें कोणेंच केलें ना, मान्यताय आशिल्ल्या सगल्यांत व्हड युनियनाचो मुखेल फुडारी आतां निलंबीत जातलो आनी पोर्टांत प्रशासन आनी कामगार हांचे मदीं परतून लडाय सुरू जातली अशी भिरांत पोर्टांत आनी मुरगांव शारांत पसरली. रामदास शर्माक महेशान सगली परिस्थिती सांगली आनी मुरगांव पोलिसांक तयार रावात अशें सांगचें अशें ताणें ताका सुचयलें. कमांडंट पाटिलान महेशा कडेन चर्चा करून पोर्टांत खंयच्या ठिकाणांचेर बंदोबस्त चड कडक करपाचो तें थारायलें. गरज पडल्यार गोंयांत हेर कडेन आशिल्ल्या सी.आय्.यस्. यफाक आपोवपाची तयारी दवर अशें महेशान पाटिलाक सुचयलें. एका वरा भितर फ्लावियान निलंबनाचो मसुदो टायप करून हाडलो. महेशान तो सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी लेबर ऑफिसर गवंडेक वाचून दाखयलो, आनी कितेंय बदल करूंक जाय काय म्हूण विचारलें. कांय बदल करपाची गरज ना म्हूण ताणी सांगतकूच कायद्याचीं कलमां सारकीं आशिल्ल्याची परतून एक फावट खात्री करून पत्राचेर सय करून महेशान तें पत्र ट्रॅफीक मॅनेजर सेराफिन गुदिना कडेन धाडून दिलें. पिटर डिमेलोक तें पत्र केन्ना दिवपाचें तें थारावन ट्रॅफीक मॅनेजराच्या ऑफिसा भायर पयलीं सी.आय्.एस्.एफ्. गार्ड आसचे अशें महेशान कमांडंट पाटिलाक सुचयलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ट्रॅफीक मॅनेजर सेराफीन गुदिनोन पिटर डिमेलोक आपणाल्या ऑफिसांत आपोवन, निलंबनाची ऑर्डर ताच्या हातांत दिली. आपणें ही ऑर्डर घेतिल्ल्याचे कबुलीचेर सय करून पिटर डिमेलो भायर सरलो आनी वांगडा आयिल्ल्या युनियनाच्या हेर फुडाऱ्यांक घेवन खूबश्या मोटारसायकलीं वेल्यान ते युनियनाच्या ऑफिसांत गेले. थंय तांकां हेर फुडारी रावताले. आयज पिटर निलंबीत जातलो म्हूण सगल्यांक खबर आशिल्लें. संतोश प्यून आनी जगदीश लिफटमॅनान ही "ताजा खबर" मोठे खोश्शेन पसरायिल्ली.

मिटिंगेंत गुणाजीन चेअरमॅनाची ऑर्डर वाचून दाखयली आनी युनियनान आतां कितें करपाचें हाचेर चर्चा करपाक ही मिटिंग आपयल्या अशें सांगलें. चवथीक सात दीस उरल्यात देखून ह्या सीजनांत संप केल्यार हिन्दू कामगारांची चवथ पेड्डेर जातली. देखून संप करी नासतना चेअरमॅनाची स्टाफ कार त्या

दिसा सांजची वाटेर थांबोवन चेअरमॅनाक देंव म्हूण सांगचो आनी तो देंवतकूच स्टाफ काराक उजो घालचो अशें एकल्यान सुचयलें; असली हिंसा करची न्हय पूण चेअरमॅनाच्या गेटी भायर वीस-पंचवीस जाणांनी धरणें धरून ताका बंगल्यार वचूंक दिवंचें न्हय अशें दुसऱ्यान सुचयलें. स्टाफ काराचेर फकत पयशिल्ल्यान फातर मारचे, आनीक एकल्यान सुचयलें. रातच्या बारा वरांचेर चेअरमॅनाच्या बंगल्यार फातर मारचे; कितलेशेच दीस ते फातर मारप चालू दवरचें अशें आनीक एकल्यान सुचयलें. चडश्यो सुचवण्यो चेअरमॅनाक दुखोवपाच्यो, चेअरमॅनाक शारिरीक दुखापत वा मानसीक त्रास करपाच्यो आशिल्ल्यो. संप कोणाक नाका आशिल्लो. आतांय संप जाहीर करून तो करी नासतना रावल्यार युनियनाचें नांव सामकें पेड्डेर जातलें अशें संपाक विरोध करपी फुडाऱ्यांक दिसलें.

"आमी चेअरमॅनाक शारिरीक दुखापत करून वा ताच्या बंगल्यार फातर मारून वा थंय धरणें धरून ताका मानसीक त्रास दिवंक जायना. आमचीं झगडीं चेअरमॅन हे व्यक्ती कडेन नात. तो आपलें काम करता, आमी आमचें काम करपाचें. कामगारांचो हक्क राखून दवरपाक आमी पोर्ट प्रशासना आड झगडूंक जाय पूण चेअरमॅनाच्या कदेलार बशिल्ल्या व्यक्तीच्या आड न्हय; तुमच्या पैकीं चडश्या जाणांक संप नाका हें म्हाका समजता. पूण एक दीस आनी एक रात लेगीत संप जाल्यार पोर्टाच्या प्रशासनाक आनी भारत सरकाराक आव्हान दिल्ल्या भशेन जातलें. आनी कामगारांचो आमच्या वेलो विस्वास वाडटलो. देखून आयज रातीच्यान संप सुरू जातलो अशें जाहीर करुंया. मागीर सगले कडल्यान आयिल्ल्या चेपणाक लागून चेअरमॅन आमकां उलोवणीं करूंक आपयतलो. ताणें आपयतकूच आमी मेळून कितें करपाचें तें थारावया!" पिटर डिमेलोन आपणालें मत सांगलें. आनीक कांय वेळ हेर कांय पर्यायांचेर चर्चा करून मागीर पिटर डिमेलो सांगता तशेंच करुंया अशें एकमत जालें.

दनपारच्या तीन वरां सावन लावडस्पीकर लायिल्ल्या दोन जिपींनी भोंवून पिटर डिमेलोन आनी ताच्या वांगड्यांनी संप जातलो अशें जाहीर केलें. पूण संप जालो ना. अंयशीं टक्क्यांवयर कामगार कामार हजर जाले. चवथी पयलीं संपार वचपाची येवजण कोणाक पसंत पडली ना. चवथीक फकत सात दीस उरिल्ले; वाड्या कणकणीं सार्वजनीक गणपती उत्सवाची तयारी चलताली. ह्या

वेळार संप जाहीर केलो म्हूण खूबशे कामगार पिटर डिमेलोचेर बेजार जाले.

संपाचो बेत गडगडिल्लो पळोवन पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेर फुडारी सामके काचाबूल जाले. इतल्या व्हड प्रमाणांत युनियन लिडरांचे आदेश कामगारांनी केन्नाच धुडकावंक नाशिल्ले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं पिटर डिमेलोन ताकतिकेन कमिटीची मिटिंग आपयली.चवथीच्या वातावरणांत संप करपाचो निर्णय घेतलो ती एक व्हड चूक जाली अशें एक वर भर चर्चा करून सगल्यांचें मत जालें. चवथ जावन मागीर ह्या एल्.डी.सीं.च्या विशयांत कितें करपाचें तें थारावपाचें अशें कमिटीन थारायलें. चवथी पयलीं जाता तितल्या चड कामगार वांगड्यां कडेन संपर्क दवरून तांचे कडेन एल्.डी.सी., यू.डी.सीं.च्या विशयाचेर चर्चा करची आनी आपणाक म्हत्व दिलें अशें कामगार वांगड्यांक दिसपा खातीर कमिटीच्या वांगड्यांनी प्रयत्न करचे अशें थारलें.

***

महेशाक कसो त्रासांत उडोवपाचो हाचेर रामकृष्ण आनी सुमित्रा म्हयन्यांचे म्हयने उलयलीं पूण कांयच वाट दिसनाशिल्ली. अखेरेक रामकृष्णान मुरगांवां वचून आपल्या इश्टां वांगडा थोडो टायम घालोवचो अशें थारलें; तशें करतकूच कसलीय तरी वाट सांपडटली अशें रामकृष्णाक दिसलें. फाटले फावटीं मुरगांवां गेल्लो तेन्ना तो तीग इश्टांक मेळिल्लो, तांतले तातूंत ताका चमनभाय शहा चड उपकरा पडटलो अशें दिशिल्लें देखून हे फावटीं तो चमनभायक वचून मेळ्ळो. खबरो करतना चमनभायन बाप्तीस्ताच्या ‘‘साडी–घोटाळ्याची’’ गजाल सांगली आनी हो चेअरमॅन एकदम नितळ आनी कडक आनी देखून ताणें बाप्तीस्ताक चेअरमॅनाच्या ऑफिसांतल्यान रोखडोच धांवडावन दुसरे कडेन घालो. बाप्तीस्ताक हेर कडेन हालोवंक मेळना, कारण हेर कडेन असले पोस्ट नात अशें तो सेक्रेटरी चेअरमॅनाक सांगतालो खंय! पूण चेअरमॅनान तो पोस्टूच हालोवन दुसरे कडेन घालो. अशें म्हणून चमनभाय व्हडल्यान हांसलो. ह्या चेअरमॅनाक पंचवीस वर्सां वयर प्रशासनाचो अणभव आसा; सकयल्या लोकांनी बेठेंच कितेंय सांगलें म्हणून तो आयकता? चमनभायन व्हड रुचीन तिख़ट–मीठ लावन ही काणी सांगली. पोर्टांत खंयच्याच धक्यार बोट लागूंक

नाशिल्ली म्हणटकूच चमनभायक भरपूर वेळ आशिल्लो.

"बाप्तीस्त आतां खंय आसा तर?" रामकृष्णान विचारलें.

"सेक्रेटरीच्या खात्यांत आसा काय दिसता. ताका पयलीं सावन कॉप मारपाची संवय. आतां चड पिवपाक लागला अशें आयकूंक येता. सद्दां सांजेचो चुकनासतना इरमांव बार्रांत आसता खंय!" चमनभायन म्हायती दिली.

ऑफिस सुटले उपरांत इरमांव बार्रांत पावपाक बाप्तीस्ताक साडे पांच तरी जाता जातलीं आनी एक फावट थंय बसतकूच उण्यांत उणें एक-देड वर तरी तो थंय आसतलो अशें रामकृष्णाक दिसलें. रामकृष्ण घरा गेलो आनी सांजेचो साडे पांचांक भायर सरून सवाय संक सुमार मुरगांवां सड्या वेल्या इरमांव बार्रांत पावलो. आपणाली गाडी बार्रा मुखार दिसची न्हय म्हूण ताणें ती मात्शी पयसूच दवरली

बार्रांत गल्ल्यार बशिल्ल्या आण्टीक बाप्तीस्त कोण काय म्हूण विचारलें. तिणें बाप्तीस्ताच्या मेजा कडेन बोट दाखयलें.

"मिस्टर बाप्तीस्त, म्हजें नांव रामकृष्ण गावणेकार. हांव तुका मेळूंक आयलां," रामकृष्णान बाप्तीस्ताक आपली वळख करून दिली.

"म्हाका मीट कोरपाक? ह्या दिसांनीं म्हाका मीट कोरपाक कोण्ण येयना मुरे! यो, बॉस! आमी हेच्या आदीं केन्ना मेळोंक ना! हे म्हुजे फ्रेंड्स, गुणाजी आनी सोंबाजी! गुणाजी पोर्टांत वॉर्कर्स युनियनाचो जॉयंट सेक्रेटरी आनी सोंबाजी पोर्टाचो एक ड्रायवर. तूं कितें घेतलो?" बाप्तीस्तान विचारलें.

"हांव ड्रींक घेना. एक सोडा वा कसलेंय सॉफ्ट ड्रिंक पुरो," रामकृष्णान फट मारली; रामकृष्णाक वळखुपी लोक ताका 'बल्ल' म्हणटाले. पूण आपूण एक व्हड भाटकार, म्हणटकूच कसल्याय जाग्यार कोणाय वांगडा बसून पिता आसतना आपणाक कोणेंच पळोवंक जायना, अशें ताका दिसतालें. बाप्तीस्त, गुणाजी आनी संभाजी चेअरमॅना विशीं उलयताले ते रामकृष्ण कितें म्हणटा तें आयकूंक वग्गी रावले.

"मिस्टर बाप्तीस्त, ह्या नव्या चेअरमॅनान तुका खूब वायट वागयलो म्हूण मुरगांवचो म्हजो एक इश्ट सांगतालो. म्हाका खूब वायट दिसलें. तुवें ताचे बायलेक बरी म्हारग साडी दिवपाची केल्ली तें ताच्या कानार गेलें आनी तुज्या पोस्टा सयत तुका दुसरे कडेन मारून दिलो अशें सगल्याक फां फां जालां. तूं

पंदरा वर्सां सुमार चेअरमॅनाचो पी.ए. म्हूण काम पळयता. सगले चेअरमॅन तुका खूब मान दिताले. होच आपणाक कोणूय तरी व्हडलो सुपरमॅन म्हूण समजता. असल्या आय्.ए.एस्. ऑफिसरांक तुमी जाता तितल्या बेगीन धावंडायल्यार बरे!'' रामकृष्णान बाप्तीस्ताच्या अहंकाराक मात्शी मालीश केली.

''ताणें बाप्तीस्ताचो अवमान करून बाप्तीस्ताक हेर कडेन घालो म्हूण तुका कित्याक वायट दिसूंक जाय? विचारलें म्हूण रागार जांव नाका आं!'' गुणाजीन मात्श्या दुबावान विचारलें.

''आयकल्यार तुमकां अजाप जातलें. हांव तुमच्या चेअरमॅनाचो मेवणो! ताचे बायलेचो धाकलो भाव! दोनापावल म्हजो व्हडलो बंगलो आसा. आमच्या जाण्टेल्यांचीं व्हड-व्हड भाटां-बेसां सगल्या गोंयभर पसरल्यांत. तुमच्या चेअरमॅनाची बायल आनी आमी भावंडां सगलीं शिरधनच्या शंबर वर्सां पोरन्या घरांत ल्हानांचीं व्हड जाल्यांत; आमी तीग भाव आनी ह्यो दोन भयणी! दुसरी भयण दोतोर सुरेश कामतीची बायल. प्रोपर्टी खातीर महेश आनी मीरा आमच्या आड कारस्थानां करीत आसतात. आमच्या अंयशीं वर्सांचे आवयक तीं खूब त्रास दितात. महेश पोटांत चेअरमॅन म्हूण आयला तें आमकां सामकें आवडूंक ना. जाता तितले बेगीन ताका हांगच्यान धांवडोवपाक जाय! ते खातीर मिस्टर बाप्तीस्ता कडल्यान कितेंय सुचोवणी मेळटा काय म्हूण पळोवंक हांव ताका सोदीत हांगां पावलां,'' रामकृष्णान तांकां आपूण कोण आनी हांगा कित्याक आयलां ताची तपशिलान म्हायती दिली.

चेअरमॅनाचो मेवणो म्हूण वळख करून दितकूच पांय सोडून कदेलाचेर सुस्त बशिल्ले ते तिगूय जाण मात्शे हाल्ले आनी तायट बसले.

''बाप्तीस्ता कडल्यान तुमी कसल्या सुचोवण्यांची वाट पळयतात?'' गुणाजीन विचारलें.

''तुमी दोगूय जाण ताचे इश्ट. देखून तुमकांय बी चेअरमॅनाची तिडक आयल्या जातली! तुमी तिगूय हांगा उलोवंक बसल्यात म्हणटकूच तुमकां कितेंयतरी सुचलां जातलें.'' रामकृष्णान गुणाजीक सांगलें.

''रामकृष्ण बाब, तुमी तुमचो ऍड्रेस, फोन नंबर बी आमचे कडेन दियात. आमी हाचेर येवजितात आनी मागीर फुडली कारवाय थारावपाक केन्ना आनी खंय मेळुंया तें तुमकां सांगतात!'' गुणाजीन रामकृष्णाक सांगलें.

आनीक थोडो वेळ तांचे कडेन पोर्टाच्यो गजाली करून रामकृष्ण तांकां गुडबाय म्हणून वचूंक उठलो. त्या तिगांयनींय तो वता आसतना ताका उठून हात दिलो. रामकृष्णाचेर विस्वास दवरचो काय ना, तो खरेलोच चेअरमॅनाचेर कोंत्र काय आपल्या आड कोण कसले कट रचतात ताचो वास घेवंक चेअमॅनानूच ताका धाडला काय कितें हें सोदून काडूंक जाय अशें तिगांकूय दिसलें. फ्रान्सीस ड्रायवर कांय दिसां आदीं चेअरमॅनाक आनी बायलेक घेवन दोनापावल तिच्या भावागेर गेल्लो; तिच्या भावाचो एकदम व्हड बंगलो आसा, दोन-तीन मर्सिडिस बंगल्या भायर उब्यो आसात आनी गेटीर कडक सेक्यूरिटी आसा अशें फ्रान्सीसान सांगिल्ल्याचें संभाजीन रिपोर्ट केल्लें. रामकृष्णान आपणालें कार्ड आनी फोन नंबर दिल्लो म्हणटकूच तो खरेलोच चेअरमॅनाचो मेवणो काय कितें तें सोदून काडपाक मजत जातली अशें गुणाजीक आनी बाप्तीस्ताक दिसलें. फ्रान्सीसा कडल्यान आपूण आनीक इल्ली खबर काडटां म्हणपाचें संभाजीन सांगलें. तो कोण ताची खात्री जातकूच मागीर वांगडाच बसून फुडले कारवाये विशीं येवजूं येता अशें थारावन त्या तिगांयनींय त्या दिसाची बसका सोंपयली.

घरा पावतकूच रातच्या णव वरांचेर सुमार संभाजीन रामकृष्णाक फोन केलो आनी आपूण दुसऱ्या दिसा सकाळच्या आदेसाक ताका मेळूंक येवंक सोदतां अशें सांगलें. रामकृष्णान ताका साडे धा वरांचेर आपयलो. संभाजी आपणाली स्कूटर घेवन सारको साडे धा वरांचेर रामकृष्णाच्या बंगल्यार पावलो. रामकृष्ण आनी तो भायर वरांडाचेर आशिल्ल्या प्लास्टिक कदेलांचेर बसले आनी ल्हव आवाजांत मदीं मदीं हेवटेन तेवटेन पळयत उलोवंक लागले. आपल्याकूय चेअरमॅनान खूब दुखयला आनी चेअरमॅन हांगच्यान तोंड घेवन गेल्लो आपल्याकूय जाय अशें संभाजीन रामकृष्णाक सांगलें. आपूण चेअरमॅनाक मार घालूंक सोदतां, आपूण प्रत्यक्ष वचचों ना, पूण कांय गुंडांच्या हातांक कितेंय लावन चेअरमॅनाची गाडी रातची थांबोवंक लायतां आनी ताका बरोच पेट घालूंक लायतां, अशें संभाजीन सांगलें आनी आनीक अर्द वर वेगवेगळ्या बेतांचेर चर्चा करून संभाजी वचूंक भायर सरलो.

मुरगांवच्या कांय गुंडांक हाताक धरून चवथी वेळार रातीचो गणपती पळोवंक गेल्लो आसतना चेअरमॅनाची मोटार थांबोवन ताका आनी बायलेक

सकयल देंवोवन मोटार फोडून उडोवची, ड्रायवराक एकल्यान धरून दवरचो, सगलें काम पांच मिनटां भितर करून त्या गुंडांनी पळ काडचो अशें रामकृष्ण आनी संभाजीचें थारलें. महेशाच्या आनी मीराच्या आंगाक हात लावंक जायना म्हूण रामकृष्णान संभाजीक शिटकावणी दिली. रामकृष्ण संभाजीक धा हजार व्हर म्हूण सांगतालो, पूण पयशे आपल्या कडेन आसात अशें संभाजीन सांगलें.

***

त्या दिसा सांजेचो व्यंकटेश कल्याणपूरकराचो मुंबयच्यान फोन आयलो. ताचो फोन येतलो हें महेशाक खबर आशिल्लें कारण तो अखिल भारतीय पोर्ट मजदूर संघाचो प्रेसिडेंट आशिल्लो. आनी गोंयचो मुरगांव पोर्ट कामगार संघ त्या अखिल भारतीय संघाचो वांगडी आशिल्लो. कल्याणपूरकर आनी महेशा भितर बरें इश्टागतीचें नातें आशिल्लें. मद्रासाक आसतना महेश राज्य सरकाराच्या येरादारी मंत्रालयाचो सेक्रेटरी आशिल्लो आनी कल्याणपूरकर अखिल भारतीय पावंड्या वेल्या मिटिंगां खातीर मद्रास पोर्टांत येतालो तेन्ना तमिळनाडू सरकारच्या वतीन मिटिंगांक गेल्ले कडेन महेशाचें आनी कल्याणपूरकराचें मेळप जातालें. महेश प्रभू मूळ गोंयचो हें कळटकूच तो महेशा कडेन मराठी उलोवंक लागलो. आपणाक मराठी तशी व्हडलीशी उलोवंक कळना अशें महेशान सांगतकूच कल्याणपूरकराक बरेंच अजाप जाल्लें. अखिल भारतीय पावंड्या वेल्यो मिटिंगो आसतकूच थंय जेवणां, पार्ट्यो बी चुकोवंक मेळनात. एकमेकां कडेन उलोवपाक थंय तांकां खूब वेळ मेळटालो. महेश गोंयांत चेअरमॅन म्हूण येतकूच कल्याणपूरकर पोर्ट बोर्ड मिटिंगेक आयिल्ले कडेन तांचें मेळप जालें आनी दोगांयनींय एकामेकांक घट्ट वेंग मारून "इट ईज अ स्मॉल वल्ड अशें म्हणत ते व्हडल्यान हांडिल्ले. चेअरमॅन आनी वरिश्ट लेबर लीडर एकामेकांक वेंग मारतात तें पळोवन हेर सगले नेर्वोज जावन एकामेकांकडेन पळोवंक लागिल्ले. ते खूब वर्सां एकामेकांक वळखतात हें महेशान हेरांक सांगिल्लें. बोर्ड मिटिंगेक आयिल्ले फावटीं कल्याणपूरकर महेशाच्या बंगल्यार जेवंक येतालो. महेश आनी मीरा परस तो पंदरा-सोळा वर्सांनीं व्हड आशिल्लो. पूण तीं सगलीं एकाच वयाचीं आशिल्ले भशेन व्हडल्या व्हडल्यान जोक करतालीं, हांसतालीं आनी एकामेकांक "तूं वोगी राव, हांव उलयतां" अशें सांगत आसतालीं.

गोंयचे कामगार फुडारी हेरां भशेन न्हय. आपल्याक सांगनासतना जायत्यो गजाली करतात आनी मागीर त्रासांत सांपडटात. हेर कडेन कायद्या आड कितेंय करपाचें जाल्यार आपल्याक विचारल्या बगर तशें करिनात अशें तो सदांच म्हणटालो.

कल्याणपूरकरान पयलीं महेश आनी मीराच्या आरोग्याची वासपूस केली, पोर्टा विशीं थोड्यो गजाली केल्यो आनी पिटराक महेशान सस्पेंड केलो तो रिपोर्ट आपल्याक आयला, अशें ताणें सांगलें. ते दोगूय एकामेकां कडेन धा मिनटां सुमार उलयले. आपूण कायदो पाळपी मनीस ह्या नात्यान महेशान केलां तें आपल्याक समजता, पूण अखिल भारतीय पावंड्या वेलो मुखेल फुडारी ह्या नात्यान महेशाचे हे करणेक विरोध करचोच पडटलो अशें ताणें महेशाक सांगलें. निलंबन ही ख्यास्त न्हय. ती सदांच एक तात्पुरती कारवाय आसता. पूण पिटर डिमेलोचें निलंबन फाटीं घेवंक कितेंयतरी कारण सुचोवचें पडटलें अशें महेशान ताका सांगलें.

"पिटर डिमेलोक कामार परतून घेवचो, निलंबन फाटीं घेवचें, ते कायद्या आड कांयच करचे नात" ---अशें बरोवन महेशाक धाडपाचें कल्याणपूरकरान कबूल केलें. त्या आदाराचेर चवथी पयलीं ताका कामार रुजू जावपाची परवानगी दी अशी कल्याणपूरकरान महेशाक विनंती केली. बरोवन धाडटात तें आव्हान शें दिसूंक जायना, फकत एक रिक्वेस्ट सो दिसूंक जाय अशें महेशान ताका सुचयलें. कल्याणपूरकरान ओके थँक्यू म्हणून फोन दवरलो.

आनीक दोन दिसांनी कल्याणपूरकराचो फॅक्स आयलो. फोनाचेर ताणें सांगिल्लें तें सगलें त्या पत्रांत आशिल्लें. फ्लावियाक आपोवन तो फॅक्स महेशान ताचे कडेन दवरपाक लायलो. चवथीच्या दोन दीस पयलीं पिटर डिमेलोचें निलंबन रद्द करून ताका कामार रुजू जावपाची परवानगी महेशान दिली. परवानगी दितना पिटर डिमेलोक आपूण कायद्या आड न वचपाचो सल्लो दितां अशें कल्याणपूरकरान सांगलां तें मानून घेवन हें निलंबन फाटीं घेतां अशें महेशान बरयिल्लें. निलंबनाची ऑर्डर फाटीं घेवचे पयलीं सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर हांचे कडेन महेशान त्या विशयाचेर खोलायेन चर्चा केली.

***

मिनाचो एक्स्पोर्ट पोर्टांतल्यान वाडयतलो जाल्यार मुरगांव पोर्टाक एक सासणाची अडचण आशिल्ली, आनी ती म्हणल्यार चॅनलाची खोलाय. ती खोलाय फकत बारा मिटर आशिल्ल्यान केप सायजीच्यो बोटी आयल्यार बोटींत फकत साठ-पांसस्ट हजार टन मीन मॅकानिकल प्लांटाचेर भरूंक मेळटालें. उरिल्लें तीस-पस्तीस हजार टन मीन चॅनल सुरू जावचे पयलीं भायर बोटी दवरून ट्रान्शीपरा वरवीं भरचें पडटालें. मुरगांव पोर्टांतल्यान एक्स्पोर्ट करपी पांच-स मिनेरां कडेन तांचे आपणाले ट्रान्शीपर आशिल्ले. कायद्या प्रमाणें, जें काम पोर्टाच्यान करूंक जाता तें काम ट्रान्शीपरांनी पोर्टाक विचारल्या बगर करूंक फाव ना असो कायदो आशिल्लो, एक्स्पोर्ट करपी ट्रान्शीपर मालक आनी पोर्ट हांचेमदीं ह्या विशयांचेर वाद जाताले.

पोर्टाचो चेअरमॅन कोणूय आसूं, हो वाद चालूच आसतालो. सर्वानंद सांवर्डेकार सोडल्यार हेर ट्रान्शीपर मालकांचें महेशा कडेन बरें नातें आशिल्लें. पूण चेअरमॅन ह्या नात्यान महेशाक वाद घालचोच पडटालो. इतलें बरें नातें दवरून लेगीत चेअरमॅना कडल्यान तांकां जाय तशी परवानगी मेळनाशिल्ली देखून तांचो अहंकार दुखावतालो.

एक्स्पोर्टर्स असोशियनाच्या अध्यक्षपणाचो सज्जन केंकरेचो काळ सोंपलो आनी सर्वानंद सांवर्डेकार असोशिएशनाचो अध्यक्ष जालो. अध्यक्ष जायना फुडें हेर ट्रान्शीपर मालकांक वांगडा घेवन मंत्री हायफरा कडेन महेशा आड कागाळी करपाक ताणें सुरवात केली. हायफराचो पी.ए. रमेश धवन महेशाक फोन करीत आसतालो. दोन-तीन फावटीं हायफरूच महेशा कडेन उलयलो. आपणाल्या पक्षाक हे सगले एक्स्पोर्टर अर्थीक मजत करतात देखून तांकां एक्स्पोर्ट वाडोवपाक पोर्ट-चेअरमॅनान मजत करूंक जाय अशें तो सांगतालो. महेश कायद्याची गजाल करतालो तेन्ना हायफराक तिडक मारताली. हायफराक महेशाची तिडक मारता अशें रमेश धवनान सर्वानंदाक जायते फावटीं सांगिल्लें. मिनिस्टर आनी महेश हांच्या मदल्या तणावाचो फायदो घेवन महेशाक मुरगांव पोर्टांतल्यान निखळावपाचो होच बरो चान्स अशें सर्वानंदाक दिसतालें. महेशाक थंयच्यान निखळावंक जाय अशीं पत्रां असोशिएशयनाचे वतीन हायफर, वेपार मंत्री आनी प्रधान मंत्र्याक वचूंक लागलीं. असोशिएशनाचे मुखेल वांगडी हायफराक आनी व्यापार मंत्र्याक दोन-तीन फावटीं वचून मेळ्ळे.

फॅर द लिजबोआ कंपनी कडेन ट्रान्शीपर नाशिल्ले. देखून ट्रान्शीपर मालकांनी महेशा आड दिल्ली मंत्रालयांत आनी प्रधानमंत्र्या कडेन कागाळी व्हेल्ल्यो तातूंत फॅर द लिजबोआ कंपनीचो आसपाव नाशिल्लो. माधवबाब लवंदेन मंत्रालयाक वेगळें पत्र बरोवन महेशाक तेंको दिल्लो आनी सद्याचो कायदो आस म्हणसर खंयचोच चेअरमॅन ट्रान्शीपर मालकांचें बेकायदेशीर मागणें मानचो ना अशें फॅर द लिजबोआन बरयिल्लें. गोंयच्यो मीन कंपन्यो आदींच एकामेकांचेर जळटाल्यो. फॅर द लिजबोआ कंपनीन वेगळो सूर काडटकूच हेर कंपनी मालक माधवबाब आनी समीराचेर चड कोंत्र जावंक लागले.

महेशान भारत सरकाराच्या मंत्रालया मुखार एकूच विशय दवरलो – भारत सरकारान केल्लो कायदो आपूण प्रामाणीकपणान चालीक लायतां. हो कायदो एक्स्पोर्टाच्या आड वा देशाच्या हिता आड आसा अशें मंत्र्यांक दिसल्यार तांणी तो कायदो बदलपाची प्रक्रिया सुरू करची, वा तो कायदो चालीक लावपाची गरज ना अशें आपल्याक लिखित कळोवचें, अशें महेश तांकां बरोवंक लागलो. एके वटेन सर्वानंद आनी दुसरे वटेन हायफर तिडकीन महेशाक श्राप दीत रावले पूण महेशा आड तांकां आनीक कांयच करूंक जमलें ना.

पोर्टाच्या वाठारांत आनीक एक उद्वेग वाडटालो आनी तो म्हणल्यार, निनांवीं पत्रां बरोवपाचो! तमिळनाडूंत आसतना महेश असोच कायद्या भितर रावून प्रामाणिकपणान काम करतालो. जंय जंय कायद्या प्रमाणें कसल्याय विशयाचेर निर्णय घेवपाचो अधिकार ताका दिल्लो आसतालो थंय थंय तो ज्या लोकांची सेवा आपूण करतां त्या लोकांक मजत जावपा सारखो निर्णय दितालो. प्रशासनांत सगल्या तरांचे अधिकारी आसतात. प्रशासकीय बांदावळ भ्रश्ट आसल्यार ती बदलपाचो यत्न करी नासतना तातूंतल्यान आपल्याकूय फायदो करून घेवपी अधिकारीय बी असतात. ''तूं यी बी खा, हांवूंय बी खातां,'' ह्या तत्वाचेर प्रशासन चलता. कांय कडेन प्रशासकीय अधिकारी तकलेक कसलोच त्रास दिना आसतना हाता सकयिल्ल्या अधिकाऱ्यांनी केल्ल्यो शिफारसी तश्या तश्यो मानून घेवन सय करून फायली परतून धाडटात. असल्या ''रबर–स्टॅम्प'' अधिकाऱ्यां आड कोणूच कागाळ करिनात. तकली वापरून, कायद्याक धरून प्रामाणिकपणान काम केल्यार खूबश्या जाणांच्या

हितसंबंदांक मार बसता, ते दुखावतात आनी मागीर मुख्य अधिकाऱ्या आड निनांवी कागाळी सुरू जातात. महेशान मुरगांव पोर्टाचीं सुत्रां हातांत घेवन दोन वर्सां जावन गेल्लीं. ह्या दोन वर्सांत ताच्या आड सात–आठ तरी निनांवी कागाळी दिल्ली मंत्रालयांत पाविल्ल्यो. दिल्लीच्या सगल्या मंत्रालयांनी एकूच प्रशासकीय संस्कृताय आसता. अमको अमको अशें अशें करता म्हूण कागाळ आयल्यार, जाचेर कागाळ आयल्या ताका, ''तुका हाचेर कितें म्हणूंक जाय'' अश्या अर्थाचें पत्र दिल्लीचे अधिकारी रोखडेच धाडटात. महेश दर दिसा चलत सर्गार वचून येता अशें म्हूण दिल्लीक पत्र गेल्यार ''हाचेर तुका कितें म्हणपाचें आसा?'' अशें दिल्लीचे अधिकारी रोखडेच विचारतले हातूंत दुबाव ना अशें महेशाक सदांच दिसतालें.

पयलेंच निनांवी पत्र आयिल्लें तें ऍड्मिरल जिंदालाक निरोपाचें जेवण दिल्लें ताच्या आड, महेशान गॅस्टहावसांत रावून चा चीं आनी खाणां-जेवणाचीं बिलां फारीक करूंक नात अशी दुसरी निनांवी कागाळ मंत्रालयाक गेल्ली. तिसरें निनांवी पत्र दिल्लीक गेल्लें तें संभाजी ड्रायवराची महेशान बदली केल्ली तेन्ना. संभाजी ड्रायवर चेअरमॅनाच्या कम्पावंडांत सर्वन्ट्स् क्वार्टर्सांत रावतालो आनी चेअरमॅनाचेर नदर दवरतालो देखून चेअरमॅनान ताका गेटी भायल्या पोर्ट कॉलोनींत आशिल्ल्या फ्लॅटां पैकीं एका फ्लॅटांत हालयलो आनी ताची बदली केली अशें ते कागाळींत म्हणिल्लें. तो लॉग बूक सारको बरय नाशिल्लो देखून ताका बदलचो पडलो ही म्हायती महेशान दिल्लीक धाडली.

पोर्टाचे पयशे वेगवेगळ्या बँकांनी गुंतोवपाक महेश तीन पर्सेंट कमिशन घेता अशी एक कागाळ गेली. आपूण चेअरमॅन म्हूण येवचे पयलीं बँकां कडल्यान कळंतरा विशीं लिखित प्रस्ताव मागून घेवपाची प्रथा नाशिल्ली ती आपणें सुरू केली देखून कांय अधिकाऱ्यांचे आलायते येणावळीचे नळ बंद जाले जावंये. देखून तांणी ही असली कागाळ बरयल्या जावंक जाय अशें पत्र महेशाक धाडचें पडलें.

कॉन्ट्रॅक्टरां कडल्यान काळे पयशे घेवन महेश ते पयशे आपणाल्या मेवण्यांक दिता आनी ते पयशे वापरून मेवण्यांनी घरां बांदल्यांत अशी कागाळ त्या घरांच्या फोट्यां सयत दिल्लीक पावली. आपणाली बायल गोंयच्या एका गिरेस्त घराण्यांत जल्मल्ली आनी तिच्या वांट्याक आयिल्लीं

कांय भाटां विकून कॅपिटल गेन्स टॅक्स फारीक करून आपणें उरिल्ले पयशे बँकांनी दवरल्यात आनी दर वर्सा इन्कम टॅक्स खात्याक धाडिल्ल्या रिपोर्टांत हे गजालींचो आसपाव आसा अशें स्पश्टीकरण महेशाक दिवंचें पडलें.

गोंयचो एक व्हड एक्स्पोर्टर सज्जन केंकरे हो चेअरमॅनाचो मेवणो आनी चेअरमॅन ताका कायद्या आड खुबश्यो सवलती दिता अशीय बी एक कागाळ दिल्लीक गेल्ली. आपणें कोण्णाक कायद्या आड सवलती दिवंक नात आनी सज्जन केंकरे फाटलीं पंचवीस वर्सां सावन आपलो मेवणो जावन आसा, आनी मेवणो जातना हांव एक दीस ह्या पोर्टाचो चेअरमॅन जातलों हें ताका खबर नाशिल्लें काय दिसता, अशें थोमण्यांनी भरिल्लें पत्र महेशान दिल्ली धाडिल्लें.

आनीक एक निनांवी पत्र पोर्टांत खूब गाजलें, तें म्हणल्यार महेशाचें टायमार कामां करपाचें पिशें. महेश सारको टायमार ऑफिसांत येता आनी ते खातीर सगल्या स्टाफाक त्रास जाता, अशी एक कागाळ दिल्ली गेल्ली. स्टाफाक त्रास दिवपाच्या उद्दिश्टान आपूण कांयच करी ना; स्टाफाक सुखी दवरपा खातीर आपणें उसरां येवंचें अशें जर दिल्लीच्या अधिकाऱ्यांक दिसता जाल्यार तांणी आपणाक तशें लिखित कळोवचें, अशें परतून थोमणे मारून महेशान तांकां बरयलें.

महेशान बाप्तीस्ताक ताच्या पोस्टा सयत बदलून प्रशासकीय खात्यांत घालो तेन्ना आनीक एक निनांवी पत्र दिल्ली पाविल्लें. बाप्तीस्त हो प्रामाणीक आनी कर्तबगार ऑफिसर. फाटलीं पंदरा वर्सां तीन चेअरमॅनांचो सिनियर पी.ए. म्हणून काम पळयतालो. हो चेअरमॅन येना फुडें ताणें बाप्तीस्ताक हालयलो कारण चेअरमॅनाक कोण मेळूंक येता, कोण फोन करता, कोणाक तो फोन करता ह्यो सगल्यो गजाली बाप्तीस्ताक कळ्ळ्यार बाप्तीस्त आपणाल्यो वळखी वापरून आपणाक त्रासांत घालतलो अशें चेअरमॅनाक दिसलें देखून चेअरमॅनान ताची बदली केली, अशें ते कागाळेंत बरयिल्लें. बाप्तीस्तालें साडी प्रकरण, टायमार कामाक न येवपाची संवय आनी कांय काळा उपरांत प्रशासनांतल्या अधिकाऱ्यांची बदली जावपाची गरज आपणें ध्यानांत दवरून बाप्तीस्ताची बदली केली अशें स्पश्टीकरण महेशान दिल्ली धाडिल्लें. साडी प्रकरणांत बाप्तीस्ताक निलंबित करूं येतालो पूण बदली केल्यार वेगळ्या वातावरणांत तो सुदारूं येता अशें येवजून ताची फकत बदलीच केली, निलंबीत केलो ना,

अशें महेशान दिल्लीक कळयिल्लें.

दर फावटीं महेशाची जाप वतकूच थंयचे अधिकारी ती फायल बंद करताले कारण महेशान जाप दितकूच फुडली कारवाय करपाक वाव नासतालो.

गेल्ल्या पंचवीस वर्सांत ताच्या आड एक्कूय निनांवी पत्र तमिळनाडूंत वा दिल्लीक वचूंक नाशिल्लें. पोर्टाचें काम हातांत घेतकूच आठ निनांवीं पत्रां दिल्लीक गेल्लीं. जायते फावटीं ''खंयच्या फोंडांत हांव येवन पडलों!'' अशें महेशाक दिसतालें पूण बरें शिस्तबद्द प्रशासन चलयतलो जाल्यार असलीं आव्हानां स्विकारचींच पडटलीं, अशेंय ताका मागीर दिशिल्लें.



## भाग20

**चवथीच्या** तीन दीस पयलीं रामकृष्णान संभाजीक फोन केलो. संभाजी घरा ना, रातचो आठां उपरांत मेळटलो अशी म्हायती एके बायल मनशेन दिली. आठां उपरांत रामकृष्णाचो फोन संभाजीन घेतलो आनी तांणी बेत केल्ल्या प्रमाणें आपणें वेवस्था केल्या अशें सांगलें. वेवस्था कसली काय म्हूण विचारल्यार आपूण मेळून सांगतां, फोनाचेर उलोवप समा जावंचें ना, फ्लॅटांत बायल भुरगीं हेवटेन तेवटेन भोंवत आसतात, आनी फ्लॅट धाकलो जाल्ल्यान कांयच गुपीत उरना अशें संभाजीन सांगलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा वरांचेर सुमार संभाजी दोनापावल वचून रामकृष्णाक मेळ्ळो. मुरगांवांतल्या एके गुंडांचे टोळयेच्या मुखेल्या कडेन आपणें धा हजार रुपया दिवन कितें करपाचें तें सांगलां. हें काम चवथी दिसा करचें अशें आपणें सुचयिल्लें पूण तशें केल्यार वर्तमानपत्रांनी दुसऱ्या दिसा येतलें आनी लोकांचो मूड ऑफ जातलो अशें गुंडांचो मुखेल, क्लिफ्टनाचें, मत आशिल्लें. देखून पांच दिसां भितर ज्या दिसा बरो चान्स मेळटा त्याच दिसा आपूण आपणाल्या वांगड्यांक हें काम करूंक लायतां अशें क्लिफ्टनान सांगिल्लें. म्हणटकूच आपणें ओके म्हणून सांगलें. चेअरमॅन आनी बायल चड करून खंयच्याय तरी सार्वजनिक गणपतीचें दर्शन घेवंक वतलीं. थंयच्यान येता आसतना सड्यार पावचे पयलीं वाटेर व्हडलीशी ट्रॅफीक नासता. त्याच रस्त्यार खंयूयतरी स्टाफ कार थांबोवन आमचें काम करपाचें अशें क्लिफ्टनाक सांगलां. आपूण रातचो साडे धा वरांचेर सुमार फोन करून काम जालें काय ना तें कळयतां. खंयच्याय तरी बारांतल्यान उलोवचें पडटलें. पयशे जाय काय म्हूण रामकृष्णान विचारतकूच,

"तें मागीर पळोवया," अशें सांगून संभाजी मुरगांवां वचपाक भायर सरलो.

चवथीच्या दोन दीस पयलीं, आदींच थारिल्ल्या प्रमाणें, पिटर डिमेलोच्या निलंबनाची ऑर्डर महेशान फाटीं घेतली आनी ताका कामार रुजू जावपाची परवानगी दिली. आपूण चेअरमॅना कडेन उलयलां आनी प्रशासकीय प्रक्रिया पुराय करून तो पिटर डिमेलोचें निलंबन फाटीं घेतलो अशें कल्याणपूरकरान तांकां कळयिल्लें. ऑर्डर हातांत पडना फुडें पिटर डिमेलोन आपूण कामार रुजू जालों म्हणपाचें पत्र ट्रॅफीक मॅनेजर सेराफिन गुदिन्याक दिलें. मागीर रोखडेच पिटर डिमेलो आनी गुणाजी युनियनाच्या ऑफिसांत वचून बसले.

चवथ जातकूच चेअरमॅनाक कसो हाताळपाचो आनी युनियनाचें नांव मात्शें इबाडलां तें कशें पयलीं भशेन 'टॉपार' हाडपाचें हाचे विशीं ते उलयले. चेअरमॅना आड कसलेंय तरी व्हड आंदोलन करूंक जाय जाल्यारूच तो बुद्द शिकतलो आनी युनियनाक सारको मान दितलो अशें गुणाजीक दिसतालें. पिटर डिमेलोक गुणाजीचें मत मान्य आशिल्लें पूण कसली कारवाय करपाची तें ताका सुचनाशिल्लें. मान्य करपाक अशक्य अशी कसलीय व्हड मागणी करून ती मागणी चेअरमॅनान भायर उडयतकूच एक व्हड संप करचो अशें गुणाजीन सुचयलें. ही अशक्य मागणी कसली आसची हाचेर दोगांयनीय विचार करून पांच दिसांचो गणपती पावयतकूच कमिटीची मिटिंग आपोवन ह्या विशयाचेर चर्चा करपाचें थारायलें आनी ते उत्सवाची तयारी करूंक गेले.

पिटर डिमेलो मूळ दोडामार्गाचो आनी थंयचे मराठी प्राथमीक शाळेंत चवथी मेरेन शिकिल्लो. थंयच्या हेर ख्रिश्चनां भशेन तो कोंकणी सारकी हिंदू भशेन उलयतालो. ल्हानपणांत सावन चवथीक बरोऽऽऽ दोण्यांतलो प्रसाद खावंक मेळटा म्हूण तो आरत्यांक आनी भजनांक वतालो. देवळांनी सत्यनारायणाचे पुजेक जेवण आसल्यार इश्टां वांगडा तो त्यो पुजा केन्नाच चुकय नाशिल्लो. तीच प्रथा ताणें व्हड जातकूच लेगीत चालू दवरिल्ली. पोर्ट कॉलोनींत जावपी सार्वजनीक गणपती उत्सवांत सगलीं कामां करूंक तो फुडाकार घेतालो. ख्रिश्चन जावन लेगीत हिंदू उत्सवांनी उमेदीन वावुरता म्हूण ताका कामगारां मदीं नांव बरें आशिल्लें. देखून फुडल्या पांच दिसांक हेरां बरोबर तो उत्सवी मुडांत आसतलो हें गुणाजीकूय बी खबर आशिल्लें. 'युनियनाच्यो कारवायो पांच दिसां खातीर बंद आसतल्यो अशें तांच्या

कामगारांक वेगळें सांगचें पड नाशिल्लें.

सर्वेश गुणाजी लोटले गांवांत ल्हानाचो व्हड जाल्लो. ताचे सगले इश्ट ख्रिश्चन. गांवांत सायबीण भोंवता तेन्ना आपल्या ख्रिश्चन इश्टां वांगडा सायबिणीच्या पुरसांवांत तो भाग घेतालो. ताचें चड ध्यान पुरसांव जातकूच वांट्टात त्या पानक्यांचेर आसतालें. गांवांत कोणूय मेल्यार तो चर्चींत मरणाच्या मिसाक वतालो आनी केक, पॅटीस खावन आनी कोल्ड्रिंक पिवन येतालो. धोदोल, दोस, प्लम केक आनी किडी खावपा खातीर तो नातलांची वाट पळयतालो. पिटर डिमेलोन जशें हिन्दू कामगारां मदीं नांव जोडिल्लें तशेंच गुणाजीन ख्रिश्चन कामगारां मदीं नांव कमायिल्लें.

तेवटेन रामकृष्ण, विष्णू आनी तांचे फॅमिलीक चवथ आयली कितें आनी गेली कितें हाचें व्हडलेंशें पडून वचूंक नाशिल्लें. शिरधनच्या मूळ घरांत चवथी दिसा दनपारच्या आरत्यांक, रातच्या आरत्यांक आनी पंचमी दिसा गणपती पावोवंक तीं वतालीं आनी जेवन बी येतालीं. ह्या वर्सा दोनूय रातीं कडेन आरत्यांच्या वेळार "बेगीन सोंपोवया, बेगीन सोंपोवया" म्हूण रामकृष्ण हेरांच्या फाटल्यान लागिल्लो. ताच्या आनी संभाजीच्या बेता प्रमाणें मुरगांवांत घडपाचें आशिल्लें तें घडलें काय ना हाचो ताका हुस्को आसतालो. आयज कांयच घडलें ना असो चवथी दिसा राती कडेन इकरांक संभाजीचो फोन आयलो. दुसऱ्या दिसाय बी कांयच घडलें ना. तिसऱ्या दिसा सकाळच्या आदेसाक रामकृष्णान संभाजीक फोन केलो आनी हेर कडेन खंयूंयतरी वचून आपणाक फोन कर अशें सांगलें. आपणें क्लिफटनाक फोन केल्लो आनी ज्या वांगड्यांचेर काम सोंपयिल्लें त्या वांगड्यांक विचारून सांगतां अशें क्लिफटनान आपल्याक सांगलां म्हूण संभाजीन रामकृष्णाक सांगलें. तिसऱ्या आनी चवथ्या दिसा लेगीत कांयच घडलें ना, म्हणटकूच संभाजी आपल्याक शिंगां लायता काय कितें असो रामकृष्णाक दुबाव मारलो. पांचव्या दिसा गणपती पावोवपाचो चड बोवाळ आसता देखून त्या बोवाळा भितर हे आपणालें काम करतले अशें रामकृष्णाक दिशिल्लें. पूण कांयच जालें ना. पांचव्या दिसा संभाजीय बी ना जालो. आपल्याक मात्शें चड लागलें देखून आपूण फोन करूंक पावलों ना अशें संभाजीन दुसऱ्या दिसा रामकृष्णाक फोनार सांगलें; काम जावंक ना हेंवूय बी ताणें सांगलें.

चवथी दिसा सांजेचो युनियनाच्या ऑफिसांत बशिल्ले कडेन पिटर डिमेलोक कमिटीच्या एका वांगड्याचो फोन आयलो. क्लिफ्टनाचे दोन गुंड चेअरमॅनाची स्टाफ कार रातीची रस्त्यार थांबोवन चेअरमॅनाक आनी बायलेक सकयल देंवोवन गाडी फोडटले आनी चेरमॅनाक आनी ताचे बायलेक भेशटावन उडयतले. हें केन्ना जातलें काय म्हूण पिटरान विचारतकूच चवथीच्या पांच दिसां भितर केन्नाय तरी एक दीस हें घडपाचें आसा अशें त्या वांगड्यान सांगलें. ही खबर त्या वांगड्याक कोणें दिली काय म्हूण विचारतकूच एका गुंडाच्या इश्टान पोर्टा विशीं उलयतां उलयतां आपणाक ही खबर सांगली अशेंय त्या वांगड्यान सांगलें.

पिटर एक वरिश्ट युनियन फुडारी जावन लेगीत ताका गुंडगिरीची तिडक मारताली. चेअरमॅनाक आनी अधिकाऱ्यांक भेशटावप हें युनियन फुडाऱ्यांचें काम! तशें करिना जाल्यार युनियनाचीं उद्दिश्टां साद्य जायनात अशें ताचें ठाम मत आशिल्लें. पूण गुंडगिरी करून मारप, फोडप असल्यो गजाली ताका आवडनाशिल्ल्यो. हाच्या फाटल्यान कोणूय आसूं, हें जावंक जायना अशें ताचें मन ताका सांगपाक लागलें. ताणें आपणाच्या फोनाचे डायरेचेर कमांडंट पाटिलाचो नंबर पळोवन ताका फोन केलो. आपल्याक खबर आशिल्ली सगली म्हायती ताणें कमांडंट पाटिलाक दिली. चेअरमॅनान ह्या दिसांनी रातचें खंयच वचचें न्हय आनी दिसाचो खंयूय वतना रिव्हॉल्वर वांगडा घेतिल्लो एक पी.यस्.ओ. घेवन वचचो अशी सुचोवणी पिटर डिमेलोन केली. पिटर डिमेलोन ही सगली खबर दिवपाचें कारण कितें अशें कमांडंट पाटिलान विचारतकूच आपूण युनियन लिडर, गुंड न्हय, आपणाक गुंडगिरी आवडना, आपणालीं झगडीं चेअरमॅन हे व्यक्ती कडेन न्हय तर त्या ऑफिसरा कडेन. तो त्या कदेलार बसला, देखून हीं दोन कदेलां मदलीं झगडीं अशें म्हणून पिटर डिमेलोन फोन दवरलो. कमांडंट पाटिलान रोखडीच सगली खबर महेशाक सांगली आनी रातचो प्रवास टाळपाक लायलो. महेश आनी मीराक तीन सार्वजनीक गणपती पळोवपाचे आशिल्ले, थंय तीं दनपारच्या आरत्यांक वचून आयलीं.

क्लिफ्टनान संभाजी कडल्यान धा हजार रुपया घेतिल्ले ते परतून दिले आनी चवथीच्या दिसांनी चेअरमॅन रातीचो भायर सरलो ना देखून संभाजीचें

काम जालें ना अशें ताणें सांगलें. संभाजीन हो रिपोर्ट मागीर रामकृष्णाक दिलो. रामकृष्ण आनी सुमित्रा महेशाक त्रासांत घालपाच्यो हेर वाटो सोदत रावलीं.

***

सर्वानंद सदां भशेन धा वरांचेर आपणाल्या ऑफिसांत पावलो. महेश प्रभू चेअरमॅन म्हूण येवन अडेज वर्सां सुमार जावन गेलीं तरी आसतना ताका कसलीच बुद्द आपूण शिकोवंक पावलों ना हाची सर्वानंदाक सदांच खंत जाताली. आयज मेरेन ताणें कसल्याच वेव्हारांत वा घडणुकेंत हार मानून घेवंक नाशिल्ली. आतांय बी तो सामको निर्शेवन आशिल्लो पूण कितें करपाचें तें ताका सुचनाशिल्लें.

सर्वानंदाच्या मेजा वेलो फोन वाजलो आनी रमेश धवन उलोवंक सोदता म्हूण चोडणेकारान सांगलें. ओके म्हणून रमेश धवन लायनीर ये म्हणसर सर्वानंद तसोच फोन धरून रावलो.

“सर्वानंदजी, तूं कसो आसा? मिनिस्टर तुजे कडेन उलोवंक सोदता! फोन दवरूं नाका. हांव मिनिस्टराक कनेक्शन दितां!” रमेश धवनान सांगलें.

“हॅलो सर्वानंदजी, सगलें सारकें चल्लां न्हय? तुवें अजून मेरेन मंत्रालयाक महेश प्रभू आड भ्रश्टाचाराची एक्लूय कागाळ धाडूंक ना. कोळसो मंत्रालयांत म्हजी आतां बदली जावपाची आसा अशें आयकूंक येता. तें मंत्रालय म्हज्या हातांत दियात अशें प्रधान मंत्र्याक सांगून सांगून म्हाका वाज आयिल्लो. तो कांय मंत्र्यांच्यो आतां बदल्यो करपाचो आसा. तातूंत भितर म्हजोय आसपाव आसतलो अशें ताचो सेक्रेटरी म्हज्या मंत्रालयाच्या सेक्रेटरीक सांगतालो खंय!” हायफरान सर्वानंदाक महेशा आड परतून चिथावपाचो यत्न केलो.

“तूं कोळसो मंत्रालयांत इतले बेगीन कित्याक वचूंक सोदता?” सर्वानंदान विचारलें.

“कोळसो मंत्रालय ह्या मंत्रालया परस कितलेशेच पटींनीं व्हड आनी गिरेस्त! महेशा आड कागाळ करपा सारकें तुजे कडेन कांयच ना जाल्यार, तूं फटींच्यो कागाळी धाड. चवकशे खातीर हांव त्यो कागाळी सी.बी.आय्. कडेन धाडटां,” अशें हायफरान सर्वानंदाक सुचयलें आनी फोन दवरलो. सर्वानंदान रोखडोच रामकृष्णाक फोन केलो आनी त्याच दिसा चार वरांचेर

आपणाक येवन मेळ म्हणून सांगलें.

महेशाक त्रासांत घालपाच्यो आनीक कसल्यो कसल्यो वाटो आसूं येतात हाचेर त्या दिसा तांची चर्चा जाली. रामकृष्णा वांगडा विष्णूय बी आयिल्लो. सुमित्रा विष्णूक सदांच रामकृष्णा वांगडा धाडटालें कारण रामकृष्ण तांकाय बी फटयत म्हूण सुमित्राक भंय दिसतालो.

खूब चर्चा करून लेगीत सर्वानंद आनी रामकृष्णाक कसलोच स्पश्ट मार्ग दिसलो ना. ''एके ब्रिफकेसींत एक कोटी रुपया घालून ती कोणाकडेनूय तरी दिवन चेअरमॅनाच्या बंगल्यार धाडची आनी रोखडीच इन्कमटॅक्साक खबर दिवंची'' विष्णून अकस्मात् सुचयलें. सर्वानंद आनी रामकृष्ण वग्गी एकामेकाकडेन पळयत रावले. विष्णू सदांच पिशां भशेन उलयता पूण आयज तो शाणेपणाची गजाल उलयलो अशें सर्वानंदाक दिसलें. पूण ते सुचोवणेचेर चर्चा करतना तें कारस्थान चालीक लावपाक बरेंच कठीण हें तांच्या ध्यानांत आयलें. हे पयशे अखेरेक इन्कमटॅक्साचे तिजोरेंत वतले म्हणटकूच ब्रिफकेसींत फकत धा लाखांच्यो नोटी घाल्यार पुरो अशें सर्वानंदान सुचयलें. खेरीज, हे पयशे सर्वानंदाकूच दिवचे पडटले आशिल्ले कारण व्हड प्रमाणांत वेव्हार करतना कॅश हाताळप उद्येजकांकूच शक्य आसता हें रामकृष्णा परस सर्वानंदाक चड बरें खबर आशिल्लें. ब्रिफकेस कशी बंगल्यार पावोवपाची ह्या प्रस्नाची जाप तांकां अजून मेळूंक नाशिल्ली.

एक सोपी वाट रामकृष्णाक सुचली म्हणटात ती आपल्यागेर सत्यनारायणाची पुजा दवरून महेशाक आनी मीराक आमंत्रण दिवंक रामकृष्ण, उषा, विष्णू आनी सुमित्रान तांगेर वचपाचें. वता आसतना सुमित्रान आपणाले पर्सींत धा लाख रुपया घालपाचे. मीरागेर वचचे पयलीं ताका सांगचें पडटलें. सांगतकूच तें जेवपाक रावात म्हूण आग्रो करतलें. थंय जेवपाक रावल्यार ते पयशे त्या व्हडल्या बंगल्यांत खंयूय लिपोवन दवरूंक चड वेळ मेळटलो. मागीर एका आठवड्यान सुमार इन्कमटॅक्साक फोन करपाचो. तितले म्हणसर महेशाक आनी मीराक भेट दिवंक आनीक कोणूयतरी खात्रीन येतले. इन्कमटॅक्साक रोखडोच फोन केल्यार पोलीस आनी इन्कमटॅक्स रामकृष्ण आनी हेरांचेर दुबाव घेतले कारण आनीक कोणेंच भेट दिवंक ना अशें महेश आनी मीरा तांकां सांगतलीं आशिल्लीं.

ह्यो सगल्यो गजाली घडोवन हाडटा म्हणसर आठ-धा दीस तरी वतले आनी तितले मजगतीं हायफराची बदली जाल्यार हो सगलो खटाटोप फुकट वतलो. हे पयशे चेअरमॅनाच्या बंगल्यार कोणूय तरी दवरून गेला अशें पोलीस म्हणटले आनी इन्कमटॅक्स ते धा लाख जप्त करतले. महेशाक त्रासांत घालपाचें कारस्थान तश्शें उरतलें. सर्वानंदान एका मिनटा भितर हें सगलें येवजून हें कारस्थान आतां केल्यार ताचो कांय फायदो जावचो ना कारण मंत्री हायफराची बदली जावची आसा आनी सी.बी.आय्.क महेशा फाटल्यान लावपाक ताका वेळ मेळचो ना अशें सर्वानंदान रामकृष्णाक आनी विष्णूक सांगलें. आनीक एका आठवड्यान मेळून हेर कसल्योय वाटो मेळटात काय म्हूण पळोवया अशें सर्वानंदाक सांगून रामकृष्ण आनी विष्णू घरा गेले.

ते वतकूच चोडणेकाराक आपोवन सर्वानंदान पोर्ट मंत्रालयाच्या मंत्र्याक एक निनांवी पत्र घालें.

"ड्रेजिंग कंत्राट दितना महेशान पोर्टाक पस्तीस लाख रुपया लुकसाण करपाचें; मंत्रालयान कंत्राट रद्द केल्ल्यान तें लुकसाण जालें ना. महेश एकदम भ्रश्ट अधिकारी. व्हड व्हड कंत्राटदारां कडल्यान तो पंदरा टक्के कमिशन घेता आनी ते काळे पयशे तो आपल्या मेवण्यांक पावयता. देखून त्या मेवण्यांनी दोनपावल पठार आनी पणजे आल्तिनाचेर पलासी भशेन व्हड व्हड बंगले बांदल्यात. ह्या सगल्या भ्रश्ट करण्यांची रोखड्या रोखडी सी.बी.आय्. चवकशी जावंची अशें आमी मागतात."

-मुरगांव पोर्टाचे कामगार.

हें पत्र स्पीड पोस्टांत घाल. श्री जॉन हायफर, मिनिस्टर फॉर पोर्ट अँड शिपिंग,अशें लखोट्याचेर बरोवन, वयर 'कॉन्फिडेन्शयल' बरोवन रोखड्या रोखडें स्पीड पोस्टान धाड अशें सर्वानंदान चोडणेकाराक सांगलें. आपणें स्पीड पोस्टान आयज एक पत्र धाडलां तें पावना फुडें मिनिस्टराच्या हातांत रोखडेंच दी अशी सर्वानंदान रमेश धवनाक विनंती केली.

चार दिसांनी हें निनांवी पत्र हायफराक मेळ्ळें. हें पत्र सी.बी.आय्.चे चवकशे खातीर धाडचें अशें आपल्या हातान बरोवन मिनिस्टरान तें पोर्टाच्या सेक्रेटरीक धाडलें. हायफर वरिश्ट अधिकाऱ्यांक लेगीत बेकायदेशीर आनी अनैतिक कामां करपाक लायतालो आनी अधिकाऱ्यांनी तशें करपाक वेळ

लायलो वा करपाक मेळचें ना अशें सांगल्यार तो तांचेर सूड घेतालो हें शंकर अय्यराक खबर आशिल्लें आनी शंकर अय्यर अधिकाऱ्यांक आपल्याच्यान जाता तितलें रक्षण दिवपाचो यत्न करतालो. अधिकाऱ्यां आड कसलीय कागाळ आयल्यार चालंत प्रक्रिये प्रमाणें ती कागाळ त्या अधिकाऱ्या कडेन धाडून ते कागाळेचेर ताका कितें म्हणूंक जाय तें पयलीं वेले अधिकारी आयकून घेताले आनी मागीर फुडली कारवाय करपाची काय ना, आनी करपाची जाल्यार कसली कारवाय करपाची हें ते थारायताले.

महेश प्रभूच्या आड आयिल्ले निनांवी कागाळेचेर मंत्र्यान शेरो मारलो तो समा न्हय अशें शंकर अय्यराक दिसलें; आपणाल्या पी.ए.क आपोवन ताणें मिनिस्टराक धाडपा खातीर एक पानभर नोट बरोवन घेवंक लायलो. आतां मेरेन भारत सरकारांत आशिल्ली चालंत प्रक्रिया, गेल्ल्या चार-पांच वर्सांत सुप्रीम कोर्टान असल्या विशयांचेर दिल्ले निवाडे ध्यानांत घेवन सी.बी.आय्.क धाडचे पयलीं हें पत्र मुरगांव पोर्ट चेअरमॅना कडेन धाडून तो कितें म्हणटा तें पळोवंक जाय, अशें बरोवन दुसऱ्या दिसा शंकर अय्यरान तो नोट आनी तें पत्र मिनिस्टराक धाडलें. रमेश धवन तो नोट वाचून मात्सो नर्वस जालो; ''सर, हो नोट मंत्र्याक धाडपा वांट्याचो तुमी वचून ताचे कडेन उलयल्यार बरे न्हय?'' रमेश धवनान सेक्रेटरीक मेळून भियेत भियेत सुचयलें.

''ना, नोटूच धाडचो पडटलो कारण मंत्री कसलीय ऑर्डर दिवं, कायद्याक धरून कितें समा आनी कितें चूक हें आमी बरोवन धाडूंक जाय. राजकी फुडारी कितेंय करूं, आमी अखिल भारतीय प्रशासकीय अधिकारी आशिल्ल्यान नितळ आनी कायद्या प्रमाणें प्रशासन चलोवप ही आमची लागणूक! ह्या मंत्र्याच्या हाता सकयल काम करतना तुजेरूय बी तरातरांचें चेपण येतलें. हांवें सांगिल्ली गजाल सदांच ध्यानांत दवर, ना जाल्यार तूं एक दीस त्रासांत सांपडटलो!'' शंकर अय्यरान रमेश धवनाक सल्लो दिवन परतून धाडलो. मंत्र्यांचीं सगलीं कामां व्हड उमेदीन करपाची रमेश धवनाक संवय आशिल्ली. मंत्री सांगता तें अधिकाऱ्यांनी करुंकूच जाय अशें तो सदांच मानतालो! ही गजाल शंकर अय्यराच्या कानार पडिल्ली.

रमेश धवन तो नोट घेवन मंत्र्या म्हऱ्यांत गेलो आनी ''तुका जाय तें तुवें करपाचें, सेक्रेटरीचें मत सदांच मानून घेवंक जाय अशें नासता!'' अशें ताणें

हायफराक सांगलें. हायफरान तो नोट वाचलो आनी सेक्रेटरीक आपल्याक मेळूंक लाय अशें म्हणून ताणें रमेश धवनाक सांगलें. आनीक अर्द वरान सुमार सेक्रेटरी मंत्र्या म्हऱ्यांत गेलो. तो पंदरा मिनटां सुमार मंत्र्या म्हऱ्यांत आशिल्लो. हायफरान मागीर सेक्रेटरीच्या नोटा सकयल सय करून फायल परतून धाडली.

एका आठवड्या उपरांत महेश प्रभूक मंत्रालयांतल्या जॉयंट सेक्रेटरीचें कॉन्फिडेन्शियल पत्र आयलें. दीपान तें पत्र हाडून महेशाक दाखयलें आनी तें थंयच उबें रावलें. पत्रा वांगडा त्या निनांवी पत्राची कॉपी जोडिल्ली आनी महेश प्रभूक कितें म्हणपाचें आसा तें एका आठवड्या भितर कळोवचें अशें जॉयंट सेक्रेटरीच्या पत्रांत बरयिल्लें. महेश प्रभून दीपाक बस म्हूण सांगून त्या पत्राची जाप बरोवन घेवपाक लायली. आपल्या मेवण्यांनी व्हड व्हड बंगले बांदल्यात ते आपूण मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवंच्या पयलींचे; तांचे कडेन जाण्टेल्यांनी तांकां आनी आपले बायलेकूय बी सोडिल्ली खूब इश्टेट आसा. तांणी बंगले बांदूंक पयशे खंयच्यान हाडले तें जाय जाल्यार इन्कमटॅक्स खात्यान तांकां विचारूं येता. आपणे कायदे आनी नेमां प्रमाणें पोर्ट चलयला आनी कसल्याच भ्रश्टाचारांत, ह्याच जाग्यार न्हय, तर हाचे पयलीं लेगीत केन्नाच हात म्हेळे करून घेवंक नात अशी जाप ताणें पयले कागाळेक दिली. मेवण्यांच्या व्हड घरां विशीं हाच्या पयलींय बी आपणें मंत्रालयाक जाप दिल्या अशेंय बी महेशान बरयलें.

दुसरी कागाळ आशिल्ली ती ड्रेजिंग कंत्राटा विशींची. महेशान बोर्डाक घालपाक केल्ल्या प्रस्तावा प्रमाणें पस्तीस लाखांचें लुकसाण जावपाचें पूण मंत्रालयान तें कंत्राट रद्द करून पोर्टाक लुकसाण जावपाचें आशिल्लें तें वाटायलें, अशें ते कागाळेंत बरयिल्लें. तीन उपसमित्यांनी केल्ले शिफारशी प्रमाणें आपणें प्रस्ताव बोर्डाक घालपाचो केल्लो. फाटल्या वर्सा बोर्डान ड्रेजिंगाचेर सात कोटी रुपया खर्च केल्ले. आपणें प्रस्ताव घाल्लो तो स कोटी पस्तीस लाखांचो. म्हणटकूच उपसमित्यांनी आनी आपणें केल्ले शिफारशी प्रमाणें पोर्टाक फाटल्या वर्सा परस पांसस्ट लाख उणो खर्च जातलो आशिल्लो. निविदांची प्रक्रिया हाताळटना भारत सरकारान घालून दिल्ले नेम आनी सगल्यो चाली रिती पोर्टान सारक्यो पाळल्यात, खंयच चूक घडूंक ना.

कायदो, नेम आनी चाली रिती कडक शिस्तीन पाळून चलयिल्ल्या

प्रशासनाक लागून जायत्या जाणांचे हितसंबंद दुखावतात. आपणाक जाय तशे नेम बागोवन प्रशासन चलोवंक मेळ्ळ्यार सगलेच सुखी आसतात. कोण कोणा आड कागाळी करिनात अशें महेशान पत्रांत बरोवन कळयलें. ही जाप त्याच दिसा दिल्लीक धाडूंक जाय अशें महेशान सांगलें.

चार दिसां उपरांत स्पीड पोस्टान धाडिल्लें तें पत्र मंत्रालयांत पावलें. जॉयंट सेक्रेटरी प्रदीप मिश्रान तें वाचलें आनी "मुरगांव पोर्ट चेअरमॅनान जाप धाडल्या ती मानून घेवंची. ताणें सगल्यो चालीरिती आनी नेम पाळ्ळ्यात, खेरीज उपसमित्यांनी केल्ले शिफारशी प्रमाणें ताणें बोर्डाक प्रस्ताव धाडिल्लो आनी फाटल्या वर्सा परस ह्या वर्सा ड्रेजिंगाचेर खर्च पांसस्ट लाखांनी उणो जावपाचो अशें ताणें बरयलां. हो विशय सी.बी.आय्.चे चवकशे खातीर धाडपाची गरज ना काय दिसता!" अशें बरोवन ताणें सय करून फायल सेक्रेटरी कडेन धाडली. सेक्रेटरी एके आंतरराष्ट्रीय मिटिंगे खातीर जिनिव्हा गेल्लो आनी तीन दिसांनी परतून येवपाचो आशिल्लो.

ज्या दिसा जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रान फायल सेक्रेटरी कडेन धाडली त्याच दिसा मंत्री हायफराची कोळसो मंत्रालयांत बदली जाली. हायफरान दुसऱ्या दिसा सकाळीं कोळसो मंत्रालयांत कामाचो ताबो घेतलो. ताचे वांगडा रमेश धवनूय बी कोळसो मंत्रालयांत गेलो. कांय काळ केंद्र सरकारांत मंत्री आशिल्लो ईश्वरप्पा पोर्ट मंत्रालयांत बदली जावन आयलो आनी ताणें दोन दिसां उपरांत कामाचो ताबो घेतलो. ईश्वरप्पा मूळ धारवाडचो आनी सरळ सभावाचो म्हूण नामना आशिल्लो एक वरिश्ट मंत्री. तो कामगार संघांच्या चळवळींतल्यान वयर सरिल्लो. रमेश धवनाच्या जाग्यार नारायणा म्हूण आय्.ए.एस्. ऑफिसर ईश्वरप्पाचो सिनियर पी.ए. म्हूण आयलो.

सेक्रेटरी शंकर अय्यरान टुरा वेल्यान परतून येतकूच महेश प्रभूची फायल वाचली आनी जॉयंट सेक्रेटरीन केल्ली शिफारस मानून घेतली. फायल मिनिस्टरा कडेन वतकूच ताणेंय बी सय करून फायल परतून धाडली.

अशे तरेन हायफरान दिल्ल्या सी.बी.आय्. धमकेचो कांयच परिणाम जालो ना.

***

बाप्तीस्त, गुणाजी आनी संभाजी नेमान इरमांव बरांत मेळटाले. चेअरमॅनाक त्रासांत उडोवपाचो खंयचोच प्लॉट तडीक लागूंक ना म्हूण बाप्तीस्ताक आनी संभाजीक चड निर्शेणी येताली. गुणाजीचें चेअरमॅना कडेन आपणालें अशें वेगळें वांकडेपण नाशिल्लें. पिटर डिमेलोक निलंबीत केल्ल्याची गुणाजीक तिडक आशिल्ली आनी युनियनान ताका बेगिनांत-बेगीन कसलीय तरी ख्यास्त घडोवंक जाय अशें ताका दिसतालें. चवथ जातकूच कमिटीची मिटिंग आपोवन कितें तें थारावया अशें पिटर डिमेलोन सांगिल्लें पूण अजून मेरेन मिटिंग जावंक नाशिल्ली. रामकृष्ण गावणेकारूय बी कांयंच हालचाली करी नाशिल्लो अशें बाप्तीस्ताक आनी गुणाजीक दिसतालें. रामकृष्ण आनी संभाजी भितर कितें घडिल्लें तें संभाजीन गुप्त दवरिल्लें. तांचो पयलो पेग सोंपतां सोंपतां रामकृष्ण थंय पावलो. ''हॅलो हॅलो, कशे आसात, कशे आसात,'' अशें विचारीत सगल्यांक हात दिवन तो बसलो. चवगांचेंय उद्दिश्ट एकूच आशिल्लें पूण उद्दिश्ट साद्य कशें करचें हें कोणाकूच सुच नाशिल्लें.

सी.बी.आय्.क चेअरमॅना फाटल्यान लावपाचो आपणालो बेत अजून फळाक येवंक ना; ताका हेर तरेन भेश्टावपाचे उपाय सोदून काडूंक जाय! तो आनी ताची बायल खंयच्यानूय परतून बंगल्यार येतना तांची गाडी आडावन फकत ताचेर दोन थापटां मारून गाडी फोडूं येता. असो प्रस्ताव बाप्तीस्तान मांडलो. संभाजी आनी रामकृष्ण वग्गी रावले. गुणाजीक तो प्रस्ताव व्हडलोसो आवडलो ना पूण तांचे मुखार सद्या आनीक कांयच वाट नाशिल्ल्यान तोय बी वग्गी रावलो. तो प्रस्ताव फुडें कसो व्हरपाचो काय म्हूण रामकृष्णान विचारतकूच खंयच्याय तरी गुंडांक हाताक धरून हें काम करूंक लावचें पडटलें अशें बाप्तीस्ताचें मत आशिल्लें. हें काम आपूण हातांत घेतां आनी काम एका आठवड्या भितर करून उडयतां अशें संभाजीन सगल्यांक सांगलें. गुंडांक दिवपाचे पयशे संभाजीन आपणाकडल्यानूच व्हरचे अशें रामकृष्णान सुचयलें आनी संभाजीन ओके म्हणून तकली हालयली. डॉमनिक तांच्या मेजा म्हऱ्यांत येतकूच रामकृष्णान फकत सोडा ऑर्डर केलो.

गाडी बी फोडपाचें तें बरें आसा, पूण चेअरमॅनाचेर थापटां मारप आपल्याक पसंत ना अशें गुणाजीन अखेरेक आपणालें गांधी स्टायल मत उकतायलें. संभाजीन आनी रामकृष्णानूय बी गुणाजीक तेंको दिलो. आनीक

कांय वेळ त्या विशयाचेर चर्चा करून बाप्तीस्ताक समजावन सांगून संभाजीन हो प्लॉट तडीक व्हरचो अशें थारलें. रामकृष्ण मागीर रोखडोच उठून गेलो. फाटले फावट युनियनान ते यू.डी.सीं.चे परिक्षेक विरोध केल्लो आनी चेअरमॅनाक आडायिल्लो म्हूण ताणें पिटर डिमेलोक निलंबित केल्लो. आतां अकावंट खातें ती परिक्षा घेवपाची परतून तयारी करता अशें आयकूंक येता अशी म्हायती गुणाजीन दिली. ह्या चेअरमॅना कडेन गांधी स्टायल वागप उपकरा पडपा ना. ताका थापटावंक वा खोटावंक जायना अशें युनियनाक दिसता जाल्यार ताचें ऑफिस तरी फोडूंक जाय आनी ताका दीस रात निदर्शनां करून गाळी घालीत रावूंक जाय अशें बाप्तीस्तालें मत आशिल्लें. चेअरमॅनाक भ्रश्टाचारांत घुसपावपाचो बाप्तीस्तान केल्लो साडी प्रोजेक्ट फसलो म्हूण बाप्तीस्तान वगी बसूंक जायना. भ्रश्टाचारांत घुसपावपाचें हेर कसलेंयतरी कारस्थान बाप्तीस्तान येवजूंक जाय अशें संभाजीक दिसलें. आनीक थोड्या वेळान दुसरो पेग जातकूच ते बारांतल्यान भायर सरले आनी गुड नायट म्हणून आपापले वाटेन गेले. वचचे पयलीं बाराच्या गल्ल्या वेल्यान संभाजीन क्लिफ्टनाक फोन केलो आनी क्लिफ्टनाचें नांव घेना आसतना ताचे कडेन उलोवन ताका मेळपाचो जागो आनी टायम थारावन गल्ल्यार फोनाचे दोन रुपया दवरून तोवूय थंयच्यान गेलो.

दुसऱ्या दिसा क्लिफ्टनाक मेळून संभाजीन धा हजार रुपया ताच्या हातार दवरले आनी फाटले फावटीचें उरिल्लें काम फुडल्या चार-पांच दिसां भितर जावंक जाय म्हूण सांगलें. फाटल्या फावटीं गाडयेचेर हल्लो करपाचो तांचो बेत चेअरमॅनाक बी कळून मागीर ताणें आपणालें राती कडेन भायर सरपाचें बंद केलें ना मरे?'' संभाजीन वतां वतां क्लिफ्टनाक विचारलें. तांचे बेत केन्नाच फुटनात अशी क्लिफ्टनान जाप दिली. पूण क्लिफ्टनाक आपल्याच मनशांचेर पुराय भरवंसो नाशिल्लो. स्टाफ काराचेर हल्लो करपा खातीर वेंचून काडिल्ल्या दोगूय जाणांक दर दिसा कॉप मारपाची संवय आशिल्ली आनी कॉप मारपाची संवय आशिल्ले जायते लोक उलयता आसतना जतनाय घेनात हेंवूय ताका खबर आशिल्लें देखून हे फावटीं ताणें मात्शे उणें उलोवपी वांगडी वेंचून काडले आनी तांकां तोंड धांपपाची कडक शिटकावणी दिली. ऑफिसाचो टायम सोंपल्या उपरांत चेअरमॅनाचे खंयूय वचपाचे प्रोग्राम

आसल्यार आपल्याक आदींच कळय अशें क्लिफ्टनान संभाजीक सांगलें कारण क्लिफ्टनाचो कोणूच इश्ट पोर्टांत काम करिनाशिल्लो आनी देखून चेअरमॅनाच्या हालचालींचेर नदर दवरपा सारको ताचे कडेन एकलोय मनीस नाशिल्लो. देखून, ताणे हें काम संभाजीचेर सोंपयिल्लें.

त्या दिसा सांजवेळचीं महेश आनी मीरा बंगल्या सामकार आशिल्ल्या लॉनाचेर बसून च्या घेतना श्यामान ''चीफ सेक्रेटरी लायनीर आसा,'' अशें म्हणून कॉर्डलेस फोन महेशाच्या हातांत दिलो. आपणाली आतां रोखडीच दिल्लीक ट्रान्सफर जावपाची आसा कारण आपणाक हो चीफ सेक्रेटरी नाका, ताका रोखड्या रोखडो गोंयच्यान परतून व्हरचो अशें मुख्यमंत्र्यान भारत सरकाराच्या मंत्र्याक कळयलां. आपूण हाताळटालों ते सगले म्हत्वाचे विशय मुख्यमंत्र्यान हेर जुनियर ऑफिसरां कडेन दिल्यात. आपल्याक ऑफिसांत कांयच काम नासता, देखून आपूण त्या दिसाच्यान सुटी घेवन घरा बसलां. आपूण सुटयेर आसां ते निमित्त फुडें करून आपणाली स्टाफ कार मुख्यमंत्र्यान काडून घेतली आनी ड्रायवराची बदली केली. आपणाल्या घरा कडेन एक सरकारी रांदपी आसा तें ताचे नदरेक कोणेंच हाडून दिवंक ना जातलें. नाजाल्यार ताकाय बी काडून मुख्यमंत्री दुसरे कडेन घालपाचो अशें रामदास शर्मान तिडकीन मर्दी मर्दी व्हड स्वास घेत महेशाक सांगलें. कितें घडलें काय म्हूण महेशान विचारतकूच ताणें महेशाक दुसऱ्या दिसा रातचो आपणागेर जेवपाक आपयलो आनी मेळटकूच उलोवया अशें सांगून फोन दवरलो.

दुसऱ्या दिसा महेश आनी मीरा रामदास शर्माच्या सरकारी बंगल्याचेर पावलीं तेन्ना थंय पोलीस गार्ड बी कोण्ण नाशिल्लो. भायलें दार कोणूयतरी प्यून उगडटालो पूण त्या दिसा तोवूय बी नाशिल्लो. रांदप्यान दार उगडलें. रामदासाची बायल आनी धूव दिल्लीक आसतालीं. म्हणटकूच तो गोंयांत एकटोच आसतालो. फाटल्या पंदरा दिसांच्यो घडणुको, चीफ मिनिस्टरा कडेन जाल्ले वाद, ताका लागून उप्राशिल्लो तणाव ह्यो सगल्यो गजाली रामदासान तपशीलान महेशाक सांगल्यो. आपूण आनीक धा दिसांनी गोंयच्यान बिटकी कवळून दिल्ली वतलों अशेंय रामदासान महेशाक सांगलें. बारीक बारीक कामां करपाचीं उरल्यांत तीं दिल्ली वचचे पयलीं सोंपोवचीं पडटलीं. स्टाफ कार नाशिल्ल्यान ताणें आनीक खंयच्यानूय तरी गाडयेची वेवस्था केल्या

काय ना अशें विचारतकूच आतां एक दोन फ्रेंडां कडेन उलोवन पळोवंक जाय अशें ताणें सांगलें.

"हांव म्हजी प्रायवेट गाडी फाल्यां सकाळीं धाडटां. दिल्ली वच म्हणसर ती तुजे कडेन आसूं दी. ड्रायवर मात तुका हांगचोच पळोवंचो पडटलो. सरकारी ड्रायवर कोण्ण सुटी काडून येवंक तयार जावंचे नात, कारण बोट बुडटा तेन्ना उंदीर पयलीं पळटात! हें आमचे सारकेल्या अधिकाऱ्यांक कोणेंच सांगपाची गरज ना!" अशें महेशान म्हणटकूच रामदास आनी महेश व्हडल्यान हांसले.

महेश आनी मीरा चीफ सेक्रेटरीगेर दुसऱ्या दिसा रातचीं जेवणाक वतलीं अशें फ्रान्सिसान टायम-पास खबरो करतां करतां संभाजीक सांगलें. दनपारां संभाजीन क्लिफ्टनाक महेशाचो प्रोग्राम कळयलो आनी स्टाफ काराचो नंबर दिलो.

फ्रान्सिस ड्रायवराक क्लिफ्टन बरो वळखतालो. केन्नाय फ्रान्सिस ड्युटीर नासतना ते वांगडा बसून कॉप लेगीत मारताले. फ्रान्सिस ड्रायवर चेअरमॅनाची गाडी चलयता म्हूण कळटकूच फ्रान्सिसाक त्या दिसा लीव काडूंक लाय अशें क्लिफ्टन संभाजीक सांगूंक लागलो. ताणें लीव काडल्यार पोलीस मागीर चवकशी करतना फ्रान्सिसाचो दुबाव घेतले अशें सांगून क्लिफ्टनाचो प्रस्ताव ताणें भायर मारलो. काम करपाक ज्या वांगड्यांक क्लिफ्टनान वेंचून काडिल्ले तांचे कडेन उलोवन, फ्रान्सीस ड्रायवर आपलो इश्ट, देखून ताका कसलोच मार बसूंक जायना अशें सांगून तांचे कडेन क्लिफ्टनान स्टाफ काराचो नंबर दिलो आनी धवसार एन्.ई गाडी रातची साडे धा वरां उपरांत केन्नाय वास्को शार हुपून सड्या वटेन येतली. इंडियन ऑयल टँकां म्हऱ्यांत आशिल्ल्या रेल्वे पुलाच्या वॉल्तार गाडी सवकास येतली, तेन्ना रस्त्यार आशिल्ल्या हॅलोजन लायटींत गाडी वळखूंक येतली. मागीर रस्त्यार खंयूय काळोख आसा थंय गाडी थांबोवन पांच मिनटां भितर गाडी फोडून पळ काडूंक जाय असो तपशिलान भरिल्लो आदेश क्लिफ्टनान त्या वांगड्यांक दिलो.

ते रातीकडेन सारक्या साडे धा वरांचेर दोन मोटार सायकलींचेर क्लिफ्टनाचे चार वांगडी उजवाड उणो आशिल्ल्या जाग्यार रावून स्टाफ काराची वाट पळोवंक लागले.

◆◆◆

## भाग 21

**सदां** भशेन महेश सारको णव वरांचेर ऑफिसांत पावलो. आपणाली प्रायवेट गाडी खंयच्याय एका बऱ्या ड्रायवरा कडेन दिवन ती पणजे चीफ सेक्रेटरीगेर पावय अशें महेशान अभ्यंकराक आपोवन सांगलें. अभ्यंकरा कडेन हजार रुपया दिवन गाडयेची टांकी फूल करून घे आनी जेवणा-खाणा खातीर ड्रायवराक शंबर रुपया दी असोय बी आदेश महेशान दिलो.

"सर, चीफ सेक्रेटरीची स्टाफ कार कितें जाली?" अभ्यंकरान विचारलें.

"आरे मुख्यमंत्र्यान ती काडून घेतली. मुख्यमंत्र्यान शर्माची दिल्लीक बदली करपाचो दीस-रात ध्यास घेतला. मुख्यमंत्र्यान ऊठ म्हणल्यार शर्मा उठना आनी बस म्हणल्यार बसना देखून मुख्यमंत्री रागार जाला," अशें अभ्यंकराक सांगून महेश व्हडल्यान हांसलो. अभ्यंकरुय बी हांसलो, पूण व्हडल्यान न्हय.

सरकारी हांसो तरातरांचो आसता. खंयच्या वेळार कोणा मुखार कशें हांसचें हाचेर कायदो आनी नेम आसतात, पूण ते बरयिल्ले नासतात. अधिकारी ते आपल्या आपूण शिकतात.

आपूण आनी रविंद्रन मागीर यू.डी.सीं.च्या परिक्षां विशीं उलोवंक येतात अशें सांगून अभ्यंकर गेलो. अभ्यंकर वचना फुडें दीपा गुड मॉर्निंग सर म्हणत आयलें आनी "सर, हांव बसूं?"अशें विचारत महेशा मुखार बसलें.

"आगो, बसूं काय म्हूण विचारता आनी बस म्हणून सांगचे पयलींच तूं बसता?" महेशान व्हडल्यान हांसत विचारलें.

"ना, तशें न्हय सर," म्हणत दीपा उबें रावलें. महेश मुद्दाम थोडो वेळ

वग्गी रावलो. तें थोडो वेळ तशेंच उबें रावून रडूंक पावलें.

‘‘आगो, हांव तुजीं फकांडां करतालों. बस! तूं,फ्लाविया आनी कृष्णन तिगांय म्हजो पर्सनल स्टाफ. दर फावटीं भितर येतकूच चड वेळ तुमकां काम आसल्यार तुमी सरळ येवन बसूंक जाय! आतां सांग!’’ महेशान दीपाक सांगलें.

‘‘सर, हो पारादीप पोर्टांतल्यान आयिल्लो नवो डॅप्यूटी सेक्रेटरी हलकट मनीस! हांव म्हज्या क्वार्टर्सांत एकलेंच रावतां. म्हजो घोव कांय वर्सां आदीं हार्ट एटॅकान भायर पडलो. म्हज्या बारा वर्सांच्या पुताक हांवें बेळगांव एका हॉस्टेलांत दवरला. हो डॅप्यूटी सेक्रेटरी घोष ऑफिस सुटट्कूच म्हगेर येता, हॉलांत बसता आनी कित्याक आयिल्लो काय म्हूण विचारल्यार, बेठोच खबरो करपाक आयिल्लों अशें म्हणटा. पयले फावटीं हांव वग्गी रावलें. चार दिसां भितर हो परतून आयलो. तूं हांगा येवं नाका, लोक कित्या कितेंय उलोवंक लागतले अशें म्हूण सांगतकूच रोखडो गेलो, पूण मागीर आनीक तीन-चार दिसांनीं परतून आयलो, आनी ‘‘तूं हांगां एकलेंच आसता, हांवूय बी एकलोच आसतां, म्हूण दोगांयकूय एकामेकांची कंपनी बरी जातली अशें म्हूण हांव हांगां येतां,’’ अशें ताणें म्हाका सरळ सांगलें. हांवें ताका म्हाका कोणाच्याच कंपनीची गरज ना, यू गॅट आवट म्हणलें. तरी पूण तो बसुनूच रावलो. हांव व्हडल्यान किळांच मारतलें आनी लोकांक जमयतलें अशी शिटकावणी दितकूच तो मागीर उठून गेलो. तो येतकूच फ्लॅटाचें मुख्य दार सदांच उकतें दवरून हांव दारा म्हऱ्यांतूच उबें रावतां.’’ दीपान खरशेत खरशेत दोळ्यांत दुकां हाडून सगलें एकाच धपक्यांत सांगून उडयलें.

‘‘हांवें कितें करचें शें दिसता तुका?‘‘महेशान विचारलें.

‘‘सर, ताका तुमी एक शिटकावणी दियात! आनी ताणें आपणालीं हलकटपणां अशींच चालू दवरल्यार ताका पारादीपाक परतून धाडात!’’ दीपान सुचयलें.

‘‘ओके!तूं एक काम कर! म्हाका पारादीपाच्या चेअरमॅन चक्रवर्तीक फोन लावन दी. मागीर हांव फ्री जातकूच तूं ना जाल्यार फ्लाविया घोशाक म्हज्या म्हऱ्यांत धाडात,’’ अशें म्हणून महेशान दीपाक वयार केलें. दीपा वचना फुडें अभ्यंकर आनी रविंद्रनाक आपय म्हूण महेशान कृष्णनाक सांगलें.

‘‘यू.डी.सीं.च्या परिक्षांचें कितें करपाचें?’’ अभ्यंकर आनी रविंद्रनाक

महेशान विचारलें.

“फाटल्या फावटीं तुमी परिक्षेच्या हॉलांत येवपाक सोदताले तेन्ना पिटर डिमेलोन तुमकां आडायिल्ले आनी तुमी ताका निलंबीत केल्लो. ह्यावूय फावटीं परिक्षा घेवपाची आमी तयारी करतात हें कळना फुडें ते आंदोलनाची तयारी करतले,” अभ्यंकर मात्सो उचंबळ जावनूच उलयतालो.

“तूं कितें म्हणपाक सोदता? कसलेय गजालीक विरोध जातलो काय ना हें पयलीं थारावन ते गजालीक विरोध ना जाल्यारूच आमी ती करपाची?” महेशान अभ्यंकराक विचारलें.

“ना सर, हांव तशें कांय सुचयना. विरोध जावं येता इतलेंच ध्यानांत दवरून त्या प्रमाणें तयारी करूंक जाय.“अभ्यंकरान आपणाली भुमिका मात्शी बदल्ली.

“तुका कितें दिसता?” महेशान रविंद्रनाक विचारलें.

“सर, एल्.डी.सीं.ची बढती वरिष्ठताय आनी पात्रताय ह्या दोन निकशांचेर करची अशें नेमांनी बरयलां. हालीं हालीं तांची परिक्षा घेवंक नाशिल्ली! देखून आपणाल्या विरोधाक लागून चेअरमॅन एल्.डीं.सी.ची परिक्षा घेवंचो ना अशें तांकां दिसता जावंये. आमी कायद्या प्रमाणें प्रशासन चलोवंक जाय; जे कोण आड येतात तांचेर कारवाय करूंक जाय. दर गजालीक हे विरोध करीत रावले जाल्यार आनी विरोध करतकूच हांकां बाबा-पुता करून घेवपाची संवय जाली जाल्यार कायद्याक म्हत्वूच उरचें ना. परिक्षा जातली अशें आमी नोटीस बोर्डार घालुंया आनी त्या प्रमाणें परिक्षेची तयारी करुंया. विरोध जातलो अशें दिसल्यार विरोधाचेर मात करून फुडें वचपाची तयारी दवरुया!” रविंद्रनान आपणालें स्पश्ट मत दिलें.

“म्हजेंय तशेंच मत आसा. अभ्यंकर, रविंद्रनान सुचयिल्ल्या प्रमाणें परिक्षेची तयारी करुया!” महेशान आपणालो निर्णय दिलो.

“ओके, सर!” अशें म्हणत अभ्यंकर उठलो. रविंद्रनूय बी उठून थँक्यू सर म्हणून भायर सरलो.

सगले अपॉयंटमेंट जातकूच महेश फायली पळोवंक लागलो. आनीक धा मिनटांनी सुमार घोष आयला म्हणून फोन करून कृष्णनान सांगलें. महेशान ओके म्हणटकूच घोष दारार मारून भितर आयलो आनी बसलो.

"घोष, तूं परतू परतून आपणाल्या फ्लॅटार येता आनी थंय बसून आपणाकडेन उलयत रावूंक सोदता अशी दीपान तुज्या आड कागाळ केल्या. तूं ताका त्रास कित्याक दिता?" महेशान घोषाक विचारलें.

"सर, हांवें ताका कसलोच त्रास दिवंक ना. तें एकटेंच आसता देखून ताचे कडेन खबरो करूंक हांव दोन फावटीं गेल्लों, हे गजालीचेर ताणें इतलो बोवाळ करपाची गरज ना!" घोषान दीपाचेर आरोप केलो.

"गरज आसा काय ना तें म्हाका खबर ना. तूं ह्या फुडें थंय वचूं नाका. ताणें पोलीस कंप्लेन केल्यार तुकाय त्रास आनी पोर्टाचेंय नांव पेड्डुर!" महेशान घोषाक शिटकावणी दिली. घोष वग्गी रावलो. कांयंच उलयलो ना. अर्द मिनीट वगी रावून आपूण वचूं काय म्हूण ताणें विचारलें. महेशान ताका चल म्हूण सांगलें.

आनीक तीन-चार दिसांनी घोष परतून दीपाच्या फ्लॅटार गेलो. ताका दारांत पळयल्या बरोबर दीपान व्हडल्यान बोवाळ घालून बिल्डिंगेंतल्या लोकांक एकठांय केले. सगल्यांनी घोषाक तापोवन काडलो. दुसऱ्या दिसा दीपान महेशाकडेन परतून कागाळ केली. महेश पारादीप पोर्टाच्या चेअरमॅना कडेन उलयलो आनी घोष मनीस कसो काय म्हूण विचारलें. त्या मनशाक चारित्र्य ना, तो पोर्टांत काम करपी बायलांक त्रास दिता अशें म्हूण पारादीप पोर्टान ताका खंयच्याय दुसऱ्या पोर्टांत घालचो असो प्रस्ताव पोर्ट मंत्रालयाक धाडिल्लो. तो प्रस्ताव मानून घेवन मंत्रालयान ताका मुरगांव पोर्टांत धाडिल्लो. मुरगांव पोर्टाक तो नाका जाल्यार ताका आनीक खंयूंय तरी धाडचो अशें पोर्ट मंत्रालयाक सांगपाची सुचोवणी पारादीप चेअरमॅनान केली. त्या प्रमाणें महेशान पोर्ट मंत्रालयाक पत्र बरयलें. आपूण मुरगांव पोर्टांतल्यान हेर पोर्टांत वचचों ना, अशें म्हणून घोष कोर्टांत गेलो. ताच्या आड कोर्टाची ऑर्डर येतकूच ताका पारादीपाक परतून वचचेंच पडलें.

घोश भायर सरतकूच कृष्णन भितर आयलो आनी आपूण आनीक पंदरा दिसांनी रिटायर जावपाचों आसां पूण आपणें ताच्या पयलीं पंदरा दीस सुटी काडल्या देखून त्या दिसा सकाळच्यान संजय नायक, सिनियर सुपरिटेंडेंट, चेअरमॅनाचो पी.ए. म्हूण कामार रुजू जाला, अशें कृष्णनान सांगलें. महेशान

मागीर संजय नायकाक आपोवन ताका कितें कितें करपाचें हाचेर तपशीलान आदेश दिले आनी कृष्णनाक उठून हात दिलो आनी ताका गुड बाय, बॅस्ट ऑफ लक म्हणून निरोप दिलो.

***

पांच मिनटां उपरांत संजयाचो फोन आयलो. समीर लवंदे येवंक सोदता म्हणून ताणें सांगलें. त्या दिसा महेशाक आनीक कांय अपॉयंटमेंट नाशिल्ले म्हणटकूच ताणें समीर लवंदेक यो म्हूण सांगलें. तो पंदरा दिसांतल्यान एक फावट तरी दिल्ली वतालो आनी वता आसतना वा परतून येता आसतना महेशाक वेळ आसल्यार तो धा-पंदरा मिनटां खातीर ताका मेळून वतालो. तो आपणाल्या कंपनीचीं कामां घेवन केन्नाच येना आशिल्लो. महेश आनी तो मेळटकूच ते गोंयची उदरगत, राजकारण, पर्यावरण, भ्रश्टाचार, भारत सरकाराचें धोरण असल्याच विशयांचेर उलयताले.

हे फावटीं ताणें वीस पानांचो एक नोट हाडून महेशा कडेन दिलो. तें कितें काय म्हूण विचारतकूच तो आपणाले कल्पनेंतलो एक प्रकल्प आनी तो चालीक लागल्यार प्रदूशण नासतना गोंयची उदरगत कशी करूं येता हें गोंय आनी भारत सरकाराक दाखोवन दिवं येता अशें ताचें मत आशिल्लें. कर्नाटकांत वीज उत्पादना खातीर जाय आशिल्लो कोळसो आयात करून, भायल्या भायर बोटींतल्यान बार्जींनी घालून जुवारी न्हंयेंतल्यान गुळवण गांवांत व्हरून, थंय रेल्वेच्या बंद डब्यांनी उतरावन, कर्नाटकांत व्हरपाचो आनी दक्षीण गोंयचे पूर्वेंत आशिल्लें मीन रेल्वेच्या बंद डब्यांनी गुळवणां हाडून, बार्जींतल्यान दर्यांत राविल्ल्या बोटींत घालून एक्स्पोर्ट करपाचें! अशें केल्यार मिनाक आनी कोळशाक लागून सादारणपणान जावपी प्रदूशण जावंचें ना. आयात केल्लो कोळसो बोटींतल्यान रेल्वेंत पाव म्हणसर सगली प्रक्रिया बंद पायप, सायलो आनी डबे हातूंतल्यान कर्नाटकांत पावोवपाचो, आनी एक्स्पोर्ट करपाचें मीन बोटींत पाव म्हणसर तशेंच बंद प्रक्रिये वरवीं पावोवपाचें. एकाच फारान प्रदूशण करिनासतना आयात आनी निर्यात वाडोवपाचो हो प्रकल्प.

ह्या प्रकल्पाक भारतीय रेल्वेन येवकार दिला; गोंयांत थळावे राजकारणी तेंको दिवंक अनमनतात. राजकारण्यांनी तेंको दिल्यार प्रकल्पाक मजत जांव

येता, पूण प्रकल्पाक येस मेळपाक गोंयच्या आनी गोंया भायल्या खुबश्या आस्थापनांचो तेंको जाय पडटलो. फकत गोंयच्या राजकारण्यांनींच तेंको दिल्यार तो प्रकल्प चालीक लागतलोच अशें सांगूं नज. पूण खंयच्याय राजकारण्यांनी इल्ली लेगीत आडखळ हाडल्यार तो प्रकल्प जायना आसतना तसोच उरूं येता. आडखळी जायत्या कारणांक लागून येवंक शकतात. ह्या सगल्या प्रक्रियां मदीं भ्रश्टाचारूय बी घुसपल्लो आसूं येता. गोंय ल्हान राज्य जाल्ल्यान उदरगतीचे खूबशे प्रकल्प मुख्यमंत्र्याच्या कोल्लाचेर अवलंबून आसतात. सद्याच्या राजकारणांत कोल्ली, अहंकारी आनी भ्रश्ट फुडारी चड आसात. कांय प्रामाणीक फुडारी आसात पूण ते चडशे अपुर्बुध्द!

"प्रकल्पाची गाडी रुळार घालतलो जाल्यार हेर राज्यां परस चाकांक चड ग्रीज लावंची पडटा?" महेशान समीराक विचारलें.

"म्हाका खबर आसा तीं गोंयची आनी कर्नाटकांतली परिस्थिती. कर्नाटकांत एक-दोन मुख्य चक्रांक ग्रीज लायल्यारूच पुरो, पूण गोंयांत सगल्या चक्रांक, स्क्रुवांक, खिळ्यांक, रूळांक ग्रीज लावंची पडटा!" समीरान व्हडल्यान हांसत जाप दिली.

"सद्या तुवें ग्रीज लावंक सुरवात केल्या?" महेशान विचारलें.

"हांव मात्सो हट्टी; ग्रीज लावपाक हांव तयार आसां पूण प्रकल्प चालू जातकूच; पयलीं न्हय!" समीरान स्पश्टीकरण दिलें.

"तुजो हो प्रकल्प चालीक लागतलो काय ना? तुजें मन तुका कितें सांगता?" महेशान विचारलें.

"हांव प्रयत्न करीत रावतलों! कोल्लापिडा आनी भ्रश्टाचाराचें दुयेंस नाशिल्लो मुख्यमंत्री मेळ्ळ्यार हो प्रकल्प चालीक लागतलो." समीरान जाप दिली. आनीक कांय वेळ गोंयच्या पर्यावरणा विशीं गजाली करून समीर विमानतळार वचूंक भायर सरलो.

समीर भायर सरतकूच फ्लाविया आयलें आनी ताच्या भावाक आनी ताच्या भावाच्या पांच-स वांगड्यांक महेशाकडेन अपॉयंटमेंट जाय म्हूण सांगपाक लागलें. कित्याक काय म्हूण विचारतकूच, रेल्वे रुळाच्या लागसार आशिल्ल्या घरांक गाडयो येतना-वतना खूप त्रास जातात, आनी रेल्वे आतां दोन-दोन ट्रॅक करपाक सोदता. म्हणटकूच बोवाळ, प्रदूशण बी सगलें वाडटलें.

ह्या सगल्या गजालींक विरोध करपाक तांणी आंदोलन सुरू केलां आनी ते चेअरमॅना कडेन उलोवंक सोदतात अशें फ्लावियान सांगलें. महेशान तांकां दोन दिसां उपरांत सांजेच्या पांचांक अपॉयंटमेंट दिलो.

थारिल्ल्या दिसा णव जाण महेशाक मेळूंक आयले. फ्लावियान तांकां चेअरमॅनाच्या मिटींग रुमांत हाडून बसयले आनी मिटींग चालू जातकूच पंदरा मिनटांनी च्या आनी बिस्किटीय बी धाडून दिल्यो. फ्लावियाचो भाव माजोड्ड्या पंचायतीचो सरपंच आशिल्लो. सुरावले, उतोर्डा, कांसावले, वेल्सांव, बोगमोळो आनी चिखले पंचायतींचेय बी सरपंच आयिल्ले. फ्लावियाच्या भावान तांच्या प्रोब्लेमां विशीं महेशाक तपशिलान सांगलें: ‘‘सद्या तीन-चार लाख टन कोळसो मुरगांव पोर्टांत येता आनी ब्रॉडगेज ट्रॅका वेल्यान कर्नाटकांत वता. दिसाक तेरा फावटीं धडा धडा धडा करून बोवाळ घालीत ह्यो गाडयो ह्या सगल्या वाठारांतल्यान वतात. आमीं आयकलां त्या प्रमाणें फुडाराक पोर्टांत एक कोटी टना वयर कोळसो आयात जावन कर्नाटकांत वचपाचो आसा. ताची तयारी म्हूण रेल्वे हे सबंद वाटेर दोन ब्रॉडगेज ट्रॅक करूंक सोदतात. आतांच त्रास इतलो जाता, मागीर कितें जातलें हें येवजून आमकां आतांच रातीची न्हीद पडना जाल्या. ह्या सगल्या गांवांनीं रेल्वे लागसार शेंकड्यांनीं पोरणीं घरां आसात. कांय घरांक शंबर-सवायशें वर्सां लेगीत जालीं आसुंये. आतांच्या घरांक आसतात ताचे परस डब्बलीन दाटायेच्यो वणटी तेन्नाच्या घरांक आसताल्यो. तसल्या वणटींक लेगीत शेकानशेक वेरो आयल्यात. ह्या सगल्या गांवांतल्या लोकांक आतां परस चड त्रास फुडाराक सोंसचे पडटले. आनी हें कोणा खातीर? कोणूय तरी गिरेस्त मनीस कर्नाटकांत लोखण तयार करता, त्या खातीर तांकां इलॅक्ट्रिसिटी जाय पडटा आनी ती तयार करपाक आमी त्रास सोंसून तांकां कोळसो धाडचो पडटा. आमकां कितें मेळटा? फकत त्रास. देखून खूबशा गांवांतल्या लोकांनी आतां एकठांय येवन आंदोलन सुरू केलां. आमी हो डबल ट्रॅक कसोच येवंक दिवंचे नात.’’ फ्लावियाच्या भावान सगल्यांचे वतीन आपणाली तिडक उकतायली आनी महेशाक परिस्थितीची कल्पना दिली.

‘‘हांवें तुमकां कशी मजत करची अशें तुमकां दिसता?’’ महेशान तांकां विचारलें.

‘‘कितेंय करून हो कोळसो मुरगांव पोर्टांत येवंचो ना अशी तुमी तजवीज करूंक जाय. कितें करपाचें तें तुमकांच खबर आसतलें!’’ फ्लावियाच्या भावान आपलें मत सांगलें.

‘‘मुरगांव पोर्ट हो भारत सरकाराचो पोर्ट. हांगा कोळसो येवंचो अशें भारत सरकारान थारायल्यार म्हज्यान तो आडावंक जावंचो ना. भारत सरकाराच्या धोरणा आड हांव कांयच कारवाय करूंक शकचों ना, पूण हांवूय एक गोंयकार! देखून गोंयच्या पर्यावरणाची वाट लावन हेर कडेन उदरगत करपाचें धोरण म्हाकाय बी एक गोंयकार ह्या नात्यान आवडना. पर्यावरणाचो उण्यांत उणो इबाड करून उदरगत करपाचो यत्न करूंक जाय.

गोंयांत ‘‘फॅर द लिजबोआ’’ म्हूण मिनाची कंपनी आसा, तें तुमकां खबर आसतलेंच. तुमच्या सगल्या गांवांनी तुमकां कसलोच त्रास जायना आसतना आयात जाल्लो कोळसो कर्नाटकांत व्हरपाचो तांणी प्लॅन तयार केला. तो प्लॅन तुमकां सगल्यांक समजावन सांग अशें हांव त्या मालकाक सांगतां. हांव ताचे कडेन उलयतां आनी मागीर तो तुमकां केन्ना आनी खंय मेळटलो तें तुमकां मागीर फ्लाविया सांगतलें.

‘‘ही बरी गजाल; आमकां समजा ताचो प्लॅन आवडलो जाल्यार आमी कितें करपाचें?’’ आनीक एका सरपंचान विचारलें.

‘‘तुमी सगल्यांनी एक जावन गोंय सरकाराचेर चेपण हाडचें पडटलें. जितले चड लोक चेपण हाडटात तितली सरकाराक बेगीन कारवाय करची पडटली!’’ महेशान तांकां सांगलें.

ह्या सगल्या गांवांतल्या लोकांक कसो त्रास जाता हें तांणी सगल्यांनी आळी पाळीन महेशाक सांगलें, आनी महेशाक ‘‘थँक्यू थँक्यू’’ अशें म्हणत ते वचूंक भायर सरले.

आपणाल्या कॅबिनांत वचून महेश समीर लवंदे कडेन उलयलो. आपणाली मिटिंग सोंपोवन तेन्नाच समीर लवंदे दिल्ली आपणाल्या हॉटेलांत पाविल्लो. कांसावली बीच रिसॉर्ट हॉटेलाच्या कॉन्फरन्स हॉलांत आनीक पांच दिसां उपरांत सांजच्या तिनांक तांकां सगल्यांक येयात म्हूण फ्लावियान सांगचें आनी समीरान तांकां सगलो प्लॅन समजावन सांगचो आनी त्या प्लॅनाचेर तयार

केल्लो व्हिडियोयबी दाखोवचो अशें थारलें. फ्लावियान मागीर आपणाल्या भावाक तो रेकाद पावयलो.

***

यू.डी.सीं.चे जागे भरपा खातीर यल्.डी.सीं.ची परिक्षा घेवपाचें पोर्ट प्रशासनान थारायलां हें पिटर डिमेलो आनी गुणाजीच्या कानार वचना फुडें तांणी ताकतिकेन त्याच दिसा सांजवेळची चारांक कमिटीची मिटिंग आपयली. तों मेरेन परिक्षेची खबर सगल्या वांगड्यांक कळिल्ली. प्रशासना आड तिडकीचें वारें व्हांवूंक लागिल्लें.

मिटिंग सुरू करतना पिटर डीमेलोन सगल्यांक विशय समजावन सांगलो: फाटले फावटीं परिक्षा जावपाच्या वेळार युनियनान विरोध केल्लो आनी चेअरमॅन परिक्षेच्या हॉलांत येवंक सोदतालो तेन्ना आपणें ताका आडायिल्लो आनी ते खातीर ताणें आपणाक कांय दिसां खातीर निलंबित केल्लो. चवथीच्या मात्शें पयलीं आपणाक कामार परतून घेतिल्लो. कल्याणपूरकर सायबान चेअरमॅनाक पत्र बरोवन आपणाक परतून कामार घे म्हूण सांगिल्लें. एल्.डी.सीं.ची ती परिक्षा आतां परतून जावपाची आसा. परिक्षेची नोटीस चड करून आयज ना जाल्यार फाल्यां लागपाची आसा. परतून युनियनान परिक्षेक विरोध करचो पडटलो काय कितें हो एक व्हड प्रस्न आसा. विरोध करिना जाल्यार ताचे परिणाम कितें जातले आनी केल्यार तो कसो करपाचो, ''नामके वास्ते'' करपाचो काय खरेलोच ह्या चेअरमॅनाक बुद्द शिकोवपाक करपाचो ह्या विशयाचेर निर्णय घेवंचो पडटलो.

प्रत्येकान आपापलें मत सांगलें. विरोध करूंक जाय आनी हे फावटीं तो कडक विरोध आसूंक जाय; परिक्षेचें हें भूत चेअरमॅनाच्या माथ्यावेल्यान देंवोंवन त्या भुतांक पोर्टांतल्यान कायमचें धांवडावचें पडटलें अशें सगल्यांचें एकमत जालें. अशें करिना जाल्यार युनियनाक कोणूच कामगार मान दिवंचो ना आनी युनियनाचे फुडारी फकत कागदी बाण मारीत रावतात अशें सगल्यांक दिसतलें. त्या दिसा रातीचो पिटर डिमेलोन प्रेसाक नोट धाडचो; दुसऱ्या दिसा सकाळीं गोंयच्या सगल्या वर्तमानपत्रांनी पोर्टांत परतून अशांती निर्माण जातली अशी खबर येवंक जाय. संप बी करचे पयलीं अमक्याच दिसांची

नोटीस दिवंक जाय असो कायदो आसल्यार लेगीत, कायदो मोडून रोखड्या रोखडो संप जाहीर करून युनियनाचो पावर दाखोवचो अशें सगल्यांचें मत आशिल्लें. परिक्षेची नोटीस लागना फुडें, एके वटेन हो नोट प्रेसाक धाडून, दुसरे वटेन ही परिक्षा जाल्यार युनियन पोर्ट बंद उडयतलें अशी लिखित धमकी चेअरमॅनाक दिवंक जाय आनी संप आनीक आठ दिसां भितर करूंक जाय अशें सगल्यांचें मत जालें.

परिक्षेची नोटीस त्याच दिसा सांजेची साडे चार वरांचेर सुमार नोटीस बोर्डार लागली. युनियनाची मिटिंग सोंपूंक पाविल्ली तेन्नाच ही खबर पिटर डिमेलोक पावली. मिटिंग सोंपोवन पिटर डिमेलो आनी गुणाजी प्रेस-नोट आनी चेअरमॅनाक धाडपाचें पत्र तयार करूंक बसले. युनियनाचीं पत्रां बी टायप करपी कामगाराक आपोवन रातीच्या सात मेरेन प्रेस-नोट तयार करून पिटर डिमेलोन धाडून दिलो. चेअरमॅनाचें पत्र दुसऱ्या दिसा ऑफिसांत धाडपाचें थारलें.

मिनाचो सिझन सुरू जावपाचो आशिल्लो. सुरवातीक पोर्ट बंद उडयल्यार चेअरमॅन आनी वरिश्ट अधिकारी सारकी बुद्द शिकतले अशें पिटर डिमेलो आनी गुणाजीचें ठाम मत आशिल्लें. फाटल्या दोन फावटीं संप जावंक पावलो ना, पयले फावटीं तडजोड जाली आनी दुसरे फावटीं कामगारांनी युनियन फुडाऱ्यांचें आयकलें ना देखून हे फावटीं संप करूंकूच जाय, ना जाल्यार युनियनान ऑफिसाक व्हडलें कुलूप घालून सासणाचेंच घरा बसचें पडटलें अशें तांचें दोगांयचेंय मत जालें.

सिझन सुरू जावपाचो आशिल्ल्यान एक्स्पोर्टाची येरादारी उणी आसता! म्हणटकूच, पोर्ट प्रशासनान कडक भुमिका घेवन संप बी जाल्यार एक्स्पोर्टाचेर व्हडलोसो परिणाम जावंचो ना हें महेशाक आनी हेर अधिकाऱ्यांक खबर आशिल्लें. कायद्या प्रमाणें प्रशासन चलतलें म्हणपाचें भायल्या जगाक सांगपाची हीच बरी संद अशें महेशान थारायलें.

पोर्टांत परतून उचंबळाय जावपाची आसा अशी खबर दुसऱ्या दिसा सकाळीं सगल्या वर्तमानपत्रांनी आयली. सर्वानंद सांवर्डेकारान मीन एक्स्पोर्टर्सांचे वतीन पोर्ट खात्याच्या मंत्र्याक ही खबर दिवन तेलेग्राम मारलो आनी हो चेअरमॅन येत सावन आयिल्ल्या दिसा पोर्टांत उचंबळाय आसता

आनी ते खातीर ताका रोखड्या रोखडो पोर्टांतल्यान हालोवचो असो तेलेग्राम त्याच दिसा मंत्र्याक मारलो. मंत्र्यान तो सेक्रेटरीक धाडलो. जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रान फोना वेल्यान महेशा कडल्यान सगले परिस्थितीची म्हायती घेतली आनी एक व्हड नोट तयार करून सेक्रेटरीक धाडलो. युनियन कायद्या प्रमाणें प्रशासन चलूंक दिना आनी चेअरमॅन आनी हेर अधिकारी विरोधाची पर्वा करीनासतना कायद्या प्रमाणें प्रशासन चलोवंक सोदतात, ते खातीर भारत सरकारान चेअरमॅनाक पुराय तेंको दिवंक जाय अशी शिफारस मिश्रान केली.

ईश्वरप्पा पोर्ट मंत्रालयाचो मंत्री जातकूच आपणालें थंय व्हडलेंशें कांय चलचें ना हें सर्वानंदाक खबर आशिल्लें. थळाव्या पावंड्याचेर महेशाक कसो त्रासांत उडोवपाचो हाचेर सर्वानंद मागीर दीस-रात येवजूंक लागलो.

तेवटेन रामकृष्णान संभाजीक पिडपाचें सोडलें ना. हल्लो करपाचें काम कित्याक जायना तें सांग अशें म्हूण रामकृष्ण दीस रात संभाजीक फोन करूंक लागलो. ते राती कडेन महेशाचेर हल्लो कित्याक जालो ना तें संभाजीन दुसऱ्या दिसा सकाळीं क्लिफ्टनाक विचारलें; आपणाले गूंड ते रातीचे एक वर मेरेन थंय वाट पळयताले, पूण चेअरमॅनाची स्टाफ कार तेवटेन आयलीच ना अशें क्लिफ्टनाच्या गुडांनी क्लिफ्टनाक सांगिल्लें. फ्रान्सिसा कडेन हेर गजाली करतना संभाजीन ते रातीचें कितें जालें तें सोदून काडलें. महेश ते रातीचो आपणाली प्रायवेट मोटार घेवन गेल्लो कारण स्टाफ काराचो लॉगबुक बरयतना ड्रायवर वा ऑफिसांतले क्लार्क आनीक कसलीय चूक करीत म्हूण ताका हुस्को आशिल्लो. संभाजीन ही गजाल रामकृष्णाक सांगली आनी हे फावटीं रामकृष्णान ताचे मुखार नवो प्रस्ताव मांडलो. महेशाक भ्रश्टाचाराच्या जाळ्यांत घुसपावपाचो हो प्रस्ताव! ''हांव पांच लाख तुज्या हातांत सोंपयतां आनी ते पयशे कशेय करून चेअरमॅनाच्या बंगल्यार व्हरून तुवें लिपोवन दवरपाची वेवस्था करूंक जाय,'' अशें रामकृष्णान संभाजीक सांगलें. फुडल्या दोन-तीन दिसांत कितें आनी कशें करपाचें तो प्रस्ताव आपूण घेवन येतां, मागीर थारावया अशें सांगून संभाजी मुरगांवां परतलो.

एके वटेन नेमां प्रमाणें पोर्ट प्रशासन चलोवपाचो महेशाचो निर्णय आनी दुसरे वटेन प्रशासनांत चलत आयिल्लो ल्हान-व्हड भ्रश्टाचारान भरिल्लो कामचलाऊ वेव्हार, हांचे मदलें झगडें महेशाक आव्हान दितालें. प्रशासकीय

बांदावळ आदींच मात्शी शिस्तबद्द आसल्यार उपरांत ती चड शिस्तबद्द करूं येता; पूण, सदळ आनी बेशिस्त प्रशासकीय बांदावळीक अकस्मात आंवळून हाडून शिस्तबद्द करपाचे यत्न जाल्यार त्या यत्नांक सगल्या हितसंबंदां कडल्यान खर विरोध जाता. तसल्या विरोधांक महेशाक आतां तोंड दिवंचें पडटालें. युनियनाचो विरोध दिश्टी पडटालो पूण हेर कांय गुप्त रितीन चलिल्लीं कारस्थानां महेशाक दिस नाशिल्लीं. सर्वानंद सांवर्डेकार दीस-रात असल्याच कारस्थानां विशीं येवजितालो. रामकृष्ण आनी सुमित्रा महेशाक घुसपावपाक कसलीं जाळीं पसरावचीं हाचेर दीस-रात चर्चा करतालीं. संभाजी कोणाक कांय सांगिनासतना महेशाचेर भ्रश्टाचाराचीं बगलाटां घालपाची येवजण आंखतालो. मंत्रालयाक निनांवी पत्रां धाडून महेशाचेर आरोप करपाचें काम बाप्तीस्तान आपणाले भशेन चालूच दवरलेलें आनी कशेंय करून सी.बी. आय्.क मुरगांव बंदरा कडेन ओडून कामाक लावपाचे यत्न ताणें चलयिल्ले.

सद्दां सांजेवेळा ऑफिसांतल्यान येतकूच महेश मीरा वांगडा बंगल्याच्या लॉनार बसून च्या घेत खबरो करतालो. सगले कडेन प्रशासनांत कसलेय ना जाल्यार कसलेयतरी प्रस्न आसतात आनी आव्हानांक तोंड दिवंचेंच पडटा अशें तो मीराक सदांच सांगतालो आनी देखून प्रशासनांतल्या ल्हान-ल्हान कटकटीं विशीं तो मिरा कडेन चर्चा करी नाशिल्लो.

आनीक तीन-चार म्हयन्यांनी गौरीश शिक्षण सोंपोवन परतून येतलो. येवचे पयलीं अमेरिकेकूच खंयीं तरी कम्प्यूटर उद्देगांत नोकरी घेवन दवरपाचो ताचो बेत ताणें महेशाक आनी मीराक सांगून दवरिल्लो. फुडल्या वर्सा ताका पंचविसावें वर्स लागतलें. आतां ताच्या लग्नाची तयारी करची पडटली. चड वेळ लायल्यार तो थंयच्याच गोऱ्या वा काळ्या वा हेर देशांतले चलये कडेन लग्न जावपाची शक्यताय बी आमी तकलेंत दवरूंक जाय. असले आनी फामिलिंतले हेर विशय मीरा महेशा कडेन उलयतालें. महेश पावणे पांच वर्सां खातीर ह्या पोर्टांत आयिल्लो. अडेज वर्सां सुमार जायत आयिल्लीं. निवृत्ती उपरांत गोंयांत रावपा खातीर खंयूंय तरी तीन बॅडरुमांचें घर बांदूक सुरवात करची पडटली हाचीय बी मीरा महेशाक याद करून दीत आशिल्लें.

पोर्टांत आतां चड करून संप जातलो. आपल्याक कामांतल्यान तकली वयर काडूंक मेळची ना. दिल्लीक नवो मिनिस्टर आयला. ताचे कान पोकळ आसल्यार वा चोरी करपाची ताका संवय आसल्यार आपलें काम चड कुस्तार

जातलें, देखून चालू वर्स सोंपतकूच मागीर गौरीशाचें लग्न, घर बांदप, भाटांचें कितें करप ह्या विशयांचेर लक्ष दिवंक मेळटलें अशें महेशान मीराक सांगलें.

***

पोर्टांत संप जावपाचो आसा अशी खबर दुसऱ्या दिसाच्या वर्तमानपत्रांनी येना फुडें महेशाच्या मेजा वेलो फोन एक्क सारको वाजत रावलो. दामोदरदास पटेल, जॉन ओब्री, गोंय सरकारांतल्यान जॉयंट सेक्रेटरी आल्मेदा, रामदास शर्मा, सज्जन केंकरे, खासदार थिओफिल डी सौझा, मुरगांव एम्.एल्.ए अँन्थनी डि सा, वास्को यम्.यल्.ए. गजानन मराठे ह्या सगल्यांचे फोन एकाफाटल्यान एक करून आयले; आनी महेशाक दर एकल्याक तीच गजाल सांगची पडली: कायद्या प्रमाणें युनियन काम करूंक दिना, तांकां बेशिस्तपणाची संवय जाल्या देखून हे फावटीं पोर्टान कडक धोरण आपणावन एल्.डी.सीं.ची परिक्षा घेवपाची थारायल्या.

सबंद दीस फोन येत रावले; महेशाक आनीक कसलेंच काम करूंक मेळ्ळें ना. सूर्यनारायणन, अभ्यंकर, बिळगी आनी कमांडंट पाटील हांकां महेशान आपणाल्या कॅबिनांत आपयले. मर्दीं कांय आडखळ नासतना, थंड वातावरणांत चर्चा करून संपाक तोंड दिवपाची तयारी करपा खातीर तांकां साडे पांचा उपरांत आपयिल्ले. आपूण आयज सांजेचो उसरां घरा येतलों अशें म्हणून दनपारच्या जेवणा वेळार महेशान मीराक सांगलें. कित्याक काय अशें मीरान विचारतकूच आनीक कांय दिसांनी संप जावपाचो आसा, ते खातीर चर्चा करूंक सगल्यांक आपयल्यात. साडे पांच वरांचेर मिटिंग सुरू जातली. ऑफिसाच्या टायमार·थंडपणान चर्चा करूंक मेळना, तरातरांच्यो आडखळी येतात अशी म्हायती महेशान दिली.

सांजेची मिटिंग सोंपता म्हणसर सात जावंक पाविल्लीं. हे फावटीं कामगार ताप्पून आसात आनी तांचे कडल्यान आयकूंक येता त्या प्रमाणें ते तडजोड बी कांयंच करचे नात, संप करून पोर्ट बंद उडयतलेच अशी म्हायती बिळगीन दिली. कमांडंट पाटिलान पोर्टांत खंय खंय बंदोबस्त वाडयतले तें सांगलें, आनी गरज पडल्यार गोवा शिपयार्ड आनी दाबोळे एअरपोर्टावेलेय बी

सी.आय्.यस्.यफ्. आपोवंक मेळटातअशें सांगलें. भारत सरकारान दोन-अडेज वर्सां पयलीं सगल्या राज्यांक पत्रां बरोवन स्टाफ कमी करपाचो सल्लो दिल्लो. एका वर्सा परस चड काळ खाली आशिल्ले जागे भरपाची गरज ना आनी ते रद्द करून उडयल्यार जाता अशेंय त्या पत्रांत बरयिल्लें. तें पत्र पोर्टा कडेन आसा जाल्यार पळय, ना जाल्यार राज्य सरकारा कडल्यान मागून घे अशें महेशान अभ्यंकराक सांगलें. दर दिसा सांजेच्या साडे चार ते पांच वरां भितर सूर्यनारायणनान खास कितेंय आसल्यार फोन करचो अशेंय थारलें.

सात वरांचेर महेश बंगल्यार वचपाक भायर सरलो तेन्ना काळोख जाल्लो. ऑफिसाक सावन दोनशें मिटरांचेर सुमार काळख्या रस्त्यार एक मोटार सायकल येवन स्टाफ कारा मुखार रावली. म्हणून फ्रान्सिसान ब्रेक मारलो. रोखड्योच एका मिनटा भितर फाटल्यान सावन आनीक दोन मोटारसायकली येवन, दोग जाण पीलियन रायडरांनी हातांत लोखणाचे वारांव घेवन स्टाफ काराचेर हल्लो केलो. तांणी ढा ढा करून दोशीं वटेनचे, आनी डॅशबोर्डाचे हारशे फोडले. एका मिनटा भितर आपणालें काम सोंपोवन, ‘‘साला क्यों इधर आया है? भागो गोवा से! अगला टायम तुमारा जान जायेगा!’’ अशी व्हडल्यान धमकी दीत ते पांचूय बुरखेवाले पळ्ळे.

एका मिनटा भितर कितें घडलें तें समजुपाक आनी कितें करपाचें तें येवजुपाक कांयच वेळ नाशिल्लो. दावे वटेनचें दार उगडून महेश भायर सरलो आनी आंगभर पडिल्लो हारशाचो पिठो आनी बारीक बारीक कंवंच्यो ताणें अळंग फांफडून उडयल्यो. तेवटेन फ्रान्सिसानूय बी तशेंच केलें आनी महेशा म्हऱ्यांत येवन ताणें व्हडल्यान किळांच मारली, ‘‘सर, तुज्या कॉपलार रॉगॉत भॉल्लां. ऑस्पित्लांत या!’’ अशें म्हूण ताणें सीट फांफडून महेशाक भितर बसोवन दार बंद केलें. इतल्यांत फाटल्यान सूर्यनारायणनाची गाडी येवन थांबली. ड्रायवर आनी सूर्यनारायणन धांवत धांवत चेअरमॅनाच्या गाडये म्हऱ्यांत आयले. महेश आंग फांफुडटना आनी मागीर फ्रान्सिस सीट फांफुडटना आनी महेशाक गाडयेंत बसयता आसतना तांणी पळयल्लें. सूर्यनारायणन येतकूच महेश परतून गाडयेंतल्यान भायर सरलो आनी ताणें सूर्यनारायणनाक आनी फ्रान्सिसान ताच्या ड्रायवराक आतां घडिल्लें तें सगलें सडसडीत

सांगलें. महेश तें सांगता आसतनाच सूर्यनारायणनान ताच्या कपलावेलें रगत पळोवन ताका आपणाले गाडयेंत बसोवन हॉस्पिटलांत व्हेलो. फाटोफाट फ्रान्सिसान आपणाली स्टाफ कार सवकास चलयत हॉस्पिटलाच्या कम्पाउंडांत हाडली. महेशाची स्थिती पळोवन, ''सराक कितें जालें, सराक कितें जालें, कॅन्युअल्टींत हाड, व्हीलचेअरार हाड,'' असो बोव्वाळ सुरू जालो. हेवटेन तेवटेन आशिल्ल्यो नर्सी आनी अटेण्डण्ट सगले वटेन धांवूंक लागले. पंदरा मिनटां भितर सी.एम्.ओ, डॉक्टर जुवारकार, डॉक्टर सुरेश कामत आनी डॉक्टर नलिनी नायक थंय पावलीं. तों मेरेन सिनियर नर्स इझाबेलान महेशाक न्हिदोवन कपलाचें रगत पुसून काडून धुयिल्लें आनी ड्रेसिंग करून, धोणकेचें इंजेक्शन दिवन ब्लड प्रेशर, टेम्परेचर बी काडिल्लें. डॉ. नलिनी येतकूच ड्रेसिंग सोडोवन घावो केदो आसा, टांके घालपाची गरज पडटली काय ना हाचो, तिणें नियाळ घेतलो आनी ड्रेसिंग परतून केलें.

डॉ. नलिनी महेशाची सदांची डॉक्टर! महेशाक हायपर टेन्शनाचो प्रॉब्लेम आसा हें तिका खबर आशिल्लें. ब्लड प्रेशर मात्शें चड आसा म्हणपाचें नर्सीन सांगतकूच तिका अजाप जालें ना. थोडो वेळ रेस्ट घेतकूच तें देंवतलें अशें तिणें सांगलें. तितले म्हणसर फ्रान्सिसाचें ब्लड प्रेशर आनी टेम्परेचर दुसरे नर्सीन काडिल्लें. ताका घावो बी कांय जावंक नाशिल्लो. घडिल्ली गजाल ताणें थंय आशिल्ल्या दोतोरांक आनी नर्सींक सांगली. आनीक थोड्या वेळान महेश सूर्यनारायणनाच्या मोटारींत बसलो. सूर्यनारायणन आनी डॉ. नलिनीय बी महेशा वांगडा बंगल्यार पावलीं. बंगल्याच्या हॉलांत पावतकूच श्यामान व्हडल्यान किळांच मारली आनी ''बाय, सायबाक कितें जालां पळय!'' अशें म्हणून मिराक आपयलें. मीरा रांदचे कुडींतल्यान धांवत धांवत आयलें. मीराक सूर्यनारायणनान घडिल्ली ती गजाल सांगली. महेश सद्या कसलीं कसलीं वखदां घेता तें डॉक्टर नलिनीन मीरा कडल्यान विचारून घेतलें आनी राती कडेन आनी दुसऱ्या दिसा न्हीद येना जाल्यार घेवपाच्यो दोन गुळयो दिल्यो. फुडले तीन दीस महेशान घराच रावून विसव घेवंक जाय म्हूण डॉक्टर नलिनीन ऑर्डर दिली. आनीक कांय वेळान सूर्यनारायणन आनी डॉक्टर नलिनी गेलीं. फ्रान्सिसाक एका स्टाफान ताच्या क्वार्टर्सांत पावयलो.

सात वरांचेर सुमार महेश ऑफिसांतल्यान बंगल्यार परतुपाक भायर सरिल्लो तेन्ना पिटर डिमेलो आनी गुणाजी युनियनाच्या ऑफिसांत बसून फुडल्या कारवायांची आंखणी करताले. साडे सातांक सुमार पिटर डिमेलोक फोन आयलो आनी हॉस्पिटलांतल्या एका स्टाफान ताका सगली गजाल सांगली.

चेअरमॅनाच्या स्टाफ काराचेर गुंडांनी हल्लो केलो खंय. हारशे बी सगले फोडले खंय. चेअरमॅनाच्या कपलाक व्हड घावो जावन कपल रगतान भरिल्लें खंय! कपलाक ड्रेसींग करून धोणकुटेचें बी इंजेक्शेन दिवन डॉक्टर नलिनी आनी डॅप्यूटी चेअरमॅनान ताका बंगल्यार पावयलो खंय! पिटर डिमेलोन गुणाजीक सांगलें.

''चेअरमॅनाक चड मार बसलो ना तें बरें जालें; पूण हो हल्लो जालो तें मात् बरें जालें ना. सद्या युनियनाचीं आनी चेअरमॅनाचीं झगडीं चल्ल्यांत म्हणटकूच हो हल्लो आमीच करूंक लायला अशें सगल्यांक दिसतलें!'' गुणाजीन हुस्को उकतायलो.

''हो ह़ल्लो जाला तें आमकांय आवडूंक ना आनी त्या हल्ल्यांत आमचो कांय हात ना हें लोकांक समजूंक जाय. कशें करपाचें?'' पिटर डिमेलोन विचारलें.

आनीक कांय वेळ ह्या विशयाचेर चर्चा करून ह्या हल्ल्याचो निशेध करपी एक प्रेसनोट धाडपाचो तांणीं निर्णय घेतलो आनी गुणाजी फुडल्या कामाक लागलो.

तेवटेन कमांडंट पाटिलाक खबर कळना फुडें ताणें मुरगांव पोलीस इन्स्पेक्टर किशोर गांवसाक फोन केलो. किशोर गांवसान पयलीं महेश, मागीर फ्रान्सिस, मागीर सिनियर नर्स इझाबेल, मागीर सूर्यनारायणन आनी डॉ.नलिनी हांचे सगल्यांचे स्टेटमेन्ट घेतले. सगल्यांच्या स्टेटमेन्टां वेल्यान पुलिसांक समजलें तें अशें: हल्लेखोर तीन मोटारसायकलींचेर आयिल्ले. सगल्यांनी तोंडार काळे बुरखे घाल्ले. एकल्यान सिनेमांतल्या गुंडांचे तांबडे हिन्दींत महेशाक गाळी घालून शिटकावणी दिल्ली. हो हल्लो चेअरमॅनाच्या ऑफिसा कडल्यान सुमार दोनशें मिटरांचेर काळोख पडटकूच जाल्लो. एका

मिनटा भितर हल्लो करून गुंडांनी पळ काडली. गुंड त्याच वाठाराक खंयूंयतरी रावतात आसतले कारण रस्त्याच्या दोशीं वटेन घरां बी नाशिल्ल्या जाग्यार ते गाडयेची वाट पळयताले.

पुलिस बी वतकूच महेशान त्या दिसा बेगीन जेवन न्हिदचें अशें मीरान सुचयलें. जेवचे पयलीं महेशाक दोन रिपोर्टरांचे फोन आयले आनी महेशान तांकां घडिल्ल्या गजालींची तपशिलान म्हायती दिली.

महेशाक सामकें पुरो जाल्ले भशेन दिसतालें म्हूण तो जेवन रोखडोच न्हिदूंक गेलो. मीराक मात् ते राती कडेन मात्तूय न्हीद पडली ना. गोंयांत येवन सुखाचो जीव त्रासांत घालो हो विचार ताका आदले परस चड सतावंक लागलो.



## भाग 22

**त्या** दिसा महेश साडे आठ मेरेन सुस्त न्हिदलो. ऑफिसाक टायमार पावपाचो हुस्को नाशिल्ल्यान ताका गाढ न्हीद पडली. उठना फुडें च्या घेवंक बशिल्ले कडेन ताणें त्या दिसाच्या वर्तमानपत्रांचेर नदर भोंवडायली. ताच्या स्टाफ काराचेर जाल्लो हल्लो, हारशाचे कुडके तोपून ताच्या कपलाक आयिल्लें रगत आनी दोनूय मुखेल युनियनांनी केल्लो हल्ल्याचो निशेध ह्यो खबरो तपशिला सयत पयल्या पानार आयिल्ल्यो. कांय वर्तमानपत्रांनी महेशाचो फोटोय बी घाल्लो. महेशाच्या मुखार बसून च्या पितां पितां मीरा झेमो काडटालें. झेमो कित्याक काडटा काय म्हूण महेशान विचारतकूच आपल्याक आदले रातीं मात्तूय न्हीद पडूंक ना अशें ताणें सांगलें.

फुडलें एक वर सुमार महेश आनी मीराची आदल्या दिसाचे घडणुकेचेर चर्चा जाली.

"गोंयांत येवन आमी व्हड चूक केली अशें म्हाका पयल्याच दिसा सावन दिसतालें. आतां तो विचार म्हाका चड सतायता. आपूण गोंयच्या लोकांची सेवा करतलों, नितळ प्रशासन कशें आसता तें दाखोवन दितलों, सगले कायदे आनी नेम पाळून लेगीत प्रशासनाचीं उद्दिश्टां साद्य करूं येतात हें सिद्ध करून दाखयतलों अशें तूं म्हणटालो! व्हांवत्या उदकांत हात धुवन घेवपी आनी वारें येता तशें सूप धरपी लोक प्रशासनाची सांसणाचीच वाट लावन उडयतात. जे कायद्याक आनी नेमांक धरून प्रशासन चलयतात तांकां हीतासंबंदां कडल्यान कांय काळ त्रास जांव येता पूण सरळ आनी नितळ प्रशासन होच समाजकल्याणाचो बरो मार्ग हें लोकांक अखेरेक कळटा अशें

तूं सदांच म्हणत आयला. पूण आतां कितें जालें? फाटल्या खंयच्याच चेअरमॅनाच्या स्टाफ काराचेर हल्लो जावंक नाशिल्लो. हें अशें जावपाची ही पयलीच खेप. हेर चेअरमॅन ह्या युनियनांक आनी हेरांक आनी चोरांक बाबा पुता करीन बरे तरेन बदली जावन गेले आनी तूं मात् मंत्र्यां कडेन, युनियनां कडेन, स्टाफा कडेन झगडत आसा. पगार आनी जाण्टेल्यांनी सोडिल्ली थोडी प्रॉपर्टी विकून आयिल्ल्या पयशा भायर घरांत एक्क पयसो सरलो ना. हेरांचो मार आनी स्राप मात् घेवंचे पडले!'' मीरान दोळ्यांत दुकां हाडून बेजारून आपल्या भावनांक वाट करून दिली.

''तूं म्हणटा तें सामकें खरें! भोवतेक आय्.ए.यस्. अधिकारी ल्हान व्हड तडजोडी करीत आसतात. त्यो तडजोडी मागीर दिसपट्टे जिणेंत आसूं वा कामांत आसूं! समा कितें, चूक कितें, बरें कितें, वायट कितें हाचें ध्यान दवरिनासतना सकयल्यान आयिल्ल्यो फायली वयर आनी वेल्यान आयिल्ल्यो फायली सकयल दोळे धांपून धुकलीत रावपाच्यो काय असलें पोस्टमॅनाचें काम करीनासतना, कायद्या प्रमाणें समा कितें वा चूक कितें हें बरोवन फायल सकयल वा वयर धाडपाची? हांवें खंयचें करपाचें? भारताच्या राष्ट्रपतीन नेमिल्ल्या, म्हज्या सारक्या अधिकाऱ्यान, देशाचें प्रशासन सारकें चलोवपा खातीर संविधानान घालून दिल्ल्या कायद्या प्रमाणें प्रामाणीकपणान प्रशासन चलोवपाचें काय निवृत्त जायसर तडजोडी करून देशाची वाट लावपाची? आयज मोटारीचेर हल्लो जातकूच, हॉस्पिटलांत नर्स म्हज्या घाव्याचेर ड्रेसींग करता आसतना म्हज्या मनांत होच विचार आयलो. युनियन विरोध करता म्हूण आदलो चेअरमॅन एल्.डी.सीं.ची परिक्षा घेना आसतना रावलो. ताच्या काळांत कांय अधिकारी ताचेर कोंत्र जाले खरे पूण पोर्ट कसलीच व्हड उचंबळाय नासतना चलतालो. हांवेंय बी तशेंच केल्यार जातालें. सुसेगाद बरो खावन जेवन सुखी उरतलों आशिल्लों. हांवूंच न्हय, तर तूं आनी गौरीश लेगीत कसलोच तणाव नासतना बरीं खोशी आसपाचीं! पूण तो सुसेगाद मार्ग आपणाय नासतना हो त्रासांत पडपाचो मार्ग हांव सदांच कित्याक आपणायतां? आनीक अडेज वर्सां सुमार पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण हांगा रावपाचें, काय तमिळनाडूंत परतून वचपा खातीर हालचाली सुरू करपाच्यो? हे कठीण प्रस्न आयज हॉस्पिटलांत ते बाज्जेचेर पडिल्ले कडेन म्हज्या मुखार उबे रविल्ले.

आतां तूं सांग कितें करुंया तें! तुका आनी गौरीशाक त्रासांत उडोवपाचें ना!'' महेशान भावनावश जावन मीराक प्रस्न केलो.

''तडजोडी करीत रावपाक तूं सादो कारकुनूय न्हय आनी सादो अधिकारीय न्हय! लाखांनी भुरग्यांच्यो परिक्षा घेवन तातूंतल्यान शंभरेक जाणांची नेमणूक केल्ल्यां पयकीं तूं एक! हेर आय्.ए.एस्. अधिकारी कितेंय करूं. तरेकवार कारणांक लागून तांचे पयकीं चडशे जाण ल्हान-व्हड तडजोडी करतात जावंये! आपूण तशें करचों ना अशें तुवें सुरवातीकूच थारायिल्लें आनी फाटलीं पंचवीस वर्सां तें तूं म्हाका सांगत आयला. सिर्विसेचीं तुजीं आनीक अडेज वर्सां उरल्यांत. आयज मेरेनची तपश्चर्या करून तुका मेळिल्लें समाधान तूं फुडल्या अडेज वर्सांत वगडावंक सोदता? सूख आनी शांती मेळटली अशें जर तुका दिसता जाल्यार तें सामकें चूक! तुजो पिंडूच सत्या खातीर झगडपाचो. कॉलेजांत आसतना तुवें आनी तुज्या कांय इश्टांनी ह्या सत्या खातीर झूज उबारिल्लें तें तुमचें अजून चालू आसा. कालच्या प्रसंगाक भियेवन तुवें तडजोडी करपाक सुरवात केल्यार तूं घुस्मट्टलो, इतलेंच न्हय, तर फुडल्या पिळग्यां खातीर तूं एक चुकीचो आदर्श दवरून वतलो. लडायेंत गुळी लागून मरपाची शक्यताय आसता म्हूण आमच्या सैन्यान आनी जनरलांनी झुजाच्या मैदाना वेल्यान पळ काडल्यार देशाचें कितें जावपाचें? पळ काडप हो पर्याय न्हय! म्हाका आनी गौरीशाकूय बी तें आवडचें ना. आमी हांगाच रावुंया! तुज्या तत्वां प्रमाणें तूं प्रशासन चलय,'' महेशाक भावनावश जाल्लो पळोवन, आपुणूय बी भावनावश जावन ताका फाटीं ओडूंक लागलें जाल्यार फुडलें आयुश्यभर तो घुस्मटत घुस्मटत सोंपतलो ही जाणविकाय मीराक एका खिणांत आयली आनी मीरान दोळ्यांत दुकां हाडून ''युटर्न'' घेवन, महेशाक आपणालो तेंको दिलो.

दुसऱ्या दिसा सांजेवेळच्यान महेशाचे खबरेक सोयरे, इश्ट, पोर्टाचे अधिकारी बी येवंक लागले. कोणेंच खबरेक येवपाची गरज ना, महेशाक विसव घेवंक जाय अशें सांगल्यार लेगीत कोणेंच आयकलें ना.

पयलीं आयलीं तीं कृष्णन, फ्लाविया आनी दीपा. कृष्णन पंदरा दिसांचे सुटयेर आशिल्लो पूण अजून रिटायर जावंक नाशिल्लो. मागीर आयलो सज्जन केंकरे. मागीर आयले महेशाचे मडगांवांतले तीग इश्ट, उदय भेंडे, सिताकांत

राणे आनी नारायण पाटील. हे सगले महेशा वांगडा कॉलेजांत शिकिल्ले आनी वेगवेगळ्या चळवळींनी वांगडाच वावुरलेले. मागीर कडक भोसले आनी ताचे वांगडी; दामोदरदास पटेल, गजानन मराठे, ऑफिसर्स असोसिएशनाचो अध्यक्ष दीपक पटेल, सेक्रेटरी जीजस फेर्रांव, हेवूय बी येवन गेले. रातचे साडे आठ मेरेन महेशाक विसव घेवंक मेळ्ळो ना. तिसऱ्याय दिसा कोणूय ना जाल्यार कोणूय तरी खबरेक येत रावले. डॉ. सुरेश कामत, अनंत, रामकृष्ण आनी विष्णू आपापल्या बायलांक घेवन येवन गेले. ते येवन वतकूच रातचो आठांक सुमार रामदास शर्मा आयलो. ताका महेशान आनी मीरान जेवंक रावयलो आनी गॅस्ट हावसांतल्यान जेवण मागोवन खबरो करीत तीं रातचीं साडे णवांक सुमार जेवलीं. आपणाली ट्रान्स्फर फाल्यां-परां येतली आनी त्या उपरांत चार-पांच दिसांनीं आपूण दिल्ली वतलों म्हणपाचें ताणें सांगलें.

सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी बिळगी दुसऱ्या आनी तिसऱ्या दिसा सकाळीं येवन परिक्षेच्या आनी संपाच्या विशयांत कितेंय नव्यो घडणुको जाल्ल्यो आसल्यार सांगताले. डॉक्टर नलिनी नायकूय बी दोन दीस सकाळीं फुडें येवन महेशाक तपासून गेली. तीन दीस विसव घे म्हूण तिणें जरी सांगिल्लें तरीय महेश तिसऱ्या दिसा सावन ऑफिसांत वचूंक लागलो.

आदींच महेशान थारायिल्ल्या प्रमाणें आनीक दोन दिसांनी जावपाचे आशिल्ले परिक्षेची सगली तयारी जाल्ली. तेवटेन युनियनाच्या ऑफिसांत पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी तांचे कांय अणभवी वांगडी दर दिसा मेळून संपाचे तयारेचो नियाळ घेताले. परिक्षेक युनियनाचो विरोध आसा अशें म्हणून तांणी चेअरमॅनाक बरयिल्लें आनी वर्तमान पत्रांक प्रेस नोटूय बी धाडिल्लो. प्रशासन परिक्षेची सगली तयारी करीत आसा म्हूण दर दिसा खबरो तांच्या कानार पडटाल्यो. परिक्षेच्या दिसा हॉलाच्या दारांत उबे रावून सगल्यांक आडावचे काय ना हाचेर ते चर्चा करूंक लागले. फाटले खेपे पिटर डिमेलोन चेअरमॅनाक आडायिल्लो आनी चेअरमॅनान ताका स दिसां खातीर निलंबीत केल्लो. हेवूय फावटीं चेअरमॅनाक वा हेर अधिकाऱ्यांक पयलीं भशेन आडायल्यार ते निलंबीत जातले आनी चड काळ उरतले कारण प्रशासनाकूय बी युनियनाची तिडक आसा. देखून पिटर डिमेलो, गुणाजी वा कमिटीच्या हेर वांगड्यांनी कोणाक आडोवचें न्हय. परिक्षा जावंक दिवंची आनी मागीर ती सगली प्रक्रिया रद्द

करी म्हणसर संप चालू उरतलो म्हूण शिटकावणी दिवंची आनी खऱ्यांनीच संप चालू दवरचो अशें तांणी थारायलें.

आनीक दोन दिसांनीं परिक्षा जाली; त्याच दिसा रातचो संप सुरू जालो. मुरगांव पोर्ट कामगार युनियनाच्या वांगड्यांनी रातीच्या बारा वरांचेर काम बंद केलें. कडक भोसलेच्या युनियनाचे वांगडी कामार वता आसतना पिटर डिमेलोच्या वांगड्यांनी तांकां आडायले आनी मार घालो. तातूंतल्या तीग जाणांक मात्सो चड मार लागिल्ल्यान हेरांनी तांकां हॉस्पिटलांत व्हरून पावयले. मार पडिल्ल्या आनी मार घालपी कामगारांचीं नांवां कडक भोसलेन मुरगांव पोलीस स्टेशनाक दिवन मार घालप्यां आड कागाळ नोंद केली. वातावरण तापत रावलें. लेबर ऑफिसरान रोखडीच इन्कायरी करून चोवीस वरां भितर प्रशासकीय विभागाच्या सेक्रेटरीक रिपोर्ट दिवंचो अशी दुसऱ्या दिसा सकाळीं महेशान ऑर्डर दिली. लेबर ऑफिसराचो रिपोर्ट आयल्या उपरांत महेशान सगल्या खातें मुखेल्यांची मिटिंग घेवन परिस्थितीचो नियाळ घेतलो. असली हिंसा पोर्टांत चलूंक दिवंक जायना आनी हिंसा करतल्यांक कडक ख्यास्त जावंक जाय अशें सगल्यांचें मत जालें. हिंसा करपी पांच कामगारां आड कडक भोसलेन केल्ले कागाळेचेर पोलीस इन्स्पेक्टरान चवकशी सुरू केल्ली. अजून मेरेन कोणाक धरून लॉकपांत घालूंक नाशिल्ले. त्या पांच कामगारांक महेशान निलंबीत केले आनी निलंबनाची ऑर्डर पोर्टांतल्या सगल्या नोटीसबोर्डांचेर मारूंक लायली. गोंयच्या एका इंग्लीश आनी एका मराठी वर्तमानपत्रांत अमके अमके अमक्या अमक्या कारणांखातीर निलंबीत जाल्यात म्हूण नोटिशी छापून हाडल्यो.

मुरगांव शाराची अर्थीक जीण पुराय पोर्टाचेर निंबून आसताली. पोर्टांत संप जातकूच मीन कंपन्यांचे मालक, येरादारी कंत्राटदार, बार्ज मालक, ट्रक मालक, मुरगांवांतले ल्हान-व्हड, ठोक आनी किरकोळ वेपारी, शिपिंग एजन्ट, स्टिव्हिडोर, दर्यांत राविल्ल्या बोटीं खातीर म्हाल आनी स्टाफ हाडपा-व्हरपाची वेवस्था करपी बोटींचे मालक, संपार गेल्लो कामगार वर्ग आनी तांचीं कुटुंबां, शारांतल्यो बसी, टॅक्सी, हॉटेलां, पाव-भाजी आनी रस्सा-आमलेट गाड्यांचे मालक ह्या सगल्यांची न्हीद उडटाली. हो संप कितले दीस उरतलो काय ह्या हुस्क्यान दर एकलो संप काबार जावपाची वाट पळयतालो.

मीन कंपन्यांनी दिल्ली तेलेग्राम मारून तांकां संपाची खबर कळयिल्ली. पोर्ट मंत्रालय, मीन मंत्रालय, वाणिज्य मंत्रालय, उद्देग मंत्रालय, हांचे कडल्यान दीस-रात चवकश्यो सुरू जाल्यो आनी तांकां रिपोर्ट धाडीत रावचे पडले. परिक्षेची प्रक्रिया रद्द करून उडयल्या बगर आनी ह्या फुडें ही परिक्षा करचे नात अशें लिखित आश्वासन दिले बगर संप फाटीं घेवंचे नात अशें कडक धोरण युनियनान जाहीर केलें. हाच्या उरफाटें, प्रशासन कायद्या प्रमाणें चलतलें आनी यू.डी.सीं.चे जागे भरपा खातीर जाल्ल्यो परिक्षा रद्द करचे नात आनी हाचे फुडेंय बी असल्यो परिक्षा जायत रावतल्यो अशें कडक धोरण पोर्ट प्रशासनान जाहीर केलें.

दर दिसा सांजेचो सात-साडे सात मेरेन महेश ऑफिसांत बसून आसतालो. आतां खंयूंय भोंवतना ताचे वांगडा रिव्हॉल्वर बाळगिल्लो पी.एस्.ओ. आसतालो. सद्या महेश डॅप्यूटी चेअरमॅनाची स्टाफ कार वापरतालो. संप सुरू जावन दोन दीस जाल्ले. तिसऱ्या दिसा सकाळीं महेश ऑफिसांत वचूंक भायर सरतालो इतल्यांत इन्कमटॅक्स ऑफिसांतल्यान ऑफिसर मेळूंक आयल्यात म्हणून गेटी वेल्या गार्डान फोन केलो. तांकां भितर धाड म्हूण सांगतकूच दोन मिनटां भितर दोन ऑफिसर येवन महेशाक मेळ्ळे आनी तांकां सबंद बंगल्याची तपासणी करूंक जाय कारण बंगल्यांत पांच लाख रुपया लिपोवन दवरिल्ल्याची म्हायती तांकां मेळ्ळ्या अशें सांगून तांचे कडेन आशिल्लें ऑथॉरिटी पत्र तांणी महेशाक दाखयलें. महेशान मिराक आपोवन इन्कमटॅक्स खात्यांतले ऑफिसर घर सोदून पळयतले, घरांत पयशे लिपोवन दवरल्यात अशी तांकां खबर मेळ्ळ्या अशें ते म्हणटात, तांकां सोदूंक दी, अशें मीराक सांगलें. त्या दोन ऑफिसरांनीं गेटी म्हऱ्यांत राविल्ल्या हेर पांच जाणांक भितर आपयले आनी त्या सातूय जाणांनी बंगल्यांतलें सामान आडवें, उबें, सकयल, वयर करून ते पांच लाख सोदपाक सुरवात केली.

आपूण ऑफिसाक लेट पावतलों अशें म्हूण महेशान फोनार संजय नायकाक सांगलें. चेअरमॅनाच्या बंगल्यार इन्कमटॅक्स रेड पडल्या म्हूण पयलीं पोर्टांत आनी मागीर सबंद मुरगांवांत वादळी वाऱ्या भशेन खबर पातळ्ळी.

***

सर्वानंद ऑफिसांत बशिल्ले कडेन ताका इन्कमटॅक्स रेडीची खबर मेळ्ळी. ताणें रोखडोच केंद्रीय मंत्री ईश्वरप्पाक एक्स्पोर्टर्स असोसिएशनाचे वतीन एक लांब तेलेग्राम मारलो. पोर्टांत आयज मेरेन असली हिंसा केन्नाच जावंक ना, चेअरमॅनाच्या स्टाफ काराचेर हल्लो जावन सगले हारशे फोडले, चेअरमॅनाक रोखडोच हॉस्पिटलांत व्हरून उपाय करचो पडलो, ह्या चेअरमॅनाक कामगारां कडेन कशें वागप तें कळना, इतलेंच न्हय, तर तो भ्रश्टाचारांत सामको बुडबुडला अशें आतां सगल्यांक कळ्ळां, ताच्या बंगल्यांत पांच लाख रुपया लिपयिल्ले आसात अशी खबर मेळटकूच सद्या बंगल्यार इन्कमटॅक्स रेड चालू आसा. ह्या चेअरमॅनाची मुरगांव पोर्टांतल्यान बदली करूंक जाय, असो मजकूर त्या तेलेग्रामांत आशिल्लो. तसलोच एक तेलेग्राम ताणें लक्ष्मण सिंगाक मारलो आनी सी.बी.आय्. कसलीय इन्कायरी करूंक शकता काय ना तें मात्शें ताकतिकेन पळय अशें लक्ष्मण सिंगाक फोनार सांगलें. इन्कमटॅक्स रेडीची खबर संभाजीन रामकृष्णाक फोनार सांगली. रामकृष्णान ती खबर रोखडीच अनंताक आनी सुमित्राक सांगली. महेशाक धरलो तें बरें जालें, आतां तीं दोगांय गोंयच्यान तोंड घेवन वतलीं अशें ताणें फोनार अनंताक म्हणटकूच अनंत ताचेर तापलो आनी महेशाचेर बेठेच आळ घालूं नाका, तो आनी मीरा असल्यो गजाली केन्नाच करूंक शकचीं नात अशें ताणें रामकृष्णाक दटावन सांगलें. इतलो काळ भायर रावून तीं आतांच गोंयांत आयल्यांत. ताच्या स्टाफ काराचेर हल्लो जाल्लो तेन्ना तमिळनाडूक परतून चलात असो हांवें तांकां सल्लो दिल्लो. पूण तांणी गोंयांतूच घर बांदून रावपाचो निर्णय घेतला अशें महेशान म्हाका सांगलें. रावूं दी बाबडीं सुखान हांगाच. अशेंय बी अनंतान रामकृष्णाक म्हणलें.

पिटर डिमेलो, गुणाजी आनी कांय वांगडी युनियनाच्या ऑफिसांत आयिल्ले. संप सुरू जातकूच दीस भर ते युनियनाच्या ऑफिसांतूच आसताले. शाणूच्या हॉटेलांतल्यान जेवण, च्याची बी वेवस्था जाताली. बाप्तीस्तान गुणाजीक फोन करून व्हडल्यान हांसत इन्कमटॅक्स रेडीची खबर सांगली. गुणाजीन ती खबर हेरांक सांगिना फुडें प्रत्येकाक अजाप जालें कारण महेश सरळ मनीस, हेरांकूच भ्रश्टाचार करूंक दिना, तर आपले लेगीत हात तो भ्रश्टाचारांत म्हेळे करिना हें सगल्यांक कळिल्लें. तांचीं महेशा कडेन झगडीं

चलतालीं पूण मनांतल्या मनांत महेशा विशीं तांकां आदर आशिल्लो. चेअरमॅना फाटल्यान इतलो कोण लागला काय अशें प्रत्येक जाण एकामेकांक विचारपाक लागले. ताका त्रासांत घालपाक कोणेंयतरी हें कारस्थान रचलां म्हणपाची तांकां सामकी खात्री आशिल्ली. ताका तेंको उकतावन प्रेस नोट काडुंया अशें कांय जाणांनी सुचयलें, पूण सद्या संप चल्ला आसतना तशें करप समा जावंचें ना अशें पीटरान सांगलें आनी आपूण चेअरमॅनाक फोन करून आमकां कितें दिसता तें ताका सांगतां, झगडीं वेगळीं आनी ही गजाल वेगळी अशें पीटरान सांगलें आनी तांच्या पांच वांगड्यांक पोलिसांनीं धरून लॉकपांत घाल्यार तांकां कशे सोडवपाचे हाचेर ते येवजूंक लागले.

महेश आनी मीरा वरांडा वेल्या लाकडी सोफाचेर बशिल्लीं. वासंती, शांती, हळडीपूर आनी श्याम हांकां इन्कमटॅक्स अधिकाऱ्यांनी फाटल्या दारा म्हऱ्यांत बसोवन दवरिल्लीं. बॅडरुमांतल्यो आरमारी उगडून सदां आंगार घालपाच्यो वस्ती भायर काडून तांकां दाखोवन मीरान म्हऱ्यांत घेवन बसचें अशें अधिकाऱ्यांनीं सुचयलें. सबंद दीस च्या, उदक आनी जेवण श्यामान अधिकाऱ्यांच्या देखरेखी खाला महेशाक आनी मीराक हाडून दिलें. वासंती, हळडीपूर बी आपलें जेवण वांगडाच घेवन येतालीं. तांकांय बी अधिकाऱ्यांचे देखरेखी खाला जेवचें पडलें. मदीं मदीं संडासांत बी वचपा खातीर अधिकाऱ्यांची परवानगी घेवन वचचें पडटालें.अधिकाऱ्यांनी आपणाली दनपारची सँडविच, काफी बी आपणा वांगडा हाडिल्ली.

मीरा आनी महेशाची ल्हव आवाजांत चर्चा चालू आशिल्ली. सकाळच्यान पोर्टाचें ऑफिस आनी हेर कडल्यान फोन येत रावले. सूर्यनारायणनान फोन करून कशीं आसात काय म्हूण विचारलें आनी गॅस्ट हावसांतल्यान जेवण बी धाडूंक जाय काय म्हूण विचारलें. मीरान जेवणाची अर्दी तयारी करून दवरिल्ली म्हणटकूच भायल्या जेवणाची गरज ना अशें मीरान सांगलें. खंयच्या खात्यांत कितले लोक कामार आयल्यात हाचो रिपोर्ट दिवन सूर्यनारायणनान इन्कमटॅक्साच्या विशयाक हात घालो. हें कारस्थान कोणें रचलां तें आमी सोदून काडपाचो यत्न करतात, अशें ताणें सांगलें. कमांडंट पाटिलान मुरगांव पोलीस इन्स्पेक्टराक फोन करून सादे कपडे घालून कांय कॉन्स्टेबलांक पोर्टाच्या वाठारांत भोंवडावन हे रेडीचेर कितेंय गुप्त म्हायती मेळटा काय

म्हूण पळय म्हूण सांगलें. सूर्यनारायणनाचो फोन जातकूच पिटर डिमेलोचो फोन आयलो. तांकां सगल्यांक वायट दिसता, चेअरमॅनाक कोणूय तरी त्रासांत घालूंक सोदता, ही मिस्चिफ करतल्याक सोदून काडूंक तांणी सुरवात केल्या, चेअरमॅन सरळ आनी नितळ म्हूण सगल्यांक खबर आसा, युनियन आनी प्रशासना मदीं चलिल्लीं झगडीं ही तत्वां खातीर, चेअरमॅना विशीं तांकां सगल्यांक आदर आसा, डिमेलोन भावनावश जावन महेशाक सांगलें. पणजेच्यान रामदास शर्माचोय फोन आयलो- आपणें डी.जी.पी.क सांगून ही मिस्चिफ कोणाची तें सोदून काडपाक सांगलां, अशें ताणें सांगलें.

फोनांचो पावस उणो जातकूच हें कारस्थान कोणें रचलां काय म्हूण महेश आनी मीरा येवजूंक लागलीं. महेशाक सर्वानंदाचो दुबाव मारतालो आनी मीराक रामकृष्णाचो. हल्ल्या उपरांत दोन दीस एका फाटोफाट एक लोक खबरेक येताले आनी खूबशे लोक गॅस्ट रुमांतलें टॉयलेट वापरताले. येद्या व्हडल्या बंगल्यांत कोणूय खंयूंय कितेंय लिपोवंक शकता. फाटल्या चार दिसां पयलीं हें काम सामकें सोपें आशिल्लें! येरादारी चड आशिल्ली. कमांडंट पाटिलान आनी रामदास शर्मान पोलिसांक कामाक लायल्यात. दोन दिसां भितर कळटलें.

“अशें हाच्या पयलीं केन्नाच जावंक ना! आतां फुडें कितें?” मीरान विचारलें.

“म्हाकाय तें सारकें खबर ना, कारण असल्या गजालींचो अणभव ना! पांच लाख लिपोवन दवरल्यात अशी तांकां खबर मेळ्ळ्या खंय! ते पयशे खऱ्यांनीच बंगल्यांत आसात जाल्यार तांकां मेळटले. मागीर ते आपले प्रक्रिये प्रमाणें कारवाय करून ते पयशे व्हरतले. त्या आदीं त्या पयशां बद्दल म्हाका कितेंय म्हणपाचें आसा काय म्हूण विचारतले. म्हाका कांयच खबर ना जाल्यार हांव आनी कितें सांगतलों? हो म्हजो प्रायवेट विशय जाल्ल्यान बरो कोणूय वकील पळोवन फुडें कितें करपाचें तें विचारचें पडटलें. खर्च आमीच करचो पडटलो!” महेशान मीराक म्हायती दिली.

मदीं मदीं महेशाक फोन येताले. वेळ मेळटा तेन्ना महेश वर्तमानपत्रां चाळटालो. थंय लक्ष लागना जातकूच सोफाचेर तकली तेंकोवन दोळे धांपून विचार करतालो.

"तुमी आमचो बॅडरूम, बाथरूम बी पयलीं तपासात. आरमारी हांवें उकत्यो करून दवरल्यात. आमचो बॅडरूम तुमीं पयलींच तपासल्यार मागीर आमकां दोगांकूय मात्शी फाट तेंकोवंक मेळटली!" एका इन्कमटॅक्स अधिकाऱ्याक आपोवन मीरान मात्शें पिकार जावन सांगलें.

"ओके मॅडम," म्हणून तो गेलो. आनीक एका वरान सुमार बॅडरूम तपासून जाल्ल्याची म्हायती ताणें मीराक दिली आनी मीरान आनी महेशान आतां बॅडरुमांत वचून रेस्ट घेवं येता अशेंय बी सांगलें. जेवणा पयलीं मीरा आनी महेश उठून पंदरा-वीस मिनटां भितर जेवन महेश परतून न्हिदलो तो साडेपांचांक सुमार उठलो. मीराय बी जेवतकूच मात्श्या वेळान सुस्त न्हिदून पडलें आनी साडे चारांक उठलें.

संक सुमार इनकमटॅक्स अधिकारी भायर सरून गेले. भायर सरचे पयलीं "आमकां बंगल्यार कांयच मेळूंक ना! कोणेंयतरी आमकां फॉल्स अलार्म दिल्लो," अशें त्या ऑफिसरां मदल्या एका वरिश्ट अधिकाऱ्यान महेशाक आनी मीराक सांगलें.

इन्कमटॅक्स अधिकारी वतकूच तीन रिपोर्टरांचे फोन आयले. बंगल्यार कांयच मेळूंक ना, कोणेंयतरी इन्कमटॅक्स खात्याचीं फकांडां केल्यांत वा चेअरमॅनाच्या घराचेर इन्कमटॅक्सान रेड घाली म्हूण कळटूकच चेअरमॅनाचें नांव पेड्डेर जातलें अशें कोणाकूय दिसलें जावंये आनी ताणें इन्कमटॅक्साक फट मारल्या जावंये, अशें महेशान रिपोर्टरांक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं "हत्ती पादे, हत्ती पादे फुस्स" अशें माथाळे दोन मराठी पेपरांनी आयले आनी "ऑल सावंड ऍन्ड फ्यूरी सिग्निफाइंग नथिंग," हीं शेक्स्पीयराचीं उतरां इंग्लीश पेपरांनी पयल्या पानार छापून आयलीं. सरळ आनी नितळ मनशाक असल्या कारस्थानांक चड तोंड दिवंचें पडटा अशे शेरे सगल्या वर्तमानपत्रांनी आयले आनी लोकां मदलो महेशा विशींचो कळवळो आनी आदर वाडलो.

***

सकाळचो उठून च्या घेता आसतना रामकृष्णान आपणालें "महेश हटाव अभियान" खंय पावलां तें पळोवंक मराठी वर्तमानपत्र व्हड आशेन हातांत

घेतलें, आनी ताका शॉक बसलो. इन्कमटॅक्स खात्याक महेशाच्या बंगल्यार कांयच मेळ्ळें ना अशी खबर आयिल्ली. रोखडोच ताणें संभाजीक फोन केलो. संभाजीनूय बी ती खबर वाचिल्ली. रामकृष्णान संभाजी कडेन पांच लाख रुपया दिवन ते कशेय भशेन बंगल्यार पावोवन लिपोवपाची वेवस्था कर अशें कांय दिसां आदीं सांगिल्लें. स्टाफ काराचेर हल्लो जांवचे आदले रातीं संभाजीन फोन करून काम जालें अशें रामकृष्णाक सांगिल्लें. संभाजीन पोतयेंत गुठलायिल्ले ते पांच लाख उसमान नांवांच्या आपल्या इश्टा कडेन दिवन, "आमच्या चेअरमॅनाक कोणूय तरी मारून उडोवंक सोदता. तो बरो मनीस. म्हाका जरी ताणें कंपाउंडांतल्यान भायर काडलो, तरीय आसतना म्हाका ताचे विशीं आदर आसा. ताच्या आड कोणेंच कारस्थानां केल्लीं म्हाका आवडनात; देखून हांवें आंबेगांवच्या राम-रहीम बाबा म्हच्यांत वचून चेअरमॅनाचें रक्षण करपा खातीर करणी करपाक लायली. बाबान म्हज्या हातांत हें बंडल दिलें आनी हें चेअरमॅनाच्या बंगल्यार व्हरून लिपय म्हूण सांगलें. हें चेअरमॅनाक आनी मॅडमीक मात्तूय कळ्ूंक जायना. हें बंडल तुवेंय बी उकतें करूंक जायना कारण जो कोण तें उगडटा, ताका तें बादता. हांवें लेगीत तें उगडून पळोवंक ना. चेअरमॅनाच्या बंगल्यार दोन प्यून आसतात. एक हळडीपूर आनी दुसरो श्याम. हळडीपूराक कॉपाची संवय आसा. ताका बुद्द मात्शी उणी. आतां कांय वेळान रात जातां जातां ताका गेटी भायर मात्सो कुशीक व्हरून हें बंडल तुवें ताचे कडेन दिवंक जाय, आनी गॅस्टरुमांत खंयींय तरी लिपय म्हूण सांगूंक जाय. हें बंडल आंबेगांवच्या बाबान चेअरमॅनाच्या रक्षणा खातीर दिलां. तें उगडूंक जायना आनी चेअरमॅनाक आनी मॅडमीक ह्या बंडला विशीं कळ्ूंक जायना. रातचो आठ वरां उपरांत म्हाका फोन करून तुवें काम केलें काय ना तें कळोवपाचें. आनीक कोण्णाक हें कळ्ूंक जायना. कळ्ळ्यार तुजेर ताचो वायट परिणाम जावंक शकता!" अशें संभाजीन उस्मानाक सांगलें. रातच्या साडे आठांक उस्मानान संभाजीक फोन केलो आनी काम जाल्ल्याचो रिपोर्ट दिलो.

हळडीपूरान तें बंडल घेवन गॅस्टरूमांत कोनश्याक आशिल्ल्या ड्रेसिंग रुमाच्या खणांत दवरलें. तो गॅस्टरूम खालीच आसतालो. चेअरमॅन आनी मॅडम सदां भशेन भायर बसून उलयतालीं. दुसऱ्या दिसा श्यामाची ड्युटी

आशिल्ली. तिसऱ्या दिसा सकाळीं येना फुडें हळडीपूरान आपणें अशें अशें केलां म्हणून श्यामाक सांगून तें बंडल दाखयलें. सायबाचें रक्षण करपा खातीर हें सगलें कोणेंयतरी धाडलां अशें ताणें सांगलें. श्यामान तोंडार हात दवरून ल्हानशी किळांच मारली आनी पेडण्यां सायडीक असले कितलेशेच बाबा आसात. तांच्यो करण्यो चडश्यो लोकांक मारपाच्यो आसतात, रक्षण करपाच्यो नासतात. देखून हें बंडल घरांत दवरप म्हणल्यार डेंजर! तुवें हें पयर रातचें हाडून दवरलें. काल रातचो सायबाचे गाडयेर हल्लो जालो. आनी आनी हें बंडल हांगां दवरूं नाका. आयज रातीचें तें व्हर आनी सायबाच्या ऑफिसा मुखार ब्रेकवॉटरा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या खोल उदकांत उडय. थंय वचूंक तुका पास बी कांय लागना. पोर्टांत हेर कडेन गेल्यार तुका पास विचारतले!'' श्यामान हळडीपूराक समजावन सांगलें. ते राती कडेन हळडीपूरान तें बंडल व्हरून ब्रेकवॉटरा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या खोल दर्यांत उडयलें. ऑफिसा मुखार ड्युटीर आशिल्ल्या दोन सी.आय्.एस्.एफ्. गार्डांनी ताका ब्रेकवॉटरा वटेन वतना पळोवन आडायलो.

ब्रेकवॉटराचेर सदांच वाऱ्याचो फोर्स एकदम चड आसतालो आनी हळडीपूर सामको बारीक किडकिडीत आशिल्ल्यान वाऱ्याच्या फोर्सान उदकांत पडत म्हूण एक गार्ड ताचो हात धरून ताच्या वांगडा आयलो. थंय कित्याक वता काय म्हूण गार्डान विचारतकूच हे पोटलेंत गुठलायला तो देवाचो प्रसाद. तो आनीक खंयच उडोवंक जायना, खोल उदकांतूच उडोवंक जाय आनी तो हांवेंच वडोवंक जाय अशें हळडीपूरान त्या गार्डाक सांगलें. तें बंडल पयस उदकांत शेंवटून मारतकूच हळडीपूरान आनी गार्डान हात जोडून प्रार्थना केली आनी मागीर हळडीपूरान काम जालें म्हणून रोखडेंच श्यामाक सांगलें. बाबान करणी करून दिल्ल्या ह्या बंडलाचें तांणी कितें केलें हें कोण्णाक सांगूंक जायना अशें तांणी थारायलें.

रामकृष्णान संभाजीक आपणें दिल्ल्या त्या पांच लाखांचें कितें जालें हें विचारतकूच आपूण येवन सांगतां अशें म्हणून त्या दिसा सांजेचो संभाजी उस्मानाक घेवन रामकृष्णागेर गेलो. संभाजीन आपणाकडेन एक बंडल दिल्लें तें आपणें हळडीपूर प्यूनाकडेन दिल्लें आनी संभाजीन आपणाक सांगिल्लें तें सगलें आपणें हळडीपूराक सांगिल्लें. उस्मानान मागीर हळडीपूराक बंडला विशीं

विचारलें तेन्ना आपणें तें गॅस्टरुमांत ड्रेसिंग टेबलाच्या खणांत दवरिल्लें. पूण तें कशें ना जालें तें आपणाक खबर ना अशें ताणें सांगलें. ते पयशे एक तर इन्कमटॅक्साच्या लोकांनी आपणां भितर वांटून घेतले वा संभाजीन आपणाक धावजे पावयलो अशें रामकृष्णाक दिसलें.

सर्वानंदान धाडिल्लो तेलेग्राम नारायणा कडेन पावलो. कर्नाटका काडराच्या आय्.ए.एस्. अधिकारी नारायणाची ईश्वरप्पाचो सिनियर पी.ए. म्हूण नेमणूक जाल्ली. चालंत प्रक्रिये प्रमाणें ताणें त्या तेलेग्रामाची एक कॉपी महेशाक धाडून महेशाची प्रतिक्रिया मागयली. आपल्याचेर हल्लो जाल्ल्याची खबर आनी उपरांत इन्कमटॅक्स रेडी विशीं शेरे आयिल्ल्या वर्तमानपत्रांचीं कात्रणां काडून नारायणाक रोखडींच धाड अशें महेशान दीपाक सांगलें. नारायणान मागीर तीं कात्रणां मंत्री ईश्वरप्पाक दाखयलीं आनी ती फायल बंद केली.

रामकृष्णान केल्लीं कारस्थानां ताच्या आंगार आयलीं. मीरान आनी महेशान जिवाच्या भंयांन गोंय सोडून वचचें म्हूण ताणें महेशाच्या स्टाफ काराचेर हल्लो करपाक लायलो. हल्लो जालो, पूण मिरान आनी महेशान गोंय सोडून वचपाचो विचारूच केलो ना. हल्ल्या उपरांत अनंत, तो आनी विष्णू बायलांक घेवन मीरा आनी महेशाचे खबरेक गेल्लीं तेन्ना अनंतान तांकां म्हणिल्लें:“तुमी हांगाच बरीं सुखान रावचीं, आतां घर बी बांदूंक सुरवात करची, आमचीं घे म्हणून भाटां आसात, तातूंत जाय थंय तुमकां घर बांदूंक मेळटलें अशें हांव पयलीं येवजितालों. पूण असल्या ह्या जाग्यार जीव धोक्यांत घालच्च्या परस तुमी मद्रासाकूच वचून रावल्यार चड बरीं अशें म्हाका आतां दिसूंक लागलां!”

“असल्या हल्ल्यांचें आमकां व्हडलेंशें पडून वचूंक ना. फाटल्या पंचवीस वर्सांत हांवें खूब प्रसंग हाताळ्ळ्यात. म्हजी पोस्टिंग सुमार पावणे पांच वर्सां खातीर आसा! ती पुराय करून हांगाच रिटायर जावपाचो म्हजो बेत आसा! रिटायर जावचे पयलीं खंयूंयतरी घर बांदून तयार दवरतलों,” अशी म्हायती महेशान अनंताक दिल्ली. हें सगलें याद करून रामकृष्णाची निर्शेणी आनीक वाडली. इन्कमटॅक्स रेडीचोय बी उरफाटो परिणाम जालो. पांच लाख गेले ते गेले, उरफाटें सगल्या वर्तमानपत्रांनी महेशाची “सरळ आनी नितळ” अशी

तुस्त केली आनी सरळ आनी नितळ अधिकाऱ्यांकूच असल्या प्रसंगांक तोंड दिवंचें पडटा अशे शेरे मारले.

रामकृष्णाचो एक बरो इश्ट पोलीस खात्यांत इन्स्पेक्टर आशिल्लो. आपणाले पांच लाख खंय गेले ताची कॉन्फिडेन्शियल चवकशी करपाक शकशी काय म्हूण विचारल्यार तांच्या डी.जी.पी.नूय बी तीच चवकशी करात अशें सांगिल्लें म्हूण रामकृष्णाक ताणें सांगलें. ह्या पांच लाखांच्या गौडबंगालाच्या फाटल्यान कोणाचो हात आसा तें सोदून काड म्हूण चीफ सेक्रेटरी रामदास शर्मान डी.जी.पी.क सांगिल्लें. "आतां म्हाका आनीक चवकशी करपाची गरज ना. ते पांच लाख खंयच्यान आयिल्ले, आनी त्या गौडबंगाला फाटल्यान कोणाचो हात आशिल्लो हें म्हाका आतां कळ्ळें," अशें इन्स्पेक्टर विश्वंभर काणेकारान रामकृष्णाक सांगतकूच रामकृष्णाक शेळो घाम सुटून कडकडो आयलो. "पूण तूं कांय भिवं नाका. हांव हें गुपीत दवरतां. ही गजाल तुज्या आनी म्हज्या भितर," अशें म्हणून इन्स्पेक्टर काणेकारान रामकृष्णाच्या मनाक थाकाय दिली.

संप सुरू जाल्ल्याक गुणाजी आनी बाप्तीस्त इरमांव बारांत नेमान येवपाचे बंद जाल्ले. हल्लो आनी पांच लाखांच्या बोवाळांत संभाजीय बी इरमांव बारां वटेन पावलो ना. आयज पांच-स दिसां उपरांत ते बारांत बशिल्ले. कांय वेळान रामकृष्णूय थंय पावलो. जाता तितल्या उण्या लोकांक आपूण दिसचों म्हूण रामकृष्ण सदांच काळोख जातकूच थंय येतालो. चेअरमॅनाच्या आड कसल्याच कारस्थानांक येस येना म्हणपाचें प्रत्येकान उलोवन दाखयलें आनी फुडें कितें करपाचें हाचेर आपापल्यो सुचोवण्यो ते करपाक लागले. संप सुरू जाल्ल्यान चेअरमॅनाक मुरगांवांत, गोंयांत आनी दिल्ली आदींच वायट नांव मेळ्ळां जातलें. आयज संपाचो चवथो दीस! जितले चड दीस वतात तितलें ताचें नांव चड पेड्डुर जातलें. ताका पोर्ट चलोवंक येना अशें सगले लोक म्हणटले अशें मत गुणाजीन उकतायलें. तें सगलें खरें आसल्यार लेगीत संपा सारक्यो कारवायो चेअरमॅनाक हांगच्यान भायर धांवडावपाक शकच्यो नात. भायर धांवडायतलो जाल्यार ताचेर कसलेंय तरी व्हड बगलांट घालूंक जाय, कसलेंय तरी जाळें घालून तातूंत ताका घुसपावंक जाय. आपणें दोन धाकलेशे प्रयत्न केले. पूण ते शेळेले; अशें बाप्तीस्तान बेजार जावन आपलें

मन उकतें केलें. संभाजी मात् वग्गी रावन तांचें आयकतालो. हल्ल्याचीं आनी इन्कमटॅक्साचीं कारस्थानां रामकृष्णान आनी ताणें मेळून रचिल्लीं हें हेरांक खबर नाशिल्लें. हल्लो कोणें घडोवन हाडलो आनी इन्कमटॅक्साचो फियास्को कोणें केल्लो हें कोणाक खबर ना! ह्या दोनूय कारस्थानांचो चेअरमॅनाचेर कांयच परिणाम जावंक ना काय दिसता. संपाचेर पोर्टान कसली कारवाय करपाची हाचेर चेअरमॅन अधिकाऱ्यां कडेन चर्चा करीत आसा. ताचेर आनीक कसलींय बगलाटां घालपाचो प्रयत्न करीत रावंक जाय, असो संभाजीन सल्लो दिलो.

"कितेंय तरी करात मरे! ताका आनी ताचे बायलेक गोंयच्यान धांवडायात! कितलोय खर्च जाल्यार जावं. ताची चिंता तुमी करूं नाकात!" रामकृष्णान बेजारून तांकां पयशांचें आश्वासन दिलें.

"ऑफिसरांच्या घरांनी लग्नां, मुजी आनी हेर कसलेय सुवाळे आसतना भ्रश्टाचार खूब जाता. लोक व्हड व्हड प्रेजेंटां दितात वा जेवणा-खाणांचो खर्च आपूण करतात.चेअरमॅनाच्या घरांत कसलोच सुवाळो जायना काय दिसता," अशें म्हणून आपणाली निर्शेणी गुणाजीन उकतायली.

"तांचो पूत अमेरिकेक शिकता. फुडल्या वर्सा मार्च-एप्रिलांत ताचें शिक्षण पुराय जातलें आनी मागीर तो थंयच नोकरेक लागतलो. तो एप्रिल-मेंत सुटी घेवन येतलो तेन्ना ताच्या लग्नाची तयारी तीं करतलीं काय दिसता," अशी भितरली म्हायती रामकृष्णान दिली. रामकृष्ण महेशाचे खबरेक गेल्लो तेन्ना मीरान हे विचार उलोवन दाखयिल्ले.

लग्नांत जावपी भ्रश्टाचाराचेर नदर दवरूंक जाय, पूण त्या गजालींक वेळ आसा. ताच्या पयलीं कसलींय तरी बंगलाटां ताच्या आंगार घालूंक जाय, विचार करुंया, अशें बाप्तीस्तान हेरांक सुचयलें. कांय वेळान रामकृष्ण वचूंक भायर सरलो. सगल्यांचें बील ताणेंच फारीक केलें. संभाजीय बी ताचे फाटोफाट वचून ताच्या वांगडा गाडयेंत बसून वास्को वचूंक सोदतालो, पूण रामकृष्णान ताका टाळ्ळो. ते पांच लाख ताणें आपल्याच बॉल्सांत उडयले जातले असो संशय रामकृष्णाक मारूंक लागिल्लो. बाप्तीस्त आनी गुणाजीय बी रोखडेच भायर सरले आनी "कितेंय तरी कर," अशें एकामेकाक सांगत आपापले वाटेन गेले.



## भाग 23

**संप** हो चालू करूंक सोपो पूण काबार करून काम सुरू करप कठीण! युनियन कितेंय करता तें कामगारांच्या बऱ्या खातीर वा युनियनांचे प्रतिमे खातीर हें सगल्यांक खबर आसता. संप हो एक जुगार! तो खेळ्ळ्यार तातूंतल्यान फायदो जाताच अशें ना, सासणाचें लुकसाणूय जांव येता. पीटर डिमेलोच्या मुरगांव पोर्ट कामगार संघान संप सुरू केलो खरो, पूण तो आतां कसो सोंपोवचो, आनी युनियनाचें नांव वगडायनासतना प्रशासना मुखार कसलो प्रस्ताव दवरचो हें कोणाक सुचनाशिल्लें.

तेवटेन, आतां कितें करचें हो प्रस्न महेशाक आनी हेर अधिकाऱ्यांक सतायतालो. परिक्षा घेवन तांणी रिझल्ट नोटीस बोर्डाचेर मारिल्लो आनी यू.डी. सीं.चीं नांवां ते नोटिसींत घाल्लीं. इतले बेगीन कामार रुजू जावं नाकात म्हूण युनियनान तांकां सांगून दवरिल्लें. परिक्षेचो रिझल्ट रद्द करूंक जायना अशें महेशान थारायिल्लें; हाच्या उरफाटें, परिक्षेचो रिझल्ट रद्द केल्या बगर संप फाटीं घेवंचे नात अशें पीटर डिमेलोन जाहीर केल्लें.

दिसपट्ट्यो कितेंय नव्यो घडणुको घडल्यार आनी घडणुकांचेर प्रशासनान कसलीय कारवाय करपाची आसल्यार ती कारवाय रोखड्या रोखडी जावंची हे खातीर दर दिसा इकरा वरांचेर डॅप्यूटी चेअरमॅन, सेक्रेटरी, व्हिजिलन्स ऑफिसर, लेबर ऑफिसर आनी सी.आय्.एस्.एफ्. कमांडट हांची मिटिंग महेश घेतालो. संप सुरू जातकूच तो रोखडोच सोंपोवपाच्या मुडांत पिटर डिमेलो आनी हेर नासतले हें महेशाक खबर आशिल्लें. संपाक चड दीस जातां जातां कामगारांचीं कुटुंबां तांचेर चेपण हाडटात कारण संपाच्या काळाचो

पगार मेळना हें तांकां अणभवान खबर आसता. संपार गेल्ले सगलेच कामगार घरा कडेन बसून राव नाशिल्ले. चोंब्या चोंब्यांनी पोर्टांत वा पोर्टा भायर बसून चकाटां मारताले. दर दिसा चेअरमॅन आनी स्टाफ णव वरांचेर ऑफिसाक येता आसतना ऑफिसा मुखार पीटर डीमेलोच्या युनियनाचीं निदर्शनां जातालीं. खंयच्या दिसा कोणें निदर्शनाक येवंचें तो सगलो टायमटेबल गुणाजीन सगल्यांक घालून दिल्लो. निदर्शनां एक वर चलतालीं. मागीर पीटर डिमेलो धाकलेंशें भाशण करून त्या त्या दिसाचीं निदर्शनां सोंपयतालो.

पांचव्या दिसा चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत जाल्ले मिटिंगेंत राज्य सरकारा कडल्यान हाडिल्लें सर्क्युलर अभ्यंकरान चेअरमॅनाच्या हातांत दिलें. जे जागे एका वर्सा परस चड खाली आसात ते जागे भरपाची गरज ना आनी प्रशासनाच्या मुखेल्यान जाय जाल्यार ते जागे रद्द करूं येतात. ते जागे रद्द केल्यार कामाचेर कांयच वायट परिणाम जावंचो ना हाची जतनाय प्रशासनान घेवंक जाय, अशें त्या भारत सरकाराच्या सर्क्युलरांत बरयिल्लें. पोर्टाच्या कचेऱ्यांनी तें सर्क्युलर मेळूंक नाशिल्ल्यान अभ्यंकरान तें राज्य सरकारा कडल्यान घेतिल्लें.

"यू.डी.सीं.चे हे चार खाली जागे कितलो काळ खाली आसात?" महेशान अभ्यंकराक विचारलें.

"दोन वर्सां परस चड, सर!" अभ्यंकरान जाप दिली.

रविंद्रनाक आपणाल्या कॅबिनांत आपय म्हूण संजय नायकाक सांगून महेशान मिटिंग चालू दवरली.

"ते जागे खाली आसतना लेगीत दोन वर्सां तरी पोर्टाचें काम कांयच आडावन उरलें ना; म्हणटकूच ते जागे रद्द केल्यार पोर्टाच्या कामाचेर कांयच वायट परिणाम जांवचो ना, असो ताचो अर्थ!" महेशान आपणालें मत उकतायलें.

"रविंद्रनाक विचारून कितें करपाचें तें थारावया," अशें सूर्यनारायणनान सुचयलें.

"आमी निलंबीत केल्ल्या त्या पांच जाणांचेर पोलिसांनीं यफ्.आय्. आर. नोंद केल्लो, ताचें कितें जालें?" महेशान कमांडंट पाटिलाक विचारलें.

"त्या पांच जाणांक पोलिसांनीं धरून लॉकपांत घाले आनी दुसऱ्या

दिसा पोलिसांनीं मागिल्ल्या प्रमाणें कोर्टान दोन दिसांचो रिमांड मान्य केलो. काल कोर्टान तांकां जामिनाचेर सोडल्यात,'' कमांडंट पाटिलान म्हायती दिली. कमांडंट पाटील उलयता आसतनाच अर्थ खात्याचो मुखेली रविंद्रन गुड मॉर्निंग सर म्हणत भितर सरून सूर्यनारायणनाच्च्या शेजरा आशिल्ल्या एका कदेलाचेर बसलो.

''यू.डी.सीं.चे हे चार जागे फाटल्या दोन वर्सां परस चड काळ खाली आसात; आमच्या कामाचेर कितें वायट परिणाम जाला?'' महेशान रविंद्रनाक विचारलें.

''तांचें काम थोड्या सिनियर एल्.डी.सीं. भितर आनी उरिल्ल्या स यू.डी. सीं.भितर वांटून घालां. ही सगली तात्पुरती वेवस्था अशें तांकां सांगिल्लें आसा.'' रविंद्रनान म्हायती दिली.

''हे जागे रद्द करून उडयल्यार कितें जातलें?'' महेशान विचारलें.

''रद्द करून उडोवया अशें हांवें आदल्या चेअरमॅनाक सुचयिल्लें आनी तात्पुरती वेवस्था ही 'तात्पुरती' उरची ना, सासणाचीच आसतली अशें अकावंट्स् खात्याक सांगुंया अशें हांवें चेअरमॅनाक सुचयिल्लें पूण युनियनान मान्यताय दिल्या बगर ते जागे रद्द करप समा जावंचें ना अशें ताचें मत आशिल्लें.'' रविंद्रनान म्हायती दिली.

''आमी ते जागे रद्द करून उडोवया! तूं भारत सरकाराच्या सर्क्यूलराची नोंद घेवन एक नोट तयार कर आनी अभ्यंकराक धाडून दी. ताकतीक करपाची कांयच गरज ना. कोणेंय हे विशीं विचारल्यार ते जागे रद्द करपाचें चेअरमॅनान थारायलां आनी प्रक्रिया आतां चालू जातली अशें सांगपाचें!'' महेशान रविंद्रनाक आदेश दिलो.

''ते पांच कामगार जामिनाचेर सुटले म्हणटकूच तांचें निलंबनूय बी आमी फाटीं घेवंक जाय, अशी मागणी युनियन करतलें काय दिसता!'' अभ्यंकरान आपलें मत उकतायलें.

''आमी केल्लें निलंबन आनी पोलिसांची कारवाय ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली. संपा विशीं आमी फुडली कारवाय थारायतना ह्या पांच जाणांचेंय बी कितें करपाचें तें थारावचें पडटलें. सद्या ते निलंबीतूच उरतले. कोणेंय तुमकां विचारल्यार अशेंच सांगपाचें,'' अशें महेशान अभ्यंकराक सांगलें

आनी मिटिंग सोंपयली.

त्याच वेळार पीटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेर वांगडी युनियनाच्या ऑफिसांत बसून परिस्थितीचो नियाळ घेताले. संप कसो सोंपवपाचो हाचेर तांची चर्चा चलताली. फाटले फावटीं भशेन एक्स्पोर्टर्स असोसिएशनान संप सोंपयात असो उलो मारचो अशें एका वांगड्यान सुचयलें. हे फावटीं तें अशक्य, कारण असोसिएशनाच्या नव्या अध्यक्षाक संप जाल्लो जाय आनी ताचें कारण म्हळ्यार ताका हो चेअरमॅन आवडना आनी चेअरमॅनाचें नांव तो पेड्डेर करूंक सोदता अशें पीटर डिमेलोन हेरांक सांगलें.

फाटले फावटीं भशेन युनियनाक उलोवंक आपय आनी तडजोड करून संप सोंपय असो उलो कल्याणपूरकर सायबान चेअरमॅनाक मारचो अशें आनीक एकल्यान सुचयलें.

"हे फावटीं चेअरमॅन ताचें आयकुंचो ना काय दिसता! ते खाली आशिल्ले जागे रद्द करून उडोवया अशें ताणें अभ्यंकर सायबाक आनी रविंद्रन सायबाक आयजूच सांगलां अशी म्हाका आतां खबर मेळ्ळ्या. हो चेअरमॅन हट्टी आनी कोणाक भिना आसतना आपल्याक समा दिसता तेंच करपी हें आमकां सगल्यांक खबर आसा. कल्याणपूरकर सायबान उलो मारल्यार ताचो हे फावटीं कांयच परिणाम जावंचो ना!" पीटर डिमेलोन आपणाक कितें दिसता तें स्पश्ट सांगलें.

पोर्ट मंत्रालया कडल्यान चेअरमॅनाचेर चेपण हाडूंक जमता जाल्यार पळोवंक जाय अशी सुचोवणी आनीक एका वांगड्यान केली.

मुरगांव पोर्ट हो भारतांतल्या ल्हान पोर्टां मदलो एक. मुंबय, कलकत्ता, मद्रास, जवाहरलाल नेहरू पोर्ट, विशाखापटणम ह्या व्हड पोर्टांनी दर दिसा कसलेय तरी प्रॉब्लेम आसतात. चडशे फावटीं मंत्रालयाचो सेक्रेटरी ह्या पोर्टांचे प्रोब्लेम सोडोवपांत गुल्ल आसता. आमचो पोर्ट ल्हान जरी आसलो, तरी आसतना मंत्रालयाचेर चेपण हाडपाचो यत्न कर अशें कल्याणपूरकर सायबाक सांगूंक जाता अशें पीटर डीमेलोन सांगलें.

खूब वेळ चर्चा करून लेगीत तांकां कांय ठोस उपाय सुचना जालो. दुसऱ्या दिसा चर्चा करून आनीक कितेंय उपाय सुचता जाल्यार पळोवया अशें पीटर डिमेलोन थारायलें आनी तांची मिटिंग सोंपयली.

महेशान आपणाली मिटिंग सोंपयिल्ली पूण बिळगी आनी लेबर ऑफिसर गवंडे सोडून हेर ऑफिसरांक ताणें मात्शे रावात म्हूण सांगलें.

"खाली जागे रद्द करपाचो आमचो प्रस्ताव हें आमचें ट्रम्प कार्ड. ते जागे रद्द करिनात जाल्यार आमचें कांयच वचना! जें आयज मेरेन आमी करूंक ना, तें हाचे फुडेंयबी आमी करचे नात अशें तांकां सांगल्यार तांकां एक व्हड सवलत दिली अशें समजुपाची गरज ना. संप सोंपोवपाक तांकां कितेंयतरी कारण लागतलें. खाली जागे रद्द करचे नात म्हूण प्रशासनान मानून घेतलें. ह्या आदाराचेर तांणी संप सोंपवपाक जाता अशे 'फिलर' आमी तांकां सामके निमण्या पावंड्याचेर धाडूंक जाता! दुसरी गजाल, निलंबनाची! कायद्या प्रमाणें इन्कायरी सुरू करूंक जाय ती आदींच लेबर ऑफिसरान सुरू केल्या. तो मागीर अभ्यंकराक रिपोर्ट धाडटलो. रिपोर्ट येतकूच आमी तांकां 'व्हडली' ख्यास्त दिवपाचो प्रस्ताव फुडें व्हरुंया. मागीर निमणे कडेन 'धाकली' ख्यास्त दिवपाचें मानून घेवंया. तांचो मूळ विशय आसा तो परिक्षा नाका म्हणपाचो. तो विशय कुशीक दवरून आमी तांकां हेर विशयांनी घुसपावन दवरून मागीर हेर विशयांचेर तडजोड करून मूळ विशयाचेर आमचें धोरण चालीक लावंचें. युनियनाच्या फुडाऱ्यांक आमी कितें करतात तें समजतलें, पूण कामगारां मुखार आपणाली लज राखपाक आमी दिल्ले पर्याय तांकां उपकारा पडटले!" महेशान सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी रविंद्रनाक समजावन सांगलें.

"आमी तांकां 'फिलर' केन्ना धाडपाचे?" अभ्यंकरान विचारलें.

"इतले बेगीन नाका! आयज संपाचो पांचवो दीस. आनीक कांय दीस वचूं दी! आमी सुसेगाद रावुंया! दीस वतात तशे पीटर डिमेलो आनी तांचे हेर फुडारी अस्वस्थ जातले; संप सोपोवया अशें म्हणून तांच्या कुटुंबांचें तांचेर चेपण वाडटलें. "भागते चोर की लंगोट ही सही," हे म्हणी प्रमाणें आमी तांच्या मुखार दवरिल्ले प्रस्ताव मानून घेवन ते संप सोपयतले!" महेशान अभ्यंकराक सांगलें.

मेजा वेलो फोन वाजलो आनी कल्याणपूरकर लायनीर आसा अशें संजय नायकान सांगलें. महेशान फोनाचेर हात दवरलो आनी तांकां मिटिंग सोंपिल्ल्याचें खुणेनूच सांगलें. कल्याणपूरकरा कडेन महेश पांच मिनटां सुमार उलयलो. कितेंय तरी करून पीटर डिमेलोक संप सोंपोवपाक लाय अशें

कल्याणपूरकर म्हणटालो. परिक्षा जाली आनी जागे भरपाची सगली तयारी आपणें केल्या म्हणटकूच परिक्षेचो रिझल्ट रद्द करपाचो आतां प्रस्नूच येना अशें महेशान कल्याणपूरकराक सांगलें. आपूण येवन कितेंय तडजोड सोदून काडपाक मजत करूं काय म्हूण कल्याणपूरकरान विचारतकूच इतले बेगीन नाका, आनीक थोडे दीस वचूं दी अशें महेशान ताका सुचयलें. आपूण पीटर डिमेलो कडेन उलयलां आनी तुका तडजोड करपाची विनंती केल्या अशें आपणें तांकां सांगलां ही म्हायती कल्याणपूरकरान महेशाक दिली. ओके, आनीक थोड्या दिसांनी उलोवया अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो.

संप चालूच उरलो; तणाव वाडत रावलो. निलंबन जाल्ल्या पांच कामगारांक आतां इंक्वायरी सोंपतकूच चेअरमॅन कामा वेल्यान काडून वडयतलो अश्योय वावड्यो पसरूंक लागल्यो. पीटर डिमेलो आनी हेर फुडारी तडजोड करपा खातीर दीस-रात मुद्द्यांचो सोद करूंक लागले.

***

‘‘काळ कसो वता तें कळना. झप झप करून हें वर्स सोंपतलें; आनी तुका रिटायर जावंक दोनूच वर्सां उरतलीं. रिटायर जातकूच गोंयांतूच रावुंया अशें तूं म्हणटालो. अजुनूय तुका तशेंच दिसता जाल्यार, खंय स्थायीक जावपाचें, व्हडलो फ्लॅट घेवपाचो काय घर बांदपाचें हाचेर कितेंयतरी थारावन काम सुरू जावंक जाय,’’ मिरान सांजवेळचें लॉनार बसून च्या घेतना महेशाक सांगलें.

‘‘गोंयांतूच स्थायीक जावपाचो विचार अजूनय आसा. खंयच्या शारांत वचून रावपाचें हें आतांच थारावंक जाय. आमी पणजे वचून रावचें अशें चडशे आय्.ए.एस्. इश्ट सुचयतात. एका फाटल्यान एक सगले मुख्यमंत्रीय बी तशेंच सुचयतात, म्हजी तांकां प्रशासनांत मजत जांव येता अशें ते सद्या म्हणटात. पूण ह्या आय्.ए.एस्. इश्टांच्या आनी मुख्यमंत्र्यांच्या गजालींनी कांयच तथ्य ना हेंवूय बी म्हाका खबर आसा. गोंयां खातीर आनी गोंयच्या लोकां खातीर जीव झिजोवन काम करपाची कोणाक कळकळ ना. आय्.ए.एस्. ऑफिसरांच्यो फामिली दिल्ली आसतात; बदली जावन दिल्लीक परतून वचपाची ते सदांच वाट पळयत आसतात. राजकारण हो आतां आमच्या देशांत सगल्यांत बरो वेपार-धंदो जाला. लोकांची सेवा, बरें प्रशासन असलीं उतरां राजकारण्यांक

लोकांची दिशाभूल करपाक वापरचीं पडटात. पणजे वचून स्थायीक जावपांत म्हाका कांय व्हडलो अर्थ दिसना,'' महेशान मीराक आपलें मत सांगलें.

जाणटेपणांत वळखीचे दोतोर आनी हॉस्पिटल लागीं आसल्यार बरें; संवकळीचे लोक सभोंवतणीं आसल्यार दिसपट्टे जिणेंत तांची मजत जांव येता आनी मुरगांव शारांतली नश्ट जावपी गोंयची संस्कृताय ल्हवू ल्हवू परतून हाडपा खातीर काम सुरू करूं येता, अशें येवजून मीरान आनी महेशान मुरगांव-वास्को वाठारांतूच स्थायीक जावपाचें थारायलें. मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण काम सुरू करतकूच सदांच दर्यो पळोवपाची महेशाक संवय जाल्ली. रिटायर जातकूच लेगीत सदांच दर्यो पळोवपाक मेळचो अशें ताका दिसूंक लागलें. दर्या म्हऱ्यांत खंयूय तरी जागो घेवन घर बांदपाचें तांणी थारायलें. मीराच्या पयशिल्ल्या एका सोयऱ्याचो पूत बिल्डर आशिल्लो. आपणाले वळखीच्या उद्देगपतीचो साडे सातशें स्क्वेअर मिटरांचो एक प्लॉट आसा अशी म्हायती ताणें दिली. प्लॉट मात्सो उंचायेचेर सो आशिल्लो आनी थंयच्यान सभोंवतणचो पाचवोचार वाठार आनी दर्यो दिसतालो. महेश आनी मीराचो राजीव पुश्कर हो फाटल्या दोन-तीन वर्सांत बरो इश्ट जाल्लो. तो हॉटेल कोबेचो जनरल मॅनेजर! महेशाची आनी ताची वळख महेश पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येतकूच जाल्ली. महेशा परस तो वीस वर्सांनी तरी ल्हान आशिल्लो तरी आसतना ते एकाच वयाचे आशिल्ले भशेन एकामेकां कडेन वागताले. राजीव सरळ, संस्कारी, प्रामाणीक आनी मेकळ्या सबावाचो म्हणून तो महेशाक आनी मीराक आवडटालो. तो हालींच लग्न जाल्लो आनी तोवूय बी एक ल्हानशें घर बांदपाचो विचार करतालो. ताका प्लॉट दाखोवंक व्हेल्ले कडेन त्या प्लॉटाचे दोन वांटे करून आमी दोगूयजाण शेजरा-शेजरा घरां बांदून रावुंया अशें ताणें महेशाक सुचयलें. तो साडे सातशें स्क्वेअर मिटरांचो प्लॉट चड व्हड जाता अशें महेशान राजीवाक पयलींच म्हणिल्लें. राजीवाची सुचोवणी महेशान आनी मीरान मानून घेतली आनी तो प्लॉट दोगांयनींय विकतो घेवन महेशाक साडेचारशें आनी राजीवाक तीनशें अशी प्लॉटाची वांटणी करून दोगांयनींय घरां बांदपाक सुरवात केली. महेशाक पोर्टाच्या कामांतल्यान फुरसत मेळनाशिल्ली देखून दोनूय घरां बांदपाची जापसालदारकी राजीवानूच घेतली.

पोर्टाचे सिविल इंजिनियर जायत्या आर्किटेक्टांक वळखताले. पोर्टा

खातीर केन्नाच काम करूंक नाशिल्ल्या खंयच्याय जाणट्याश्या आर्किटेक्टाचें नांव सुचय म्हूण सांगतकूच तांणी मुरगांवांतूच रावपी शालिनी गौडा हिचें नांव सुचयलें. दोनूय प्लॉटांचे आकार बी ध्यानांत घेवन तिणें बरे प्लॅन काडले. पोर्टा खातीर केन्नाच काम करूंक नाशिल्लो आनी पोर्टांत रजिस्टर नाशिल्लो असो कॉन्ट्रॅक्टर नेमून ताका कॉन्ट्रॅक्ट दिवपाचो महेश आनी राजीवान थारायलें. मुरगांव-वास्को वाठारांतूच न्हय, तर सबंद दक्षीण गोंयांत पोर्टांत रजिस्टर करूंक नाशिल्लो एक्लूय अणभवी कॉन्ट्रॅक्टर मेळचो ना अशें शालिनी गौडान सांगलें. महेश आनी राजीवाच्या एका मित्राचो कुंकळ्ळे इंडस्ट्रियल इस्टेटींत पायप, वारांव बी करपाचो लोखणाचो कारखानो आशिल्लो. सुमित गर्गान लुधियाना शारांतल्यान येवन हो कारखानो पंदरा वर्सां पयलीं घाल्लो आनी ताचो इंडस्ट्रियल आर्किटेक्ट प्रवीण गणात्रा येवन वचून गोंयांत आसतालो. ताचो पोर्टा कडेन कांयच संबंद नाशिल्लो. गणात्रा घर बांदपाची जापसालदारकी घेवंक शकता अशें एक दीस सुमित गर्गान महेशाक आनी राजीवाक सुचयलें. गोंयांत खूब कडेन भायले फिशाल गवंडी आसात तांचे पैकीं खूबशा जाणांक आपूण वळखतां. ते सवाय भितर आनी सडसडीत हीं दोनूय घरां बांदून काडटले अशें गणात्रान सांगलें आनी महेशान आनी राजीवान तें मानून घेतलें. घर बांदपाचें काम ऑगस्टांत सुरू जालें आनी मीराच्या मनाक मात्शी थाकाय मेळ्ळी.

मिरालो दुसरो हुस्को म्हणल्यार गौरीशाच्या लग्नाचो. एम्.एस्. डिग्रीचें शिक्षण सोंपोवन गौरीश फुडल्या वर्सां एप्रील-मेंत येवपाचो आशिल्लो. आपूण कांय काळ थंय नोकरी करतलों आनी मागीर इंडियेंत येवन नोकरी वा आपणालो आय्.टी. उद्देग सुरू करतलों अशें तो म्हणटालो, पूण तो अमेरिकेंतूच स्थायीक जातलो अशें महेशाक आनी मीराक दिसतालें. आतांच ताचें लग्न करून ताका धाडल्यार ताका संवसार सुरू करपाक बऱ्याक पडटलें अशें मीराचें ठाम मत आशिल्लें. सांजेचो काम सोंपोवन येतकूच एकलोच बसून बोर जावचे परस वा कसल्योय वायट संवयो लागचे पयलीं घरा कडेन बायल आसल्यार उलोवंक, मॉलांनी, थेटरांनी, हॉटेलांनी, पार्कांनी वचूंक कंपनी आसल्यार बऱ्याक पडटलें. खूबशे गोंयकार भुरगे हालीं हालीं थंयच्याच फॉरेन चलयां कडेन लग्न जावंक लागल्यात. मागीर तांच्या फॅमिलीक आमच्या

देशा विशीं वा गोंयां विशीं कांयच ओड नासता. गौरीशूय बी खंयच्याय फॉरेन चलये कडेन लग्न जायत असो सुप्त भंय मीराक दिसतालो. इतले बेगीन लग्न करपाची गरज ना, आनीक दोन-तीन वर्सांनी लग्न केल्यार ताका येणावळीचे नदरेन बऱ्याक पडटलें अशें महेशाचें मत आशिल्लें.

ताच्या लग्नाच्या विशयांत ताका कितें दिसता तें चड म्हत्वाचें. देखून तो सुटयेंत येतकूच ताकाच विचारून कितें करपाचें तें थारावया अशें महेशान मीराक सुचयलें आनी तो विशय बंद केलो.

महेशाचो नवो पी.ए. संजय नायक आदल्या पी.ए. कृष्णना भशेनूच सज्जन, प्रामाणीक, सरळ सबावाचो आनी कश्टी आशिल्लो. घर बांदूंक निकतीच सुरवात जाल्ली. घराचो हिशेब दवरपाचें काम महेशान संजयाचेर सोंपयलें. सामान कसलें कसलें जाय तें गणात्रा थारायतालो, राजीव तें सामान येतकूच तें सारकें आसा काय ना तें पळयतालो, आनी बिलां संजया कडेन धाडटालो. सगलीं बिलां चॅकान फारीक जातलीं अशें म्हालाची पुरवणी करतल्यांक पयलींच सांगून दवरिल्लें आसतालें आनी दर म्हयन्या अखेर संजय एक खर्च निवेदन तयार करतालो. तातूंत तारीख, म्हालाचें नांव, म्हाल कितलो, बील नंबर, म्हाल पुरवणी करतल्याचें नांव, चॅक नंबर आनी तारीख आनी ते तारखे मेरेनचो वट्ट खर्च हो सगलो तपशील त्या खर्चाच्या निवेदनांत आसतालो. आपणाल्या सोबीत अक्षरांत संजय तें निवेदन तयार करतालो.

शालिनी गौडान घराचो प्लॅन काडटकूच घर बांदूंक कितलो खर्च येतलो तें महेशान तिका विचारिल्लें. पंदरा ते वीस लाखां भितर घर बांदून जावंक जाय अशें तिणें सांगिल्लें. इतले पयशे खंयच्यान हाडचे हो हुस्को महेशाक सतावंक लागलो. बँकेंत ताचे फकत सात लाख सुमार आशिल्ले. मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवंचे पयलीं ताणी पणजे करंजाळे वाठारांत दोन बॅडरुमांचो एक फ्लॅट विकतो घेतिल्लो. एच्.डी.एफ्.सी. कडल्यान तीन लाखांचें रीण काडून आपणाले पन्नास हजार भरून साडे तीन लाखांक तो फ्लॅट ताणें घेतिल्लो. हालींच दोन म्हयन्यां पयलीं म्हापशेंच्या जॉन मथाय ह्या बिल्डराक तो महेशान णव लाखांक विकिल्लो. मिराचे एके मैत्रिणीचीं जाणटीं आवय-बापूय मिरामार दर्या देगेर आशिल्ल्या एका ल्हानश्या भाटांत नळ्यांच्या व्हड घरांत रावतालीं. आदल्या काळांत आर्किटेक्ट बी नासताले. फकत

गवंडीच एके विशिश्ट पद्दतीचीं घरां बांदून दिताले. तसलेंच हें एक घर! जॉन मथायक एक व्हड प्रोजेक्ट बांदपाचो आशिल्लो आनी त्या भाटाचेर ताची नदर आशिल्ली. तें नळ्यांचें घर भाटांत मद्दीं आशिल्ल्यान तें घरूय बी बिल्डराक विकतें घेवचेंच पडटलें आशिल्लें. आपणाल्या आवय-बापाय खातीर आपूण खंयूय तरी सकयल्या मजल्याचेर फ्लॅट सोदतां अशें मिराचे मैत्रिणीन ताका म्हणिल्लें तेन्ना मिरान आपणालो फ्लॅट घे अशें ताका सांगिल्लें. मिरान तशें सांगतकूच देड वर्सा उपरांत त्या बिल्डरान तो फ्लॅट विकतो घेवपाची तयारी दाखयली. तों मेरेन त्या फ्लॅटाचो प्रेस मार्केटांत तेरा-चवदा लाख जाल्लो. पूण मीरा तो णव लाखांक दिवपाक तयार जाल्लें देखून त्याच प्रेसान महेशान आनी मीरान तो फ्लॅट त्या बिल्डराक विकलो आनी बिल्डरान तो मिराचे मैत्रिणीच्या आवय-बापायच्या नांवार केलो. एच्.डी.एफ्.सी.चें रीण आनी टॅक्स सगले फारीक करून बँकेंत महेशाचे स लाख सुमार उरिल्ले.

कॅनफिन होम्सांतल्यान महेशान पांच लाखांचें रीण काडलें. शिरधन वाठारांत एका दोंगराचेर जाण्टेल्यां कडल्यान मीराच्या वांट्याक पडिल्लें सुमार चार हजार स्क्वेअर मिटर भाट पंदरा लाखांक विकपाच्यो वाटाघाटी चलताल्यो. वाटाघाटी पुराय जावन तो प्लॉट विकल्यार महेशाचे बँकेंत आनीक पंदरा लाख तरी जमा जातले आशिल्ले. वाटाघाटी पुराय जायना जाल्यार मात तात्पुरतें रीण काडचें पडपाचें. महेशान आपणाले येणावळीचें सगलें कोंत राजीवाक सांगिल्लें. आनीक स-आठ म्हयन्यांनी येणावळीचो नियाळ घेवंया, तितले म्हणसर प्लॉट विकना जाल्यार खंयच्यानूय तरी पयशांचो 'जुगाड' करूं येता अशें राजीवान सांगलें.

महेशान गोंयांत बांदूंक घेतिल्लें हें पयलेंच घर. तो आनी ताचो भाव भाड्याच्या घरांनींच ल्हानांचे व्हड जाल्ले. तमिळनाडूच्यान सुटयेंत महेश आनी मीरा जेन्ना जेन्ना येतालीं तेन्ना तेन्ना तीं महेशाच्या आवय-बापाय वांगडा त्याच भाड्याच्या घरांत रावतालीं. जिणेंत पयलेच फावट गोंयांत आपणालें निजी घर बांदूंक महेशान सुरवात केली.

***

संप सुरू जावन धा दीस जाल्ले, तरीय तो सोंपपाचीं कांयच चिन्नां

दिसनाशिल्लीं. सदां भशेन महेशान मिटिंग आपोवन संपाचो नियाळ सुरू केलो आनी नवी कितेंय खबर आसा काय म्हूण बिळगीक विचारलें. पीटर डिमेलो आनी ताचे वांगडी सामके बेजारल्यात, कामगार आनी तांचीं कुटुंबां तांकां दूशणां दिवंक लागल्यांत आनी पीटर डिमेलोन आनी गुणाजीन कारण नासतना बेठोच हो संप सुरू केलो अशेय शेरे आयकूंक येतात. गोंयांत येवन चेअरमॅना वांगडा उलोवन हो संप काबार कर अशें पीटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेर वांगडी कल्याणपूरकरा फाटल्यान लागल्यात अशेंय आयकूंक येता. कल्याणपूरकर आयज-फाल्यां चेअरमॅनाक फोन करतलो अशीय बी वावडी पसरल्या ही म्हायती बिळगीन दिली.

इंक्वायरी सोंपतकूच ह्या पांच कामगारांक कामा वेल्यान काडून उडोवपाचें चेअरमॅनाच्या मनांत आसा अशी वावडी तुमी पसरायात. यू.डी.सीं.चे खाली आसात ते जागे सासणाचे रद्द करतले अशें सूर्यनारायणनान आनी अभ्यंकरान संद मेळना फुडें सांगत रावचें. युनियना कडेन उलोवणीं हीं जावंकूच जाय; तीं जावंचे पयलीं तांचे मदीं चिंतेचें वातावरण पसरूंक जाय. परिक्षेचो रिझल्ट रद्द करपाचो प्रस्नूच येना अशेंय बी सूर्यनारायणनान आनी अभ्यंकरान सांगचें अशे आदेश महेशान दिले, आनी त्या दिसाची मिटिंग सोंपयली.

महेश सदां भशेन वर्तमानपत्रां वेल्यान नदर भोवंडायतना कल्याणपूरकरान मुंबयच्यान फोन केलो. संपा विशीं उलोवपाक आपूण मुरगांवां येवंक सोदतां; आयल्यार जाता काय म्हूण ताणें विचारलें. महेशान ताका यो म्हूण सांगलें. संप सोंपोवंक जाय हाचे बद्दल वाद ना. कसो सोंपोवया अशें कल्याणपूरकरान महेशाक विचारलें.

''कल्याण साहेब, आमचें धोरण तुमकां खबर आसा. जंय काम करपाचे तांकीचेर बढती दिवंक जाय अशें कायद्यांत आसा थंय आमी परिक्षा वा इंटरव्ह्यू घेवन उमेदवार पात्र आसा काय ना तें थारायतले. थंय युनियनान कितलोय विरोध केलो जाल्यार लेगीत आमी आयकुंचे नात. आनीक एक गजाल आसा: यू.डी.सीं.चे चार जागे दोन वर्सां परस चड काळ खाली आसात. एका वर्सा परस चड काळ खाली आशिल्ले जागे सासणाचे रद्द करूं येतात अशें भारत सरकाराचें सर्क्यूलर आसा. आमी ते चार खाली जागे रद्द करून उडयतले. म्हणटकूच परतू परतून ह्यो परिक्षेच्यो लटाफटी नाकात. ''न रहेगा बांस, न

बजेगी बांसुरी!'' आनीक एक प्रस्न उरला म्हणटात तो त्या निलंबित केल्ल्या पांच कामगारांचो. तांच्या आड इंक्वायरी चालू आसा. ती सोंपतकूच मागीर कायद्या प्रमाणें तांकां नोटीस बी दिवन नोकरे वेल्यान काडून उडोवपाचें आमी थारायलां. आमचीं धोरणां तुमकां हांवें स्पश्ट सांगल्यांत. फुडें कितें करपाचें तें आतां तुमी म्हाका सांगात!'' महेशान कल्याणपूरकराक सांगलें.

महेश आनी कल्याणपूरकर फाटलीं कितलिंशींच वर्सां बरे इश्ट आशिल्ले, पूण आपणाल्या तत्वांच्या विशयांत तांणी केन्नाच तडजोड केली ना. निजी इश्टागत आनी कामाच्या तत्वां वांगडा चलत आयिल्ल्यो प्रथा ह्यो दोन वेगळ्यो गजाली हें तांकां दोगांकूय खबर आशिल्लें. देखून इतलीं वर्सां जावन लेगीत तांची इश्टागत तिगून उरिल्ली. कल्याणपूरकराक महेश कल्याण साहेब म्हणटालो आनी कल्याणपूरकर महेशाक महेश साहेब म्हणटालो.

''महेश साहेब, तुमी आतां म्हाका सांगिल्ल्या प्रमाणें वाटाघाटींक जागोच उरूंक ना. तुमी खंयींतरी फुडें सरपाची वाट दाखोवंक जाय न्हय? तशी वाटूच ना जाल्यार हांव थंय येवन कितें करतलों? संप कायमचो काय उरूंक शकना हें आमकां दोगांकूय खबर आसा! म्हणटकूच, आमकां भितर सरपा खातीर खंयूंय तरी तुमी दार उकतें दवरपाक जाय न्हय?'' कल्याणपूरकरान महेशाक फुडली वाट दाखय म्हूण सुचयलें.

''तुमच्या गोंयच्या फुडाऱ्यांक दारां धुकलून वा दारार खोंट मारून भितर घुसपाची संवय आसा. तुमची शिस्त तांणी आपणावंक ना. आमी दारां केन्नाच बंद करूंक नात. खंयच्याय विशयाचेर कसलोय प्रस्ताव तांचे वतीन तुमी आमचे मुखार हाडूं येता. मागीर प्रस्तावाचेर उलोवणीं करूं येता. तुमी मुरगांवां येवन पयलीं तांकां मेळात; मागीर हांव आनी तुमी मेळुंया आनी कितें करपाचें तें थारावया!'' महेशान कल्याणपूरकराक सांगलें.

''महेश साहेब, हांव वांगडा कोणाक घेना आसतना एकलोच तुमकां मेळ्ळ्यार तांचो म्हजेवेलो विस्वास उडटलो! देखून तांचे कडेन पयलीं उलोवन तांकां घेवन तुमच्या म्हऱ्यांत येतां. म्हजी तुमकां एकूच सुचोवणी. निलंबना विशीं तुमी कितेंय वाट सोदून काडूंक जाता जाल्यार पळयात. यू.डी.सीं.चे जागे सांसणाचेच रद्द करपाचें धोरण तुमी थारायलां थंयूंय बी तुमी मात्शें मोव रावचें पडटलें. कारण हेर खंयच्याच पोटांत खूब काळ खाली आशिल्ले जागे

रद्द करपाचें धोरण ना. आमी पयले मिटिंगेंत तुमच्या मुखार आमचे प्रस्ताव दवरतात; उपरांत दुसरे मिटिंगेंत उलोवणीं करून कितेंयतरी मार्ग काडुंया!'' कल्याणपूरकरान महेशाक सुचयलें.

''ओके, तुमी येयात! मागीर पळोवया! थँक्यू!'' अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो.

दुसऱ्या दिसा कल्याणपूरकर मुंबयच्यान आयलो आनी ताणें रोखडीच सांजेच्या तीन वरांचेर युनियनाच्या ऑफिसांत पीटर डिमेलो, गुणाजी आनी कमिटीच्या हेर वांगड्यांची मिटिंग घेतली. संपाची फाटभूंय सांगून आतां संप कसो सोंपोवं येता हाचेर पीटर डिमेलोन आपणाल्यो सुचोवण्यो केल्यो: फाटलीं कांय वर्सां एल्.डी.सीं.क यू.डी.सीं.च्या जाग्यां खातीर बढती दिता आसतना परिक्षा बी कांय घेना आशिल्ले. फकत सिनियोरिटीचेर आदारून बढती दिताले. सिनियोरिटी वांगडाच उमेदवाराक कामाची तांक आसा काय ना तें तपासून पळोवंक जाय अशें ह्या चेअरमॅनान थारायलां. ते खातीर परिक्षाय बी घेतल्यात. वेंचून काडिल्ल्या उमेदवारांचीं नांवांय बी नोटीस बोर्डाचेर मारल्यांत. फाटल्या फावटीं युनियनान परिक्षेक विरोध केल्लो. चेअरमॅन परिक्षेच्या हॉलांत भितर सरतना आपणें ताका आडायिल्ल्यान ताणें आपणाक निलंबनाची ऑर्डर दिल्ली. हे फावटींय बी परिक्षेक युनियनान विरोध केला पूण उमेदवारांक, सुपरवायझरांक वा चेअरमॅनाक बी युनियनान हॉला भायर वा भितर खंयच आडावंक ना. आडायल्यार हो चेअरमॅन चडश्या फुडाऱ्यांक चड काळ निलंबीत करून दवरतलो आनी गरज नासतना सगल्यांक पिड्टलो. देखून युनियनान कोणाकूच प्रत्यक्ष आडायले नात. परिक्षा फुडाराक घेवंच्यो न्हय अशी मागणी करून युनियनान संप सुरू केलो.

आतां केन्नाच कोणेंच करूंक नाशिल्ली कारवाय चेअरमॅन करूंक सोदता. खाली आशिल्ले जागे तो सांसणाचेच रद्द करूंक सोदता. ते खातीर भारत सरकाराचें एक सर्क्युलर ताणें गोंय सरकारा कडल्यान हाडून घेतलां आनी त्या सर्क्युलराच्या आदाराचेर आपूण हे जागे सासणाचेच रद्द करतलों अशें तो म्हणटा. ते रद्द करूंक जायनात ही दुसरी मागणी. ती मागणी पयलीं नाशिल्ली, पूण आतां ती मागणी करूंक जाय.

युनियनाचे पांच जाण कामगार सद्या निलंबीत जाल्यात आनी तांचेर

इंक्वायरी चलल्या. दुसऱ्या युनियनाच्या वांगड्यांक तांणी आडायले आनी मारले देखून दुसऱ्या युनियनान पोलीस कम्प्लेंट केली देखून पोलिसांनी आमच्या पांच वांगड्यांक लॉकपांत घाले. आतां ते जामिनाचेर सुटल्यात पूण निलंबन अजून चालूच आसा. निलंबन रोखड्या रोखडें फाटीं घेवंचें आनी तांकां कामार येवपाक मेकळीक दिवंची ही युनियनाची तिसरी मागणी. ह्यो तिनूय मागण्यो चेअरमॅना मुखार दवरच्यो; खयंचीच मागणी फाटीं घेवंक जायना. आपणें यूनियनाचो स्टॅन्ड कितें आसा तो सांगलो; कल्याणपूरकर सायबान आतां मार्गदर्शन करचें अशें म्हणून पीटर डिमेलो बसलो.

कल्याणपूरकरान बसुनूच उलोवचें असो सगल्यांनी बोवाळ घालतकूच थँक्यू म्हणून कल्याणपूरकर बसुनूच उलयलो. "हांव गोंयांत आयलां तें मार्गदर्शन करूंक येवंक ना, तर म्हज्या वांगड्यांक मजत करूंक आयलां. ह्यो तीन मागण्यो, ज्यो पीटर डिमेलोन आमकां सगल्यांक सांगल्यात, त्यो घेवन आमी चेअरमॅना मुखार या आनी तो कितें म्हणटा तें पळोवया. ह्यो समजा ताणें मान्य केल्यो ना जाल्यार फुडें कितें करपाचें तें आमी आतांच थारावन दवरूंक जाय. फुडलो प्लॅन सारको आंखल्या बगर आमी उलोवणीं करपाक गेल्यार सगलो गोंदळ जावं येता. एक गजाल सदांच कामगारांनी ध्यानांत दवरूंक जाय आनी ती म्हणल्यार संप जाल्यार अधिकाऱ्यांचें कांयच लुकसाण जायना, तांकां पगार मेळत रावता; कामगारांचो पगार मात् ते कापतात. आनी काम ना जाल्यार पगार ना हें तत्व सगल्या कोर्टांनीं लेगीत मानून घेतिल्लें आसा. खूबश्या पोर्टांनी कामगारांक टिप्स म्हणात, बक्षिसां म्हणात, आलायती येणावळ आसता; तशीच ती मुरगांव पोर्टांतूय बी आसा. संप जाता तितल्या बेगीन सोंपयल्यार पगार आनी आलायती येणावळ बेगीन सुरू जांव येता. देखून खंयच्या मुद्याचेर आमी तडजोड करून संप सोंपोवपाची तयारी दाखोवं येता हाचेर चर्चा करून कामगारांक बऱ्याक पडटा तें थारावंक जाय," अशें कल्याणपूरकरान कमिटीक सांगलें.

तडजोड करपाची काय ना आनी करपाची जाल्यार खंयच्या मुद्याचेर करपाची हाचेर वर भर चर्चा जाली. खंयच्याच मुद्द्यांचेर तडजोड करपाची गरज ना, संप चालूच उरल्यार जाता, मीन उद्देग आनी मुरगांवचो बाजार कितलो वेळ सरकाराचेर चेपण हाडिनासतना हात-पांय सोडून न्हिदून रावतलो

तें पळोवया; असो एक कडक आनी झगडाळ सूर आयलो. संप जाता तितले बेगीन सोंपोवंक जाय कारण कामगारां कडेन चड सहनशक्ती नासता. युनियन फुडाऱ्यांचें आयकनासतना चोंब्याचोब्यांनी ते कामार येवंक शकतात आनी आपूण कामार येवंक तयार आसां अशेंय बरोवन दिवंक शकतात, वा मुरगांव पोर्ट कामगार संघ सोडून कडक भोसलेच्या कामगार संघांत शिरूं येतात आनी ते खातीर हेवटेन तेवटेन थोडी तडजोड करून संप सोंपयल्यार बरो असोय एक सूर आयलो, पूण खंयच्या मुद्द्यांचेर तडजोड करची हाचेर कांय सुचोवणी नाशिल्ली. खाली जागे रद्द करपाची तांची येवजण युनियनान कशीच मानून घेवंक जायना. ती येवजण तांकां फाटीं घेवंक लावंक जाय, आनी तें करपा खातीर युनियनाच्या हेर मागण्यांचेर मात्शें मोव धोरण धरल्यार जाता अशें कांय जाणांचें मत जालें.

"प्रत्येकाचे सुचोवणेंत कितेंय ना जाल्यार कितेंयतरी घेवपा सारकें आसा. कोणाचीच सुचोवणी शंबर टक्के उपकारा पडची ना अशें म्हणूंक जायना. देखून म्हाका दिसता पीटर डीमेलोन सांगल्या तश्श्यो, कांयच वगळनासतना, सगल्यो मागण्यो आमी बरोवन चेअरमॅनाक दिवंया आनी ताका समजावन सांगुंया. तो रोखडोच आमकां हय वा न्हय अश्यो जापो दिवंचो ना काय दिसता. ताच्या मनांत कांय मुद्द्यांचेर तडजोड करपाचें आसल्यार ते रोखडेच जाप दिवंचे ना, टायम मागून घेतलो. आमच्यो सगल्यो मागण्यो ताणें पयल्याच धपक्यांत नाकारून उडयल्यार आमी संप चालूच दवरतले, तुकां जाय तें कर अशी धमकी दिवन आमी भायर सरपाचें!" कल्याणपूरकरान आपणालें मत सांगलें.

"आमी भायर सरपाचें, तुमी जाय तें करात!" अशें कल्याणपूरकरान म्हणिना फुडें सगल्यांनी ताळयो मारल्यो आनी ताच्या सुचोवण्यांक येवकार दिलो. गुणाजीन चेअरमॅनाच्या सिनियर पीएक फोन करून कल्याणपूरकर सायब आनी हेर वांगडी चेअरमॅनाक मेळूंक सोदतात, केन्ना येवं काय म्हूण विचारतकूच पांच मिनटां भितर फोन करून सांगतां अशें ताणें सांगलें. पांच मिनटांनी ताणें फोन करून दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा वरांचेर चेअरमॅनाच्या मिटिंग रुमांत मेळपाक आपयल्यात अशें म्हणून संजय नायकान गुणाजीक सांगलें.

***

दुसऱ्या दिसा सकाळीं धा वरांचेर चेअरमॅनाच्या मिटिंग रुमांत मिटिंग सुरू जाली. महेश मेजाचे एके वटेन चेअरमॅनाक राखून दवरिल्ल्या कदेलाचेर बशिल्लो. ताच्या मुखार दावे वटेन सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी लेबर ऑफिसर गवंडे बशिल्ले. उजवे वटेन पयलीं कल्याणपूरकर मागीर पीटर डिमेलो, गुणाजी आनी तांचे तीन वांगडी बशिल्ले.

सुरवातीक महेशान कल्याणपूरकराक येवकार दिलो आनी सगले प्रस्न तो सदांच बरे भशेन सोडयता, ताका चाळीस–पन्नास वर्सांचो अणभव आसा आनी ताणें हातांत घेतिल्लें काम तो सदांच येसस्वी रितीन तडीक पावयता, अशें म्हणून ताची तुस्त केली. प्रशासनाचीं आनी कामगारांचीं उद्दिश्टां वेगवेगळीं नासतात. पोर्ट बरे तरेन चलिल्लो सगल्यांकूच जाय आसता. पूण जायते फावटीं कामाच्यो पद्दती वेगळ्यो आशिल्ल्यान वाद सुरू जातात आनी वाद सुरू जातकूच मागीर आपूण म्हणटा तेंच खरें अशें प्रत्येकाक दिसता. वाद वाडत रावल्यार प्रस्नूय वाडत रावतात आनी सगल्यांकूच लुकसाण जाता. आयज मिटिंग जाता ही बरी गजाल अशें म्हणून कल्याणपूरकरान उलोवचें अशें महेशान सुचयलें. महेशान आदीं आपली तुस्त केल्या म्हणटकूच कल्याणपूरकराकूय बी महेशाची तुस्त करची पडली आनी ती ताणें भरपूर केली. मागीर पीटर डिमेलोन ताचे कडेन दिल्लें पत्र ताणें महेशाच्या हातांत दिलें. महेशान ताचेर नदर भोंवडायली आनी तें पत्र सूर्यनारायणना कडेन दिलें. ‘‘तुमी मुंबय परतून केन्ना वचपाचे आसात?’’ महेशान कल्याणपूरकराक विचारलें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं आपणाली रिटर्न टिकेट आसा. मागीर फुडले दोन म्हयने आपणालो प्रोग्राम सामको पॅक आसा. देखून आयजूच हें प्रकरण काबार करून उडोवया अशें आपणें आपल्या वांगड्यांक सुचयलां आनी, ‘‘तुमकांय बी तेंच सुचयतां,’’ अशें कल्याणपूरकरान महेशाक सांगलें.

‘‘आमी अशें करुंया, आयज दनपारचे तिनांक मेळुंया. तुमच्या मागण्यांचेर आमी विचार करतात आनी आमकां कितें शक्य आसा, कितें शक्य ना तें तुमकां स्पश्ट सांगतात. फुडें कितें करपाचें तें तुमी थारायात.’’ महेशान तांकां सांगलें.

‘‘तुका बी कितें सांगपाचें आसा?’’ कल्याणपूरकरान पीटर डिमेलोक विचारलें.

“चड ना! हांव तुमचीं दोनूच मिनटां घेतां!” पीटर डिमेलोन महेशा कडेन पळोवन उलोवंक सुरू केलें: आमकां तुमचे विशीं खूब आदर आसा. तुमी कायद्याक धरून चलपी, प्रामाणिकपणान प्रशासन चलोवपी हें आमी फाटल्या अडेज वर्सां परस चड काळ पळयत आयल्यात. सर, आमी गुंड न्हय! आमकां गुंडगिरी साप्प आवडना! पूण कामगारांच्या बऱ्या खातीर जें करूंक जाय तें आमी करतात, आनी तें प्रामाणीकपणान करतात. कामगारांनी आनी प्रशासनान हातांत हात घालून काम केल्यारूच पोर्टाची उदरगत जातली हें आमकां खबर आसा आनी आमकांय बी संप चड काळ उरिल्लो परवडना, हें तुमकां खबर आसा. पूण तत्वां खातीर संप कितलोय काळ चालू दवरूंक आमी तयार आसात हेंवूय बी तुमकां खबर आसूंक जाय. आमी आमच्यो मागण्यो तुमचे कडेन दिल्यात. आमी सगले एकाच कुटुंबांतले वांगडी अशें धरून तुमी त्या मागण्यांचेर विचार केल्यार तुमकांय मान्य आनी आमकांय मान्य अश्यो वाटो सोदून काडूं येतात. तशे तुमी प्रयत्न करचे अशें हांव तुमचे कडेन मागतां,” पीटर डिमेलोन महेशाक विनंती करता आसतनाच हयन्हयशी धमकीय बी दिली.

“आतां आमी आमची मिटिंग सोंपोवया. सांजेच्या तीन वरांचेर मेळुंया!” महेशान सगल्यांक सांगलें आनी तो उठलो. तो उठल्या बरोबर हेर सगले जाणूय बी उठले. ताणें कल्याणपूरकराक हात दिलो आनी मात्सो हांसून ताचे भलायकेची खबर घेतली. “सद्या बरो आसां. कांय प्रॉब्लेम ना. तुमी म्हजे प्रॉब्लेम वाडोवं नाकात.” अशें म्हणून कल्याणपूरकर व्हडल्यान हांसलो.

“प्रॉब्लेम तुमच्या लोकांनी सुरू केला, ताणींच तो सोंपवपाचो” अशें म्हणून महेशूय बी व्हडल्यान हांसलो आनी सगले भायर सरून आपापले वाटेन गेले. महेश आपल्या कॅबिनांत गेलो. ताचे फाटोफाट सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी गवंडे ताच्या मुखार येवन बसले. कामगारांच्यो मागण्यो अभ्यंकराच्या हातांत आशिल्ल्यो.

“आतां कितें करपाचें?” महेशान सूर्यनारायणनाक आनी अभ्यंकराक विचारलें.

“सर, पयलीं हांव म्हजें मत सांगतां. तीन वरांचेर जावपाची आसा ते मिटिंगेक आमी तांच्यो तिनूय मागण्यो नाकारुंया. मागीर ते तिडकीन उठून

वतले आनी तांचे भितर फुडले कारवाये विशीं वाद सुरू जातलो. कल्याणपूरकर फाल्यां सकाळीं वचपाचो आसा म्हणटकूच आयजूच सांजे आनीक एक फावट मेळुंया अशें चड करून ते सुचयतले. मागीर कामगारांक ख्यास्त दिवपाच्या विशयाचेर आमी मात्शे मोव रावूं येता. व्हड ख्यास्त दिना आसतना इंक्वायरी जातूकच मागीर शिटकावणी दिवन सोडूं येता. परिक्षा घेवपाच्या विशयांत आमी फाटीं सरूंक शकनात. तो आमचो मूळ मुद्दो. तिसरो विशय उरला तो खाली जागे सासणाचेच रद्द करपाचो. मुंबय, कलकत्ता आनी सेन्नै पोर्टांच्या सेक्रेटरीं कडेन हांवें चवकशी केली. कितलोय काळ जागे खाली आसल्यार ते जागे ते रद्द करिनात अशें तांणी सांगलें. भारत सरकाराच्या सर्क्यूलरांत चेअरमॅनांक कारवाय करपाची मेकळीक दिल्या, कारवाय करुंकूच जाय अशें म्हणूंक ना. देखून ह्या विशयाचेर मात्शें मोव रावून आमी सद्या ते जागे रद्द करचे नात अशें आमी सांगुंक शकतात, तेंवूय बी आमी तांकां सांगुंया.'' अभ्यंकरान आपणालें मत सांगलें.

''अभ्यंकराचीं मतां म्हाका मान्य, पूण हें सगलें दुसरे मिटिंगेंत तांकां सांगचे परस पयलेच मिटिंगेंत कित्याक सांगचें न्हय? दुसरी मिटिंग कल्याणपूरकर मागतलोच हें कित्या वेल्यान? ताणें दुसरी मिटिंग मागली ना जाल्यार आमी कितें करपाचें? म्हाका दिसता, तीन वरांचेर जावपी मिटिंगेंत आमी सरळ तांकां अभ्यंकराचे पॉयंट सांगूया!'' सूर्यनारायणनान आपलें मत सांगलें.

''तुजें मत कितें?'' महेशान गवंडेक विचारलें.

''सर, इंक्वायरी चालू जाल्या. आनीक एक म्हयनो सुमार ती चलतली. आमी कसली ख्यास्त दितले ती आतांच आमी बरोवन दिवंक शकनात. तांकां शिटकावणी दिवन सोडटले अशें तांच्या युनियनाक चेअरमॅनान उतर दिवचें. इंक्वायरी सोंप मेरेन तांचें निलंबन चालू उरपाची गरज ना. संप सोंपून हेर कामगार ज्या दिसा कामार येतात त्याच दिसा ह्या पांच कामगारांचें निलंबन आमी सोंपोवंक जाता!'' गवंडेन आपलें मत उकतायलें.

''आमी आमचो फायनल निर्णय पयलींच सांगूंक जायना; कामगारांच्या विशयांत आमी इल्लीशी तडजोड करतले, कायद्यांत घालून दिल्ली खंयचीच कडक ख्यास्त आमी तांकां दिवंचे नात अशें हांव तांकां सांगतां. हें बरोवन दिवपाचें ना. मागीर ह्या मुद्याचेर ते वांटपण करतले. आमी प्रशासना कडेन

खूब्ब झगडल्यात अशें ते कामगारांक दाखोवंक सोदतले. देखून आमी तांकां वाद घालपाची संद दिवंक जाय. परिक्षेच्या मुद्याचेर तांणी कसलेय वाद घाल्यार हांव तांकां जाप दितां. तो आमचो मूळ मुद्दो. त्या मुद्द्याचेर आमी कशेंच फाटीं सरूंक शकनात. तिसरो मुद्दो उरलो तो खाली जागे रद्द करपाचो. सद्या आमी हे जागे रद्द करिनात अशें आमी तांकां सांगुंया. ताचेर कसलेय मुद्दे तांणी फुडें हाडल्यार तांकां आमी जाप दिंव येता. मिटिंग सुरू जातकूच आमी तांकां कांयंच बरोवन दिंव नये. मागीर वाद घालून जातकूच तांकां फायनल निर्णय बरोवन दिवंया. तो निर्णय बरोवन दितकूच मागीर ते संप चड करून सोंपयतले. अभ्यंकर, आतां हांवें सांगलां तें कागदाचेर नोट करून मिटिंग सुरू जातकूच तूं म्हज्या हातांत दी, म्हणटकूच तांकां सांगता आसतना कायंच चूक जावंची ना. म्हजी कसलीय चूक जाल्यार तुवें ना जाल्यार डॅप्यूटी चेअरमॅनान तांचे हुजीर म्हाका सांगल्यार जाता, कांयच प्रॉब्लेम ना,'' महेशान तांकां सांगलें आनी मिटिंग सोंपयली.

दनपारच्या अडेज वरांचेर सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी गवंडे महेशाक येवन मेळ्ळे.

''सर, निलंबनाच्या आनी खाली जागे रद्द करपाच्या विशयांचेर हांव आनी अभ्यंकर उलयताले. निलंबनाच्या विशयाचेर इंक्वायरी सोंपतकूच आमी निर्णय घेतले अशें तांकां सांगल्यार बरें. तांकां कडक ख्यास्त दिवंक जायना असो पीटर डीमेलोन हट्ट धरतकूच मागीर आमी ओके म्हणूं येता. तशेंच खाली जागे रद्द करपाच्या विशयांत आमी पयलीं कडक भुमिका घेवंया आनी कितें जाता तें पळोवया. सद्या आमी ते जागे भरचे नात अशें निमाणे कडेन तांकां सांगुंया!'' सूर्यनारायणनान महेशाक सुचयलें.

सूर्यनारायणनाच्यो सुचोवण्यो महेशान मानून घेतल्यो आनी ते पॉयंट बरोवन मिटिंग सुरू जातकूच आपल्या कडेन दी अशें ताणें अभ्यंकराक सांगलें.

तीन वरांचेर मिटिंग सुरू जाली. हे फावटीं पीटर डिमेलो आनी गुणाजी वांगडा कमिटीचे स वांगडी आशिल्ले. महेशान तांकां सगल्यांक येवकार दिवन प्रशासनाची भुमिका सांगली: ''तुमी तीन मागण्यो केल्यात. पयली मागणी म्हणल्यार निलंबन केल्ल्या कामगारांचेर सुरू केल्ली इंक्वायरी थांबोवची आनी रोखड्या रोखडें तांचें निलंबन फाटीं घेवन तांकां कामार

घेवंचें. निलंबन फाटीं घेवंक आमी तयार आसात, पूण संप चालू आसतना निलंबन फाटीं घेवन कांयच उपेग ना; म्हणटकूच ज्या दिसा संप सोंपतलो त्याच दिसा आमी निलंबन फाटीं घेतले. इन्क्वायरी रद्द करपाक आमी तयार नात. कायद्यान घालून दिलां त्या प्रमाणें त्या पांच कामगारांक कसली ख्यास्त करपाची तें आमी मागीर थारायतले.'' पयले मागणेचेर उलोवन जातकूच महेशान आपणाल्या हातांत अभ्यंकरान दिल्ल्या नोटा वेल्यान नदर भोंवडायली आनी दुसरे मागणेचेर उलोवपाक सुरवात केली.

''खाली जागे केन्नाच रद्द करचे न्हय अशी तुमची दुसरी मागणी. आमकां तुमची मागणी मान्य ना. ते जागे दवरून अर्थ ना, कारण फाटल्या दोन वर्सां परस चड काळ ते जागे रिकामे दवरून लेगीत काम बरे भशेन चलत आयलां. आमी ते जागे रद्द करून उडयतले. एल्.डी.सीं.चो घेतिल्लो परिक्षेचो रिझल्ट रद्द करचो, आनी फकत सिनियोरिटीच्या आदाराचेर तांकां बढती दिवंची ही तुमची तिसरी मागणी. ती आमी मान्य करिनात कारण आमी यू.डी.सीं.चे खाली जागेच रद्द करून उडोवपाचे आसात. तुमच्या मागण्यांचेर आमचे हे निर्णय!'' महेशान तोंडाचेर गंभीर भाव हाडून कल्याणपूरकराक आनी हेरांक सांगलें.

''सर, प्रशासना कडेन उलोवन कांयच अर्थ ना. आमी संप चालू दवरतले. कितें जाता तें पळोवया!'' पीटर डीमेलोन कल्याणपूरकराक सांगून हेरांक खुणेनूच उठुंया म्हणून सांगून तो आपुणूय उठलो आनी सगले भायर वचूंक लागले.

''रावात, रावात! म्हाका तुमचे कडेन उलोवंक जाय, बसात!'' कल्याणपूरकरान तांकां सगल्यांक बसात म्हूण सांगून प्रशासनान घेतिल्ले भुमिकेचेर आपणाक तांचे कडेन चर्चा करूंक जाय अशें म्हणून ताणें महेशाक सांगलें.

''तुमी बसून उलयात. हांव म्हज्या कॅबिनांत वतां. तुमचें उलोवन सोंपतकूच मागीर आमकां आपयात. तुमकां च्या, सामोसा बी हाडून दितले. केन्ना धाडपाचे ते संजय नायकाक सांगल्यार जाता!'' अशें कल्याणपूरकराक सांगून महेश आनी हेर अधिकारी रुमांतल्यान भायर सरले.

पांच वरांचेर सुमार दारार मारून दार उकतें करून गुणाजी चेअरमॅनाच्या कॅबिनांत आयलो आनी ''आतां तुमी आयल्यार जाता,'' अशें सांगून गेलो.

महेश आनी हेर अधिकारी मिटिंग रुमांत येवन बसतकूच कल्याणपूरकरान कामगारांची भुमिका प्रशासनाक सांगली: कामगारांचें निलंबन संप सोंपता त्या दिसा फाटीं घेतल्यार चलता; पूण तांकां कडक ख्यास्त दिवंचे नात अशें प्रशासनान उतर दिवंचें पडटलें! खाली जागे रद्द करपाच्या विशयांत प्रशासनाची भुमिका कामगारांक साप्प मान्य ना. ते जागे आतांच न्हय, तर केन्नाच रद्द जावंक जायनात अशें कामगारांचें मागणें आसा. एल्.डी.सीं.ची परिक्षा जावन बढती मेळिल्ल्याचीं नांवां प्रशासनान नोटीस बोर्डार मारल्यात तें कामगारांनी पळयलां. एल्.डी.सीं.ची बढती फकत सिनियोरिटीच्या आदाराचेर जावंची अशें अजुनूय युनियनाचें मागणें आसा. ते मागणेचेर तडजोड ना. हातूंतली एक लेगीत मागणी प्रशासनान नाकारली जाल्यार संप चालू उरतलो; ही आपूण सगल्या कामगारांच्या वतीन प्रशासनाक शिटकावणी दितां अशें सांगून कल्याणपूरकर, पीटर डिमेलो आनी तांचे हेर वांगडी भायर सरून गेले. महेशूयबी हेर आधिकाऱ्यां वांगडा आपल्या कॅबिनांत आयलो.

कल्याणपूरकर आनी ताचे वांगडी भायर सरून गेल्ले तेन्ना साडे पांच वरां जाल्लीं. स वरां मेरेन वाट पळोवन तांचे कडल्यान कांयच रेकाद आयलो ना जाल्यार आपापल्या घरा वचपाचें अशें महेशान आनी हेर अधिकाऱ्यांनी थारायलें. अखेरेक कितें मान्य करपाचें आनी कितें करपाचें न्हय हें महेशान आदींच थारायिल्लें. वाटाघाटींच्या निमण्या पावंड्याचेर त्याच दिसा पावूंक जाय अशें प्रशासनाचेर कसलेंच बंधन नाशिल्लें.

रातच्या आठ वरांचेर सुमार गुणाजीन अभ्यंकराक फोन केलो आनी कल्याणपूरकर सायब चेअरमॅनाक आनी हेर अधिकाऱ्यांक मेळुंक सोदतात अशें सांगलें. साडे आठांक सुमार गॅस्ट हावसाच्या हॉलांत मेळूंया म्हणून अभ्यंकरान गुणाजीक फोन करून सांगलें. साडे आठांक पीटर डिमेलो, गुणाजी आनी हेर स जाणांक घेवन कल्याणपूरकर आयलो. महेश, सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी गवंडे आदींच येवन थंय बशिल्ले. साडे धा मेरेन तांचीं उलोवणीं चालू उरलीं. अखेरेक महेशान आनी कल्याणपूरकरान वाट सोदून काडली ती अशी: पांच जाणांचें निलंबन फाटीं घेवपाची ऑर्डर संप सोंपता त्या दिसा प्रशासन तांच्या हातांत दितलें; इंक्वायरी सोंपतकूच त्या पांच कामगारांक चड करून व्हड ख्यास्त जावंची ना, पूण हय-न्हयशी तरी ख्यास्त जातलीच. पूण ही

गजाल प्रशासन आतांच बरोवन दिवंक शकना. हे मागणे विशीं प्रशासनान युनियनाक दिल्ल्या पत्रांत कांयच नमूद केल्लें नासतलें. ''इंक्वायरी सोंपले उपरांत पोर्ट प्रशासन कायद्या प्रमाणें निर्णय घेतलें'' अशीं उतरां आसतलीं.

''यू.डी.सीं.चे खाली जागे प्रशासन कांय काळ रद्द करचे नात'' अशीं उतरां प्रशासनाच्या पत्रांत आसतलीं. ''केन्नाच रद्द करचे नात'' अशें प्रशासन म्हणूंक शकना कारण भारत सरकारान प्रशासनाक जागे रद्द करपाची मेकळीक दिल्ली आसतना खंयचेंच पोर्ट प्रशासन ती मेकळीक ना अशें म्हणूंक शकचें ना.

''यू.डी.सीं.चे जागे भरपाचे आसतकूच कामाची तांक तपासपाक प्रशासन एल्.डी.सीं.च्यो परिक्षा घेतलें, आनी कायद्यान घालून दिल्ल्या प्रमाणें खाली जागे भरतलें,'' अशीं उतरां प्रशासनाच्या पत्रांत आसतलीं.

प्रशासनान युनियनाक दिवपाच्या पत्राचो मसुदो अभ्यंकरान थंयच बरोवन तयार केलो, सगल्यांक वाचून दाखयलो आनी महेशान आनी कल्याणपूरकरान दोगांयनीय त्या मसुद्याचेर सय केली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आठ वरांचेर युनियनाचे कामगार कामार येतले अशें थारलें. ताच्या आदीं अभ्यंकराचे सयेचें पत्र युनियनाक मेळटलें अशें थारलें आनी रातीच्या इकरा वरांचेर मिटिंग सोंपली. मिटिंग सोंपता आसतना महेशान कल्याणपूरकराक आनी पीटर डिमेलोक हात दिलो आनी ''गुड नायट, ऑल द बॅस्ट'' अशें एकामेकांक म्हणून सगले भायर सरले. दुसऱ्या दिसा सकाळीं शंबरेक कामगारांक एकठांय करून पीटर डिमेलोन पांच मिनटांचें भाशण केलें, युनियन कशें जिखलें तें सांगलें, सगल्यांनी ताळयो मारून संप सोंपिल्ल्याची खोस उकतायली आनी फुगेट्यांच्या गडगडाटांत काम सुरू जालें. कडक भोसलेच्या युनियनाक अभ्यंकरान आदींच म्हायती दिल्ली. तांचेय वांगडी कामाक आयले.



## भाग 24

**संपाचो** विशय सोंपतकूच गौरीशाच्या लग्नाची तयारी करुंया अशें महेशान म्हणिल्लें; म्हणटकूच विशय कसो सुरू करपाचो हें मीरान महेशाक विचारलें. वर्स सोंपपाक आयिल्लें आनी आनीक चार-पांच म्हयन्यांनी गौरीश पदव्युत्तर शिक्षण सोंपोवन एका म्हयन्याची सुटी घेवन येवपाचो आशिल्लो. इतले बेगीन गौरीशाक लग्न जावपाचें आसा काय ना तें कळ्ळे बगर बेठ्योच हालचाली सुरू करपांत अर्थ ना अशें महेशाचें मत आशिल्लें. तो येतकूच ताचे कडेन विचारून मागीर कितें करपाचें तें थारावं येता अशें महेशान मीराक सांगलें.

नवें वर्स लागतकूच संक्रांतीचो बोवाळ सुरू जालो. शिरधनच्या रघुनाथ पैच्या सुनेन फाटल्या वर्सा भशेन मीराक फोन करून हळडीकुकमाक येवपाचें आमंत्रण दिलें. कुळारच्या गांवचे चार लोक मेळटले आनी ताईबायकूय बी मेळपाक मेळटलें अशें येवजून मीरा मुद्दाम हळडीकुकमाक गेलें. वतना ताणें ताईबायचें आवडीचें येण्णै कत्रीकाय हें ल्हान वायंग्यांचें गोडशें-तिखशें तमिळ आनी गुजराती पद्दतीचें तोंडाक करून व्हेलें. ल्हानपणची मैत्रीण शीलाय बी थंय मेळ्ळें. खूबशीं वळखीचीं बायलांय बी मेळ्ळीं आनी वेळ कसो गेलो तें कळ्ळेंच ना. शीला म्हऱ्यांत बसून खबरो मारतना गोरेंपिट्ट एक सोबीत, सुटसुटीत, हांसतमूख चली भुरगें थंय हळडीकुकमाक आयिल्ल्या बायलांचेर अत्तर फांफडून तांकां फुलां आनी तिळगुळ वांट्टालें. तें चली भुरगें कोण काय म्हूण मीरान शीलाक विचारलें. तें आपलें चली इशा अशें ताणें सांगलें. मागीर उलयतां उलयतां ताणें बी.ए. सोंपयल्या आनी ताका एकविसावें वर्स चल्लां ही सगली म्हायती शीलान दिली. शीलान गौरीशाची खबरूय बी घेतली,

शिक्षण केन्ना पुराय जातलें, थंयच रावतलो काय परत येतलो हे चालंत प्रस्न शीलान विचारले. आदल्या हळडीकुकमाक थंयच मेळिल्ले कडेन शीलान आपल्याक असलेच कसलेय तरी प्रस्न विचारिल्ल्याची मीराक याद जाताली. गौरीश मार्च-एप्रीलांत येवपाचो आसा मागीर ताच्या फुडल्या बेता विशीं कळटलें पूण हालींच्या हेर भुरग्यां भशेन तोवूय बी थंयच रावतलो काय दिसता असो आपलो अदमास मीरान सांगलो. ताका वर्सां कितलीं काय म्हूण शीलान विचारतकूच येता त्या ऑगस्टांत ताका पंचविसावें वर्स लागतलें अशें मिरान सांगलें. मागीर आनीक एका म्हयन्यान सुमार शीलान मिराक फोन केलो आनी हेर चालंत गजाली जातकूच, ‘‘तुमी गौरीशाचें लग्न बी करपाचें येवजितात जाल्यार म्हजें इशाय आसा हें लक्षांत दवर’’ अशें ताणें सांगलें. मीराक तें इशा आवडिल्लें. पूण गौरीश येवचे पयलीं बेठेंच शिता फुडें मीठ खावप समा न्हय म्हणून तें वग्गी राविल्लें.

गौरीश येतकूच तो परतून वचचे पयलीं ताचें लग्न करपाचें थारल्यार मागीर तयारी करपाक वेळ मेळचो ना देखून आतांच्यानूच इल्ली इल्ली तयारी करून दवरल्यार बरी अशें मीराक दिसूंक लागलें. फुडले तीन-चार दीस मुरगांव आनी वास्कोच्या बाजारांत महेशाली बापोलभयण दुर्गा वांगडा साडयांच्या दुकानांक भेट दिवन कसल्यो कसल्यो सिल्क साडयो मेळटात ताची मीरान खबर काडली. दुर्गा कामत मुरगांवांतूच रावतालें.

लग्नाक कसली कसली तयारी पयलींच करून दवरची पडटा तें लिस्टूय बी तागेर वचून ताकाच विचारून मिरान तयार केलें.

***

संपाचो दीस-रात बोवाळ चलतना गुणाजीक इरमांव बारांत येवन बाप्तीस्ता वांगडा बसपाक सामको वेळ मेळनाशिल्लो. संप सोंपून काम सुरू जातकूच आतां वातावरणांतलो तणावूय बी सोंपिल्लो. आयज बाप्तीस्त, गुणाजी आनी संभाजी खबरांचें ‘आदान-प्रदान’ करताले.

चेअरमॅनान बोगमाळो पठाराचेर घर बांदूंक सुरवात केल्या. त्या हॉटेल कोबेचो जनरल मेनॅजर राजीव पुश्कर आनी चेअरमॅन शेजरा-शेजरा घर

बांदतात आनी पुश्कर हीं घरां बांदून घेता, अशी म्हायती संभाजीन दिली.

"अधिकाऱ्यांचो चडसो काळो पयसो बायलांक भांगरां-शिंगरां घेवंक वा व्हड व्हड घरां बांदपाक उपकरा पडटा. इतलो तेंप आमी जाळ घालून बशिल्ले, तरी आसतना चेअरमॅन जाळ्यांत सांपडलो ना. घर बांदपाक सुरवात केल्या म्हणटकूच आतां तो जाळ्यांत घुसपुंकूच जाय. ताचेर बारीक नदर दवरल्यार खंयच्या खंयच्यान सामान येता तें कळटलें. हे त्या मैदानाचेर पोर्टाचें नवें ऑफिस येवपाचें आसा. व्हडलो धा कोटींचो प्रोजेक्ट! बुन्याद मारूंक सुरवात जाल्या. आर्किटेक्ट पुण्याचो आनी कॉन्ट्रॅक्टर कलकत्याचो. चेअरमॅनाचें घर चड करून तेच फुकट बांदून दितले काय दिसता. धा कोटींच्या प्रोजेक्टांत वीस-तीस लाखांचें घर बांदून दिवप म्हणल्यार कांय न्हय," गुणाजीन म्हायती दिली. पूत अमेरिकेच्यान शिक्षण सोंपोवन सुटयेर येवपाचो आसा. ताच्या लग्नाची तयारी चलल्या काय दिसता. मॅडम आनी चेअरमॅनाची बापोल भयण फाटल्या दिसांनीं मुरगांव-वास्को वाठारांतल्या सिल्क साडयांच्या दुकानांक भेट दिवंक गेल्लीं अशें ड्रायवर सोमू सांगतालो अशी खबर संभाजीन दिली. धा कोटींची नवी बिल्डींग, वीस-तीस लाखांचो बंगलो आनी कांय लाख खर्चून जावपी पुताचें लग्न ह्या घडणुकां मदीं चेअरमॅनाच्या काळ्या पयशांचो खूबसो वेवहार आसतलोच. ह्या घडणुकांचेर बारीक नदर दवरून हे फावटीं ताका घुसपावंकूच जाय अशें सगल्यांचें मत जालें. ह्या घडणुकांचेर नदर दवरुपाचें काम तांणी आपसांत भितर वांटून घेवपाचें थारायलें. चेअरमॅनाच्या प्रायवेट गाडयेचो ड्रायवर सोमू संभाजीचो इश्ट, देखून मॅडम खंय खंय कोणा कोणाक मेळूंक वता, कोण कोण बंगल्यार येतात, मॅडम खंय आनी कसलें सामान विकतें घेता, बिलां कोण चॅकान वा कॅशान फारीक करतात ही म्हायती संभाजीन एकठांय करची अशें थारलें. धा कोटींची बिल्डिंग सिविल इंजिनियरिंग खात्यांतलो आग्नेलो हाताळटालो. बाप्तीस्त ताका बरो वळखतालो. देखून त्या बिल्डिंग कॉन्ट्रॅक्टराच्या वेव्हाराचेर बाप्तीस्तान नदर दवरची अशें थारलें. गुणाजीचे कांय वांगडी बोगमाळो वाठारांत रावताले. चेअरमॅनाचो बंगलो बांदूंक खंयच्या खंयच्यान सामान येता हाचेर नदर दवरात अशें तांकां सांगूं येता आनी गुणाजीन तांकां कामाक लावन ही म्हायती एकठांय करूंक जाता अशेंय बी थारलें. म्हायती मेळोवपा खातीर कोणाच्याय हाताक कितेंय

लावपाचें जाल्यार रामकृष्ण बाब मजत करतलो अशेंय बी संभाजीन सांगलें.

चेअरमॅनाचें घर बांदूक सुरवात जाल्या आनी खूबशे हिन्दी उलोवपी कामगार दीस-रात काम करतना दिश्टी पडटात. बुन्याद बी घालून जाल्या अशें गुणाजीचो एकलो वांगडी सेबास्त्यांव सांगतालो. कॉन्ट्रॅक्टर कोण काय म्हूण विचारल्यार कोणाकूच खबर ना. ते सगले वेगळेच तरेची हिन्दी उलयतात ती सारकी समजना अशें सेबास्त्यांव सांगतालो. "हांव त्या वाठारांत कांय दिसां फाटीं एका वांगड्याचे खबरेक गेल्लों आसतना त्या घरा कडल्यान हांवें पासय मारिल्ली. थंय एक लांबरूद मनीस तोंडभर पानपराग चघळयत उबो आशिल्लो दिसलो. ह्या घराचो आर्किटेक्ट कोण काय म्हूण विचारल्यार आपुणूच म्हणून ताणें सांगलें. तो हिन्दींतूच उलयतालो. ताणें आपलें नांव गणात्रा म्हूण सांगलें. घराक कॉन्ट्रॅक्टर ना, आपुणूच लेबर लावन कामां करून घेतां अशेंय बी ताणें सांगलें. तूं कोण काय म्हूण तो विचारतालो. हांव हांगचोच अशें सांगून हांवें थंयच्यान कूस मारली," अशी गुणाजीन म्हायती दिली.

चेअरमॅनाक जाळ्यांत घुसपावपा सारकी खास अशी कांयच म्हायती तांचे कडेन नाशिल्ल्यान आनीक दोन दिसां उपरांत मेळून ह्या विशयाचेर उलोवपाचें तांचें थारलें.

दोन दिसां उपरांत ते मेळ्ळे तेन्ना लेगीत तांच्या हाताक कांयच म्हायती लागूं नाशिल्ली. बाप्तीस्तान आग्नेलो कडल्यान खबर काडपाचो यत्न केल्लो. नवे बिल्डिंगेची बुन्याद मारपाचें काम चालू आसा. अजून कॉन्ट्रॅक्टरान पार्ट-बील दिवंक ना. तें दितकूच आनीक खंयचोय ज्युनियर इंजिनियर तें काम जालां काय ना तें तपासून रिपोर्ट करतलो आनी मागीर इंजिनियरिंग खातें तें बील अकावन्टस् खात्यांत धाडटलें. तांचे पद्दतीन त्या बिलाची तपासणी करून ते कॉन्ट्रॅक्टराक फारीक करतले. बील केदेंय आसूं, तें डॅप्यूटी चेअरमॅन वा चेअरमॅन हांचे कडेन धाडपाची प्रथा ना. कितलें काम जालां तें चेअरमॅन येवन केन्नाय पळयता. ताचे वांगडा चीफ इंजिनियर आसता. पूण बिला विशीं चेअरमॅनाक कांयच खबर नासता आनी तो केन्नाच खबर घेवपाचो प्रयत्नूय बी करिना, अशें आग्नेलोन बाप्तीस्ताक सांगलें. संभाजी आनी गुणाजी कडेन फाटल्या दोन दिसांत कांयच नवी म्हायती येवंक नाशिल्ली. म्हणटकूच दर दिसा सांजेचे मेळटा तेन्ना कितेंय उपकरा पड सारकी नविदाद आसल्यार

फुडलो बेत आंखूं येता अशें तांणी थारायलें.

***

महेशाक धांवडावपाच्या वा ताचें नांव पेड्डेर करपाच्या रामकृष्णाच्या खंयच्याच कारस्थानाक येस आयलें ना. उरफाटें, बाप्पाय ना, आनी पुडवेंय ना म्हणटात तशें ताणें दिल्ले पांच लाखूय बी नाच्च जाले. क्लिफटन गुंडाक दिल्ले धा हजार रुपयाय बी संभाजीन ताचेच कडल्यान घेतले. महेशाक मार घालपा वाट्याचो संभाजीकूच आतां पेट घालचो अशें रामकृष्णाक दिसूंक लागलें. वरान वरां एकटोच बसून तो आपणाचीच काकूळट करपाक लागलो. त्या दिसा असोच सकाळचो व्हॉल्तेराचेर पांयांर पांय घालून बशिल्लो आसतना संभाजीचो फोन आयलो; महेशान बंगलो बांदूंक सुरवात केल्या. बुन्याद खणून जाल्या. शिमीट, वारांव, माती, रेंव हें सगलें येवंक लागलां अशें संभाजीन रामकृष्णाक सांगलें. संभाजीन दिल्ले हे म्हायतीचो उपेग कितें अशें विचारतकूच म्हाल खंयच्यान येता आनी म्हालाचें बील कोण आनी कशें फारीक करता तें सोदून काडल्यार महेशाची चोरी उगड्यार येवंक शकता अशें संभाजीन सांगलें. हें सगलें सोदून काडपाचें गुप्त काम कोण करतलो काय म्हूण विचारल्यार असलें काम करपी कंपन्यो मुरगांवांत आसात आनी त्यो मीन कंपन्यां खातीर असलें काम करीत आसतात. असले एके कंपनीचो मालक आपले वळखीचो; तो आपणें सुचयिल्लें गुप्त काम करूंक शकतलो अशें संभाजीन सांगलें. त्या मालकाक दुसऱ्या दिसा सकाळचो इकरा वरांचेर आपल्या म्हऱ्यांत घेवन यो अशें रामकृष्णान संभाजीक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सारको इकरा वरांचेर संभाजी शेखर सिंगाक घेवन रामकृष्णा म्हऱ्यांत आयलो. संभाजीन ताका काम समजावन सांगिल्लें म्हणटकूच रामकृष्णाक चड उलोवचें पडलें ना. शेखर सिंगाची कंपनी मुरगांवांत फाटलीं वीस वर्सां डिटेक्टिवाचें काम करीत आयिल्ली. ताच्या हाता सकयल बारा डिटेक्टीव काम करताले. ते सगले निवृत्त मिलिटरी वा पोलीस अधिकारी आशिल्ले. हें काम करपाक आपूण म्हयन्याक तीस हजार रुपया घेतलों आनी दर म्हयन्याक कितें कितें जालां ताचो रिपोर्ट दितलों अशें ताणें सांगलें. शेखर सिंगाच्या कंपनीन स म्हयने काम करचें आनी मागीर रामकृष्णान कामाचो

नियाळ घेवन फुडलो बेत थारावचो अशें संभाजीन सुचयलें आनी रामकृष्णान तें मानून घेतलें. म्हयन्याक तीस हजार रुपया रामकृष्ण कॅशान सरळ शेखर सिंगाच्या हातांत दितलो अशेंय बी थारलें.

दोनापावल पठारावेलें भाट सर्वानंदाक विकपाचो बेत फिसकटिल्ल्यांत जमा अशें रामकृष्ण आनी विष्णूक दिसूंक लागलें. महेशाक बुद्द शिकोवपाच्या निमतान तें भाट तरी लाटून उडोवंक मेळटलें आशिल्लें तेंवूय बी ना जालें. सर्वानंदान आतां भाटाचो विशयूच काडपाचो बंद केल्लो. हो भाटाचो विशय जरी सर्वानंदान कोयराचे राशींत उडयिल्लो आसलो तरीय आनीक कसलेय डाव-पेंच खेळून महेशाक धांवडावपाक मेळटा काय कितें हें सर्वानंद दीस-रात येवजीत आसतालो. कंसाक खंय चोविसूय वरां कृष्णूच दिसतालो तसोच सर्वानंदाक महेश दिसूंक लागलो. जॉन हायफर पोर्ट खात्याचो मंत्री म्हूण येतकूच सर्वानानंदाच्या मनांत मिनटा कणकणीं खोशेचो ओतो येतालो. पूण आतां नवो मंत्री ईश्वरप्पा येतकूच सर्वानंद सामकोच निर्शेलो. ताका ईश्वरप्पाच्या नांवाची लेगीत बेठीच तिडक मारूंक लागिल्ली आनी तो ताका'बाप्पा' म्हणूंक लागिल्लो. दिल्लीक वचून एक फावट 'बाप्पाक' मेळून महेशाच्या आड कितेंय नवें कारस्थान रचूं येता काय कितें हें पळोवपाचें सर्वानंदान थारायलें. आनीक दोन दिसांनीं सर्वानंद दिल्ली गेलो. वांगडा फाटले फावटीं भशेन मिनिस्टराक ताणें पत्र बरोवन, महेशाक मुरगांव पोर्टांतल्यान हालोवचो म्हूण मागणी केली.

गोंयचे कांय पावरफूल राजकारणी आनी थोडे व्हड उद्देगपती गोंयांत आसतना ताठ मानेन भोंवतात, पूण दिल्लीक खंयच्याय मंत्रालयांत पावतकूच जपानी लोकां भशेन चाळीस डिग्री फाट आनी मान बागोवन साद्या कारकुनांक लेगीत शेक हॅन्ड दितात. सर्वानंदाचो सबाव अहंकारान उपाट भरिल्ल्यान ताची फाट चाळीस डिग्री बागव नाशिल्ली, पूण पंचेचाळीस डिग्रीचेर तो तडजोड करतालो. सदां भशेन धिल्लन ताका घेवन मिनिस्टराच्या पीए म्हऱ्यांत गेलो. नारायणा नवो आशिल्ल्यान, आपूण अमको अमको मिनिस्टरा कडेन अपॉयंटमेंट घेतिल्ल्या प्रमाणें आपूण ताका मेळूंक आयलां अशें नारायणाक सांगून तो ताच्या मुखार बसलो. मिनिस्टरा म्हऱ्यांत नवो सेक्रेटरी शौमेंद्र दत्ता बशिल्लो आसा म्हणटकूच सर्वानंदाक मात्सो रावचो पडटलो अशें नारायणान

सांगलें आनी तो सर्वानंदा कडेन गोंयां विशीं खबरो करूंक लागलो. सर्वानंदान आपणाले ब्रिफकेसींतली गिव्हांशी परफ्यूमाची बाटली काडून ''ही तुजे खातीर'' अशें म्हणून ती नारायणाक दिवपाक केली.

''थँक्यू, सर्वानंदजी, पयली गजाल म्हणल्यार हांव परफ्यूम वापरिना आनी दुसरी गजाल म्हणल्यार हांव कोणाच कडल्यान भेटवस्त घेना,'' नारायणान सर्वानंदाक बरे भशेन सांगलें.

''ही बारीकशी वस्त. ही घेतली म्हणून तुजेर कोण भ्रश्टाचाराचो आरोप करचो ना आनी तुका ही इल्लिशी बाटली दिवन हांवूय बी तुजे कडल्यान कांय फेवर मागूंक सोदी ना. आसूं!'' सर्वानंदाचो अहंकार दुखावलो आनी ताणें नारायणाक मात्शीं शापोतां सांगलीं.

आनीक कांय वेळान सर्वानंद मंत्र्याक मेळ्ळो. मंत्र्याक ताणें गिफ्ट पॅकिंगांत आशिल्ली एक रोलॅक्स घड्याळ दिवपाक काडली.

''ही तुमचे खातीर, हांवें जपानच्यान हाडल्या!'' सर्वानंदान ईश्वरप्पाक सांगलें.

''सर्वानंदजी, हांव एक सादो मनीस, कामगार संघाचें फुडारपण करतां करतां राजकारणांत हांव मंत्रालया मेरेन पावलां. हांव कोणाच कडल्यान असल्यो भेटवस्तू घेना. हांवें अशें तुमकां सांगलें म्हणून तुमी रागार जावं नाकात. आयज मेरेनची म्हजी ती संवय. आतां ह्या जाण्टेपणांत हांव म्हज्यो संवयो बदलूंक सोदीना!'' ईश्वरप्पान हांस-हांसत सर्वानंदाक नमस्कार करीत सांगलें आनी ती घड्याळ सर्वानंदाक परतून दिली.

''आतां सांगात, तुमी गोंयच्यान मुद्दाम म्हाका मेळूंक कित्याक आयल्यात?'' ईश्वरप्पान विचारलें. सर्वानंदान मंत्र्याक पत्र दिलें आनी तातूंतलो मजकूर सांगलो. महेशाक पोर्ट चलोवंक कळना; हालीं हालीं पोर्टांत संप जावंक नाशिल्लो. महेश प्रभूच्या फाटल्या तीन वर्सांच्या काळांत एक संप जावपाचो तो मीन कंपन्यांनी फुडें सरून आडायलो. पूण दुसरो संप कोणूच आडावंक शकले नात. हो संप धा दीस चल्लो. तीन दिसां पयलींच तो सोंपला. खेरीज, मुरगांव पोर्टाच्या चेअरमॅनाचेर आयज मेरेन कोणेंच हल्लो करूंक नाशिल्लो. कांय दिसां आदीं ताचेर गुंडांनीं हल्लो केलो आनी स्टाफ कार फोडली. ताचे बायलेचें नशीब बरें म्हणून तो वांचलो. आनीक एक

गजाल! आयज मेरेन चेअरमॅनाच्या बंगल्याचेर इन्कमटॅक्स खात्याची रेड पडूंक नाशिल्ली! कांय दिसां आदीं तिवूय बी पडली! बंगल्यांत महेश प्रभून पांच लाख रुपया लिपोवन दवरल्यात अशी इन्कमटॅक्साक खबर मेळिल्ली. पूण तांची रेड पडचे पयलींच ताणें ते पयशे खंयूंयतरी हालयले काय दिसता, कारण तांकां थंय कांयच मेळ्ळें ना, हात हालयत परतून वचचें पडलें! ह्या चेअरमॅनाक लोकां कडेन साप्प वागूंक कळना. कामगारां कडेन झगडत आसता. कामगारांक लागून पोर्ट चलता. संप जाल्यार चेअरमॅनाचो पगार बंद जायना, कामगारांचो जाता! कामगारांच्या कुटुंबांक त्रास जातात. ज्या चेअरमॅनाक कामगारां कडेन वागूंक कळना, तांच्या हातांत हात घालून प्रशासन चलोवंक कळना ताका त्या पदाचेर रावपाचो अधिकारूच ना. असल्या चेअरमॅनाक सरकारान रोखड्या रोखडो थंयच्यान हालोवंक जाय! मंत्री कामगार संघांतल्यान वयर सरिल्लो फुडारी म्हूण कळटकूच सर्वानंदान आपणें तयार केल्लें तें भाशण मात्शें बदलून आपुणूय कामगारांचें बरें मागपी अशें दाखोवन आपणालें भाशण सोंपयलें.

सर्वानंदान दिल्ल्या पत्राचेर मंत्र्यान नदर भोंवडायली आनी आपूण आपणाल्या अधिकाऱ्यां वांगडा चर्चा करून कसली कारवाय करपाची तें थारायतां अशें सांगून तो उठलो आनी ताणें सर्वानंदाक हात दिलो आनी सर्वानंदान आतां वचचें अशें सुचयलें.

''थँक्यू सर,'' अशें म्हणून सर्वानंद थंयच्यान भायर सरलो. भायर सरचे पयलीं रोलॅक्स घड्याळ परतून ब्रिफकेसींत घालपाक तो विसरलो ना. हे सगले मंत्री आनी अधिकारी लोकांक लुटपाक बसल्यात, पूण आपूण व्हडले साव अशे दाखयतात अशें येवजीत येवजीत तोंडा वेलें कुत्स्छित्री हांशें लिपय नासतना सर्वानंद थंयच्यान भायर आयलो आनी नारायणाक थँक्यू म्हणून धिल्लना वांगडा लिफ्टा कडेन वचूंक लागलो.

''गुड आफ्टरनून मिस्टर सांवर्डेकार,'' अशें म्हणून एका मल्ल्याळमा भशेन इंग्लिश उलोवपी मनशान ताका हटकिलो.

''गुड आफ्टरनून, तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें?'' सर्वानंदान विचारलें.

''म्हजें नांव पोथन कुरियन. हांव कोची पोर्टाचो डॅप्यूटी चेअरमॅन आशिल्लों. आतां पोर्ट मंत्रालयांत हांव डॅप्यूटी सेक्रेटरी जावन आयलां. हांव

सिनियर पी.ए. म्हऱ्यांत आयिल्लों आसतना तुमी गोंयच्यान मंत्र्याक मेळूंक आयल्यात म्हणून ताणें म्हाका सांगलें. तुमकां वेळ आसल्यार म्हज्या कॅबिनांत या, एक च्या घेवंया!'' कूरियनान सर्वानंदाक हांसत आमंत्रण दिलें.

''ओके, थोडो वेळ तुज्या म्हऱ्यांत बसतां!'' हो आपल्याक उपकरा पडुंये अशें येवजून सर्वानंद ताच्या वांगडा ताच्या कॅबिनांत गेलो.

आपूण मंत्र्याक कित्याक मेळूंक आयिल्लों तें च्या घेता आसतना सर्वानंदान कुरियनाक सांगलें.

''म्हाकाय तुमचो तो चेअरमॅन साप्प आवडना. हांव मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवपाचों आशिल्लों. ते खातीर खंय खंय कसली कसली वेवस्था करूंक जाय ती ती सगल्या पावंड्यांचेर हांवें करून दवरिल्ली. हायफराक लेगीत आमच्या केरळच्या एका सिनियर मंत्र्यान सांगून दवरिल्लें आनी ताणें ओके म्हणिल्लें. हायफराक जाय ती वेवस्था आपणें केल्या अशें आमच्या केरळच्या मंत्र्यान म्हाका सांगिल्लें पूण हायफर पोर्ट मंत्रालयांत येवचे पयलींच ह्या महेश प्रभूची थंय पोस्टींग जाली. म्हाका तोच न्हय, खंयचेच आय्.ए.एस्. ऑफिसर आवडनात. कोचीचो चेअरमॅनूय बी एक आय्.ए.एस्. ऑफिसर. म्हाका ताणें खूब्ब त्रास दिल्यात. म्हजो सी.आर्. ताणें इबाडून उडयलो. कोर्टांत वचून म्हाका तो सारको करून घेवंचो पडलो. पूण ती सगली काणी आसूं. ती सांगून तुमकां हांव बोर करिना. महेश प्रभूक थंयच्यान हालोवंक हांव तुमकां म्हज्यान जाता ती मजत करतां.'' आनीक कांय वेळ महेश प्रभूच्यो चाडयो करून सर्वानंद थंयच्यान भायर सरलो. ताच्या तोंडार उमेद दिसताली आनी मनांत परतून खोश्शेचे ओते येवंक लागिल्ले.

***

संप सोंपून काम सुरू जाल्लें त्या दिसा सारको णव वरांचेर ऑफिसांत पावतकूच महेशान सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकराक आपोवन आदल्या रातीं कल्याणपूरकर आनी हेरां कडेन जाल्ले कबलातीचो नियाळ घेतलो. सगले कामगार आठ वरांचे शिफ्टीक सावन कामाक आयिल्ले. पूण बोटी अजून येवंक लागूं नाशिल्ल्यो. कामगारां कडेन उलोवणीं सुरू जातकूच संप काबार जावपाचीं चिन्नां दिसूंक लागिल्लीं आनी शिपिंग एजंटांनी धडाधड शिपिंग

कंपन्यांच्या ऑफिसांक फॅक्स आनी तेलेग्राम मारून दोन दिसां भितर पोर्ट सुरू जातलो अशें कळयिल्लें. चॅनला भायर येवन राविल्ल्यो दोन पॅनामॅक्स बोटी त्या दिसा सांजे मेरेन एका फाटोफाट एक धक्याक लागपाच्यो आशिल्ल्यो.

''युनियनां कडेन सामकी आमकां जाय तशी कबलात करूंक मेळ्ळी, आमचें मूळ उद्दिश्ट आमी साद्य करून घेतलें; तांकां हेर मुद्यांनी घुसपावन आमचें काम आमी सादून घेतलें!'' सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकरान हांस हांसत आपणालीं मतां आनी खोस उकतायली.

''आमी तांकां हेर मुद्यांनी घुसपायले हें तांकां समजूंक ना अशें तुमकां दिसता?'' महेशान विचारलें.

''ना सर, तांकां समजलां जातलें! पूण तांकां आनीक वाट नाशिल्ली. कामगारांचें तांचे वेलें चेपण वाडत आशिल्लें!'' सूर्यनारायणनान महेशाक सांगलें.

आनी थोडो वेळ कल्याणपूरकर आनी पीटर डिमेलोच्यो गजाली करून, सूर्यनारायणन आनी अभ्यंकर भायर सरले. ते वचना फुडें संजय नायकान फोन करून पणजेच्यान रामदास शर्मा आनी दिल्लीच्यान जॉयंट सेक्रेटरी मिश्राचो फोन आयिल्लो म्हूण सांगलें.

महेशान पयलीं रामदास शर्माक आनी मागीर मिश्राक फोन लावन दी अशें सांगलें. रामदास शर्मा कडेन महेश धा मिनटां सुमार उलयलो. आनीक पांच दिसांनी सांजचे पांच वरांच्या फ्लायटीचेर आपूण सगलें सामान बी घेवन दिल्ली वतां अशें ताणें महेशाक सांगलें. त्या दिसा सकाळच्या आदेसाक पोर्टाचो ड्रायवर पणजे वचून महेशाच्या प्रायवेट गाडयेनूच रामदास शर्माक चेअरमॅनाच्या बंगल्यार हाडटलो. मागीर महेश, मीरा आनी शर्मा वांगडाच जेवतलीं आनी साडेतीनांक सुमार महेशाचो ड्रायवर आनी गिरीश गांवस आनी ताचे स्टाफ शर्माक विमानतळार पावयतले असो प्रोग्राम थारलो. रामदास शर्मा कडक शिवराक आशिल्ल्यान गॅस्ट हावसाचें जेवण नाका, आपुणूच रांदतां अशें मिरान थारायलें.

जॉयंट सेक्रेटरी मिश्राचो फोन आयलो तो दोन खबरो सांगपाक! पयली खबर म्हणल्यार आनीक तीन दिसांनीं सगल्या चेअरमॅनांची पोर्ट मंत्रालयाच्या सेक्रेटरी कडेन मिटिंग जातली. पोर्टांची उदरगत हो विशय आसतलो. मिटिंग

सांजेची तीन वरांचेर! दुसरी खबर म्हणल्यार मिश्राचो केंद्र सरकारांतलो पांच वर्सांचो काळ पुराय जावन तो मध्यप्रदेशाक परतून वतलो. ते मिटिंगेच्या निमतान इंडियन पोर्ट असोसिएशनान सगल्या चेअरमॅनांच्या वतीन मिश्राक निरोपाचें जेवण दिवपाचें थारायलां.

मिश्रा कडेन उलोवन जाता म्हणसर दिल्लीच्यान नारायणाचो फोन आयलो. सर्वानंद सांवर्डेकारान मंत्र्याक एक व्हड पत्र दिवन महेश प्रभूच्या आड कागाळी केल्यात, देखून महेश प्रभूक त्या पत्राचेर कितें म्हणूंक जाय तें विचारून घे अशें मंत्र्यान नारायणाक सांगिल्लें.

''हो एक्स्पोर्टर तुमच्या फाटल्यान हात धुवन कित्याक लागला सर?'' नारायणान विचारलें.

''तांच्या मना सारकें जायना जातकूच तांच्या पैकीं चडशे जाण हात धुवन आमच्या सारक्यांच्या फाटल्यान लागतात! तांचीं कामां केल्यार ते आमचीं स्तोत्रां गायतात. सर्वानंद सांवर्डेकाराचे एके सामके पोरणे बोटीक आमी पोर्टांत येवंक परवानगी दिली ना. त्या पयलीं कोची आनी मंगळूर पोर्टांनी लेगीत तिका भितर घेवंक नाशिल्ली. आनीक एक इल्लीशी गजाल: तो म्हाका मेळूंक सोदतालो. आपल्याक दुसऱ्या दिसा जपानाक वचूंक जाय, आतांच अपॉयंटमेंट दी अशें म्हणून तो म्हज्या पी.ए.च्या फाटल्यान लागिल्लो. तूं जपानच्यान परतून येतकूच मेळुंया अशें हांवें ताका सांगून धाडिल्लें. चडश्या गिरेस्त लोकांचो अहंकारूय बी व्हड आसता. भायलें जग सगलें आपणाले नोकर कशें तांकां दिसता. सर्वानंद सावर्डेकाराचें पत्र येतकूच हांव तुका ताची जाप धाडटां!'' महेशान नारायणाक सांगलें.

तीन दिसां उपरांत महेश दिल्ली गेलो. शौमेंद्र दत्तान पोर्ट सेक्रेटरीच्या पदाचो एका वर्सां पयलीं ताबो घेतकूच महेश ताका तीन-चार फावटीं मेळिल्लो. ताचे कान मात्शे पोकळ आसूंक जाय असो महेशाक संशय आयिल्लो. हेर कांय चेअरमॅनांचेंय बी तशेंच मत आशिल्लें. खंयच्याय चेअरमॅना आड कोणेंय कागाळ केल्यार ताका रोखडोच त्या चेअरमॅना विशीं संशय येतालो आनी जायते फावटीं चेअरमॅनांच्या मिटिंगांनी ''जंय धुंवर आसता, थंय चड करून उजो आसता,'' अशें तो परतू परतून म्हणटालो. भारताच्या इकराय चेअरमॅनांचो संशय घेत रावल्यार ताची तकली सदांच सामकी धुंवरान पॅक

आसतली असो जोक एका चेअरमॅनान केल्लो. गोंयचे चडशे मायन ओनर मुरगांव पोर्टाच्या चेअरमॅना आड इतल्यो कागाळी कित्याक करतात अशें म्हणून फाटल्या फावटीं महेशा कडेन तो संशयान पळयतालो. आपल्या आड फकत सर्वानंद सांवर्डेकारानूच कागाळ केल्या, आनीक कोण्णें करूंक ना अशें म्हणून आनी कागाळेचीं कारणां दिवन महेशान शौमेंद्र दत्ताक पत्र बरयिल्लें.

आपल्या पोर्टांत उदरगतीचीं कसलीं कसलीं कामां चल्ल्यांत आनी फुडाराक कसलीं हातांत घेवपाचीं आसात हाचेर प्रत्येक चेअरमॅनान धा मिनटां भितर म्हायती दिली. मिटिंगेंत जॉयंट सेक्रेटरी मिश्राच्या म्हऱ्यांत पोथन कुरियनाक बशिल्लो पळोवन महेशाक अजाप जालें. महेश ताका कोचीचो डॅप्यूटी चेअरमॅन म्हणून वळखतालो आनी मुरगांव पोर्टाच्या चेअरमॅनाच्या पदार येवपा खातीर मंत्रालयांत सगल्यांच्या ऑफिसांनी तो धरणें धरून बसतालो हें महेशाक मिश्रान सांगिल्लें. मिटिंग जावन च्या घेता आसतना तो येवन महेशाक मेळ्ळो आनी आपणें मंत्रालयांत दोन आठवड्यां पयलीं डॅप्यूटी सेक्रेटरी पदाचो ताबो घेतला अशें ताणें सांगलें.

ते रातीचो जेवणाक गेल्ले कडेन नारायणान महेशाक कुरियनाची सगली गजाल सांगली. ईश्वरप्पा पोर्टाचो मंत्री जातकूच ताची धूव, जावंय आनी दोन नाती हैदराबादच्यान वचून बेंगळूर-म्हैसूर वाठारांत भोंवडी करपाक सोदतालीं. बेंगळूर एअरपोर्टार तांकां मेळून तांचे भोंवडेक तांकां जाय ती मजत कर, तांची बिलां तींच फारीक करतलीं अशें म्हूण ओ.यस्.डी. रामय्यान मंगळूर पोर्टाच्या चेअरमॅनाक सांगिल्लें. मंगळूर पोर्टाच्या चेअरमॅनान तांकां मजत करपाचें काम पी.आर.ओ.चेर सोंपयिल्लें. कूरियन आपुणूय बी पी.आर.ओ. वांगडा बेंगळूर एअरपोर्टार गेलो. मंत्र्याचे धुवेक आनी जावंयाक आपणाली वळख करून दिली आनी फुडले पांच-स दीस आपूण तांच्या वांगडा रावलो. मिनिस्टराच्या आदेशा प्रमाणें सगले कडेन तांचो राबितो सरकारी गॅस्ट हांवसांनी केल्लो. भोवंडेर वचूंक सवूय दीस कुरियनान तांचे खातीर ए.सी.ओपेल गाडी दवरिल्ली. बेंगळूर, म्हैसूर, वृंदावन, श्रीरंगपट्टीणम्, श्रावण बेळगोळा बी दाखोवन पांच दिसांचो टूर सोंपतकूच कुरियनान तांकां बेंगळूर विमानतळार हाडून सोडलीं. बील कितलें जालें काय म्हूण तांणी विचारलें तेन्ना बील मागीर धाडून दितां अशें कुरयनान तांकां सांगलें. कुरियनान दीस-

रात तांचे वांगडा रावून तांची बरी सेवा केली. ईश्वरप्पाचे धुवेन कुरियनाक भरपूर थँक्यू थँक्यू म्हणून आपूण आपणाल्या अप्पाक ताचे विशीं सांगतलें अशें म्हणना फुडें आपणाक मंत्रालयांत पोस्टींग दी म्हूण सांग अशें कुरियनान तिका सांगलें. उपरांत तिणें आनी तिचे आवयन ईश्वरप्पाचे फाटीक लागून मंत्रालयांत कुरियनाची पोस्टिंग करून घेतली. ताका जॉयंट सेक्रेटरी पदाचेर हाडचो अशी ईश्वरप्पाचे धुवेची इत्सा आशिल्ली पूण तें शक्य ना अशें पर्सोनेल खात्यान सांगलें. कुरियनाक डॅप्यूटी सेक्रेटरी म्हूण हाडपाक लेगीत पर्सोनेल खात्यान विरोध केल्लो कारण तसली पोस्टिंग नेमांत बसनाशिल्ली. पोर्टांतल्या ऑफिसरांक दिल्ली मंत्रालयांत केन्नाच पोस्टिंग दिना आशिल्ले. अखेरेक पर्सोनेल खात्यान मान्यताय दिली. ही सगली म्हायती नारायणान महेशाक दिली. कुरियनाचें नांव बरें ना, देखून ताका म्हत्वाचो विशय दिवंक जायना आनी ताचेर चड अवलंबून रावूंक जायना अशें जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रान शौमेंद्र दत्ताक सुचयिल्लें.

पोथन कुरियन मिश्राच्या निरोपाच्या जेवणाक येवंक नाशिल्लो. रामय्या वांगडा आपणाल्या फ्लॅटार तो पिवपाक बशिल्लो आनी महेशाक कसो त्रासांत उडोवचो तें मनांतल्या मनांत येवजितालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळचे फ्लायटीर महेश गोंयांत येवंक भायर सरलो. फ्लायट मुंबय विमानतळार अर्द वर रावून दनपारच्या एकाक सुमार दाबोळे पावली. त्या दिसा सांजेच्या आदेसाक कांय अपॉयंटमेंट नाशिल्ल्यान महेशान फक्त फायली पळोवपाचें काम केलें.

सदां भशेन त्या दिसा सकाळच्या आदेसाचें काम सोंपोवन, सारको एक वराचेर महेश बंगल्यार वचूंक भायर सरलो. सकयल गाडये म्हऱ्यांत पावतां पावतां ताका धा मिटरांच्या अंतराचेर सुमार बोवाळ आयकूंक आयलो: ‘‘ॲम्ब्युलन्स आपयात, जीप आपयात, उदक हाडात रे, उदक मारात, पयलीं उखलून भितर व्हरुंया’’ असो बोवाळ आयकूंक येवंक लागलो. फ्रान्सिस त्या लोकां वांगडा आशिल्लो, तो धांवून आयलो आनी पीटर डिमेलो आपणाल्या कामगारां वांगडा भायर सरतालो तो घुंवळ येवन पडला अशें ताणें महेशाक सांगलें. महेश ते गर्दे म्हऱ्यांत गेलो, आनी कितें जालें काय म्हणून ताणें एकल्याक विचारलें. पिटर डिमेलो घुंवळ येवन पडला आनी सद्या बेशुद्ध आसा

अशें म्हणून ताणें सांगलें. ॲम्ब्युलन्स, गाडी, जीप, कितेंय मेळटा तें हाडात म्हूण सांगपाक फोन करपाक दोग जाण ऑफिसांत गेल्यात. ॲम्ब्युलन्स वा गाडी केन्ना येता ती पळोवया अशें एकल्यान म्हणिना फुडें ताका आपणाल्या स्टाफ कारांत फाटल्या सिटाचेर न्हिदोवन कोणेंय तरी ताचो हात धरून बसचें, आपूण फुडल्या सिटाचेर बसतां अशें महेशान तांकां सांगलें आनी दोन-तीन मिनटां भितर पिटर डिमेलोक आनी ताच्या एका वांगड्याक घेवन, आपूण फुडल्या सिटाचेर बसून महेश यम्.पी.टी. हॉस्पिटलांत गेलो. महेशाक पळयना फुडें एक नर्स आनी अटेण्डेंट धांवत आयलीं आनी मागीर आनीक दोन-तीन अटेण्डंटांक आपोवन, पिटर डिमेलोक व्हील चेअराचेर बसोवन तांणी कॅन्ज्युअल्टींत व्हेलो. दोतोर नलिनी आनी सी.यम्.ओ. जुवारकार अजून जेवणाक घरा वचूंक नाशिल्लीं. तींवूय बी बेगीबेगीन कॅन्ज्युअल्टींत गेलीं. महेश आदींच थंय वचून उबो आशिल्लो. दोतोर नलिनीन पिटर डिमेलोक तपासलो, ताका एक इंजेक्शन दिलें, एक गुळी दिली आनी ताका मायल्ड हार्ट अटॅक आयला अशें म्हूण सांगलें. पंदरा मिनटां भितर ताची बायल आनी पूत थंय पावलीं आनी तांची सम्मती घेवन ताका पणजेच्या गवर्नमेंट सेंट्रल हॉस्पिटलांत व्हरात अशें दोतोर नलिनीन सांगलें. तितल्या म्हणसर कोणेंयतरी ॲम्ब्युलन्सीच्या ड्रायवराक आपयलो आनी एक सिनियर नर्स पीटर डिमेलोक पणजेच्या हॉस्पिटलांत घेवन गेली. अम्ब्युलन्स भायर सरतकूच महेश देडाक सुमार बंगल्यार पावलो.

रामदास शर्मा एकाक सुमार चेअरमॅनाच्या बंगल्यार पाविल्लो. तो येना फुडें श्यामान फोन करून संजय नायकाक कळयलें. महेश येवचे पयलीं मीरान शर्मा म्हऱ्यांत बसून ताच्या घरच्यांची खबर घेतिल्ली. शर्माची फ्लायट पांचांक सुमार आशिल्ली, म्हणटकूच जेवन तिनांक विमानतळार वचूंक भायर सरचें पडटलें हें मीराक खबर आशिल्ल्यान दोनांक जेवपाक बसपाचें अशें मीरान थारायलें. महेशाक येवंक मात्सो वेळ जातलो कारण एका युनियन लीडराक तो हॉस्पिटलांत घेवन गेला म्हूण श्यामान खबर हाडली.

महेश येवचे येवन तोंड बी धुवन, शर्मा म्हऱ्यांत बसलो: ‘‘सॉरी, म्हाका मात्सो वेळ जालो. आमच्या युनियन लिडराक हॉस्पिटलांत व्हरचो पडलो. ॲम्ब्युलन्स बी लागीं नाशिल्ल्यान म्हाकाच ताका हॉस्पिटलांत व्हरचो पडलो.

तुका दिल्ली परतून वचपाक मेळिल्ल्यान शारदा आनी रीमा खुश जातलीं," महेशान बदले फाटलो सकारात्मक अर्थ शर्माक सांगलो.

"ती गजाल खरी, पूण बदलेची प्रक्रिया हाचे परस बरी जावं येताली. ह्या मुख्यमंत्र्यान म्हाका सामकोच धांवडायिल्ल्या भशेन केलो!" शर्मान मात्शें तोंड दुखेस्त करून सांगलें.

महेश पणजे शर्मागेर जेवणाक गेल्लो तेन्ना मुख्यमंत्री आनी आपणा मदले वाद वाडत आसात आनी आपणाक दिल्लीक परत धाडपाची प्रक्रिया ताणें सुरू केल्ल्याची खबर शर्मान महेशाक सांगिल्ली. आनीक आनी कितें जालें काय म्हूण महेशान विचारतकूच शर्मान गजाल सांगली ती अशी: मुख्यमंत्री टुरार वतना ताच्या वांगडा मुख्य सचीवूय बी आसूंक जाय अशें कोणेंयतरी ताचे तकलेंत घालें आनी मुख्य सचीव ताच्या वांगडा वचना जाल्यार मुख्य सचीव ताका फाव तो मान दिना असो ताचो अर्थ म्हूण मुख्यमंत्र्याचे तकलेंत भरलें. मुख्यमंत्री बोलेरो चाळवलो आनी आपूण टुरार गेल्ले फावटीं शर्मान आपल्या वांगडा येवंकूच जाय अशे आदेश दिवंक लागलो. मुख्य सचिवाक सचिवालयांत खूब कामां आसतात, खंयच्याच राज्यांत मुख्यमंत्र्या वांगडा मुख्य सचीव टुरार वचना अशें शर्मान ताका सांगलें. पूण तो कसोच आयकना जालो. थंयच्यान मुख्यमंत्री आनी मुख्य सचीव हांचे भितर दर दिसा वाद जावंक लागलो. गोंय पर्यटन आस्थापनाचो अध्यक्ष म्हूण मुख्यमंत्र्याची नेमणूक जाल्या अशी अधिसुचोवणी काड अशें बोलेरोन शर्माक सांगलें. सद्या आशिल्ल्या प्रशासकीय नेमां प्रमाणें मुख्यमंत्री खंयच्याच सरकारी आस्थापनाचो अध्यक्ष जावंक शकना अशें फायलीचेर बरोवन शर्मान ती फायल गवर्नरा कडेन धाडली. गवर्नरान सय करून ती फायल परतून धाडली. मुख्यमंत्र्या विशीं कसलीय फायल आसल्यार ती गवर्नराक धाडुंकूच जाय असो नेम आशिल्ल्यान शर्मान ती फायल गवर्नरा कडेन धाडिल्ली. हो मुख्य सचीव वचत थंय आपणाक आडखळी हाडटा, देखून ताका रोखड्या रोखडो दिल्ली परतून व्हरचो अशे तेलेग्राम बोलेरो प्रधानमंत्र्याक धाडूंक लागलो. देखून शर्माची बदली जाल्ली.

"जालें तें बरें जालें! तुका तुजे फामिली वांगडा रावूंक मेळ्ळें. तुका गोंयांत मुख्य सचीव म्हूण आयल्यार सुमार तीन वर्सां जायत आयलीं. खंयूय आसल्यार इतलो काळ जातकूच तुजी बदली जातलीच आशिल्ली. राजकी

फुडारी आनी आय्.ए.एस्. अधिकारी हांचे मदीं वाद जावपाची ही पयलीच फावट न्हय. हें सगले कडेन जाता. आमची बॅचमेट शैलजा सोळंकी गोंयांत तीन वर्सां उरून मागीर मुख्यमंत्र्यान तिका हट्टान दिल्ली धाडिल्ली. दर आय्.ए.एस्. ऑफिसराचो गोंयांत येतकूच पयलें एक वर्स मुख्यमंत्र्या वांगडा हनीमून चलता आनी मागीर वितुश्टां येवंक सुरवात जातात. तशें जातकूच त्या अधिकाऱ्यान केद्याय वेळार गोंयच्यान भायर सरपाची तयारी दवरूंक जाय, अशें शैलजा म्हणटालें.'' महेशान शर्माक आपलें मत सांगलें.

''तीन वर्सां सुमार हांव बरो खोशी आशिल्लों. जायते नवे इश्ट मेळ्ळे. पूण हांगचे राजकारणी, एम्.एल्.ए. बी मात्शे वेगळे! पंच, सरपंच, एम्.एल्.ए. हे सगले अधिकाऱ्यांक आदेश दीत सुट्टात. आपणाक तशे आदेश दिवपाचो अधिकार आसा काय ना हें कोणूच पळयनात. हांकां लोकशायेचो अर्थूच समजूंक ना अशें जायते फावटीं दिसता. हेर कडेन अशें नासता!'' शर्मान आपणालो अणभव सांगलो.

''हें हांगां अशें कित्याक जाता? हें राज्य ल्हान आशिल्ल्यान काय हेर राज्यां परस चड काळ परकी राजवटी खाला उरिल्ल्यान?'' महेशान विचारलें.

''खंयच्याच ल्हान राज्यांत लोकशाय सारकी चलूंक शकना अशें म्हाका केन्ना केन्नाय दिसता. सगले लोक एकामेकांक वळखतात. इल्ल्याश्या विशयाक लागून एक प्यून लेगीत मुख्यमंत्र्या म्हऱ्यांत वता आनी मुख्यमंत्री प्यूनाच्या फाटीर हात दवरून, मुख्य सचीवाक आपोवन त्या प्यूनाक जाय तशी ऑर्डर दी अशें म्हूण ताका सांगता. हें असलें प्रशासन हांवें हांगाच चड पळयलां. कायदो, नेम कसोय आसूं, आपणाक जाय तशेंच जावंक जाय अशें चडशा आमदारांक आनी मंत्र्यांक दिसता. ल्हान राज्यांनी अशें सगले कडेन आसता, पूण गोंयांत ताचें प्रमाण दिसान दीस वाडत आसा!'' शर्मान मात्सो बेजार जावन सांगलें.

''तुजे असलो अणभव म्हाका तमिळनाडूंत येवंक ना. हांव कलेक्टर आसतना यम्.जी.आर. मुख्यमंत्री जालो. कलेक्टराक मेळपाक वतना कलेक्टरान परवानगी दिले बगर ताच्या कॅबिनांत भितर सरचें न्हय आनी बदल्यो, बढत्यो आनी हेर निजी विशय कलेक्टरा मुखार मांडचे न्हय असो कडक आदेश यम्.जी.आर.न मुखमंत्री जायना फुडें सगल्या आमदारांक दिलो.

करुणानिधी मुख्यमंत्री आसतना ताणें असलो आदेश दिवंक नाशिल्लो, पूण सगले ल्हान-व्हड राजकीय फुडारी आपापले शिमे भितर रावून अधिकाऱ्यां कडेन वागताले." महेशान तमिळनाडूंतल्या प्रशासना विशीं सांगलें.

दोन वरांचेर सुमार महेश, शर्मा आनी मिरा जेवणाक बसलीं. शर्मा कडक शिवराक जाल्ल्यान सगलें जेवण मीरानूच केल्लें. मिरान शर्माचे आवडीची आलें, जिरें, हींग आनी करबील फोण्णां घालून बटाटाची गोंयचे पद्दतीची हळडुवी भाजी, गोंयचे पद्दतीच्यो मुगांच्यो गांठी, अनसांची करम, वायंग्याच्यो फोडी, बूंदी का रायता, तोय, गोंयची नाल्लाची कडी, चपाती आनी शीत अशें जेवण केल्लें. डिस्सर्ट म्हूण मिरान शेवयांची खीर केल्ली.

शर्माची बायल शारदा हिंदींतली एक नामनेची लेखिका! तिणें बरयिल्लीं काणयांचीं पांच पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं आनी हालींच तिच्या एका पुस्तकाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कारूय बी फाव जाल्लो. जेवता आसतना तिच्या साहित्याची शर्मान आनीक कांय म्हायती दिली. सारको तीन वरांचेर रामदास शर्मा महेशाचे प्रायवेट गाडयेन विमानतळार वचूंक भायर सरलो. गिरीश गांवस आनी ताचे स्टाफ भायर जिपी म्हऱ्यांत रावून ताची वाट पळयताले.

स दिसां उपरांत पीटर डिमेलोन महेशाक फोन करून ताचे उपकार मानले. गवर्नमेंट सेंट्रल हॉस्पिटलाच्या दोतोरांनी ताचेर एन्जीओप्लास्टी करून पांच दिसां उपरांत ताका घरा धाडिल्लो.



## भाग 25

**ऑक्टोबर–मे** ह्या काळांत पोर्टांत मीन एक्स्पोर्टाचो भार आसता आनी त्याच काळांत फेब्रुवारी म्हयन्या मेरेन सगले कडेन उत्सवी वातावरण आसता. नवरात्रां, दसरो, दिवाळी, सायबाचें फेस्त, नातलां, संक्रांत, ल्हान–व्हड देवळांच्यो जात्रा, गांवां गांवांनीं जावपी फेस्तां–फेरयो आनी भोवंडेकारांची गर्दी चालूच आसता. झप् झप् करून दीस कशे वतात ते कळना. सकाळ–सांज ऑफीस, मुंबय, दिल्ली, कलकत्ता, सेन्नै जावपी पोर्ट असोसिएशनाच्यो मिटिंगो, पोर्टा भितरल्या कामाचो नियाळ घेवपा खातीर नेमान जावपी बोर्ड आनी खातें प्रमुखांच्यो मिटिंगो, पोर्टाच्या कामाचो नियाळ घेवपी पार्लमेन्ट–कमिटीच्यो भेटी हातूंत दीस, आठवडे आनी म्हयने कशे वतात तेंच कळनाशिल्लें.

मार्च–एप्रील म्हयन्यांत शिक्षण सोंपोवन गौरीश येवपाचो आसा, ताच्या लग्नाचीय बी तयारी करूंक जाय अशें म्हणून मीरा महेशाच्या फाटल्यान लागिल्लें.

मार्चाच्या तीन तारखेक आपूण पावतलों आनी देड म्हयनो रावून आपूण परतून अमेरिकेक वतलों अशें गौरीशान फोनार कळयिल्लें. फुडलो बेत कसो करपाचो तें आपूण येतकूच सुसेगाद बसून उलोवया अशें ताणें सांगिल्लें. तीन मार्चाक तो येवन चार दीस विसव घेवन एक दीस सांजेचीं तो, मीरा आनी महेश लॉनार बसून च्या घेत ताच्या फुडल्या प्रोग्रामा विशीं उलोवंक लागलीं. ताणें अजून पदव्युत्तर डिग्री घेवंक नाशिल्ली. ती घेतिल्ली जाल्यार मागीर शिक्षणाचें निमित्त करून अमेरिकेक परतून वचूंक मेळचें नाशिल्लें.

एक विशय मुद्दाम तसोच दवरून तो आयिल्लो. आतां वचून त्या विशयाची परिक्षा दिवन मागीर ताका यम्. यस्.(कम्प्यूटर सायन्स) ही डिग्री मेळपाची आशिल्ली. कांय वर्सां थंय काम करून परतून येतलों आनी मागीर मद्रास वा बेंगळूर शारांत खंयच्याय आय्.टी. कंपनींत नोकरी वा आय्.टी. उद्देग सुरू करतलों असो बेत ताणें उलोवन दाखयलो. गौरीशाक ह्या ऑगस्टांत पंचविसावें वर्स लागतलें. बेंगळूर, मद्रासाक येवन नोकरी धरी मेरेन ताका अठ्ठावीस-एकोणतीस वर्सां जातलीं. लग्नाचें कशें करपाचें अशें मीरान गौरीशाक आनी महेशाक विचारलें. महेश कांयच उलयलो ना. ताणें गौरीशा कडेन बोट दाखयलें.

“इतले बेगीन नाका अम्मा, इंडियेंत परतून येतकूच पळोवया!” गौरीशान विशय फुडें धुकल्लो.

“हीं तीन-चार वर्सां तुवें थंय एकलोच रावपाची कल्पनाच म्हाका पसंत ना. आतां रोखडेंच न्हय, तर फुडल्या वर्सा वा ताच्या फुडल्या वर्सा तुवें संवसार थाटल्यार बरो अशें म्हाका दिसता.” मीरान गौरीशाक सल्लो दिलो.

“पयलीं नोकरी तरी लागूं दी मगे! थंय वचून बरी नोकरी धरून एक बरो दोन बॅडरुमांचो फ्लॅट सद्या भाड्यान घेवन रावूंक सुरू करतां. मागीर लग्नाचें येवजुया!” गौरीशान फुडलो बेत सुचयलो.

“तुज्या मनांत खंयचीय चली बी आसल्यार सांग. मागीर आमचें काम सोपें जातलें!” महेशान सुचयलें.

“तशी म्हाका खंयचीय चली लग्न करपाचे नदरेन आवडल्या अशी न्हय. हांवें ते नदरेन विचारूच करूंक ना.” गौरीशान महेशाक सांगलें.

“तूं आतां हांगा देड म्हयनो उरतलो. तुज्या मित्रां वांगडा भायर-भितर भोंवतलो. खंयचीय चली तुका पसंत पडल्यार मागीर फुडें कशें वचपाचें तें आमी थारावं येता,” मीरान ताका सुचयलें.

“पयली गजाल म्हणल्यार आमच्या वांगडा खंयच्योच चलयो नासतात. खंयूय खंयचेय चलये कडेन वळख जाल्यार आनी म्हाका तें पसंत पडल्यार, ताका हांव पसंत पडूं नाका?” गौरीशान टायम-पास प्रस्न विचारलो.

“तें मागीर पळोवपाचें. खंयचेंय बरें चली तुका आवडल्यार आनी ताकाय तूं पसंत पडल्यार आनी सगलें तुका जाय तशें जुळून आयल्यार एन्गेजमेंट

करून वचूंक जाता. फुडल्या वर्सा मागीर तुज्यान लग्न जांव येता. तों मेरेन तुजी नोकरी, फ्लॅट जाग्यार पडटलें!'' मीरान व्हड उमेदीन सुचयलें.

श्यामान कॉर्डलेस हाडून गौरीशाच्या हातांत दिलो आनी गेटीचेर धिरेंद्र आनी संजीव मेळपाक आयल्यात ते उलोवंक सोदतात अशें सांगलें. गौरीश कॉर्डलेसाचेर तांचे कडेन उलयलो.

''हांव धिरेंद्र आनी संजीवा वांगडा बोगमोळो बीचार वतलों. थंयच आमी जेवतले. येता म्हणसर धा-साडे धा जातलीं. बीचार खंयींय बरी चली बी दिश्टी पडटा जाल्यार पळयतां,'' गौरीशान मीराचीं फकांडां करीत आपलो प्रोग्राम सांगलो.

''आरे, वतना पयशे घेवन चल,'' महेशान गौरीशाक सांगलें.

''पप्पा म्हजे कडेन अमेरिकन एक्स्प्रेस कार्ड आसा.'' गौरीशान म्हायती दिली.

''तुजे कडेन पयशे खंयचे रे? वतना बरोबर व्हेल्ले ते अजून काबार जावंक नात?'' महेशान विचारलें.

''ते काबार जाले, पप्पा! म्हाका असिस्टंटशीप मेळ्ळ्या; ताका लागून ट्यूशन फी ना, आनी वेल्यान दर म्हयन्याक दोनशें डॉलर मेळटात! थंय जेवण-खाण सामकें सवाय, देखून पयशे बँकेंत सेव्ह करपाक मेळटात.'' गौरीशान म्हायती दिली.

दोन-तीन दिसांनी मीराक शीलाचो फोन आयलो, ''तुजो चलो अमेरिकेक सावन सुटयेर आयला अशें पयर अनंतभाई सांगतालो. ताच्या लग्नाचो बी विचार आसल्यार, आमचें इशाय बी आसा, हें तुका याद आसा मुगो?'' शीलान मीराक याद करून दिली.

''लग्नाचो विशय इतले बेगीन नाका अशें तो म्हणटा; आमी ताचे कडेन विशय काडिल्ले फावटीं मागीर पळोवया, मागीर पळोवया अशें तो म्हणटा!'' मीरान सांगलें.

''हांव आनी म्हजो घोव तुगेर एक पावट मारूं?'' शीलान विचारलें.

''म्हगेर येवपाक तुका आनी आमंत्रण लागता गो? घर तुजें! तूं जाय तेन्ना यो. गौरीशाकूय बी मेळूंक मेळटलें! केन्ना येतलें तें मात सांग म्हणटकूच ताका त्या प्रमाणें ताचे प्रोग्राम फुडें फाटीं करपाक मेळटले!'' मीरान सांगलें.

“इशाकूय बी घेवन येवं?” शीलान विचारलें.

“हय तर! बेठींच म्हाका खूब तेंप मेळुंना म्हणून तुमी म्हाका मेळपाक येतात म्हूण ताका सांग,” मीरान सल्लो दिलो.

आनीक दोन दिसांनी सांजेचीं साडे पांचांक सुमार शीला आपणाल्या घोवाक - दामोदर केणयाक आनी इशाक घेवन आयलें. केणी कुटुंबाचो पयलीं मुरगांव-वास्को वाठारांत जनरल स्टोअर्स आशिल्लो. कांय फामाद वस्तूंचे ते ठोक व्यापारूय बी करताले. मागीर तांणी आपणालें ऑफीस, दुकान, गुदांव बी पणजे हालयले. महेश आनी दामोदर केणी ह्या पयलीं केन्नाच मेळूंक नाशिल्ले.

तांणी दोन वरां सुमार बसून खबरो मारल्यो. मीरान गॅस्ट हावसांतल्यान कटलेट आनी सॅन्डविच हाडपाक लायिल्लीं. श्यामान च्या बी हाडून दिली. काळोख जांवचे पयलीं महेशान बंगल्या मुखावेल्या तिनूय लॉनांचेर तांकां भोंवडावन ब्रेकवॉटर आनी पोर्टाचो दिश्टी पडपी वाठार, पयशिल्ल्यान दिसपी राजभवन हें सगलें दाखयलें. गौरीश आनी इशा आपले भितर खबरो करतालीं. साडे सातांक सुमार दामोदर केणी, शीला आनी इशा भायर सरून गेलीं.

दुसऱ्या दिसा दामोदर केणयान महेशाक फोन करून येता त्या आयताराक रातचे जेवणाक भायर या अशें सुचयलें. महेशान गौरीशाक विचारलें. गौरीश रोखडोच तयार जालो. आयतारा दीस रातचीं आठांक सुमार पणजेच्या मांडवी हॉटेलांत तीं सगलीं मेळ्ळीं. जेवन बी रातचीं घरा पावता म्हणसर महेशाक बी बारा वरां जालीं. गौरीशाच्यो आनी इशाच्यो खबरो बऱ्यो रंगतात काय दिसतालें. मांडवींत बशिल्लीं आसतना “आमी अशीं रावंड मारून येतात” अशें सांगून गौरीश इशाक घेवन अर्द वर सुमार भोंवून आयलो. फ्रान्सीसाक घेवन तीं मिरामार बीचार वचून पासय मारून आयलीं.

“इशा चली कशें रे?” मीरान दुसऱ्या दिसा च्या घेतना गौरीशाक विचारलें.

“बरें जॉली! मित्र मैत्रिणी बी ताका खूब आसात काय दिसता.” गौरीशान आपणालें मत दिलें.

“लग्नाच्या विशयांत ताचो विचार करूं येता?” मीरान विचारलें.

“विचार करूं येता, पूण इतले बेगीन लग्न नाका अम्मा!” गौरीशान

सांगलें.

“तुका जर तें चली आवडलां आनी ताकाय बी तूं पसंत पडला जाल्यार सोयरीक करून तुज्यान वचूंक जाता! मागीर फुडल्या वर्सा लग्न करपाचें!” मीरान सुचयलें.

“तशें केल्यार जाता! प्रॉब्लेम ना!” गौरीशान तयारी दाखयली.

मीरान रोखडोच शीलाक फोन केलो आनी गौरीशाक इशा आवडलां. तूं आतां इशाक गौरीश ओके काय म्हूण विचार. ताका जर ओके आसत, जाल्यार दीस थारावन आमी प्रसादांक या आनी मागीर रोखडोच साखरपुडो करून दवरूया. गौरीश अमेरिकेक परतून वचचे पयलीं गौरीश आनी इशा लग्न जावंक तयार आसलीं जाल्यार लग्नूय बी करून उडोवया आनी इशाचो व्हिजा तयार जातकूच ताकाय बी थंय धाडून दिवंया. आपूण इशाक विचारून पळयतां अशें शीलान म्हणलें. “आमचें इशा ना म्हणचें ना गो, ताकाय बी गौरीश आवडला काय दिसता.” अर्द वरा भितर शीलान फोन केलो. इशान ओके म्हणलां, आपूण घोवाक विचारून प्रसादांची तारीख सुचयतां मागीर तुमी तुमच्या पुरयताक सांगात. प्रसाद बी आयताराक थारायल्यार बऱ्याक पडटले अशें दामोदर केणी आनी महेशाचें दोगांयचेंय मत आशिल्लें. त्या प्रमाणें महेशान अभिशेकी पुरयता कडेन आयतारची तारीख थारायली आनी त्या दिसा दामोदर, महेश आनी कांय नातेवाईकांनीं मंगेशी देवळांत वचून प्रसाद बी घेतले, च्या चो प्रोग्राम केलो आनी एका आठवड्या भितर साखरपुडोय बी करून उडयलो. साखरपुडो दामोदर केणयाच्या पणजे आशिल्ल्या घराचे गच्चेचेर जालो. साखरपुडो जातकूच गौरीश इशाक घेवन दर दिसा भोंवूंक वचूंक लागलो. सात–आठ दीस जातकूच दनपारचे जेवपाक बशिल्ले कडेन मीरान लग्नाचो विशय काडलो.

“तुका नोकरी धरून फ्लॅट घेवपाक कितले म्हयने लागतले?” मीरान विचारलें.

“नोकरी रोखडीच मेळटा, पूण जाय तसली मेळूंक देड–दोन म्हयने तरी वतले. ताचे पयलीं म्हाका एक विशय उरला ताची परिक्षा दिवंक जाय. परिक्षा मे अखेर मेरेन जातली. म्हाका एप्रील अखेर मेरेन थंय पावूंक जाय. जून अखेर मेरेन नोकरी, फ्लॅट बी जाग्यार पडूंक जाय,” गौरीशान सांगलें.

''लग्न जावन रोखडेंच काय इशाक थंय व्हरूंक मेळचें ना. ताचो व्हिजा बी जावंक जाय. म्हणटकूच तूं वचचे पयलीं लग्न जाल्यार तीन-चार म्हयन्यां भितर हेवटेन ताचो व्हिजा आनी तेवटेन तुजी नोकरी आनी फ्लॅटूय बी जुळोवन हाडूंक जाता!'' मीरान सुचयलें.

''हांव वचचे पयलीं लग्न करून चल म्हणटा? म्हाका वचूंक एक म्हयनो सुमार उरला. तितल्या भितर तुमी लग्नाची तयारी करपाक शकतलीं?'' गौरीशान विचारलें.

''बरे भशेन! हांव पप्पाक फोन लावन दितां. तूंच ताका विचार!'' मीरान गौरीशाक सांगलें. महेश गौरीशा कडेन उलयलो. लग्नां, मुजी बी असल्या कार्यांची तयारी करपाक आदले भशेन खूब्ब काळ लागना! कॉन्ट्रॅक्ट दिवपाचे आनी सगलें सारकें प्लॅन करपाचें. पयशे आसतकूच फटाफट सगलीं कामां जातात, अशें महेशान ताका सांगलें.

त्या दिसा सांजेचीं दामोदर केणी, शीला आनी इशा चेअरमॅनाच्या बंगल्यार आयलीं. गौरीश इशाक घेवन बोगमोळो वेळेर गेलो. लग्नाचो म्हूर्त थारावन मीरान शीलाक कळोवपाचो, लग्न मांडवींत जावपाचें, लग्नाची वेवस्था सगली दामोदर केणयान करपाची, लग्ना उपरांत दोन दिसांनी चेअरमॅनाच्या बंगल्यार महेशान आनी मीरान रिसेप्शन दिवपाचें, गौरीशाक आनी इशाक हनीमुनाक वचपाक धा दिसांचो टायम दिवपाचो, एप्रील अखेरेक गौरीश अमेरिकेक वतकूच इशाच्या व्हिजाची वेवस्था करपाची ह्यो सगल्यो गजाली त्या दिसा थारल्यो. दुसऱ्या दिसा महेशान आनी मीरान भटाक आपोवन पंदरा एप्रिलाक बारांचो म्हूर्त थारायलो. गौरीश आनी इशा अमेरिकेकूच रावपाचीं आशिल्ल्यान शीलान कसल्योच व्हड व्हड वस्तू हांगा धाडपाची गरज ना अशें महेशान आनी मीरान तांकां सांगलें. लग्नाची तयारी फुल्ल स्पिडीन सुरू जाली.

***

बाप्तीस्त, गुणाजी आनी संभाजी खूब दिसांनी इरमांव बारांत मेळ्ळे आनी चेअरमॅन हटाव अभियानाचेर तांची चर्चा सुरू जाली. फाटले फावटीं मेळिल्ले तेन्ना तांणी चेअरमॅन हटाव अभियानाचीं कामां आपणां भितर वांटून घेतिल्लीं. तशें करपाची गरज ना, अभियानाक उपयोगी पडटा असलें कसलेंय

काम कोणेंय केल्यार जाता अशें तांणी मागीर थारायलें.

पयली खबर हाडली ती संभाजीन. चेअरमॅनाच्या पुताच्या लग्नाची तयारी नेटान सुरू जाल्या, चेअरमॅनाच्या बापोल भयणीक घेवन मॅडम पणजे वाठारांत आशिल्ल्या सिल्क साडयांच्या दुकानांक भेटी दिता, कोबे हॉटेलाचो जनरल मेनेजर राजीव पुश्कर चेअरमॅनाक आनी मॅडमीक परतू परतून मेळून कामांचें लिस्ट तयार करता अशी म्हायती संभाजीन हाडली.

नवी पोर्ट बिल्डिंग कलकत्त्याच्या कॉन्ट्रॅक्टरान बांदूंक सुरवात केल्या. पुण्यांतल्यान दोग आर्किटेक्ट दर धा दिसांनी येवन काम पळोवन वतात. बिलां फारीक करपाच्यो वा बिल्डिंगे संबंदी कसल्योच फायली चेअरमॅना कडेन पावनात. म्हणटकूच व्हड-व्हड बिलां फारीक करपाक मान्यताय दितना कमिशन मारपाची संद चेअरमॅनाक मेळना अशी निर्शेणेची म्हायती बाप्तीस्तान दिली.

बोगमोळ्यार चेअरमॅनाच्या घराचें काम फास्ट चालू आसा. थंय कोण, कसलो आनी कितलो म्हाल सप्लाय करता हाचेर दोळो दवरपाक रामकृष्ण बाबान एके डिटेक्टिव कंपनीक नेमल्या. पोर्ट बिल्डिंग बांदपी कलकत्त्याचो कॉन्ट्रॅक्टर बंगला असोसिएट चेअरमॅनाच्या घराक लिपोवन सामान सप्लाय करता जाल्यार त्या डिटेक्टिवांक तें कळूंक जाय, गुणाजीन आपलें मत दिलें.

दीस सोंपतां सोंपतां रामकृष्ण तांच्या वांगडा येवन बसलो. चेअरमॅन हटाव अभियानाचें काम खंय पावलां काय म्हूण ताणें विचारलें. बाप्तीस्तान ताका सगली म्हायती दिली. दागिने करपाचें काम चेअरमॅनाची बायल चड करून शिरधनच्या रघुवीर शेटीक दितली. तो फाटलीं कितलिंशींच वर्सां गावणेकारांच्या घराण्यांत जावपी लग्नां-कार्यांचे दागिने करीत आयला. आपूण त्या कामांचेर नदर दवरतां अशें रामकृष्णान सांगलें. चेअरमॅनाच्या बोगमोळ्या वेल्या चलिल्ल्या बांदकामांचेर नदर दवरपाक शेखर सिंग ह्या डिटेक्टिवाची आपणें नेमणूक केल्या अशेंय बी रामकृष्णान सांगलें. ''अभी तक दाल में कुछ काला नहीं मिला,'' अशें तो कांय दिसां आदीं म्हणटालो, अशें रामकृष्णान गुणाजीक सांगलें. डिटेक्टिवांक कितेंय मेळ्ळां काय ना असो प्रस्न गुणाजीन विचारिल्लो. लग्नाक कसली कसली तयारी लागतली हाचो तपशील रामकृष्णान सगल्यांक सांगलो: ''सगल्यांत चड खर्चाचो आयटम

म्हणटात तो जेवणां. केटरींग कोण करता, भायल्या गांवच्यान आयिल्ले गॅस्ट खंय खंय रावतात, केटरिंगाचेर आनी गॅस्टांच्या रावपा-खावपाचेर कितलो खर्च जाता, चेकान कितले फारीक जातात, सोन्याचेर कितलो खर्च जाता ह्या सगल्यांचेर तुमी दोळो दवरचो पडटलो. भांगरां, साडयो आनी हेर बारीक-सारीक आयटमांचेर जावपी खर्चाचेर म्हाका दोळो दवरूंक मेळटलो.

रामकृष्णान सांगिल्ल्या गजालींचेर कशी नदर दवरपाची हाचेर फुडलें वर भर चर्चा करून मागीर साडे सातांक सुमार ते भायर सरून गेले. बील रामकृष्णान फारीक केलें. फाटले फावटीं संभाजीन रामकृष्णाचे गाडयेंत लिफ्ट घेवपाचो यत्न केल्लो. पूण रामकृष्णान ताका टाळिल्लो. हे फावटीं संभाजीन तसो यत्नूच केलो ना.

संभाजी, गुणाजी आनी बाप्तीस्त दर दिसा इरमांव बारांत मेळटाले पूण अभियान फुडें व्हरपा सारकें तांच्या हाताक कांय लागनाशिल्लें. पूण दर चार-पांच दिसांनीं एक फावट तरी चर्चा करपा सारकें कितेंयतरी हाताक लागतालेंच. मॅडम तीन दिसां पयलीं मद्रास आनी बेंगळुरची ट्रीप मारून आयिल्ली. चेअरमॅनान तमिळनाडू हॅण्डलूम कॉर्पोरेशन आनी कर्नाटक सिल्क कॉर्पोरेशन ह्या दोनूय सरकारी कंपन्यांक वट्ट पन्नास सिल्क साडयांची ऑर्डर दिल्या. साडयांचे कोड नंबर, प्रायस बी सगलें घालून दीपान दोन दिसां पयलीं फॅक्स धाडलां अशी खबर बाप्तीस्तान हाडली.

जेवणाची ऑर्डर सगली कोबे हॉटेलाक दिल्या. चेअरमॅनान एका लाखाचो चेक तांकां अड्वान्स दिला. जेवणाचें वट्ट बील दोन लाखांचेर पावपाचें आसा. सुमार आठशें लोकांक आमंत्रण गेलां. सुमार वीस आय्.ए.एस्. आनी आय्. पी.एस्. अधिकारी दिल्ली, मद्रास आनी बेंगळूरच्यान आपापल्या बायलांक घेवन येवपाचे आसात. तांची रावपाची वेवस्था बी पोर्टाचें गॅस्ट हावस आनी टुरिस्ट हॉस्टेलांत केल्या. रिसेप्शना दिसा दनपारच्या तिनांक बोगमोळ्या वेल्या ओबेरॉय हॉटेलांत सगल्या पोर्ट चेअरमॅनांची पोर्ट सेक्रेटरीन मिटिंग दवरल्या. ते सगले त्याच हॉटेलांत रावतले. सगल्या पोर्टांच्या चेअरमॅनां खातीर मुरगांव पोर्टान गोंय सरकाराच्या टुरिजम कॉर्पोरेशना कडल्यान टॅक्सी भाड्यान घेतल्यात. प्रायवेट गॅस्टां खातीर चडश्यो टॅक्सी थंयच्यानूच मागयल्यात. ही सगली म्हायती संभाजीन दिली. चेअरमॅनाची बापोलभयण

आनी मॅडम शॉपिंगाक वता आसतना सोमूच्या कानार पडिल्ली ही म्हायती ताणें संभाजीक दिल्ली.

उदकाच्यो व्हडल्यो बाटल्यो, बिस्लेरी सोडा, सॉफ्ट ड्रिंक, पेपर नेपकीन आनी हेर चिल्लर वस्तू सगल्यो पोर्ट एमप्लॉईस् को-ऑपोरेटिव सोसायटी कडल्यान विकत्यो घेतले. लायटी, सजावट बी सगली वास्कोची नॅशनल इलेक्ट्रिक कंपनी करतली. गोवा वाइन्सान वीस ब्लॅक लेबलाच्यो बाटल्यो धा पर्सेंट डिस्कावन्टान सप्लाय केल्यात.

चेअरमॅनाचो पी.ए. संजय नायक आनी दीपा सगलीं बिलां घेवन सगल्यांक चॅकान फारीक करपाची वेवस्था करतलीं.

"दागिन्यांचे पयशे चडशे ब्लॅकानूच फारीक करतात. चेअरमॅनान कसली वेवस्था केल्या?" गुणाजीन हेरांक विचारलें. ती म्हायती कोणा कडेन नाशिल्ली. रामकृष्ण येतकूच ताणें ती म्हायती दिली. चेअरमॅनाच्या बायलेन आपणाले पंचवीस पवनांचे दागिने शिरधनच्या रघुवीर शेटी कडेन दिवन ते दागिने मोडून सुने खातीर नेकलेस-कांकणांचे दोन वेगवेगळ्या डिजायनांचे सेट करूंक लायल्यात अशें रामकृष्णान सांगलें.

पुताच्या लग्नाचो खर्च चडसो चेकान फारीक जातलो. फारीक करपाची वेवस्था संजय नायक आनी दीपा करतलीं. म्हणटकूच पुताच्या रिसेप्शनांत चेअरमॅनाक भ्रश्टाचाराच्या जाळ्यांत घुसपावपाचो बेत व्हडलोसो येसस्वी जावंचो ना अशें तांचें सगल्यांचें मत जालें. सगल्यांच्या तोंडार निर्शेणी पातळ्ळी.

एप्रील पंदरा तारखेक लग्न आनी सतरा तारखेक रिसेप्शन व्हड दबाज्यान जालीं. हेर गॅस्टां वांगडा पोर्टांतले सुमार शंबर ऑफिसर आनी सुमार पंचवीस कामगार फुडारी आयिल्ले.

पोर्ट मंत्रालयाचो सेक्रेटरी शौमेंद्र दत्ता आनी सगल्या पोर्टांचे चेअरमॅन आयिल्ले. गोंयचो मुख्यमंत्री आनी हेर कांय मंत्रीय बी आयिल्ले. सगल्या ड्रायवरां खातीर जेवणाची वेवस्था केल्ली आनी गॅस्टांक केल्लें तेंच जेवण ड्रायवरांकूय बी दिल्लें. सगल्या गॅस्टांनी येतनां फुलांचे तुरे हाडिल्ले. त्याच तुऱ्यांतल्या राशींतलो एक एक तुरो काडून गॅस्ट वता आसतना मीरान तांच्या हातांत दिलो.

रिसेप्शन जातकूच तीन दिसां उपरांत संभाजी, गुणाजी आनी बाप्तीस्त हांणी इरमांव बरांत बसून रिसेप्शनाचो परतून नियाळ घेतलो. मागीर रामकृष्णूय बी थंय येवन बसलो.

चेअरमॅनाक जाळ्यांत घुसपावपा सारकें तांकां कांयच मेळ्ळें ना. प्रत्येकाक वेगवेगळ्या कारणांक लागून हो चेअरमॅन आवड नाशिल्लो; पूण रिसेप्शनाचे वेवस्थेची दरएकल्यान तोखणाय केली. महेश प्रभू आनीक पावणे दोन वर्सांनी रिटायर जावपाचो आसा हें तांकां खबर आशिल्लें. ताका घुसपावपाचो यत्न आतां चड नेटान करूंक जाय अशें मत सगल्यांनी उलोवन दाखयलें. पोर्टाची धा कोटींची नवी बिल्डींग आनी चेअरमॅनाचें बोगमोळ्या वेलें घर ह्या दोन गजालीं भितर कितेंयतरी सोदून काडपाचें तांणी थारायलें

"चेअरमॅनाक हातूंत घुसपावपाक जाय, तातूंत घुसपावपाक जाय अशें तुमी जें म्हणटात ताचे वेल्यान अशें दिसता की ताणें कितेंय केल्यारूच तुमी ताका धरतले, ना जाल्यार तुमी कांयच करचे नात! हें बरोबर न्हय! आमकां ताचें नांव पेड्डेर जाल्लें जाय जाल्यार ताचेर फटीचे आरोप करून लेगीत ताचें नांव पेड्डेर करूंक जाता," रामकृष्णान हेरांक सल्लो दिलो.

"हें सारकें! रामकृष्णबाबान म्हणलां तें सारकें!" बाप्तीस्तान आपणालें मत उकतायलें.

"पोर्टाची नवी बिल्डिंग धा कोटींची अशें तुमी म्हणटात. खरें म्हणल्यार ती बिल्डिंग सात कोटींनी बांदून काडटात. वेले तीन कोटी त्या बंगला असोशिएट्साक चॅकान पावल्यार लेगीत ज्युनियर इंजिनियर, असिस्टंट इंजिनियर, चीफ इंजिनियर, डॅप्यूटी चेअरमॅन आनी चेअरमॅन हांकां सगल्यांक पंचखादायेचे दोणे पावतात. चेअरमॅनाक आतां मेरेन धा लाख मेळ्ळ्यात, आनीक चाळीस लाख मेळपाचे आसात, त्या भायर, बंगला असोशिएट्स् चेअरमॅनाच्या घराक लागता तें सामान रातीचें थंय व्हरून घालता. ह्यो सगल्यो गजाली फटीच्यो म्हूण आमकां खबर आसात. पूण आरोप करपाक आमचें कितें वता?" रामकृष्णान विचारलें. सगल्यांच्यो ट्यूब लायटी एकदम पेटल्यो. लख्ख उजवाडांत फुडली वाट स्पश्ट दिसूंक लागली. रामकृष्ण येदो व्हडलो भाटकार जालो तो वोगीच न्हय. आपणाली नाडबुद्द वापरून खूबश्या लोकांचीं भाटां ताणें आपल्या नांवार करून घेतल्यांत जातलीं, अशें

प्रत्येकजाण येवजूंक लागलो.

आनीक कांय वेळ खबरो करून फटींगपणाचें जाळें कशें विणचें हे येवजीत ते आपापले वाटेन गेले. वचचे पयलीं रामकृष्ण बील फारीक करूंक विसरलो ना.

***

रिसेप्शाना उपरांत गौरीश आनी इशा हनिमुनाक श्रीलंकेक वचून आयलीं. इंडियेंत खंयूय वचून येवचे परस श्रीलंकेक हनिमून चड सवाय पडटा असो सोद गौरीशाक लागलो. एकुणतीस एप्रीलाक गौरीश अमेरिकेक वचूंक भायर सरलो. तीन म्हयन्यां भितर, व्हिजा बी सगलें जावन इशाय बी अमेरिकेक गेलें. गौरीश अजुनूय विद्यार्थी-व्हिजाचेर आशिल्ल्या कारणान इशाचें थंय वचप सोपें जालें.

मदीं मदीं महेश आनी मीरा घराच्या बांदकामाचेर नदर मारपाक बोगमोळ्यार वतालीं. ऑगस्टांत घर पुराय जावपाक पाविल्लें. सगले कडेन फिटिंग्स, जमनीक टायल्स, घराक सगल्याक रंग बी मारून घर तयार जाल्लें.

घर पळोवंक गेल्ले फावटीं महेश सपणां चडून पयल्या माळ्या वेल्या मास्टर बॅडरुमांत वचून समुद्राचो देखाव पळयतालो. अकस्मात् एक दीस रस्त्याचे पलतडी खूबशे कामगार जमीन खणटना दिसले. कसलें काम चललां काय म्हूण महेशान त्या सुपरवायझराक विचारतकूच थंय तीन मजली बिल्डींग येवपाची आसा अशें ताणें सांगलें. तो सगलो "ओपन स्पेस", ताचेर बिल्डींग कशी बांदू येता अशें विचारतकूच "सर, तें म्हाका खबर ना," अशें म्हूण आपल्याक सगलीं चिकानां खबर आसात, पूण आपूण सांगूंक सोदिना, अश्या अर्थान तो मात्सो कुत्छित्री कसो हांसलो. पंदरा दिसां भितर ते बिल्डिंगेची बुन्याद जावन चिऱ्यांचें प्लींथ उबें जावंक लागलें. एक फावट महेश आनी मीरा थंय गेल्ले कडेन त्या घराचो मालक मुंजल, सुपरवायझरा कडेन उलयतना दिसलो. सुपरवायझरान मुंजलाची आनी महेशाची वळख करून दिली. आपणें सांकवाळ इंडस्ट्रियल इस्टेटींत व्हडली लोखणाचे वारांव करपाची फॅक्टरी बांदल्या, आनी ते खातीर आपल्या मॅनेजराचो फ्लॅट आनी तीन गॅस्टहावसां हे बिल्डिंगेंत करपाचो आपलो विचार आसा अशें मुंजलान

सांगलें. ह्या ''ओपन स्पेसा'' चेर बिल्डींग बांदपाक तांकां कशें परमिशन मेळ्ळें अशें विचारतकूच, ''सर, हें गोंय, हांगां कितेंय चलता, खर्च मात करचो पडटा!'' मुंजलान हांसत गोंयचें चित्र रंगयलें. महेशाक आनी मीराक गोंयचें तें तसलें वर्णन आयकून वायट दिसलें. महेशान परतून दोन-तीन फावटीं आपणाल्या घराच्या पयल्या माळ्या वेल्या मास्टर बॅडरुमांत वचून दर्याचो देखाव पळयलो. मुंजलाची बिल्डींग पुराय जातकूच हो देखाव दिसचो ना हें ताच्या ध्यानांत आयिल्लें. रस्त्याचे दुसरे वटेन आशिल्ल्या बंगल्यांतल्यान कानाचे पड्डे फोडपा इतल्या व्हडल्यान म्युजीक आयकूंक येतालें.

त्या दिसा सांजवेळचीं महेश आनी मीरा परतून घरा वटेन गेलीं. शेजारच्या घरांतल्यान अजुनूय तांकां, कान फुट सारकें तें म्यूजीक आयकूंक येतालें. ह्या फावटीं तांच्या वांगडा राजीव पुश्कर आशिल्लो. तो बंगलो हालींच एका बोटलेरान घेतला आनी तो रिटायर जावन आयला आनी सकाळीं आठ ते रातीचे बारा मेरेन ताचो हो बोवाळ चालू आसता अशी म्हायती राजीवान दिली. कायद्याची पर्वा करिनाशिल्ल्या आनी हेरांक सुशेगाद जीण जगूंक दिना आशिल्ल्या शेजाऱ्यां मदीं कशें रावपाचें, असो हुस्को महेशाक आनी मीराक जावंक लागलो. त्या भायर पयले माळयेर वचपाचीं सोपणांय बी मात्शीं चड उबीं आसात अशें महेशाक दिसूंक लागलें. ताणें तशें मीराक उलोवन दाखयलें. दुसऱ्या दिसा परतून महेशान येवन तीं सोपणां दोन-तीन फावटीं चडून पळयलीं आनी ताका त्या सोपणांचो चड दुबाव येवंक लागलो. गणात्राक विचारतकूच तीं सोपणां चड उबीं आसात म्हणपाचें ताणेंय बी मान्य केलें. अशें कित्याक जालें काय म्हूण विचारतकूच त्या प्लॉटाच्या आकाराक लागून पयलींच्या आर्किटेक्टाक अशीं उबीं सोपणां करचीं पडलीं जावंये अशें ताणें सांगलें. वय वाडटा तसो ह्या सोपणांचो चड त्रास जातलो हो महेशाक आनी मीराक दिसानदीस चड हुस्को जावंक लागलो.

इतले मजगतीं राजीव पुश्करान बोगमाळो बिचा म्हऱ्यांत पंदरा रुमांचें एक ल्हानशें हॉटेल बांदलें आनी तातूंतल्यान तीन रुमांचो फ्लॅटसो तयार करून आपूण थंय रावूंक वतां अशें ताणें सांगलें. आपलो नवो बंगलो आपूण विकतां आनी हॉटेल बांदपाखातीर काडिल्लें चडशें रीण फारीक करतां, अशेंय ताणें सांगलें.

मडगांवां महेशाच्या कांय इश्टांनी एकठांय येवन संस्कृती प्रतिशठान नांवाची संस्था रजिस्टर केली. कोंकणीची सेवा करप आनी गोंयचे संस्कृतायेचें रक्षण करप हीं दोन उद्दिश्टां दोळ्यां समोर दवरून तांणी ही संस्था सुरू केल्ली. हातूंतले चडशे इश्ट महेशा वांगडा मडगांवांतूच ल्हानाचे व्हड जाल्ले आनी महेश पोर्टाचो चेअरमॅन म्हणून येतकूच मदीं मदीं तांच्यो मिटिंगो जावन ह्या दोनूय विशयांचेर तांची चर्चा जाताली. निवृत्त जातकूच स्थायीक जांवचे खातीर बोगमाळो वेळे म्हऱ्यांत महेश बंगलो बांदता हें कळटकूच, "बोगमोळ्यार नाका, मडगांवांतूच येवन राव" अशें म्हणून ते महेश आनी मीराच्या फाटल्यान लागिल्ले. महेशाचे जायते सोयरे डॉक्टर जावन मडगांवांतूच प्रॅक्टीस करताले. फाटल्या धा वर्सांत मडगांवांत दोन व्हड हॉस्पिटलांय बी जाल्लीं. आनी एका हॉस्पिटला कडेन पोर्टाचो कॉन्ट्रॅक्ट आशिल्ल्यान भलायकेच्या प्रॉब्लॅमांचेर थंय उपाय केल्यार पोर्टान तांकां भायल्या भायर फारीक करपाची वेवस्था आशिल्ली.

महेश आनी मीरा परतू परतून बोगमोळ्या वेल्या घरांत येवन उबगतात आनी "कशें जातलें कोण जाणा, कशें जातलें कोण जाणा," अशें म्हणत आसतात तें पळोवन तें घर विकून वडोवन तुमी आनीक खंयूंय बांदू येता, रिटायर जावंक अजुनूय देड वर्स सुमार आसा, आपुणूय आपलें घर विकतलों, अशें राजीव पुश्करान दोन-तीन फावटीं सुचयलें.

"सर, घर विकपाचें आसल्यार बरी संद आसा. जयपूरच्या जयदेव नांवाच्या मालकाची व्हड ऍड्वर्टायजिंग कंपनी आसा. ताणें आमच्या दाबोळे एअरपोर्टाचेर जायरातींचे डिजिटल बोर्ड लावपाचो कॉन्ट्रॅक्ट घेतला. त्या खातीर ताका गोंयांतली खयंचीय प्रोपर्टी एअरपोर्टा कडेन जामीन दवरूंक जाय. जयपूरच्यान खंयचीय तरी वळख काडून तो म्हाका येवन मेळ्ळो आनी चाळीस-पन्नास लाखांची प्रॉपर्टी अमक्या-अमक्या कारणां खातीर विकती घेवंक जाय अशें ताणें सांगलां. आमचीं दोनूय घरां घे अशें हांवें ताका सुचयलें. ताच्या इंजिनियरांनी तुमच्या घराचें मोल अठ्ठावीस लाख आनी म्हज्या घराचें पंदरा लाख अशें थारायलें. तुमचें घर विकपाचें आसा जाल्यार आपल्याक चार-पांच दिसां भितर सांग अशें ताणें सांगलां," अशें राजीवान सांगलें.

हय ना, हय ना करून दोन दिसां उपरांत महेश आनी मीरान तें घर

विकपाचें थारायलें.

शिरधनच्या दोंगरा वेलो चार हजार स्केअर मिटरांचो प्लॉट विकून आयिल्ले पंदरा लाख, पणजेचो फ्लॅट णव लाखांक विकून, एच्.डी.यफ. सी.चे रीण फारीक करून उरिल्ले स लाख आनी 'कॅनफिन होमस' कडल्यान काडिल्ले पांच लाख आनी सुनीत गर्गा कडल्यान घेतिल्ले पांच लाख मेळून महेशा कडेन बँकेंत एकतीस लाख आशिल्ले.तांकां त्या घराचेर सुमार सतरा लाख आनी प्लॉटाचेर दोन लाख खर्च आयिल्लो. त्या भायर कॅनफिन होम्साक तांणीं सुमार साडे पांच लाख परतून दिले. म्हणटकूच महेशाच्या अकांवटांत साडे-स लाख सुमार उरिल्ले.

मडगांवांत खंयूय प्लॉट विकतो घेवन घराची सुरवात करपाक कांय प्रॉब्लेम आसचो ना, फकत थंय दर्यो नासतलो; मोती दोंगरार घर बांदल्यार तोवूय बी दिसूंक शकता. अशें तांकां दिसलें. मडगांवां घोगळांत एके कडेन उंचायेचेर एक हजार स्केअर मिटरांचो प्लॉट विकूंक आशिल्लो. तो पांच लाखांक घेवन घर बांदपाचो कॉन्ट्रॅक्ट तांणी एका वळखीच्या बिल्डराक दिलो. वीस लाखां भितर जितेंद्र भगतान बंगलो बांदून दितां अशें सांगतकूच महेशान ताचे कडेन वीस लाखांचो कॉन्ट्रॅक्ट केलो. ऑगस्ट म्हयन्यांत ताणें रोखडीच बुन्याद मारपाक सुरवात केली. पंदरा दिसां भितर बोगमोळ्या वेलें घर विकपाची वेवस्था राजीव पुश्करान केली आनी आपणालें आनी महेशाचें घर वांगडाच जयदेवाक विकलें. महेश आनी मीरा दर पंदरा दिसांनी एक फावट तरी मडगांवां येवन घराचें काम कशें चललां तें पळयतालीं.

एप्रील ते सप्टेंबर मजगतीं महेशाक तीन निनांवी कागाळ्यांक जापो दिवंच्यो पडल्यो. गौरीशाच्या लग्नाक आठ लाख रुपया चेअरमॅनान खर्च केले आनी तातूंतले फकत तीन लाख सुमार चेकान फारीक जाल्यात आनी उरिल्ले सगले ब्लॅकान, असो पयल्या पत्रांत आरोप केल्लो. लग्नाच्या प्रत्येक आयटमाचेर खर्च आनी फारीक केल्लो आंकडो, चेक नंबर आनी हेर तपशील दिवन चार पानांचें लिस्ट जोडून महेशाक त्या पत्राची जाप दिवंची पडली. ह्या निनांवी पत्रांचो महेशाक कंटाळो येवंक लागिल्लो. जे निनांवी पत्रां बरयतात तांणी आरोप सिद्ध करपा खातीर पुरावे दिवंक जाय, ना जाल्यार जांचे हितसंबंद दुखावतात ते प्रामाणीक आनी सरळ अधिकाऱ्यांक त्रास दिवपाक असलीं

पत्रां बरयत रावतले अशेंय बी महेशान पोर्ट सेक्रेटरीक बरयिल्लें.

चेअरमॅनान ताच्या पुताक अमेरिकेक शिकूंक धाडिल्लो; पयशे खंयच्यान आयिल्ले तें कोणाक खबर ना. अमेरिकेक पदव्युत्तर शिक्षण घेवपाक उण्यांत उणे पंदरा-वीस लाख रुपया तरी लागतात. चेअरमॅनान हे पयशे खंयच्यान उबे केले हाचेर चवकशी जावंची अशें दुसऱ्या पत्रांत बरयिल्लें; पदव्युत्तर शिक्षणाक अमेरिकेक इतलो पयसो लागना आनी चडशे भारतीय विद्यार्थी फाविल्ल्या वेळार नोकरी करून वा स्कॉलरशिपी मेळोवन शिक्षण पुराय करतात; इंडियन बँकेंतल्यान तीन लाखांचो ओव्हर ड्राफ्ट घेवन गौरीशाक अमेरिकेक धाडपाची आपणें वेवस्था केल्ली आनी त्या उपरांत ताणें असिस्टंटशीप मेळोवन आपणालें शिक्षण पुराय केल्लें अशी जाप महेशान मंत्रालयाक धाडली. वांगडा बँके कडेन जाल्ल्या वेव्हाराच्या पत्रांच्यो कॉपीय बी ताणें धाडल्यो.

पोर्टाच्या धा कोटींचे बिल्डिंगेक फकत सात कोटी खर्च जावपाचे आसात. उरिल्ल्या तीन कोटींतले पन्नास लाख चेअरमॅनाक लांच म्हूण मेळपाचे आसात. आतां मेरेन धा लाख ब्लॅकान मेळ्ळ्यात अशे आरोप तिसऱ्या निनांवी पत्रांत आशिल्ले. असलीं निनांवी पत्रां खरें म्हणल्यार मंत्रालयान पिंजून कोयराच्या पाटल्यांत उडोवंक जाय; पोर्ट बिल्डिंगेक अजून मेरेन फकत पावणे दोन कोटी खर्च जाला. मंत्रालयान जाय जाल्यार सी.पी.डब्ल्यू.डी.चे इंजिनियर धाडून, पावणे दोन लाखांचें काम कॉन्ट्रॅक्टरान केलां काय ना हें तपासचें. पोर्टाचो चेअरमॅन कॉन्ट्रॅक्टराक केन्ना आनी कितले फारीक करपाचे तें थारायना. चीफ सिविल इंजिनियर आनी फायनान्शियल ऍड्वायझर तें थारायतात आनी फारीक करतात अशी जाप महेशान मंत्रालयाक धाडली.

मे म्हयन्यांत फ्लाविया रिटायर जालें. आपणाक तीन पी.एं.ची गरज ना, दोनूच पुरो अशें म्हणून महेशान फ्लावियाचें काम संजय आनी दीपा हांचे मदीं वांटून दिलें. त्या भायर प्रशासकीय ऑफिसांत बसून आगियार लॉग बुक आनी बँक अकावन्टांचीं कामां करतालो.

"सर, दर म्हयन्याक कसल्यायतरी निनांवी पत्राक फटींच्या आरोपांक तुमकां जाप दिवंची पडटा! हें अशें कित्याक? हीं असलीं पत्रां कोण बरयता?" संजय नायकान आनी दीपान एक दीस विचारलें.

"असले दुखाविल्ले आत्मे सगल्या आस्थापनांनी आसतात. ह्या पोर्टांत

इल्ले चड आसात काय दिसता! आमच्या मंत्रालयांतूय बी जायते बेकार अधिकारी आसतात. असल्या निनांवी पत्रांचेर कारवाय करपाक ते आपणालो वेळ वगडायतात!'' महेशान हांसत तांकां स्पश्टीकरण दिलें.

सप्टेंबर म्हयन्या सावन गोंयांत सगले कडेन उत्सवांचें वातावरण पसरिल्लें. जात्रा, फेस्तां, फेरयो, व्हड व्हड प्रदर्शनां, संगीत महोत्सव, नाटकां, तियात्रां, जागर, धालो, ''दिनको खाओ-पिओ, रातको डान्स करो'' अशें चलतालें! गोंयांत हे असले सगले उत्सव सोडल्यार आनीक कांयच घडना अशें खंयच्याय भायल्या मनशाक दिसूंक फाव. इरमांव बारींत संभाजी, गुणाजी, बाप्तीस्त आनी रामकृष्णाच्या मेजार मात निर्शेणी पसरिल्ली. तांणी धाडिल्ल्या खंयच्याच निनांवी पत्राक येस मेळूंक नाशिल्लें. दिसां फाटल्यान आठवडे आनी आठवड्यां फाटल्यान म्हयने सोपोवन चेअरमॅन निवृत्त जावपा कडेन पावलो, तरी आसतना ताचेर कसलेंच बगलांट येशस्वीपणान घालूंक शकले नात म्हूण त्या चवगांकूय खंत भोगताली. बाप्तीस्त एकलोच मात, ''अजून टायम आसा, अजून टायम आसा, पळोवया, पळोवया,'' अशें म्हणत आशिल्लो.

''पळोवया, पळोवया कितें म्हणटा? तुवें कितेंय शिजोवंक दवरलां काय कितें रे?'' संभाजीन बाप्तीस्ताक विचारलें.

''आनीक थोडे म्हयने रावात, मागीर तुमकां कळटलें! गोंयचो एक मिनेर आनी मंत्रालयांतलो एक अधिकारी दोगूय हात मेळोवणी करून ह्या चेअरमॅनाक सस्पेंड करपाचो प्लॉट करतात. आमी कांयच करपाची गरज ना, तुमी वाट पळयात!'' बाप्तीस्तान व्हड आत्मविश्वासान सांगलें.

***

महेश आनी मीराचें मडगांवचें घर फास्ट वयर सरूंक लागलें. वणटी, स्लॅब, वेल्यान सोबीत नळे हें सगलें जून मेरेन सोंपलें. महेश डिसेंबर अखेरेक निवृत्त जावपाचो आशिल्लो. निवृत्त जातकूच ताका आनीक दोन म्हयने मेरेन चेअरमॅनाच्या बंगल्यांत रावूंक मेळटालें. एकोणीसशें श्याण्णव फेब्रुवारींत ताका मडगांवच्या घरांत रावूंक मेळपा सारखी सगली तयारी चलताली. वणटीक भायल्यान प्लास्टर मारून जाल्लो. भितरलीं फिटिंग्स् घालपाचें काम चालू आशिल्लें. जितेंद्र भगताचें ह्या बांदकामाचेर व्हडलेंशें लक्ष नासतालें.

आपणाल्या हेर कामांनीं तो गुल्ल आसतालो. जायते कडेन गवंडी आनी कामगार नाका आशिल्लीं कामां करून दवरताले आनी मागीर तीं मोडून त्या जाग्यार मीराक जाय तसलीं, आनी पयलीं सांगून दवरिल्लीं तीं कामां करचीं पडटालीं. कॉन्ट्रॅक्ट फकत वीस लाखांचो आसा अशी जितेंद्र भगताक याद करून दिवंची पडटाली. गरज नासतना बांदप आनी मागीर तें मोडप हातुंतूच खर्च वाडटलो अशी शिटकावणी महेशान आनी मीरान भगताक दिल्ली.

इतले मजगतीं फाटल्या दोन वर्सांच्या काळांत मीरा आनी महेश जायते फावटीं ताईबायक, मीराचे मावशे भयणीक, महेशाच्या भाव आनी भावजेक म्हयन्यांतल्यान एक फावट तरी मेळून येतालीं. त्या भायर ताईबाय आनी महेशाची आई दोन तीन फावटीं वेगवेगळीं येवन महेश आनी मीरा वांगडा चेअरमॅनाच्या बंगल्यार रावून गेल्लीं.

पोर्टाचें काम बरें चलतालें. मिनाचो एक्स्पोर्ट वाडत आशिल्लो. मुरगांव बाजारांत पोर्टाक लागून सगल्यांचो वेवहार-धंदो एकदम बरो चलतालो.

पोर्ट प्रशासनांत अधिकारी आनी कामगार हांचे मदलो तणाव सामको ना जाल्लो. आपणाक हांगा मानान काम करूंक मेळना अशें कोणाक दिसनाशिल्लें. ह्या चेअरमॅनाच्या प्रशासनांत जें योग्य तेंच जातलें, तागडेचें दालें फाव ताचे परस कोणाचेच वटेन चड जड जावंचें ना, अशी सगल्यांक खात्री आशिल्ली. वर्साक एक फावट आंतर-विभाग सांस्कृतीक कार्यक्रमांच्यो सर्ती जाताल्यो. तांचो आसपाव आनी नंबर वाडोवन कार्यक्रमांत भाग घेवपी सगल्या स्टाफाक आनी कामगारांक चेअरमॅनाच्या लॉनांचेर जेवण आसतालें. जेवणा वांगडा उत्स्फूर्त पदां, जोक, नाटकुलीं बी जातालीं.

तणाव नाशिल्ल्या वातावरणांत काम चलिल्ल्यान पोर्टाच्या वेव्हारांतूय बी वाड जाताली. सगलें काम हांसत-खेळत चलतालें. "सर, अधिकाऱ्यांच्यो आनी कामगारांच्यो फाटी थापटून तुमी सगल्यां वांगडा ज्योक करून लेगीत इतले शिस्तीन प्रशासन कशें चलयतात?" महेशाक एका सिनियर कामगारान विचारलें. तणाव नाशिल्ल्या वातावरणांत काम केल्यार आस्थापनांतली शिस्त आपल्या आपूण वाडटा. वेल्या पावंड्याचेर आशिल्ले अधिकारी कायद्या प्रमाणें आनी योग्य तोच निर्णय दितले हाची खात्री आसतकूच कामूय बरें चलता, अशें स्पश्टीकरण महेशान दिल्लें.

सगलें बरे तरेन चलतालें. महेश आनी मीराच्या फाटल्यान खंयचोय तरी देव उबो आसा, देखून तांकां त्रासांत उडोवपाचे कितलेय प्रयत्न केल्यार ते सफल जायनात अशें दिसून रामकृष्ण आनी कंपनी भानगडी नाका म्हूण देवाच्या भंयान वग्गी राविल्ली. निवृत्त जावंक आनीक चार म्हयने उरिल्ले. मडगांवां रावूंक वतकूच कोंकणीचे उदरगती खातीर आनी भ्रश्टाचार-विरोधी काम कशें आनी कोणा वांगडा करपाचें हाचे महेश बेत आंखूंक लागलो.

सप्टेंबरच्या एक तारखेक सांजवेळा लॉनार बसून च्या घेतना मीरान महेशाक कोर्ट केसीची याद केली. महेशाक रिटायर जावंक फकत चार म्हयने उरल्यात; अजून मेरेन भाटां बेसांच्या वांटणे विशीं कांयच वेवस्था जावंक ना देखून वकिलांनी तयार केल्ली केस कोर्टांत घाल्यार बरी अशें मिरान सुचयलें. महेश कॉर्डलेस फोना वेल्यान ऍडव्होकेट अँथनी फुर्तादो कडेन उलयलो आनी पणजेच्या सिविल कोर्टांत आतां केस घालूं येता अशें ताणें ताका सुचयलें. चार-पांच दिसां भितर केस रजिस्टर करून महेशाक कळयतां अशें ऍडव्होकेट फुर्तादोन सांगलें.

फुर्तादो कडेन उलोवन जातकूच महेशाक रोखडोच पणजेच्या सी.बी. आय्. ऑफिसांतल्यान एक फोन आयलो: ''सर, हांव इन्स्पेक्टर खान, सी.बी. आय्. ऑफिसांतल्यान उलयतां. म्हज्या वांगडा इन्स्पेक्टर यादव आसा. आमकां दोगांकूय तुमचे कडेन उलोवंक जाय. फाल्यां सकाळीं कितल्यांक तुमच्या ऑफिसांत येवं तें सांगात,'' इन्स्पेक्टर खानान विचारलें.

''कित्या बद्दल?'' महेशान ताका विचारलें.

''तुमचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप आसात. चवकशी करपाक आमी दोगूय मुंबयच्या सी.बी.आय्. ऑफिसांतल्यान आयल्यात!'' इन्स्पेक्टर खानान सांगलें.

''तुमी म्हज्या ऑफिसांत येतात, काय हांव तुमच्या ऑफिसांत येवं?'' महेशान अजापान विचारलें.

''तुमी हांगा आयल्यार चड बरें जातलें. आमचें ऑफिस खंय आसा तें तुमकां खबर आसतलें. साडे धा वरांचेर सुमार तुमी पावल्यार पुरो!'' इन्स्पेक्टर खानान सांगलें.

''हांव तुमच्या ऑफिसांत केन्नाच पावूंक ना! तुमचें ऑफिस खंयशें

आसा?'' महेशान विचारलें.

''आल्तीनोचेर, ऑल इंडिया रेडिओच्या शेजरा आसा,'' खानान सांगलें.

''थँक्यू! फाल्यां मेळुंया,'' अशें म्हणून महेशान फोन बंद केलो. सी.बी. आय्. चो फोन कित्याक आयला अशें मीरान विचारतकूच आपणाचेर कोणेंयतरी भ्रश्टाचाराचे आरोप केल्यात आनी चवकशी करपाक मुंबयच्यान दोन इन्स्पेक्टर आयल्यात; दुसऱ्या दिसा सकाळीं साडे धा वरांचेर आपणाक तांच्या ऑफिसांत वचचें पडटलें अशें महेशान मीराक सांगलें.

''तुका रिटायर जावंक आनीक चार म्हयने आसात. ह्या वेळार आनी तुज्या फाटल्यान ते कित्याक लागल्यात?'' मीरान विचारलें.

''हितसंबंदांक बाधा आयिल्ले लोक फटींचे आरोप करीत आसात आनी त्या आरोपांक हांव जापो दीत आसां. अजून मेरेन म्हज्यो जापो मेळटकूच आनी आनीक ह्या विशयाचेर कारवाय करपाची कसलीच गरज ना अशें मंत्रालय थारायतालें. हे फावटीं कितें घडलें तें पळोवचें पडटलें,'' महेशान मीराक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सारको साडे धांक महेश सी.बी.आय्.च्या ऑफिसांत पावलो. एका कॅबिनांत वेगवेगळ्या मेजां म्हऱ्यांत इन्स्पेक्टर खान आनी इन्स्पेक्टर यादव बशिल्ले. महेश भितर सरना फुडें त्या दोगांयनीय उठून ताका हात दिलो.

''सर, आमी दोगूय मुंबयच्या सी.बी.आय्. ऑफिसांतल्यान आयल्यात. तुमच्या आड जाल्ल्या आरोपांची सुरवेची चवकशी करूंक आमकां हांगा धाडल्यात. तुमी प्रामाणीक अधिकारी हें आमकां खबर आसा, इतलेंच न्हय, तर तुमचे विशीं पोर्टा भितर आनी भायर सगल्यांक खूब आदर आसा. पूण आमकां दिलां तें काम आमकां करचेंच पडटा,'' त्या दोगांयनीय आळीपाळीन महेशाक सांगलें.

''तुमी तुमचे पद्दती प्रमाणें जें कितें करपाक जाय तें करात; म्हजो तुमकां पुराय तेंको आसतलो.'' महेशान तांकां सांगलें.

''सर, तुमचेर आरोप करून एक पत्र पोर्ट मंत्रालयाक दोन म्हयन्यां पयलीं गेल्लें. त्या पत्राची कॉपी आमी तुमकां दितात. खेरीज ह्यो प्रस्नांच्यो वळेऱ्योयबी तुमकां दितात---सात वळेऱ्यो आसात. सगल्यांच्यो जापो

एकदम दिवंक जाय अशें ना! तयार जाल्ल्यो जापो एक एक करून आमचे कडेन पावयल्यार जाता. ही आमची सुरवेची चवकशी. हे चवकशेंत तुमच्या आड कितेंय भ्रश्टाचाराचे पुरावे सांपडल्यार मागीर फुडली कारवाय जातली. तुमच्या आड आयज मेरेन भ्रश्टाचाराचे कसलेच आरोप जावंक नाशिल्ले. हे पोस्टिंगेंत पयलेच फावट तुमच्या आड आरोप जाल्यात. हे आरोप फटीचे असो निश्कर्श चवकशे उपरांत आमकां काडूंक मेळचो अशें आमी देवा कडेन मागतात,'' अशें इन्स्पेक्टर खानान महेशाक सांगलें.

''ही तुमची चवकशी कितलो काळ चलतली?'' महेशान खानाक विचारलें.

''ह्या वर्साच्या डिसेंबर एकतीस तारखेक तुमी रिटायर ज़ावपाचे आसात हें आमकां खबर आसा. ताच्या पयलीं ही सुरवेची चवकशी आमी सोंपोवंक सोदतात. तुमचे कडेन दिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो मेळटकूच आनी आमकां जाय ती म्हायती मेळटकूच मागीर आमकां खूबशे प्रस्न विचारचे पडटले. कांय फावटीं आमकां जाय आशिल्ले डॉक्युमेंट बी हाडूंक तुमकां वेळ लागुंये. जितले बेगीन आमकां जापो आनी म्हायती मेळटा तितले बेगीन ही सुरवेची चवकशी सोंपोवं येता.

त्या दिसा देड वर सुमार सी.बी.आय्.च्या ऑफिसांत खान आनी यादव हांचे कडेन उलोवणीं करून महेश परतून मुरगांवां बंगल्यार आयलो आनी सी.बी.आय्.च्या ऑफिसांत तांचे कडेन जाल्लीं उलोवणीं ताणें मीराक सांगलीं. जेवन बी सारको दोनांक तो ऑफिसांत पावलो. पावचे पावून ताणें दिल्ली नारायणाक फोन लायलो: आपणाचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप करून पत्र मंत्रालयाक गेल्लें ताचेर आतां सी.बी.आय्.न सुरवेची चवकशी सुरू केल्या. हाचे पयलीं आपल्या आड जायत्या असंतुश्ट आत्म्यांनी कागाळी केल्ल्यो. खरें कितें आनी फट कितें हें हांवें दर वेळा मंत्रालयाक सांगतकूच मंत्रालयान कागाळीचेर कारवाय बंद केल्ली. हे फावटीं हे फटीचे आरोप जातकूच सी.बी. आय्.न कित्याक चवकशी सुरू केली अशें महेशान नारायणाक विचारलें.

नारायणाक ही म्हायती नासतली हें महेशाक खबर आशिल्लें. वरिश्ट अधिकाऱ्यां आड आयिल्ल्यो कागाळी डॅप्यूटी सेक्रेटरी, जॉयंट सेक्रेटरी आनी सेक्रेटरी हाताळटात. मंत्र्याचो पी.ए. आनी मंत्र्या कडेन त्यो फायली वचनात.

डॅप्यूटी सेक्रेटरी पोथन कुरियना कडेन विचारल्यार महेशाक रोखडीच म्हायती मेळटली आशिल्ली, पूण तो खरें तेंच सांगतलो आशिल्लो हाची महेशाक खात्री नाशिल्ली. आपूण चवकशी करून एका वरा भितर फोन करतां अशें नारायणान महेशाक सांगलें.

पोर्टांतल्यान गेल्लें तें निनांवी पत्र महेशान वाचूंक घेतलें. बोगमोळ्यार महेशान तीस लाखांचें घर बांदलां आनी मडगांवां घोगळांत चाळीस लाखांचें घर बांदून तयार जाता. दोनूयकडल्या प्लॉटांचें मॉल बी धरून वट्ट अंयशीं-णव्वद लाख सुमार खर्च जावंक जाय. इतले पयशे महेश प्रभू कडेन खंयच्यान आयले हें कोणाक खबर ना. बंगला असोसिएट्स् ह्या कलकत्त्याच्या कॉन्ट्रॅक्टराक पोर्टाची धा कोटींची बिल्डिंग बांदपाचो कॉन्ट्रॅक्ट मेळ्ळा आनी बांदकाम सुरू जालां. त्या कॉन्ट्रॅक्टरान महेश प्रभूचीं दोनूय घरां बांदूंक खूब मजत केल्या अशें लोक उलयतात. पत्रा वांगडा दोनूय घरांचे फोटे आशिल्ले.

हाचे पयलीं महेश प्रभून आपणाल्या पुताचें लग्न केल्लें. तातूंत ताणें आठ लाख रुपया खर्च केल्ले आनी फकत तिनूच लाख चेकान फारीक जाल्ले. ताणें आपणाल्या पुताक फुडल्या शिक्षणाक अमेरिकेक धाडिल्लो पूण त्या शिक्षणा खातीर लागपी पंदरा-वीस लाख रुपया खंयच्यान आयले ते कोणाक खबर ना. पोर्टाची धा कोटींची बिल्डिंग बांदपी बंगला असोसिएट्स् ह्या कॉन्ट्रॅक्टरान महेश प्रभूक अजून मेरेन धा लाख रुपया लांच दिल्या असोय निनांवी आरोप जाल्लो. ह्या सगल्या आरोपांची सी.बी.आय्. चवकशी जावंची अशें त्या पत्रांत बरयिल्लें.

पत्र वाचून जातकूच महेशान सी.बी.आय्.कडल्यान हाडिल्ल्या त्या वळेऱ्यांचेर नदर भोंवडायली: पयले वळेरेंत आशिल्लीं तीं भाटां, बेसा, घरां हांची म्हायती. भाटांची मालकी कशी आयली, केन्ना आयली, ताचे पुरावे, भाटां विकल्यांत काय ना, विकल्यांत जाल्यार कोणाक, प्रायस कितलो, खंयचे बँकेंत पयशे जमा केल्यात असले प्रस्न आशिल्ले.

दुसरे वळेरेंत आशिल्ले ते दागिने, साडयो, फर्निचर, इलेक्ट्रॉनीक आयटम, गाडयो, स्कुटर ह्यो सगल्यो आनी असल्योच ल्हान-व्हड वस्तू कितल्या प्रायसाक आनी केन्ना घेतिल्ल्यो असले प्रस्न; तिसरे वळेरेंत बँकेचे अकावन्टस् खंय खंय आसात, गेल्ल्या धा वर्सांचे पास बूक, पास बुक नासल्यार बँकांनी

दिल्ले स्टेटमेंट्स, फिक्स्ड डिपॉजिट रसिट्स्, येणावळ खंयच्यान आयली ती, सद्या कितली येणावळ आनी ती खंयच्यान येता, ही म्हायती; चवथे वळेरेंत बोगमोळ्यार बांदिल्ल्या घराची सगली म्हायती: घर बांदणीचेर जाल्लो खर्च, पयशे खंयच्यान आयले ताचो हिशेब, सगल्या खर्चाचो तपशील; पांचवे वळेरेंत मडगांवच्या बंगल्याची म्हायती, कॉन्ट्रॅक्टराचें नांव, आतां मेरेन जाल्लो आनी फुडाराक जावपाचो आशिल्लो खर्च, पयशे खंयच्यान आयले आनी फुडाराक येतले ताचो हिशेब ही सगली म्हायती; सववी वळेरी गौरीशाच्या लग्नाच्या हिशेबाची; सातवी वळेरी गौरीशाच्या अमेरिकेंतल्या शिक्षणाच्या खर्चाचो हिशेब.

खंयची म्हायती बेगीन धाडूंक मेळटा आनी खंयचेक वेळ लागतलो हें प्रत्येक वळेरेंतल्या आयटमां फुडें महेशान नोंद करपाक सुरवात केली. भाटां-बेसांची आनी घरांची म्हायती ताका रोखडीच धाडूंक मेळटली आशिल्ली, कारण इन्वेन्ताराचे डॉक्युमेंट ताचे कडेन आशिल्ले. गौरीशाच्या लग्नाचो खर्च आनी ताच्या शिक्षणाचो खर्च हाची म्हायती महेशान आदींच मंत्रालयाक धाडिल्ली. त्या पत्रांची कॉपी काडून सी.बी.आय्.क धाडूंक मेळटली आशिल्ली. बोगमोळ्या वेल्या घराच्या हिशेबाचो संजय नायकान आपणाल्या सोबीत अक्षरांत पुराय तपशील बरयिल्लो आशिल्लो. ह्या चार वळेरींतली म्हायती रोखडीच सी.बी.आय्.क धाडूंक मेळटाली. दागिने, साडयो, फर्निचर आनी हेर वस्तूंची वळेरी, मडगांवां घोगळांतल्या घराच्या खर्चाची म्हायती आनी गेल्ल्या धा वर्सांच्या बँक अकावंटांची म्हायती हें सगलें धाडपाक महेशाक थोडे दीस लागतले आशिल्ले. फुडल्या दोन दिसांत येवन चार वळेऱ्यांतली म्हायती आनी ताच्या उपरांत चार-पांच दिसांनी उरिल्ल्या तीन वळेऱ्यांतली म्हायती आपूण हाडून दितां अशें महेशान फोन करून इन्स्पेक्टर खानाक सांगलें.

चार वरांचेर सुमार दिल्लीच्यान नारायणाचो फोन आयलो. महेशाक जाय आशिल्ली ती सगली म्हायती ताणें दिली. पोर्टांतल्यान आयिल्लें निनांवी पत्र डॅप्यूटी सेक्रेटरी पोथन कुरियना कडेन पावलें. जॉयंट सेक्रेटरी मिश्रा बदली जावन मध्यप्रदेशाक गेल्लो आनी ताचो पोस्ट खाली आशिल्लो. कुरियन सगल्यो फायली थेट सेक्रेटरीक धाडटालो. पोर्टांतलें निनांवी पत्र मेळटकूच

मुरगांव पोर्ट चेअरमॅनाचेर एक व्हडलो नोट बरोवन ताणें सेक्रेटरीक धाडलो. ''ह्या चेअरमॅनाक लोकां कडेन वागूंक कळना आनी तो भ्रश्ट अशे ताचेर आरोप आसात. ताच्या स्टाफ काराचेर हल्लो जाल्लो. ताच्या बंगल्याचेर इन्कमटॅक्साची रेड पडिल्ली. ताच्या पुताच्या लग्नाचो खर्च आनी अमेरिकेंतल्या शिक्षणाचोयबी खर्च ह्या विशयांचेर निनांवी कागाळ्यो आयिल्ल्यो. खेरीज, पोर्टाच्या धा कोटींच्या बिल्डिंगेच्या काँट्रॅक्टरान महेश प्रभूक आतां मेरेन धा लाख रुपयांची लांच दिल्या. अशीय बी एक निनांवी कागाळ आयिल्ली.

आय्.ए.एस्. अधिकाऱ्यांच्या आड कागाळी आयल्यार, ते अधिकारी कितें सांगतात तें आयकून फायली बंद करपाची प्रथा ह्या मंत्रालयांत चलत आयल्या ती चूक! आपणाल्या आड जाल्ली कागाळ खरी आसा असो खयंचोच अधिकारी म्हणचो ना; पूण कागाळ फट अशें म्हूण तो कसलेय तरी पुरावे दितलो. त्या पुराव्यांची तपासणी करिनासतना फायली बंद करप ही चुकीची प्रथा. सिनियर आय्.ए.यस्. ऑफिसरांचेर भ्रश्टाचारांच्यो कागाळी आयल्यार त्या कागाळींची खोलायेन चवकशी जावंक जाय. तसली चवकशी करूंक भारत सरकारा कडेन एकूच खातें आसा म्हणटात तें सी.बी.आय्!

महेश प्रभूच्या आड आयिल्ल्या भ्रश्टाचाराच्या कागाळींची चवकशी सी.बी.आय्.कडेन सोंपोवची! एका फाटोफाट एक कागाळी येत आसात. जंय धुंवर आसता, थंय चड करून उजो आसता!'' अशें पोथन कुरियनान बरोवन फायल सेक्रेटरी कडेन धाडली.

जंय धुंवर आसता, थंय चड करून उजो आसता अशें शौमेंद्र दत्ताक सदांच दिसतालें. महेशाच्या पुताच्या लग्नाक तो गेल्लो तेन्ना थंयचो चकचक आनी थाट पळोवन ताका थंय धुंवर दिसूंक लागिल्लो. आतां कुरियनान धाडिल्ली फायल वाचतकूच ताका त्या धुंवराची याद जाली. ताणें रोखडीच सय करून ती फायल परतून धाडली आनी अशे तरेन कुरियनान हो विशय सी.बी.आय्.कडेन पावयलो.

नारायणान ही सगली खबर महेशाक दिवन, ''हो कुरियन ह्या मंत्रालयांत नवोच आयला, मनीस महाधूर्त काय दिसता, तो तुमच्या फाटल्यान कित्याक लागला?'' अशें ताणें विचारलें.

''तो कोची डॅप्यूटी चेअरमॅन आसतना त्या चेअरमॅनाचें आनी ताचें सदांच

झगडें पेट्टालें. त्या चेअरमॅनान ताचो सी.आर.पेड्डेर केल्लो. कुरियनाक तो कोर्टांत वचून सारको करून घेवंचो पडलो. देखून तो सगल्या आय्.ए.एस्. अधिकाऱ्यांचेर कोंत्र. मुरगांव पोर्टांत तो चेअरमॅन जावन येवंक सोदतालो. पोर्ट मंत्रालयांत तो मिनिस्टरांच्या आनी जॉयंट सेक्रेटरींच्या कॅबिनां भायर धरणें धरून बशिल्लो आसतालो खंय! तो जेन्ना मुरगांव पोर्टांत चेअरमॅन म्हूण येवंक सोदतालो तेन्नाच पर्सोनेल खात्यान म्हजें नांव पोर्ट मंत्र्याक धाडलें आनी मुरगांव पोर्टांत म्हजी नेमणूक जाली. देखून म्हजें नांव आयकना फुडें ताचें रगत सळसळटा जातलें.'' महेशान नारायणाक परिस्थिती विसकटावन सांगली.

नारायणान फोन दवरचे पयलीं महेशाक आनीक एक गजाल सांगली: कोची पोर्टांतल्यान कुरियना आड भ्रश्टाचाराच्यो कागाळी थेट मंत्र्याक आयिल्ल्यो. ताणें पन्नास लाखांचो कोचींत व्हड बंगलो बांदला आनी त्रिवेंद्रमाक आनीक एका बंगल्याचें बांदकाम चालू आसा अशें त्या कागाळींनी बरयिल्लें. आपणाले धुवे कडल्यान आपणाचेर चेपण हाडून हो मनीस डॅप्यूटी सेक्रेटरी म्हणून ह्या मंत्रालयांत आयला. आपले धुवेन आनी बायलेन बिलां धाड म्हणून परतून परतून सांगल्यार लेगीत मागीर धाडटां, मागीर धाडटां अशें म्हणून आपणांक भ्रश्टाचाराच्या जाळ्यांत ओडपाचो प्रयत्न तो करतालो. अखेरेक मंत्री इश्वरप्पान ताका शिटकावणी दिवन तीं बिलां हाडून घेतलीं आनी पयशे फारीक केले. ह्या सगळ्या गजालींक लागून मंत्री ईश्वरप्पाक ताची तिडक आशिल्ली. सी.बी.आय्.क चवकशी करपाक लावची म्हूण मंत्र्यानूच त्या कागाळीचेर आपल्या हातान बरोवन ते पेपर सेक्रेटरीक धाडिल्ले. सद्या सी.बी.आय्. ताचीय बी खोलायेन चवकशी करता. ती चवकशी बरीच फुडें पावल्या काय दिसता! ही खबर नारायणान महेशाक दिली. मंत्र्यान सी.बी. आय्.क फायल थेट धाडली म्हूण महेशाक अजाप जालें, पूण हो विशय मंत्रालयाचो म्हूण ताणें तो सोडून दिलो.

नारायणा कडेन उलोवन जातकूच महेशान संजयाक आपोवन सी.बी. आय्.कडल्यान हाडिल्ली फायल सगली ताचे कडेन दिली आनी फुडल्या दोन दिसांत खंयचे खंयचे डॉक्युमेंट तयार करपाचे तें ताका तपशिलान सांगलें. पत्र वेवहार सगलो दीपाकूच हाताळूं दी. कारण फाटल्या दोन-तीन कागाळींच्यो जापो दीपानूच टायप करून धाडिल्ल्यो अशें महेशान सांगलें. ◆◆◆

## भाग 26

**साडेचार** वरांचेर सुमार सुर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी बिळगी गंभीर शीं तोंडां करून गुड आफ्टरनून सर, म्हणीत भितर सरले. बसतकूच सूर्यनारायणनान विशय सुरू केलो : ‘‘सर, तुमी सकाळीं सी. बी. आय. ऑफिसांत गेल्ले खंय! तुमचेर सी. बी. आय. इन्क्वायरी चालू जाल्या अशी पोर्टांत वावडी पसरल्या. म्हाका पोर्टा भितरल्यान आनी भायल्यान पांच-स फोन आयले. कितें जालां, सर?’’ सूर्यनारायणान चिंतेस्त जावन विचारलें.

महेशान संजय नायकाक फोन करून सी. बी. आय. न दिल्ल्या निनांवीं पत्राची कॉपी हाड म्हणून सांगलें आनी मागीर ती सूर्यनारायणा कडेन दिली. सूर्यनारायणान ताचेर नदर भोंवडावन तें पत्र अभ्यंकरा कडेन दिलें, आनी मागीर अभ्यंकरान तें बिळगीक दाखयलें.

‘‘पोथन कुरियन, कोचीचो आदलो डॅप्यूटी चेअरमेन. ह्या मनशाक तुमी वळखतात?’’ महेशान विचारलें.

‘‘हांवें नांव आयकलां, पूण ताका मेळूंक ना. ताचें आनी कोची चेअरमॅनाचें सदांच झगडें चलतालें अशें आयकल्लें.’’ सूर्यनारायणन.

‘‘तो आतां मंत्रालयांत डॅप्यूटी सेक्रेटरी म्हूण आयला. हाचे पयलीं असलीं जायतीं निनांवीं पत्रां आमच्या मंत्रालयाक गेल्लीं. दर फावटीं हांवें विशयाची म्हायती आनी आरोपांक जाप दितकूच मंत्रालयान फायल बंद केल्ली. हे फावटीं ह्यो फटींच्यो कागाळी मेळटकूच कुरियनान आपल्याक जाय तशी फायल घुंवडावन ह्यो कागाळी सी. बी. आय. कडेन धाडच्यो अशी म्हणून शिफारस केली.

मंत्रालयाच्या सद्याच्या सेक्रेटरीक पावला-पावलाक सगले कडेन भ्रश्टाचाराचो वास येता. ताणें रोखडीच ते फायलीचेर सय केली. आतां मुंबयच्यान दोन इन्स्पेक्टर आयल्यात. तांणी कागाळींचेर सुरवेची चवकशी सुरू केल्या. ही चवकशी सोंपल्या उपरांत ह्या आरोपांनी कितेंय तथ्य आसा काय ना हें ते थारायतले.'' महेशान तांकां म्हायती दिली.

''सर, ह्या कुरियनाचें नांव हांवेंय बी आयकलां. तो तुमच्या फाटल्यान कित्याक लागला?'' अभ्यंकरान विचारलें.

''तो मुरगांव पोर्टांत चेअरमॅन म्हूण येवंक सोदतालो. मंत्रालयांत वरिश्ट अधिकाऱ्यांच्या आनी मंत्र्याच्या कॅबिनांनी तो पावटी मारतालो म्हूण मंत्रालयांत सगले ताचीं फकांडां करताले. सगल्यो लटाफटी, कारस्तानां करून ताणें आपलें नांव मुरगांव पोर्टा खातीर सुचयलें आनी फायल सुरू जाल्ली. इतल्यांत पर्सोनेल खात्यान म्हजें नांव आनी रिकॉर्ड पोर्ट मंत्रालयाक धाडले. तेन्नाच्या सेक्रेटरीन म्हज्या नांवाक मान्यताय दिली आनी मागीर नेमांप्रमाणें फुडली कारवाय जाली. कुरियन आतां सगल्या आय. ए. एस्. ऑफिसरांचेर कोंत्र जाला अशें म्हूण हांव आयकतां.'' महेशान सांगलें.

''कुरियनाचीं हीं कर्मां सगल्यांक कळूंक जाय!'' अभ्यंकरान तिडकीन मेजार हात मारून आपणालें मत सांगलें.

''कोणा कोणाक कितें कितें सांगतलो? प्रामाणीकपणान आनी कायद्या प्रमाणें काम करपी अधिकाऱ्यांक सदांच भ्रश्ट अधिकारी आनी स्टाफ हांचे कडल्यान अशे त्रास जातातूच. व्हांवत्या उदकांत हात धुवन घेवपी चेअरमॅनांक कोणा कडल्यानूच कसलोच त्रास जायना!'' महेशान उबगून सांगलें.

''सर, पोर्टांतल्यान हीं असलीं पत्रां बाप्तिस्ता कडल्यान वतात अशी म्हाका खबर मेळ्ळ्या. बाप्तिस्त, गुणाजी आनी संभाजी नेमान सड्या वेल्या इरमांव बारांत मेळटात.

तुमकां कसो जाळ्यांत घुसपावपाचो हाचेर ते उलयतात. हांवें म्हजो एक मनीस थंय घालून दवरला. तो ड्रिंक्स बी कांय घेना, चडशे फावटीं बारांत जेन्ना चड गर्दी नासता, तेन्ना ते कितें उलयतात तें ताका मात् मात् आयकूंक येता!'' बिळगीन म्हायती दिली.

''आमचे कडेन पुरावे आसले बगर आमी कांयच करूंक शकनात. पुरावो

मेळोवपाचो यत्न कर!'' महेशान बिळगीक सांगलें आनी कोणेंय ह्या विशयाचेर प्रस्न विचारल्यार आपणें सांगल्या ती सगली गजाल तांकां सांगल्यार जाता अशें महेशान सुचयलें आनी दावे वटेनच्यो फायली आपल्या मुखार हाडल्यो. ते तिगूय जाण ''थँक्यू सर'' म्हूण भायर सरून गेले.

ते वचना फुडें संजय नायकालो फोन आयलो आनी समीर लवंदे आनीक धा-पंदरा मिनटां भितर येवंक सोदता अशें ताणें सांगलें. महेश आयज स-साडे स मेरेन ऑफिसांत उरतलो आशिल्लो देखून ताणें समीर लवंदे आयल्यार जाता म्हूण सांगलें.

दिल्लीच्यान दोन फॅक्स आयिल्लीं. दोन पार्लमेण्टरी कमिटी फुडल्या वीस दिसांत मुरगांवां येवपाच्यो आसात, आनी पोर्टान सगली तयारी करची अशें त्या फॅक्सांनी बरयिल्लें. दर वर्सा जायत्यो पार्लमेण्टरी कमिटी मुरगांव पोर्टांत येताल्यो. हे फावटीं अनुसुचीत जाती-जमाती आनी हिन्दी कमिटी येवपाच्यो आशिल्ल्यो. पोर्टाच्या प्रशासनाक कमिटीं खातीर वेवस्था करपाची आनी रिपोर्ट तयार करपाची खूब वर्सां सवंय आशिल्ल्यान दर फावटीं महेशाक वेगळे आदेश दिवपाची गरज नासताली. ताणें त्या फॅक्सांचेर सेक्रेटरीन वेवस्था करची अशें बरोवन तीं फॅक्सां दिपा कडेन दिलीं.

पंदरा मिनटांनी समीर लवंदे थंय पावलो. सदांच्यो खबरो जातकूच गुळवणां प्रकल्प खंय पावला काय म्हूण महेशान विचारतकूच ''व्हडलो सो फुडें सरूंक ना, ग्रीज खंयच्या चक्रांक लावंची हाचेरूच सध्या वाद चल्ल्यात.'' अशें सांगून समीर व्हडल्यान हांसलो.

महेश सकाळीं सी. बी. आय. च्या ऑफिसांत गेल्लो म्हूण समीराक कळिल्लें. थंय कित्याक गेल्लो काय म्हूण समीरान विचारतकूच फुडल्या धा मिनटां भितर महेशान थोड्याच उतरांनी ताका सध्या कितें चल्लां हें सांगलें, आनी ''हो आय. ए. एस. अधिकाऱ्यांच्या कामाचो एक भाग, ताचेर चड विचार करूंक जायना!'' अशें म्हणून विशय बंद करपाची महेशान समीराक सुचोवणी केली. आनी पांच मिनटांनी समीर 'गुडबाय' म्हणून विमानतळार वचपाक भायर सरलो; ताच्या दिल्लीच्या विमानाक आनीक पाऊण वर सुमार आशिल्लें.

इतले मजगतीं दनपरां जेवन येतकूच सराक घेवन खंय गेल्लो काय म्हूण

हेर ड्रायवरांनी फ्रान्सिसाक विचारिल्लें. आपूण सराक घेवन पणजे सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत गेल्लों म्हूण फ्रान्सिसान सांगलें. चेअरमॅनाक सी. बी. आय्. न आपोवन व्हेल्लो ही बातमी संभाजीच्या कानार पडटकूच ताणें ती तिखट-मीठ लावन रामकृष्णाच्या कानार घाली. सी. बी. आय्. पोलीस येवन चेअरमॅनाक जिपींत बसोवन घेवन गेले अशें ताणें रामकृष्णाक सांगलें. रामकृष्णान ते खबरेंत आनीक इल्लो मसालो घालून ती खबर चड रुचीक करून सर्वानंदाक सांगली.

सर्वानंदान रोखडोच लक्ष्मणसिंगाक फोन केलो : "सिंग साब, थँक्यू! चेअरमॅन महेश प्रभूचेर सी. बी. आय्. ची चवकशी सुरू जाली. सी.बी.आय्. चे पोलीस येवन ताच्या हातांत बेडयो घालून तांणी ताका जिपींत बसोवन पणजे व्हेलो अशी म्हाका खबर मेळ्ळ्या! तुवें बरें काम केलें.' सर्वानंदान लक्ष्मण सिंगाक शाबासकी दिली.

"अरे सर्वानंदजी, तुका खुशी जाल्या देखून हांवूंय खूश आसां; पूण म्हाका हे सी. बी. आय्. चे चवकशेची कांयच खबर ना. दुसरी गजाल, चवकशी सुरू जाली जाल्यार लेगीत ही सुरवेची चवकशी जातली. अंयशीं टक्के सुरवेच्यो केशी सी.बी.आय्.क बंद करच्यो पडटात. कारण चवकशी सोंपतकूच केशींत कांयच तथ्य ना म्हूण कळटा. सगल्यांत म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार कोणेंय तरी तुका इल्लोसो रेंवेचो ढिगारो दाखोवन तो हिमालय म्हूण सांगला! तुका त्या चेअरमॅनाची तिडक आशिल्ल्यान तुजो ताचेर विश्वास बसलो. सी. बी. आय्. अश्यो बेडयो घालून कोणाक व्हरिनात. सुरवेच्या चवकशेक तर जिपींत बसोवन व्हरपाचो प्रस्नूच येना!" लक्ष्मणसिंगान सी.बी. आय्.च्या चाली-रितींची सर्वानंदाक म्हायती दिली.

ह्या विशयाचेर मागीर उलोवया अशें लक्ष्मणसिंगाक सांगून सर्वानंदान पिकार जावन फोन दवरलो.

त्या दिसा सांजेच्या स वरांचेर बाप्तिस्त, गुणाजी आनी संभाजी इरमांव बारांत मेळ्ळे. संभाजीन आनी बाप्तिस्तान एकामेकाक परबी दिवन हात दिले आनी हांसत हांसत घट्ट वेंग मारली. गुणाजीन कोणाक परबी दिली ना आनी वेंगूय मारली ना. पूण त्या दोगांयनी हात फुडें काडटकूच ताणें तांकां हात दिलो. निनांवीं पत्र कोणें धाडिल्लें तें कोणाक खबर नाशिल्लें. पूण

इंग्लीश बरी बरोवपी तो फक्त बाप्तिस्त. देखून ताणेंच तें पत्र बरयलां जावंक जाय अशें हेरांक दिसतालें. चेअरमॅनाक रिटायर जावपाक फक्त चार म्हयने उरल्यात. सी. बी. आय्. ची ही चवकशी पयलींच जावंक जाय आशिल्ली, फुडें कितेंय जावं, सद्या सगल्या गोंयांत चेअरमॅनाचें नांव म्हेळ जातलें हातूंत दुबाव ना. चेअरमॅनाक गोंयच्यान धांवडावपाचें तांचें मूळ उद्‌दिश्ट आतां तडीक ना पावल्यार लेगीत कांयच प्रोब्लेम ना, कारण तो चार म्हयन्यां भितर रिटायर जावपाचो आसा, असो विचार संभाजीन आनी बाप्तिस्तान केलो.

काळोख जातकूच रामकृष्णूयबी थंय येवन बसलो आनी सगल्यांक हात दिवन ताणें परबींय बी दिलीं. आयज मेरेन ताणीं कितें कितें केलें आनी तें सगलें कशें फेल जालें आनी आतां निमाणे कडेन कोणाचोय तरी बाण सारको लागूंक जाय थंय लागलो, हाचेर हांसून व्हडल्यान चर्चा करून, सदांपरस एक लार्ज पेग चड मारून ते सगले गेले. गुणाजीन एकूच लार्ज पेग घेतिल्लो आनी चर्चेंत तो चडसो वांटो घेना आशिल्लो. जो मनीस आवडना ताच्या म्हऱ्यांत वचचें न्हयच पूण ताचे फाटींत सुरोयबी तोपचो न्हय अशें ताचें मत आशिल्लें.

चेअरमॅनाच्या आड ताची खास अशी कांय कागाळ नाशिल्ली आनी तशी दुस्मानकायूय बी नाशिल्ली पूण बाप्तिस्ताचो तो इतलो काळ खास इश्ट आशिल्ल्यान बाप्तिस्त करता तें आवडना जाल्यार लेगीत तो सोंसून घेतालो.

बारांतल्यान भायर सरतना रामकृष्ण बील फारीक करूंक विसरलो ना. त्या डिटेक्टिवाचें काम आपणें बंद करूंक लायलें अशें म्हूण रामकृष्णान वतां वतां संभाजीक सांगलें.

ज्या दिसा महेश पणजे वचून सीबीआय्च्या इन्स्पेक्टरांक मेळिल्लो तेच रातचो मुरगांव पोर्ट कामगार संघाच्या एका वांगड्यान कल्याणपूरकराक सी. बी. आय्. चवकशेची खबर दिली. पोर्टांतल्याच कोणाचेंय तरी हें कारस्थान अशें कल्याणपूरकराक रोखडेंच समजलें आनी ताणें मंत्री ईश्वरप्पाक फोन केलो.

मंत्री ईश्वरप्पा हो कामगार संघाचे चळवळींतल्यान वयर सरिल्लो फुडारी. कामगार संघांत वेगवेगळ्या कामां खातीर वावुरतना ताची आनी कल्याणपूरकराची वळख जाल्ली आनी तांची इश्टागत वाडत गेल्ली. हालींच्या कांय वर्सांत तांचो एकामेकां कडलो संपर्क तुटिल्लो.

आरंभाक एकामेकाच्या भलायकेच्यो चवकश्यो जातकूच फोन कित्याक

केल्लो काय म्हुण ईश्वरप्पान कल्याणपूरकराक विचारलें. महेश प्रभू हो मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन, एकदम सरळ आनी प्रामाणीक अधिकारी आनी आपणालो खूब वर्सां सावन इश्ट. तो सरळ आनी प्रामाणीक म्हूण मुरगांव पोर्टांतले हेराफेरी करपी कांय अधिकारी आनी स्टाफ ताच्या आड निनांवीं कागाळ्यो करीत आसात. पोर्ट मंत्रालयान आतां सी. बी. आय्. क पत्र धाडून सी. बी. आय्. न सुरवेची चवकशी सुरू केल्या. सरळ आनी प्रामाणीक मनशांक अशे सुळार चडयल्यार ह्या देशाचें कितें जातलें असो प्रस्न कल्याणपूरकरान बेजारून विचारलो. मंत्री ईश्वरप्पाक हें सगलें आयकून वायट दिसलें. हो अधिकारी सरळ आनी प्रामाणीक देखून गोंयचो एक उद्‌देजक ताचेर कोंत्र आसा हें ईश्वरप्पाक खबर आशिल्लें. हें कितें चललां तें आपूण विचारून दुसऱ्या दिसा फोन करतां अशें सांगून कल्याणपूरकराक नमस्ते करून ताणें फोन दवरलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं एके वटेन महेशाक आनी दुसरे वटेन मीराक सगल्या सोयऱ्यांचे फोन येवंक लागले. महेशाचो एक बापोलभाव देवेश प्रभू सांग्यार रावतालो. फाटलीं कितलिंशींच वर्सां ते दोगूय एकमेकांचें अस्तित्वूच विसरिल्ले.

''आरे महेश, कितें चल्लां? तुजेर सी. बी. आय्. चवकशी चालू जाल्या खंय?'' देवेश प्रभून विचारलें. देवेशाच्या आवाजांत खूब खोस आशिल्ली असो महेशाक संशय आयलो.

''आरे देवेश, इतल्या वर्सांनी तूं म्हाका फोन करता, हांव कसो आसां, मीरा कशें आसा तें पसून तूं विचारिना! तुका सी. बी. आय्. ची चड चिंता काय कितें रे? तुवें कितें आयकलां तें सांग पळोवया! ताचे पयलीं तूं खंय आसा, कितें करता हें सगलें पयलीं सांग! मागीर हांव म्हजी म्हायती दितां आनी त्या उपरांत तूं सी. बी. आय्. ची गजाल सांग!'' अशें म्हणून महेशान देवेशाक चिथायलो.

''हांवें बेठें विचारिल्लें रे! आमी सगलीं बरीं आसात. तुमीय बरीं आसतकूच जालीं. आनीक केन्नाय उलोवया!'' देवेशान अशें म्हणून फोन दवरलो.

देवेशाचो फोन जातकूच काणकोणच्यान महेशाची मावसभयण निर्मला पै हिचो फोन आयलो :

“आरे महेश, कसो आसा तूं ? भुरगीं बी बरीं आसात मरे?” निर्मलान विचारलें.

“आमी बरीं आसात गो; म्हाका एकूच चलो, तो अमेरिकेक आसता, हालींच ताचें लग्न जालां. तुमी सगलीं बरीं आसात मुगो? हांव ह्या पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवन म्हाका पांच वर्सां जायत आयलीं. इतल्या वर्सांनी जांव, पूण तुका आमची याद जाली ती बरी गजाल! तुका सी. बी. आय्. चें कितें जालें तें जाणां जावंक जाय मुगो?” महेशान मातशें हांसत विचारलें.

“तशें न्हय रे! आमकां सगल्यांक मात्सो हुस्को जालो. सी बी आय् न तुका खास विमान करून हाताक बेडयो घालून दिल्ली व्हेला अशें आमच्याच एका लागींच्या सोयऱ्यान सांगलें.” निर्मलान मात्शें नर्वस जावन सांगलें.

“हांव आतां खंय आसां सो दिसता तुका, तुवें मुरगांवां फोन केला काय दिल्ली?” महेशान निर्मलाचीं फकांडां मारीत विचारलें.

“तूं आतां मुरगांवांतूच आसतलो, दिल्लीच्यान तांणी तुका परतून हाडला जातलो, व्हड गुन्यांवकारांक ते चड वेळ दिल्ली दवरिनात अशें म्हजो घोव म्हणटालो!” निर्मलान स्पश्टीकरण दिलें.

“तें विमान मुगो, म्हाका घेवन दाबोळेच्यान भायर सरलें, आनी उड्डाण करतनांच दर्यांत पडलें. हांव तातूंतल्यान भायर सरून पेंवून बोगमोळ्या वेळेर पावलों आनी मागीर थंयच्यान चलत मुरगांवां आयलों. सद्या हांव मुरगांवां आसां!” महेशान व्हडल्यान हांसत निर्मलाक सांगलें.

महेश आपणालीं फकांडां करता अशें कळटकूच निर्मलान फोन दवरलो.

चडशा सोयऱ्यांक आपणालें व्हडलेंशें पडून वचूंक ना; तांतल्या तातूंत बरें कितेंय जाल्यार तांकां व्हडलीशी खोस जायना, पूण वायट कितेंय जालेंशें दिसल्यार तांकां रोखडोच ‘हुस्को’ जाता, आनी तीं फोनाचेर फोन करून आपणाक ‘हुस्क्यान’ न्हीद पडना म्हूण सांगतात.

फाटल्या धा-पंदरा वर्सां संपर्कांत नाशिल्ल्या सोयऱ्यांची लेगीत ‘हुस्क्यान’ न्हीद खळ्ळ्या म्हूण फोन येवंक लागले.

मीराच्याय सोयऱ्यांची अशीच ‘हुस्क्यान’ न्हीद खळ्ळ्या म्हूण फोन येवंक लागले. तिहार जेलींत जेवण सारकें मेळटा तरी अशें एका सोयऱ्यान विचारलें. गोंयांत महेशाक खंयचे जेलींत दवरतले अशें आनीक एका सोयऱ्यान विचारलें.

सी. बी. आय्. जेलींत जळारां बी खूब आसतलीं देखून महेशाक ओडोमसाचो सांठो घेवन वचूंक लाय असो सल्लो एका सोयऱ्यान मिराक दिलो.

पूण सगलेच सोयरे वायट अशें म्हणप चूक जातलें. मिरा "हावस अरेस्टांत" आसा आनी पोलीस बंगल्या भायर चोवीस वरां पहारो दवरून आसात अशें मिराच्या दोन धुवड्यांनी आयकलें, आनी दोगूय जाणां दुसऱ्या दिसा सकाळींफुडें तोंडाकां बी घेवन वास्को चेअरमॅनाच्या बंगल्यार पावलीं. बंगल्यार पोलीस बी कोण्ण दिसनात म्हणटकूच तांच्या जिवाक मात्शी थाकाय आयली. आपणें कितें आयकल्लें आनी तीं कित्याक आयिल्लीं तें सगलें तांणी मिराक सांगलें. तांणींय बी बेडयो आनी विमानाची काणी आयकल्ली.

सज्जन केंकरेन महेशाक ऑफिसांत आनी मिराक बंगल्यार फोन करून ह्या कारस्थानी लोकांक आपूण कसोच सोडचों ना अशें तिडकीन सांगिल्लें. प्रामाणीक मनशांक सदांच दुर्जनां कडल्यान चड त्रास जातात हें सांगपाक अनंतभाई आनी सीतावयनी मुद्दम येवन महेशाक आनी मिराक मेळ ळीं. येता आसतना तांणीं मिराच्या आवडीचे बेसन लाडू हाडिल्ले. आपणाक येवंक जाय, केन्ना येवं, अशें म्हूण रामभाऊ लवंदेन फोनार विचारिल्लें. पूण ताणें येवपाची गरज ना. ताचे आशिर्वाद सदांच आपल्या आनी मिराच्या वांगडा आसतले अ शें सांगून महेशान ताच्या मनाक थाकाय दिली. महेशाच्या दादान आनी वयनीन फोनार खबर घेतली.

महेशा वांगडा ल्हानाचे व्हड जाल्ल्या ताच्या इश्टांक तो एक प्रामाणीक आनी सरळ अधिकारी हें खबर आशिल्लें. तांणी सगल्यांनीं खऱ्यांनीच हुस्को जावन खबर घेतली. मिरा वांगडा शिकपी एक मैत्रीण रमीला मुद्दम पणजेच्यान टॅक्सी करून मुरगांवां बंगल्यार मिराची खबर घेवंक आयली. येतना ती बिर्याणी बी घेवन आयिल्ली. महेशाक विमानान दिल्ली व्हेला आनी मिराक हावस अरेस्ट केलां अशें तिणेंय बी आयकल्लें. हेर मैत्रिणींनीं फोनार खबर घेतिल्ली आनी ह्या कारस्थानी लोकांक कशेंच सोडूंक जायना म्हूण आपणाली तिडक उक्तावन दाखयिल्ली.

सी. बी. आय्. चवकशी खंयूय पावूं! कोण आपणालो आनी कोण आपणालो न्हय हें महेशाक आनी मिराक स्पश्ट समजलें. आपणाल्या आनी परकी लोकां मर्दी आशिल्ली खोल चर हो अणभव स्पश्ट दाखोवन गेलो!

***

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सदचे भशेन महेश सारको णवांक ऑफिसांत पावलो.

"सर, ह्या चोरांक सोडपाचे नात. बऱ्या मनशांक काम करूंक दिनात. तुमची आनी तुमच्या कुटुंबाची राखण कर म्हणून हांवें आमच्या गांवच्या देवाक 'आजोबा' क सांगून घेतलां." जगदीश लिफ्टमॅनान महेशाक सांगलें.

"थँक्यू जगदीश, देव तुजें बरें करतलो!" महेशान जगदीशाचे फाटीर हात दवरून ताचे उपकार मानले.

ऑफिसांत वचून बसतकूच महेशान संजयाक आनी दीपाक आपयलीं. दीपा सी. बी. आय्. न दिल्लें लिस्ट घेवन आयिल्लें.

"पयलें लिस्ट आसा तें भाटा-बेसांचें. ती फायल बंगल्यार आसा. आयज दनपारचो येतना ती हांव घेवन येतां. मॅडमीच्या वांट्याक आयिल्ल्या सगल्या भाटा-बेसांचें लिस्ट ते फायलींत आसा. लिस्टाची कॉपी काडून तयार दवरपाची. चवथें लिस्ट आसा तें बॉगमॉळ्यावेल्या घराच्या खर्चाचें. तो स्टेटमेंट संजय तुवें आदींच तयार करून दवरिल्लो. तीच गजाल पांचव्या लिस्टाची, मडगांवच्या घराची. आयज मेरेन ताचेर कितलो खर्च जाला तोबुयबी तपशील तुवें सगलो बरोवन काडला. गौरिशाच्या लग्नाक जाल्ल्या खर्चाचो तपशील दिवन आमी मंत्रालयाक आदींच एक पत्र धाडलां. खेरीज, ताच्या अमेरिकेंतल्या शिक्षणा खातीर केल्ल्या खर्चाचो तपशीलूयबी मंत्रालयाक धाडला. हीं दोनूय पत्रां, दीपा, तुवें टायप करून तयार केल्लीं. म्हणटकूच तुज्या इलेक्ट्रॉनीक टायपरायटरान ताच्यो कॉपी काडूंक मेळटल्यो. तश्यो मेळना जाल्यार त्या पत्रांच्यो आमच्या फायलींत आशिल्ल्या ऑफिस कॉपींची आनीक एक-एक कॉपी काडून दवरची. हे वट्ट पांच स्टेटमेंट परां हांव सी. बी. आय्. क व्हरून दितलों. उरिल्ल्या दोन स्टेटमेण्टांचेर आमकां काम करचें पडटलें. दागिने, साडयो, फर्निचर, इलेक्ट्रॉनीक आयटम ह्या सगल्यांचें लिस्ट कर म्हणून हांवें मॅडमीक सांगलां. बँकेचे पासबुक बी घेवन तुमी मागीर रुडॉल्फ आगियाराक म्हज्या म्हऱ्यांत धाडात. तो स्टेटमेन्ट कसो करपाचो तें हांव ताका सांगतां." महेशान संजयाक आनी दीपाक कसलीं कसलीं कामां करपाचीं तें तपशिलान सांगलें आनी दोन दिसां उपरांत आपूण हे पांच स्टेटमेन्ट पयलीं घेवन येतां अशें सी. बी. आय्. क धाडपाचें पत्र

महेशान दीपाक बरोवन घेवपाक लायलें.

संजय आनी दीपा भायर सरतकूच दिल्लीच्यान नारायणा उलोवंक सोदता म्हुण संजयान महेशाक सांगलें. महेशान ओके म्हणटकूच संजयान कनॅक्शन दिलें.

"गुड मॉर्निंग सर, नारायण उलयतां!" नारायणान सांगलें.

"गुड मॉर्निंग. सी. बी. आय्. चो बोवाळ मरे? कितें खबर?" महेशान विचारलें.

"सर, सी. बी. आय्. न तुमचे सुरवेची चवकशी सुरू केल्या म्हूण आमचो मंत्री बरोच पिकार जाला. तुमचो इश्ट कल्याणपूरकर फाटलीं वीस-पंचवीस वर्सां ताचोय बी इश्ट. ते दोगूय कामगार संघांच्या चळवळींतल्यान वयर सरल्यात. महेश प्रभू सारकिल्या सरळ आनी प्रामाणीक अधिकाऱ्या फाटल्यान सरकारान सी. बी. आय्. लायल्यार ह्या देशाचें कितें जातलें अशें म्हणून कल्याणपूरकरान रातीं आमच्या मंत्र्याक फोन करून आपणालो राग उकतायिल्लो. तुमच्या आड फर्टीच्यो कागाळी घेवन सर्वानंद सांवड्डेकार मंत्र्या म्हऱ्यांत आयिल्लो. ती आमच्या मिनिस्टराक याद आशिल्ली. आपणाक कळनासतना ही सी.बी.आय्. चवकशी कोणें सुरू केली तें आत्तां सोदून काड अशें म्हणून तो म्हजेर तापलो. डॅप्युटी सेक्रेटरी कुरियन कोचीक गेला. म्हणटकूच अंडर सेक्रेटरी कडल्यान ती फायल घेवन हांवें मंत्र्याक दाखयली. कुरियनाचो लांबरूंद नोट वाचून मंत्री अस्वस्थ जालो. वरिश्ट आय्. ए. एस. अधिकाऱ्यां आड भ्रश्टाचाराच्यो कागाळी आयल्यार त्यो मंत्रालयांतूच तपासून तांचेर कारवाय करपाची प्रथा बंद करून असल्यो केशी सरळ सी. बी. आय्. कडेन चवकशे खातीर धाडच्यो. महेश प्रभू आड हालींच आयिल्ली कागाळ सी. बी. आय्. क धाडची अशी पोथन कुरियनान शिफारस केल्ली आनी सेक्रेटरीन ताचेर सय केल्ली. धोरण बदलप हें मंत्र्यांचें काम, अधिकाऱ्यांचें न्हय अशें म्हणून मंत्री रागान तांबडो जाल्लो आनी सेक्रेटरीक आपय म्हूण ताणें म्हाका सांगलें. सेक्रेटरी मागीर ताच्या म्हऱ्यांत धा मिनटां सुमार बसून भायर येतना नर्वस जावन आयिल्लो तें हांवें पळयिल्लें. ह्या पोथन कुरियनाक ताच्या पयलींच्या पोस्टार परतून धाडपा खातीर फायल सुरू कर अशें म्हणून मंत्र्यान म्हाका सांगलां." नारायणान महेशाक म्हायती दिली.

“सी. बी. आय्. न आतांच सुरवेची चवकशी सुरू केल्या! तांकां ती पुराय करूं दी. ही चवकशी बंद करची अशें तुमी सुचयल्यार पर्सोनेल खातें मानून घेवचें ना. तशें करपूय बरोबर न्हय. सी. बी. आय्. क ही चवकशी करूंक पुराय मेकळीक दिवची. तशें करिना जाल्यार मंत्र्यान भितर पडून चेअरमॅनाक वाटायलो अश्यो वावड्यो पसरतल्यो.” महेशान नारायणाक सादूर केलो. तेवटेन, मंत्री ईश्वरप्पान कल्याणपूरकराक फोन करून ताची माफी मागली. एका सरळ आनी प्रामाणीक अधिकाऱ्याक डॅप्युटी सेक्रेटरीन आपणाले निजी दुस्मानकायेक लागून बेठोच त्रासांत घाला अशें ईश्वरप्पान कबूल केलें. कुरियनाक कोची पोर्टांत परतो धाडपाची फायल आपणें सुरू करूंक लायल्या अशेंय बी ईश्वरप्पान सांगलें.

महेशान कल्याणपूरकराक फोन करून ताचे उपकार मानले. पूण सी. बी. आय्. क तांचें काम करूंक मेकळीक दिवंची, नाजाल्यार कल्याणपूरकर आनी ईश्वरप्पा भितर पडून तांणी चेअरमॅनाक वाटायलो अश्यो वावड्यो पसरतल्यो अशें महेशान कल्याणपूरकराक सांगून त्या विशयांत आनी कांयच करूं नाकात म्हणून ताका रिक्वेस्ट केलो.

महेशान फोन सकयल दवरिनाफुडें फ्लावियाचो फोन आयलो. सी. बी. आय्. क निनांवीं पत्रां बरोवपाचें काम फकत बाप्तिस्तच करूंक शकता. हो मनीस दिसरात कारस्थानां करपांत गुल्ल आसता. ताका कसोच सोडूंक जायना अशें मत ताणें उक्तायलें. तें सामकें रडूंक पाविल्लें. फ्लावियाचो फोन जातकूच संजयाचो फोन आयलो. त्या दिसा सांजवेळचे पीटर डिमेलो आनी गुणाजी चेअरमॅनाक मेळूंक अपॉयंटमेन्ट मागतात अशें संजयान सांगलें. महेशान तांकां तिनांचो अपॉयंटमेन्ट दिलो.

कांय वेळान रूडॉल्फ आगियार स्टाफ काराचो लॉगबूक घेवन आयलो. आठवड्याक एक फावट तरी लॉगबुक महेशाक दाखोवन तो एका कोनशाक ताची सय घेतालो. सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत आपूण गेल्ले फावटीं ती ट्रीप प्रायव्हेट ट्रीप म्हणून बरय अशें महेशान रूडॉल्फाक सांगलें आनी स्टेट बँकेंत आशिल्ल्या ॲकावंटाचे सगले पासबूक आनी चॅकबुकांच्यो कावन्टरफॉयल घेवन यो म्हूण ताका सांगलें. धा मिनटां भितर रूडॉल्फ सगले पासबूक आनी चॅकांच्यो कावंटरफॉयल घेवन आयलो. फुडलें अर्दवर

महेशान सगल्या पासबुकांचेर आनी कावंटरफॉयलांचेर नदर भोंवडायली आनी सगल्यांच्यो झॅरॉक्स काडून आमच्या फायलींत दवरपाच्यो आनी कावंटरफॉयली आनी पासबूक सी. बी. आय्. क धाडपा खातीर तयार दवरपाचे अशें ताणें रूडॉल्फाक सांगलें. रूडॉल्फ केन्नाच चड उलयनाशिल्लो. पूण हे फावटीं ताका ओगी रावप जमलें ना. आपणें त्या दिसा सकाळीं इगर्जेंत वचून सायबिणीक प्रार्थना केल्या आनी चेअरमॅनाक मजत कर म्हूण सांगलां अशें ताणें महेशाक सांगलें आनी ह्या बाप्तिस्ताक कसोच सोडूंक जायना असो कडक सल्लो दिवन तो भायर सरलो.

सारको एका वराचेर महेश बंगल्यार वचूंक भायर सरलो. गाडी सुरू करतकूच फ्रान्सिसानूयबी फटीच्यो कागाळी धाडपी ह्या लोकांक कशेच सोडूंक जायना अशें आपणालें मत उकतायलें.

साडयांचें आनी दागिन्यांचें लिस्ट कर अशें सकाळीं भायर सरता आसतना महेशान मीराक सांगिल्लें. त्याप्रमाणें त्या दिसाचें जेवण रांदून, न्हावन धुवन मीरान तीं लिस्टां करूंक सुरवात केल्ली. लिस्टां करपाचें काम खंय पावलां काय म्हूण महेशान विचारतकूच मीरान आपणाल्यो अडचणी सांगल्यो. दागिन्यांचें वजन आपणाक खबर ना, लग्ना वेळार सगले दागिने रघुवीर शेटीन केल्ले. तांचें वजन आनी प्रायस आपल्याक खबर ना, महेशाक युनायटेड नेशन्स कन्स्टल्टन्सी खातीर मेळिल्ल्या डॉलरांनीं वज्रा-वेडी आनी चपलाहार मडगांवां घेतिल्लो तें आपल्याक याद आसा. खंयच्याच भांगराचीं वा त्या वेडींचीं बिलां नात. बिलां खंय शेणलीं काय म्हूण महेशान विचारतकूच मीराक एकदम तिडक आयली, "ह्यो असल्यो गजाली जातल्यो म्हणून पयलींच कळिल्लें जाल्यार बाबा आनी रघुवीर शेटी कडेन हांव गोंठ, पाटली, तोडे, कांकणां आनी हेर दागिन्यांचीं बिलां मागतलें आशिल्लें. बाबान दिल्ल्यो त्यो वेडी कोडयकनाल गेल्ले कडेन चोरयेक गेल्ल्यो तें तुका खबर आसा. तुका युनायटेड नेशन्साचे ते डॉलर मेळूंक नाशिल्ले जाल्यार मडगांवांत त्यो वज्राच्यो वेडी आनी चपलाहार करपाकूच मेळचें नाशिल्लें. मडगांवांत घेतिल्ल्या वस्तींचो प्रायस तांणी एका इल्ल्याशा चिटाऱ्याचेर बरोवन दिल्लो. तो चिटारो खंय पडलो देव जाणा! साडयोबी मेजपाक हांवें सुरवात केल्या. आयज रात मेरेन तेंवूयबी लिस्ट तयार जातलें. साडयांचीं बिलां नात, पूण

म्हाका तांच्या प्रायसाचो अदमास आसा.'' मीरान सांगलें.

जेवतकूच सदां भशेन वर्तमानपत्रांचेर मात्शी नदर भोंवडावन, आनीक कसल्या कसल्या वस्तूंचें लिस्ट करपाचें तें मीराक सांगून महेश सारको दोनांक ऑफिसांत पावलो. ऑफिसांत वतना वांगडा एक दाट्ट फायल तो घेवन गेलो. जगदीशान ती घेवन महेशाच्या मेजाचेर हाडून दवरली. ते फायलींत इन्वेन्ताराचो निवाडो, भाटा-बेसांचें विभाजन, एक आनी चवदा फॉर्म आनी भाटा-बेसां संबंदींचे हेर दोकुमेंत आशिल्ले. मीराच्या वांट्याक आयिल्लीं भाटां नमूद केल्ल्या पानांचेर धाकले-धाकले चिटारे गॉमान दसयिल्ले आनी तांचेर भाटांचीं नांवां घाल्लीं. तें काम महेशान पांच-स वर्सां पयलीं करून दवरूंक नाशिल्लें जाल्यार त्या हजार पानांच्या फायलींत आतां तें सोदून काडप म्हणल्यार चार-पांच क्लार्कांक एक म्हयनोभर तरी काम करचे पडटलें आशिल्लें. चिटारे दसयिल्ल्या त्या पानांच्यो झॅरॉक्स कॉपी काडूंक येतल्यो काय ना तें संजयाक खबर नाशिल्लें कारण त्यो सगल्यो बायंडिंग करून तांचें पुस्तकशें केल्लें. तें पुस्तक घेवन वचून शंबर सुमार पानांच्यो झॅरॉक्स कॉपी काडून हाड म्हणून ताणें संजयाक सांगलें. संजय तें पुस्तक घेवन गेलो. दीपान मागीर आनीक दोन पत्रां महेशाक हाडून दाखयलीं. गौरिशाच्या लग्नाक जाल्लो खर्च सारको तपशिलान बरोवन महेशान आदींच मंत्रालयांत धाडिल्लो. त्या भायर, गौरिशाच्या शिक्षणा खातीर तीन लाख रुपया खंयच्यान हाडिल्ले तेंवूय बी बरोवन ताणें एक पत्र मंत्रालयाक धाडिल्लें. तीं पत्रां महेशान परतून वाचून काडलीं आनी तांच्यो कॉपी काडून दवरूंक लायल्यो. बोगमोळ्यावेल्या घराच्या खर्चाचो आनी मडगांव घोगळांतल्या घरा खातीर आतां मेरेन जाल्ल्या खर्चाचो, हे दोनूय स्टेटमेंट संजयान आदींच करून दवरिल्ले. ते मागीर हाडून दाखोवंक लाय अशें ताणें दीपाक सांगलें.

पिटर डिमेलो आनी गुणाजी सारके तीन वरांचेर महेशाक मेळूंक आयले. तांणी गुड आफ्टरनून सर, म्हण्टकूच महेशान गुड आफ्टरनून म्हणून खुणेनूच तांकां बसूंक लायले आनी आपूण वाचतालो ती फायल बंद करून ''कशें चल्लां?'' अशें तांकां विचारलें. चेअरमॅना आड निनांवीं कागाळ वचून सी. बी. आय्. न ते कागाळीचेर सुरवेची चवकशी सुरू केल्या तें बरें जालें ना, आनी तांकां आनी तांच्या कामगारांक तें सामकें आवडूंक ना अशें पीटर

डिमेलोन सांगलें. तें निनांवीं पत्र तांणी बरयलां अशें चेअरमॅन समजत, देखून तांणी तें बरोवंक ना आनी असलीं हळशिकावणीं कामां ते करिनात तें सांगपाक ते मुद्दाम आयिल्ले, हें गुणाजीन सांगलें. चेअरमॅना कडेन कितेंय मतभेद जाल्यार ते कामांच्या विशयांचेर! एक बरो मनीस म्हूण चेअरमॅना विशीं तांकां खूब आदर आसा अशें त्या दोगांयनी तोंडां गंभीर करून सांगलें. कामगार फुडारी ह्या नात्यान सी. बी. आय्. क कितेंय सांगपाचें जाल्यार ते फाटीं रावचे नात, अशेंयबी महेशाक सांगून थँक्यू सर म्हणून ते गेले.

आनीक वर भरान सुमार चिटारे दसइल्ल्या पानांच्यो झॅरॉक्स कॉपी काडून घेवन संजय आयलो. त्यो सगल्यो कॉपी एके कडेन करून तांचेर नवे नंबर घालून ते तयार दवर अशें महेशान ताका सांगलें आनी आपल्या त्या दोनूय घरांच्या खर्चांचे स्टेटमेन्ट हाडूंक लायले. संजयान ते दोनूय स्टेटमेन्ट हाडटकूच महेशान अर्द वरा भितर ते वाचून काडले, आनी इतलें बरें पद्दतशीर काम आपणें हालींच्या काळांत खंयच्याच ऑफिसांत पळोवंक नाशिल्लें अशें सांगून ताणें संजयाक शाबासकी दिली. प्रत्येक आयटमाचें नांव, विकतले कंपनीचें नांव, बिलाचो आंकडो. केन्ना सामान आयलां ती तारीख, पयशे फारीक केल्ल्याचो आंकडो. चॅक नंबर आनी तारीख ही सगली म्हायती संजयान सोबीत अक्षरांनी बरोवन काडिल्ली.

दुसऱ्या दिसा महेश पांच स्टेटमेन्ट व्हरून सी. बी. आय्. क दिवपाचो आशिल्लो. स्टेटमेन्ट नंबर एक - भाटां-बेसां; स्टेटमेन्ट नंबर दोन - बोगमोळ्या वेल्या घराचो खर्च; स्टेटमेन्ट नंबर तीन - मडगांव घोगळांतल्या घराचो आतां मेरेनचो खर्च; स्टेटमेन्ट नंबर चार - गौरिशाच्या लग्नाचो खर्च; स्टेटमेन्ट नंबर पांच - गौरिशाच्या शिक्षणाचो खर्च. दिपाक आपोवन महेशान सी. बी. आय्. क दिवपा खातीर पत्र बरोवन घे म्हूण सांगलें.

"हांव ह्या पत्रा वांगडा पांच स्टेटमेन्ट धाडटां. दागिने, साडयो आनी हेर वापरपाच्या वस्तूंचें लिस्ट, आनी बँकेचे पास-बूक आनीक दोन दिसांनी हाडून दितां.

महेश प्रभू, आय्. ए. एस्.

चेअरमॅन, मुरगांव पोर्ट ट्रस्ट"

हें पत्र टायप कर आनी ते पांचूय स्टेटमेन्ट ताका जोडून ती फायल आतां

बंगल्यार वतना आपल्या कडेन दी. दुसऱ्या दिसा आपल्याक ती फायल घेवन पणजे सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत दिवंक जाय, अशें महेशान दिपाक सांगलें.

सी. बी. आय्. क धाडिल्ल्या दर पत्राची आनी दोकुमेंताची कॉपी आपल्या कडेन आसूंक जाय अशें महेशान संजयाक सांगलें आनी महेश मेजार आयिल्ल्यो फायली पळोवंक लागलो.

पावणे पांचाक सुमार दीपान महेशाक जाय तशी फायल तयार करून हाडून दिली आनी फायलीची एक कॉपी तांणी दवरल्या म्हणपाचें सांगलें. सारको पांच वरांचेर महेश बंगल्यार वचूंक भायर सरलो.

***

त्या दिसा सांजेचीं लॉनार बसून च्या घेता आसतना भांगराचें आनी साडयांचें लिस्ट केल्लें तें मीरान वाचून दाखयलें. ''गौरिशाचें लग्न जाल्लें तेन्ना म्हजीं आठ जडशीं कांकणां, एक बोर माळ, एक पारजताच्या फुलांची माळ, तुजो भांगराचो घड्याळीचो पटो आनी एक सरपळी अश्यो सुमार पंचवीस पवनांच्यो बारा वस्ती मोडून शिरधनच्या रघुवीर शेटी कडल्यान दोन नेकलेस - कांकणांचे सेट करून घेतिल्ले. आतां उरिल्लें भांगर चार गोंठ, दोन पांटल्यो, 2 तोडे, निळ्या खड्यांचो नेकलेस - चार कांकणांचो सेट, चपलाहार, गौरिशाल्यो चार सरपळ्यो आनी लॉकेटां, तीन तरांचे कानांतल्यांचे पार, स मुदयो, दोन वज्रांच्यो वेडी आनी एक वज्रांची मुदी; ह्या नगांचें हांवें लिस्ट करून दवरलां. साडयांच्या लिस्टांत वट्ट दोनशें सतरा साडयो आशिल्ल्यो. एकावन्न सिल्काच्यो आनी उरिल्ल्यो सगल्यो कॉटनच्यो. सगल्यो साडयो हातमागार विणिल्ल्यो.

पस्तीस वर्सां पयलींच्यो लेगीत साडयो आसात. साडयांचीं बिलां नात म्हणटकूच साडयांचो प्रायस अदमासान घाला. बंगल्यांतलें फर्निचर आनी हेर वस्तू चडश्यो सरकारी! थोड्यो आमच्यो आसात. आमच्या वस्तूंचें वेगळें लिस्ट करून तें हेर लिस्टांक जोडून सी. बी. आय्. क धाडुंया हें तिसरें लिस्ट, आयज रातचें तयार करून दितां.'' अशें मीरान सांगलें. ते रातीं बारा वरां मेरेन जागो रावून दीपान दिल्ली ती फायल महेशान वाचून काडली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं साडे धा वरांचेर महेश सी. बी. आय्. ऑफिसांत पावलो. आदल्या दिसा दीपान दिल्ली फायल आनी कांय मुळाव्या म्हायतीच्यो फायली एके सुटकेसींत घालून महेश ती घेवन गेल्लो. फ्रान्सिसान ती सुटकेस महेश बशिल्लो थंय व्हरून दवरली. दिपान तयार केल्ली ती फायल महेशान इन्स्पेक्टर खाना कडेन दिली. पयलें लिस्ट आशिल्लें तें भाटां-बेसां, घरांचें बी. त्या लिस्टांत सुमार शंभर पानां आशिल्लीं. तीं पळोवन इन्स्पेक्टर खान मात्सो नेर्वोज जाल्ले भशेन दिसलो. हीं इतलीं पानां कित्याक अशें म्हणून ताणें विचारलें. जाण्टेल्यांचीं भाटां-बेसां तिसवाडी आनी फोंडें तालुक्यांत सगले कडेन पसरल्यांत. आपले बायलेच्या वांट्याक सुमार पंचवीस कडेन भाटां-बेसांचो वांटो आयला. दर कडेन प्रॉपर्टीचें नांव, गांव, सर्वे नंबर बी सगलें नमूद करून चडशे कडेन त्या भाटां-बेसांचो इतिहासूय बी बरयिल्लो आसा. देखून तीं पानां चड आसात, अशें महेशान सांगलें. हातूंतलीं भाटां विकून तुमकां पयशे आयल्यात काय म्हूण खानान विचारतकूच नेवरा-दोंगरी वाठारांत आनी शिरधनां विक्री जाल्या अशी म्हायती महेशान दिली. विक्री जाल्यांत तीं भाटां तांकां पळोवंक जाय अशें इन्स्पेक्टर खानान सांगलें. आपणें आनी बायलेन तीं भाटां पळोवंक नात, गावणेकारांच्या मुनिमाक वांगडा घेवन तीं पळोवंचीं पडटलीं. तो सगल्या भाटांनी भोंवत आसता, देखून आमी खंयच्या दिसा वचूंक सोदतात तें ताका दोन दीस आदीं सांगचें पडटलें अशें महेशान खानाक सांगलें. त्या आयतारा दीस तीं भाटां पळोवपाचें थारलें.

इन्स्पेक्टर खानान तांचे चवकशेची पद्दत महेशाक समजावन सांगली. महेशान दिल्लीं निवेदनां एक-एक करून वाचून आनीक कसली कसली म्हायती जाय तें लिस्ट ते तयार करतले आनी त्या लिस्टां प्रमाणें तांणी थारायिल्ल्या तारखांक महेशान तांकां म्हायती दिवंची पडटली. ती म्हायती वाचून, वा गरज पडल्यार अभ्यास करून ते आनीक प्रस्न विचारूंक शकतात. तांचे प्रस्न आनी महेशाच्यो जापो जातकूच मागीर महेशान आपणें जें जें आतां सांगलां ताचो आसपाव करून एक निवेदन दिवचें पडटलें. अशें करून, प्रत्येक वळेरेचेर चर्चा करपा खातीर महेशाक तीन पावटी तरी सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत मारच्यो पडटल्यो अशें खानान सांगलें.

फाटले फावटीं सात वळेऱ्यो खानान महेशा कडेन दिल्ल्यो. तातूंतल्या पांच

वळेऱ्यांची म्हायती त्या दिसा महेशान हाडिल्ली. उरिल्ल्या दोन वळेऱ्यांची म्हायती आनीक दोन दिसां उपरांत दितां अशें महेशान खानाक सांगलें.

त्या दिसा आनीक कांय काम नाशिल्लें म्हणटकूच महेशान आतां गेल्यार जाता अशें खानान सांगतकूच महेश थंयच्यान भायर सरलो. तो वता आसतना खानान बॅल वाजोवन आपल्या प्यूनाक आपयलो आनी ती सूटकेस व्हरून महेशाच्या ड्रायवरा कडेन दी म्हूण सांगलें. खानान दिल्ले च्या खातीर तांकां "थँक्यू फॉर द टी" अशें म्हणपाक महेश भायर सरता आसतना विसरलो ना. खानान आनी यादवान उबे रावून "वॅलकम सर" म्हणत महेशाक हात दिलो.

महेश सरळ मुरगांवां परतून आयलो आनी जेवचे पयलीं मीरान बरोवन काडिल्लीं लिस्टां ताणें वाचलीं. सी बी आय् क तीं लिस्टां धाडटा आसतना फकत दागिन्यांचीं नांवां सोडून हेर सगलें इंग्लिशींत टायप करूंक मेळटालें. दागिन्यांचीं नांवां मात कोंकणींतल्यान बरोवचीं पडटलीं आशिल्लीं. जेवता आसतना मीरान सदांभशेन प्रस्न विचारले, पूण सी बी आय् च्या ऑफिसांत तांणी कितें विचारलें आनी आपणें कितें सांगलें हें सगलें सांजवेळा सांगतां अशें मीराक सांगून महेशान सोफार बसून वर्तमानपत्रां चाळ्ळीं आनी मागीर सारको दोन वरांचेर तो ऑफिसांत पावलो. वता आसतना ताणें मीरान तयार केल्लीं तीं दोनूय लिस्टां व्हेल्लीं. एक – भांगरा वस्तींचें! दोन – साडयो आनी हेर वस्तूंचें!

हीं दोनूय लिस्टां, दागिन्यांचीं नांवां कोंकणींतल्यान बरोवन, आनी पासबूक आनी चॅकांच्या कावण्टरफॉयलींचें झॅरॉक्स, हें सगलें टायप करून आपल्याक दाखय अशें महेशान संजयाक सांगलें. त्या भायर, महेशान येणावळ आनी खर्च हांचें एक निवेदन तयार केल्लें. तें आदींच संजयान टायप करून तयार दवरिल्लें.

सांजवेळचें बंगल्यार परतून वचचे पयलीं संजयान तिनूय लिस्टां आनी बँकेचे पासबूक आनी झॅरॉक्स एका प्लास्टीक फोल्डरांत घालून महेशा कडेन दिले.

त्या दिसा महेश आनी मिरा लॉनाचेर बसलीं नात. कारण दोन बॉक्सां भरून फायली महेशाची वाट पळयताल्यो. त्या भायर, ऑफिसांतल्यान हाडिल्ले पासबूक आनी झॅरॉक्स कॉपी महेशान पळोवपाच्यो आशिल्ल्यो.

दुसऱ्या दिसा ऑफिसांत कांय अपॉयंटमेन्ट नाशिल्ले, सी.बी. आय्. क दिवपाची सगली म्हायती तयार आशिल्ली म्हणटकूच इन्स्पेक्टर खानाक फोन करून महेशान ती म्हायती ताका व्हरून दिली; दागिन्यांचें लिस्ट वाचता आसतना खानाक कोंकणी उच्चार जमना जाले देखून महेशाक ताका ते सांगचे पडले. येणावळीच्या निवेदनांचेर खानान चड वेळ घालयलो. मीराचीं दोन भाटां आयतारा दीस सकाळच्या आदेसाक पळोवया अशें खानान महेशाक सुचयलें. आयतारा दीस साडे धा वरांचेर सी. बी. आय्. ऑफिसांतल्यान भायर सरपाचें तांणी थारायलें. मुनीम पांडुरंग पैक कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार आपूण फोन करतां अशें महेशान खानाक सांगलें. आनी आनीक कांय चर्चा करपाची नाशिल्ल्यान महेश थंयच्यान भायर सरलो. बोगमोळ्यावेल्या घराच्या निवेदनाचेर चर्चा करूंक खानान महेशाक सोमारा दिसा सकाळच्या साडे धा वरांचेर आपयलो.

त्या दिसा सांजवेळचीं साडेपांचांक सुमार महेश आनी मीरा मडगांवां गेलीं आनी घराचें काम खंय पावलां तें तांणी पळयलें. बॅडरुमांतल्यो आरमारी आनी रांदचेकुडींतलीं कपाटां करपाचें काम चालू आशिल्लें. संदेश केळेकाराची गोवा आर्टस कंपनी हें काम करताली. सगले मेस्त राजस्थानचे. तो आठवड्याक दोन फावटीं तरी येवन पळोवन वतालो. खाटी, सोफा, कोरांतिल्ल्या लाकडाचेर हारसो बसयिल्लें जेवणाचें मेज, सोबेच्यो वस्तू, टी. वी. आनी म्यूजिक सिस्टम दवरपाचीं लाकडाचीं कोरीव उगडीं शेल्फां, ल्हान-व्हड टेबलां, स्टुलां बी सहारानपूरच्यान डिसेंबर म्हयन्यांत येवपाचीं आशिल्लीं.

जितेंद्र भगताचें बांदकाम णव्वद टक्के पुराय जाल्लें. कॉन्ट्रॅक्टाप्रमाणें वीस लाख दिवपाचे आशिल्ले. पूण ताका बावीस लाख पाविल्ले. हेवटेन तेवटेन बारीक-सारीक कामां आपणें कॉन्ट्रॅक्टा परस चड केल्यात तांचो कॉन्ट्रॅक्टांत आसपाव ना, अशी तो किरकिर करीत आशिल्लो. महेशाक आनी मीराक नाका आसतना ताणें ल्हान-व्हड कामां एक्स्ट्रा केल्लीं तीं महेशान मोडूंक लायिल्लीं. त्या कामांचो खर्च भगत महेशाच्या हड्ड्यार घालूंक सोदतालो.

मुरगांवां बंगल्यार पावतकूच महेशान पांडुरंग पैक फोन लायलो. तो शिरधना भगतंबाब गावणेकाराच्या शेजराकूच रावतालो. आयतारा दीस सकाळीं आपूण घराच आसतलों अशें ताणें सांगलें.

धा वरांचेर शिरधनच्या नाक्यार येवन राव अशें महेशान ताका सांगून खंय खंय वचून मीराच्या वांट्याक आयिल्लीं गावणेकारांचीं भाटां दाखोवपाचीं हें ताका सांगलें. आयतारा दीस सकाळीं महेश आनी आपूण साडे इकरांक सुमार ताईबाय म्हऱ्यांत थोडो वेळ बसूंक येतलीं अशें मीरान देवराय रांदप्याक फोन करून सांगलें.

आयतारा दीस सकाळीं पांडुरंग पैक घेवन मीरा आनी महेश सारक्या साडे धा वरांचेर सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत पावलीं. पांडुरंग पै सदचे भशेन धवेंफुल्ल पुडवें आनी खोमीस, गोबरा रंगाची ज्युदी आनी काळी तोपी घालून आयिल्लो. ताका इंग्लीश येना आशिल्ली, पूण मोडकीतोडकी हिंदी येताली. इन्स्पेक्टर खान आनी यादवान आपूण सी. बी. आय्. च्या ॲम्बेसडर गाडयेन येतां म्हूण सांगलें. पांडुरंग पैक तांचे गाडयेंत बसूं दी म्हणटकूच तांकां तांचे कडेन उलोवंक मेळटलें अशें महेशान सुचयलें. तांचे गाडयेंत बस आनी तांकां जाय ती म्हायती सारकी दी अशें म्हूण मीरान पांडुरंग पैक सांगलें. पयलीं नेवऱ्यां रस्त्याकुशीक प्लॉट करून विकल्यात थंय व्हरपाचें आनी मागीर शिरधनच्या दोंगरार चार हजार स्क्वॅअर मिटरांचो प्लॉट विकला तो दाखोवपाचो अशें मीरान पांडुरंग पैक सांगलें. पावणे बारांक सुमार नेवऱ्यां आनी शिरधनचे प्लॉट पळोवन खान आनी यादव ऑफिसांत परतले आनी महेश आनी मीरा ताईबायक मेळूंक मीराच्या कुळारा गेलीं. मीरान ताईबाय खातीर तिचें आवडटें मद्रासी-गुजराती वायंग्यांचें आंबशें-गोडशें तोंडाक आनी चेअरमेनाच्या कंपावंडांत जावपी मिरयां, खावंचीं पानां आनी पोपाय व्हेल्ली. अर्दवर ताईबाय कडेन खबरो करून देवरायान केल्लीं भजीं खावन, च्या पियेवन तीं भायर सरलीं. भायर सरचे पयलीं मीरान देवरायाक एक खोमीस आनी शेंवतूक आनी इंदिरेक णव वारी कापडां दिलीं, आनी मीरा तांकां प्रत्येकाक पांयां पडलें. ल्हानपणा सावन मीराक तांकां पांयां पडपाची सवंय आशिल्ली. तांणी मीराक आनी महेशाक उपाट आशिर्वाद दिले. वता आसतना मीरा आनी महेशान पांडुरंग पै गेर भितर सरून तांचीय बी खबर घेवन मीरान पांडुरंग पैक खोमीस आनी दुर्गाबायक णव वारी कापड दिलें आनी तांकां पांयां पडलें. तांणी दोगांयकूय उपाट आशिर्वाद दिले.

◆◆◆

## भाग 27

**सोमारा** दिसा सारको साडे धा वरांचेर महेश पणजेच्या सी. बी. आय्. ऑफिसांत पावलो. चवकशे कडेन संबंद आशिल्ल्यो मुळावे म्हायतीच्यो सगल्यो फायली सूटकेसींत घालून ताणें वांगडा घेतिल्ल्यो.

बॉगमॉळ्यावेल्या घराचो प्लॉट रतिलाल शहा कडेन आसा म्हूण तुमकां कोणें सांगलें? हो ब्रोकर कोण? गोंयच्या आर्किटेक्टांक काम दिना आसतना तुमी गणात्राक काम कित्याक दिलें? गणात्राक कितले पयशे फारीक केले? आर्किटेक्ट शालिनी गौडाक दिल्लें काम तुमी काडून कित्याक घेतलें? राजीव पुश्कर हो कोण? ताणें आनी तुमी शेजरा-शेजरा घर बांदपा इतली आनी तुमचें घर बांदपाची जापसालदारकी ताणें घेवपा इतली तुमची इश्टागत केन्नाच्यान आशिल्ली? घर बांदूंक घेतिल्ल्या सामानाचो प्रायस हेर कडेन आशिल्ल्या प्रायसा भशेन आशिल्लो काय तुमकां दुकानदारांनीं चड सूट दिल्ली? सामानाची पुरवण करपी दुकानदारांचो पोर्टा कडेन संबंद आशिल्लो काय ना? तुमी सुमीत गर्गाक केन्नाच्यान वळखतात? ताचो आनी पोर्टाचो संबंद आसा काय ना? सबंद घराचो हिशेब तुमी इतले पद्दतशीर रितीन बरोवन आदींच काडिल्लो आनी आमी मागिनाफुडें रोखडोच तुमी तो एका दिसा भितर हाडून दिलो. हो हिशेब तुमी असो कित्याक बरोवन काडिल्लो?

महेशान सगल्या प्रस्नांच्यो जापो तपशिलान दिल्यो. एका प्रस्नाची जाप मेळटकूच ते दुसरो प्रस्न विचारताले.

संदेश देसाय हो ब्रोकर मीराचो पयसुल्लो सोयरो. तो खूब वर्सां जमनी, घरां घेवपाक आनी विकपाक लोकांक मजत करतालो. बॉगमॉळो वाठारांत

घर बांदपाचें थारायतकूच एक दीस तो मेळिल्ले कडेन ताका मीरान ही खबर सांगली. मागीर ताणें आपणाक आनी मीराक तो प्लॉट दाखयलो. राजीव पुश्कर आनी आपणें तो प्लॉट एकठांय जावन घेतलो आनी मागीर ताचें विभाजन केलें. प्लॉटाचो प्रायस त्या वाठारांत हेर कडेन आशिल्लो तसो आशिल्लो. प्लॉटाचो मालक रतिलाल शहाचो पोर्टा कडेन कांयच संबंद नाशिल्लो. तो किराणा मालाचो ठोक धंदो करतालो.

पंजाबचो आर्किटेक्ट आनी इंजिनियर गणात्रा हो गोंयच्या स्टील फॅक्टरींक व्हड व्हड शेडी बांदपाक मजत करतालो. कुंकळ्ळी इंडस्ट्रीयल इस्टेटींत आशिल्ली गर्गाची फॅक्टरी ताणेंच बांदिल्ली. गर्गाची आनी आपणाली इश्टागत मद्रासच्यान फाटलीं धा वर्सां आसा. सामाजीक मळाचेर मद्रासाक आपूण आनी तो वांगडाच काम करताले. घर बांदपाचें काम गणात्रा बरे तरेन करतलो आनी सवाय भितर करतलो अशें गर्गान सांगलें. मुरगांव वाठारांतल्या आनी दक्षिण गोंयच्या सगल्या ल्हान-व्हड कॉन्ट्रेक्टरांचो पोर्टा कडेन वेगवेगळ्या कामां निमतान संबंद येता. ताका लागून खंयच्याच कॉन्ट्रेक्टरा कडल्यान घर बांदून घेवपाचें ना अशें आपणें थारायिल्लें.

गणात्रा ल्हान ल्हान लेबर कॉन्ट्रॅक्टरांक वापरून घर बांदतलो अशें गर्गान सांगिनाफुडें आपणें तें मानून घेतलें. चडशे आर्किटेक्ट घराच्या मोलाचे चार टक्के फी घेतात. घराचो प्लॅन काडप, सगलीं परमिशनां घेवप हें सगलें काम शालिनी गौडान केल्लें आनी हेर सगलें काम गणात्रान केल्लें. ल्हान ल्हान लेबर कॉन्ट्रॅक्टरां कडल्यान घर बांदून घेवपाचें आपल्याक जमपाचें ना अशें शालिनी गौडान सांगिल्लें. आपणें शालिनी गौडाक पस्तीस हजार आनी गणात्राक पस्तीस हजार दिल्ले अशें महेशान सांगलें.

राजीव पुश्कर हो मूळ जयपूरचो. तो कोबे हॉटेलाचो जनरल मॅनेजर. कोबे हॉटेलाचो आनी पोर्टाचो गेल्लीं खूब वर्सां संबंद आसा. पोर्टांत पार्ट्यो बी करपाच्यो आसतात तेन्ना कोबे हॉटेल कॉन्ट्रॅक्ट घेता आनी राजीव पुश्कर देखरेख करता. आपूण पोर्टांत येतकूच एक पार्लामेंटरी कमिटी आयिल्ली तेन्ना एका जेवणाचो कॉन्ट्रॅक्ट कोबे हॉटेलान घेतिल्लो तेन्ना राजीव पुश्कराची आनी आपली वळख जाल्ली. तो मुंबयच्या केटरिंग कॉलेजीचो ग्रेजुएट आनी वयान आपल्या परस वीस वर्सांनी ल्हान. वागूंक एकदम बरो, संस्कारी आनी

प्रामाणीक. तो हालींच लग्न जाल्लो. आपणें घराची गजाल ताका सांगली तेन्ना आपल्याकूय एक धाकलेंशें घर बांदपाचें आसा, आमी शेजरा-शेजरा बांदुया, आपूण दोनूय घरां बांदून घेतां अशें ताणें सांगलें.

घर बांदपाक सामानाची पुरवण करपी दुकानदारांक वा कारखानदारांक आपूण प्रत्यक्ष वळखना. तें सामान सगळें घेवपाची जापसालदारकी आपणें राजीव पुश्कराचेर सोडिल्ली. कितलें आनी केन्ना मेरेन सामान जाय तें राजीव गणात्राक विचारून हाडटालो आनी बील संजय नायक वा दीपा कडेन धाडटालो. सामानाचो प्रेस तो चेक करतालो. गणात्राय बी ताका मजत करतालो.

गर्गाचो वा गणात्राचो पोर्टा कडेन कसलोच संबंद ना.

खर्चाचो तपशील पद्दतशीर रितीन बरोवपाची सवंय आपल्याक फाटलीं कांय वर्सां आपल्या आपूण जाल्ली आनी हाच्या फाटल्यान तमिळनाडू इलेक्ट्रिसिटी बोर्डांतलो अणभवूयबी आशिल्लो, अशें सांगून महेशान अणभव कसले तेवूय बी खानाक आनी यादवाक सांगलें.

संदेश देसाय, राजीव पुश्कर, सुनीत गर्ग, गणात्रा हांचे घरचे आनी ऑफिसाचे फोन नंबर आपणाले डायरींत पळोवन महेशान खानाक सांगले.

मागीरचें सुमार एक वर खानान आपणाल्या स्टेनोक आपोवन महेशान दिल्ल्यो सगल्यो जापो आनी हेर म्हायती बरोवन घेवंक लायली. टायप केल्लें निवेदन स्टेनोन महेशाक हाडून दिलें. खंय खंय चुको आशिल्ल्यो त्यो महेशान सारक्यो करपाक लायल्यो, आनी त्यो सारक्यो जातकूच महेशान त्या निवेदनाचेर सय केली आनी तारीख घाली.

हें सगळें जाता म्हणसर दनपारचें देड वर जाल्लें. महेश भायर सरचे पयलीं खानान ताचे कडेन एक लिस्ट दिलें आनी लिस्टांत नमूद केल्ले दोकुमेंत जाता तितल्या बेगीन हाडून दी अशें महेशाक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं साडे धा वरांचेर मडगांवच्या घराचेर चर्चा करूंक महेशान येवचें अशें थारलें.

अडेजांक बंगल्यार पावून रोखड्या रोखडो जेवन महेश ऑफिसांत गेलो. त्या दिसा जेवता आसतना मीरा कडेन उलोवंक ताका वेळूच मेळ्ळो ना.

ऑफिसांत संजय नायकाक आपोवन सी. बी. आय्. न दिल्लें लिस्ट

वाचूंक महेशान सुरवात केली :

नंबर एक – बॉगमॉळो प्लॉटाचें विक्री-पत्रक.

नंबर दोन – राजीव पुश्कर आनी महेश प्रभू हांच्या मदल्या जमनीच्या विभाजनाची कबलात.

नंबर तीन – सरकारान मान्यताय दिल्लो घराचो प्लॅन आनी दिल्लो बांदकाम परवानो आनी ऑकुपन्सी सर्टिफिकेट.

नंबर चार – घर विकिल्ल्याचें विक्री-पत्रक.

हे सगले दोकुमेंत बोगमोळो घराचे फायलींत आसूंक जाय, नाजाल्यार राजीव पुश्करा कडेन आसतले अशें संजयाक सांगून, दोन-तीन दिसां भितर त्या दोकुमेंतांची फायल तयार कर अशें महेशान सांगलें.

सी. बी. आय्. न दिल्लें लिस्ट घेवन संजय आपल्या रुमांत गेलो.

सांजेचीं मीरा आनी महेश लॉनार बसून च्या घेतना हळडीपूरान कॉर्डलेस फोन हाडून संदेश देसाय उलयता म्हूण सांगलें. आपूण धा मिनटां खातीर येवपाक सोदतां अशें ताणें सांगलें. मीरान ओके म्हणटकूच आनीक पंदरा मिनटांनी तो पावलो. संदेश देसाय हो मीराचो पयशिल्लो सोयरो पूण मीराक ताच्या फॅमिलीविशीं खूब आदर आनी प्रेम आशिल्लें. तो मीरा परस वीस वर्सां तरी ल्हान आशिल्लो.

''कितें सांगूं मीराताई तुका? वोदोळ चारांक सुमार म्हाका फोन आयलो. आमी सी. बी. आय्. च्यान उलयतात अशें त्या मनशान सांगलें. म्हजो ॲकावन्ट स्टेट बेंकेंत आसा, सॅन्ट्रल बेंकेंत ना अशें हांवें ताका सांगलें.

सॅन्ट्रल बँक न्हय, सॅन्ट्रल ब्यूरो ऑफ इन्वेस्टिगेशन अशें ताणें सांगलें. नांव आयकल्ले भशेन म्हाका दिसलें. हांवें नांव आयकलां, पूण तुमी कितें करतात, अशें हांवें विचारलें. त्या मनशान मातूशें तापिल्ले भशेन केलें आनी तूं हांगा यो, मागीर तुका सांगतां, अशें म्हाका सांगलें. म्हाकाय तिडक मारली. हांव थंय कित्याक येवं? तुमकां म्हजे कडेन काम आसल्यार तुमीच हांगा येयात अशें हांवें ताका सांगलें. हांवें तशें सांगतकूच ताणें ढा करून फोन आपटिलो.

भावोजीचेर सी. बी. आय्. इन्क्वायरी चालू जाल्या अशें म्हजो एक इश्ट म्हाका सांगतालो. भावोजी प्लॉट विकना, सी. बी. आय्. क प्लॉट जाय जाल्यार तांणी म्हजे कडेन इन्क्वायरी करपाची अशें म्हूण हांवें त्या इश्टाक

पिशार काडलो. सी. बी. आय्. हे पोलीस म्हूण दाजीन म्हाका मागीर सांगलें. देखून हें प्रकरण कितें तें विचारपाक आयलां.''

''सी. बी. आय्. कितें म्हणटा तें भावोजीच तुका सारकें सांगतलो. हांव च्या आनी भज्यांची वेवस्था करून येतां.'' अशें म्हणून मीरा भितर वचून पंदरा मिनटां भितर च्या आनी भर्जी घेवन आयलें. तितले म्हणसर महेशान संदेशाक सी. बी. आय्. ची गजाल सांगली.

''हांव तांकां मेळपाक वचूं काय नाका?'' संदेशान विचारलें.

''तांकां फोन कर, अपॉइन्टमँट घे आनी चल. ते प्रस्न विचारतात तांच्यो खऱ्यो जापो दी. फकांडां करूं नाका.'' महेशान ताका सांगलें.

संदेश मागीर मीराच्या भज्यांची सदांभशेन तुस्त करीत भर्जी खावन आनी च्या घेवन गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मडगांवच्या घरा विशींच्या सगल्या प्रस्नांक महेशान जापो दिल्यो आनी इन्स्पेक्टर खानाक जाय आशिल्ल्या सगल्या दोकुमेंतांचें लिस्ट बरोवन घेतलें. बॉगमॉळ्यावेल्या घरा परस मडगांवच्या घराचेर तांचे प्रस्न उणे आशिल्ले कारण मडगांवां तें घर एका बिल्डरान बांदिल्लें. वीस लाखां भितर बांदून दिवंक जाय अशी महेशाची आनी मीराची जितेंद्र भगता कडेन कबलात आशिल्ली.

आदले भशेन ह्यावूय बी प्लॉटाचें खरेदीपत्र, भगता कडेन जाल्ली कबलात, सरकारी मान्यताय आशिल्लो प्लॅन आनी म्युनिसिपालिटीचो बांदकाम परवानो हे दोकुमेंत इन्स्पेक्टर खानान मागले.

जितेंद्र भगताक तुमी कित्याक कॉन्ट्रेक्ट दिलो, प्लॉटाच्या मालकाक तुमी पयलीं वळखतालीं काय ना, अजून तुमचें घर पुराय जावंक ना, तरी आसतना तुमी कबलातींत घाल्ल्या वीस लाखां परस चड पयशे भगताक कित्याक दिल्यात, तुमी बॉगमॉळ्यावेलें घर विकून मडगांवां रावपाचें कित्याक थारायलां, मडगांवां तुमचे कोण कोण आसात, तुमचे सोयरे उद्देग-धंद्यांत आसात काय खंयूय नोकरी करतात, हे प्रस्न इन्स्पेक्टर खानान विचारले.

ह्या सगल्या प्रस्नांक तपशिलान जापो दितकूच खानान आदले भशेन स्टेनोक आपोवन महेशान दिल्ल्या जापांच्या आदारान निवेदन घालें आनी मागीर महेशान तें वाचून कांय कडेन चुको सुदारून, सुदारिल्ल्या निवेदनाचेर

सय करून तो भायर सरलो.

दोनूय घरांचेर आनीक कसलेय प्रस्न उप्रासल्यार फुडल्या सोमाराक उलोवया अशें खानान महेशाक सांगलें. फुडल्या सोमाराक महेशान बॉगमॉळो आनी मडगांवच्या घरांचे सगले दोकुमेंत इन्स्पेक्टर खाना कडेन व्हरून दिले. तितले म्हणसर संदेश देसाय आनी राजीव पुश्कर हांकां आपोवन खानान चवकशी चालू दवरली. मडगांवचे दोकुमेंत मेळटकूच खानान जितेंद्र भगता कडेन चवकशी केली.

त्या उपरांत खानान आनी यादवान गौरिशाच्या लग्नाचो खर्च आनी ताचें शिक्षण हाचे विशीं थोडे प्रस्न विचारले. भांगरां आनी वज्रांचे दागिने, साडयो, फर्निचर बी ह्या विशयांचेर खानान कसलेच प्रस्न विचारले नात. लग्ना वेळार धुवांक कसले दागिने दितात, हाची तांणी भायल्यान खबर काडल्या जातली. मीराचें आनी महेशाचें समाजांतलें स्थान ध्यानांत घेवन साडयांचेरूयबी तांणी कांयच प्रस्न विचारले नात!

सप्टेंबरच्या निमण्या आठवड्यांत गणात्राक घेवन बॉगमॉळ्यावेल्या घरांत वचून खानान घर पळयलें आनी गणात्राच्या सुपरवायझराक तें मेजूंक लावन नोट करून घेतलें. त्या उपरांत दोन दिसांनी जितेंद्र भगताक घेवन तो मडगांवच्या घरांत वचून सगली पळोवणी करून, जितेंद्र भगताच्या मनशाक सगल्या कुडींची सायज मेजूंक लावन तो तें नोट करून घेवन गेलो. ते पयलीं जितेंद्र भगता कडेन तपशिलान चवकशी करून ताणें ताचेंयबी निवेदन घेतिल्लें. महेशान अजून आपल्याक पयशे दिवपाचे आसात अशें भगतान खानाक सांगलें. खानान महेशाक विचारिल्लें तेन्ना हांवें अशे खर्च केले, तशे खर्च केले, देखून तुवें म्हाका आनीक आठ लाख दिवंक जाय अशें तो म्हणत आसा, पूण आपणें विसांचो कॉन्ट्रॅक्ट आसतना लेगीत ताका बावीस लाख दिल्यात आनी आनीक दिवपाचे नात अशें महेशान सांगिल्लें. सप्टेंबराच्या तिसऱ्या आनी चवथ्या आठवड्यांत सी. पी. डब्ल्यू. डी. च्या इंजिनियरांक महेशान दिल्ल्या बॉगमॉळ्यावेल्या खर्चाचो ॲकावन्ट खानान दाखयलो आनी तो सारको आसल्यार पळयात म्हूण सांगलें. तांणीयबी घर पळोवन सामान जाय तितलेंच वापरलां काय म्हूण पळयलें आनी सामानाचो प्रेस बाजारांतल्या सादारण प्रेसा भशेन आसा काय ना तेंवूयबी पळयलें.

सप्टेंबर म्हयन्यांत महेशाक सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत वट्ट णव पावटी मारच्यो पडल्यो. तांचे कडेन दिल्ले दोकुमेंत वाचून तांणी विचारिल्ल्या प्रस्नांच्यो जापो दिवप आनी स्टेनोन बरोवन हाडिल्ल्या निवेदनांतल्यो चुको सुदारप, मागीर परतून बारीकसाणेन वाचून सय करप अशें महेशाक वट्ट णव फावटीं करचें पडलें. ऑक्टोबराच्या पयल्या आठवड्याच्यान महेशान दिल्ल्या येणावळीच्या आंकड्यांचेर चर्चा करतले अशें तांणी सांगलें.

महेश परतूपरतून सी. बी. आय्. ऑफिसांत वता तें पळोवन हेड ऑफिसांतल्या सगल्या स्टाफाक आनी अधिकाऱ्यांक वायट दिसतालें. बाप्तिस्ता कडेन उलोवपाचें सगले टाळटात अशें दीपान येवन महेशाक सांगलें.

***

बाप्तिस्त, गुणाजी आनी संभाजी इरमांव बारांत थोड्या दिसां उपरांत मेळिल्ले. निजी कामांक लागून पांच-स दीस ते बारांत येवंक नाशिल्ले. फाटलो म्हयनोभर बारांत मेळटकूच चेअरमॅनाक कसो त्रासांत घालो ह्याच विशयाचेर बाप्तिस्त आनी संभाजी उलयताले. गुणाजी चडसो वग्गी आसतालो. फटींच्यो कागाळी करप हें बाप्तिस्ताचेंच कर्म असो ताका दुबाव येतालो पूण ताचे कडेन कांयच पुरावो नाशिल्लो. बाप्तिस्त आनी संभाजी व्हडल्या-व्हडल्यान हांसून एकामेकांक हात दिताले तेन्ना लेगीत गुणाजी वग्गी आसतालो.

त्या दिसा बाप्तिस्तान तीन लार्ज पेग मारले. गुणाजी ताका दोन लार्ज पेगां उपरांत आडायतालो पूण तो कसोच आयकना जालो. तिसरो लार्ज पेग जातकूच बाप्तिस्त कित्याकितेंय उलोवंक लागलो. तो व्हडल्यान उलयतना थंय आशिल्लीं गिरायकां आयकत म्हणून गुणाजीन आनी संभाजीन ताका हाताक धरून उठयलो आनी तिगूय जाण थंयच्यान भायर सरले. त्या दिसा बिलाचे पयशे गुणाजीन दिले. गल्ल्याचेर गुणाजी बील फारीक करतना बाप्तिस्त घुंवळ येवन घडांयच् करून जमनीर पडलो. "आरे, आरे," म्हणत दोग-तीग जाणांनीं आनी संभाजीन ताका उबो केलो आनी गुणाजीन आनी संभाजीन लागींच आशिल्ले एके टॅक्सींत घालून ताका यम. पी. टी. हॉस्पिटलांत व्हेलो. खूब वर्सां चेअरमॅनाचो सीनियर पी. ए. आशिल्ल्यान ताका सगल्यो नर्सी बी वळखताल्यो. ताका व्हीलचेअरार घालून नर्सींनी कॅजुअल्टींत व्हेलो, आनी

न्हिदोवन तपासूंक सुरवात केली. दुसरे वटेन ड्युटीर आशिल्लो दोतोरूय आयलो. बाप्तिस्ताचें ब्लड प्रेशरबी खूब वाडिल्लें. ते राती कडेन वखदां बी दिवन दोतोर अनिल भटान ताका हॉस्पिटलांतूच दवरलो आनी ताचे बायलेक कळीत करात म्हूण सांगलें.

दुसऱ्या दिसा दोतोर नलिनीन येवन ताका तपासलो. ताका रोखड्यारोखडीं लिव्हर फंक्शनिंग टेस्टां करचीं पडटलीं अशें तिणें सांगलें आनी एका वरा भितर ताका ॲम्ब्युलन्सींत घालून झी. सी. एचा. त धाडलो. वांगडा एक वरिश्ट नर्सूय बी गेली. तीन दिसां उपरांत महेश ऑफिसांत आसतना बाप्तिस्ताची बायल आनी सुमार अठरा वर्सांची ताची धूव महेशाक मेळपाक आयलीं. बाप्तिस्ताक लिवर सर्जरी केल्यार ताका चड आनी बरी जीण जगूंक मेळटली; तशें करिना जाल्यार वखदांचेर रावून, पिवपाचें सामकें बंद करून तो जगूंक शकतलो, पूण चड न्हय, अशें दोतोरांनीं सांगलां. लिवर सर्जरी करपाक ताका मुंबय जसलोक हॉस्पिटलांत व्हरचो पडटलो. पोर्टान मजत केल्या बगर तें शक्य जावंचें ना, अशें सांगून तीं दोगांय रडूंक लागलीं. संजयाक फोन करून दोतोर नलिनीक कनेक्शन दी, फायनॅन्शियल ॲड्वायझर रविंद्रनाक आपल्या म्हऱ्यांत धाड आनी बाप्तिस्ताचे बायलेक आनी धुवेक वेटिंग रुमांत बसोवन तांकां च्या–कॉफी, सॉफ्ट ड्रिंक कितें जाय तें दी अशें महेशान सांगलें. ‘‘तुमी कांय भियेवं नाकात! बाप्तिस्ताक बरो करपाक आमच्यांनी जाता तें सगलें करुंया. मुंबय तुमचो कोण आसा?’’ महेशान तांकां थाकाय दिवन प्रस्न विचारलो.

‘‘आमचीं सोयरीं आसात, पूण तांचेर चड चेपण घालूंक जमचें ना.’’ बाप्तिस्ताचे बायलेन सांगलें.

‘‘तें मागीर पळोवया! तुमी आतां मात्शीं वेटिंग रुमांत वचून बसात, आनी कितेंय पिवपाक घेयात. मागीर तुमकां आपयतां.’’ अशें म्हणून महेशान तांकां संतोशा वांगडा वेटिंग रुमांत धाडलीं.

महेश मागीर दोतोर नलिनी कडेन उलयलो. तिचे कडेन उलयता आसतना रविंद्रनूय बी थंय येवन बसलो. बाप्तिस्ताचे बायलेन सांगिल्लें तेंच दोतोर नलिनीनूय बी सांगलें. बाप्तिस्ताची केस रविंद्रनाक समजावन सांगून पोर्टाच्या नेमां भितर कितेंय करूंक मेळटा काय म्हणून महेशान रविंद्रनाक विचारलें. तो मुंबय वचून जसलोक हॉस्पिटलांत जे उपाय करूंक सोदता ते गवर्नमेंट सेंट्रल

हॉस्पिटलांत करतात जाल्यार ताचो मुंबयचो खर्च आमकां दिवंक मेळचो ना. पूण नेमांक अपवाद करून निर्णय घेवपाचो अधिकार चेअरमॅनाक आसा, अशें रविंद्रनान सांगलें. दोतोर नलिनीक फोन करून महेश तिचे कडेन धा मिनटां उलयलो आनी मुंबय व्हेल्यार गोंयचे परस चड बरें काय म्हूण महेशान तिका विचारलें. लिवर सर्जरी करूंक गोंयचे परस मुंबय बऱ्यो सुविधा आसात; तशें बरोवन धाडटना आपणाक खूब जतनाय घेवंची पडटली कारण कसल्याय दुर्येसां खातीर आमचे कामगार मुंबय वचूंक सोदतले आनी पोर्टाक तें परवडचें ना. आपूण झी. सी. एचांतल्या दोतोरां कडेन उलोवन शिफारस करून धाडटां अशें दोतोर नलिनीन सांगलें.

''दोतोर नलिनी शिफारस करून धाडटली; नेमां प्रमाणें जो खर्च आमी दिवं येता तो आमी दिवंया.'' अशें महेशान रविंद्रनाक सांगलें. ''ओके सर, दोतोर नलिनीची शिफारस येतकूच म्हजें मत हांव फायलीचेर बरोवन धाडटां.'' अशें सांगून रविंद्रन परतून आपणाल्या कॅबिनांत गेलो. मागीर बाप्तिस्ताचे बायलेक आनी धुवेक आपोवन महेशान तांकां धीर दिलो.

''तुमी कांयच भियेवं नाकात, सगलें सारकें जातलें. ताका विमानान मुंबय व्हरात. ताच्या वांगडा वचपा-येवपाचो आनी थंय रावपाचो एका मनशाचो खर्च पोर्ट करतलें. लिव्हर सर्जरीचो खर्च नेमां प्रमाणें जितलो दिवंक मेळटा तितलो आमी दितले. पयलीं तुमकां खर्च करचो पडटलो. मागीर सगलीं बिलां पोर्टांत हाडून दिवचीं पडटलीं. तुमी आतां वचून फुडले तयारेक लागात.'' महेशान सांगलें. ''थँक्यू सर, थँक्यू सर, तूं आमकां देवा भशेन पावलो. बाप्तिस्तान तुका खूब त्रास दिला, हें आमकां सगल्यांक खबर आसा; पूण तुजें काळीज व्हड. देव तुजें आनी तुजे फामिलीचें सदांच बरें करूं!'' अशें रडत रडत म्हणत बाप्तिस्ताची बायल भायर सरली. धुवेन तिका वेंगेंत घेवन भायर व्हेली.

***

ऑक्टोबराच्या पयल्या तीन आठवड्यांत महेश आठ फावटीं सी. बी. आय्. च्या ऑफिसांत गेलो. ताणें खाना कडेन दिल्ले येणावळीचें निवेदन अशें आशिल्लें :

## येणावळ आनी खर्चाचें निवेदन

1) **येणावळ :**

- सुनीत गर्गा कडल्यान रीण............................ 5 लाख
  (गोवा वेल्हा प्लॉट घाणाक)
- कॅनफीन होम्स रीण ...................................... 5 लाख
- पणजे फ्लॅट विक्री........................................ 9 लाख
- नेवरा चवदा प्लॉटांची विक्री ............................ 5 लाख
  (सुमार 5600 स्क्वेअर मिटर)
- शिरधन प्लॉट विक्री (4000 स्क्वेअर मिटर) .........15 लाख

----------

**वट्ट येणावळ .........................................39 लाख**

2) **खर्च (प्लॉट धरून)**

- बोगमॉळो घर (प्लॉट धरून).........................19 लाख
- कॅनफिन रीण परते दिले ..............................5.5 लाख
- एच्. डी. एफ्. सी. रीण परते दिले..................3.5 लाख

----------

**वट्ट खर्च ..............................................28 लाख**

3) येणावळ ...............................................39 लाख
खर्च ......................................................28 लाख

----------

**बँकेंत उरले.........................................11 लाख**

----------

4) बँकेंत उरले ..........................................11 लाख
गौरीश लग्न खर्च ....................................... 3 लाख

----------

**बँकेंत उरले......................................... 8 लाख**

5) बॉगमॉळो घर विक्री................................28 लाख
बँकेत आदले जमा................................ 8 लाख

----------

**वट्ट बँकेंत जमा ................................36 लाख**

6) मडगांव घर खर्च................................22 लाख
मडगांव प्लॉट खर्च ................................ 5 लाख

----------

**मडगांव वट्ट खर्च................................27 लाख**

ii) बँकेंत आदी उरिल्ले................................36 लाख
मडगांव खर्च................................27 लाख

----------

**बँकेंत उरले................................ 9 लाख**

**गौरिशाचें अमेरिकेंतलें शिक्षण :**

7 अ) शंकर गिरी तमिळनाडूंत 1980 त घर बांदलें.......110000/-
ब) शंकर गिरी घर 1990 त विकलें..................300000/-
UTI कॅपिटल बॉण्डांत दवरले .....................300000/-
क) इंडियन बँक वास्को ओव्हर ड्राफ्ट
हे पयशे एप्रील 1992 त गौरिशाक दिले..........300000/-
ड) 1993 त बॉण्ड पयशे मेळ्ळे
आनी ओ.डी. 300000 /- फारीक केले.

पणजेच्या फ्लॅटाची चवकशी पयल्या आठवड्यांत जाली. नेवरेंच्या चवदा प्लॉटांची दुसऱ्या आठवड्यांत आनी शिरधनच्या चार हजार स्क्वॅअर मिटरांची तिसऱ्या आठवड्यांत चवकशी जाली.

पणजेचो फ्लॅट 1990 त महेशान साडे तीन लाखांक घेतिल्लो. एच. डी. यफ्. सी. न तीन लाख रीण दिलें. मीरा वांगडा शिकिल्ली रमीला फेर्नांदीशाचो बापूय कर्नल ब्रागांझा (रिटायर्ड) रमीलाच्या आवय सयत मिरामारचे दर्यादेगेर

आशिल्ल्या तांच्या भाटांत एका पोन्न्या नळ्यांच्या घरांत रावतालो. म्हापशेंच्या जॉन मथाय बिल्डराक तें भाट घेवपाचें आशिल्लें, पूण कर्नल ब्रागांझा त्या घरांतल्यान हेर कडेन पयस वचूंक तयार नाशिल्लो. रमीलाक मीराचो फ्लॅट आवडिल्लो. भाटा कडल्यान तो शंबर मिटरांचेर आशिल्लो आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार तो सामक्या सकयल्या मजल्यार आशिल्लो. जाण्ट्या लोकां खातीर सकयल्या मजल्यावेले फ्लॅट चड बरे अशें रमीलान आनी तिच्या भावांनीं मेळून कर्नल ब्रागांझाक सांगून सांगून ताचें मन तयार केलें, आनी जॉन मथायान मीरा कडल्यान तो फ्लॅट विकतो घेवन कर्नल ब्रागांझाक दिलो. जॉन मथायान तीन लाख रुपया एच. डी. यफ्. सी. क दिले आनी स लाख मीराक. सगलो वेव्हार चेकानूच जावंक जाय अशी अट महेशान घाल्ली. एच्. डी. एफ्. सी. क आनीक पन्नास हजार दिवपाचे ते मीरान दिले. एकोणीसशें णव्वदांत साडे तीन लाखांक घेतिल्ल्या त्या फ्लॅटाचो प्रायस एकोणीसशें त्र्याण्णवांत णव लाख जाल्लो. एकोणीसशें चवद्याण्णवांत ताचो प्रायस बारा-चवदा लाख जाल्लो पूण मीरान तो फ्लॅट णव लाखांकूच विकलो कारण एकोणीसशें त्र्याण्णवांत तो फ्लॅट णव लाखांकूच विकपाचें रमीलाक मीरान उतर दिल्लें.

हो सगलो इतिहास इन्स्पेक्टर खानाक सांगून मागीर तें निवेदन सय करून भायर सरता म्हणसर दोन वरां जाल्लीं. त्या आठवड्यांत दुसऱ्या आनी तिसऱ्या दिसा इन्स्पेक्टर खानान बिल्डर मथाय, कर्नल ब्रागांझा, रमीला आनी एच. डी. यफ्. सी. चो मॅनेजर हांचे कडेन चवकशी केली आनी तांचींय बी निवेदनां घेतलीं.

दुसऱ्या आठवड्याक नेवराच्या चवदा प्लॉटांची तांणी चवकशी केली. तांकां चवदाय विक्रीपत्रां हाडून दाखोवचीं पडलीं. तीं सगलीं उसमान शेखाच्या गोवा होम्स ऑफिसांत आशिल्लीं. मूळ विक्रीपत्रां तांकां दाखोवन तांच्यो कॉपी काडून तांकां दिवंच्यो पडल्यो. उसमान शेखा कडेन तांणी आडवी-उबी चवकशी केली. भगवंतबाब गावणेकाराच्या भाटां-बेसांचें एकोणीसशें अठ्ठ्यायंशांत विभाजन जातकूच महेशान आनी मीरान गोवा होम्सा कडेन कबलात केल्ली. मीराच्या कांय भाटांची कायद्याची प्रक्रिया पुराय करून, प्लॉट करून, विकपाची जापसालदारकी उसमान शेखाची, आनी ते खातीर

ताका येणावळीचे पस्तीस टक्के फाव जातले अशें ते कबलातींत बरयिल्लें. ती मूळ कबलात खानाक दाखोवन ताची कॉपी ताचे कडेन दिवंची पडली.

नेवराचे प्लॉट विकते घेतिल्ल्या चवदा जाणां पयकीं पणजेंत रावपी तीन जाणां कडेन खानान चवकशी केली.

तिसऱ्या आठवड्यांत शिरधनच्या चार हजार स्क्वेअर मिटरांची चवकशी जाली. उसमान शेखान संबंद चार हजार स्क्वेअर मिटर हैदराबादच्या रेड्डी बिल्डर्सांक विकिल्ले. त्या बिल्डरांनी मागीर धाकले-धाकले प्लॉट करून ते हेरांक विकिल्ले.

खान आनी यादव नेवऱ्यां आनी शिरधनां मीराचीं भाटां पळोवंक गेल्ले तेन्ना दोनूय भाटांनी कितलेशेच बंगले उबे जाल्ले. शिरधनां थोडे कडेन खानान चवकशी करतकूच बंगल्याच्या मालकांनी ते प्लॉट हैदराबादच्या रेड्डी बिल्डर्सां कडल्यान घेतल्यात म्हूण सांगलें.

दर आठवड्याच्यो चवकश्यो पुराय जातकूच खान स्टेनोक निवेदन बरोवंक घालतालो. स्टेनोन टायप करतकूच महेश तातूंतल्यो चुको सुदारतालो, आनी निवेदन फायनल जातकूच तें वाचून ताचेर सय करतालो. पणजे गेल्ले फावटीं तो तिनां पयलीं मुरगांवां बंगल्यार केन्नाच पावलो ना. दर फावटीं खान आनी यादव ताका जेवन चल म्हूण सांगताले, पूण तो जेवंक सदांच घरा वतालो.

ऑक्टोबराच्या चवथ्या आठवड्याक खानान पासबुकांचेर आनी बँक वेव्हाराचेर प्रस्न विचारूंक सुरवात केली. मुरगांवच्या स्टेट बँकेंत एकोणीसशें एक्याण्णवांत महेशान अॅकावन्ट उगडिल्लो. ते सगले पासबूक महेशान खानाकडेन दिल्ले. एकोणीसशें पंच्यांयंशी उपरांत मद्रासाक आशिल्ल्या बँक अॅकावन्टाची म्हायतीयबी खानाक जाय आशिल्ली. मद्रासच्यान ती एकठांय करून हाडपाक धा-पंदरा दीस लागतले अशें महेशान ताका सांगलें. एकोणीसशें एक्याण्णव आनी ब्याण्णव वर्सांचे पासबूक खानान तपाशिल्ले. तातूंतल्या धा कडेन कितें बरयलां तें बँकेच्या मॅनेजराक विचारून सांग म्हणून ताणें महेशाक सांगलें आनी त्या वर्सांचे पासबूक महेशा कडेन दिले. महेशाक जें समजल्लें तें ताणें खानाक समजावन सांगलें. जें समजलें ना तें फुडल्या दोन-तीन दिसांत बँक मॅनेजराक विचारून सांगतां अशें ताणें सांगलें. येणावळीचे व्हड व्हड आंकडे सगले पासबुकांत मेळटात काय म्हूण खानान

आनी यादवान पळोवन दवरिल्ले. तशेच खर्च केल्ले आनी चेकान फारीक केल्ल्याची पासबुकांत नोंद आसा काय ना तें तांणीी पळयिल्लें. पासबुकाची तपासणी तांणी दोळ्यांत तेल घालुनूच केल्ली अशें म्हणल्यार जाता.

मद्रासाक दोन बँकांनी महेशाचे अॅकावन्ट आशिल्ले. एक ग्रीम्स् रस्त्यावेली कॅनरा बँक आनी दुसरी व्हायट्रस् रोडाचेर आशिल्ली ती आंध्र बँक. त्या अॅकावण्टांचे पासबूक महेशा कडेन नाशिल्ले. महेशान मद्रासाक रावपी आपणाले आदले पी. ए. क फोन करून 'आंध्र' बँक आनी कॅनरा बँकेंत वचून आपणाल्या दोनूय अॅकावण्टाचे स्टेटमेंट घेवन आपल्याक धाड अशें सांगलें. आपूण चार-पांच दिसां भितर सगलो तपशील धाडटां अशें ललितान सांग्रलें आनी हें सगलें आतां इतल्या वर्सां उपरांत तुमकां कित्याक जाय काय म्हूण विचारलें. आपले येणावळीचेर सी. बी. आय्. चवकशी करता अशें महेशान ललिताक सांगलें. तांकां पिशें लागलां काय कितें अशें ललितान तांकां तमिळींत स्राप दिवन विचारलें.

खानान आनी यादवान तो स्राप आयकल्लो जाल्यार तांकां तो लागतलो आशिल्लो काय ना तें खबर ना. ललितान अॅकावन्टांचे स्टेटमेन्ट बँकां कडल्यान घेवन कुरियरान धाडले आनी ते मागीर महेशान खानाक व्हरून दिले. तांकां इतले पयलींचे अॅकावण्ट कित्याक जाय आशिल्ले, अशें महेशान तांकां विचारलें.

''जायते फावटीं आतां आयिल्ले पयशे लोक हेर बँकांनी आशिल्ल्या पयलींच्या अॅकावण्टांनी घालतात देखून फाटल्या धा वर्सांचे पासबूक पळोवपाची आमकां सवंय जाल्या,'' अशें खानान सांगलें.

फुडल्या दोन-चार दिसां भितर मुरगांवच्या स्टेट बँक मॅनेजरा वांगडा बसून रुडॉल्फ आगियाराची मजत घेवन खानाक जाय आशिल्ली सगली म्हायती महेशान एकठांय करून दिली.

ऑक्टोबरचो निमाणो आनी नोवेंबरचे पयले दोन आठवडे खानान आनी यादवान मायक्रोस्कोप लावन तपाशिल्ले भशेन पासबूक तपासले. तांणी ''दाल में काला'' सोदून काडपाचो यत्न केलो, पूण तांकां कांयच मेळ्ळें ना काय दिसता. फाटल्या कांय वर्सांचे दोकुमेंतूय तांणी तपासून पळयले. मद्रासच्यान आयिल्ले म्हायतीचेर तांणी व्हडलेशे प्रस्न विचारले नात. नोवेंबरचो दुसरो

आठवडो काबार जातां जातां महेशा परस तांकां चड पुरो जाल्लें काय दिसतालें.

नोवेंबरचे पंदरा तारखेक आपणाली चवकशी सोंपली अशें तांणी एक व्हड हुस्कार सोडून महेशाक सांगलें. "तुमी तुमची इन्क्वायरी सोंपयली. तुमकां कितें मेळ्ळें तें तुमी म्हाका अजून सांगूंक ना!" महेशान तांकां याद करून दिली.

"सर, तशें सांगपाची पद्दत ना. तुमचेर जाल्ले आरोप सगले फटींचे अशें आमकां दिसल्यार आमी आमच्या वरिश्ट अधिकाऱ्यांक रिपोर्ट धाडटले आनी आमकां कितेंय तुमच्या आड मेळ्ळां जाल्यार मागीर फुडली कारवाय सुरू जातली. फुडली कारवाय म्हणल्यार आमी यफ्. आय्. आर्. नोंद करतले आनी मागीर चड खोलायेन चवकशी सुरू जातली." खानान सांगलें.

"तुमकां कांयच मेळ्ळें ना जाल्यार म्हाका कशें कळपाचें?"

"आमकां कांयच मेळ्ळें ना जाल्यार तुमचे कडल्यान घेतिल्ले सगले मुळावे दोकुमेंत आमी तुमकां म्हयन्या-देड म्हयन्यांत परतून दितले. ते दोकुमेंत तुमकां परतून मेळटकूच तुमी निर्दोश अशें सी. बी. आय. न थारायलां हें तुमी समजुचें." खानान सांगलें.

"सी. बी. आय्. ची चवकशी सुरू जातकूच ज्या अधिकाऱ्याची तुमी चवकशी करतात ताचें नांव सामकें म्हेळ जाता आनी सी. बी. आय्. चें नांव आयकनाफुडें त्या अधिकाऱ्याक लोक सुळार मारतात. चवकशी सोंपतकूच अधिकारी निर्दोश थारल्यार तुमी ताका तशें पत्र दिवंक जाय!" महेशान खानाक आपलें मत सांगलें.

"तुमी म्हणटात ती गजाल खरी, सर! आमकांय बी तें पट्टा! पूण सद्या तशी सिस्टेम ना. देखून दोकुमेंत परतून येतात काय ना ताची तुमकां वाट पळोवची पडटली." खानान म्हणलें.

"म्हाका हांगा आनीक येवचें पडटलें?" महेशान खानाक विचारलें.

"ना सर. तुमचें काम सोंपलें. आतां तुमी गेल्यार जाता. वचचे पयलीं एक स्पेशल च्या तुमी घेवचीच पडटली! आयज मुद्दाम स्पेशल च्या आनी बिस्किटी हाडूंक लायल्यात." अशें म्हणून खानान बॅल वाजयली.

च्या बी घेवन जातकूच महेशान "थँक्यू, तुमी एकदम बरे मनीस आनी बरे अधिकारी. तुमकां दोगांकूय बॅस्ट ऑफ लक." अशें म्हणून तांकां हात

दिवन महेश थंयच्यान भायर सरलो.

एकतीस डिसेंबराक महेश रिटायर जावपाचो आशिल्लो. पंदरा नोवेंबर ते एकतीस डिसेंबर हाच्या मदीं चवकशेचो निकाल कळपाचो आशिल्लो. हो व्हड प्रस्न महेशाक आनी मीराक फुडलो देड म्हयनो सतावपाचो आशिल्लो.

***

दुसऱ्या दिसा धा वरांचेर सुमार दिल्लीच्यान नारायणाचो फोन आयलो. पोथन कुरियनाची कोची पोर्टांत डॅप्यूटी चेअरमॅन म्हूण बदली जाली आनी तो थंय वचून कामाचेर रुजू जालो. भारत सरकाराच्या केंद्रीय ऑफिसांनी काम करूंक नालायक अशें मिनिस्टरान आपणाल्या हातान बरोवन धाडिल्ल्यान पर्सोनेल खात्याक ताका रोखड्यारोखडो परतून धाडचोच पडलो. मिश्राच्या जाग्यार संजीवनी सिंग म्हूण नांवाची नवी जॉयंट सेक्रेटरी आयल्या अशेंय बी नारायणान सांगलें. संजीवनी सिंग महेशा परस आठ वर्सांनी ज्युनियर, मध्य प्रदेश काडरची ऑफिसर! उलोवपाक शांत, बरी आनी सरळ सभावाची काय दिसताली. महेशान तिका फोन करून मंत्रालयांत येवकार दिलो.

अभ्यंकर आनी सूर्यनारायणन येवन मुखार बशिल्ले. संजीवनी सिंगा कडेन उलोवन जातकूच ''कितें खबर?'' अशें महेशान सूर्यनारायणनाक विचारलें.

''सी. बी. आय्. ची चवकशी खंय पावल्या सर?'' सूर्यनारायणनान विचारलें.

''सुरवेची चवकशी सोंपली. हे चवकशेंतल्यान भ्रश्टाचाराचो दुबाव आयल्यार मागीर केस रजिस्टर करून फुडली कारवाय करतले.'' महेशान सांगलें. ताणें सी. बी. आय. चे चवकशेची पद्दतूयबी सांगली.

''फुडल्या म्हयन्या-देड म्हयन्यांत दोकुमेंत परतून आयले ना जाल्यार फुडें केस रजिस्टर जातली असो ताचो अर्थ! दोकुमेंत आयले जाल्यार सुरवेचे चवकशेंत तांकां कांयच मेळूंक ना, आनी हाचे फुडें आनीक कांयच कारवाय जावंची ना, अशें आमी समजुपाचें.'' महेशान स्पश्टिकरण दिलें.

''एकतीस डिसेंबरा पयलीं निकाल लागना जाल्यार मागीर कितें?'' अभ्यंकरान विचारलें.

''कायदे आनी नेम बदलत रावतात. सद्याचे नेम म्हाका खबर ना.

दिल्लीच्या पर्सोनेल खात्यांत फोन करून तांकां विचारचें पडटलें.'' महेशान सांगलें.

''सर, ह्यो फटीच्यो कागाळी बाप्तिस्तानूच केल्यात अशें सगल्यांक दिसता. ताचे कडेन उलोवपाचें सगल्यांनी बंद केल्लें. ताका मुंबय व्हरून लिव्हर सर्जरी करपाचो खर्च दिवपाचो निर्णय तुमी घेतलो ताचें सगल्यांक अजाप जालें. आनीक कोणूय चेअरमॅन आशिल्लो जाल्यार असलो निर्णय घेतलो आशिल्लो काय ना हो एक व्हड प्रस्न!'' अभ्यंकरान बाप्तिस्ताचे केशीचेर आपणालें मत उक्तायलें.

'ताची बायल आनी धूव हांगा येवन रडपाक लागलीं. तेन्ना म्हाका वायट दिसलें. आमचे पयकीं कोणाचेरूय हो प्रसंग येवंक शकता; आमचे खातीर आमचीं बायलां, धुवो, पूत कोणाय वरिश्ट अधिकाऱ्यां मुखार हात जोडून रडपाक लागलीं जाल्यार आमकां कशें दिसतलें? कायद्यान म्हाका अधिकार दिल्यात. आयज मेरेन म्हाका कायद्यान दिल्ल्या अधिकारांचो हांवें सदांच सकारात्मक उपेग केला, लोकांचे प्रस्न सोडवपा खातीर कायद्याचो उपेग केला, नवे प्रस्न उबे करपाक न्हय! ह्यो फट कागाळी बाप्तिस्तानूच केल्यात अशें म्हाकाय बी दिसता, पूण तो करता, ताचें फळ तो भोगतलो आनी हांव करतां ताचें फळ हांव भोगतलों. हांवें कोणाचेंय बरें केल्यार म्हाका मेळिल्ल्या समाधानाचें मोल मेजप शक्य ना!'' महेशान सूर्यनारायणनाक आनी अभ्यंकराक समजावन सांगलें. दोगूय थोडो वेळ वग्गी रावून ''थँक्यू सर'' म्हणून भायर सरले.

ऑक्टोबर, नोवेंबर, डिसेंबर पोर्टांत उत्सवाचो सिझन. दर वर्सा भशेन ह्यावूय वर्सा संगीत, नाच, नाटकुलीं हांणी वातावरण भरून गेलें. महेशान आनी मिरान दर वर्सा प्रमाणें जाता तितल्या चड कुटुंबांक मेळून तांच्या वांगडा वेळ घालयलो.

पूण पंदरा नोवेंबरा उपरांत दर दिसा सगले कार्यक्रम सोंपोवन बंगल्यार येतकूच महेशा मुखार एकूच प्रस्न उबो रावतालो : दोकुमेंत परतून येतले काय ना?

संगीत, नाच, तरातरांच्यो सर्ती आनी हेर कार्यक्रमांनी दीस केन्ना सोंपता तें कळच नाशिल्लें. पोर्टाचें काम वेवस्थीत चलतालें. ऑक्टोबर ते मे

म्हयन्यांत मीन एक्स्पोर्टाचो मुख्य काळ आशिल्ल्यान जण एकलो दीस-रात उद्देगधंद्यांत गुल्ल आनी खूश आशिल्लो. दीस कशे गेले ते महेशाक आनी मीराक लेगीत समजलें ना.

नोवेंबर पंदरा तारखेक चवकशी सोंपिल्ली. डिसेंबर पंदरा तारीख केन्ना आयली ती कळ्ळीच ना. फुडली कारवाय कांय करपाची नासल्यार. दोकुमेंत म्हयन्या-देड म्हयन्या भितर परतून येतले अशें सी. बी. आय्. न सांगिल्लें. म्हयनो जालो तरी आसतना सी. बी. आय्. कडल्यान फोन बी कांय आयलो ना. रिटायर जावंक महेशाक आनीक पंदरा दीस उरिल्ले. वेले वयर महेश हांसून उलयतालो, जोक करतालो. फायलींचेर निर्णय घेतालो, पूण कितें जातलें काय हो हुस्को ताका खावंक लागलो आनी मीरा कडेन लेगीत उलयतना ध्यान पयस खंयूय तरी आशिल्ले भशेन तो मर्दींच वग्गी रावूंक लागलो. मीरा ताका वेगवेगळे प्रस्न विचारून जापो दिवपांत गुल्ल दवरूंक सोदतालें.

"हांवें हायफराचें आयकल्लें जाल्यार बरें जावपाचें! प्रामाणीक अधिकाऱ्यांक फुडार नासता. तांच्या वांट्याक फकत हुस्को आनी चिंता आनी तांच्या बायलांक आनी भुरग्यांक कश्ट! म्हजो बॅचमेट धनराजूच पळय! ताणें महाबळीपुरम रस्त्याचेर स्विमिंग पूल आनी धाकल्या गॉल्फ कोर्सा सयत व्हडली पालासशें घर बांदलां. प्लॉटूच धा एकरांचो! ताका म्हयन्याक आठ लाख भाडें मेळटा. एके ब्रिटिश कंपनीन ताचें घर भाड्यान घेतलां. हें घर ताणें खंयच्या पयशांनी बांदलें अशें तमिळनाडू सरकारान विचारतकूच आपलो मेवणो अमेरिकेक आसता, ताणें धाडिल्ल्या पयशांनी तें घर बांदलां आनी ताणें मेवण्यान धाडिल्ल्या पयशांचे पुरावे दिले. ताणें जोडिल्ले सगले काळे पयशे हवाला एजंटां कडल्यान अमेरिकेंतल्या मेवण्याक धाडून थंयच्यान डॉलर हाडले अशें आयकूंक येतालें. आनीक एक आय. ए. एस्. अधिकारी विश्वास दुबे खंयच्याय तरी व्हडल्या सरकारी कंपनीचो मॅनेजिंग डायरेक्टर आशिल्लो. व्हडलीं व्हडलीं कॉन्ट्रेक्टां दितना तो व्हड व्हड कमिशनां मागूंक लागलो. कांय राजकी फुडाऱ्यां कडेनूयबी ताणें कमिशन मागलें. त्या फुडाऱ्यांनी सी. बी. आय्. क पत्रां बरयलीं आनी ताचे आनी ताच्या सोयऱ्यांचे येणावळीची चवकशी जावंची अशी मागणी केली. विश्वास दुबेन रोखडोच आय. ए. एसांतल्यान राजिनामो दिलो. आयज ताचो गुडगांवांत एक फ्लॅट, मद्रासाक

आनी बंगळुराक बंगले आसात. खेरीज, मेरठ शारांत गाडयांच्या स्पेअर पार्टांचो व्हडलो कारखानो आसा. बारीकसाणीन पळयल्यार चडश्या अधिकाऱ्यांक आमचे भशेन मध्यमवर्गीय संस्कार आनी उजू मुल्ल्यां नासतात. आमचे भशेन कफल्लक सामके थोडे आसतले. तेवूय बी रिटायर जातकूच आमचे भशेन "क्या खोया, क्या पाया" अशें आपल्याकूच विचारीत आसतले.

हांव प्रामाणीक, सरळ, नितळ अशे खुबशे अधिकारी आनी उद्देगधंदेवाले म्हणटात, पूण संद मेळ्ळ्यार तांतले चडशे वांकड्या मार्गान पयसो करपाचें सोडचे नात अशें म्हाका दिसता.

सबंद समाजूच जर भ्रश्ट, जाल्यार हांव एकलोंच, वा म्हजे भशेन हेवटेन तेवटेन आशिल्ल्या कांय जाणांनी समाज सुधारपाचीं सपनां कित्याक पळोवचीं हो प्रस्न म्हज्या मुखार हालीं हालीं येवंक लागला. कोणूय अहंकारी मनीस फटीच्यो कागाळी करता, कोणूय तरी त्यो कागाळी सी.बी.आय्. कडेन धाडटा आनी त्यो फटीच्यो कागाळी फट काय खऱ्यो हें तपासपाक सी. बी. आय्. प्रामाणीक मनशांक त्रास दिता. ह्या असल्या प्रशासनाक कितें अर्थ आसा? सत्याची घुडी घेवन कोणूय प्रामाणीक मनीस फुडें वतना, असत्यान चलपी कांय लोकांक लुकसाण जाता, देखून सत्याच्या मोलाचेर प्रस्न उबे करप हें योग्य? सत्याच्या आड फटींग मनीस कागाळ करता तेन्ना फटींग मनशाची चवकशी करपाची सोडून सी. बी. आय्. सत्याक कित्याक सुळार मारपाक सोदता? निनांवीं पत्रां जर सत्याक दूशण दितात, जाल्यार तीं पत्रां खंयच्यान आयल्यांत तें सोदून काडपाचें सोडून, असत्य हें सत्य काय कितें हें सोदून काडूंक सी. बी. आय्. सत्याक कित्याक सतायता?" निर्शेणेचे खोलायेंत बुडटना घुसमटून महेश आपणाले विचार मीराक उलोवन दाखयतालो. हाचे पयलीं स्टाफ काराचेर हल्लो जाल्लो तेन्ना महेशाक असोच वैताग आयिल्लो. आनी मीरान सत्य आनी असत्य, समा आनी चूक हाचेर आपणाले विचार उकतावन महेशाक जाग्यार हाडपाचो यत्न केल्लो. महेशाचो सध्याचो वैताग पळोवन मीराक खूब वायट दिसलें; असोच निर्शेणीचे खोलायेंत घुसमटत रावल्यार ताचे भलायकेचेर वायट परिणाम जायत म्हूण मीराक भंय दिसूंक लागलो. कुरुक्षेत्र युद्ध भुंयेचेर कृष्णान अर्जुनाक केल्ल्या उपदेशाची याद मीरा

महेशाक करून दितालें. एक दीस महेश आनी तें अशींच लॉनार बशिल्लीं आसतना म्हऱ्यांतल्या स्टुलावेलो कॉर्डलेस फोन वाजलो. वास्को पोलीस इन्स्पेक्टराचो फोन आशिल्लो.

''हांव मुरगांव पोलीस इन्स्पेक्टर किशोर गांवस उलयतां, सर; पोर्टाच्या ड्रायवराक, संभाजीक आमी अरेस्ट केला. तुमच्या स्टाफकाराचेर हल्लो करपी पांच गुंडांक आनी तांच्या मुखेल्याक आमी धरिल्ले आनी हें काम करपाक संभाजीन तांकां धा हजार रुपया दिल्ले अशें क्लिफ्टन गुंडान कबूल केलें. संभाजी चड कांय उलयना. ताका धरून हाडला तेन्ना ताणें आदींच दोन-तीन पेग मारिल्ले जावंक जाय. फाल्यां ताका कोर्टांत उबो करून चार दिसांचो रिमांड घेतले. मागीर तो कितें सांगता तें पळोवया!'' अशें इन्स्पेक्टर किशोर गांवसान महेशाक सांगलें.

कायदो चालीक लावपा खातीर आपणें केल्ले कारवायेक लागून आपणाक मारपाक उठपी लोकां मदीं आपणें येवपाचेंच न्हय अशें आनीक एक फावट दिसून महेश परतून निर्शेणेंत घसरूंक लागलो.

मीरान आदले भशेन पंदरा-वीस मिनटां महेशा कडेन उलोवन ताका निर्शेणेचे खोलायेंतल्यान भायर काडलो आनी मागीर ताका हुस्क्या विरयत स्वास घेवंक मजत केली.

बंगल्यांत भितर वतकूच महेश ऑफिसांतल्यान आयिल्ल्यो फायली पळोवंक लागलो. मीरान अनंतभाईक फोन करून मुरगांवच्या पोलीस इन्स्पेक्टरान सांगिल्ली सगली गजाल सांगली. पांच गुंडांक आनी संभाजी म्हणटात त्या ड्रायवराक पोलिसांनी धरला ही खबर अनंतभाईन रोखडीच रामकृष्णाक सांगली. रामकृष्ण कडकडलो. दोनापावल पठारावेल्या बंगल्याच्या ॲअर कंडीशन्ड हॉलांत लेगीत ताका शेळो घाम सुटलो. संभाजीचेर चार थापटां पडटकूच तो पोलिसांक आपलें नांव सांगतलो हाची रामकृष्णाक खात्री आशिल्ली. ताणें रोखडोच इन्स्पेक्टर विश्वंभर काणेकाराक फोन करून आपणाक अर्जंट उलोवंक जाय, देखून दुसऱ्या दिसा सकाळीं णव वरांचेर आपूण मेळूंक येतां अशें सांगलें. इन्स्पेक्टर काणेकारान ओके म्हणलें.

ते राती कडेन रामकृष्णाचो दोळो साप्प लागलो ना. आपणाक धरून

पोलिसांनी लॉकपांत घाला, सगलीं वर्तमानपत्रां आपणाचेर थुंकतात, विष्णू आनी सुमित्रा लेगीत "तुका हें अशें करूंक कोणें सांगिल्लें?" अशें म्हणून ताका दुशण दितात अशें झेमतां झेमतां सपनां पडून तो कच्च करून जागो जातालो आनी मागीर ताका न्हिदूच पडनाशिल्ली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं इन्स्पेक्टर काणेकाराक मेळून सगली गजाल सांगतकूच, इन्स्पेक्टर गांवस त्या दिसा दनपारचो तिनाक एके मिटिंगेक पणजे येवपाचो आसा, तेन्ना मिटिंग सोंपतकूच ताका आपूण आपणाल्या ऑफिसांत आपयतां आनी थंयच उलोवया अशें म्हणून इन्स्पेक्टर काणेकारान रामकृष्णाक थाकाय दिली आनी ताका सांजवेळचो पांचांक आपयलो. त्या दिसा सांजवेळचे इन्स्पेक्टर गांवस, इन्स्पेक्टर काणेकार आनी रामकृष्ण पणजे पोलीस स्टेशनांत मेळ्ळे. इन्स्पेक्टराच्या कॅबिनाचें दार धांपून ते वीस मिनटां सुमार उलयले. मागीर रामकृष्ण तोंडार कांयच तणाव नासतना हांसत्या तोंडान भायर सरलो.



## भाग 28

**ऑफिसांत** चालंत मिटिंग घेतना आपणाक सस्पेण्ड केला असो महेशाक भास जावन मिटिंगेंतल्यान ताचें लक्ष उडून खंयूय तरी काळख्या पोकळेंत नाच्च जातालें, आनी तें परतून मिटिंगेंत हाडपाक थोडो वेळ लागतालो.

सी. बी. आय्. इन्क्वायरीच्या तणावाक लागून हालीं चेअरमॅनाचें मिटिंगांचेर लक्ष लागना अश्यो वावड्यो विभाग मुखेल्यांमदीं पसरूंक लागल्यो. पोर्टाच्या सुवाळ्यांक चेअरमॅनान वचपाची प्रथा आसता थंय तो वतालोच, पूण ताचें मन आनीक खंयूय तरी आसा म्हणपाचें सगल्यांक कळटालें.

डिसेंबराचे वीस तारखेक सांजेच्या तीन वरांचेर महेश ऑफिसांत बशिल्लो आसतना पणजेच्यान मुख्यमंत्र्याच्या ऑफिसांतल्यान फोन आयलो. मुख्यमंत्र्याचो प्रायवेट सेक्रेटरी राममूर्ती महेशा परस पंदरा वर्सांनी ज्युनियर आय्. ए. एस्. अधिकारी! मुख्यमंत्री गिराणेचो कितेंय खास रकाद दिवपाचो आसल्यार तो केन्नाय फोन करतालो.

हे फावटीं आरंबाची वासपूस जातकूच गिराणे त्या दिसा मुरगांवां येवपाचो आसा आनी स वरांचेर सुमार महेशाक मेळूंक तो चेअरमॅनाच्या बंगल्यार येवंक सोदता. महेश आसतलो काय ना तें विचारपाक आपणें फोन केला अशें राममूर्तीन सांगलें. आपूण स वरांचेर मुख्यमंत्र्याची वाट पळयतां अशें राममूर्तीक सांगून महेशान अभ्यंकराक आपयलो आनी सवाय स वरांचेर सुमार बंगल्याच्या लॉनाचेर च्याची वेवस्था करूंक जाय आनी च्या वा काफी वांगडा कसल्यो कसल्यो खावपाच्यो वस्तू आसूंक जाय ताचेर महेशान तपशिलान आदेश दिले.

मुख्यमंत्री गिराणे सवाय संक सुमार पावलो. ताचे वांगडा ताचो ओ. एस. डी. भास्कर आशिल्लो, पूण तो बंगल्याच्या वारांदार वचून बसलो. महेश आनी मीरान गाडये म्हऱ्यांत वचून गिराणेक येवकार दिवन ताका तीं लॉनार घेवन आयलीं. अनंत भाई आनी रीराणे खूप वर्सां आदीं सावन इश्ट आशिल्ले. अनंतभाईन राजकारण सोडटकूच तांचो संपर्क उणो जालो. येनाफुडें गिराणेन मीरा कडेन अनंतभाईची खबर घेतली.

गिराणेन धा मिनटां सुमार भारत सरकाराच्यो आनी गोंय सरकाराच्यो गजाली करून मुख्य विशयाक हात घालो. महेश एकतीस डिसेंबराक रिटायर जावपाचो आसा देखून ताणें महेशा मुखार एक प्रस्ताव मांडलो : राज्य सरकार दर वर्सा अखिल भारतीय पावंड्यावेल्या अर्थिक आस्थापनां कडल्यान रीण घेता. ह्या रिणांची वेवस्था करूंक त्या मळार काम करपी एजंट आसतात आनी तांकां कमिशन दिवचें पडटा. फाटल्या चार-पांच वर्सां चालंत प्रथे परस भरपूर एक्स्ट्रा कमिशनां दिवन सरकारान रिणां काडल्यांत. हातूंत खूब भ्रश्टाचार जाला असो आपणाक दुबाव आसा आनी आपूण ह्या विशयाची खोलायेन चवकशी करूंक एक इन्क्वायरी कमिशन नेमूंक सोदतां. ह्या कमिशनांत फकत एक मनीस आसतलो आनी तो मनीस नितळ चारित्र्याचो, सरळ, प्रामाणीक आनी कामांत फिशाल आसूंक जाय आनी ते खातीर महेशाची नेमणूक आपूण करूंक सोदतां अशें मुख्यमंत्री गिराणेन सांगलें. आपणाचेर कांय लोकांनीं फटींच्यो कागाळी केल्यात आनी त्या कागाळींचेर सद्या सी. बी. आय्. ची सुरवेची चवकशी चालू आसा अशें महेशान सांगलें. तें सगलें आपणाक खबर आसा आनी तें सगल्या प्रशासनांनी चलत आयिल्लें राजकारण हेंवूय आपल्याक खबर आसा आनी आपूण असल्या फटींच्या कागाळींक वा सी. बी. आय्. चवकशेक म्हत्व दिना अशें गिराणेन सांगलें. आपणें हाचेर खूब विचार केला आनी ह्या कामा खातीर महेश सोडून आपणाक आनीक कोण सुचना, अशेंय बी गिराणेन सांगलें. ह्या भ्रश्टाचारांत दोन-तीन आदले मुख्यमंत्री घुस्पल्ले आसूं येतात देखून इन्क्वायरी करपी मनीस तितलेच तांकीचो आनी सरळ आनी प्रामाणीक आसूंक जाय हें गिराणेन आनीक एक फावट सांगलें. रिटायर जायनाफुडें महेशान हें काम हातांत घेवंचें. रिटायर जावंचे पयलीं भारत सरकार जो पगार दिता तितलोच पगार राज्य सरकार महेशाक दितलें.

महेशाची नेमणूक स म्हयन्यां खातीर आसतली. तितले भितर इन्क्वायरी सोंपोवन राज्य सरकाराक अहवाल दिवंचो पडटलो अशें सांगून मुख्यमंत्री गिराणेन राज्य सरकाराचो प्रस्ताव मानून घेवंचो अशें महेशाक सुचयलें.

आपल्याक सरकारी नोकरेची उबगण आयल्या आनी रिटायर जातकूच थोडो काळ आपूण कसलेंच सरकारी काम करूंक सोदिना अशें महेशान मुख्यमंत्री गिराणेक सांगलें. गिराणेन महेशाक आग्रो करपाचें सोडलें ना. रिटायर जातकूच महेशान थोडो विसव घेवंचो आनी तीन म्हयन्यांनी आपणाक कळोवचें तों मेरेन आपूण हें इन्क्वायरी कमिशन नेमपाचें काम फुडें धुकलतां अशें सांगून मुख्यमंत्री गिराणे भायर सरलो.

दुसऱ्या दिसा ऑफिसांत पावतकूच महेशान दिल्ली पर्सोनेल खात्याच्या जॉयंट सेक्रेटरीक फोन केलो आनी आय्.ए.एस्. ऑफिसरांचेर सी. बी. आय्. ची सुरवेची चवकशी चालू आसतना त्या आय्.ए.एस्. ऑफिसराक रिटायर जावंक मेळटा काय ना हें विचारलें. आय्.ए.एस् ऑफिसरांक सर्विसीचीं तितलीं वर्सां जातकूच रिटायर जावन पेन्शन घेवपाचो अधिकार कायद्यान दिल्लो आसा आनी सुप्रीम कोर्टान लेगीत तो कायदो मानून घेतला. देखून, सी. बी. आय्. ची सुरवेची चवकशी चालू आसल्यार लेगीत, रिटायर जावपाचे तारखेक आय.ए.एस्. ऑफिसराक रिटायर जावंचें पडटा. ताचें पेन्शन आनी प्रोविडंट फडाचे पयशे आडावपाचो कोणाकूच अधिकार ना अशें त्या जॉयंट सेक्रेटरीन सांगलें.

आपूण एकतीस डिसेंबराक रिटायर जातलों अशें दिल्लीक फोन करून महेशान नारायणाक सांगलें.

“हांव तुमकां फोन करपाचों आशिल्लों सर. तुमकां एक खबर दिवपाची आशिल्ली!” नारायणान महेशाक सांगलें.

“कसली खबर?”

“त्या पोथन कुरियनाक आमी कोची पोर्ट ट्रस्टांत परतून धाडिल्लो हें तुमकां खबर आसा. ताचेर कांय काळ सी. बी. आय्. ची चवकशी चलताली. आतां ताचेर सी. बी. आय्. न यफ्. आय्. आर्. नोंद करून फूल इन्क्वायरी सुरू केल्या.

पंदरा दिसां फाटीं एका शिपिंग एजंटा कडल्यान एक लाख रुपया कॅश

घेतना ताका सी. बी. आय्. न धरलो. आतां मंत्रालयान ताका निलंबित केला.'' नारायणान महेशाक खबर दिली.

''तो अधिकारी भ्रश्टाचारांत बुडला म्हणून ताचीं आनी ताच्या चेअरमॅनाचीं सदांच झगडीं जातालीं. सी. बी. आय्. न ताका धरला ही अजापाची गजाल न्हय पूण तुवें म्हाका ताची गजाल कित्याक सांगली?'' महेशान नारायणाक विचारलें.

''सर, तुमच्या सारक्या प्रामाणीक अधिकाऱ्याक त्रासांत घालपाक तोच कारण! आपणाक मुरगांव पोर्टांत चेअरमॅन म्हूण वचूंक मेळ्ळें ना, देखून तुमचेर सूड घेवपाचो ताणें प्रयत्न केलो. पूण देवानूच ताका बुद्द शिकयली!'' नारायणान स्पश्टिकरण दिलें.

''थँक्यू! तूं बरो मनीस आनी बरो अधिकारी! तुका देव सगलीं सुखां आनी येस दिवं!'' अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो.

झप्झप् करून दीस गेले आनी नातलां आयलीं. नातालाच्या दिसा सकाळीं फुडें महेशाक बाप्तिस्ताचे धुवेचो फोन आयलो :

''सर, हांव मॅगी, जोजेफ बाप्तिस्ताची धूव; डॅडीचें ऑपरेशन जावन डॅडी आतां बरो आसा. आनीक धा दिसांनी हॉस्पिटलांतल्यान ताका डिस्चार्ज मेळटलो. सर, तुका लागून तो वांचलो. आमी सदां प्रार्थना करता आसतना तुजें आनी तुज्या फामिलीचें बरें जावं म्हणून देवा कडेन मागतात. सर, आयज नाताल. तुमकां आमी एक धाकलोसो केक, धोदोल, दोस, किडी आनी हेर खाण धाडलां. आमचो एक सोयरो तें सगलें घेवन दनपरां बारां पयलीं येतलो. आमी मुंबय आसात, नाजाल्यार आमीच तें घेवन येवपाचीं. तुमी तें परतून धाडूं नाकात सर. देव बरें करूं सर.'' मॅगीन रडकुऱ्या आवाजांत म्हणलें.

''थँक्यू थँक्यू. बाप्तिस्ताची काळजी घेयात! हांव तुमचो केक दवरून घेतां अशें तुजे मम्मीक सांग. थँक्स!'' अशें म्हणून महेशान फोन दवरलो. बाप्तिस्ताच्या सोयऱ्यान साडे इकरांक सुमार केक आनी हेर खाण हाडून दिलें.

महेश रिटायर जावपाक आनीक स दीस उरिल्ले. पयलीं महेश आनी मीरा वर्सां मेजतालीं, मागीर म्हयने मेजूंक लागलीं, उपरांत दीस मेजूंक लागलीं; आतां तांणी आदेस मेजूंक सुरवात केली.

दिसा फाटल्यान दीस गेले पूण दोकुमेंत परतून येवपाचीं कांयच चिन्नां

दिसनात, हें महेशाक आनी मीराक दर खिणाक जाणवतालें.

सत्तावीस तारखेक सदचेभशेन तीं लॉनार बशिल्लीं. दोगांयच्याय मनांत तरातरांचे विचार येताले! उलोवप उणें जाल्लें!

“दोकुमेंत एकतीस तारीखे मेरेन आयले नात जाल्यार कितें जातलें?” मीरान विचारलें.

“कांय जावंचें ना. हांव रिटायर जातलों, पेन्शन सुरू जातलें, प्रोविडंट फंड काडूंक मेळटलो, इन्क्वायरी चालू उरतली.” महेशान मीराक म्हायती दिली.

“तूं रिटायर जातकूच इन्क्वायरी चालू दवरून ते कितें करतले?” मीरान विचारलें.

“पयलीं करतले आशिल्ले तेंच मागीर करतले. सुरवेची चवकशी सोंपतकूच फटींच्यो कागाळी खऱ्यांनीच फटी म्हणून थारायल्यार फुडली सगली कारवाय बंद करून सगले दोकुमेंत परतून दितले. फटीच्यो कागाळ्यो खऱ्यो अशें तांणी थारायल्यार यफ्. आय्. आर्. नोंद करून ते फुडली कारवाय करतले.” महेशान म्हायती दिली.

“फुडें कितेंय जांव, आमी सोंशिल्ले मानसीक त्रास दोकुमेंत परतून आयले म्हूण ना जातले?” मीरान विचारलें.

“ना, जावंचे नात. मानसीक आनी हेर त्रास जावपाचे काय न जावपाचे तें दर एकल्याच्या नशिबाचेर अवलंबून आसता. आय्. ए. एस्. परिक्षा पास जावन भारताच्या राष्ट्रपतीन केल्ली नेमणूक आमी घेतात तेन्नाच नोकरेंत आसपाव आशिल्ले प्रसंग आनी त्या प्रसंगांक लागून जावपी सगल्या तरांचे त्रास सोंसपाक आमी तयार आसूंक जाय. पूण ज्यो चुको, वा जीं फटिंगपणां, वा जो भ्रश्टाचार हांवें करुंकूच ना ते केल्ल्याचे आरोप जावप आनी सरकारान ताचेर गंभीरपणान चवकशी सुरू करप आनी ती सुरवेची चवकशीच आसल्यार लेगीत समाजांत म्हजी शी थू जावप – हे गजालीक लागून मानसीक त्रास जातात, ते वेगळे! कलेक्टराच्या पदावेल्यान दोन फावटीं हिंदू-मुस्लिम दंगे जाल्ले तेन्ना फायरिंग करपाचे म्हाका पोलिसांक आदेश दिवंचे पडिल्ले. तीन लोक मेले, पूण दंगे बंद जाले. त्या प्रसंगाक लागून मानसीक त्रास जाल्ले ते वेगळे आनी आतांचे हे वेगळे!” महेशान बेजार जावन आपणालें मत उकतायलें.

"सरकार कितें करता, लोक शी थू करतात ह्या गजालींक तूं जापसालदार ना. तुवें तुजें काम बरे तरेन केलां, देखून तुका समाधान आसूंक जाय, मागीर कितें जाता तें जांव!" मीरान महेशाच्या मनाक थाकाय दिवपाचो यत्न केलो.

दीस-रात, दर खिणाक, महेश आनी मीरा असल्योच गजाली करतालीं. कितलेय हात-पांय मारून बुडनासतना रावपाचो यत्न केल्यार लेगीत महेश निर्शेणेचे खोलायेंत बुडूंक पावतालो आनी मीरा ताका थंयच्यान भायर काडटालें.

त्या दिसा लॉनार बशिल्ले कडेन महेशाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं आनी ताच्यान उलोवंक नज जालें. मीरान ताचे तकलेवेल्यान हात भोंवडावन ताका थाकाय दिवपाचो यत्न केलो. ताचें कपल हून जाल्लें. मीरान रोखडोच ताका भितर व्हेलो आनी दोतोर नलिनीक आपयलें. महेशाक एकशें एक जोर आशिल्लो. दोतोर नलिनीन गुळी दिवन ताका न्हिदून रेस्ट घे म्हूण सांगलें आनी रातची अर्दी न्हिदेची गुळी दी अशें मीराक सांगलें. इन्क्वायरीच्या तणावाक लागून जोर आयला पूण विसव आनी ह्यो गुळयो घेतकूच तो वतलो अशें दोतोर नलिनीन सांगलें.

इन्क्वायरीच्या तणावाक लागून चेअरमॅनाक जोर आयिल्लो आनी ह्या दिसांनी ताची भलायकी इबाडल्या अश्यो खबरो पोर्ट वाठारांत सगल्याक पसरल्यो आनी फटींच्या कागाळींक लागून एका प्रामाणीक अधिकाऱ्याक असो त्रास जावप हें समा न्हय अशें सगल्यांक दिसूंक लागलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं महेश ऑफिसाक वतकूच विभागांचे मुखेली एका फाटल्यान एक ताचे खबरेक येवंक लागले. ऑफिसर्स ॲसोसिएशनाचो अध्यक्ष पटेल, पीटर डिमेलो, गुणाजी, कडक भोसले आनी हेर पांच-स जाण पंदरा-वीस मिनटांनी चेअरमॅनाक मेळूंक सोदतात अशें संजय नायकान फोनार सांगलें.

दिल्लीच्यान रामदास शर्मान आनी मुंबयच्यान कल्याणपूरकरान फोन केले आनी तांणी महेशाची खबर घेतली. आनीक पंदरा मिनटांनी पटेल, पीटर डिमेलो, कडक भोसले आनी हेर पांच स जाण महेशाक मेळूंक आयले. पटेल, पीटर, गुणाजी आनी भोसले महेशा मुखार बसले आनी हेर सगले उबेच रावले!

"तुमकां सगल्यांक एक कडेन पळोवन बरें दिसलें. कित्याक आयिल्ले?"

महेशान विचारलें.

“सर, ह्या सी. बी. आय्. चो आनी भारत सरकाराचो आमकां सगल्यांक संताप आयला. राजकारण्यांचो आनी अधिकाऱ्यांचो इतलो व्हड भ्रश्टाचार सगले कडेन चलता, आनी फटींचे कागाळींक लागून तुमच्या सारक्या प्रामाणीक अधिकाऱ्याक असो सतावप हें आमकां कोणाक पसंत ना!” पटेलान संतापून महेशाक सांगलें.

“सर, तुमच्या आनी आमच्या भितर वाद जातात, झगडीं जातात, तो सगलो आमच्या कामाचोच एक भाग अशें आमी समजतात. तुमचे विशीं आमकां सगल्यांक आदर आनी अभिमान आसा. कायद्याक धरून आनी प्रामाणीकपणान तुमचे भशेन सगल्या राजकारण्यांनी आनी अधिकाऱ्यांनी सरकार चलयल्यार आमचो देश कितलोसोच फुडें पावपाचो! तुमचे सारकेल्या अधिकाऱ्याक सी. बी. आय्. सतायता तें पळोवन आमकां सगल्यांक भयंकर तिडक मारल्या. आनी ते खातीर ह्या पोर्टाच्या इतिहासांत पयले फावट आमी सगले एके कडेन जावन तुमकां फॅअरवेल दिवंक सोदतात. सी. बी. आय्. कितें करता तें आमकां लागना. तुमी प्रामाणीक हें आमकां खबर आसा, संबंद मुरगांव शाराक खबर आसा. तें सिद्ध करपाक आमकां सी. बी. आय्. चें सर्टिफिकेट लागना. एकतीस तारखेक सांजेच्या साडे पांचांक माध्यमीक स्कुलाच्या ग्रावंडार आमी सगले तुमकां व्हडलें, आयज मेरेन केन्नाच जावंक नाशिल्लें अशें, फेअरवेल दितले. सी. बी. आय्. चेर आनी भारत सरकाराचेर आमचो संतापूयबी आमी व्यक्त करून दाखयतले.” पिटर डिमेलोन भावनावश जावन सांगलें.

“सर, आमचें हें फेअरवेल साडे पांचांक सुरू जातलें. ड्युटीचेर आशिल्ले सोडल्यार हेर सगले आमचे वांगडी ह्या फेअरवेलाक हजर आसतले. उण्यांत उणें तीन हजार तरी लोक हजर आसूंक जाय.” कडक भोसलेन सांगलें.

“सर, तुमी आनी मॅडमीन थंय संक सुमार आयल्यार पुरो!”

“तुमी एकठांय येवन म्हाका फेअरवेल दितात ही म्हजे खातीर व्हड अभिमानाची गजाल. अशेच एकठांय रावून, एकामेकाचो मान राखून तुमी काम केल्यार पोर्टाची फास्ट प्रगती कोणाच्यान आडावंक नज!

सी. बी. आय्. ची सुरवेची इन्क्वायरी सोंपली. ती सोंपून देड म्हयनो

जायत आयलो. हांव निर्दोश अशें सिद्ध जाल्यार पत्र बरोवन ते म्हाका कळयतले काय ना अशें हांवें तांकां विचारिल्लें. पत्र बरोवन तशें कळोवपाची पद्दत सी. बी. आय्. त ना अशें म्हाका तांणी सांगलें.

इन्क्वायरीचो निकाल कितें जाला हें म्हाका कशें कळपाचें अशें विचारतकूच हांवें तांकां दिल्ले ते सगले दोकुमेंत ते परतून धाडटले आनी तांणी ते दोकुमेंत धाडटकूच हांव निर्दोश अशें हांवें समजुचें अशी तांणी जाप दिल्ली. अजून मेरेन म्हाका दोकुमेंत पावूंक नात.

एकतीस तारखेक सांजवेळच्या पांच वरांचेर हांव रिटायर जातलों. इन्क्वायरीचें कितें जाता तें जावं. हांव प्रामाणीक हें म्हाका खबर आसा, आनी हांवें कायद्याक धरून प्रशासन चलयलां हेंवूयबी म्हाका खबर आसा. तुमचो सगल्यांचो तेंको पळोवन तीस वर्सां प्रामाणीकपणान आय्. ए. एस्‌ांत सर्वीस केल्ल्याचें सार्थक जालें अशें म्हाका आयज दिसूंक लागलां.

तुमच्या फेअरवेलाक हांवें येवप समा जावंचें ना कारण तुमी सी. बी. आय्. चेर आनी सरकाराचेर ताशेरे झोडटले. हांवें त्या वेळार थंय आसप समा जावंचें ना. तुमचे कडेन हातमेळोवणी करून आपणाचेर चेपण हाडटात अशें सी. बी. आय्. क दिसूंक जायना. तुमी सगल्यांनी एकठांय येवन हें पावल उखल्लां त्या बद्दल तुमकां सगल्यांक देव बरें करूं म्हणटां. देशाचें प्रशासन सुदारतलो जाल्यार सरळ आनी प्रामाणीक अधिकाऱ्यांक फटींच्या कागाळींक लागून सतावंक जायना, हें कोणेंय तरी व्हड पावरफूल आवाजान भारत सरकाराक सांगूंक जाय. तें काम तुमीच करतले ही खोशेची गजाल! देव तुमचें सगल्यांचें  सदांच कल्याण करतलो!'' महेशान भावनावश जावन तांकां नमस्कार केलो.

''थँक्यू सर, थँक्यू सर'' म्हणत ते सगले भायर सरून गेले.

ते तीन दीस महेशाचो वेळ फकत येतल्या वतल्यांक ''थँक्यू गुडबाय'' म्हणूंक आनी उरिल्ल्यो म्हत्वाच्यो फायली पळोवपांत गेलो. आपूण रिटायर जांवचे पयलीं दोकुमेंत परत येवचे नात हाची ताका खात्री जाल्ली. महेशाक निर्शेणेंत बुडूंक दिवं नाका अशें म्हूण दोतोर नलिनीन मीराक सांगिल्लें कारण परतू-परतून निर्शेणेंत घसरल्यार मागीर ताका भायर काडप चड कठीण जावपाची शक्यताय आसा अशेंय तिणें सांगिल्लें.

ऑफिसर्स असोसिएशन, कामगार संघटणा आनी हेर सगले एकठांय येवन एकतीस तारखेक सांजचे व्हड "मेगा फेअरवेल" दिवपाचे आसात अशें ऑफिसांतल्यान बंगल्यार येतकूच महेशान मीराक सांगलें. तीस वर्सां प्रामाणीकपणान सरळ मार्गान सिर्विस केल्ल्याचें आयज सार्थक जालें अशेंयबी ताणें मीराक उलोवन दाखयलें. ताच्या तोंडाचेर आयज निर्शेणी दिस नाशिल्ली. फाटल्या कांय दिसांनी ताच्या तोंडाचेर पळयिल्ली निर्शेणी परती येना जाल्यार पुरो अशें म्हूण मीरा देवा कडेन मागतालें. फाटल्या तीस वर्सांत लोकां कडल्यान मेळिल्ली तुस्त आनी प्रशंसा आनी भारत आनी तमिळनाडू सरकारां कडल्यान मेळिल्ल्या प्रोत्साहनांची मीरा महेशाक परतू-परतून याद करून दिवंक लागलें. त्या यादींचेर चर्चा करता आसतना महेशाच्या तोंडावेली उमेद वाडत रावली. चालू आशिल्ल्या चवकशेचें रिटायरमेन्टा उपरांत कितें जातलें काय हो प्रस्न महेशाच्या मनांत येतकूच फिशालकायेन मीरा ताका हेर विशयां वटेन व्हरतालें.

कुत्छित्री सोयऱ्यांचे फोन येवंक लागले : ते चवकशेचें कितें जालें? आतां पेन्शन तरी मेळटलें मुगो? जेलांत बी घालचे नात मुगो ताका? तुमच्या मडगांवच्या नव्या घराचेर जप्ती बी हाडचे नात मुगो? कितल्या कोटींचो आरोप आसा गो? हे, आनी असले खूबशे प्रस्न, एकतीस तारीख लागीं येतां येतां वाडूंक लागले. सज्जन केंकरे, सत्यानंद सांवड्डेकार, समीर लवंदे हांणी दोन-तीन फावटीं फोन करून खबर घेतली आनी महेशाच्या मनाक थाकाय दिवपाचो यत्न केलो. महेशाच्या वांगडा ल्हानाचे व्हड जाल्ल्या आनी वेगवेगळ्या सामाजिक मळांचेर काम करपी इश्टांनी ताका धीर दिलो आनी आमी सगले मेळून प्रशासन सुदारपा खातीर असल्या नकारात्मक प्रवृत्तीं कडेन झगडुंया अशेंय बी सांगलें.

मडगांवच्या घरांत केन्नाच्यान रावूंक वचपाचें, थंय कसली वेवस्था करपाची उरल्या, भाटां-बेसांच्या विशयांत फुडें कितें करपाचें, गौरिश आनी इशा वांगडा थोडो काळ केन्ना रावपाचें असल्या प्रस्नांचेर महेश आनी मीराची चर्चा वाडूंक लागली.

इतले मजगतीं, मेगा फेअरवेलाचे चलिल्ले जंगी तयारेची खबर राजीव पुश्कर हाडीत आशिल्लो. ताणी सगल्यांनी एक कमिटी केल्या आनी पोर्टा कडेन संबंद आशिल्ल्या सगल्या वेपारी आनी उद्देगीक संघटनांनी फेअरवेलांत

आपणाक वांटो घेवंक जाय अशें ते कमिटीक सांगलां. पोर्टांतल्या कामगारांक आनी अधिकाऱ्यांक आयिल्लो संताप आतां पोर्टा कडेन संबंद आशिल्ल्या सगल्या लोकां भितर पसरला आनी हें फेअरवेल आतां पोर्टांतल्याच लोकां पुरतें उरुंना, तर सबंद मुरगांव शारा वतीन फेअरवेल जातलें अशें दिसता, अशी खबर राजीवान हाडिल्ली. एकतीस तारखेक सकाळच्या आदेसाक पेन्शनाची आनी प्रोविडंट फंडाची फायल महेशान बारकायेन पळयली आनी सगले पेपर सांजेच्या पांच वरांचेर सय करून आपूण दितलों अशें संजयाक आनी दीपाक ताणें सांगलें.

त्या दिसा दोकुमेंतां विशीं महेश आनी मीरा कांयच उलयलीं नात, कारण आतां आनी दोकुमेंत येवंचे नात हाची तांकां खात्री जाली. फुडाराक जें कितें जाता ताका तोंड दिवंचें पडटलें. रिटायर जावंक मेळटा, पेन्शन मेळटा, आनी प्रोविडंट फंडाचे पयशेयबी काडूंक मेळटात म्हणटकूच हुस्को करपाचें व्हडलेंशें कारण ना अशें तांणी दोगांयनींय थारायलें.

सदचे भशेन जेवन दोन वरांचेर महेश ऑफिसांत पावलो. पोर्टांत काम करपी वरिश्ट अधिकारी आनी कामगार तशेंच मुरगांव शारांतले ल्हान-व्हड वेपारी आनी पोर्टाचेर अवलंबून आशिल्ले हेर सगले महेशाक 'गुडबाय' म्हणपाक एका फाटोफाट एक येवंक लागले. फाटल्या पांच-स दिसांत सगल्या वर्तमानपत्रांनी महेशाचे फोटे आनी व्हड व्हड खबरो आनी लेख येताले. पोर्टांतले सगले कामगार, अधिकारी आनी पोर्टा कडेन संबंद आशिल्ले मुरगांव शारांतले सगले लोक आनी आस्थापनां एकठांय येवन ह्या चेअरमॅनाक फेअरवेल दिवपाचे आसात; सी. बी. आय्. चेर आनी भारत सरकाराचेर सगले तापल्यात. बऱ्या अधिकाऱ्याक अशें सतायल्यार देशाचें प्रशासन कशें सुदारतलें हो प्रस्न लोक संतापून विचारूंक लागल्यात. सी. बी. आय्. (सिटिझन्स ब्युरो ऑफ इन्वेस्टिगेशन) ऑनर्स महेश प्रभू अशे माथाळे येवंक लागले.

त्या दिसा महेश प्रभू रिटायर जावपाचो आसा हें सगल्यांक कळिल्लें; ताका लागून केन्नाच मेळूंक नाशिल्ले लोक लेगीत महेशाक गुडबाय करूंक आयिल्ले. महेश लोकांक हात दिवंक उबो राविल्लो तो उबोच उरलो; ताका बसूंक मेळ्ळेंच ना.

साडेचारांक सुमार संजयाचो फोन आयलो. सी. बी. आय्. चो एक मनीस आयला म्हूण ताणें फोनार सांगलें. हो आनी कित्याक आयला काय अशें म्हणून महेशाच्या काळजांत खप्प जालें. मुखार उबे आशिल्ले लोक भायर वतकूच ताका भितर धाड म्हूण महेशान सांगलें. तीन-चार मिनटां भितर संतोशान दार उगडून ताका भितर सोडलो.

''गुड ईव्हिनिंग सर, हांव सी. बी. आय्. तल्यान आयलां!'' त्या मनशान सांगलें.

''यो बस; कित्याक आयला?'' महेशान विचारलें.

''हांव दोकुमेंत घेवन आयलां सर! दोकुमेंत परत दिवपाचे आसतात तेन्ना संबंधित अधिकाऱ्यांक ते दोकुमेंत सी. बी. आय्. ऑफिसांत वचून सय करून घेवचे पडटात. आदींच कळाव जाल्ल्यान हांवूंच ते दोकुमेंत घेवन तुमकां दिवंक आयलां. हें दोकुमेंतांचें लिस्ट, आनी हे दोकुमेंत. तुमी चेक करून सय करात.'' सी. बी. आय्. च्या मनशान सांगलें. महेशान फोनावेल्यान संजयाक आपयलो आनी मुखावेल्या कदेलार बसून लिस्टाप्रमाणें दोकुमेंत आसात काय ना हें चेक करूंक लायलें. संजयान तीन मिनटां भितर सगलें चेक केलें. मागीर महेशान लिस्टाचेर सय करून तें लिस्ट सी. बी. आय्. च्या मनशा कडेन दिलें. ''तुका देव बरें करूं'' अशें म्हणून महेशान उठून ताका हात दिलो आनी ते सगले दोकुमेंत त्या लखोट्यांत घालून मागीर बंगल्यार वतना आपल्या कडेन दी अशें महेशान संजयाक सांगलें. ''थँक्यू सर, थँक्यू सर'' अशें म्हणत सी. बी. आय्. चो मनीस गेलो.

चेअरमॅनाचे दोकुमेंत परते आयले, चेअरमॅन निर्दोश, सी बी आय् ची केश काबार जाली, अशी खबर रोखडीच पोर्टाच्या वाठारांत आनी मागीर गांवांत पसरली. महेशाक मेळपाक भायर उबे आशिल्ल्या लोकांनी भितर येवन ''कॉंग्रेच्युलेशन्स आनी गुडबाय सर'' म्हणलें! पयलीं ते फकत

''गुडबाय सर'' म्हणटाले!

महेशान रोखडोच फोन करून मीराक दोकुमेंताची गजाल सांगली. मीराक घस्स करून रडूंक आयलें. तें वग्गी रावलें.

''त्या पाडपडिल्ल्यांक इतलो वेळ कित्याक लागलो खंय? देड म्हयन्या पयलीं तांची चवकशी सोंपिल्ली?'' मीरान तापून विचारलें.

“तें मागीर उलोवया, आतां हांव फोन दवरतां!” अशें महेशान मीराक सांगून फोन दवरलो.

बंगल्यार परतून वचपाची तयारी करतां करतां पिटर डिमेलोचो फोन आयलो, “सर, काँग्रेचुलेशन्स, आमचीं सगल्यांचीं तुमकां परबीं. मेगा फेअरवेलाक आतां तुमकां येवंक हरकत ना! तुमी दोगांय येयात सर!” पीटर डिमेलोन आग्रो केलो.

“ओके. आमी येतात! स वरांचेर पावतात.”

सूर्यनारायणन, अभ्यंकर आनी हेर ल्हान-व्हड अधिकारी येवन काँग्रेचुलेशन्स आनी गुडबाय म्हणून वच म्हणसर साडे पांच जालीं. स वरांचेर फेअरवेलाक वचूंक जाय अशें दीपान मीराक आदींच सांगिल्लें. सगल्यांचो निरोप घेवन, जगदीशाक घट्ट वेंग मारून महेश बंगल्यार पावलो. न्हावन, धुवन, कपडे बदलून इल्लीशी च्या घेवन स वरांचेर तो आनी मीरा बंगल्या शेजरा आशिल्ल्या माध्यमीक स्कुलाच्या ग्रावंडार गेलीं. सबंद ग्रावंड गच्च भरिल्लो. कदेलां भरून, ग्रावंडाच्या चोशीं वटेन लोक उबे आशिल्ले. स्टेजीचे दावे वटेन एक पंदरा बाय सात फीट बेनराचेर ‘द वन् मॅन हू मेड द डिफरेन्स’ अशें व्हड इंग्लीश अक्षरांनी बरयिल्लें. महेश आनी मीरा थंय पावतकूच एकल्यान मायकाचेर तीं आयिल्ल्याचें जाहीर केलें. तें आयकनाफुडें त्या चार हजार लोकांनी ताळयांच्या कडकडाटांत तांकां येवकार दिलो. विभागांचे मुखेली आनी तांचीं बायलां सगलीं फुडले लायनींत बशिल्लीं. फ्लाविया मुद्दम आपल्या घोवाक घेवन आयिल्लें. सज्जन केंकरे, सत्यानंद सांवड्डेकार, समीर लवंदे बी फुडले लायनींत बशिल्ले.

फेअरवेल सुवाळ्यांत सुमार पंदरा जाणांनी भाशणां केलीं. ऑफिसर्स असोसिएशनाचो पटेल सुवाळ्याचोयबी अध्यक्ष आशिल्लो. सगल्यांत व्हड भाशण पीटर डिमेलोन केलें. एक्स्पोर्टर्स असोसिएशनाचे वतीन सज्जन केंकरे, सत्यानंद सांवर्डेकार आनी समीर लवंदेन भाशणां केलीं. सर्वानंद सांवर्डेकार जपानाक गेल्लो.

सुवाळो सुमार दोन वरां चललो. मुरगांव शारांतल्यान शिपिंग एजंट, स्टिविडोर, शीप चॅन्डलर्स, बोट ओनर्स, कस्टम हावज एजंटस् ह्या सगल्यांच्या वतीन एक-एकलो पांच मिनटां उलयलो. सगल्या भाशणांतल्यान एकूच सूर

आयलो आनी तो म्हणल्यार सरळ, कर्तबगार आनी प्रामाणीक अधिकाऱ्यांक सी. बी. आय्. न अशें सतावंक जायना. कागाळी करतल्याक आपणाचें नांव सांगपाची धिटाय ना जाल्यार सी. बी. आय्. न असल्यो कागाळी पिंजून भायर उडोवंक जाय. प्रामाणीक प्रशासनाक तेंको उकतावपाक देशांत सगले कडेन मुरगांव पोर्टांतल्या भशेन प्रशासन चलचें, असो व्हड आवाज उठोवपाक पोर्टाच्या इतिहासांत पयलेच फावट आमी सगल्यांनी एकठांय येवन हो मेगाफेअरवेल दबाजो घडोवन हाडला अशें सगल्या उलोवप्यांनी ताळयांच्या कडकडाटांत परतूपरतून सांगलें. महेशाचें भाशण जावंचे पयलीं पंदरा मिनटां सुमार महेशाक लोकांनी हार घाले आनी तुरे दिले. पोर्टाचे वतीन कमिटीन खास करूंक लायिल्लो स फुटांचो हार चार जाणांनी उखलून हाडून महेशाक आनी मीराक एक कडेन उबीं रावोवन तो हार तांच्या दोगांयच्याय गळ्यांत घालो. ताळयांचो कडकडाट एक मिनिटभर चल्लो. मागीर अठरा-वीस वर्सांचें एक चली भुरगें स्टेजीर आयलें. पीटर डिमेलोन ताका मायका सामकार हाडून उबें केलें. आपूण जोसेफ बाप्तिस्ताची धूव अशें म्हणून जाहीर करून तिणें बरोवन हाडिल्लें भाशण वाचलें. तातूंत चेअरमनान तांकां कशी कशी मजत केली आनी आपणाल्या बापायचो जीव कसो वांचयलो हें तपशिलान सांगिल्लें. आपणाल्या बापायन आपणाक एक पत्र बरोवंक लावन ताचेर सय करून तें आपल्या कडेन दिलां आनी ह्या आयच्या दबाज्यांत वाचून दाखय म्हूण सांगलां अशें म्हणून ताणें जोसेफ बाप्तिस्तान बरोवंक लायिल्लें पत्र वाचलें. आपणें बरयिल्ल्या फटीचे एके कागाळीक लागून चेअरमॅनाक आनी ताचे बायलेक सी. बी. आय्. ची सतावणी सोंसची पडली, हे खातीर आपूण तांची आनी पोर्टांतल्या सगल्या कामगारांची आनी अधिकाऱ्यांची माफी मागतां अशें ताणें बरयिल्लें. आपणें इतलें करून लेगीत चेअरमॅनान व्हड काळजान आपणालो जीव वांचोवपाक मजत केली हें आपूण आनी आपलें कुटूंब केन्नाच विसरचीं नात अशेंय ताणें बरयिल्लें. बाप्तिस्तालें पत्र धुवेन वाचून दाखयतकूच कांय लोकांनी ''शेम, शेम'' म्हणलें, कांय लोकांनी ताळयो मारल्यो आनी कांय लोकांनी दोळ्यांतलीं दुकां पुसलीं. बाप्तिस्ताची धूव महेशाक आनी मीराक पांयां पडून ''थँक्यू सर, थँक्यू मॅडम'' म्हणून गेली, महेशाचें भाशण जावंचे पयलीं पीटर डिमेलोन एक गजाल जाहीर केली. ते राती कडेन साडे धा वरांचेर

सांस्कृतीक प्रोग्राम जातलो, तातूंत पोर्टांतलेच लोक पदां, नाच बी करतले आनी नवें वर्स सुरू जातना तरातरांचे फायर वर्क्स बी जातले.

महेश फकत धा मिनटां उलयलो : ''तमिळनाडूंत पंचवीस वर्सां हांवें वेगवेगळ्या आस्थापनांचें प्रशासन चलोवन म्हाका खूब समाधान मेळ्ळें आनी लोकां कडल्यान मोग आनी प्रशंसा मेळ्ळी. गोंयांत सगले कडेन भ्रश्टाचार खुब्ब आसा, आनी भ्रश्टाचारा बगर सरकारी कामां जायनात असो सगल्यांचो समज आसा. सरळ आनी प्रामाणीक सरकारी अधिकारी आसुंकूच शकनात, असोय चडशा जाणांचो समज आसा. पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवन बरें प्रशासन कशें चलोवं येता आनी सरकारांत बरो अधिकारी आसूंक शकता काय ना हें लोकांक दाखोवपाची संद म्हाका मेळपाक शकता अशें दिसून हांवें मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवपाचें मान्य केलें. फाटल्या पंचवीस वर्सांत म्हज्या आड एक्क निनांवीं कागाळ सरकाराक वचूंक नाशिल्ली. गोंयांत मात् ह्या पांच वर्सांत बारा निनांवीं कागाळी भारत सरकाराक गेल्यो. बारावे निनांवीं कागाळेचेर सीबीआय्न सुरवेची चवकशी सुरू केली. ती सुरू कित्याक जाली, कशी जाली, कोणाक लागून जाली हें सांगपाचो हो वेळ न्हय. सी. बी. आय्. ची चवकशी सुरू जातकूच म्हाका निर्शेणी येताली आनी तीस वर्सां आय्. ए. एस्ांत लोकांची सिर्वीस करून अखेरेक म्हाका हेंच फळ कित्याक फाव जाता अशें म्हाका दिसतालें. पूण म्हजे बायलेन म्हाका निर्शे णेंतल्यान परतू परतून वयर काडलो, देखून आयज हांगा तुमचे मुखार हांव उबो आसां!'' महेशाक हें उलोवन एक मिनिटभर वगी रावचें पडलें कारण बायलेक लागून आपूण उबो आसां अशें म्हणटकूच सुरू जाल्लो ताळयांचो कडकडाट खूप वेळ चालूच उरलो.

''आतां म्हाका निर्शेणी येना. पोर्टाच्या इतिहासांत पयलेच फावट अधिकारी, कामगार, पोर्टाचेर अवलंबून आशिल्ले सगल्या उद्देगधंद्यांचे मालक, नोकरवर्ग, एक्स्पोर्टर्स सगले एकठांय येवन एका चेअरमॅनाक फेअरवेल दितात हाचे परस व्हडलें सर्टिफिकेट आनीक आसुंकूच शकना. हीं तीस वर्सां हांवें आय् ए एस्ांत बेठींच पेड्डेर केल्लीं, लोकांची सेवा करपाक आपणाली जीण झिजोवन कांयच अर्थ ना अशें ह्या दोन-तीन म्हयन्यांत म्हाका दिसतालें. फाटल्या पंदरा दिसांत दर दिसा हांव हो विचार म्हजे

बायलेक उलोवन दाखयतालों, आनी महाभारतांतल्या कृष्णा भशेन ती म्हाका 'कर्मण्येवाधिकारस्ते' चो उपदेश करताली. सरळ आनी प्रामाणीक प्रशासन कशें आसूं येता, बरे अधिकारी कशे आसतात हें गोंयच्या लोकांक दाखोवंक जाय हीं म्हजीं उद्दिश्टां आयज म्हज्या मुखार जमिल्ल्या ह्या हजारांनी लोकांक पळोवन साध्य जालीं अशें म्हाका दिसता आनी गेल्ल्या पांच वर्सांत केल्ले सेवेचें सार्थक जालें अशें तुमकां सगल्यांक हांगा एकठांय पळोवन आयज म्हाका दिसता. बऱ्या प्रशासनाक आनी बऱ्या अधिकाऱ्यांक तेंको दिवन देश कसो सुदारपाक शकता हाचें उदाहरण तुमी सगल्यांनी आयज देशा मुखार दवरलां. आयज तुमी म्हाका खूब व्हडपण दिलां आनी हें व्हडपण दिवपाचे प्रक्रियेंत तुमीयबी सगले व्हड जाल्यात. आनीक थोड्या दिसांनी आमी मडगांवां रावूंक वतलीं आनी रिटायरमेन्टा उपरांतची आमची नवी जीण सुरू जातली. गोंयच्या सांस्कृतीक आनी समाजीक मळांचेर म्हाका खूब कामां करपाचीं आसात. त्या कामांनी हांव आनी म्हजी बायल दीस-रात गुल्ल उरतलीं, पूण तुमी सगल्यांनी एकठांय येवन आयज हो इतलो व्हडलो सुवाळो घडोवन हाडला आनी पोर्टाच्या इतिहासांत पयलेच फावट तुमी सगल्यांनी एकठांय येवन म्हाकाच न्हय तर बऱ्या आनी प्रामाणीक प्रशासनाक जो मान दिला तो हांव आनी म्हजी बायल केन्नाच विसरचीं नात. तुमकां सगल्यांक देव बरें करूं म्हणटां आनी तुमकां आनी ह्या पोर्टाक बरो फुडार मेळूं अशें देवा कडेन मागून तुमकां सगल्यांक परतून एकदां "थँक्यू आनी गुडबाय" म्हणटां." अशें म्हणून महेशान सगल्यांक नमस्कार केलो आनी तो बसलो.

पिटर डिमेलोन रातचो प्रोग्राम आनीक एक फावट जाहीर केलो आनी तो 'मेगाफेअरवॅल' सुवाळो सोंपलो.

रातच्या सांस्कृतीक प्रोग्रोमाक महेश आनी मीरा पुराय वेळ थंय बसलीं. पोर्टाच्या वर्सुकी सांस्कृतीक प्रोग्रामाक फायनलीक पाविल्ले सगले आयटम महेशाक आनी मीराक परतून पळोवंक मेळ्ळे. पंदरा-वीस मिनटां ग्रावंडाच्या भोंवतणीं फायर-वर्कस् जाले. मागीर "हॅपी न्यू इयर हॅपी न्यू इयर" म्हणत नव्या वर्सा महेश आनी मीरा बंगल्यार परतुपाक भायर सरलीं, इतल्यांत कांय विभाग मुखेली महेश आनी मीरा म्हऱ्यांत येवन "सर, आमी तुमच्या वांगडा तुमच्या बंगल्यार येतात. आमकां तुमच्या वांगडा केन्नाच मेकळ्या मनान

बसून उलोवंक मेळूंक ना. देखून आयज रातचे न्हिंदनासतना आमी तुमच्या वांगडा वेळ घालोवंक सोदतात!" अशें सांगूंक लागले. महेशान व्हडल्यान हांसून तांकां येयात म्हूण सांगलें.

जल्मीन आदींच लॉनार कदेलां बी मांडून दवरिल्लीं, आनी च्याचीय बी वेवस्था केल्ली.

च्याबी घेवन बायलांनी मीरा कडेन आनी त्या विभाग मुखेल्यांनी महेशा कडेन फांतोडेच्या चार वरां मेरेन हांसून, जोक्स् सांगून, भुरग्यांच्यो गजाली उलोवन खबरो केल्यो. चारांक सुमार "गुडबाय, बेस्ट ऑफ लक, बरीं करून रावात, तुमकां देव सगल्या तरांचें सूख दिवं." अशें म्हणून तीं सगलीं घोव-बायलां आपापल्या घरा गेलीं.

मीरा आनी महेश बंगल्याच्या वारांदार बसून उलोवंक लागलीं. सी. बी. आय्. न दोकुमेंत परतून धाडटकूच तांकां एकमेकां कडेन उलोवंक वेळूच मेळूंक नाशिल्लो. तांणी फाटल्या पावणे-पांच वर्सांचे अणभव याद केले आनी अखेरेक महेश 'कर्मण्येवाधिकारस्ते' च्या विशयाचेर आयलो.

समाजा कडल्यान आपल्याक मेळटा ताचे परस आपणें समाजाक चड दिवंक जाय अशें तो सदांच मानीत आयिल्लो. पूण आपूण दितां तेन्ना दर फावटीं आपणाक चड मेळटा जाल्यार कितें करपाचें हाची जाप ताचे कडेन नाशिल्ली. मुरगांव पोर्टांत सुमार पावणेपांच वर्सां सिर्विस करून प्रशासनाक ताणें जें दिलें ताचे परस कितलेशेच पटींनी चड पोर्टान आनी हेरांनी त्या दिसा ताका दिल्लें. मेळ्ळें ताचे परस उणें दिल्ल्याची खंत भोगपाची काय दिल्लें ताचे परस चड मेळिल्ल्याची आपणें खोस मनोवपाची?

दिल्लें ताचे परस चड मेळ्ळ्यार खोस जाता, कारण फळाच्या उद्दिश्टानूच आयजच्या काळांत लोक काम करतात. देवळांतले पुजारी आनी भक्त लेगीत फळाची अपेक्षा धरूनच देवाची पुजा करतात. नितळ आनी बरें प्रशासन कशें आसूं येता, असल्या प्रशासना वरवीं लोकांचें हीत कशें सादूं येता हें गोंयकारांक दाखोवपाचें उद्दिश्ट घेवन महेशान मुरगांव पोर्टाचो चेअरमॅन म्हूण येवपाचें मान्य केल्लें. आयज पोर्टाच्या कामगारांनी, अधिकाऱ्यांनी आनी मुरगांवच्या लोकांनी निरोपाची सभा घडोवन हाडिल्ली ती पळोवन उद्दिश्ट साध्य जाल्ल्याचें महेशाक समाधान जालें.

पांच हजार वर्सां पयलीं भगवान श्रीकृष्णान सांगिल्लें ''मा फलेशु कदाचन'' आयजच्या काळांत लागू जाता काय ना? काय आयजच्या काळांत ''कर्मण्येवाधिकारस्ते फल हेतुना अपिप्रेरितः!'' अशें म्हणचें पडटलें?

वरांडा मुखावेल्या वडाच्या दाट्ट पानां मदल्यान सवण्यांनी सकाळ जावंक आयिल्ल्याची खबर दिली. इतल्यांत मीराक भितरल्यान एक पयशिल्लो आवाज आयकूंक येवंक लागलो, ''भगवान श्रीकृष्णान सांगिल्लें तें आयज लेगीत लागू जाता. निःस्वार्थ मनान समाजाची सेवा करून मेळिल्ल्या समाधानाचो आनी धादोसकायेचो आसपाव देवान 'फलेशु' ह्या उतरांत करूंक ना.''

आपणाले जिणेचो लोकां खातीर योग्य उपेग करप आनी तोवूय बी लोकां कडल्यान कांय भौतिक अपेक्षा धरिनासतना, हाचोच अर्थ 'कर्मण्येवाधिकारस्ते!' मीरान हो आवाज आयकल्ल्याची गजाल महेशाक सांगली.

वडाच्या पानांतल्यान झिरपुपी उदेंतीचीं किरणां निवृत्ती उपरांतच्या महेश आनी मीराचे जिणेंत एक नवी सकाळ आनी नवो उजवाड घेवन आयलीं.



# लेखकाची वळख

अरविंद भाटीकार हांचो जल्म 8/12/1938 ह्या दिसा मडगांव शारांत जालो. गोंय पुर्तुगेज शेकातळा आसतना तांचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान जालें. मडगांवां भाटीकार कुटुंबान चलयिल्ल्या मॉडॅल इंग्लिश हायस्कुलांत एस्.एस्.सी. मेरेनचें शिकप करून धारवाडाक कर्नाटक कॉलेजांत अर्थशास्त्र आनी फ्रँच हे विशय घेवन तांणी बी.ए. ची पदवी घेतली. उपरांत बॉम्बे युनिवर्सिटीच्या 'स्कूल ऑफ इकॉनॉमिक्स' ह्या विभागांतल्यान तांणी एम्.ए. (अर्थशास्त्र) पदवी घेतली. मागीर शेतकी अर्थशास्त्र विशयाचेर पी.एच्.डी. करपाखातीर तांकां शिश्यवृत्ती मेळ्ळी. त्या उपरांत फुडले जिणेचो मार्ग बदलून 1965 वर्सा ते आय्.ए.एस्. परिक्षेक बसले. 1966 वर्सा तांची भारतीय प्रशासन सेवेंत (आय.ए.एस्.) नेमणूक जाली.

कोंकणी भास आनी गोंयकारांची वेगळी अस्मिताय सांबाळपा खातीर गोंयांत विलिनीकरणा आड चळवळ जाली. 1961 ते 1964 मेरेन ताणीं हे चळवळींत वांटो घेतिल्लो.

भारतीय प्रशासन सेवेंतल्या तीस वर्सांच्या काळांत तमिळनाडू सरकार, भारत सरकार आनी युनायटेड नेशन्साच्या प्रशासनांनीं ताणीं कारभार हाताळ्ळो. सेवेंत आसतना सरकारी कामां खातीर 49 फावटीं भायल्या देशांनी आनी दोन फावटीं सबंद जगाची भोवंडी करपाची संद तांकां मेळ्ळी. 1976 वर्सा भारत सरकारान तांकां एका वर्सा खातीर पॅरीस फ्रान्सच्या आंतर राष्ट्रीय प्रशासन संस्थेंत प्रशिक्षण घेवपा खातीर धाडिल्ले.

1991 ते 1996 वर्सा ते मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाचे अध्यक्ष आशिल्ले.

1996 डिसेंबरांत ते भारतीय प्रशासन सेवेंतल्यान निवृत्त जाले. कांय काळ वेवस्थापन मळाचेर कन्सल्टन्सी करून आतां वेगवेगळ्या समाजीक

चळवळींचो ते एक वांटो जाल्यात. वेगवेगळ्या विशयांचेर बरयिल्ले तांचे 200 वयर लेख हेराल्ड, गोमन्तक टायम्स दिसाळ्यांनीं आनी गोवन ऑब्जर्वर नेमाळ्यांत उजवाडाक आयल्यात.

ते आनी तांची 'सायकॉलॉजिकल कावन्सलर' घरकान्न स्नेहलता पणजेच्या करंजाळें वाठारांत रावतात. तांचो कम्प्युटर इंजिनियर चलो युगेश, सून वेदा आनी नातरां नीना आनी मीरा हीं अमेरिकेंत आसतात.

वोंवळां (यादींचो सर) हें तांचें पयलें कोंकणी पुस्तक 2011त उजवाडाक आयलें. गोंयचो मीन उद्देग आनी ह्या विशयाचेर आशिल्ले भारतीय कायदे, शहा कमिशनाचो अहवाल आनी सुप्रीम कोर्टाचे निकाल हाचेर 2015त **'रडरलेस डेमोक्रसी'** हें तांचें इंग्लिश पुस्तक उजवाडाक आयलें. **'कर्मण्ये... काल, आज, फाल्यां'** ही कोंकणी कादंबरी 2021 वर्सा उजवाडाक आयल्या.

●●●

## उजवाडावणेचे वाटेर

1. **लोकशाय हाय हाय**
   हालींच्या पांच-स वर्सांत गोंय, भारतीय राजकारण आनी अर्थवेवस्था हांचेर उजवाडाक आयिल्ल्या लेखांचें संकलन.

2. **लोकशाय... कितें तें?**
   गोंयच्या सरकारी आनी विरोधी पक्षांच्या राजकारणांत चलिल्ल्यो प्रक्रिया, उपरोधीक नाटकुल्यां वरवीं दाखोवपाचो यत्न.



अरविंद पांडुरंग भाटीकार

भ्रश्टाचार आनी पक्षपात नासतना प्रशासन कशें चलोंव येता हें गोंयच्या लोकांक दाखोवंक जाय अशें आय्.ए.एस्. अधिकारी महेश प्रभूक सदांच दिसतालें. ती बदली मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाचो चेअरमॅन म्हूण जातकूच बरें प्रशासन कशें आसता हें गोंयच्या लोकांक दाखोवपाची ताका संद मेळ्ळी.

आपणालें उद्दिशट सादय करता आसतना महेश प्रभूक खूब आडमेळीं आयलीं. मिराच्या कुळारचे सोयरे आनी महेशाच्या हातासकयल वावुरपी पोर्टांतले कांय कर्मचारी हांणी महेशाक गोंयच्यान भायर धांवडावपाचे खूब यत्न केले. पूण अखेरेक बरें, नितळ आनी कायद्याचे चौकटेंत रावून सक्षम प्रशासन कशें आसूं येता हें महेशान दाखोवन दिलें.

भौसाकडल्यान कसलीच भौतिक अपेक्षा करिनासतना बऱ्या प्रशासना वरवीं तांची सेवा करप म्हणल्यारूच भगवान श्रीकृष्णान पांच हजार वर्सां आदीं दिल्ल्या ''कर्मण्ये वाधिकारस्ते...'' उपदेशा प्रमाणे जीण जगप हें महेशाक आनी मिराक अखेरेक कळ्ळें.

